# भारतीय भाषांमधील कोषविश्वातील
# एक अपूर्व निर्मिती

एकखंडी
गडगंज
ग्रंथराज




अस्तित्वाचा लढा देत
श्रीमंत शब्दसामर्थ्यातून
समृध्दीकडे वाटचाल करीत
आपल्या भाषाभगिनींची
उत्तुंग भरारी...

राजहंस
# कोंकणी
## सचित्र
## अश्टांगी
# अभ्यासकोश

रचनाकार - दामोदर केशव घाणेकर
तांत्रिक भार - सुरेश जयवंत बोरकर

वैशिष्ट्ये :

- आवश्यक तिथे उच्चार
- उलट अर्थाचे शब्द
- व्याख्या आणि वापर
- पोर्तुगीज आणि इंग्रजी शब्दांची मूळ रूपे
- क्रियापदांचे धातू
- नकारार्थी क्रियापदांची मूळ रूपे
- नामांची सामान्य रूपे
- बहुवचने

- ☐ *पन्नास हजारांहून अधिक शब्द*
- ☐ *सातशे पन्नासांपेक्षा जास्त रेखाटने*

आकार : **A5**
पृष्ठे : **2200**
कागद :पांढरा **80** gsm
सुबक शिलाई बांधणी
ग्रंथालयांसाठी मूल्य रु. **3000/-**
व्यक्तिगत ग्राहकांसाठी
स्वयंअनुदानित मूल्य रु. **1200/-**

(ट.ख.नि.)





राजहंस वितरण
1 - मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्हुल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग, पणजी, गोवा 403001
Ph.:91 - 0832 2220320 / 2232177 email : rajhaunsvitaran@dataone.in


Raj_Ad-02



**दिवाळी / नातलां २०१०**
**वर्स: ३७ आंक : ३**

# जाग

* **संस्थापक**
*स्व. सुमंत केळेकार*

* **संपादपी**
*माधवी सरदेसाय*

* **उजवाडावपी**
*जयवंत भा. सरदेसाय*

* **छापपी**
*हिरु नारायण नायक*
रुतू ऑफसेट प्रिन्टर्स,
वळवय, फोंडें-गोंय.



## ह्या खाशेल्या आंका निमतान...

२०१० चो 'जागा'चो खाशेलो आंक बाकीबाबांल्या साहित्याचेर, मुखेलपणान तांचे कवितेचेर, काडप म्हूण खूब पयलीं सावन आमी थारायल्लें आनी तशें आमच्या बरोवप्यांकूय कितल्याश्या म्हयन्यां आदीं कळयल्लें. पूण, 'दिवाळी-नातलां आंक मगो? नोव्हेंबराचे अखेरे मेरेन धाडटां लेख...' अशें उतर मेळून पसून कांय लेख नातलां उलगले उपरांतूय आमचे कडेन पावले नात.

आनी निमाणें 'जागा'च्या दिवाळी-नातलां आंकाची गत आदल्या तेंपा वेले कार्रैरीची जाली. 'राव रेय!' म्हणटल्या सगल्यांक कार्रैर रावली – भितर बशिल्ल्यांचें पासिंयेंस पेड्ड्यार जाय सर!! (भौ. अ. ना. म्हांबरो डिसेंबर लागत सावन 'जाग केन्ना येता?' विचारूंक लागिल्ले. आतां तांणीय 'जागा'ची वासपूस करप सोडलां.)

ऑगस्टाचे २७ तारकेक रवीन्द्रबाब गेले. तेन्ना दिसलें, रवीन्द्रबाबांच्या यादीं खातिरूय ह्या खाशेल्या आंकांत कांय पानां दवरचीं. तांच्या संपर्कांत आयिल्ल्या कांय जाणां कडेन हे तरेचे लेख मागले आनी आमचे अपेक्षे परस्ूय चड लेख हातांत आयले. आंकाचीं पानांय मातशीं हाता भायर गेलीं. आनी, फकत खर्चाचें चिंतून जानेवारी म्हयन्याचो वेगळो आंक काडप ना म्हूण आमी थारायलें.

बाकीबाब आनी रवीन्द्रबाब हे दोन गडगंज विशय एका आंकांत आसपावन घेवप भोव कठीण. हें पुराय वर्सभर आनी गरज पडल्यार मुखारूय तांचेर आनी तांचे बरपावळीचेर 'जागां'त सतत कितें न्हय कितें उजवाडा हाडपाचो आमचो विचार आसा. ह्या आंकांतलीं बरपां वाचून आमच्या बरोवप्यांक / वाचप्यांक बाकीबाबांचेर वा रवीन्द्रबाबांचेर, तांच्या व्यक्तिमत्वाचेर वा बरपाचेर उजवाड घालपी लिखाण आमकां धाडन दिसलें जाल्यार तें हक्कान धाडून दिवचें, आमच्या फोनाची वा चिटीची वाट पळे नासतना. महाविद्यालयांनी आनी विद्यापीठांत कोंकणी शिकपी / शिकून भायर सरिल्ल्या नव्या भुरग्यांनीय फाटीं रावचें न्हय. कोंकणी सरस्पतीच्या पोरसांत फुलपी नव्या ताज्या फुलांची 'जागा'क सदां लक्तुबाय...

निमाणें,

उपकार –

सगल्यांत पयलीं आमच्या बरोवप्यांचे आनी मुखावेल्या पाना वयलें चित्र दिवपी चित्रकार भौ. श्रीधर कामत बांबोळकार हांचे. भौ. मिलन खानोलकार आमकां सदां गरजेक पावल्यात. अमक्या अमक्या विशयाचेर चित्रां काडून मेळत काय म्हूण आमी सदां ऐन वेळार तांचे कडेन चित्रां मागल्यांत आनी तांणी केन्ना ना म्हणूंक ना. तांच्या रिणांत 'जाग' सदां उरतलें.

ह्या आंकांतल्या कितल्याश्या लेखांचीं पयलीं मुद्रितां बाय कृपाली नायक हाणें तपासलीं आनी कामाक वेग दिलो. ताचेय उपकार.

जायरातदारांचे उपकार मागले बगर कशें जायत? आयज मेरेन 'जाग' वजें जावंक ना तें तांकांच लागून. सगळ्यांक काळजा सावन 'देव बरें करूं'.

हें नवें वर्स आमच्या वाचप्यांक, बरोवप्यांक, चित्रकारांक, जायरातदारांक आनी 'जाग' कुटुंबांतल्या हेर वांगड्यांक खोशयेचें आनी उमेदीचें वचूं अशें आमी मागतात.

**– संपादपी**









# ह्या आंकांत -
























● **भायलें चित्र :** श्रीधर कामत बांबोळकार

● **भितल्लीं चित्रां : मिलन खानोलकार: ११३, ११८-१२२, १२५, १२६, १३०, १३६, १३७, १३९, १४९, एकनाथ महाले: १२७, अदिती नायक: १-३, १५३, १८६-१९८.**

● रेखा चित्रां **(बाकीबाब बोरकार, रवीन्द्र केळेकार)** : डॉ. सुबोध केरकार

*** आंकाचें मोल: १५० रु.**

१२५ वे जयंती निमतान खाशेलो लेख

# काकासाहेब कालेलकर: गोंय आनी कोंकणी-मराठी संघर्श

माधवी सरदेसाय

कोंकणी चळवळीक कांय ऋषितुल्य राष्ट्रसेवकांचो आशिर्वाद आनी उकतो तेंको मेळिल्लो. हांचे भितर मुखेलपणान आसले आचार्य काकासाहेब कालेलकर वा, दत्तात्रेय बाळकृष्ण कालेलकर (जल्म: १ डिसेंबर १८८५, मर्ण: २१ ऑगस्ट १९८१).

> "काकासाहेब एक द्रश्टे राष्ट्रपुरूस आशिल्ले. तांचो भाशाविचार परिस्थितीक शरण वचपी तज्ज्ञांचो भाशाविचार नाशिल्लो. तो परिस्थितींतल्यान वयर सरिल्लो पूण राष्ट्राचें हीत दोळ्यां मुखार दवरून केल्लो आदर्शवादी भाशाविचार आशिल्लो."

### भारताचो भाशीक प्रस्न: नदर आनी वावर

भारताच्या भाशीक प्रस्ना विशीं काकासाहेबांची भुमिका अशी आशिल्ली —

भारतीय संस्कृतायेचो सर्वदेशीय विकास वेगळ्या वेगळ्या थळाव्या भासां वरवींच जावं येता. पूण, आमचे कुडीचीं वेगळीं वेगळीं इंद्रियां एका मनाक लागून जशीं एकरूप, एकप्राण जाल्लीं आसतात तशीच आयच्या भारतांत एकराष्ट्रीयताय जागी जातली जाल्यार एक राष्ट्रीय भास भोव गरजेची. इंग्लीश आमच्या देशांत राष्ट्रीय भाशेची सुवात केन्ना घेवंक पावचिना. कित्याक, इंग्लीशीचीं पाळां-मुळां हे भुंयेंत नात. भास फकत विचारांच्या दिवपा-घेवपाचें साधन न्हय, ती प्रजेचे सांस्कृतीक अभिव्यक्तीचें माध्यमूय बी. हांगा इंग्लीश उणी पडटा. ते भायर, ही भास बरपाक्षरी आनी वाचूंक बरोवंक नकळ आशिल्ल्यां मदीं फूट तयार करता. ही फूट वाडत गेली जाल्यार आमचो समाज विघटीत जातलो. भारताची सार्वजनीक भास हिन्दीच जावं येता. भारतीय जनसमाजान हे भाशेक राष्ट्रभाशेची सुवात केऽन्ना दिवन उडयल्या.[१]

काकासाहेबांची ही भुमिका गांधीजींच्या भाशाविचाराक धरुनूच आशिल्ली.

राष्ट्रभाषा हिन्दीची व्याख्या गांधीजी अशे करताले —

"उत्तरेंतले हिन्दू आनी मुसलमान उलयतात ती, आनी नागरी वा फारसी लिपयांनी बरयतात ती भास हिन्दी... ही हिन्दी सामकी संस्कृतमय न्हय, तशी सुमारा भायर फारसी उतरांनीय भरिल्ली न्हय."[२]

हिन्दी आनी उर्दू दोन वेगळ्यो भासो न्हय, एकेच भाशेच्यो ह्यो दोन अडेच्यो (कृत्रीम) साहित्यीक मोडी, सरसमान लोकांचे भाशे पसून पयस गेल्ल्यो, अशें गांधीजी सदां मानीत आयिल्ले.[३]

हिन्दीक गांधीजी मुखार 'हिन्दुस्तानी' म्हणूंक लागिल्ले.

राष्ट्रभाशेच्या प्रचाराचें कार्य गांधीजींनी काकासाहेबांच्या हातांत सोंपयल्लें. ह्या प्रचारा निमतान काकासाहेब देशाच्या खांची कोनशांनी भोंविल्ले. आनी देशाच्या भाशीक प्रस्नाचें पुराय चित्र तांचे मुखार स्पश्ट जाल्लें. राजकी स्वराज्या वांगडा देशांत सांस्कृतीक स्वराज्यूय हाडचें आसल्यार चार दिकांनी वावर करचो पडटलो अशें तांचें मत्त जाल्लें—

१. देशांतल्या सगळ्या ल्हान-व्हड भासांचो पुरस्कार करप. स्वराज्यांत ते ते भाशेच्या वाटारांत ते ते भाशेंतल्यानूच प्रशासन चलतलें आनी शिक्षणाचेंय मुखेल माध्यम हीच भास आसतली, तिका सगळे तरेची राखण मेळटली हाचो लोकांक विश्वास दिवप.

२. भारतांतल्या वेगळ्या वेगळ्या भाशीक समाजांक सांगप — तुमच्यो भासो वेगळ्यो वेगळ्यो खऱ्यो, पूण भारतांत रावतल्या आमच्या सगळ्यांची संस्कृताय एक. वेगळ्यो वेगळ्यो थळाव्यो अस्मितायो हे एकेच संस्कृतायेचे उन्मेश - उमाळे.

३. सगल्या भाशीक समाजां मदलें असुरक्षीतपण पुरायेन ना करून तांकां निर्भय करून सांगप - अंतरप्रांतीय वेव्हाराक लागून आपल्या आपल्या भासां भायर आमकां आनीक एक भास आपणावची

पडटली. हे भाशे वरवीं देश एकवटीत जावंक पावतलो. कोट्यांनी लोकांक समजूंक सोंपी जाता असली आनी भारतीय संस्कृताय व्यक्त करपाची तांक आशिल्ली भासूच असली अंतरप्रांतीय वेव्हाराची भास जावं येता. हिन्दीकूच ही सुवात फावता.

४. सगळ्यो थळाव्यो भासो एकिमेकींक लागीं येवच्यो आनी तांचे भितर साहित्यीक दिवप-घेवप वाडीक लागचें म्हूण सगल्या भासांनी एक नागरी लिपी आपणावची हे दिकेन यत्न करप. एकली फारसी लिपी सोडली जाल्यार सगल्यो भारतीय लिपयो एकाच मुळांतल्यान वयर सरल्यात. संस्कृत भाशेक लागून आमकां नागरी शिकची पडटाच. ही लिपी सगल्यांनी आपले आपले भाशे खातीर घेवची. हातूंतल्यान सगळ्यो थळाव्यो भारतीय भासो एकिमेकींक लागीं येतल्यो आनी भारताचें आंतरीक जिवीत अदीक घटमूट जातलें. हे घटकेक (ही १९३५ तली गजाल) देशांतले ९०% प्रजेक वाचूंक-बरोवंक येना. तेन्ना, एक लिपी आपणावन तिका बरपाक्षरी कित्याक करची न्हय?[४]

भाशीक स्वराज्याक सगल्यांत व्हडली आडखळ इंग्लीश भाशेची आसतली हें काकासाहेब वळखल्ले. ते बरयतात –

स्वराज्य एक दीस येतलें हातूंत दुबाव ना. स्वराज्यांत शासन आमच्या हातांत येतलें पूण प्रशासन आज इंग्रजांचें राज्य चलयतात तांच्याच हातांत उरतलें. तांचें इंग्लीश भाशे बगर जायना. स्वराज्यांतूय ते देशाचो कारबार इंग्लीशींतल्यान चलयतले. सत्तेर येवपी आमचे फुडारी कितलेय राष्ट्रवादी आसले जाल्यारूय ह्या प्रशासकां बगर तांकां राज्य चलोवंक येवचेंना. तांकां पेल्यान काडपाची तांक वा इत्साय आमच्या फुडाऱ्यां भितर आसचिना. स्वराज्यांत घडये इंग्लीश अदीक बळिश्ट जातली. राज्य इंग्लीशींतल्यान चलतलें, म्हणटकच आपल्या भुरग्यांक सरकारी नोकऱ्यो मेळच्यो म्हूण आवय-बापूय तांकां इंग्लीशींतल्यान शिकोवंक सोदतलीं. इंग्लीश राजकारबाराची भास जाली जाल्यार ती देशाच्या रासवळ जिविताचीय भास जातली. तिची प्रतिश्ठा वाडटली. मागीर लोकूय म्हणूंक लागतलो, इंग्लीश अशी सगल्याक घोळटा जाल्यार तिका भारतीय भास कित्याक लेखची न्हय?[५]

हो सगलो संदर्भ मतींत घेवनूच काकासाहेबांनी आपणाली चार कलमी भाशीक कार्यावळ आंखिल्ली आनी रोखडीच (१९३५ वर्सा) ती गांधीजीं मुखार दवरून तांची मान्यतायूय घेतिल्ली. हे दिकेन वावर करपाक ते देशभर भोंविल्ले. महाराष्ट्रांत बाळासाहेब खेर, शंकरराव देव, दत्तो वामन पोतदार, वामनराव जोशी, आसामांत गोपीनाथ बरदलै, उडिसांत गोपबंधु चौधरी, सिंधांत नारायण मलकानी, बंगालांत सुनीति कुमार चटर्जी आनी चित्तरंजन सेन सारकेल्या व्हडल्या व्हडल्या राष्ट्रीय फुडाऱ्यांक आनी जाणकारांक तांणी राष्ट्रभाशेच्या प्रचारकार्यांत आसपावन घेतिल्ले.[६]

सगल्या भासांनी नागरी लिपी आपणावची जाल्यार तिचे भितर कांय सुधारणा करप गरजेच्यो अशें काकासाहेबांक दिसतालें. टायपिंगाक, छापणावळीक ही लिपी सोंपी पडूंक जाय; ते भायर, राष्ट्रीय पांवड्यार सगळ्या मळांनी तिचो वापर जातलो जाल्यार नागरींत टॅलेग्राफीक कोड, शॉर्टहॅंड लेखन पद्दत तयार करूंक जाय अशेंय तांचें मत्त जाल्लें. हाचेर खूब अभ्यास करून आनी गांधीजीं कडेन चर्चा करून काकासाहेबांनी 'हिन्दी साहित्य सम्मेलना' मुखार आपणाल्यो लिपी सुधारणेच्यो सुचोवण्यो दवरल्यो. सम्मेलनान रोखडीच 'लिपी सुधार समिती' घडयली आनी काकासाहेबांकूच तिचे अध्यक्ष केले. वर्ध्याचे 'राष्ट्रभाषा प्रचार समिति'न काकासाहेबांची सुधारिल्ली नागरी आपणायली. गांधीजींनी 'हरिजन सेवक' ह्या आपणाल्या सप्तकी नेमाळ्या खातीर ही नागरी घेतली. इतलेंच न्हय, 'नवजीवन' प्रकाशन संस्थे वतीन उजवाडा येवपी तांचीं हिन्दी पुस्तकांय हे नागरींत छापून येवंक लागलीं.[७]

शणै गोंयबाबांनी हे सुधारिल्ले नागरीक उकतेपणान तेंको दिवंक नासलो तरी काकासाहेबांनी सुचयल्ल्यो कांय सुधारणा (देखीक, इ, ई, उ, ऊ, ए, ऐ बदला अि, अी, अु, अू, अे,अै बरोवपाची चाल) तांणीय आपणाल्या उपरांतच्या बरपांनी आपणायल्ल्यो पळोवंक मेळटात. काकासाहेबांच्याच आशिर्वादान स्थापन जाल्ले 'गोमंत भारती' संस्थेच्या उजवाडावपांनी आनी गोंय मेकळिके उपरांत 'कोंकणी भाशा मंडळा'न तयार केल्ल्या कोंकणी पाठ्यपुस्तकांनीय काकासाहेबांनी नागरींत सुचयल्ले कांय बदल आसपावन घेतिल्ले पळोवंक मेळटात.

'भारतीय साहित्य एक, तें उकतें जाता वेगळ्या वेगळ्या भासांनी' हो विचारूय राष्ट्रनिर्माणाच्या वावराचो एक बाय-प्रॉडक्ट आशिल्लो. गुजराती साहित्यकार कन्हैयालाल मुंशी आनी हिन्दी साहित्यकार मुंशी प्रेमचंद ह्या विचारान प्रभावीत जाल्ले आनी १३ एप्रील १९३६ ह्या दिसा नागपुराक तांणी 'भारतीय साहित्य परिषदे'चें पयलें अधिवेशन घडोवन हाडिल्लें. महात्मा गांधी ह्या अधिवेशनाचे अध्यक्ष आसले आनी काकासाहेब ताचे स्वागताध्यक्ष. सगळ्या भारतीय भासांक वांगडा घोळूंक एक माची मेळची आनी थळाव्या भासांचे माचये वयलो साहित्य-विचार राष्ट्रीय पांवड्यार पावचो म्हूण ही 'परिषद' जल्मा आयिल्ली. हे परिशदेचें दुसरें अधिवेशन १९३७ वर्सा मद्रासाक भरिल्लें. उपरांत रोखडेच मुंशी प्रेमचंद भायर पडले. कन्हैयालाल मुंशी कॉंग्रेसीच्या वावरांत घुसपून उरले, आनी 'परिषदे'चो वावर थंडावलो. पूण, 'वेगळ्या वेगळ्या थळाव्या भासांनी उकतें जावपी भारतीय साहित्य एक' हो विचार काकासाहेबांनी उखलून धरलो. ते सांगतात, ''हिन्दीच्या प्रचारा खातीर जंय जंय म्हूण हांव पावलां, हो विचार हांवें लोकां मुखार दवरला.'' जवाहरलालांकूय भारतीय साहित्याची ही संकल्पना आवडिल्ली आनी पटिल्ली. स्वराज्या उपरांत जाल्ले 'साहित्य अकादेमी'चे स्थापणुकेच्या मुळाक होच विचार

आशिल्लो.[८]

## गोंय आनी कोंकणी-मराठी संघर्श

गोंया विशीं आनी कोंकणी विशीं काकासाहेबांच्या मनांत खूब आपलेपण आशिल्लें. तांचो कुळदेव मंगेश गोंयां आशिल्ल्यान सामक्या ल्हानपणा सावन गोंय आपणाली पवित्र भूंय अशें तांकां दिसतालें. कालेलकर घराणें मुळचें सिंधुदुर्गांतल्या कालेली गांवचें. देखून कोंकणी एके परीन काकासाहेबांल्या जाणटेल्यांची भास आशिल्ली. चवदा वर्सांचे पिरायेचो भुरगो दत्तू आवय-बापाय वांगडा गोंयां मंगेशीं देवस्थानांत वचून राविल्लो तेन्ना गोंयचें सोबीत सैम आनी म्होंवाळ कोंकणी भास हांणी ताच्या काळजांत सुवात जोडिल्ली. आनी वांगडाच, प्रौढ विचार उकतावपा खातीर मराठींत कविता रचप आनी फकाणां-टवाळां करपाक कोंकणींत कवनां करप ही भाशेची वांटणी पळोवन ताका वायट्य दिशिल्लें.[९]

मुखार देशसेवेचें व्रत घेतले उपरांत गोंयकारां कडेन आयिल्ल्या संबंदांतल्यान आनी गोंयकारांचे मराठी बरपावळींतल्यान काकासाहेबांक गोंयची अदीक अदीक म्हायती मेळत गेली. दत्ता व्यंकटेश पै, यशवंतराव सरदेसाय, लक्ष्मणराव सरदेसाय, बाकीबाब बोरकार, दामोदर अच्युत कारे हांचे कडेन तांची बरी वळखूय जाली. (लक्ष्मणरावांच्या *ढासळलेले बुरुज* (१९४०) ह्या कथां झेल्याक आनी उपरांत बाकीबाबांल्या *दूधसागर* (१९४७) ह्या कवितां झेल्याक काकासाहेबांनी अनुक्रमान १९४० आनी १९४७ वर्सा प्रस्तावना बरयल्ली.) १९०७ ते १९१४ हे मजगतीं काकासाहेबांचे पुण्यांतले इश्ट दत्तोपंत आपटे आनी हरिभाऊ फाटक दादा वैद्यांचे मदतीन फोंडेची आल्मैद कुलेज चलयताले तीय तांणी थंय वचून पळेल्ली. ह्या सगळ्याक लागून गोंयचे राजकी-सांस्कृतीक परिस्थितीची तांकां बरी जाण आशिल्ली.[१०]

गोंया कडल्या ह्या संबंदाक लागून जावंक जाय, १९४५ वर्सा मुंबय जाल्ल्या 'गोमंतक मराठी साहित्य संमेलना'च्या तिसऱ्या अधिवेशनाच्या अध्यक्षपदाची माळ तांच्या गळ्यांत पडिल्ली.

भारताच्या भाशीक प्रस्ना संबंदान काकासाहेबांची स्पश्ट भुमिका आशिल्ली. १९३५ वर्सा सावन महात्मा गांधींचे मान्यतायेन ते तिचो प्रचारूय करीत आयिल्ले. हे भुमिकेक सोबऽ सारके विचारूच तांणी आपणाल्या अध्यक्षीय भाशणांत मांडिल्ले, आपूण मराठी भाशीक, आनी मराठी भुंयेर उलयतां हाची इल्लीय पर्वा करी नासतना. खरें म्हळ्यार, संमेलनाच्या अध्यक्षपदाचें आमंत्रण घेवन काकासाहेबां सरीं जे गेल्ले तांकां कोंकणी-मराठी समन्वयाची आपणाली भुमिका तांणी विस्तारान समजावन सांगिल्ली आनी, ही भुमिका तुमकां मान्य आसा जाल्यारूच हांव हें अध्यक्षपद घेतां, ना जाल्यार म्हाका पयस रावप आवडटलें अशेंय स्पश्ट सांगिल्लें.[११]

काकासाहेबांचें तें अध्यक्षीय उलोवप उपरांत 'गोमंतकीय सरस्वतीभक्तांस' ह्या माथाळ्या खाला *पुण्यभूमि गोमंतक* (१९५८) ह्या रवीन्द्रबाब केळेकारांनी तयार केल्ल्या गोंय आनी कोंकणी विशींच्या काकासाहेबांच्या बरपांच्या संकलनांत उजवाडा आयलां. तातूंत ते सांगतात –

गोंयांत कितल्याश्या जातींचे हिंदू आसात तशे क्रिस्तांव आनी मुसलमानूय आसात. फकत कोंकणी वरवींच ह्या सगल्यां मजगतीं आंतरीक एकचार घडोवन हाडूं येता. मराठीक अदीक म्हत्व दिलें आनी कोंकणीक उणी लेखली, तिचे बरपावळीची वाड जावंक दिलिना, सरकार दरबारांत तिका सुवात जोडून दिलिना जाल्यार गोंयचे प्रजेच्या एकचाराचें एकलें-एकसुरें आंतरीक तत्व भंगतलें आनी प्रजा विस्कळीत जातली. गोंयांत पोर्तुगेज भाशेचें राज्य ना जावन थंय लोकभाशेचें राज्य येवंक जाय जाल्यार राजभाशेची सुवात कोंकणीकूच दिवची पडटली. आनी, तशी ती मेळची म्हूण मराठीचो पाखो घेतल्यांनीय कोंकणीच्या आधाराक धांवन वचूंक जाय.[१२]

मराठीच कोंकणीक सगल्यांत लागींची भास. मराठीची कोंकणीन सामकी उवेखणी केली जाल्यार कोंकणी एक तर सुकून वतली वा विकृत जावन पड्टली आनी, मेकळ्या गोंयांत मराठीक तग धरून रावचें आसल्यार कोंकणीक मुखार काडुनूच तिका आपणालो विकास साधचो पडटलो, अशें काकासाहेबांनी कोंकणी आनी मराठी – दोनूय पंगडांतल्या लोकांक 'गोमंतक मराठी साहित्य संमेलना'चे माचये वयल्यान स्पश्ट सांगिल्लें.[१३]

रवीन्द्रबाब बरयतात –

''मराठी संमेलनाच्या खासा अध्यक्षांच्याच तोंडांतल्यान हे तरेचे विचार फुटिल्ले पळोवन मुखार बशिल्ले मराठीवादी पयलीं घुटमळ्यांत पडले. मागीर खुबले. संमेलनांत दोन पंगड पडले. एक अध्यक्षांचो. काकासायबांचो. दुसरो येवकार अध्यक्षांचो. दत्तात्रेय व्यंकटेश पैंचो. सगळे एकामेकांचेर तापपाक लागले. येवकार अध्यक्षांच्या पंगडान 'कोंकणी मराठीची बोली' म्हूण एक थाराव हाडलो. थारावा आड कोण उलयनासो पळोवन शान्तेबाब [आमोणकार] उलोवपाक उठलो. 'भावांनो आनी भयणींनो' इतलेंच म्हळ्ळां मात, मराठीवादी उसळ्ळे. 'हे कोंकणी संमेलन नाही, मराठी संमेलन आहे; मराठीतून बोला, नाही तर खाली बसा' म्हूण मोट्या मोट्यान आड्डूंक लागले. काकासायब अध्यक्ष. तांणी म्हळें, 'संमेलन मराठीचें खरें. पुणून तें कोंकणी विरोधी न्हय... हांव अध्यक्षाच्या अधिकारान ह्या भुरग्याक कोंकणींत उलोवंक दितलों.' काकासायबांचो तेंको मेळना फुडें शान्तेबाब सडसडीत उलोवपाक लागलो. 'सकल ओडून काडात रे ताका', म्हूण मराठीवादी कोंकणींत आड्डूंक लागले. कांण जाण 'मारात रे ताका' अशें म्हणून मारपाक धांवले. कदेलां उखल्लीं. शान्तेबाबाक उलोवप बंद करचें पडलें. तो वेदी वेलो देंवलो आनी 'वॉक आवट' करून गेलो.

''ताका 'वॉक आवट' करून गेल्लो पळेतकूच काकासायब उठले आनी तांणी म्हळें, 'म्हाका तुमी आपोवपाक आयिल्ले तेन्ना कोंकणी मराठी वादा वेलीं म्हजीं मतां हांवें स्पश्ट केल्लीं. आनी म्हळ्ळें, तुमकां म्हजीं हीं मतां मान्य आसलीं जाल्यारूच हांव येतां... आतां पळेतां, तुमी एक तर चुकून म्हाका हांगा घेवन आयल्यात वा हांव चुकून हांगा पावलां. अध्यक्षाच्या निर्णया आड संमेलन निर्णय घेता. संमेलनाक अध्यक्षाची गरज आसाशी दिसना. मागीर म्हाका तुमचेर हांव कित्याक लादूं?

हांव तुमचो निरोप घेतां.' अशें म्हणून काकासायब शान्तेबाबा फाटोफाट 'वॉक आवट' करून गेले.''[१४]

संमेलनाची ही खबर सांगून रवीन्द्रबाब मुखार म्हणटात –

''कोंकणी चळवळीन त्या दिसा कूस परतिल्या. त्या दिसा मेरेन कोंकणी मोगी जे फकत कोंकणी मोगी वा कोंकणी बरोवपी – 'कोंकणी लवर्स' वा 'कोंकणी रायटर्स' – आशिल्ले ते हे ... घडणुके उपरांत कोंकणीचे झुजारी – 'कोंकणी फायटर्स' जाल्यात.''[१५]

तो वेळ मेरेन फकत नेमाळ्यांनी वा विद्वानां भितर चलपी कोंकणी-मराठी संघर्श तिसऱ्या 'गोमंतक मराठी साहित्य संमेलना'त पयलेच खेपे उकताडा आयलो आनी कोंकणी चळवळीक वाट मेकळी जाली अशें रवीन्द्रबाब खूब फावटीं म्हणटाले. ही वाट करून दिवपांत काकासाहेबांचो म्हत्वाचो वांटो आसा.

रवीन्द्रबाब सांगतात –

काकासाहेबांचे कोंकणी विशींचे भुमिकेक लागून मराठीच्या पंगडांतल्या लोकांनी तांचेर खूब टिका केली. पूण दुसरे वेटेन एक फायदोय जालो. मराठी सरस्पतीची अखंड सेवा करपी दोग गोंयकार साहित्यकार, बाकीबाब बोरकार आनी लक्ष्मणराव सरदेसाय कोंकणीच्या पंगडांत आयले. १८ जून १९४६ दिसा लोहियांनी गोंयांत नागरीक स्वातंत्र्याची चळवळ सुरू केली तेन्ना बाकीबाब आनी लक्ष्मणराव दोगूय हे चळवळींत पडले आनी एक दीस मुंबय पावले. बाकीबाबांनी मुंबयच्यान 'आमचा गोमंतक' म्हूण एक पाक्षीक सुरू केलें आनी काकासाहेब ह्या पाक्षिकांत बरोवंक लागले.[१६]

हाचे फाटल्यान गांधीजींची प्रेरणा आनी आशिर्वाद आशिल्लो.

लोहियांक गोंयचे चळवळींतल्यान फाटल्यान ओडले उपरांत[१७] गोंयच्या प्रस्नांत लक्ष घालचें म्हूण गांधीजींनी आपणाल्या दोगां सांगात्यांक सांगिल्लें– मुंबयचे काँग्रेस कमिटींतल्या सांगात्यांचे मदतीन गोंयकारांक एकवटान काम करपाची आनी एका आवाजान उलोवपाची राजनीत शिकोवची अशें तांणी वल्लभभाईंक सांगिल्ले, आनी काकासाहेबांक गोंयकारांचेर बारीक नदर दवरून तांकां फावो तें मार्गदर्शन करचें म्हूण सांगिल्ले.[१८] 'आमचा गोमंतकां'त आनी हेर कडेन उजवाडा आयिल्लीं काकासाहेबांचीं गोंयच्या सांस्कृतीक, राजकी प्रस्ना विशींचीं वेंचीक बरपां *पुण्यभूमि गोमंतक* (१९५८) पुस्तकांत वाचूंक मेळटात. (ह्या पुस्तकाची दुसरी उजवाडावणी सध्या छापखान्यांत आसा. 'राजहंस वितरण' ती काडटा.) *पुण्यभूमि गोमंतक* वाचतकच काकासाहेब गोंया विशीं कितले खोलायेन येवजिताले ताचो होलम मेळटा. भारतभर भोंवन भारताच्या भाशीक प्रस्नाचो सगळ्या वटांतल्यान अभ्यास केल्लो एक राष्ट्रपुरूस कोंकणी-मराठी संघर्शा कडेन कसो पळेतालो तेंय समजता.

### समन्वयाचे साधक

''कोंकणी मराठी परस वेगळी काय एकेच भाशेचे मराठी आनी कोंकणी दोन फांटे ह्या प्रस्नाचेर भाशेशास्त्र्यांनी देडशें-दोनशीं वर्सां भासाभास करची. म्हाका ताचें कांय लागना.''[१९] ''गोंयच्या लोकांची भास कोंकणी. तांचो विकास कोंकणी सोडल्यार दुसरे खंयचेच भाशे वरवीं बरे तरेन जावपाचो ना''[२०] ही शुद्ध जीवननिश्ट आनी राष्ट्राच्या हिताची भुमिका घेवन काकासाहेब कोंकणी फाटल्यान घट उबे राविल्ले, आनी हेच भुमिकेक लागून महाराष्ट्राक ते आपणाले दुस्मान दिसूंक लागिल्ले.

१९४५ त 'गोमंतक मराठी साहित्य संमेलना'च्या अध्यक्षीय उलोवपांत दिल्लो तोच संदेश काकासाहेब १९५७त जाल्ले सवे 'कोंकणी परिशदे'च्या उद्घाटकाच्या उलोवपांतूय दितात – ''मराठीची उवेखणी करप समा जावचेंना आनी कोंकणीची उवेखणी करप परवडपाचें ना''[२१] अशें स्पश्टपणान सांगून ते मुखार म्हणटात, ''कोंकणी एक स्वतंत्र भास काय मराठीची बोली ह्या सुक्या वादांत आमी पडचें न्हय. कोंकणीक स्वतंत्रपणान आनी मानान जियेवपाचो हक आसूंक जाय; खरेलो म्हत्वाचो प्रस्न हो.''[२२]

मराठीचो आग्रो धरतल्यांक एके कडेन ते सांगतात –

''कोंकणीक हेंगाडी म्हूण हिणसावप आनी वयल्यान आमच्याच कुटुंबांतली ती अशें म्हणून तिचेर अधिकार सांगप ही विसंगत नीत महाराष्ट्रीयांनी सोडून दिवंक जाय.''[२३]

रवीन्द्रबाब सांगतात, ''समन्वय काकासाहेबांच्या जिविताची मोख आशिल्ली''.[२४] कोंकणीची समन्वयकारी, समाजांत एकचार साधपाची तांक पारखिल्ल्यानूच कोंकणी-मराठी संघर्शांत ते कोंकणीच्या अर्दान राविल्ले आनी गरज तेन्ना कोंकणी आनी मराठी, दोनूय पंगडांतल्या लोकांचे कानूय ते पिळटाले.

गोंयांत मराठी चलूंक जाय अशें मानतल्या महाराष्ट्रीय भावां मुखार काकासाहेबांनी भाशा-समन्वयाचें आगळें वेगळें आव्हान दवरिल्लें–

तुमी कोंकणीक मराठीचीच एक बोली लेखतात मूं? जाल्यार ''कोंकणीचो [तुमी] आपलेपणान अभ्यास करचो. कोंकणी प्रत्ययांक मराठी प्रत्ययाचीं पर्यायी रुपां म्हूण तुमचे भाशेंत आसपावन घेवचे. कोंकणी ओपारी-म्हणींचो अभ्यास करून तुमच्या बरपांत तांचो मेकळेपणान वापर करचो.''[२५]

ते मुखार बरयतात –

''...महाराष्ट्रीय लेखकांनी गोंयच्या समाजीक पुरुषार्थाक मोगान येवकार दिवचो आनी मागिरूच गोंय महाराष्ट्राचो एक वांटो अशें म्हणचें. मुलुखगिरीचे दीस आतां उरूंक नात... पयलीं सेवेच्या मार्गान लोकांच्या काळजाचेर राज्य करूंक लागात. लोकांक तुमच्या काळजांत सुवात दियात. इतलें हें करतकीच कोंकणी आनी मराठीचें नातें कसलें ह्या प्रस्नाचेर तुमकां चर्चाच करची पडचिना.''[२६]

''मराठी विशीं गोंयाक आपलेपण आसा. मराठीन कोंकणीचे शब्दप्रयोग आपणायले..., कोंकणी प्रत्यय आनी क्रियापदां आपलीं केलीं जाल्यार मुखार केन्ना तरी मराठी आनी कोंकणी एकिमेकींत भरसून वतल्यो आनी तें बरेंय बी. पूण कोंकणी ना जावची आनी मराठीच गोंयांत चलची हें गोंयचे समाज-जिणेच्या बऱ्याचें न्हय आनी गोंयचो लोक तें केन्ना सोंसुनूय घेवचोना'' अशेंय स्पश्टपणान ते महाराष्ट्राक सांगतात.[२७]

कोंकणीच्या सेवकांकूय ते सांगतात –

''कोंकणी उलोवपी हिंदू, क्रिस्तांव, मुसलमान बी सगळ्या तरांच्या

लोकां मजगतीं समाजीक एकचार आनी राजकी अस्मिताय जागोवपाची आसल्यार ह्या सगल्या तरांच्या लोकांक एकठांय हाडूंक पावतली असली व्यापक, सर्वसमन्वयकारी आनी लवचीक कोंकणी भास नांगरून तयार करची पडटली.''[२८]

भाशा-समन्वया वांगडा धर्म-समन्वय आनी संस्कृती-समन्वयाची देखूय काकासाहेब गोंयकारां मुखार दवरतात. ते विचारतात,

''प्रेमधर्मी येशूच्या उपदेशाचेर आधारिल्ल्या धर्माची उवेखणी आमी कित्याक म्हूण करची? आमच्या देशांतल्या, आमच्याच हाडामासाच्या लोकांनी आपणायल्ल्या ह्या धर्माक आमी परकी कसो लेखचो?... हिंदू आनी क्रिस्तांवाचे धर्मग्रंथ वेगळे आसतीत. पूण इतलेच खातीर ह्या दोन धर्मांचे समाज वेगळे काडपाची निखालूस गरज ना. शैव, शाक्त, वैष्णव हांचे भितर उपास्यभेद आसात. पूण म्हूण तांचे भितल्लो समाजीक एकवट भंगना. द्‌वैती आनी अद्‌वैती वा विशिश्ट अद्‌वैती हांचे भितर दर्शनभेद आसात. पूण म्हूण तांणी आपणाले वेगळे समाज स्थापन करूंक नात. वैष्णव धर्म वैदीक आनी जैन धर्म वेदां भायलो, हो मुळावे भेद आसुनूय गुजरातांत हे धर्म मानपी एक समाज जावन रावतात. तशेंच हे मुखार गोंयच्या हिंदूंक आनी क्रिस्तांवांक एक समाज जावन बरे बशेन रावंक कित्याक येवचें न्हय?''[२९]

ते मुखार सांगतात, ''हिंदू संस्कृताय वेगळी आनी खिस्ती संस्कृताय वेगळी अशें म्हणपाचे दीस आतां उरूंक नात. हिंदू, मुसलमानी, खिस्ती बी सगळ्यो संस्कृतायो आपणांत आसपावन घेवपी हिंदुस्तानी संस्कृतायेचे दीस आतां उदेल्यात.''[२९] आनी हाका जोडून ते रोखडेच म्हणटात, *''सागरे सर्वतीर्थानि* हो धर्मीक सिद्‌धांत दर्या देगेर रावतल्या लोकांक पटपाक वेळ नाका.''[२९]

'हिंदू बांधवांना' (सप्टेंबर १९४७) ह्या माथाळ्याच्या एका लेखांत ते हिंदूंक विचारतात, ''आपल्या लोकांनी परक्यांचो धर्म आपणायलो जाल्यार आपल्यांक आमी परकी मानतलीं, काय परक्यांच्या धर्मा कडेन आपलेपणान पळेतलीं? खंयची नदर बरी?''[३०] आनी मागीर सांगतात–

''परकी पोर्तुगेज आनी स्वदेशी क्रिस्तांव धर्माचे नदरेन एक आसले तरी ते एक राष्ट्र न्हय, एक समाज न्हय. आनी, स्वदेशी क्रिस्तांव आनी स्वदेशी हिंदू धर्माचे नदरेन वेगळे दिसले तरी ते एक समाज, एक राष्ट्र आसात आनी तशेच उरपाचे आसात हें आमी विसरूंक फावना... धर्मान क्रिस्तांव आसले तरी ते व्यास, वाल्मीकि, कालिदास, भवभूति, हर्ष आनी अशोक हांचेच कुळयेंतले. हिंदुस्तान देश आमचो तितलोच तांचोय बी. ही वस्तुस्थिती वळखून आमी हिंदुस्तानांतल्या सगळ्या लोकांक, मागीर ते खंयच्याय धर्माचे आसूं, आपले म्हूण आपणावंक जाय. आयजवेर तांचे विशीं आमच्या मनांत आशिल्लो वेगळेचार आतां आमी काडून उडोवंक जाय.''[३१]

ह्या लेखाचे निमाणे कडेन ते म्हणटात–

''क्रिस्तांवांनी कांय थोड्याच हिंदूंक बाटयले आसतले. आमी हिंदूंनी अनवाळें-भश्ट, ऊंच-उणाकभाव आनी आप-परभेद ह्या तीन उणेपणांक लागून हिंदू धर्मूच बाटयलो. हो व्हडल्यांतलो व्हडलो धर्मद्रोह पयस केले बगर आनी आमचीं समाजीक पातकां धुवन काडले बगर हिंदूधर्म कसोच पवित्र जावपाचो ना, हिंदू समाजांत तेजस्विताय येवपाची ना आनी हिंदुस्तानाक संवसाराची सेवा करूंक येवपाची ना.''[३२]

१९४७ वर्साच बरयल्ल्या 'किरिस्तांव बंधूंना' ह्या लेखांत ''तुमी तर पयलीं सावन आमचेच आशिल्ले; आतां तुमचो धर्मूय आमचो जाला''[३३] अशें क्रिस्तांवांक सांगून ते मुखार म्हणटात, ''आयजवेर तुमी चडशे राज्यकर्त्यां वांगडा रावले. तशी तुमकां संवय जाल्या. हे मुखार जनताच राज्यकर्ती जावपाची आसा. तिचे वांगडा रावप ही नितूच आतां तुमच्या हिताची.''[३४] एका काळार तुमच्या जिवितांत क्रांती करून तुमी क्रिस्तांव धर्म आपणायलो आतां आनीक एक खेपे अशीच क्रांती करून हिंदुस्तानांतले जनते कडेन एकरूप जावन वचात आनी तुमची शक्त हिन्दुस्तानाक स्वतंत्र आनी एकरुपी करपांत खर्चियात असो संदेश ह्या लेखाचे अखेरेक ते क्रिस्तांव भावांक दितात.[३५]

### वालावलीकारांची घुडी सकल पडची न्हय म्हूण...

*पुण्यभूमि गोमंतक* पुस्तकांत 'त्यांचा झेंडा खालीं पडतां कामा नये' ह्या माथाळ्याचो काकासाहेबांचो शणै गोंयबाबांचेर बरयल्लो एक सुंदर लेख आसा. ह्या लेखांत ते बरयतात –

''कोंकणीची भक्तिभावान सेवा करपी वालावलीकार म्हाका आदरणीय दिसताले. पूण हे कोंकणी भक्तींत ते मराठी विशींचो राग भरशितात हाचें म्हाका वायट दिसतालें. कोंकणी म्हज्या जाणटेल्यांची आवयभास खरी, पूण म्हजी आवयभास मराठी तिचे विशीं कोणेंय अनादर उकतो करप म्हाका कशें आवडटलें? मराठीच्या अभिमानान कोंकणीची टवाळी करतल्यांक मराठीची मक्तेदारी कोणें दिवंक ना. पूण टवाळी करतल्यांचो विरोध करतना तांचे भाशेचीच अवहेलना करप म्हळ्यार एकाद्र्या वायट मनशाच्या रागान ताच्या आवयच्या नांवान वायट उतर काडिल्ले वरी. ते बावडे आवयची किते चूक? म्हजी ही भुमिका वालावलीकारांक समजावन सांगपाक हांव तांका मेळक सोदतालों. भक्तीची बसका दुस्वासाक लागून विखाळ जावची न्हय अशें हांव तांकां सांगूंक सोदतालों.''[३६]

निमाणें एक दीस मुंबय काळबादेवीक जमनालालजींचे पेढयेर शणै गोंयबाब आनी काशीनाथबाब नायक काकासाहेबांक मेळ्ळे. काकासाहेबांनी तांचे मुखार आपले विचार मांडले आनी, कोंकणीक वयर काडपा खातीर कितें करूंक जाय ते विशीं इल्ली चर्चाय केली. काकासाहेब सांगतात, म्हाका दिशिल्लें, वालावलीकार म्हजे कडेन रागान उलयतले. पूण तशें कांय जालेंना. ''एकेच भाशे विशीं खरेली एकेच तरेची भक्ती मनांत आशिल्ल्यान वृत्तीभेद आसुनूय आमी लागीं आयले... वतां वतां तांणी म्हाका म्हळें, तुमची ही भुमिका तुमी म्हाका बरोवन दिली जाल्यार ती छापपाची आमची तयारी आसा. म्हजी भुमिका म्हळ्यार वालावलीकारांचे कार्यपद्दतीचो निशेध आसुनूय म्हजें म्हणणें छापूंक ते तयार जाले ही उदारताय पळोवन म्हाका

अजाप जालें. आनी तांचे विशीं म्हज्या मनांत आशिल्लो आदर आनिकूय वाडलो.''[३७]

ते मुखार बरयतात –

''...वालावलीकारांची नीत हिंदू आनी क्रिस्तांवांक एकठांय हाडपी म्हणपाचें पळेलें तेन्ना म्हाका भरून आयलें. गोंयचे हिंदू आनी क्रिस्तांव एकेच कोंकणीची भुरगीं; धर्मभेद तांकां पेल्यान काडूंक पावचोना, ही तांची भुमिका सामकी नितळ. आनी, ती कोंकणीच्या मोगांतल्यान आयल्या हें पळोवन कोंकणीचे शक्तीचो म्हाका दिश्टावो जालो. आनी त्याच खिणाक म्हजी खात्री जाली – गोंयचे स्वतंत्रतायेचो प्रस्न कोंकणी हे समान भाशेच्या बळग्याचेरूच सोडोवं येतलो. शांतादुर्गेच्या उपासकाक रोमन कॅथलिकांची मेरी समजुची आनी मानवची हें सभावीक.[३८] वालावलीकारांच्या मनांत धर्मसमन्वय उदेल्लो पळोवन म्हाका खूब खोस जाली.''[३९]

लेखाचे निमाणे कडेन काकासाहेब बरयतात –

''वालावलीकार भायर पडले म्हणपाचें कळ्ळें तेन्ना मनांत हो विचार आयलो – मनीसपणाच्या ह्या सेवकान हातांत घेतिल्ली कोंकणीची घुडी सकल पडूंक फावना. सकल पडचे पयलींच कोणें तरी ती उबारून धरून कोंकणीचे उदरगतीची यात्रा मुखार व्हरूंक जाय. ही घुडी हातांत घेतल्यान कोंकणी, मराठी आनी हिन्दी हे भाशा-त्रिमुर्तीची वांगडाच उपासना करूंक जाय. ही उपासना निर्मळ आनी तेजस्वी जाली जाल्यार गोंयांत स्वतंत्रताये वांगडाच संस्कृती-समन्वयूय उदेतलो.

''वालावलीकारांचो वावर फकत तगोवन दवरून भागचोना, तो वाडोवंक जाय आनी कोंकणी वरवीं युगसंस्कृतायेचो उजवाड कोंकणांतल्या भोवजनां मेरेन पावोवंक जाय. ह्या वावरांत अपसमज जातले. जायते जाण मुद्दाम ते निर्माण करतले. पूण निर्वैरताये मुखार सगळे अपसमज आपशीं ना जावन वतात. हेच स्रद्धेन कोंकणी वरवीं सेवा करून समन्वय संस्कृतायेची स्थापणूक करूंक जाय.''[४०]

शणै गोंयबाबांलेच धाटणेन काकासाहेब बरयतात –

''कोंकणी संस्कृत कुटुंबांतली भास... आमचे भाशेंत अमकी तांक ना, अमको विचार वा कल्पना आमकां कोंकणींत हाडूंक येना अशें म्हणपाची पाळी कोंकणी बरोवप्याचेर केन्ना येवचिना... कोंकणीचे साहित्य शक्तींत इल्लेंय दैन्य ना. मराठी, गुजराती, कन्नड, तेलगू ह्या भासां इतलीच कोंकणीय बी पोरणी. सामके वायट परिस्थितींतूय कोंकणीचे पूत तिका दसून रावल्यात. गोंयकारांची कोंकणी निष्ठा आकांताची.

''पूण अजाप दिसपा सारकी गजाल म्हळ्यार, कोंकणी उलोवपी लोकांनी कोंकणी सोडून हेर कितल्याश्या भासांची निष्ठेन सेवा केल्या आनी ते ते भाशेंत नांव जोडलां. घरांत कोंकणी उलोवपी लोकांनी संस्कृत, मराठी, कन्नड, पोर्तुगेज, फ्रँच आनी इंग्लीश ह्या भासांतल्या साहित्यांत भर घालून कीर्त जोडल्या.''[४१]

मुखार ते म्हणटात –

''विदयेच्या आनी हेर कितल्याश्या मळांचेर पराक्रम गाजोवपी गोंयकार फकत स्वतंत्रताय जोडूंक पावंक नाशिल्ल्यान आपणालो चेरो उजळ करूंक पावंक नात. तेच तरेन, कितल्याश्या भासांची सेवा करुनूय फकत आवयभाशेची उवेखणी केल्या हें पातक तांकां धुवन काडूंक येवंक ना. आवयची कितलीय उवेखणी केली म्हूण ती आपणाल्या पुतांक स्राप दिना खरी, पूण असल्या पुतांच्या जिवितांत तेज केन्ना येना.''[४२]

कारवारचे कोंकणी कवी शां. वि. कामत हांकां बरयल्ल्या पत्रांतूय ते हेंच सांगतात –

''कोंकणी उलोवपी लोकांनी आयजवेर हेरांची सेवा करून आपलें आपलें पोट भरलें आनी बोल्सांय भरलीं. लोकां कडल्यान तुस्त-तोखणाय जोडली. पूण आवयचो आशिर्वाद मेळोवपाची इत्सा बाळगिली ना.''[४३]

कोंकणी समाज जागरूकपणान, मान वयर काडून स्वाभिमानान जियतेलो आनी पुरुषार्थी जातलो जाल्यार कोंकणीच्याच पाळां-मुळांक उदक घालचें पडटलें अशें ह्या पत्रांत ते स्पश्टपणान सांगतात.[४४]

जिवीत समृद्ध आशिल्ल्या कोंकणी लोकांचे आवयभाशेंत साहित्य कित्याक निर्माण जावंक पावलेंना हाची जाप सोदतना काकासाहेबांक दिसता –

''जे लोक आपल्या लोकांची, मुखेलपणान सरसमान जनतेची, सेवा करपाची लागणूक विसरून हेरांली सेवा करपांत गुल्ल उरतात आनी आपणाले सुवार्थ-साधनेंत समाधान मानतात तेन्ना ते आपणाले भाशेची उवेखणी करतात. आपल्या लोकांची सेवा सोडून दितल्यांचें जिवीत कितलेंय फुडारिल्लें आसलें जाल्यारूय तें एके तरेचें शापीत जिवीत आसता: असले लोक व्यक्ती म्हूण कितलेय मुखार पाविल्ले आसले तरी समाजीक नदरेन तांची शक्त शुन्यूच आसता. असल्या लोकांनी आयज मेरेन स्वामीनिष्ठा खूब दाखयल्या, आत्मनिष्ठा दाखोवंक ना.

''कोंकणी उलोवपी लोकांनी संस्कृत, मराठी, इंग्लीश, कन्नड, पोर्तुगेज, लॅटीन बी भासांची सेवा करून त्या त्या साहित्यांत नांवाजत्यो साहित्यकृती रचून प्रतिष्ठा जोडली. पूण आपले भाशेचें साहित्य समृद्ध करपाचें तांकां येवजलेंना. हाका लागून सगळे तरेची योग्यताय आसुनूय ते आपल्या तेजान चकचकले नात. दुसऱ्याच्या कार्याक हातभार लावपाचें स्रेय तांकां मेळ्ळें. शहाजीची जिवीतसिद्धी आनी शिवाजीची जिवीतसिद्धी हांतलें वेगळेपण हांगा लक्षांत आयले बगर रावना.''[४५]

गोंयच्या सुटके झुजांत पडिल्ले तरणाटे रवीन्द्रबाब निर्शेल्ले अवस्थेंत एक दीस बाकीबाबांचे सुचोवणेन काकासाहेबां सरीं पावले[४६] आनी कितलींशीं वर्सां तांचे सरीं उरले. ते आदीं रवीन्द्रबाबांक कोंकणी 'पटिल्ली'.[४७] पूण काकासाहेबांचे तालमींत कोंकणीचे सेवेची वाट तांचे मुखार स्पश्ट जाली, आनी कोंकणी तांच्या जिविताचें 'मिशन' जावंक पावली अशें मानूंक खूब आधार आसा. रवीन्द्रबाब सांगताले, 'तुजो स्वधर्म कोंकणी; कोंकणी सोडून दुसरें कितेंय करूंक वचप म्हळ्यार तो व्यभिचार जातलो' अशें दोन तीन प्रसंगांचेर सांगून काकासाहेबांनी आपणाक ह्या मिशनाच्या मार्गा वेल्यान हालूंक

दिवंक ना.[४८]

चंद्रकांतबाब केणींकूय कांय वर्सां काकासाहेबांचो सांगात आनी तांचे तालमीचो लाव मेळ्ळा. कोंकणी तांच्याय जिवितार्चे ध्येय जाल्या.

हे भाशेन, शणै गोंयबाबांनी उबारिल्ली कोंकणीची घुडी सकल पडची न्हय म्हूण एका खरेल्या कोंकणी भक्ता वरी काकासाहेबूय मना पसून वावुरल्यात.

## द्रश्टच्या राष्ट्रपुरसाचें भासकारण

काकासाहेब एक द्रश्टे राष्ट्रपुरूस आशिल्ले. तांचो भाशाविचार परिस्थितीक शरण वचपी तज्ज्ञांचो भाशाविचार नाशिल्लो. तो परिस्थितींतल्यान वयर सरिल्लो पूण राष्ट्राचें हीत दोळ्यां मुखार दवरून केल्लो आदर्शवादी भाशाविचार आशिल्लो.

ते बरयतात –

''हिंदुस्तानांतल्यो ल्हान-व्हड सगल्यो भासो जियेवच्यो, ज्यो भासो सामक्यो ल्हान आसात तांकां लेगीत मारी नासतना, फुलूंक दिवन तांचे प्रवाह लागींचे नात्यांतले भाशेच्या प्रवाहांत व्हरून सोडचे अशें म्हजें लोकांच्या हिताचें भासकारण. भासकारणांतल्या उकत्या वा गुपीत साम्राज्यवादाचो हांव दुस्मान. दुबळो आनी अकर्मण्य असो साम्राज्यवादूय आमच्या लोकां भितर किल्लूंक दिवंक फावना अशें म्हाका दिसता.''[४९]

काकासाहेबांचो भाशावार प्रांतरचनेक तेंको आशिल्लो.

स्वराज्या आदीं आमच्या देशाचे विभागणेक सैमीक वा संस्कृतीक कसलीच बसका नाशिल्ली. ब्रिटिशांनी निखटो राजकारबाराच्या सोंपेपणाचो विचार करून वेगळे वेगळे प्रांत घडयल्ले. ते आदीं वेगळ्या वेगळ्या राजांच्या आनी सम्राटांच्या महत्वाकांक्षांनी देशाक आपणाक जाय तशें रूप दिल्लें. स्वतंत्रतायेचे चळवळींत लोकां भितर जागरुताय निर्माण जाल्ली तेन्ना देशांतल्यो वेगळ्यो वेगळ्यो भाशीक अस्मितायोय वयर सरिल्ल्यो आनी स्वतंत्र भारतांत भासांक धरून प्रांत घडोवपाची मागणी जावंक लागिल्ली. गांधीजींचें हे मागणे कडेन लक्ष गेल्लें आनी तांणी तिका तेंकोय दिल्लो. हे भाशेन प्रांतांची रचणूक केली जाल्यार राष्ट्रीय जिवितांत थळाव्या भासांक तांची सभावीक सुवात मेळटली आनी वांगडा धर्मभेद, वेवसायभेद सारकेलीं वेगळेपणांय उण्या म्हत्वाचीं जातलीं असो तांका विश्वास दिसतालो.[५०]

काकासाहेब सांगतात –

''हिन्दुस्तानाची भाशावार प्रांतरचना करपाचो विचार गांधीजींनी देशा मुखार मांडलो आनी म्हजे सारकेल्या कितल्याश्या लोकांनी तो आपणायलो तेन्ना हिन्दुस्तानाचीं धा-पंदरा 'राज्यां' करपाचो विचार नाशिल्लो. आनी हिन्दुस्तानांत भासां प्रमाण वेगळ्यो वेगळ्यो संस्कृतायो आसात अशेंय कोणाक मना पसून दिसनाशिल्लें. भासांक धरून **प्रांत** करपा फाटलो हेत एकूच आशिल्लो –स्वराज्यांत लोकांचे संवकळीचे भाशेंतल्यान थळावो राजकारबार चलचो आनी लोकांक तांचे भाशेंतल्यान शिक्षण मेळचें ... भाशावार प्रांतरचना म्हाका मान्य आसली तरी वेगळ्यो वेगळ्यो भासो उलोवपी लोक एकाच प्रांतांत रावचे न्हय वा एक भास उलोवपी सगळ्या लोकांचें एकूच राज्य जावचें असो म्हजो केन्ना आग्रो नाशिल्लो, आजूय ना.''[५१]

ते म्हणटाले, महाराष्ट्राचे तीन सभावीक विभाग आसात – देश, विदर्भ आनी कोंकण. तशेच गुजराताचेय तीन विभाग आसात – कच्छ, सौराष्ट्र आनी गुजरात. महाराष्ट्र तीन प्रांतांनी वांटून घालचें आनी ह्या प्रांतांचो राजकारबार मराठींतल्यान चलचो. गुजराताचेय अशे तीन प्रांत करचे आनी तांचो राजकारबार गुजरातींतल्यान चलचो. मुंबय, कोलकाता, दिल्ली, मद्रास, कानपुर, अहमदाबाद हांचीं 'नगरराज्यां' करचीं. देशाचे ल्हान ल्हान चाळीस-पन्नास प्रांत घडोवचे आनी आठ आठ धा धा प्रांतांचें एक 'अधिराज्य' करचें. ल्हान प्रांतांच्या महत्वाकांक्षांक शीम आसतली आनी प्रांत ल्हान आशिल्ल्यान राज्यकर्त्यांचो लोकां कडेन प्रत्यक्ष संबंदूय उरतलो.[५२]

काकासाहेबांनी जवाहरलालजीं मुखार आपणाली ही येवजण दवरिल्ली पूण तिचेर विचार जालो ना.[५३]

पंचभाशीक (गुजराती, मराठी, कोंकणी, कन्नड आनी तुळू) सागरी प्रांताची संकल्पनाय काकासाहेबांनी राज्यकर्त्यां मुखार मांडिल्ली. खंबायत ते मंगळूर वा नीट कालिकत मेरेनच्या दर्यादिगे वेल्या लोकांचें जिवीत एकजिनसी जालां; ह्या दर्यादिगे वेल्या वाटाराचो एक प्रांत करचो, इंग्लंड वा जपानान दर्यावर्दी राष्ट्रां म्हूण नांव जोडलां तशीच भारताचे दर्यादिगे वेली प्रजा दर्यावर्दी प्रजा म्हूण मुखार येवची अशें काकासाहेबांक दिसतालें. आफ्रिकेचे दक्षिणे कडलें केपटावन ते ऑस्ट्रेलियेचे दक्षिणे कडलें फ्री मँटल ह्या दोन तोंकां मदलो सगलो हिन्दी म्हालसागर आनी ताची सगली दर्यादिग ह्या सागरीप्रांतांतल्या लोकांच्या पुरुषार्थाचें मळ अशें ते मानताले.[५४] काकासाहेबांच्या ह्याय विचाराची राज्यकर्त्यांनी फावो तशी दखल घेतलिना.

आमच्या राष्ट्राचें 'सामुद्री मानस' आटून गेलां,काकासाहेब म्हणटाले. सैमान येदी व्हडली दर्यादिग दिल्ली आसतना दर्यादिगे वेल्या लोकांनी दर्याचें आमंत्रण उमेदीन मानून घेवंक ना हाची तांकां खंत जाताली. आमगेल्या पुर्वजांनी समुद्रयात्रा निशिद्ध मानली; आयजूय आमी तांचेच सांगणेक पाळो दिवन चलिल्ले वरी चलतात, ते म्हणटाले.[५५]

मेकळ्या गोंयाचो 'संयुक्त महाराष्ट्रां'त आसपाव करून घेवपाचो एक यत्न ग.त्र्यं. माडखोलकर हांणी काकासाहेबांक वांगडा घेवन केल्लो.[५६] कोंकणीक एक स्वतंत्र भास म्हूण मान्यताय दिली, आनी गोंयाक ताचें वेगळपण सांबाळूंक मेळटलें हें उतर आनी हो विश्वास दिलो जाल्यार गोंय 'संयुक्त महाराष्ट्रां'त आसपावन घेवपाक व्हडलेंशें कठीण जावपाचें ना अशें माडखोलकरांक दिसतालें.

ह्या यत्ना विशीं रवीन्द्रबाबांनी दाखल्यां सयत विस्तारान बरयलां. कोंकणी-मराठी संघर्शाच्या इतिहासाचीं हीं म्हत्वाचीं पानां. आपणालो हो प्रस्ताव घेवन माडखोलकर काकासाहेबांक मेळूंक गेले तेन्ना काकासाहेबांनी तांकां सांगलें, ''हांव गोंयचो फुडारी न्हय. म्हज्या उताराक मान दिवपी म्हजे कांय गोंयकार इश्ट आसात. ते कोंकणीच्या पंगडांतले. महाराष्ट्रान गोंया विशीं फावो तीं पावलां उबारलीं जाल्यार तांकां समजावन सांगपाचो हांव यत्न करून पळेन. पूण फाटल्या कांय वर्सां सावन मराठी फुडाऱ्यांनी तांकां इतले दुखयल्यात की 'महाराष्ट्रान फावो तशीं आश्वासनां दिल्यार तुमी विलिनीकरणाक विरोध करचो न्हय' अशें हांवें तांकां सांगलें जाल्यार ते म्हजें आयकतले

हाचें म्हाका खरेपण ना. हांव तांकां समजावन सांगतलों. पूण समजावनूय तांणी मान्य केलें ना जाल्यार मात हांव तांचेच वेटेन रावतलों, तुमचे न्हय हें पयलींच स्पश्ट करतां.''[५७]

महात्मा गांधींच्या दोगां अनुयायांचो गोंया कडेन खूब लागींचो संबंध आयिल्लो –

चारशें छत्तीस वर्सांचे पोर्तुगेज सत्तेक आव्हान दिवन लोकांच्या काळजांत स्वतंत्रतायेची जोत पेटोवपी डॉ. राम मनोहर लोहियांचो, आनी स्वराज्यांत कोंकणी लोकभाशे वरवीं तेजिश्ट कोंकणी समाज बांदून येवचो म्हूण वावुरपी आचार्य काकासाहेब कालेलकरांचो. गोंय ह्या दोगांयच्या रिणांत सदांच उरतलें.

काकासाहेबांची एकशें पंचविसावी जयंती १ डिसेंबराक देशान मनयल्या. समेस्त कोंकणी समाजाचे वतीन तांकां आमचीं नमळायेचीं आर्गां.

**संदर्भ:**


१. रवीन्द्र केलेकर, *आधुनिक भारत के निर्माता: काकासाहब कालेलकर(गांधीयुगीन सांस्कृतिक नवचेतना के अग्रदूत)* नवी दिल्ली: प्रकाशन विभाग १९९०: पानां: ४४४, ४४५.
२. वयलोच संदर्भ: ४४७.
३. वयलोच संदर्भ: ४४६.
४. वयलोच संदर्भ: ४५४, ४५५.
५. वयलोच संदर्भ: ४५४.
६. वयलोच संदर्भ: ४५६, ४५७.
७. अदीक म्हायती खातीर पळेयात, वयलोच संदर्भ: ४५९-४६३.
८. वयलोच संदर्भ: ४५७-४५९.
९. वयलोच संदर्भ: १; काकासाहेब कालेलकर, 'गोमंतकीय सरस्वतीभक्तांस' (१९४५, 'गोमंतक मराठी साहित्य संमेलना'च्या तिसऱ्या अधिवेशनाच्या अध्यक्षपदा वेल्यान केल्लें उलोवप), *पुण्यभूमि गोमंतक,* मुंबय: गोमंत भारती प्रकाशन १९५८ (८-४४), पानां: ९, १०; 'त्यांचा झेंडा खालीं पडता कामा नये' (१९५५), *पुण्यभूमि गोमंतक* (११४-११७), पान ११४.
१०. काकासाहेब कालेलकर, 'गोमंतकीय सरस्वतीभक्तांस', *पुण्यभूमि गोमंतक,* पान १०
११. काकासाहेब कालेलकर, 'गोव्याचें भाषाकारण' (१९४७), *पुण्यभूमि गोमंतक* (६४-६९), पान: ६८.
१२. काकासाहेब कालेलकर, 'गोमंतकीय सरस्वतीभक्तांस', *पुण्यभूमि गोमंतक,* पानां: १४, १५.
१३. वयलोच संदर्भ: १३, १४, १६.
१४. रवीन्द्र केळेकार, 'एक भाग्यवंत द्रश्टो कोंकणी भक्त' (प्रस्तावना) *उगडासांचे कोठये-कुडींत,* शांताराम आमोणकार, मडगांव: जाग प्रकाशन २००५ (पांच-तेरा), पान बारा.
१५. वयलोच संदर्भ: तेरा.
१६. रवीन्द्र केळेकार, 'संघर्ष टाळण्याचा फसलेला एक प्रयत्न' (परिशिष्ट) *भाषिक संघर्षाचे समाजशास्त्र* पणजी: राजहंस वितरण २००८ (१४२-१७०), पान १४४.
१७. अदीक म्हायती खातीर पळोवचें, रवीन्द्र केलेकर १९९०: ५८०, ५८१.
१८. वयलोच संदर्भ: ५८१.
१९. काकासाहेब कालेलकर, 'शंका समाधान' (प्रस्न आनी जापो), *पुण्यभूमि गोमंतक* (१४७-१५४), पान १४७.
२०. वयलोच संदर्भ: १५१.
२१. काकासाहेब कालेलकर, 'कोंकणी भक्तांनो' (सवी कोंकणी परिशद (१९५७): उद्घाटकाचें उलोवप, *पुण्यभूमि गोमंतक* (११८-१३०), पान १२०.
२२. वयलोच संदर्भ: १२२.
२३. काकासाहेब कालेलकर, 'गोव्याचें भाग्य' ('दीपावली' १९४६), *पुण्यभूमि गोमंतक* (४५-५१), पान ५०.
२४. रवीन्द्र केलेकर १९९०: ५२६.
२५. काकासाहेब कालेलकर, 'गोव्याचें भाग्य', *पुण्यभूमि गोमंतक* : ५०
२६. वयलोच संदर्भ: ५०, ५१.
२७. काकासाहेब कालेलकर, 'गोव्याच्या आकांक्षा' (जून १९४७), *पुण्यभूमि गोमंतक* (५२-५६), पान ५५.
२८. काकासाहेब कालेलकर, 'तीस वर्षांत कोंकणी विद्यापीठ' (कारवारचे कोंकणी कवी आनी वावुरपी शां. वि. कामत हांकां १९४७ वर्सा बरयल्लें पत्र), *पुण्यभूमि गोमंतक* (७५-७७), पान ७६.
२९. काकासाहेब कालेलकर, 'गोव्याचें भाग्य', *पुण्यभूमि गोमंतक, पान* ५१.
३०. काकासाहेब कालेलकर, 'हिंदु बांधवांना' (सप्टेंबर १९४७), *पुण्यभूमि गोमंतक* (७८-८२), पान ८०.
३१. वयलोच संदर्भ: ८१, ८२.
३२. वयलोच संदर्भ: ८३.
३३. काकासाहेब कालेलकर, 'किरिस्तांव बंधूंना' (१९४७) *पुण्यभूमि गोमंतक* (५९-६३), पान ७०.
३४. वयलोच संदर्भ: ६२.
३५. वयलोच संदर्भ: ६३.
३६. काकासाहेब कालेलकर, 'त्यांचा झेंडा खालीं पडता कामा नये', *पुण्यभूमि गोमंतक,* पान ११५.
३७. वयलोच संदर्भ: ११६.
३८. शणै गोंयबाबांचे हे विचार 'ऐन वेळार' (३१ ऑक्टोबर १९४५) ह्या तांच्या निमाण्या बरपांत उकते जाल्यात. ह्या बरपाचो पोट-माथाळो शणै गोंयबाबांनी ''गोमन्तक मराठी साहित्य संमेलना'चे तिसरे बसकेचे अध्यक्ष आचार्य काकासायब कालेलकार हांगेल्या उलोवपांतलो आपरोस' असो दिला खरो, पूण काकासाहेबांचें मूळ उलोवप वाचले उपरांत हें बरप तांच्या उलोवपाचो आपरोस (सार) न्हय, तर तांच्या उलोवपाचेर दिल्ली शणै गोंयबाबांली ती मेकळी आनी मौलीक प्रतिक्रिया म्हणपाचें कोणाय वाचप्याच्या लक्षांत येवं येता. नाजाल्यार काकासाहेबांचें उलोवप ३५ पानांचें आनी शणै गोंयबाबांनी काडिल्लो ताचो 'आपरोस' ५३ पानांचो अशें कशें जावं येत?
३९. काकासाहेब कालेलकर, 'त्यांचा झेंडा खालीं पडता कामा नये', *पुण्यभूमि गोमंतक, पान* ११६.
४०. वयलोच संदर्भ: ११७.
४१. काकासाहेब कालेलकर, 'गोव्याचें भाग्य', *पुण्यभूमि गोमंतक, पानां:* ४७, ४८.
४२. वयलोच संदर्भ: ४८
४३. काकासाहेब कालेलकर, 'तीस वर्षांत कोंकणी विद्यापीठ', *पुण्यभूमि गोमंतक, पान* ७५.
४४. वयलोच संदर्भ: ७७.
४५. काकासाहेब कालेलकर, 'कोंकणी भाषा आणि साहित्य' (१९५५), *पुण्यभूमि गोमंतक* (१०२-१०६), पान १०३.
४६. पळेयात: रवीन्द्र केळेकार, *पांथस्थ: उगडास गोंयच्या सुटके झुजाचे,* पणजी: राजहंस वितरण २०००, पानां: १४१-१४५.
४७. पळेयात: रवीन्द्र केळेकार, 'एक भाग्यवंत द्रश्टो कोंकणी भक्त', *उगडासांचे कोठये-कुडींत, पानां:* सात-धा.
४८. लेखिके कडेन केल्लें उलोवप.
४९. काकासाहेब कालेलकर, 'गोव्याचें भाषाकारण' (१९४७), *पुण्यभूमि गोमंतक* (६४-६९), पान ६४.
५०. पळेयात: रवीन्द्र केलेकर १९९०: ५८४.
५१. काकासाहेब कालेलकर, 'सागरी प्रांत काय आहे?', *पुण्यभूमि गोमंतक* परिशिश्ट 'क' (१६८-१७२), पान १६९.
५२. पळेयात: रवीन्द्र केलेकर १९९०: ५८५.
५३. अदीक म्हायती खातीर पळेयात: वयलोच संदर्भ: ५८२-५८७.
५४. काकासाहेब कालेलकर, 'सागरी प्रांत काय आहे?', *पुण्यभूमि गोमंतक, पानां:* १७०, १७१.
५५. पळेयात: रवीन्द्र केळेकर, *ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत (काकासाहेब कालेलकरांशीं सांस्कृतिक हितगुज),* मुंबय: वोरा ॲण्ड कंपनी पब्लिशर्स प्रा. लि., १९७०, पानां: १५१, १५२.
५६. पळेयात: रवीन्द्र केळेकर, 'संघर्ष टाळण्याचा फसलेला एक प्रयत्न', *भाषिक संघर्षाचे समाजशास्त्र.*
५७. वयलोच संदर्भ: १४९.


**ह्या बरपांतल्या मराठी आनी हिन्दी अवतरणांचे अणकार लेखिकेचे.**



# कवीराय बाकीबाब : कांय उगडास

नागेश करमली

आमच्या बऱ्या भाग्यान, आमच्या जिवीतकाळांतच, ह्या माणकुल्या गोंयांत जल्माक येवन कर्तुत्वदशेक पाविल्ले कांय व्हड गोंयकार आमकां पळोवंक मेळ्ळे. हांतलो एक बाकीबाब बोरकार. बाकीबाब आमचे नदरे मुखार उबे रावतात ते एक ज्येष्ठ-श्रेष्ठ साहित्ययोगी कवी म्हणून. गोंयच्या मुक्ती संग्रामांत वांटेकार जाल्ल्यान ते राजकारणांतय पडिल्ले. पूण, तो मदलो कांय वर्सांचो काळ सोडलो जाल्यार बाकीबाब आमचे मुखार येतात ते एक म्हान कवी म्हणूनच. खासा बाकीबाबांकूय आनीक कित्याय परस आपणाक कवी म्हणून घेवप अदीक आवडटालें. फोनाचेर उलयतना ते आपणाली वळख ''पोएट बोरकार स्पिकींग'' अशीच करून दिताले.



*सात लाख गोंयकार आमी*
*युग नवें फुलैतले*
*अंदल्यात मंत्र जिवीं ते*
*फाल्यां उलैतले*

म्हजे पुरतें सांगतलों जाल्यार, बाकीबाबांचें म्हाका पयलें-वयलें दर्शन घडलें तें १९४२ च्या सुमाराक, ते मराठी-पुर्तुगेज शाळेचे सरकारी शिक्षक म्हणून केपें गांवांत आयले तेन्ना. त्या काळार, पुर्तुगेज वा मराठी-पुर्तुगेज सरकारी शाळेंत शिकोवपी शिक्षकाक ''प्रोफेसोर'' अशेंच म्हणटाले. बाकीबाबांकय सगळे जाण प्रोफेसोर बोरकार म्हणूनच वळखताले. केपेंचे सरकारी शाळेंत हांव तांचेच कडेन शिकलों. म्हणजे, ते म्हजेय प्रोफेसोरच आशिल्ले. आनी जिवीतभर ते म्हजे खातीर प्रोफेसोरच उरले. १९६६ त हांव पणजी आकाशवाणी केंद्राचे सेवेंत रुजू जाल्लों तेन्ना थंय बाकीबाब आशिल्ले. सगळे जाण तांकां एक तर बाकीबाब म्हणटाले वा 'मिस्टर बोरकार' म्हणटाले. थंय तांकां 'प्रोफेसोर' म्हणपी हांव एकलोच आसलों. हांव तांकां प्रोफेसोर म्हणटालों तेन्ना केन्नाकेन्नाय बाकीबाब म्हणटाले, ''तुवें म्हाका प्रोफेसोर म्हळो म्हणटकीच म्हाका तीं केप्यांतले शाळेंतलीं वर्सां याद जातात. म्हजे कडेन शिकतालीं तांतल्या कांय भुरग्यांची याद जाता आनी तेन्नाचे ते दिसूय ताज्जे जावन म्हजे नदरे मुखार उबे रावतात.''

बाकीबाब हे शिक्षक वा आनीक कित्याय परस एक भावनाशील कवीच अदीक आशिल्ले. हांव तांचे कडेन शिकतालों तेन्ना म्हजे सारक्या ल्हान पिरायेच्या मुळावे शाळेंतल्या भुरग्याक बाकीबाब कितें तें कळपच कठीण आसलें. पूण तें आज कळटा आनी केदद्या व्हड मनशाचो शिक्षक म्हणून म्हजे सारक्याक सांगात लाभलो तें सगळें येवजून मन अचंबीत जाता. प्रोफेसोर म्हणून केप्यां आयले तेन्ना बाकीबाब पुराय पाश्चिमात्य भेसांत – सुटा-बुटांत—वावुरताले. माथ्यार हॅट आसतालें. गोंयचे सुटके उपरांत गोंयांत परत येतकीच जांणी पुडवें-सदरो आनी वयर शाल ह्या भेसांतलो बाकीबाब पळयला तांकां सुटा-बुटांतलो बाकीबाब खबरच नासतलो. तेन्ना बाकीबाब पिरायेनय तरणे आशिल्ले. दोळ्यांत एके तरेची धुंदी झळकताली. पन्नाशी-साठींतले बाकीबाब भेसा सयत भायल्यान खूब बदलिल्ले – वेगळे जाल्ले. पूण दोळ्यांत तीच तरणेपणांतली धुंदी घेवन ते जियेताले. अर्थांत ती धुंदी कवितेची. ते धुंदींतच ते जियेले. बरे-वायट जायते प्रसंग तांचे जिणेंत आयले. पूण ते हाल्ले नात. कवितेन तांकां सांबाळ्ळे आनी तांणी कवितेचो परामोस केलो. गोंयांत परते येवचे पयलीं ते पुण्यांत रावताले. थंय रावन लेगीत ते गोंयच्या दर्याचे वेळे कुशीक एक माणकुलेंशेंच घर बांदून रावपाचीं सपनां पळयताले. एके मराठी कवितेंतच तांणी तें सांगलां. तांबडी माती, शेतां-भाटां-खाजनां, माड-माडयो, आंबे, पणस, सगळें तांकां साद घालतालें. आपणाल्या मनांतली सगळी उमळशीक निमाणे कडेन आपणाले कवितेंत ते उकतायताले आनी काळजांतल्या घुस्मटमाराक शमयताले.

१९४६ च्या १८ जुनाक, डॉ. लोहियांचे प्रेरणेन गोंयचें क्रांतीयूग अवतीर्ण जालें. ह्या क्रांतीयुगान कितल्याच गोंयकाराचे जिणेची दिकाच बदलून उडयली. कितल्याच गोंयकारांक, फाटफूड पळयनासतना

स्वातंत्र्यसंग्रामाच्या होमखणांत उडी घेवपाक प्रवृत्त केले. बाकीबाब हे तांतलेच एक. सरकारी शाळेचे प्रोफेसर म्हूण तांचें सगळें वेवस्थीत चलिल्लें. क्षेमवृत्तीच्या खंयच्याय गोंयकाराक समादान दिवपी अशीच ही परिस्थिती. बाकीबाबय हाका आडवाद नाशिल्ले — एक गजाल सोडून. ते जागृत मनाचे, संवेदनशीळ अशे कवी आशिल्ले. तांकां फकत आपणालो संवसारच लागनाशिल्लो. तांकां आपणालो देश लागतालो, आपणाली भास लागताली, आपणाली अस्मिताय लागताली. आनी विशेश म्हळ्यार, एक मुक्त मनाची व्यक्ती ह्या नात्यान तांकां बंधमुक्त स्वतंत्र मनाचो मनीसय लागतालो. हांतल्यानच, आपणालो जाणटो वडील, आवय, बायल, भुरगीं अशा व्हड परिवाराची जापसालदारकी तांचेर आसली. पूण प्रसंग आयलो तेन्ना एका खिणा मदें तांणी सगळ्याचेर खोंट मारची तशें करून, गोंयच्या मुक्ततायेच्या होमखणांत उडी घेतली. फाल्यां कितें जातलें हाचो विचार करपाचे भरीक ते पडले नात. कोणय म्हणत, एके विशिश्ट भावनेच्या भरांत ते मुक्ती संघर्षांत पडले. हय, भावनेचोच भार तो! पूण ते भावनेची धार मुणिल्ली नाशिल्ली. ती एक प्रखार धार आसली. आनी ते धारेचेर चलपाचें सामर्थ्य साहित्यसाधनेन, विशेश करून, काव्यसाधनेन बाकीबाबांक प्राप्त जाल्लें.

पयल्या अठरा जुना दिसा, आयज जाका लोहिया मैदान म्हणटात ते मडगांव शारांतले सुवातेर, आपणाल्या स्वतंत्रतायेच्या उत्कर्षांक वाट करून दिवपाक जो जनसागर थंय लोटिल्लो तो पळोवन आनी त्या लोकां मुखार डॉ. लोहियान येवन पुर्तुगेज सत्तेक जे तरेन आव्हान दिलें तें सगळें नियाळून बाकीबाबां सारको कवी मनीस मुळाक साकून हादरूंक नाशिल्लो जाल्यार अजापच म्हणपाचें. पूण बाकीबाब आपणाल्या कवीधर्माक जागले आनी आपशींच ते एके तरेचो भार आयिल्ले वरी गावंक लागले — *"त्रिवार मंगलवार आजला त्रिवार मंगलवार। स्वातंत्र्याची सिंहगर्जना अतां इथें उठणार..."* ही सिंहगर्जना एके कविते पुरतीच मर्यादीत नासली. बाकीबाब ते सिंहगर्जनेचे एक मुखेल उद्गाते आसले. थंय मागीर फाटींफुडें पळोवपाचो प्रस्न नासलो. बाकीबाब पुरायपणान त्या संग्रामयुगाचे सक्रीय सांगाती जाले. सरकारी नोकरी सोडून ते गोंया भायर गेले — म्हळ्यार तांकां वचचेंच पडले. ना जाल्यार तांकां फिर्ग्यांले बंदखणींत वचचें पडपाचें. घडये, फिंर्ग्यांनी काय जाणांक पुर्तुगालाक व्हरून बंदीवासांत दवरले, तीच पाळी बाकीबाबाचेर येवंये आसली.

१९४६ जून ते १९६१ हो काळ ते गोंया भायर उरले. गोंयचे मुक्तताये उपरांतच बाकीबाब गोंयांत परतले. लागीं लागीं पंदरा वर्सांचो काळ बाकीबाबान गोंया भायर काडलो. तांणी गोंयच्या मुक्ती संग्रामाचो संदेश भौसा मेरेन पावोवपा खातीर मुंबयंतल्यान, 'प्रजेचो आवाज' सारकें नेमाळें चलयलें — सुमार पांच वर्सां परस अदीक काळ. उपरांत ते पुणे आकाशवाणी केंद्रार 'स्पोकन वर्ड प्रोड्युसर' ह्या पदार काम करूंक लागले. गोंया भायल्या तांच्या राबित्यांत, विशेश करून पुणे आकाशवाणीर येवचे पयलीं, तांच्या वांट्याक खूब कश्ट आयले. 'कौतुक तूं पाहे संचिताचें' ह्या तांच्या आत्मकथनांत हे विशींची थोडीशी खबर आयल्या. 'थोडीशी खबर' इतलेच खातीर म्हळ्या, कित्याक आपणाले त्रास-तापत्रय दुसऱ्यांक सांगप हें बाकीबाबांक मुळांतच आवडनाशिल्लें. तांचे काव्यसाधनेन तांकां आनंदयात्री केले. हें आनंदयात्रीपण तांणी निमाणे मेरेन सांबाळून दवरलें. बाकीबाब आपणा विशीं, आपणाले कविते विशीं, साहित्यीक वावरा विशीं खूब उलयताले. तांच्या उलोवण्यांत खंयच कोडूपण नासतालें ही तांची विशेशताय. बाकीबाबांक नांवां दवरपी तशे कांय जाण आसले. पूण तांचे विशीं चुकून लेगीत एक वांकडें उतर बाकीबाब केन्नाच काडिनासले. उरफाटें, दुसऱ्याल्या बऱ्या वावरा विशीं मन सोडून उलोवपांत तांकां आनंद जातालो. साहित्यीक हे नदरेन तांकां ल्हान व्हडां मदें अंतर दवरपाची संवय नासली. ते जितले आपणाल्या समवयस्कां मदें रमताले तितलेच ते नव्या भुरग्यां मदें मेळून—मिसळून वताले. नव्या भुरग्यांनी कितेंय बरें बरयलें तर तांचे फाटीर शाबासकेची थाप दिवपाक ते फाटीं रावनासलें.

बाकीबाबांच्या उदार मेकळ्या मनाची एक देखीवंत गजाल म्हाका

*गोंयचें नांव व्हड करून*
*ल्हान जाले महान*
*बणखणिचीं देवळां जालीं,*
*लामणदिवे प्राण*



हांगा मुजरत सांगची दिसता. साहित्य अकादेमीन एका वर्सा, तांचो साहित्य पुरस्कार वितरण सुवाळो गोंयांत दवरिल्लो. त्या सुवाळ्यांत खासा बाकीबाबांकय *सासाय* काव्यसंग्रहा खातीर साहित्य अकादेमी पुरस्कार भेटोवपाचे आसले. आपणाल्या संभाषण चातुर्यान, बाकीबाब सगळो वेळ व्हड व्हड भारतीय साहित्यकारांच्या रेवाड्यांतच घुस्पल्ले आसताले. पूण ते जेन्ना त्या रेवाड्यांतल्यान भायर सरून येताले आनी आमगेल्या तरनाट्या बरोवप्यां मदें तितलेच आपुलकायेन, कोणाकोणाच्या खांद्यार हात घालीत उलोवपांत गुल्ल जाताले तेन्ना हेर भाशांतले व्हड व्हड साहित्यकार सामके अजापीत जाताले. कारण तांच्या तांच्या साहित्य क्षेत्रांत, नवे तरनाटे बरोवपी तांचे सरीं वचपाक वा उलोवपाक कांचवेताले. बाकीबाबा सारकें खांद्यार हात बी दवरून उलोवप तर पयसच. हें सगळें चित्र पळोवन एकल्या दुसऱ्या भाशेंतल्या साहित्यकारान बाकीबाबाक विचारलें लेगीत — "तुमी अशे तरेन भुरग्या बरोवप्यां मदें इतले सलगेन कशे वागतात?"

बाकीबाबान कितें जाप दिवची? तांणी म्हळें, "ही आमचे भाशेची — कोंकणीची — पुण्यताय. ते भुरगे आसत. पूण ते म्हजे भाशेक नेम निश्ठेन गिरेस्तकाय जोडून दिवपाचो वावर करतात. व्हड काम हें. तांची तोखणाय करप ना जाल्यार मागीर कोणाची करपाची?"

बाकीबाबांच्यो यादी तश्यो खूब. तांची याद काडीत तितली थोडी.



# वाग्गेयकाय बाकीबाब -
# एक आनंद-स्मरणयात्रा

सुरेश गुंडू आमोणकार

बाकीबाबांले जल्मशती निमतान तांच्या काव्याचें आनी विलोभनीय व्यक्तित्वाचें पुनर्दर्शन आमी फाटलें वर्सभर घेत. हांवूय ते स्मरण-यात्रेंत सामील जावन मोठ्या आनंदान आनी उत्कटतायेन तांच्यो यादी काडीत त्यो सांगत आसां. बाकीबाबांक एक जोड आडनांव आसलें – वरदे-बोरकर. तांणी केन्ना तें लायलें ना. गरजूच नाशिल्ली. श्रीशारदेचो वरदहस्त तांचेर आशिल्ल्यानूच, 'वरदे' हें आडनांव तांणी सार्थ केलें.

बाकीबाब जल्मले त्याच वर्सा तांचें घर - शांतीनिकेतन - बांदिल्लें. पुरयतान बाळकृष्णाची कुंडली मांडून भविश्य सांगलें. चलो अशुभ म्हुर्ताचेर जाला. मूळ नक्षत्राचेर जल्मला; ताका आनी घरच्यांक बादा जातली. शांती करपाक जाय. घरच्या बुदवंत जाणट्यान सांगलें : आमच्या नव्या घरांत पूत्र-सूर्य जल्माक आयला. शांतीची गरज ना. तो घराण्याचें नांव व्हड करतलो! तशेंच घडलें. बाकीन इतिहास घडयलो.



*मरणांतुनी मन माझें*
*सृजनावर जडलें रे*
*सरतां अज्ञातवास*
*सिंहासनी चढलें रे*

योगायोग काय नियतीचो विलास, म्हाका सांगपाक येवचें ना. हांव दैववादी न्हय. पूण नियतीचो खेळ हांव मानतां. बाकीबाबांच्या जिविताचो नियाळ करात. आलेख मांडात. गोंयच्या इतिहासांतलीं तीन म्हत्वाचीं वर्सां तांचे जिणे कडेन घट्ट बांदल्यांत. तीं म्हळ्यार, १९१०, १९४६ आनी १९६१. पयलें वर्स १९१०. तांच्या जल्माचें. त्याच वर्सा पोर्तुगालाक राज्यक्रांती जाली. लोकांनी राजेशाय हुमटावन काडली आनी लोकशाय हाडली. चेपिल्ल्या दब्लिल्ल्या हिंदू समाजाक जाग आयली; नव्यो संदी मेळ्ळ्यो; समान नागरिकत्व मेळ्ळें. शिक्षणीक संधींक लागून बाकीबाबां सारक्या साबार तरुणां मुखार नवीं आव्हानां उबीं रावलीं. बाकीबाबान तीं समर्थतायेन झेल्लीं आनी पेल्लींय बी.

दुसरें वर्स १९४६. बाकीबाब तेन्ना ३६ वर्सांचे कुटुंब वत्सल मनीस. सरकारी नोकरेची सुरक्षीतताय आसली. पूण १८ जून, १९४६ दिसा डॉ. लोहियांच्या रुपान व्हडलें मोड, तुफान वादळ गोंयांत आयलें. बाकीबाबूच गायतात – *''महात्मा गांधी आयलो रे। गोंयांत आमच्या पावलो रे। लोहियान हाडलो बावटो ताचो । मडगांव शारांत लायलो रे.''* आनी बाकीबाबान विचारांती त्या होमखणांत उडी घाली. म्हज्या बापायक १९ जून, १९४६ ह्या दिसा बरयल्ल्या पत्रांत तांचे मनस्थितीचें दर्शन घडटा. ते बरयतात: ''काल म्हजी तकली विलक्षण तापिल्ली. जे राजवटींत भाशण स्वातंत्र्य, सभा स्वातंत्र्य, मुद्रण स्वातंत्र्य आनी धर्मस्वातंत्र्य ह्या मनशांच्या सामान्य हक्कांचें नियंत्रण जाता, ते राजवटींत नोकर म्हणून काम करप हें म्हज्या स्वाभिमानाक सहन जावचें ना.'' आनी त्याच दिसा बाकीबाबान गोंयचें पयलें क्रांती सुक्त गायलें. *''त्रिवार मंगलवार आजला, त्रिवार मंगलवार। स्वातंत्र्याची सिंहगर्जना आज इथें उठणार.''* ज्या गोंयांत ज्या काळांत सरकारी अधिकाऱ्या मुखार लोक थरथरताले, त्याच गोंयांत बाकीबाबान गोंयच्या गव्हर्नर जनरलाक फर्मायलें: *''दोतोर बॉस, दोतोर बॉस समजिकायेन वाग। तकली तुका ना जाल्यार उठून चलूंक लाग.''* बाकीबाबांचे धिटायेच्या नव्या रुपाचें दर्शन गोंयकारांक घडलें.

बाकीबाबान शब्दांचींच शस्त्रां आनी अस्त्रां केलीं. *''शांता झाली दुर्गा / जागृती आली... सगळ्या पिडीत वर्गा रे''* अशें ते गावंक लागले.

आनी तिसरें वर्स १९६१. १९ डिसेंबराक 'ऑपरेशन विजया' वरवीं गोंयची सुटका जाता.

क्रांतीविरांचो त्याग सुफळ जाता. तोय दीस मंगळाराूच आसता. दिल्लीक सावन बॅ. नाथ पै, लोकसभेचे वांगडी, बाकीबाबांक तार धाडटात : *''त्रिवार मंगलवार, आजला त्रिवार मंगलवार''* आनी बाकीबाब तारेनूच जाप दितात: *''धन्य होऊनी लिहिलेल्याचा मीही साक्षात्कार.''* तेन्ना बाकीबाब पुण्यांत आकाशवाणीचेर. भारत सरकाराक तांची रोखडीच याद जाता आनी तें नवें स्वतंत्र गोंय रुपकाराक हाडपाक बाकीबाबांकूच वेंचून काडून गोंयांत धाडटा. कोंकणी, मराठी, हिंदी, पोर्तुगेज आनी इंग्लीश ह्या पांच भासांचेर असामान्य प्रभुत्व आशिल्ले बाकीबाब आपले नवे भुमिकेक पूर्ण न्याय दितात. जांकां हो योगायोग दिसता, तो तांणी मानुंदी. पूण हो नियतीचोच खेळ आशिल्लो अशें हांव मानतां.

१९४६-१९६१ हो काळ बाकीबाबांचे जिणेंतलें क्लेश पर्व आशिल्लें. त्या काळांत तांची अग्नीपरिक्षा जाली आनी तापून, सुलाखी भांगरा वरी ते भायर सरले. त्या कठीण काळांतूय तांणी आपली नाममुद्रा मराठी साहित्याचेर उमटायली. *बोरकार युग* निर्मिलें. मराठी साहित्यांत आपलें खणखणीत नाणें पाडलें. ते निर्शेणेच्या काळांत स्वातंत्र्य-सुक्तां बरोवन तांणी गोंयकारांक त्राण दिलें. सामान्य गोंयकारांक स्फूर्त दिली.

बाकीबाबच मेकळ्या ताळ्यान गायतात: *''गोंयचें नांव व्हड करून ल्हान जाले महान / बंदखणींचीं देवळां जालीं / लामणदिवे प्राण ।। रगताचें तेल करून रात जागयली / तांणी रात जागयली / संवसाराची शांत करून तान भागयली / तांणी तान भागयली / धाय दिको गायता तांचें फायचें यशोगान / गोंयचें नांव व्हड करून ल्हान जाले महान ।।''*

कवीस्रेश्ठ बाकीबाब ल्हान आसले, सामान्य आसले, तरी तांच्या ध्येयवादान, आनंदभावान, आशावादान, तांकां म्हान केले. ते बाण्यान कवी आशिल्ल्यान, तांणी आपलें 'नीज शैशव' जतनायेन राखलें. बाकीबाबांनी जायतीं सपनां पळेलीं. कवीच ते. ''जे देखे न रवी, ते देखे कवी' अशी उक्ती आसा. तांणीच गोंयाक आनी गोंयकारांक नव्या युगाचो मंत्र दिलो -- *''सात लाख गोंयकार आमी। युग नवें फुलैतले। अंदल्यात मंत्र जिवीं। ते फाल्यां उलैतले।... जनगणमन-गीत गायत। सूर नवो मेळैतले.''* हें सपन तांणी पळेल्ल्यानूच, शतकांसंकिनी अंदिल्ल्या लोकांतलोच एक गोंयकार स्वतंत्र गोंयचो मुख्यमंत्री जावंक पावलो.

पूण त्या कालखंडांतले सुरवातीचे दीस दगदगाचे आसले. बाकीबाब धकेचपाटे खाताले. नोकरेच्या तापत्रयांत हुलपताले. सुरक्षीतताय गेल्ली. त्या खडतर वर्सांनी 'प्रजेचो आवाज', स्टीफन झ्वायगच्या कादंबऱ्यांचेर भाशणां, असले कितलेशे उद्देग व्याप तांणी केले. त्या काळांत पयलेच फावट आपले प्रतिभेची झर आटत वता काय अशें तांकां घडये दिसलां जातलें. १ ऑक्टोबर, १९५० दिसा *आनंदभैरवी* पुस्तकाचे चार वळींचे प्रस्तावनेंत ते बरयतात: ''माझ्या भाव संगीताची / ही भैरवीहि असेल, / पण मी ती आनंदाने / गायलेली आहे.'' त्याच संग्रहांत 'ये संध्ये जा कथुनी' हे कवितेच्या निमाण्या कडव्यांत ते आश्वासक सुरान गायतात: *''अन् भंवतीं तम चढतां। कनकाचा लाव दिवा। विझतां हृदयांत धूप। फुलवीं अंगार नवा.''* ते उपरांत तांची प्रतिभा फुलत राविल्ली दिश्टी पडटा, अंता मेरेन.

'तम:स्तोत्र' ही ताची निमाणी कविता, पुण्यांत २४ एप्रील, १९८४, म्हणजे निर्वाणाचे अडेज म्हयनेच आदीं बरयल्ली. तांचें हें तम:स्तोत्र प्रकाशजनक तमोदेवतेचें, 'प्रकाशजनक पुरुषोत्तमाचें' स्तवन. हाचे पयलीं तांणी 'तिमीर स्तोत्रां' बरयल्लीं. 'जगायचे आहे' (*अनुरागिणी* १५.५.१९६१) ह्या गितांत ते गायतात : *''अंधाराला आहे येथें प्रकाशाचें भान, प्रकाशामधून येथे विकासतो प्राण। प्राणांतून उसळतें आनंदाचें गान। गानातून घडे येथें अमृताचें स्नान,। त्यांचे बीजगुज मला भोगायचे आहे, । मरायचे नाहीं मला, जगायचें आहे।''* तिमिरातून तेजाकडे' ही कविता हाचेय आदीं चार वर्सां पयलीं *(चित्रवीणा २७.७.१९५७)* बरयल्ली. *'तमसोमा ज्योतिर्गमय' (काळखांतल्यान उजवाडा कडेन)* होच जीवन सुवाळो अशें बाकीबाबांनी मानलें आनी तें अंतघटीचेरय तांणी गायलें.

*'म्हाकाच लागून उदक तुका',*
*पानवेल म्हण्टा म्हसंगा-रुख्वा*
*म्हशिंग म्हण्टा 'म्हणून अशी,*
*माथ्यार हांवें घेतल्या तुका'*



आपूण एक कवी अशी जाणविकाय जायत सावनूच बाकीबाबांक आपल्या मिशनाचो दिश्टावो जालो. मनिसूच कविता करता, गितां रचता हाचो पयलो वयलो साक्षात्कार तांकां पिरायेच्या आठ वर्सांचेर बोरयेच्या म्हाल-म्हाताऱ्या पात्रीस रेंदेरान घडयलो. 'पांयजणां' हो आपलो कवितां झेलो बाकीबाबान शीघ्रकवी पात्रीस रेंदेराक ओंपला. आपूण कवी हाचो तांकां उपाट अभिमान आसलो. कवीक आत्मनिश्ठा आसपाक जाय आनी आपले ईश्वरदत्त प्रतिभेक ताणें अव्यभिचारी निश्ठा दिवपाक जाय ही तांची स्रद्धा आसली. बाकीबाबान मनशाचेर प्रेम केलें, मनीसपणाचेर प्रेम केलें; जिणेंतल्या आनंदाचेर आनी चैतन्याचेर तांणी निरंतर प्रेम केल्ल्यान, प्रेमाचेंच आत्मसंगीत तांणी गायलें. होच बाकीबाबांचे कवितेचो प्राण आसलो. प्रेम आनी आनंद हातुंतूच तांकां जिणेंतली शक्ती दिसली. प्रेम आसा थंय आपशींच आनंद येता आनी त्याच आनंदांत परमात्मो वसता हें बाकीबाबांचे कवितेचें रहस्य. देखुनूच तांची कविता म्हळ्यार अखंड प्रेम-सुक्त, आनंद-सुक्त जाली. ही आत्मप्रचिती आशिल्ल्यान ते आमकां सदांच साद घालतात : *''जीवेभावें कुणावरि तरी, प्रितीची अतिवृश्टी करा रे.''* पयलेच फावट,आधुनीक मराठी काव्यांतूच न्हय, तर भारतीय साहित्यात, लेगीत, अस्तुरेचीं, तिचे शक्तीचीं आनी तिच्या प्रेम भावनांचीं विवीध आनी अपरमीत रुपां तांणी संयमान रेखाटल्यांत

आनी आळयल्यांत.

बाकीबाब – ल्हानपणांतलो बाकीट, तरणाटो बाकी, आनी जाणटेपणांतलो भोवमानान गौरविल्लो बाकीबाब – ल्हानपणा सावनूच काव्य आनी संगीत हातूंत सामको बुडिल्लो आनी रमिल्लो. काव्य आनी संगीत हांचे कडेन तांचें अतूट नातें. संगीत, नाद आनी ताल हीच तांची प्रकृती जाली. तांणी ती अभिमानान आनी अपुरबायेन सांबाळ्ळी. प्रत्येक कवीन कविता हेंच आपलें मिशन मानपाक जाय अशें तांणी अंता मेरेन मानलें. कोणूय कवी तांकां मेळूंक आयल्यार, तांचो पयलो प्रस्न आसतालो – कितें हाडलां? गोंयकारांक दिसत, ते नुस्त्याची गजाल करताले. कितें हाडलां, म्हणचे, ''नवी कविता हाडल्या?'' आनी ती हाडूंक नासल्यार, एका ल्हान भुरग्याचे उमेदीन बाकीबाब ताका सांगताले, ''आयक, ही म्हाका जाल्ली नवी कविता.''

बाकीबाबान केन्नाच मुद्दम, दाटून, प्रयत्न करून कविता



*गोंयचें नांव व्हड करून*
*ल्हान जाले महान*
*बणखणिंचीं देवळां जालीं,*
*लामणदिवे प्राण*

बरयलिना. ती तांकां अचळय, आपशींच 'जाताली'. बायलांक भुरगीं जातात तशी. तांच्या कवितांचो जल्म पळोवचेलें भाग्य म्हाका जायते पावटी मेळ्ळां. तांकां सांजेची पासय प्रिय आसली. म्हापश्यां एक दीस आमी खिरस्ती दफनभूमी कडल्यान वताले. हांवें सहज तांकां म्हळें, ''बाकीमामा, तुवें केन्ना पळेलां, प्रत्येक सिमितेरीच्या दरवट्याचेर चार शब्द बरयल्ले आसतात: 'आयज म्हाका, फाल्यां तुका'. मृत्यू अटळ हें सत्य आनी गौतमबुद्धान आमकां सांगला: मृत्यूचेर ध्यान करात. सरणाक पळोवन तुमीच जळटात हें बरें करून पळेयात.'' अशें म्हणटा म्हणसर, बाकीबाब आपले तनरेंत गेले. शांत जाले. आपल्याच कोशांत. आमी घरा आयले तरी शांत. दुसऱ्या दिसा तांणी म्हाका उलो मारलो : ''शुल्या, आयक ही कविता.'' आनी ते भावपुराय आवाजांत गावंक लागले :

*''स्मशान असावें दोन हांकांवर... मनाच्याही*
*पावलांना सराव असावा ताच्या सांगाताचा*
*विशेषत: संध्याकाळीं*
*वाचून घ्यावें दरवाज्याच्या कमानीवरचे*
*मृताच्या मिटल्या ओठांतलें अमर सुभाषित:*
*आज म्हाका फाल्यां तुका*
*......*
*चेतून पहाव्या गेलेल्या जिवलगांच्या*
*जिवंत झालेल्या जागत्या चिता*
*आनी स्वत:च्याही.''*

हांव सामको चकासूर जालों. हांवें एके अपरूप कवितेचो जल्म पळेल्लो.

बाकीबाब हे भावकवी. लिरिसिस्ट. संगिता विणें कविता आसूं येता हें तांकां अजिबात मान्य नासलें. म्हणून तांचे प्रतिभेन *'जीवन संगीत'* गायलें, *'आनंद भैरवी'* आळयली. *'चित्रवीणा'* आनी *'गितार'* वाजयली. ते व्रतस्थ कवी आसले. तांणी जल्मभर कवितेची साधना केली. काव्य साधनेक तांणी योग-साधना मानली. ती तांची आनंद साधना आसली. सत्य, शिव आनी सुंदर ह्या मुल्यांचें तांणी सतत मनन-चिंतन केल्लें. ताचेंच पडबिंब तांचे कवितेंत पडलां.

'मुंबई आणि उपनगर साहित्य संमेलनां'तल्या अध्यक्षीय भाशणांत तांणी आपली भुमिका स्पश्ट केल्या : ''काव्यसाधना ही एक विलक्षण आनंदसाधना आहे. तिच्यासाठी कवीला शेवटपर्यंत माणूस राहून, देवांशी कायमचं सख्य जोडावं लागतं. त्याच्यातला माणूस सदैव इतका उत्कट आणि जागृत असायला हवा, की त्याच्या रक्ताला माणसाची सारी प्रमादशीलता, सारी दुबळीक, सारे मोह, सारे लोभ आणि सर्व प्रकारचे हर्षविषाद सहज जाणवतील आणि त्याचबरोबर त्यातून सुटण्यासाठी त्याची जी मुकी तगमग चालते, तीही तितक्याच उत्कटपणें भावेल. असला हा मानुष भाव हे त्याचं फार मोठं धन असतं. त्याचमुळं माणसांची सारी गाऱ्हाणी तो देवापर्यंत पोचवू शकतो आणि त्याच्या कृपेचे वरदान त्यांच्या पदरांत टाकू शकतो.''

अशी तांची तत्त्वचिंतकाची चित्तवृत्ती. देखून जें जें कितें तांणी बरयलें आनी गायलें तें जीवनभाश्य जालें. तें सुभाशीत जालें. मनोहर माळगावकर हांणी म्हळां, बाकीबाबान एकच 'तेथे कर माझे जुळति' ही कविता बरोवन काव्य संन्यास घेतिल्लो जाल्यार ते मराठी साहित्यांत अव्वलवर जातले आसले. तांचे कडल्यान महात्मायन जावंक पावलेंना जायत, पूण तांची प्रतिभा महाकवीचीच आसली हातूंत दुभावूच ना. तांच्या काव्यांतल्यो कितल्यो म्हणून देखी दिवं! 'महात्मायना'च्या 'मंगलां'तल्यो ह्यो कांय होंवयो पळोवया:

*१. समुद्र होऊन चंद्र देखावा। चंदन होऊनी अग्नी भोगावा।*
*भक्त होऊनी ऐकावा। जीवन गाथा ईश्वराच्या ।।१३।।*
*२. प्रभूस पावली यज्ञस्तुती। दशम अवतार होईल भारतीं।*
*मोहनमूर्ति नामें ख्याती। लोकत्रयीं पावेल ।।४८।।*
*३. हा निर्मळ निष्कलंक। आत्मलक्षीं सत्यशोधक।*
*देव असून होईल सेवक। आर्ताचियें कारणें ।।५३।।*
*४. हा अहिंसे होईल रूप। स्वभाव धर्मे सत्यदीप।*

*निर्भय निवांत चिरंतप । पाप ताप हरावया ।।५४।।*

*५. अग्नी भक्षुनी सोळा वेळा । करील तो जीवन सोहळा ।*

*आत्मयाच्या सोळा कळा । उघडून दावील सर्वत्रा ।।५५।।*

बाकीबाबां कडल्यान 'महात्मायन' जालें ना जायत; पूण हांव पुनर्जल्म मानतां, आनी तांकांय 'चवऱ्यांयशींचो प्रवास' जाय आसलो. तेच करीत तें पूर्ण फुडल्या जल्मांत, ही म्हजी स्रद्धा.

बाकीबाबांची समग्र कविता थकिल्ल्या भागिल्ल्यांक, निर्शेल्ल्यांक, आर्तांक, प्रेमांत पडिल्ल्यांक आपपले गरजे प्रमाणे, 'मुडा' प्रमाणें थाकाय दिता.

*"गुंडे पट्टना जावं । फुलां झट्टना जावं*

*तुजी फव्ळी सासाय । पांडुरंगा ।।"* हें गीतेचें *'सुखदुःखे समेकृत्वा'* *तत्त्वज्ञान सांगपी बाकीबाब "अजुन तरूण मी । अजुन तरूण मी । अजून उगवे । अरुण मनात ।"* (आनी) *"अजुन तरूण मी । अजुन तरूण मी । घुमते नकळत गीत नवीन । अथांग सागर प्रीत उसळते । फुलवित फेने स्वप्नपुलीन ।"* ह्या तांच्या चिरतारुण्याचें गुपीत मनमेकळेपणान सांगीत गायतात:

*"असा कसा मी तरुण निरंतर सांगू कैसें तुला ।*

*सहज अचानक झांकुन डोळे तिनें चुंबिलें मला ।।"*

तांचे कवितेचें आकर्शण सर्वकालीन. पन्नास वर्सां पयलीं तें तरुणांक आशिल्लें, तशेंच आनीक दोनशें वर्सांनीय तांकां आसतलें. देखीक, *"डोळे तुझे बदामी, देती मला सलामी । त्यानेच हा असा मी । झालो गडे निकामी"* ह्यो काव्यपंक्ती आयकतकीच मराठी कविता आनी कवी आयच्या तरुणांक आवडूंक लागता. पिरंगुपी लोकांक, निर्शेल्ल्या लोकांक बाकीबाब 'बरें वखद' prescribe करतात. कुशळ वैजा भशेन : *"ह्या जगांत हास्य उणें । हास्याविण दीन जिणें । हास्यशून्य जीवनास, यौवनीं जरा जडे ।।"* असो आनंद-मंत्र बाकीबाब तांकां दितात.

कवितेंतल्यान बाकीबाब आपूण फुलताले आनी हेरांकूय फुलयताले. ते गायतात : *"हांवय फुलतां लाख सुखांनी । ओंवळां घमघमतात दुखांनी."* बाकीबाबांच्या दुखांतूय ओंवळां घमघमतालीं.

तांणी जिणे कडेन सदांच सकारात्मक नदरेन पळेलें. तुच्छताय, हेरांची उवेखणी, अनादर, दुस्वास तांकां मातूय आफुडलो ना. आमची जीण कशी गोड करूं येता तांचेंय prescription ते आमकां दिवन सांगतात:

*"स्राप दिवं नाका जगाक । सामकें वायट न्हय रे तें*

*स्वर्गापरस करूंक येता । गोड गायत गायत तें."*

ते हे कवितेंत एक अशी उपमा दितात, जी फकत जगमां खावपी गोंयकारांकूच कळटली. ते गायतात: *"आमट तुरट जिवित जरी । आसता जुस्त जगमावरी । अरळ मधुर म्हौंव लागता । जर खेळौन खायत तें । ...स्राप दिवं नाका जगाक । सामकें वायट न्हय रे तें."*

आमचे वरी परतीच्या प्रवासांत आशिल्ल्यांकूय बाकीबाबांची कविता बळ दिता, शक्त दिता, स्फूर्त दिता. पिकिल्ल्या फळान जिणे देंठा कडसून कशें आपशींच अचळय तुटून पडचें तें आमकां ते सांगतात. *"विझवून दीप सारे । मी चाललो निजाया । आतां अशाश्वताची । उरली मुळीं न माया"* आनी जाणत्यांक (फकत जाणट्यांक न्हय) *"मी पण ज्यांचें पक्व फळापरी सहजपणाने गळले हो । जीवन त्यांना कळलें हो ।।"* असो कानमंत्र ते दितात.

जंय जंय बाकीबाब वताले, पार्टेंत बसताले, घोळटाले, वा आपल्याच घरांत आसल्यारय, तेच ते मैफलीचे प्राण जाताले, कवीच्या थाटान मिरयताले. आनी ते मैफलींत कोणूय हेर दिग्गज आसूं, तेच ते मैफलीचे आपसुकीं राजा जाताले. पुण्यांत आनी पणजेंत आसतना हांवें जायत्यो मैफली पळेल्यात. दिल्लीवाल्यां कडेन हिंदीतल्यान, आदल्या कांय मित्रां कडेन पोर्तुगेजींतल्यान, गोंयकारां कडेन कोंकणींतल्यान, मराठी मनशा कडेन मराठींतल्यान, आनीक कोणा कडेन इंग्लीशींतल्यान, तरेकवार विशयांचेर अस्खलीतपणान तांकां उलयतना पळेल्यात. ते उलयताले तेन्ना तांचीं सगलींच आंगां उलयतालीं

*आतल्या एकान्त डोहीं*
*गात आतां डुंबतों*
*अर्थ शब्दांचा उदेतां*
*विस्मयाने थांबतों*



— दोळे , नाक, भुंवयो, वाऱ्याचेर हुबपी केंस, भुजां, हात, बोटां, आनी अजापान फुलिल्लो उजवाड फांकपी चेरो! हांव म्हणन — Borkar was a one-man theatre. बाकीबाब खरेंच एकपात्री प्रयोग करताले. पूण त्या प्रयोगांत कसलेंच नाटक नासतालें. सगलेंच प्रामाणीक, अकृत्रीम, सहज स्फुरिल्लें आसतालें. वाद जाल्यार राग-तिडक लेगीत ते लिपयनासले, तिडकीन एका खिणांत उसळटाले, तशेच खिणा भितर थंड जाताले. तांचे गजालींत खंयचोच विशय वर्ज्य नासलो — काव्य, विनोद, इतिहास, कला आनी लोककला, ज्ञानेश्वर, तुकाराम, टागोर, रवीन्द्रसंगीत आनी जीवनसंगीत, गोंय, गोंयकार, कोंकणी भाशेंतलें संगीत, सगलें आसलें. पूण एकूच गजाल सामकी वर्ज्य आसली : ते कोणाचीच निंदा-नालस्ती करिनासले.

कोंकणी-मराठी वादांत ते हुलपल्ले. 'झालाच पायजे'च्या वादांत ते लाशिल्ले, पोळिल्ले. तांचे बैठकींत आदले रातीं बशिल्ल्या लोकांनी दुसऱ्या दिसाच्या पेपरांत तांचेर विखारी टिका केल्यारूय ते पर्वा करिनाशिल्ले. येदो व्हडलो कोंकणी-मराठी वाद तांकां बादुनूय, त्या क्लेश-पर्वाचेर तांणी फकत दोन वळींचें भाश्य करून, तो वाद फांफडून उडयल्ले वरी केल्लो. 'मराठीच्या ओव्या' हे कवितेंत ते म्हणटात: *"तुक्या-ज्ञान्याला छळिले. तेच पण देती शिव्या । त्यांचा विसर पडाया गातो अशा तुझ्या ओव्या"* अशें म्हणून त्या अंकाचेर तांणी पड्डो उडयलो. हेच खातीर ते great आसले. देखूनच लोकांक बाकीबाब जाय आसले. तांणी मनीस जोडले आनी आपलें मनीसपण

तांकां दिलें. *ज्ञानेश्वरी* चेर उलयतना, एका एका वचनाचेर, ओंवयेचेर ते भाश्य करताले; तातूंत काव्याचें रसास्वादन येतालें, कलामीमांसा जाताली, तत्त्वज्ञानाचें सौंदर्य फुलाचे कळये वरी तुमच्या दोळ्यां मुखार फुलतालें. ते चर्चेंत पांडित्याचो लवलेश नासलो; दिखावपणा नासलो, पढीक समिक्षा नासली. तांची चर्चा थेट काळजाक भिडटाली म्हणुनूच ती भावताली.

इंग्लीश साहित्यीक सॅम्युअल जॉनसनांक बॉसवॅल मेळ्ळो. आमचें दुर्दैव, बाकीबाबांक तांचो बॉसवॅल मेळ्ळोना. 'सच्चिदानंद बाबा' सारको एक लेखकूय मेळ्ळो ना. तो मेळिल्लो जाल्यार, एक रसरशीत रसाळ ग्रंथ आमकां मेळटलो आसलो.

बाकीबाबांची कविता म्हळ्यार एक व्हडलें सौंदर्य-सुक्त. आपले कवितेंतल्यान तांणी निरंतर सौंदर्याचो उद्‌घोश केलो. *"झिणिझिणी वाजे बीन। सख्या रे अनुदिन चीज नवीन"* हो एका रुशीचोच भावोद्‌गार अशें हांव मानतां. तांची निसर्ग-कविता म्हळ्यार गोंयच्या



*गोंय आमचें मूळपीठ,*
*कोंकणी आमची भास*
*कोंकणी संस्कृताय*
*आमच्या जाण्टयांली मिरास*

सैमीक सौंदर्याचो लावण्य-महोत्सव. गोंयच्या निसर्गाची वळख तांणी महाराष्ट्राक करून दिली, भारताक करून दिली. आपले धुंदींत, आपले मस्तींत, आपले तनरेंत, आपले समाधींत वावरूनूय तांणी जिणेचे भव्यतायेचो, दिव्यतायेचो अखेर मेरेन सोद घेतलो. ते जिणेचेर उपाट प्रेम करताले, तांकां ती येतिश्ट भोगपाची आसली. देखून पिरायेच्या बाविसाव्या वर्सा ते मरणाक उलो मारून साद घालतात. *"इतुक्या लौकर येईं न मरणा। मज अनुभवुं दे या सुखक्षणा!"* हे कवितेंत ज्या पंदरा, सोळा सुखक्षणांचो उल्लेख ते करतात, तातूंत गोंयचीं कुळागरां, काजू, माडयो, पोंवलेंतली पेज, रेंदेराचें गीत, ज्ञानेशाची ओवी, हीं सगळीं मराठी वाचकांक गोंयची वळख करून दितात; पूण एक नवलाची गजाल ते कवितेंत आसा. शिवराक मराठी मनशाक *"तिखट कढीनें जेवुनी घ्यावें। मासळिचा सेवित स्वाद दुणा"* अशें बरोवन गोंयची आनी गोंयकारांची नवी वळख त्या काळांत करून दिवपी बाकीबाब पयलोच कोंकणी भाशीक कवी आसुयेत.

बाकीबाबांची कविता निसर्ग लावण्य, प्रेमसौंदर्य, भक्तीची मधुराय आनी अनुराग-विरागान नटिल्ली आमकां दिसता. ल्हानपणांतल्या 'बाकीटा'चो खरो मोगाळ सखो गोंयचो लावण्यराय निसर्ग. तांणी ताका पोटभर पियेवन आपल्या आंगाआंगांत, आपल्या गात्रागात्रांत भिनयलो, आनी जिरयलो. आनी तांच्या सांगाताक आसलें नील-वर्णी आकाश, अथांग आनी अमर्याद दर्या, पाचवेचार दोंगर आनी काळ्यो निळ्यो न्हंयो. ल्हानपणा सावन मनाकाळजांत मुरिल्लो हो निसर्ग, तांचे कवितेंतल्यान अनंत रुपांनी फुलिल्लो, फळिल्लो आमकां दिसता. बाकीबाब चान्याक वेंगायतात. तांकां गोंयच्या शितळ, प्रसन्न चान्याचें पिशेंच लागिल्लें, ध्यासूच लागिल्लो म्हळ्यार जाता. तांणी चंद्राचे तरातरांचे moods पळेले. अमृताचो चंद्रीम, तेचपरी जखमी फिको चंद्रीम, यौवनाचीं झाडां तांणी पळेलीं. तांच्या आनंदाक खांदयो फुट्टाल्यो, तांचें वोत आंगाक हळद लावन येतालें. दर्याची वेळ तांकां कशी दिसताली? *"हीच हीच ती सागरवेला, अशीच होती अर्धी भिजली, हळद उन्हाची लावुनी अंगा".* तांणी अनंत पर्जन्य-सुक्तां बरयलीं. तातूंत रसिकांक चिप्प न्हाणयले आनी भिजयले; बाकीबाब कवी जावंक नासले जाल्यार नक्कीच ते चित्रकार जावपाचे. तांचें सगलें काव्य एक महोत्सव - रंग विलास. पाचवो म्हणुंनाका, हळडुवो म्हणुंनाका, किरमजी डाळिंबी म्हणुंनाका... तांकां दिनकर पिवळो दिसता. तांची *"रुपस मासळी, अवचित उसळी"* घेता आनी ठांय ठांय आमकां "निळ्या रंगाची नवलाई" दिसता. 'निळा' ही एकूच कविता वाचची आनी ती फिशाल चित्रकारांनी मनसोक्त चित्रावची : *"एक हिंवटीचा निळा, एक धुवटीचा निळा। दूर डोंगरांचा एक, जरा त्यांच्याहून निळा। मोरपिसाच्या डोळ्याचा एक मखमली निळा, । इंद्रनिळांतला एक गोड राजबिंड निळा। विसावल्या सागराचा एक ओलसर निळा। आकाशाच्या घुमटाचा एक गोलसर निळा... असे नानागुणी निळे किती सांगू त्यांचे लळे। ज्यांच्यामुळे नित्य, गडे तुझे माझे डोळे।"*

बाकीबाबांचो आध्यात्मीक प्रवासूय तांचे कवितेंतल्यान आमकां स्पश्ट जाणवता. जिणेच्या प्रेमांत पडिल्ल्या बाकीबाबान *"इतुक्या लौकर येईं न मरणा"* म्हूण मरणाक सादयलें; *"स्वर्ग नको, सुरलोक नको, मज लोभस हा इहलोक हवा"* अशें म्हणीत *"हें सुख दुर्लभ वाढविण्या मज, चौऱ्यांशीचा प्रवास हवा"* अशें आमकां सांगलें.

आपल्या वयाच्या पन्नासाव्या वर्सा तांणी आमकां ठणकावन सांगिल्लें:

*"मरायाचे नाही मला जगायचें आहे*
*येथे मुलां माणसांत, पानां फुलांत कणसांत*
*उन्हावान्या पावसांत फुलायाचें आहे*
*मला वाढायचें आहे*
*मरायाचें नाहीं मला जगायाचे आहे."*

आपले कविते विशीं तांकां व्हड आत्मविश्वास आसलो. ते म्हणटात — *"शब्द मज झाले कौस्तुभ कुंडल,/ छंदांचे प्रबंध तेच झाले। जाहला अभंग बोलिल्याचा."*

आपल्या स दसकांच्या काव्यप्रवासांत तांणी बालकवी, तांबे, रवीकिरण मंडळ, कुसुमाग्रज, मर्ढेकर, पाडगांवकर, बापट, ग्रेस, महानोर हांकां सगळ्यांक पळेले, वाचले, पूण ते आपली स्वतंत्र वाट, आपलें स्वत्व आनी सामर्थ्य जाणून, चलत रावले.

तांचे हयातींतच तांच्यो कविता रसिकांच्या ह्दयाक भिडिल्ल्यो. तांचे जिबेर त्यो नाचताल्यो, तांकां खातखुतल्यो करताल्यो, हें तांणी आपल्या दोळ्यांनी पळेल्लें, अणभविल्लें. पांच दसकां रसिकांच्या ह्दयाचेर तांणी अधिराज्य केलें. म्हणून ते आत्मविश्वासान गायतात:

*''मी विझल्यावर त्या राखेवर*
*पण कोण्या अवसेच्या रात्रीं*
*धुळींत विखुरल्या कविता माझ्या*
*धरितिल चंद्रफुलांची छत्री.''*

अशें म्हणटां म्हणटां एक दीस *ज्ञानदेवी* वाचतां वाचतां तांचे जिणेंत एक नवल घडलें. ते बरयतात:

*''वाचता पोचलो अर्थाच्या पल्याड*
*आढळलें झाड कैवल्याचें*
*तयाचिये छाये पावलो विसावा*
*उकलला गोवा चौऱ्यांशीचा*
*पहाटल्या दिठी ज्ञानराज-भेटी*
*प्रकाश कोंदाटी सुखी झालो.''*

बाकीबाबांक जिणेची ओड आशिल्ली.
तिची सुंदराय तांणी येतिश्ट भोगिल्ली.
मुक्तहस्तांनी ती रसिकांक वांटिल्ली.
मरणाची अटळटाय तांकां जाणवल्ली.
मरणांत दिसलिना तांकां निरशेणी कसली.
आनंद कल्लोळीं, तांची मर्णा भिती सरिल्ली
मागीर ल्हवुल्हवु सरली तांची आसक्ती
आनी बाकीची दिठी पावली पलतडीं.
जिणेचो मोगी आसलो तो एक भोगी
पूण आसलोय एक धुंद गोसावी

आमचो निरोप घेवचे अडेज म्हयन्यां आदीं मुक्त कंठान ते कसलें गीत गायले?

*''गीत तुझे गातां गातां। मीच गीत झालो*
*प्रीत तुझी ध्यातां ध्यातां। मीच प्रीत झालों*
*लागलो न भोगा मागें। वा तयास भ्यालों*
*हाक जागृतीची येता। त्यातुनी निघालो*
*असा धुंद गोसावी मी। ना कुणा कळालो.''*

आपली जीवनयात्रा सोंपपाक पावल्या अशी तांची भावना जाल्ली. 'तम:स्तोत्र' हें तमाचें स्तोत्र न्हय. तेजांत व्हरपी तमाचें स्तोत्र तें: *'तमसोमाजोतिर्गमय.'* ते तृप्त जावन प्रकाश जनक पुरुषोत्तमाची करुणा भाकतात. जे दृश्टीच्या सामर्थ्यान आपणें ब्रह्मांड देखलें, आनी ब्रह्मांडा पेल्यान जें आसा तें अंतर्दिश्टीन पळेलें, तरी, आगा तमोदेवा, आतां आपली दृश्टी शिणल्या, नेत्रांची ताटी, दारां बंद करा. अखेरचें स्तोत्र ते आतां आळयतात:

*''जें जें कांहीं पाहीन नवें। तें तें सर्व साहीन भावें। प्रसाद मानून तुझ्याच नावें। सर्वात्म भावें समर्पीन।।''*

हें आमच्या बाकीबाबांचें पसायदान.

आनी, वचपाची तयारीय तांणी आदींच केल्ली. निरासक्त जावन तांणी गायिल्लें —

*''इथली ही ओढ जरी घडि घडी मज ओडी।*
*येणारच नेणारा जाणारच होडी।।''*

आनी हेंच मातशें आगळे तरेन तांणी आमकां सांगिल्लें:

*''व्हडें आलतडीं लाय। म्हाका पलतडीं पाय।*
*जंय सुख थंडाय। पांडुरंगा।।*
*कांय बांदचेलें ना। कांय घेवचेंलेंना।*
*जग साय नसाय । पांडुरंगा।।*

*निळ्या जळार सवण्यांचे,*
*थव्यार थवे धवेच धवे*
*उफेत हुबत सांगती आतां,*
*येतले दीस म्होवेच म्होवे*



*हांगा कांय खरें न्हय। मना भोंवतणीं वंय*
*सुख दु:ख पिसाय। पांडुरंगा*
*गुंडे पट्टना जावं। फुलां झडट्ना जावं*
*तुजी फळ्ळी सासाय । पांडुरंगा*
*ओत मोंव जालां। दळभार फुलां*
*सांवळ्यांत निळाय । पांडुरंगा*
*तुजे वीण म्हाका । आतां कांयच नाका*
*जा तूंच थाकाय । पांडुरंगा*
*जड न्हय रे म्हजें । तुका जावंचें वजें*
*शरिरय ल्हव ल्हाय । पांडुरंगा''*

असो तृप्त जावन आमचो बाकीबाब अनंतांत विलीन जालो.

सगले दिवे पालोवन न्हिदूंक गेलो. साहित्यांत अज्रंवर जावन गेलो. बाकीबाबांची पयली जल्मशती निकतीच सोंपल्या.

आनिकूय जायत्यो येतल्यो शेंकड्यांनी शती
थड्यांचेर चडटली काजळी
फुट्टल्यो पुतळ्यांच्यो मुर्ती
पूण कविराया तुजी कविता, प्रतिभा प्रज्ञा तगतली
शब्द तुजे अक्षर, निरंतर, चिरंतन, कविता-रुपी!



# एक शुपुल्ली शब्दांजली...

प्रियदर्शिनी शु. तडकोडकार

बाकीबाब उपाख्य बाळकृष्ण भगवंत बोरकार हे व्यक्तीन विसाव्या शतमानांतल्या पूर्वार्धांत भारतीय साहित्याच्या मळाचेर बरोच प्रभाव घालो. तांणी १९४६ सावन कोंकणींतल्यान बरोवपाक सुरवात केली हाचें कारण दो. राम मनोहर लोहियांनी पेटयल्ली गोंय मुक्ततायेची जोत. हे चळवळींत बाकीबाबांनी आपणाक ओंपून दिले आनी भौसाचे भाशेंत बरयल्यार तांच्या काळजा मेरेन पावपाक येता हे समजिकायेंतल्यान स्फुर्ती गितांची तांणी रचना केली. ते म्हणटाले, ''लोकभाशेची भौसाक भिडपाची तांक केदी आसूं येता हाचो साक्षात्कार म्हाका *''महात्मा गांधी आयलो रे।... लोहियान हाडलो बावटो ताचो मडगांव शारांत लायलो रे॥''* हे कवितेन घडयलो. आनी उपरांत हांवें अशा कवितांचो अक्षरशः पावस पाडलो.'' ('एका पिढीचे आत्मकथन', संपा. पु.शि.रेगे). हातूंतल्यान कोंकणी सरस्पतीच्या पांयांत १९६० त *पायजणां* चडलीं आनी उपरांत वीस वर्सांनी (१९८०त) तिची *'सासाय'* जागृत जाली. ह्या दोनूय झेल्यांतल्यो कविता तांणी कोंकणीची काव्य करपाची तांक दाखोवन दिवपाक बरयल्यो. इतलेंच न्हय तर गोंयचे अस्मितायेक जागी करपा खातिरूय बरयल्यो.



*शैशविंचा व्रण तसाच वाहे*
*रुधिराने जग न्हातें आहे*
*मानव शास्त्रें पढे तेवढा*
*अधिकच दानव होऊं पाहे*

*'प्रतिभा'* हो १९३०तलो मराठी कवितां झेलो घेवन बाकीबाब मराठी साहित्यशारदेच्या आंगणांत देंवले आनी ह्या काळांतल्या रसिकांच्या आनी विद्वानांच्या गळ्यांतले ताईत जावन बसले. ते उपरांत तांणी मराठी काव्याचे आनीक जायते झेले उजवाडा हाडले. पूण गोंयांतल्या कोंकणी-मराठी भाशीक वादान आनी मुक्ततायेच्या झुजान तांकां कोंकणींतल्यान बरप करपाक प्रवृत्त केले. ह्या वादांत ते कोंकणीचो पाखो घेवन तिचे वटेन ठामपणान रावले. ते खातीर तांचे मुखार उडयल्लीं हांयसां टाळून आवय-भाशे वयली अस्सल निश्ठा आनी मोग ते परगटायत रावले.

खंयचोय कवी आपणें अणभविल्ल्या समाजाचें आपणाल्या समजा प्रमाण निरिक्षण करून ताचें शब्दांतल्यान निरुपण करता. ह्या निरुपणांत ताच्या अणभवा वांगडा ताचे सरभोंवतणीं आशिल्लो जीवनक्रम, भोंवतणच्या भौसाचे उत्फर्के, हावेस, मनीस सभाव, तांची विचारशक्त, प्रगल्भताय, सुखां-दुखां हांचे विशींचें ताचें स्वतःचें आकलन उकतें जाल्लें आसता. देखुनूच कवीच्या कवितांनी आमकां कवीच्या काळा वेल्या समाजाचें पुरायेन दर्शन घडटा. आपणाले अणभव उकतावपाची कला आनी कळाशी ताचे कडेन आसता म्हूण हें जावंक पावता. बाकीबाबांनी काव्या सांगातान ललीत गद्याचीय निर्मणी केली. गोंयचे भुंये पसून पयस वतकच गोंयचे मातयेचो मोग उत्कट जावन तांचे कवितेंतल्यान उकतो जावपाक लागलो तेन्ना गोंयचें सैम, तारवां, बंदरां, तरेकतरांचीं फुलां, गोंयचे दोंगर आनी न्हंयो, हांगासल्ले पांचवे रुखावळीन तोलून धरिल्लें निळें मळब, आनी मनाक-तनाक अंतर्बाह्य भिजोवन सोडपी हांगासल्लो तरेकतरांच्या रुपांनी भेटपी पावस– ह्या सगळ्यांच्या अणभवांत आंकठ बुडिल्लो बाकीबाब धुंद जावन आपणाले कवितेंतल्यान हें पुराय भावविश्व उकतायतालो. तेन्ना ते अणभव वाचप्यांच्या दोळ्यां मुखार साक्षात जावन-इंद्रियगोचर-उबे रावताले.

देखुनूच *'सरींवर सरी आल्या ग। सरींवर सरी आल्या...'* हे कवितेंत पावसाच्या धारांनी चिप्प भिजून गेल्यो भान विसरिल्ल्यो पूण कृष्णाक विसरूंक नाशिल्ल्यो गोपी साक्षात नाचतनाचो प्रत्यय वाचप्यांक येता. तातुंतूच *'वेली ऋतुमति झाल्या ग'* अशी उपमा सृजनोत्सवाक दिवन तांणी साबार रसिकांक मुग्धोवन अजापभरीत केल्ले. मराठी काव्याक अशी उपमा, असो अणभव नवोच आशिल्लो. आशाढांतल्या भर पावसांत गोंयांत घोंसाळ्या तवश्यांच्या वालींक भरपूर कळे येतात. ह्या वालींक

पावस अखंड न्हाणयत आसता. वालींक आयिल्ले कळे सांजेच्या वेळार फुलतात. सबंध वाल फुलांनी भरून वता. ह्याच फुलांचें मागीर दोडक्यांनी रुपांतर जाता. सैमाचे हे प्रक्रियेची निकर्तेंच न्हाण आयिल्ले चलये कडेन तुळा करपाची चाल गोंयांतल्या गांवगिऱ्या वाठारांतल्या समाजांत आसा. तीच कल्पना बाकीबाबांनी हांगा वापरून चलयेचे सृजनशील प्रकृतीचें काव्यमय दर्शन घडयलां. तेच वांगडा अशे चलयेचे हे अवस्थेंतलें लोकमानसांतलें चित्रणय 'घोंसळी न्हाता' ह्या सांकेतीक शब्दप्रयोगांतल्यान घडयलां. लोक-संकेताचो असो काव्यमय उपेग करपाचो बाकीबाबांचो हो प्रयोग तेदेवेळच्या रसिकांक भुलोवन गेलो आनी ह्या प्रतिकां फाटली सोबिताय आनी संवेदनशीळताय तांकां धुंद करून गेली. बोरकारांचे कवितेंतलो सौंदर्यवाद – जो तांकां अस्तमतेचे संस्कृतायेंतल्यान मेळिल्लो अशें म्हणटात – आनी भारतीय संस्कृतायेचें अभिजातपण ह्या दोनांचेंय मिलन तांचे कवितेंत जाल्लें दिश्टी पडटा. देखुनूच तांचे कवितेंतले अस्तुरेच्या तनाचें सौंदर्य आनी मोगांतली बेहोशी हांच्या सांगातान तिच्या मनाचें दर्शनूय नाजूकपणान आनी काव्यात्मकतायेन तितलेच उत्कतायेन आयिल्लें मेळटा. हाचें आनीक एक कारण म्हळ्यार बाकीबाब जितले प्रतिभावंत आशिल्ले तितलेच ते प्रज्ञावंत आशिल्ले आनी हाचेर कळस म्हळ्यार ते मनीस म्हूण भायल्यान भितरल्यान पारदर्शक आशिल्ले. हाच्या स्पश्टीकरणा खातीर पुरुषोत्तम पाटील हांचो 'कणवकळेचे आसू : बा.म. बोरकर' हो 'कविता-रती' कविवर्य बोरकर विशेषांक, दिवाळी २०१० हो लेख जिज्ञासूंनी पळोवचो.

बाकीबाबांनी पयली कोंकणी कविता १९३४ वर्सा बरयली. पूण संग्रहाच्या रुपान एकवटीतपणान ते लोकां मुखार आयले १९६० वर्सा. आपणाल्या समकालीन कवींच्यो कविता ते वाचताले. बयाभाव, अभिजीत हांची कविता तांणी वाचिल्ली. तांचो प्रभाव तांचेर पडिल्लो. बयाभावांनी केल्ले रचनेचे आनी आकृतीबंधाचे प्रयोग उपरांत *पांयजणां*त बाकीबाबांनीय केल्ले. हे विशीं *पांयजणां*चे प्रस्तावनेंत ते म्हणटात, "काव्याचे तरेकतरांचे छंद आनी प्रकार हातूंत प्रकट जाल्यात.आनी तांणी कोंकणीच्या अफाट काव्यशक्तीचो साक्षात्कार म्हाका घडयला. भावकवनां, गीतां, संगितिका, लावणी, पोवाडो अशी तरेकतरांची रचणूक कोंकणींत कितली सहज जांव येता हें पळयतकच ही भास काव्याची हे विशीं दुबाव उरना." ह्याच काळार मनोहरराय सरदेसाय आनी र. वि. पंडित हांचीय कोंकणी कविता कोंकणी जनमानसांत रिगूंक लागिल्ली. गोंयकारांचे अस्मितायेक जागोवपाचें काम ही कविता करताली. तांचे कवितेंतली संवेदनशीळताय आनी आशय रसिकांचे नवे पिळगेक आनी भौसाक आपले वटेन आकर्शीत करतालीं. ह्याच सुमाराक एकाच दिसा एकाच कवीच्या कवितांचे पांच झेले उजवाडा येवपाची अप्रूप घडणूक कोंकणी साहित्याच्या मळार घडिल्ली. र. वि. पंडितांच्या पांच कवितां झेल्यांचें लोकार्पण १९६३ वर्साच्या २६ जानेवारी दिसा जाल्लें.

हे फाटभुंयेर बाकीबाब कोंकणी कविते कडेन आयले. तो वेळ मेरेन *प्रतिभा* (१९३०) ते *चित्रवीणा* (१९६०) असो तांचे मराठी कवितेचो प्रवास जाल्लो. मौज प्रकाशनान *बोरकरांची कविता* संपादीत केल्ली जाका पाडगांवकर-बोरकरांची मुलाखत आनी प्रस्तावना लाभिल्ली. तांचे हे मराठी कवितेंत कोंकणी उतरां सहजतायेन भरशिल्लीं आसतालीं. तीं इतलीं आसतालीं की *जीवन संगीत* (१९३७) ह्या झेल्यांतल्या कोंकणी उतरांक अर्थाची पुरवणी जोडची पडिल्ली. पूण मुखार हेंच तांच्या कवितांचें खाशेलेपण थारलें.

'नस्तें बाये म्हाका सोंसना' ही बाकीबाबांची १९३४ वर्सा बरयिल्ली कोंकणी कविता अस्तुरेच्या अंतरंगाचें सुक्षीम दर्शन ताचे सुंदरताये सांगातानच घडयता. सैम, सैम-मोग, प्रीत, मनशाच्यो मोगाच्यो भावना आनी अध्यात्मा सांगातान वैराग्य तशेंच जीवनजाणविकायेच्यो कविता अशे तांच्या कोंकणी कवितांचे स्थूल विभाग करूं येतात. ते भायर, तत्कालीन काळाचें भान आनी पडबिंबूय ह्या तांच्या कवितांतल्यान मुखेलतायेन दिसता. तांणी ह्याच काळांत बरयिल्लीं स्फुर्तिगितां लोकांचे जिबेर सहजतायेन घोळूंक लागिल्लीं पळोवन उपरांत बाकीबाब बरयतात – "लोकांक म्हळ्यार हिंदू आनी

*घोर काळोखांतही*
*देतात रे सांगात तारे*
*मातलेल्या सागरांही*
*बांधिती अंती किनारे*



किरिस्तांवांकय सांघिक रितीन सहज म्हणपाक येतीत अश्यो कविता लोक मागूंक लागले. ताका लागून हांव तशे तरेच्यो कविता बरोवंक लागलो." ह्या कवितांक लोकगितांचो बाज आशिल्ल्यान त्यो सहजपणान भौसाच्या मनांत रिगल्यो.

*"दोतोर बॉस /दोतोर बॉस/समजिकायेन वाग/ तकली तुका ना जाल्यार/ उडून चलूंक लाग/ फातरां तांदूळ तेय ना वेळार/ पोटाक पेटली आग/ लजेक लुगट म्हारग जालां/ उकती पडली जांग"* ही कविता तिच्या आशयाक आनी गेयतेक लागून रसिकांच्या चित्तांत घर करून रावली. गोंयची अस्मिताय उकती करपी तांच्यो जायत्यो कोंकणी कविता गोंयकारांचें मन आपले वटेन ओडूंक पावल्यो. 'नवें युग', 'सोंपती रात', '...गोंयची सासाय', 'ल्हान जाले म्हान', 'भावकेचें गीत' हांची मोहिनी आजुनूय रसिकांचेर तशीच आसा.

*"सात लाख गोंयकार आमी । युग नवें फुलयतले । अंदल्यात मंत्र जिवीं । ते फाल्यां उलयतले"* हे कवितेंतल्यान बाकीबाबांचो ध्येयवाद, आशावाद आनी उदारताय उकती जाल्या. ह्या काळार भारताचे स्वतंत्रतायेचें मोड उठिल्लें. लोकांनी फाटीं-फुडें पळयनासतना ह्या होमखणांत उडी मारिल्ली. तांचें बलिदान फुकट गेलें ना. देश स्वतंत्र जालो. पूण तो स्वतंत्र जाता थंय आसा, ताची फाळणी जाली. हे घडणुकेचें दुःख संवेदनशील कवीक जायनासतना कशें रावत? हें दुःख बाकीबाबांनी (आपणाले) मराठी कवितेंतल्यान उकतायलें. पूण ह्याच वेळार, म्हळ्यार १८ जून १९४६ दिसा गोंयांतले पोर्तुगेज सत्ते आड बंड करपाची घुडी रोमून लोकांक जागोवपाचें खर आंदोलन करपाचें काम दो. राम मनोहर लोहियांनी मडगांवा सावन सुरू केल्लें.

बाकीबाबांनी आपणाकूय ह्या आंदोलनांत ओंपून दिलें. तेवेळार जनसंपर्का खातीर माध्यम जाय आशिल्लें. कविता हें काम बरे तरेन करूंक शकतली हें तांणी जाणलें. आनी आदींच पेटिल्ल्या भौसाक अदीक चेव येवचो म्हूण स्फुर्ती गितां रचलीं. *''महात्मा गांधी आयलो रे। गोंयांत आमच्या पावलो रे। लोहियान हाडलो बावटो...''* ही कविता साबारांच्या तोंडांत घोळूंक लागली. हातूंतल्यानच कोंकणीचे शक्तीचोय साक्षात्कार खासा कवीक जावपाक लागलो. ''काव्याचे विंगड विंगड छंद *पायजणां* त व्यक्त जाले ते ते भाशेच्या जातीवंत काव्य करपाच्या तांकीक लागून'' अशें तांकां दिसपाक लागलें आनी ही भास काव्याचीच हे विशीं तांकां आतां दुबाव उरलो ना. कोंकणीचीं बलस्थानां आमच्या कवीं भितर चडांत चड उकतीं जावपा खातीर हीं पायजणां कांय प्रमाणांत जापसालदार थारलीं जाल्यार आपले इतलो खोशी कोण आसचोना अशे उद्गार तांणी तेन्ना काडिल्ले.

*''याद न्हय गो हो उजो। हें दुःख सोंसूंक नजो''* ही ठुमरी वा *''उगड तुजीं नयनदळां शामसुंदरा। भांगराचो कळस चट्टा विस्वमंदिरा''*



*प्राणाक क्षय बुद्धीक भंय*
*फाल्यांक जंय कालचीच वंय*
*आयलां थंय स्वातंत्र्य तें*
*स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय*

ही भूपाळी *''पुस्तिवंत तुमी अर्जि आयका मर्जिवंत ह्या गायकाची / शस्त्रां खणखणल्याविण घुमना वाणी गोंदजी नायकाची''*असो पोवाडो, 'संजीवनी' हें नाट्यकाव्य, 'भाऊबीज', 'वासवदत्ता' अश्या तांच्या वेगवेगळ्या आनी सरस अश्या काव्यान कोंकणी शारदेच्या अलंकारांत भरूच घाली अशें म्हणल्यार अतिताय थरूं नये.

१९३९ वर्सा अॅड. माधव मंजुनाथ शणै शानभाग हांणी संवसारभर पातळिल्ल्या कोंकणी लोंकांक एकठांय हाडपा खातीर कारवारा एक अखील भारतीय पांवड्या वेले परिशदेचें आयोजन केल्लें. तातूंत कोंकणी समाजाक एकठांय करपा खातीर 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य, एक समाज' आसप कितलें गरजेचें तें पटोवपाचो हो प्रयत्न आशिल्लो. हे इतिहासीक घडणुकेन साबार कोंकणी मनशांचीं मनां कोंकणीच्या मोगान आनी अभिमानान भरून गेलीं. तेन्ना गोंय मुक्त जावंक नाशिल्लें. बाकीबाब म्हणटात – *''जाग रे बेगीं जाग / भारताच्या ध्वजा म्हज्या जाग/ दर्यावेळेर खंगता तुजी सोबीत एक बाग/ व्हंकलो कशो माड्यो थैंच्यो खांबले कशे माड / चारशिं वर्सां लागून पाखे जावंक लागले पाड/ दैना अशी तुटिल्ल्यान तुजी लाग भाग...''* भारताचो वांटो आसुनूय गोंयाक पारतंत्र्याची जीण जगच पडटा हाची कवीक जाल्ली ही खंत म्हळ्यार, देश स्वतंत्र जाल खरो, पूण ताका पूर्णतायेन स्वातंत्र्य मेळूंक ना हाची कवितेच्य माध्यमांतल्यान दिल्ली ती शिटकावणी आशिल्ली. हे कवितेचे परिणाम म्हणुया वा भारत सरकाराक आयिल्ली जाग म्हणुया, १९ डिसेंबर १९६१ ह्या दिसा गोंय मुक्त करपाक भारत सरकारान 'ऑपरेशन विजय' चालीक लायलें आनी गोंय मुक्त जालें. साडेचारशे वर्सांचे परकी सत्ते पसून मेकळें जाल्ल्या गोंयांतूय मुक्ततायेचें वारें व्हावंक लागलें. तेन्ना बाकीबाबान म्हणलें –

*''भाग्योदया बीज आतां / गांवागांवांत वीज/ वाड्यावाड्यार शाळा/ करा अक्षरांचें चीज''* ह्या वळींतल्यान शणै गोंयबाबांनी रंगयल्लें सपनय साकार जाल्ल्याची खोस ते उकतायतात. पोर्तुगेजांचे राजवटी खाला चिड्डल्लो समाज भितरले भितर घुसमट्टालो. गोंयांतलो भौस संस्कृतीक आनी धर्मीक चेपणा खाला जियेतालो. आतां ताका मेकळीक मेळिल्ली, ताचीं सपनां खरीं जावपाचो दीस आयिल्लो. आतां ताचो आत्माभिमान रसरशीतपणान वयर सरिल्लो, ताका स्वत्वाची जाणविकाय जाल्ली. देखुनूच –

*''जागी जाल्या गोंयची सासाय/ येतलो भार येतलो भार*
*धोल ताशे बडय बडय। मार शेंसार मार शेंसार''* अशे उद्गार कवीन काडले. पूण, धादोसकायेची जीण जियेत गोंयच्या फुडाराचीं सपनां खरीं करपाची तयारी करपाक लागचे आदींच गोंय गोंयकारांच्या हातांतल्यान सुटून वचपाचो वेळ आयलो. गोंयाक महाराष्ट्रांत विलीन करपाचे महाराष्ट्राचे आनी कांय गोंयचेय फुडारी मनसुबे रचपाक लागले. राजकारण्यांचीं कट-कारस्थानां शिजूंक लागलीं. तेन्ना ह्या द्रष्ट्या कवीन गोंयकारांक सावध केले – *''घांटार सावन आयला जोगी। वण्टी खणूंक सांगता। सावध भावा देवाऱ्यांतलो। साळीग्राम मागता''*. कवी गोंयच्या साद्या भावार्ती लोकांक जागयतनाच भायल्या चोरांकय शिटकायता. तांकांय सावध करता, कारण फाटल्यान वार करप हें ताचे नितींतूच बसना. देखून, *''तुळस जाल्या आगटें आतां। खुरीस जाला तीर। बांग घालित लागला उट्रंक। कबरींतलो पीर।''* अशें म्हणटनाच *''भोंवता वारें गोंयचीं रानां। पेडणें धरून काणकोणां। तरंगां कळस जावन उबे। घुमूंक लागलीं गावठणां''* अशें म्हणून गोंयकारांच्या एकवटाचे तांकीची तांकां कल्पना करून दिता.

पोर्तुगेजांचे परकी सत्तेक धांवडावन घाली, पूण आतां घरचेच गोंयचें अस्तित्व ना करूंक भायर सरल्यात तांकां कितें करपाचें? घाळ रावप? बेसावध रावप? जाल्यार, 'अजून संगर सोंपूंक ना आमचें' हेंच खरें आनी ते खातीर 'भितरली उब राखप' गरजेचे *''कितलें दैन्य, अन्याय, असत्यय। अजून चलता भायर भितर। पुरतें तें हुमटिल्या बगर रे। मुक्त जांवचे नात आमचे पितर''*. आनी, गोंयकार हें दुसरें संगरय जिकले. गोंय दुसऱ्या खंयच्याच राज्यांत विलीन जालें ना. आतां नवीं आव्हानां गोंयकारां सामकार उबीं जालीं. देशभक्तांनी प्राणाची आहुती दिवन मायभूंय स्वतंत्र केल्ली पूण *''प्राणाक क्षय बुद्धीक भंय, फाल्यांक जंय कालचीच वंय। आयलां थंय स्वातंत्र्य तें स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय''* हें सांगपाक कवी विसरलो ना. जे मोठे आशेन स्वातंत्र्याच्या फालिताची अपेक्षा केल्ली ती आशा भंगली. सुसंस्कृत समाजाच्या प्रातिनिधीं कडल्यान भौसाक स्वातंत्र्याचे लाभ मेळटीत अशें दिसतालें. पूण उरफाटेंच घडिल्लें. ह्या समाजाचो

पाखो घेवन बाकीबाब म्हणपाक लागले – *''असली माती म्हज्या हातीं, रोयण कशी वाडटा। प्रगट जावं तुमचे म्हजे लक्ष हात मागता। सगळीं आवतां घेवन येया, जायत आयली रेखणी। त्रिशूळ करून दिल्या तिका हांवें म्हजी लिखणी.''*

बाकीबाबांचे काव्याभिव्यक्तींतल्यान तांचे भितरले आध्यात्मीकतायेचो, श्रद्धावान मनाचो प्रत्यय येता. हे तरेची तांची कविता प्रचारकी थाटाची ना. परमेश्वराक पुराय नमळायेन शरण वचपी तांची कविता तांच्या संस्कारशील आनी संवेदनशील मनाचीं विंगविंगड तासां दाखयता. परमेश्वराची भक्ती, विशेश करून कृष्णभक्ती, तांचे लिखणेंतल्यान विविधतायेन पाझरता.

'येतना तुवें कितें हाडलें', 'गुरु शिटकायता कुरवांनी' आनी 'केन्ना केन्ना' ह्यो कविता वाचप्यांक नवी नदर दिवन अंतर्मुख करतात. जिणेच्या अंतीम सौंदर्याचो साक्षात्कार तांणी निळ्या रंगाचे सायुज्यतायेंतल्यान उकतायला. देखूनच तांचें 'निळें सवणें' तांच्या *''जिवा भिडून गेलें। हांवूय जालें गाड निळें। दिश्टाव्यान भेटलें हांव। म्हज्या राजकुंवरा''* अशें ते आवेगान म्हणटात. ह्या संदर्भांत, ''अशा वेळी त्यांना मोक्षाचाही मोह पडत नाही. अंतिम सोलीव सौंदर्याच्या गाभ्याला भेटण्याची प्रगाढ इच्छा ते व्यक्त करतात. अन् भारतीय अध्यात्मावर पोसलेल्या पिंडधर्माशी एकनिष्ठ राहतात.'' हें तांचे कविते विशींचें नरेंद्र बोडके हांचें निरिक्षण चिंतनीय दिसता. मराठींतले वरी कोंकणींत संत, पंत वा तंत काव्याची परंपरा तयार जावंक ना हाचीं कारणां जायतीं आसात. पूण कोंकणीचे वाचक हेर भासांतल्या साहित्याचें वाचन करून आपणाली अभिरुची जोपासत आसतात. तातूंतल्यानूच संतकाव्याचीं कोंकणी भाशांतरां आनी रुपांतरां जल्मा आयल्यांत. पोर्तुगेज राजवटींत गोंयांत कोंकणी उलोवपाक तशी बरोवपाक निर्बंधूय आशिल्ले. हे राजवटीन गोंयचें आदलें धर्मीक साहित्य ना नपश्चात केल्लें. पूण कांय काळा उपरांत हे निर्बंध सदळ जाले तेन्ना कोंकणींतल्यान,देवनागरींतल्यान लेखन वाचन जावपाची शक्यताय दिसपाक लागली. अशा वेळार मराठींत ज्ञानेश्वर-एकनाथांनी केल्लें तशेच तरेचे कार्य विसाव्या शेंकड्यांत गोंयांतल्या कोंकणी भक्तांनी केलें. हाकाच धरून बाकीबाबांनी हेर भासांतल्या साहित्यकृतींचें कोंकणींत रुपांतर, भाशांतर करपाचो वावर नेटान सुरू केलो. आध्यात्मीक, धर्म परिचय, समाजीक बदल, मनोरंजन अश्या जायत्या विशयां वयली ही भाशांतरीत साहित्य रचना कोंकणीच्या वाङ्मयीन आनी भाशीक उत्थाना खातीर खुबूच उपकारा पडली.

बाकीबाबांनी *गीता प्रवचनां* (विनोबा भावे), *गिताय, पैगंबर* (खलिल जिब्रान), *संशयकल्लोळ* (गोविंद बल्लाळ देवल) *बामण आनी अभिसार* (रवीन्द्रनाथ ठाकूर), *भगवान बुद्ध* (धर्मानंद कोसंबी) *वासवदत्ता* (श्री अरविंद) अश्यो जायत्यो साहित्यकृती अणकारीत केल्यो. हातूंतलें म्होंवाळपण इतलें अप्रतीम की मूळ कृती परस हयोच अदीक सहज आनी सभावीक दिसतात.

बाकीबाबांच्या काव्यांतली नादमयता आनी तिका लागून आयिल्लीं नादाचीं रुपां पळोवपा सारकीं आसात. हे नाद *पायजणात* जे तरेन आयकूंक येतात ताचे परस वेगळे तरेन 'गोंयच्या वनीं' हे भूपाळींत येतात. स्फूर्ती गितांतलो आवेशमय नाद सगळ्यांचें रगत पेटयता. जाल्यार 'झंजाळालो म्हाळ' आनी भांगराचीं घुंगरां बांदिल्ल्या 'निळ्या सवण्या'चो नाद खेरितूच तरेचो. तांच्या कवितांची चित्रमय शैली, नाद, लय, अर्थ, रंग, हातूंतल्यान संवेदना जागृत करता. तांची कविता आत्ममग्नूय आसता. 'घराची रसणाय' वा 'वोंवळांचो घमघम', 'तुजे हात' वा 'विनवणी' ह्यो कविता ते नदरेन बारकायेन वाचपा सारक्यो. विरहांतली घुसमट आनी संतृप्ती ह्या दोनूय भावनांचो सुरेख मेळ हातूंतल्यान दिश्टी पडटा.

बाकीबाब गोंयचे मातयेंत रमतात. गोंयचो पुराय तरेन तांकां मोग आसा. देखुनूच तांचे कवितेंत गोंयच्या सैमाच्यो तरेकतरांच्यो प्रतिमा येतात. त्यो मनाचेर संस्कार करतात हाचें कारण घडये त्या प्रतिमांची इंद्रियगोचरता आसूं येता. तांची कविता शांत, विचार-गंभीर, आत्मसोदाचेर भर दिवपी, अंतर्मुख करपी तशीच सौंदर्याचे सुक्षीम आनी तरल भाव उक्तावपी. तेच बरोबर ती समाजांतल्या आनी भोंवतणच्या घडणुकांतल्यान सट्ट करून पेटून उठपी कविता. तांचे कवितेंत नादसौंदर्य आनी संगितात्मकताय आसा. गेयता हो तांचे कवितेचो आंगयो गूण. खुद्द बाकीबाबच आपणाल्यो कविता चाली लावन म्हणटाले. घडये तांकां त्यो मुळांत त्या त्या चालीं सयतूच सुचताल्यो!

*काळें आसुन उजवाड घालता,*
*तें अक्षर*
*ताणें काळोख बालाणटा,*
*तो साक्षर*



बाकीबाब वृत्तीन भावकवी. देखून तांची प्रेमकविता उत्कटतायेन येता. ते केन्ना मोगिके वेल्या जाल्यार केन्ना राधे वेल्या जाल्यार केन्ना घरकान्नी वेल्या मोगाचें चित्रण करतात. ताका लागून 'घराची रसणाय' वा 'हात्याभशेन हात तुजे' अश्या कवितां वरी 'तू केवळ माझी प्रेयसी नव्हतीस...' वा 'उर्वशी, उर्वशीच, उर्वशीच नव्हे तू जाया' अश्यो कोंकणी मराठी कविताय ते बरयतात. तांच्यो चडशो कविता मोगाचे पुर्तताये परस ताचे विफलतायेचेर चड आसात. ''तांच्या कवितेंत भैरवीचो दुखी स्वर, गोंयच्या सैमाकडल्यान मेळिल्लो चिरतरूणपणा... आनी चैत्र पुनवेच्या आंब्याचो मादक मोहर आसा.'' मनोहररायांनी तांच्या काव्याचें केल्लें हें मार्मीक विवेचन.

बाकीबाबांच्या कवितांनी अशे रितीन साबार तरांनी कोंकणी कवितेची आनी कोंकणी संवेदनशीलतायेची शान वाडयली. जांकां परमेस्वराची भक्ती करीनशी दिसली तांचे खातीर आध्यात्मीक स्वरुपाची रचना, अभंग, भुपाळी रचना केली. स्मरणरंजनाच्यो कविता रचल्यो. जिणेचो सार सांगपी 'जगम' वाचप्यांचे जिबेर दवरलें. 'जपानी रमलांची रात' जागोवन शारिरीक आनी मानसीक प्रितीची प्रचिती गात्रां गात्रांतल्यान दिली. भारतीय कवितेक बाकीबाबांच्या ह्या सर्वस्व योगदानान एक आगळी वेगळी तेजकळा लाबली हातूंत दुबावच ना. तांच्या ह्या कर्तुत्वाचो अभिमान दर एका कोंकणी मनशाच्या मनांत आसाच हातूंत म्हाका इल्लोय दुबाव ना. अंदूच्या तांच्या जल्मशताब्दी वर्सा निमतान तांणी केल्ल्या ह्या अनमोल कार्याक म्हजी ही सुपुल्ली शब्दांजली नमळायेन अर्पण करता.



# बाकीबाबांच्या काव्यांतलो स्वाभिमानी आनी प्रतिशोधी स्वर

**शनय पवार**

प्रतिरोध म्हळ्यार इंग्लिशींत 'resistance' वा 'to resist'. 'प्रतिरोध' म्हळ्यार आपली भुमिका, मतां मांडचे खातीर विरोध करपाची तांक. ही तांक केन्ना प्रत्यक्षपणान वा केन्ना अप्रत्यक्षपणान व्यक्त जाता. कोण ती साहित्यांतल्यान व्यक्त करता जाल्यार कोण प्रत्यक्ष कृतींतल्यान ती दाखोवन दिता. बाकीबाबां सारक्या कवीन मात ती दोनूय तरांनी दाखोवन दिल्या. गोंय सुटके झुजाच्या आंदोलनांत प्रत्यक्ष वांटो घेवन कोंकणी-मराठी वादांत आपली भुमिका जाहीरपणान मांडून, गोंय-महाराष्ट्र विलिनीकरणांत गोंयचो पाखो घेवन तांणी आपलो प्रतिरोध प्रत्यक्षांत दाखोवन दिलो. आनी तेच बराबर एक संवेदनशील कवी म्हण तांणी 'कोंकणी आनी गोंय' हांचे विशींचो स्वाभिमान व्यक्त करतनाच आपलो प्रतिरोध खर आनी सुचक उतरांतल्यान येसस्वीपणान मांडलो. बाकीबाबांक गोंयकारांच्या अविचारी, अबुद्धी, आनी आत्महीणपणाच्या वागण्याक उद्देशून कितेंय सांगपाचें आशिल्लें तेन्ना तांणी तें उपरोधी (satire वा sarcasm) स्वरानूय व्यक्त केलें. अशे तरेचो स्वर म्हळ्यार थोमणो मारप वा उपहासात्मक पद्धतीन उलोवप. पूण ह्या उपरोधांतलें मूळ सूत्र विरोध करपाचेंच आशिल्लें. गोंय आनी कोंकणीचे बाबतींत जेन्ना गोंयकार आत्महीणपण बाळगून वागपाक लागले तेन्ना बाकीबाबान तांकां उपरोधीक स्वरानूय शिटकायले.



*रांदनिपरस वायल खर,*
*वायलापरस कायल खर*
*बायल तांकां खेळैणारी,*
*जायत कशी थंड झर?*

समाजांतल्या अनिश्ट आनी घातक प्रवृत्तीं आड आवाज काडपाचें, तांकां आडावपाचें, प्रतिरोध करपाचें काम जायत्या समाजसेवकांनी केलां. हातूंत समाजीक कार्यकर्त्यां वांगडाच लेखकांचोय आसपाव जाता. तातूंतले तातूंत कवी हो चड 'द्रश्टो' आशिल्ल्यान काव्यांत हो 'प्रतिरोध' चड प्रमाणांत व्यक्त जाल्लो पळोवंक मेळटा. समाजांतले मरगळीक लागून, अंधश्रद्धा - अशिक्षीतपणाक लागून, जातीभेद-वर्णभेद-धर्मभेद आदी भेदांक लागून कांय घटकांक सदांच बंधनांच्या वज्या खाला चिड्डत रावचें पडलां. हें वजें, हीं बंधनां लादपी मस्तेल्ल्या घटकाचो विरोध करतना हो प्रतिरोधी स्वर साहित्यांत व्यक्त जाला. मुक्तीचो ध्यास धरपी, स्वाभिमानाची भास उलोवपी जागरूक नागरिकूच ह्या वावरांत मुखेलपणान दिश्टी पडला. दरेका समाजांत हो प्रतिरोधी स्वर पयल्यापयलो आनी प्रभावीपणान मांडला तो ते ते भाशेंतल्या कवींनीच.

### बाकीबाबांची थोडीशी वळख

बाकीबाबांचो जल्म तांच्या मामागेर म्हळ्यार कुडचडें ह्या गांवांत ३० नोव्हेंबर १९१० ह्या दिसा जालो. उपरांत ते आपल्या आवय-बापायच्या घरा, म्हळ्यार बोरये, ल्हानाचे व्हड जाले. तांचें नांव बाळकृष्ण जाल्ल्यान तांची आत्या ताका 'बाकीट' म्हूण उलो मारताली. मुखार तातूंतलें 'ट' गळ्ळें आनी सगळीं ताका 'बाकी' म्हण उलो मारपाक लागलीं. तांचें मुळावें शिक्षण मराठींत. जाल्यार मॅट्रीक इंग्लिशींतल्यान जाल्ली. पुर्तुगेजींतल्यान 'लिसेव' मेरेनचें शिकप घेवन तांणी मुखार प्राथमीक पांवड्यार शिक्षक म्हण वेवसाय स्विकारलो. कांय तेंप तांणी मुंबय, पणजे आकाशवाणीचेर नोकरी केली. पिरायेच्या तेराव्या वर्सा सावन जायतो तेंप ते गोंया भायरूच उरले. पिरायेची साठी हुपतना ते आपल्या मूळ घरा बोरये आयले. थंय स वर्सां रावले उपरांत ते पर्वरि आपले धुवेचे शेजरा रावपाक गेले. घरकान्न, स चलयो आनी दोग चले असो तांचो घराबो. भुरगीं तांकां 'आबा' म्हण उलो मारी. तांच्या घराण्यांत तशेंच भोंवतणी चलपी किर्तनां, भजनां, प्रवचनां आदींच्या माध्यमांतल्यान अभंग, ओवी, श्लोक ह्या काव्यप्रकारांचो प्रभाव नकळटां तांचेर पडलो. ताच्याच सांगाताक माडार

चडपी पात्रीस रेंदेराच्या कांतारां वटेनूय ते आकर्शीत जाले. बाकीबाबान जरी स्वतंत्र आनी अणकारीत गद्य जायतें बरयिल्लें आसलें तरी तांचो मूळ पिंड कवीचोच. निमाणें हॉस्पिटलांत व्हेल्ले कडेन सुमार बारा दीस कोमांत उरले उपरांत, ८ जुलय १९८४ ह्या दिसा सकाळच्या धा वरांचेर ते ह्या संवसाराक अंतरले.

## 'प्रतिरोधी' आनी 'स्वाभिमानी' स्वर

बाकीबाबां मदलो 'सैमकवी' 'प्रेमकवी' जितलो महत्वाचो तितलोच तांचे मदलो 'स्वाभिमानी कवी'य महत्वाचो. बाकीबाबांची कोंकणी आनी मराठी भासांतली कविता वाचतकीच सादारणपणान एक गजाल जाणवता ती अशी — बाकीबाबांचे कोंकणी कवितेंत जाणवपी 'प्रतिरोधी स्वर' मराठी कवितेंत जाणवना. दोनूय भासांतल्या कवितांनी गोंय आयलां पूण भूंय-भाशेचो स्वाभिमान आनी ताची राखण करपा संबंदांतलो प्रतिरोध मात मराठी परस कोंकणी कवितेंतूच चड प्रमाणांत अधोरेखीत जाल्लो पळोवंक मेळटा. तांचे कवितेंत गांधी आनी लोहियांच्या विचारांचो प्रभाव जाणवता. बाकीबाबांच्या सैमकवितांचेर, प्रेमकवितांचेर जायत्यो चर्चा, परिसंवाद, प्रपत्रां तयार जाल्यांत. तांचे कवितेंतली उतरावळ म्हळ्यारूच एक अभ्यासाचो विशय. हे कवितेंतलो अनुप्रास नदरेंत भरपा सारको आसता, मागीर ती मराठी आसूं वा कोंकणी. जाच्या नादमय नांवातूच ब, क आनी र अक्षरांचो अनुप्रास आसपावला ताची ही अनुप्रासान भरिल्ली काव्यवाणी म्हळ्यार एक दैवी देणगीच म्हणूंक फावो. हांव ताचे शब्दावळीचेर वा नादमयतेचेर भाश्य करूंक सोदना. आजवेर जायत्या जाणांनी ताचेर भाश्य केलां. तेंच-तेंचपण टाळपा खातीर, तांच्यांतल्या स्वाभिमानी गोंयकारान, आपलें स्वत्व शब्दबद्ध करतना जो एक 'प्रतिरोधी स्वर' आपले कवितेंतल्यान मांडलो, तो अधोरेखीत करपाचो हेत हांगा बाळगिला.

पिरायेच्या णवव्या वर्सा बाकीबाबान पयलो अभंग रचलो. घरांत सांजच्या वेळार भजनां म्हणपाचो तांगेर नेम आशिल्लो. भजनां सोंपले उपरांत भुरग्यांक एकाद्रो श्लोक, ओवी वा अभंग म्हणून दाखोवचो पडटालो. एक दीस ही पाळी भुरग्या बाकीबाबाचेर आयली तेन्ना ताणें स्वत:चो अभंग रचून तातूंत निमाणे कडेन 'बाकी म्हणे' अशीं उतरां घालून तो म्हणलो. त्या वेळार तागेल्या चुलत्यान ताका तशें करचें न्हय म्हूण शिटकायलो आनी आजयेन तर 'परतून लेखनाचे भानगडीक वच्चों ना' म्हूण उतर घेतलें.[१] पूण बाकीबाबान आपले भितरल्या कवीक शेणपाक दिलोना. तांणी आजयेच्या सोपुताचोय प्रतिरोध केलो आनी तिच्या बंधनाक पाळो दिनासतना ते लिपचोरयां काव्यरचना करीत रावले.[२]

समाजांत काव्याक सुवात आशिल्ली तरी 'कवी'कडेन पळोवपाची थोड्यांची नदर वेगळी आशिल्ली. कवी म्हळ्यार कोण तरी 'पिसो' वा 'उपेग नाशिल्लो' अशे नदरेन पळोवप जातालें. मात बाकीबाबांनी असल्या लोकांक केन्ना लेखलेच नात. आपूण एक 'कवी' हाचो अभिमान ते उकतेपणान मिरोवंक लागले. ते फोनाचेर उलयताले तेन्ना 'आय अॅम पोएट बोरकर स्पिकींग' म्हूण सुरवात करताले. थिल्लर मतांचो वा विचारांचो तांणी प्रतिरोध केलो हाची ही एक देख म्हणूं येता.[३]

बाकीबाबांक एक 'आनंदयात्री' म्हण वळखतात. हो सैमकवी, प्रेमकवी अचकीत 'क्रांती-कवी' कसो जालो? १८ जून १९४६ ह्या दिसा मडगांवां डॉ. राम मनोहर लोहियान सुटके झुजाचें आवाहन करपी क्रांतीकीट पेटयली. बाकीबाबानूय हे सभेक हजेरी लायिल्ली. थंयच्यान प्रेरीत जावन तांणी सुटकेझुजांत उडी घेतली. त्याच दिसा तांणी मराठींतल्यान 'त्रिवार मंगलवार' ही कविता रचली आनी दुसऱ्या दिसा आपूण शिकयतालो ते केपेंचे शाळेंत तिचें जाहीर वाचन केलें. ही कविता आयकून कुशीच्या वर्गांत शिकोवपी एका पुर्तुगेज शिक्षकान बाकीबाबाक धमकायलो लेगीत[४]. पूण बाकीबाब ताका बदलो ना. त्याच दिसा तांणी आपल्या भावोजीक, गुंडू आमोणकारांक, चीट बरयली, 'देशभक्त लोहियांसारक्या म्हान फुडाऱ्यावरवीं काल मडगांवां सुटकेझुजाचो म्हूर्त जालो... तांचे फाटोफाट आमचे णव-धा कार्यकर्ते बंदखणींत गेले... सभेक सुमार तीन हजारांवयर लोकांची गर्दी लाबली... नोकरी सोडलेशिवाय ह्या कार्यांत पडप म्हाका नैतीक नदरेन योग्य दिसना... म्हणून सगळे धोके पत्करून आनी मुखाल्ली जीण देशाखातीर खर्च करपाचें थरोवन हांव फाल्यांच राजिनामो सादर करपाचों आसां... सुटके झुजाक आरंभ जाला. आतां आघात सहन करपाक आनी सर्वस्व पणाक लावपाक तयार रावचें पडटलें... हो निर्णय हांवें पुराय विचार करुनूच घेतला. भावनेच्या भरांत घेवंक ना आनी कोणाचेंच चेंपण येवपाक संद उरची न्हय म्हूण तो रोकड्यारोकडो जाहीरूय केला... जय हिंद, तुजोच बाकी.''[५] गोंयच्या इतिहासांत १९ डिसेंबरा इतलेंच १८ जुनाक महत्व आसा. १८ जुनाक लागुनूच आमकां १९ डिसेंबर मेळूंक पावलो. हे पयले वयले क्रांतीकिटीची गजाल बाकीबाबान आपल्या कवनांतल्यान मांडली —

*महात्मा गांधी आयलो रे*
*गोंयांत आमच्या पावलो रे*
*लोहियान हाडलो बावटो ताचो*
*मडगांव शारांत लायलो रे*

हें कवन उपरांत लोकांचे जिबेर घोळ्ळें आनी 'क्रांती-कवन' जावंक पावलें. 'पवित्र हो मंगळार' ही तांची *पांयजणां*तली कविताय ह्याच दिसाक धरून घडली.

*पवित्र हो मंगळार आयचो पवित्र हो मंगळार*
*आज गाजतलो धेंक शिंवाचो हांगाच ह्या म्हुर्तार*
*... या वाऱ्यांनो फुलया आमच्या काळजांतले इंगळे.*
*...हिचेच आमी पूत हिच्यास्तंव दिवं रक्ताची धार*
*...दिपा राण्याचें नी पिंतांचें घेवन व्हड नांव*
*घालून बोटा धाव चला रे नवे तिळे लांव*

('पवित्र हो मंगळार', *पांयजणां*)

कवी हांगा दिपाजी राणे आनी पिंटोंच्या बंडाची याद करून दिता आनी ते परंपरेक धरून कपलार 'रगताचे तिळे' लावन परतून एकदां झुजपाची तयारी दाखयता. गोंय मुक्ती-चळवळी वेळार बाकीबाब गोंयकारांचो आवाज जावन उलयताले. ते निखटे उलोवंक नात तर

तांणी फुडाराच्या नव्या युगाचो हावेस मनांत बाळगून जो कितें अन्याय चल्ला ताचो विरोध केला. तांणी बरयलें,

*सात लाख गोंयकार आमी, यूग नवें फुलयतले*
*अंदल्यात मंत्र जिवीं, ते फाल्यां उलयतले*
*...झोमून घेवंक वयली घुडी / होमखणांत आमची उडी*
*माणसुकेच्या फायच्या जिणेन देवांकय भाळैतले.*

('नवें यूग', *पांयजणां*)

गोंयांत तेन्ना 'जय हिंद' अशीं उतरां उच्चारल्यार पसून बंदखण फावो जाताली. हिन्दुस्तान आनी गोंय वेगळीं उरिल्लीं. साडेचारशीं वर्सां पोर्तुगेजांनी आपलो शेक चलोवन गोंयाक भारता पसून वेगळें दवरिल्ल्यान बाकीबाबांलो आर्त स्वर देशभावांक साद घालूंक लागलो, आनी तें करतनाच तांणी प्राणूय दिवपाची तयारी दाखयली.



*दोळ्याक दोळो लायलो*
*जाल्यार, तांबसो कसो पोलो?*
*दोळो चुकौंक केल्यार तोच,*
*रोखडो कसो ओलो?*

*जाग रे बेगीं जाग*
*भारताच्या ध्वजा म्हज्या, जाग रे बेगीं जाग*
*दर्यावेळेर खंगता तुजी सोबीत एक बाग*
*व्हंकलो कशो माडयो थंयच्यो खांबले कशे माड*
*चारशीं वर्सां लागून पाखे जावंक लागले पाड*
*...अंत आतां पळौं नाका मार रे बेगीं दांग*
*तेखातीर उखलासाक प्राणूय जाल्यार माग*

('ध्वजाची जागवण', *पांयजणां*)

बाकीबाबान मराठींतल्यान खूब चड प्रमाणांत काव्यसेवा केल्ली आसली तरी तांणी आपले आवयभाशेक (कोंकणीक) केन्नाच उणाक लेखली ना. भाशावादाच्या काळार ते उकतेपणान कोंकणीचे वटेन उबे रावले. महाराष्ट्रांत तांकां जायती नामना फावो जाल्ली तरी गोंय-महाराष्ट्र विलिनीकरणाच्या प्रस्ना वेळार तांणी कसल्याच हांयसाक वा दबावाक बळी पडनासतना 'गोंय हें वेगळें राज्य; महाराष्ट्राचो तो वांटो निखालस न्हय' अशें स्पश्ट मत मांडलें. ते खातीर तांकां महाराष्ट्रवादी आनी मराठीवादी समर्थकां कडल्यान जायतीं वायट उतरां आयकुचीं पडलीं. भाशावादाच्या काळारूय तांणी उकतेपणान आपलें मत मांडलें. कोंकणीक मराठी भाशेची बोली म्हणची म्हण तांचेर चेपण आयलें आनी ते बदल्यांत तांका 'अखिल भारतीय मराठी साहित्य संमेलना'चें अध्यक्षपद दिवपाचो प्रस्ताव आयलो. स्वता तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी हो प्रस्ताव घेवन आयिल्ले. 'बोरकार, तुमी प्रतिभावंत आसात. हो प्रस्ताव तुमी स्विकारलो जाल्यार तुमचो योग्य तो गौरव करतले' अशें तांणी सांगतकीच बाकीबाबान संयमान ताचो प्रतिरोध केलो.

२९ आनी ३० डिसेंबर १९६२ ह्या दिसांनी गोंयांत (पणजे) गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाचें ११वें अधिवेशन घडोवन हाडिल्लें. तातूंत ना. ग. गोरे, आचार्य अत्रे हांचो आमंत्रीत म्हण आसपाव आशिल्लो. दुसऱ्या दिसा आचार्य प्र. के. अत्रे हांचें उलोवप जालें. त्या वेळार तांणी बाकीबाबांक पळयनाफुडें म्हळें, ''स्वतंत्र आणि कोंकणीचा उदो उदो करणाऱ्या या बोरकरांना नांवारुपास आणले मराठीने व महाराष्ट्राने, याची त्यांना स्मृती नाही. त्यांच्या काव्याचे, कथासंग्रहांचे, साहित्याचे कौतुक केले मराठीने, पुरस्कार दिले, पदके बहाल केली, बक्षीसे दिली, वेळोवेळी प्रसिद्धी दिली महाराष्ट्राने आणि अभिमान तेवढा कोंकणीचा! बोरकरांची सगळी मराठी पुस्तकें परत करा, मजकडे आणा. परतीच्या पुस्तकांचे सारे पैसे मी देतो. मी शिवाजी पार्कवर बोरकरांच्या पुस्तकांची होळी करणार!'' बाकीबाबांच्या भूंय आनी भाशे विशींच्या स्वाभिमानाक लागून तांकां मराठी साहित्यिकांनी राजकारण करून ज्ञानपीठ सारक्या पुरस्कारां पसून पयस दवरले. पूण तांणी ताची केन्ना पर्वाय केली ना आनी खंतूय बाळगिली ना. फा. मोउजीन्यु द आताईद म्हणटात, ''...बाकीबाबांक कांय उणें जावंक ना, दुर्बळ जालें ते ज्ञानपीठ.''[६] अत्र्यांच्या त्या भाशणा उपरांत 'गोमंतका'चे तेन्नाचे सहसंपादक वि.ग. देशपांडे हांणी बोरकारांची प्रतिक्रिया विचारली तेन्ना बाकीबाबान उपहासात्मक आंगान प्रतिरोध करीत म्हळे, ''देशपांडे, तुकारामाचे अभंग बुडवले गेले पण ते बुडाले नाहीत, ते तरले, ही महाराष्ट्राची परंपरा आहे त्यामुळे अत्रे माझी पुस्तके जाळणार याची मला चिंता नाही. कधी होळी करणार ते सांगा. मी स्वत: येऊन काडी लावीन.''[७] बाकीबाबांचे कवितेंतल्या अशे तरेच्या प्रतिरोधीक स्वराचें महत्व जाणून घेवन रमेश वेळुस्कार म्हणटात, '...भाशीक स्वातंत्र्याचो, गोंयच्या स्वातंत्र्याचो, आत्महीनपणांतल्यान सुटपाचो हो ध्यास आनी वावर शब्दांच्या माध्यमांतल्यान, ह्या प्राणांच्या माध्यमांतल्यान मुखार गेलो.''[८]

*''त्या दिसा वडाकडेन गडद तिनसना, मंद मंद वाजत आयलीं तुजीं गो पांयजणां''* अशें म्हणपी हो नादमधूर, ल्हवपीक मनाचो कवी केन्ना केन्ना *''पातकांचे भल्ले घडे, घालया पितरांक वडे''* अशें म्हणीत *''घालतलो रे कृष्ण आतां सुदर्शना हात''* अशी शिटकावणी दीत प्रतिरोध करपी, आव्हान दिवपी स्वर लायता.

गोंयकारांक 'सुशेगाद' म्हणून सगळेच वळखतात. आनी गोंयकार हो तसो सपसप करून झगडीं झुजां करपी मनीस न्हय. तो सोंशीक. देखूनच तर साडेचारशीं वर्सां पुर्तुगेज गोंयांत रावंक शकले. पूण ताच्या ह्या सोंशीकपणाक एक शीम-मेर आसाच. परशुरामाचे हे भुंयेंतलो गोंयकार *'दोळ्यांत तेल घालून जागो'* आसा अशें सांगतना कवी

('सोंपती रात' हे कवितेंत) म्हणटा,

*मातले जरी लक्ष बळी । खिणांत वेतले रसातळीं*
*तीन पावलांभितर जातले नाच नपच्छात*
*परशुराम ना रे ओगो । दोळ्यांत तेल घालून जागो*
*स्राप दीत प्रकट जातलो अंतीं अकस्मात*
*शस्त्रांची अस्त्रांची सोंपत आयल्या रात*
*फांतोटेर झट्टले रे शतसहस्त्र हात* [९]

('सोंपली रात', *पांयजणां*)

बाकीबाबान गोंयाक आनी कोंकणीक आपले काळजाकुडींत सुवात फावो केल्ली. मराठी कवितेंतल्यान लेगीत तांणी कोंकणी शब्दावळीचो प्रयोग केलो. बाकीबाबान आपल्या काव्यांतल्यान तशेंच वक्तव्यांतल्यान भूंय आनी भाशे विशीं सदांच स्वाभिमानी भुमिका मांडली. गोंय आनी कोंकणीच्या विरोधकांचेर तांणी सरळपणान शाब्दीक वार केल्ले नासले तरी प्रतिरोधीक स्वर मात कायम कार्यरत दवरलो. आपली भुमिका मांडटना तांणी परिणामांची पर्वा केन्नाच केली ना. केप्यां इश्कोलांत शिक्षक म्हण वावूरतनाच ते गोंयच्या सुटकेझुजाचे चळवळींत देंवले. तेन्नाच पुर्तुगेज गव्हर्नर जनरल दोतोर बॉस हांचेर तांणी प्रतिरोधीक भाश्य केलें –

*दोतोर बॉस, दोतोर बॉस, । समजीकायेन वाग*
*तकली तुका ना जाल्यार । उठून चलूंक लाग*
*फातरां - तांदूळ । तेय ना वेळार*
*पोटाक पेटली आग । लजेक लुगट म्हारग जालां*
*उकती पडली जांग* [१०]

त्या अदमासाक गोंयांत वाडिल्ली म्हारगाय, आनी तांदूळ, कपडे तशेंच हेर गरजेच्या वस्तूंचो उणाव हाचे विशींची ही प्रतिक्रिया आनी सांगाताक तेन्नाच्या गोवेर्नादोराक दिल्ली ही शिटकावणी म्हळ्यार बाकीबाबान दाखयिल्ली प्रतिरोधीक वृत्ती म्हणूंक फावो.[११] एका गव्हर्नर जनरलाक, हांगा रावता जाल्यार सारको समजिकायेन वाग आनी, आमचे हे विचार तुजे तकलेंत वचनात जाल्यार सरळ हांगच्यान तुजी बिटकी कवळ अशें सांगपी हो बाकीबाब म्हळ्यार त्या काळा वेलो एक 'क्रांतीकवीच'.

कोंकणी आनी गोंय हांचे खातीर तांणी तरातरांनी गोंयकारांक (स्थायीक आनी स्थलांतरीत)उलो मारलो. आपले 'धांव बेगीं पाव उल्या' हे कवितेंत ते म्हणटात,

*चंद्रिमाक घाय जाला । काळखाचेय फुटले दोळे*
*कणकींतली माय, आयक । चोंयवशीन घालता उले*
*सोडोवंक गेल्ले भावबंद । अपघातान पडले चरीं*
*धा दिकांक पांगले पूत । एकय ना रे तिचे सरीं*
*...धांव बेगीं, पाव उल्या । असली वेळ परतो येना*
*आवै-उल्या पावना ताका । देव पसुन म्हन्यांत घेना*

('धांव बेगीं, पाव उल्या', *पांयजणां*)

*''गोंय आमचें मूळपीठ, कोंकणी आमची भास, कोंकणी संस्कृताय आमच्या जाणट्यांली मिरास''* हो मंत्र दिवन बाकीबाबान आमकां उपकारांत दवरल्यात. तांचे उपरांतूय जेन्ना जेन्ना भास वा संस्कृतायेचेर हावळ आयल्या तेन्ना तेन्ना आमी ह्याच मंत्राचो जयघोश करून नवे पिळगेक जागयल्या, दुस्मानाक शिटकायला, दुस्मानाचो प्रतिरोध करपाची शक्त ह्या मंत्रांत आसा अशें म्हळ्यार ती अतिताय न्हय.

बाकीबाबांचे लिखणेचो उपरांतचे पिळगेचेर बरोच प्रभाव पडलो. तांचे प्रभावी लिखणे विशीं जेश्ठ समिक्षक सोमनाथ कोमरपंत बरयतात, "बाकीबाबाली लिखणी अज्रंवर... तिका भांगराची ओप दिवची पडली ना... अंतर्बाह्य भांगराचींच घुंगरां बांदून हें 'निळें सवणें' आमच्या दारांत आयलें आनी आमी सगळे गाढ निळे जाले... हें अजाप केन्ना घडलें? कशें घडलें? कळ्ळेंच ना!''[१२] तांचे प्रेम कवितेन वाचप्यांक पिशें लायलें ताचे परसूय चड तांच्या प्रतिरोधीक कवितांनी लायलें म्हणूंक जाय. प्रकाश थळी म्हणटात ते प्रमाण, बाकीबाबांक कोंकणी काव्य रचतना एक वेगळेंच बळगें येतालें. मराठींतल्या तांच्या काव्यांत कोंकणी काव्यांतलो किंवाटो चडसो दिसलो ना. 'स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय', 'वारें आतां परतलें', 'सांतेरेचेर भार', 'नाक आमी पावणेर काडलां', गोंयची सासाय' आदी कविता कोंकणींतल्यानूच कित्याक रचल्यो? ह्या प्रस्नाची जाप सोदतना प्रकाश थळी म्हणटात, ''...गोंयच्या स्वातंत्र्याखातीर बाकीबाबान खूब कश्ट काडलेले, जायतें सोसलेलें. स्वतंत्र गोंयच्या फुडाराचो ताका खूब हुस्को आसलो. ह्या कवितांचें मूळ हुस्क्यांतूच आसुंये.''[१३]

बाकीबाबांच्या कोंकणी काव्याचे दोन महत्वाचे काळ मतींत घेवपा सारके आसात. पयलो काळ मुक्तीझुजाचे चळवळींत वांटो घेत सावन (१९४६) गोंय सुटके मेरेनचो (१९६१ मेरेनचो). ह्या कालखंडांत स्वातंत्र्याचे तळमळीन धडपडपी तशेंच समाजाक भुंय-भाशे संबंदांत स्वाभिमानाचो मंत्र दिवपी बाकीबाब *पांयजणांत* झळकतात. जाल्यार दुसरो काळखंड हो गोंय मुक्ती उपरांतचो (१९६२ उपरांतचो), जो *सासाय* संग्रहांतल्यान व्यक्त जाला. ह्या दुसऱ्या कालखंडांतल्या संग्रहांत अन्याया विशींची तिडक, भूंय-भाशे संबंदांतली अनास्था, आत्महीणपण हाचेर केल्लें भाश्य वाचूंक मेळटा. बाकीबाबान जश्यो 'गुणगुणपाच्यो' कविता रचल्यो तश्योच 'गर्जनेच्यो'य कविता रचल्यो.

बाकीबाबांच्या दोनूय संग्रहांनी गोंयांतल्या घडणुकांचे पडसाद आयकूंक मेळटात.कवी आपल्या कवितांतल्यान भंयान वा असहायपणान 'मोनेपण' पांगुरिल्ले पिळगेचो आवाज जावन उलयता. पूण *पायजणांत ''सात लाख गोंयकार आमी यूग नवें फुलयतले''* अशीं आशावादी उतरां उलोवपी कवी अचकीत सुटके उपरांत *सासाय* संग्रहांत *''आयलां थंय स्वातंत्र्य, तें स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय''* असो निराशेचो सूर लायता. कारण आमचे मदलेच घरभेदी गोंय महाराष्ट्रांत विलीन करपाचीं सपनां पळोवंक लागले, आपले भाशेक दुशण दिवन परक्यांचे पांय चाटूंक लागले,सुवार्था खातीर स्वत्व विकूंक लागले. आनी देखुनूच कवीक हें स्वातंत्र्य खरें स्वातंत्र्य न्हय अशें म्हणचें पडलें. सात लाख गोंयकार मेकळे जाल्ले पूण हांगा आनीक नवे प्रस्न निर्माण जाल्ले. भास, भूंय, अस्मिताय ह्या संदर्भांतले नवे प्रस्न तयार जाले, देखून कवीन म्हणलें,

*अजून सरूंक ना संगर आमचें । लढचें आसा अजून खूब*

*... कितलें दैन्य, अन्याय असत्यय । अजून चलता भायर भितर!*
*पुरतें तें हुमटिल्या बगर रे । मुक्त जावंचे नात आमचे पितर.*

('अजून सरूंक ना संगर आमचें' *सासाय*)

साहित्य समिक्षक डॉ.किरण बुडकुले हांणीय तांच्या मराठी, कोंकणी काव्याचो परामर्श घेतना बाकीबाब मराठींत एक निसर्गकवी म्हण भावला ताचे परस वेगळो, एक द्रश्टो कवी, एक क्रांती कवी म्हण कोंकणींत व्यक्त जाला अशें मत मांडलां. डॉ. बुडकुले म्हणटात, "For the exclusively Konkani reader, Bakibab represents the visionary who stood for freedom and change: he is the true voice of revolution to come, an intense lover of Goan ethos and landscape, a champion of Goan culture and identity, the master of home-spun Konkani idiom, the creative genius with distinct native rhythm and imagery".[१४]



*मनाक खोलाय आसली जाल्यार,*
*सादयाय बोलांक मोल*
*जाल्यार सगलो वेद,*
*जिबेर आसून पोल*

भाशावादाच्या काळांत कोंकणीच्या व्याकरणाचेर, शब्दावळीचेर जायते आरोप जाताले. मराठीवादी, कोंकणींत निजाचे उतरावळी परस मराठीच उतरां चड भरसल्यांत म्हण दुशणां लायताले. अश्या उखलाप्या मराठीवाद्यांक कळटां नकळटां बाकीबाबांच्या मराठी काव्यान प्रतिरोध केल्लो. असल्या आरोपां कडेन लक्ष दिवचे बदला बाकीबाबान, मराठी काव्यांतूच कोंकणी उतरावळ चपखलपणान भरशिल्ली. देखीक:

*सांज दाटली शिरीं । परतली घरा भिरीं*
*सांवळ्या रुखावळींत । धूर मात्र कापरा.*

हें घडये तांणी प्रतिरोध म्हूण केल्लें नासुये, पूण मुखाल्ल्या काळांत मात ताचो प्रतिरोधीक प्रभाव पडलो इतलें खरें. कोंकणींतलीं तांची कविता मात चडश्या प्रमाणांत प्रतिरोध करपी, स्वाभिमानी वृत्तीची जाल्या. प्रकाश थळी मात म्हणटात, ''...ह्या क्रांती कवितेच्या गटांतल्यो चडशो कविता प्रचारी थाटाच्यो आसात... क्रांतीच्या उज्याक फूक मारपाक वा तातूंत तेल ओतपाक असल्या कवितांची खूब मजत जाता. ते नदरेन तिका महत्व आसताच. पूण कविता वा अस्सल काव्य म्हणून तिचें मोल उणें भरता; क्षणीक, टॉपीकल थरता. तो विशय वा इश्यू कडेक पडटकीच ती कविता आनी तीं उतरांय हवा गेल्ल्या बोमाड्या वरी कडेक पडूं येता.'' [१५] पूण हें तांचें मत पुरायपणान मान्य जावपा सारकें ना. बाकीबाबांच्या असल्याच 'टॉपीकल' कवितांनी हांगा क्रांती घडोवपांत आपलेंय योगदान दिलां. लोकां मदीं स्वत्वाची भावना जागोवन आत्महीणपणाचो नाश करपाचो विचार दिवपी ह्यो कविता प्रकाशबाबांक जरी प्रचारकी थाटाच्यो दिसल्यो तरी त्यो 'कामा पुरतो मामा' अशा थाटाच्यो नात. तत्कालीन विशयां वेल्यो सगळ्योच कविता काळा भायऱ्यो जायनात वा 'कविता' म्हण तांचें मोल उणें जायना. अश्या कवितांच्या आदारान त्या काळाचें समाजीक आनी इतिहासीक अध्ययन करपाक मजत जाता. त्या त्या काळाचो, समाजमनाचो, समाजबदलांचो, समाजप्रवाहांचो अभ्यास करतना तांच्यो कविता चड मोलादीक थरतात.

बाकीबाबांच्या खांदार सदांच शाल आसताली. जायते जाण तांकां 'शालीवाहक' म्हणटाले. पूण बाकीबाबान आपल्या खांदार शाली वांगडाच एक जबाबदारीय ओडून घेतिल्ली. ती म्हळ्यार, कोंकणी भाशेचे चळवळीची. १९६७त जाल्ल्या 'ओपिनियन पोला'खातीर समाजांत वातावरण निर्मणी करपा खातीर तशेंच विरोधकांक प्रतिरोध करपा खातीर तांणी पेंगट बांदिल्लें. केन्ना 'बाकीबाब' जाल्यार केन्ना (सरकारी कर्मचारी जाल्ल्यान) 'कोमलो' ह्या टोपणनांवान तांणी प्रतिरोधी स्वराची काव्यरचना केली. अशेच एके कवितेची ही एक देख:

*मुयांक पसून फुटलीं पाखां*
*सोरोप जाले जार*
*शिळेन शिळा लागली हालूंक*
*सांतेरेचेर भार*

*तुळस जाल्या आगटें आतां*
*खुरीस जाला तीर*
*बांग घालीत लागला उट्टूंक*
*कबरींतलो पीर*

*कुदूंक लागला गांवचो मुळी*
*वाजूंक लागल्या घांट*
*दिसता ताका पांचविचार*
*जुंवळी पानां वाट*

*होरावणेची वेळ जाल्या*
*घुमघुमता धोल*
*पोल न्हय रे जावंचो आसा*
*सांतेरेचो कौल...*

*राख गोंयचें नांव भावा*
*झेलून सगळे वार*
*जैत तुका दिवंक आयला*
*सांतेरेचेर भार*

('सांतेरेचेर भार', *सासाय*)

शांत वृत्तीचे 'सांतेरी'न दुर्गेचो अवतार धारण कतरकीच सगळ्या वायट शक्तींचो नाश जाता तशें आतां घडटलें. गोंयची राखण करपांत हिन्दू, क्रिरिस्तांव आनी मुसलमान ह्या तिनूय धर्मियांची तळमळ हातूंत प्रतिकात्मक तरेन उकतायल्या. गोंय वेगळें दवरपाचो हो 'जनमत कौल' म्हळ्यार 'सांतेरेचोय कौल' अशा उतरांनी कवीन विरोधकांक शिटकावणी दिली आनी समर्थकांक स्फूर्त. विलिनीकरणाचें समर्थन करतल्यांक तांणी काव्यांतल्यान प्रतिरोध केलो. तांणी बरयलें,

*वारें आतां परतलें*
*चोरां-गची धरतलें*
*घरांत ज्यांणी हाडला कली*
*तांकां दाळाक लायतलें*
*भोंवता वारें गोंयचीं रानां*
*पेडणें धरून काणकोणां*
*...वाऱ्यान पानां झडटलीं*
*जैत घेवन उठटलीं*
*फायच्या गोंयच्या फुडाराचो*
*ग्रंथ नवो रचतलीं.*

('वारें आतां परतलें', *सासाय)*

*आपले भुंये विशींचो मोग आनी स्वाभिमान व्यक्त करतना बाकीबाबूच एके कडेन म्हणटात.* "In the whole of India, Kashmir, Kamarupa, Kerala and Konkan are supposed to be the richest in scenic beauty... If I am to be born again and I am allowed to choose my future birth place, I shall undoubtedly opt for Goa." [१६] गोंय घेवचे खातीर महाराष्ट्रांतल्यान आयिल्ल्या विलिनीकरणवाद्यांक उद्‌देशून तांणी बरयलें,

*घांटार सावन आयला जोगी*
*घेवन भगवी धुडी*
*घराक चूड लावन सोदता*
*ओढूंक आपली विडी*
*घांटार सावन आयला जोगी*
*घेवन तायत दोरे*
*चार जोंधळे दिवन हातार*
*व्हरूंक आंबे घरे*
*...घांटार सावन आयला जोगी*
*वण्टि खणूंक सांगता*
*सावध भावा देवाऱ्यांतलो*
*साळिग्राम मागता.*

('जोगी', *सासाय)*

आमची 'आत्महीण'पणाची भावना मतींत धरून कवी बाकीबाबान आमकां परक्यांच्या भुलोवण्यांक बळी पडूं नाकात म्हणून बुद्द दिली. भायल्यान आयिल्लो जोगी म्हळ्यार आमीच 'चूड दाखोवन' हाडिल्लो म्हारू हाची जाणवीक करून दिली. आनी हें करतना तांणी आपल्या काव्यांत थोडोसो उपरोधी सूर दवरतनाच समजावणेचोय सूर दवरलो. कोंकणी भाशेची आनी पर्यायान साहित्याची मोलावणी करतना जायते जाण कोंकणीक मराठी परस उणाक दर्जाची मानताले. अशा विचारवर्गाक तांणी कोंकणींतल्यान लावणी, पोवाडे, ठुमरी, भुपाळी हे प्रकार रचून जाप दिली. बाकीबाबान गोंयाक, गोंयकारांक, कोंकणीक आपले परीन जें जें शक्य जालें तें तें दिलें. देखुनूच बाकीबाब म्हळ्यार खऱ्या अर्थान 'कोंकणी अस्मितायेचो माड'.[१७] १६ तारकेक जावचो आशिल्ल्या 'ओपिनियन पोला'चें वारें जनसामान्या मेरेन पावोवंक आनी लोकांक सादूर करूंक 'सोळा तारीक' ही कविता तांणी रचली –

*चूड दाखोवन हाडलो म्हारू नष्ट्यो ताच्यो कळा*
*तुका म्हाका जोखूंक भावा येता तारीक सोळा*
*...रागान म्हज्या, चुलीवेली मडकि नाका फोडूं*
*एके राशीर आसूं जाल्यार सर्ग लेगीत जोडूं.*
*...वळख रगत धांव भावा आमच्या कळे वेळा*
*दोशीं जाल्लें पाणीं जोडूंक तारीक येता सोळा.*

('सोळा तारीक', *सासाय)*

बाकीबाबान गोंयचेर शेक गाजोवपी, लोकांक पिडापीड भोगोवपी पुर्तुगेजांक आपल्या प्रतिरोधीक काव्या वरवीं धपकायले, तेच बराबर मेकळें केल्लें गोंय कशे तरेन आपलेच भाव वाट लायतात, गोंय महाराष्ट्रांत विलीन करपाचीं सपनां पळयतात तांकां उद्‌देशून उपरोधीकपणान, उपहासान शिटकायले लेगीत.

*नाख आमी पावणेर काडलां घालात तुमी लांस,*
*म्हणशात तुमी तीच आमी म्हणू आमची भास*
*...तुमी व्हेल्यार नाख आमचें वांट्टलो भुगोल*
*लावन घेंव त्या खातीर आमीच आमकां गोळ*

('नाख आमी पावणेर काडलां', *सासाय)*

बाकीबाबांक जेन्ना जेन्ना गोंयकारांचीं उणीं दिसलीं, तेन्ना तांणी उपरोधीकपणान ताचेर भाश्य केलें. ते एके कडेन म्हणटात,

*आमीच म्हणटात गोंय म्हळ्यार*
*नस्तें पेंसण, बुडित खातें*
*खरेंच हांगा जाणवाय सोडुन*
*दुसरें आनीक पिकता कितें?*

('गोंयांत अशें आसा कितें?', *सासाय)*

१६ जानेवारी १९६७ ह्या दिसा आशिया खंडांतलो आयज मेरेनचो एकमेव 'ओपिनियन पोल' जालो तो गोंयांत, गोंय आनी महाराष्ट्राच्या विलिनीकरणाच्या प्रस्नाचेर. गोंय वेगळें दवरचें काय महाराष्ट्रांत विलीन करचें ह्या प्रस्नाचेर मतदान करपा संबंदांतल्या प्रचाराच्या काळार जायतीं कवनां निर्माण जालीं. हातूंत महत्वाचें योगदान दिवप्यां मदलें एक नांव म्हळ्यार 'बाकीबाब'. मनोहरराय म्हणटात, "...गोंयकारांच्यो एकाच खिणांत दोन जाती जाल्यो. एक फुलकार विलिनीकरणवादी आनी दुसरी पानकार संघप्रदेशी... संघप्रदेश राखपाक आनी कोंकणीचें खाशेलपण सांबाळपांत कोंकणी कवींनी बरोच हातभार लायलो तातूंत बाकीबाबांचोय वांटो आसा." [१८] बाकीबाबान म्हणिल्लें, *"नाख आमी पावणेर काडलां घालात तुमी*

*लांस, म्हणशात तुमी तीच आमी म्हणूं आमची भास''.* हीं किंवाट्याचीं उतरां आशिल्लीं आमकांच उल्लेखून, जे गोंय पावणेर काडून परक्यांक दिवंक सोदताले. पूण गोंय गिळपाचीं सपनां पळोवपी दुस्मानांक मात तांणी हांगची सासाय जागी जाल्या आनी तिचेर आतां भार आयला अश्या उतरांनी शिटकायिल्ले –

*जागी जाल्यार गोंयची सासाय*
*येतलो भार येतलो भार*
*धोल ताशे बडय बडय*
*मार शेंसार मार शेंसार*

('जागी जाल्या गोंयची सासाय', *सासाय)*

भाशे संबंदांत उलयतना, व्यक्त जातना तांचो हो प्रतिरोधी स्वर अदीकच खर जातालो. बाकीबाबांक कोंकणी काव्या विशींची वा भाशे विशींची जाणविकाय जाली ती पात्रीस रेंदेर आनी शणै गोंयबाबाक लागून. पूण तांचे वांगडाच काकासायब कालेलकार हांचींय उतरां हे



*हृदयीं येतां भरतें रे करुं*
*नदो तें परतें रे*
*त्या भरतीवर धरतें अत्तर*
*तेंच युगांतरी तरतें रे*

नदरेंतल्यान तांकां मार्गदर्शक आनी स्फूर्तदिणी थरलीं. काकासायबान तांकां म्हणिल्लें, ''तुमी कोंकणी ही घरगुती भास करून दवरल्या. तिची गोडी आनी तांक मोटी आसुनूय मस्करेचीं कवनां आनी फार्स बरोवपाखातीरूच ते भाशेचो वापर करतात आनी गंभीर विशयावेलें साहित्य दुसरे भाशेंतल्यान बरयतात. हो मांयभाशेचेर अन्याय तर आसाच, ते भायर अशें केल्ल्यान आवयचो स्राप्पूय लागूं येता.'' [१९]

बाकीबाब आपले कवितेंतल्यान रक्ताची धार दिवपाची, होमखणांत उडी घेवपाची,प्राण दिवपाची, अन्याय आनी असत्य हुमटावपाची, सुदर्शनाक हात घालपाची, हांगाच्यान उठून चलूंक लाग म्हणपाची, वार झेलपाची, भार येवपाची प्रतिरोधी भास उलयतात. सुटके उपरांत हांगाच्या गोंयकारांची बदलिल्ली घातकी मानसीकताय पळोवन बाकीबाब आपल्या ह्या भावांक समजावणेचीं चार उतरां सांगतना उपरोधीक भास उपकारायतात. आपलें सगळें उणाक लेखून परक्यांलें उश्टें लेगीत वंदनीय मानपी गोंयकारांक ते आपणें 'असल्या' स्वातंत्र्याचीं सपनां पळोवंक नाशिल्लीं अशें खंतीन सांगतात. बाकीबाबान आपल्या काव्यसंग्रहांत 'उपरोध' आनी 'प्रतिरोध' अश्या दोनूय स्वरांचो कुशळटायेन वापर केल्लो पळोवंक मेळटा. बाकीबाबांक जायते मान सन्मान मेळिल्ले तरी तरणाट्यां कडेन उलयतना ते आपलेपणान खांदार हात घालून गजाली करताले. हें पळोवन महाराष्ट्रांतले साहित्यीक ह्या तरणाट्या लेखकांक भाग्यवंत लेखताले. ह्या संदर्भाक धरून उदयबाब भेंब्रे म्हणटात, ''कोंकणींतल्या वा गोंयांतल्या सगल्याच व्हड साहित्यिकांच्या आंगांत तो गूण आसता अशें ना. तो बाकीबाबाच्या खेरीत गुणां मदलो एक.''[२०] अशा ह्या स्वाभिमानी गोंयकाराचे हे प्रतिरोधी आनी उपरोधी कवितेन जायत्या जाणांक प्रेरीत केले, साहित्याचे सेवे खातीर तशेंच मुक्तीझुजाच्या आंदोलना खातीरूय.

***

**संदर्भः**


१. रमेश वंसकर, *बोरी गावचे बोरकर* (बाकीबाब), विवेक व्यासपीठ, मुंबई, २०१०, पान ९.
२. पद्मा वज्रम, *सांगते वडिलांची किर्ती* (बाकीबाब), विवेक व्यासपीठ, मुंबई, २०१०, पान १८.
३. सुरेश गुंडू आमोणकार, *एक विलोभनीय आनंदयात्री* (बाकीबाब), विवेक व्यासपीठ, मुंबई, २०१०, पान २५.
४. नागेश करमली, १३ जून २०१० ह्या दिसा मंगळूरा जाल्ले 'बाकीबाब शताब्दी स्मरण' कार्यावळीच्या उक्तावण सुवाळ्या वेळार केल्लें अध्यक्षीय उलोवप.
५. सुरेश गुंडू आमोणकार, *एक विलोभनीय आनंदयात्री* (बाकीबाब), विवेक व्यासपीठ, मुंबई, २०१०, पान २६.
६. फा. मोउजीन्यु आताईद, *बाकीबाब,* जाग, जाने.-एप्रील २०१०, जाग प्रकाशन, मडगांव, पान ३४.
७. मनोहर हिरबा सरदेसाई, *बा.भ. बोरकर - व्यक्ती आणि वाङ्मय,* पणजी, १९९२, पान १८१.
८. रमेश भगवंत वेळुस्कार, *बाकीबाब (कोंकण टायम्स),* कोंकण टायम्स पब्लिकेशन्स, बेतीं, जुलय-सप्टेंबर २००८, पान १०.
९. बाकी बोरकार, *पांयजणां,* पॉप्युलर प्रकाशन, मुंबय, १९६०, पान १७.
१०. प्रकाश थळी, *कोंकणी साहित्याचे शिल्पकारः बाकीबाब बोरकार,* गोवा कोंकणी अकादेमी, पर्वरी, २०००, पान ५२.
११. डॉ. रेमी डायस (गोंयच्या पुर्तुगेजकालीन इतिहासाचे संशोधक), प्राध्यापक, सरकारी महाविद्यालय, केपें, हांचे कडेन केल्ली चर्चा.
१२. प्रा. सोमनाथ कोमरपंत, *बाकीबाब मनांतले, आयतार सुनापरान्त,* पणजी, २७ डिसेंबर २००९, पानां ८-९.
१३. प्रकाश थळी, २०००, पान १०.
१४. Kiran Budkuley, *Bakibab: Beyond Boundaries, Panorama, The Navhind Times,* Panaji, 19 July 2009, Pg.1
१५. वयलोच संदर्भ, २०००, पान १८.
१६. वयलोच संदर्भ, २०००, पान ५०.
१७. डॉ. नारायण देसाय, १३ जून २०१० ह्या दिसा मंगळूरा जाल्ले 'बाकीबाब शताब्दी स्मरण' कार्यावळींतल्या परिसंवादा वेळार केल्लें अध्यक्षीय उलोवप.
१८. मनोहरराय सरदेसाय (प्रस्तावना), *सासाय,* कुळागर प्रकाशन, मडगांव गोंय, १९८०, पानां: वीस, एकवीस.
१९. वयलोच संदर्भ, पानः ६३.
२०. उदय भेंब्रे, *कांय उगडास बाकीबाबाचे, जाग,* सप्टेंबर २००९, जाग प्रकाशन, मडगांव, पान १०.






# बाकीबाबाचे कवितेंतली इंद्रीय संवेदना

परेश नरेंद्र कामत

कविवर्य बाकीबाब बोरकार हे मराठी काव्य परंपरेंत वाडिल्ले प्रेमकवी. *प्रतिभा, जीवनसंगीत, दूधसागर, आनंदभैरवी, चित्रवीणा, गितार, चैत्रपुनव, कांचनसंध्या, अनुरागिणी* हे कविता संग्रह तांणी मराठी कवितेक दिल्यात. उणीच स दसकांची तांची काव्यसाधना.तांचो पयलो कविता संग्रह *प्रतिभा* १९३० वर्सा उजवाडाक आयलो. ह्या संग्रहांतले तांचे कवितेचेर बालकवी, तांबे ह्या कवींचो प्रभाव दिसता. पूण उपरांत तांणी बालकवी, तांबे हांच्या प्रभावांतल्यान भायर येत, आपली वेगळी वाट सोदून काडीत, आपली खाशेली अशी कविता बरयली. *चित्रवीणा, गितार, चैत्रपुनव* ह्या कविता संग्रहांतल्यो तांच्यो कांय उत्कृश्ट कविता वाचतकीच हें खोलायेन जाणवता.

बाकीबाबांचो खरो पिंड प्रतिभासंपन्न प्रेमकवीचो. प्रेमभावना, कामभावना, सैम-सुंदरताय हो तांचे कवितेचो स्थायीभाव. लौकीक गजालींक अलौकीक पांवड्यार व्हरपाची तांची कळाशी, पार्थीव सौंदर्याक अपार्थीव रूप दिवपाची तांची तांक आनी विंगड विंगड इंद्रीय संवेदनांतलें सौंदर्य चाखून, भोगून तें कवितेंतल्यान व्यक्त करपाची तांकां लाबिल्ली सृजनशीलताय तांचे कवितेक एक अभिजात सौंदर्य दिता. मुळांतलोच तांचो सपनाळो सभाव, रसलंपट वृत्ती, रूप, रस, रंग, गंध, शरीर स्पर्शाचें विलक्षण आकर्शण, उतरांची चित्रमयता, नादमयता तांचे कवितेक रसरशीत उर्जा दिता. नवें तेज दिता. भुरगेपणांत सावन तांकां आशिल्ले गाण्याचे आवडीक लागून तांचे कवितेंत निजाची, सभावीक अशी नादमयता येता. आनी हे नादमयतेक लागुनूच बाकीबाबांची कविता छंदांत बरो रुपकार घेता. काळजांतल्यान खर उमाळ्यान आयिल्लीं उतरां ओंठांर घोळयत घोळयत ती आकाराक येता.



*सुकतेच्या वेळार म्हज्या,*
*आयलें जावन भरति कित्या?*
*फांतोटेचीं ओंवळां तुजीं,*
*सांजचीं म्हजेर झरति कित्या?*

आपले कवितेचे निर्मिती प्रक्रिये विशीं बाकीबाब म्हणटात – ''म्हाका गुणगुणटां गुणगुणटांच कविता सुचता. पयल्यो दोन ओळी ओंठांर येतात आनी मागीर कविता तयार जावंक लागिल्ल्याची सुलूस लागता. तयार जावन आयिल्ल्यो ओळीच फुडल्या ओळींक ओडून म्हणा वा भुलोवन म्हणा आपल्या सांगाताक घेवन येतात आनी कविता पुराय जातकीच ही प्रक्रिया थांबता.''

बाकीबाबांची कविता ही मुळांतूच नादमयी आशिल्ल्यान आपली अनुभुती ती छंद रुपांतल्यानूच बरे तरेन प्रगट करता. संगिताच्या नादाचेर तरंगत तरंगत बाकीबाबांचे कवितेंत लयबद्‌ध उतरां येतात आनी त्या उतरांक अर्थाचें नवें परिमाण मेळटा. सैमसौंदर्य, अस्तुरेचें लावण्य हातुंतल्यान बाकीबाबांक जिणेंतल्या चैतन्याचो साक्षात्कार जाता. सैमसौंदर्य विलक्षण तांकीन उतरांतल्यान व्यक्त करपी तांचे 'सरिवरी सरी' हे कवितेंतल्यो

*सरिवरी सरी आल्या ग । सचैल गोपी न्हाल्या ग*
*गोपी झाल्या भिजून चिंब । थरथर कांपति निंब-कदंब*
*घनांमनांतुन टाळ-मृदंग । तनूंत वाजवि चाळ अनंग*
*पानें पिटिती टाळ्या ग । सरिवरी सरी आल्या ग*

ह्यो पावसाची लय घेवन आयिल्ल्यो वळी, वा–

*हळद लावुनी आलें ऊन, कुंकुमाक्षता फुलांमधून*
*झाडांमधुनी झडे चौघडा घुमते पाणी लागून धून*

ह्यो 'हळद लावुनी आलें ऊन' हे कवितेंतल्यो श्रावणांतल्या रस्मी वोताचें ओलेपण चितारपी वळी, वा–

*स्मरते कधी भरली नदी अन् गर्द झाडी काठची*
*पावसाळी चांदणे अन् साउली घनदाटशी*

ह्यो 'स्मरते कधी' हे कवितेंतल्यो वळी पावसांतल्या चान्याची तरल अशी संवेदना जागयतात.

'फांदीसारखी झुकते सांज' - ही बाकीबाबांची कविता उतरांतल्यान दृश्य, रंग आनी स्पर्श संवेदना कशी जागयता तें पळोवपा सारकें आसा.

*फांदीसारखी झुकते सांज, जांभळांसारखे पिकती ढग*
*हवेंत गारवा जड होवून पेंगुळपांगूळ होतें जग*
*गगनभरल्या आठवणींचे गर्द झाडींत शिरती थवे*
*ओला काळोख आळत येतो उकत्याझाकत्या काजव्यांसवें*

*'फांदीसारखी झुकते सांज'* हे वळींतली झाडाचे हालते खांदयेची दृश्य संवेदना, *'जांभळासारखे पिकती ढग'* हे वळींतली रंग संवेदना,



*हालत्या रथाक लागिल्ल्यान,*
*घुडयांर अशो उडयो*
*हरशीं घुडयो म्हळ्यार बावड्यो,*
*तिस्त्यो आनी बडयो*

आनी *'हवेंत गारवा जड होवून पेंगूळपांगूळ होते जग'* हे वळींतली स्पर्श संवेदना, अख्खे पावसाळे सांजेचे ओले, काळखे फाटभुंयेर उदेल्ल्या कांजुल्यांच्या उजवाडांत भिऱ्यां सारकें उगडासाचें एक मळबा येदें आवर्तनूच घेता.

'काळी माया', 'झाडें झालीं निळीं निळीं', 'क्षितीजीं आलें भरतें ग', 'ती एक याद', 'विसर', 'आंदणवेळ' सारक्यो भावविभोर कविताय बाकीबाबान बरयल्यात. 'क्षितीजीं आलें भरतें ग' हे कवितेंतल्यो ह्यो नादमय, चित्रमय, गंधसुगंधीत अश्यो वळी पळेयात:

*क्षितिजीं आलें भरतें ग*
*घनांत कुंकुम खिरतें ग*
*झालें अंबर*
*झुलतें झुंबर*
*हवेंत अत्तर तरतें ग*

*लाजण झाली धरती ग*
*साजण काठावरती ग*
*उन्हांत पान*
*मनांत गान*
*ओलावुन थरथरतें ग.*

इंद्रीय संवेदना जागोवपी, रगताक उज्याचो फुलोर हाडपी 'स्पर्श', 'स्मृती', 'जपानी रमलाची रात्र' ह्यो बाकीबाबांच्यो उत्कृश्ट अश्यो प्रेमकविता. ह्यो कविता म्हळ्यार बाकीबाबान मराठी कवितेक ओंपिल्लो आपल्या खाशेल्या कवितांचो कंठमणीच.

तांचे 'स्पर्श' हे कवितेंतल्यो ह्यो सुंदर वळी पळेयात:

*फुलल्या लाख कळया*
*स्पर्शसुगंधा घन अंधारी फुटल्या ग उकळ्या*

*ध्वनकंपीत तनुच्या शततंत्री*
*बंदी मन रतिमोहनमंत्री*
*लय लागुनिया नाचुं लागल्या स्वप्नींच्या पुतळ्या*

*धूप जळे तिमिराचा पवनीं*
*विनिद्रनयना व्याकुळ अवनी*
*पिकुनी लवल्या नक्षत्रांच्या द्राक्षलता पिवळ्या*

*द्रवलीं नयनें स्त्रवलीं हृदयें*
*दो चंद्रांच्या संगम उदयें*
*दुणी पौर्णिमा रसा न सीमा उसळ्यांवर उसळ्या*

दोन मोग्यांच्या स्पर्शसुखाचो हो नवे नवलायेचो सुवाळो बाकीबाबान ज्या शब्द सामर्थ्यान झंकारत दत्ररला ताचो अणभव घेवपाक, तो अणभव काळजांतल्यान भोगपाक बाकीबाबांचीच नदर जाय. काळीज कंवळे वेंगेच्या स्पर्शसुगंधाक घुप्प काळखांत उकळ्यो फुटपाचो अणभव सुचकतायेन वाडयत व्हरून - *'दुणी पौर्णिमा रसा न सीमा '*- ह्या उतरांनी तो समागमाचो अणभव बाकीबाबान *'उसळ्यांवर उसळ्या'* ह्या नादमय, चित्रमय अश्या उतरांनी सार्वत्रीक करून उडयला. 'स्पर्श' सारके कवितेंतलें हें इंद्रीय संवेदनेचें अस्सल कलात्मक आनी रसरशीत अशें चित्रण बाकीबाबांचे कवितेचें खरें सामर्थ्यूच म्हळ्यार जाता.

'जपानी रमलाची रात्र' ही अप्रतिम सुंदर कविता तर बाकीबाबांच्या समग्र काव्यांतलोच न्हय, तर समग्र मराठी कवितेंतलो मास्टरपिस. मराठी कवितेक हे कवितेन आनिकूय उंचेल्या पांवड्यार व्हरून दवरल्या. *'फ्रॉयडाचा मज काम हवा'* म्हणपी बाकीबाबांची ही संबंद कविता अद्भूत अशी आसा. एके तरेचें कामवासनेचें, इंद्रीय संवेदनेचें मायाजालूच कवी उत्कट अश्या प्रतिमांनी सप्नमय पद्दतीन हांगा उबें करता.

*तुझे विजेचें चांदपांखरूं दीपराग गात*
*रचीत होतें शयनमहालीं निळी चांदरात*

अश्या उतरांनी सुरू जावपी ही कविता रसरशीत अश्या प्रतिमांतल्यान आशयाक अर्थाचे नवे आयाम दीत एका उंचेल्या पांवड्यार पावता. एके गुणसंपन्न आनी सौंदर्यवती जपानी गैशेच्या

शयनम्हालांतले रती-रत चांदरातीचें वर्णन कवी हांगा भोव कलात्मक रितीन करता. रंगेल आनी मादक संभोगाचें चित्रण करीत कवी लौकीक मानवी अवस्थेक अलौकीक रूप दिता.

*स्पर्शे तुझिया आणि पियानो थरारला सारा*

*मजसम त्याच्या कानशिलांच्या झणाणल्या तारा* सारक्यो स्पर्शसुखाच्यो शरीर संवेदना जागोवपी अप्रतीम सुंदर वळी बाकीबाब सहजतायेन बरोवन वतात. हे कवितेंतल्या उतरांक रूप, रस, रंग, गंध, स्पर्शाचो झपाटून उडोवपी वेग आसा. आवेग आसा. प्रतिमांक कांतीव, कोरीव अशी गोलाय आसा. मोवसाण आसा. गोडसाण आसा. देखीक, *'तुझ्या स्पर्शाने'* अशें उतरांतलें सरळपण हांगा ना. तीं उतरां *'स्पर्शे तुझिया'* जावन कवितेंत सभावीक अशी गोलाय घेवन आयल्यांत. ही गोलाय सबंद कवितेंत ते गैशेचे नागिणीचे चाली कडेन, स्तनाकार पेल्यां कडेन, उफेवपी व्हड्या सारके शेजे कडेन, ह्या हालत्याझुलत्या प्रतिमां कडेन सुचकतायेन वळख सांगतात. आनी, तिच्या कात सोडिल्ल्या नागिणीच्या नवयौवना कडेन संबंद प्रस्थापीत करीत ह्यो प्रतिमा विळख्या विळख्यांनी आलापीत राविल्ल्या ज्वालांच्या गितांनी आपसूक विसर्जीत जातात. अशे तरेन गैशेच्या शयनम्हालांतल्या सजावटी सावन फाटींतल्यान काळजांत गेल्ल्या 'मधा'च्या, म्हळ्यार म्होंवाच्या, 'जंबीया' मेरेन विंगड विंगड पांवड्यांर कवितेंत प्रतिमांची गुंफण करीत, कवितेच्या आशया कडेन संगती लावन तो आशय विकसीत करीत 'जपानी रमलाची रात्र' ही कविता स्पर्शसुखाचें सौंदर्य सतत वाडयत दवरता. बाकीबाबान बरयल्ली ही सर्वोत्कृश्ट प्रेमकविता थळा-काळाचें अंतर हुंपून वैश्वीक पांवड्या वयल्या प्रेमकवितां कडेन काळजाचें नातें सांगता.

मराठी कविते बराबरच बाकीबाबान कोंकणी कविताय काळजाच्या उमाळ्यान बरयल्यो. पूण त्यो बऱ्योच उसरां. पिरायेची पन्नाशी हुंपतकीच. कवितेचो आनी कवीचे पिरायेचो कांय संबंद नासता. कवी पिरायेन कितलोय जाणटो जालो तरी तो सदांकाळ कवितेंत चिरतरूण - 'यंग ॲट हार्ट्‌च' - आसता. जाल्यारूय, मराठीचे शब्दकळेचे संवकळीन आनी चड काळ गोंया भायर मराठी लेखकांच्या दाट सहवासांत उरिल्ल्यान कोंकणी भाशेचे निजाचे अभिव्यक्ती पसून बाकीबाब इल्ले पयसूच उरले, काय बाकीबाबांक कोंकणी भाशेचे ताकदीचो साक्षात्कार उसरां जालो? तांच्यो मराठी कविता बारीकसाणेन अभ्यासल्यार अशें जाणवता की तांच्या मराठी कवितांनी लेगीत निजाच्या कोंकणी मनशाचो आंवडो आसा. गोंयकाराच्या काळजाचो कळवळो आसा. पूण आपलो अस्सल उमाळो वा अणभव मांडपाक बाकीबाब माध्यम घेता तें मराठी. अशें कित्याक जावये? कारण कितेंय आसूं, पूण कोंकणी आवयन काळजांत सावन घाल्लो आर्त उलो कानार पडटकीच तांणी तिका कोंकणींतल्यान साद दिलोच. ते भायर आपले प्रतिभेचो आनी प्रज्ञेचोय सशक्त असो सांगातूय दिलो.

बाकीबाबांचे *पांयजणां* (१९६०) आनी *सासाय* (१९८०) अशे दोन कोंकणी कविता संग्रह उजवाडाक आयले. ह्या दोनूय कविता संग्रहांतल्यो मोग-सैमाच्यो कविता वाचतकीच, बाकीबाबांचे कवितेंतली स्वच्छंदी आनी रुमानी तंवक जाणवता. ते भायर, तांचे कवितेक आशिल्ली निजाची गेयता कवितेंतल्या आशयाक लय-तालाचें भान दिता. ते नदरेन 'पायजणां' 'तुजे हात', 'पावलाच्या सुलुसानच', 'ह्या विलाथे', 'आबोल्यांची फांती', ह्यो कविता तांच्या कोंकणी कवितांची अस्सल तांक दाखयतात.

रूप, रस, रंग, गंध, स्पर्श संवेदना जागोवपी 'पांयजणां' सारके सर्वांगसुंदर कवितेंत खरायेन जाणवता ती बाकीबाबांच्या उतरांतली विलक्षण नादमयता. हे कवितेंतल्या सहजस्फूर्त अश्या प्रतिमांक पांयजणांचो नाद आसा. बाकीबाबांचो पिंडूच प्रेमकवीचो आशिल्ल्यान तांची प्रतिभा प्रेमकवितेंत रसरसून घोंसार येता.

'पांयजणां' हे कवितेंतल्यो ह्यो सुंदर नादमय अश्यो वळी पळेयात:

*त्या दिसा वडाकडेन गडद तिनसानां*
*मंद मंद वाजत आयलीं तुजीं गो पांयजणां*

*संवसारा-सार,*
*चाखूंक गेल्यार*
*कोडू झार,*
*पचल्यार*
*अमृता-धार*



*मौन पडलें सगळ्या रानां*
*शिरशिरून थांबलीं पानां*
*कंवळी जाग आयली तणा झेमता झेमतनां*

*पैसुल्ल्यान वाजली घांट*
*दाटलो न्हंयचो कंठ कांठ*
*सावळ्यांनी घमघमाट सुटलो त्या खिणां*

तिळसानच्या वेळार वडा कडेन मंद मंद वाजत येतल्या पांयजणांचे फाटभुंयेर घडटल्या मोगिकेच्या मिलनाचो कवी सप्नमय पद्‌दतीन हांगा उगडास करता. ही मिलनाची तीव्र संवेदना कवितेंतल्यान मांडटना कवी भोंवतणच्या सैमीक घटकांकूय मानवी संवेदनांचें रूप दिता. कवितेंत पावली मारीत येवपी नादमय उतरां संबंद कवितेंतल्या अणभवाक लय-तालाचें वेगळें परिमाण मेळोवन दितात.

बाकीबाबांचे कोंकणी प्रेमकवितेंत आयिल्ली निजाची सोबीतकाय पळोवपा सारकी आसा. देखीक:

*पावलांच्या सुलुसानच आंगार शिर्शिरी*
*सळसळटा पदर मना देग भर्जरी*
***
*दाळमीचे ताळयेवरी वाऱ्यार धोल नाका*
*शब्दुलेच्या झेतान अशें सांजचें चल नाका*
***

*जांभळे जांभळे जाती दोंगर निळशो पांचव्यो घळी*
*उबाळाची काडून चोळी वाऱ्यार धोलता तळी*
***
*घेता ताणें आपले सरी*
*दोळयां म्हज्या लागल्या झरी*
*घुमलो देह पावरेवरी चंद्र खांदा तेंकलो*

अशे तरेन उत्कटतेचो साक्षात्कार घडोवपी प्रतिमासृश्ट बाकीबाब सहजतायेन उबे करतात. शरीर संवेदनांक पांवरेच्या सुरां भशेन अलौकीक अशें परिमाण दितना चंद्र खांदाक तेंकिल्ल्याचो आभास रसिकांक जायत रावता.

कोंकणींतले रोमॅन्टीक काव्याचे वाटचालींत गोंयचे मातयेचो गंध घेवन आयिल्ली 'आबोल्यांची फांती' ही बाकीबाबांची सर्वोत्कृश्ट कविता. अस्तुरेच्या रसरशीत आंगलोटाच्या सौंदर्याचो सॅन्सुअस असो अणभव निजाच्या सैमीक प्रतिमांतल्यान हे कवितेंत ताकदीन आयला.



*रागार फुगार जालें तरी,*
*एकच उतर उलय*
*तळपत्या ह्या आयच्या सड्यार,*
*फायचें सपन फुलय*

हें ॲक्सप्रॅशन अस्सल कोंकणी. बाकीबाबांच्या हेर कवितां परस जायासान आनी जातकुळयेन साप्प वेगळें. हे कवितेचेर तांणी बरयल्ले मराठी कवितेचो मात लेगीत प्रभाव दिसना. देखीक, ह्यो कवितेंतल्यो तट्टटीत वळीच पळेयात:

*कुपांत जोगूल तशी तुजी आबोल्यांची फांती*
*वायगणाची चोळी कापड रगत खणी माती*
*चिरो कशी फाट कमर करगुंटाचो मुडो*
*उज्या किटी झडैत वता कोपरा मेरेन चुडो*

तांबडीगुंज रगताची हुनसाण आशिल्ल्या ह्या वळींनी अस्तुरेचे शरीर संवेदनेक सैम-संवेदनेचे पातळेर हाडीत बाकीबाब कवितेच्या आशयाक सुंदरतायेचें एक नवें परिमाण दितात. हेय कवितेंत अस्तुरेचे कुडीचें कांतीव अशें सौंदर्य तोखेवपी बाकीबाबांची सौंदर्यवादी नदर दिसता.

कोंकणी काव्य परंपरेच्या प्रवाहांत बाकीबाबांचे प्रेमकवितेचें खाशेलेपण दोळ्यांत भरता. कोंकणींतल्यान कांय उत्कृश्ट अश्यो प्रेमकविता तांणी बरयल्यात. तांचे समकालीन गोंयचे कवी म्हळ्यार शंकर रामाणी आनी दा.अ.कारे. कवी रामाणीन लेगीत बाकीबाबां भशेन मराठी आनी कोंकणींतल्यान तितलेच सहजतायेन आनी उमाळ्यान कविता बरयल्यो. पूण दोगांयचो पिंड प्रेमकवींचो आसुनूय बाकीबाबांचे कवितेची प्रकृती रामाणींचे कविते परस वेगळी. बाकीबाब सभावान लोकांती तर रामाणींचो सभाव एकांतांत रमपी. बाकीबाब रूप, रस, रंग, गंध आनी स्पर्शांतल्या अणभवांचो माग घेत त्या अणभवांक मूर्त रुपांत पळोवंक सोदपी. तर रामाणी मूर्त अणभवांतले सगळे घटक कवितेंत विरगळावन तांचो अमूर्त रुपांत अविश्कार करूंक तळमळपी. बाकीबाब आनी रामाणीन हो प्रेमकवितेचो प्रवाह कोंकणींतल्यान आपले तांकी प्रमाण केळयलो. पूण दोगांयचे कवितेचेर ना म्हळ्यार मराठी काव्य परंपरेचे खोल संस्कार जाल्ले दिसतात.

बाकीबाब आनी रामाणी ह्या दोगांय कवींचे उपरांतचे पिळगेंत कोंकणी कवितेचो रथ आपल्या भुजांर झेलयत कांय नव्या दमाचे कवी मुखार आयले. तातूंत मुखेलपणान कवी रमेश वेळुस्कार *(मोरपाखां, सावुलगोरी)*, कवी माधव बोरकार *(पर्जळाचें दार, यमन)*, कवी पुंडलीक नायक *(गा आमी राखणे)*, कवी प्रकाश पाडगांवकार *(वास्कोयन, हांव मनीस अश्वत्थामो)*, आनी कवी काशिनाथ शांबा लोलयेकार *(काशी म्हंण्टा, काशीक म्हणचेंच पडटा)* हांणी आपली सर्जनशीलताय कसाक लावन कोंकणी कवितेक नव्यो, अनवळखी वाटो आनी वेगळे प्रवाह दाखयले. कोंकणींत आधुनीक कवितेचें मुळावण घालें. कोंकणी प्रेमकवितेचो प्रवाह आनिकूय रुंद आनी खोल करीत, ताका नवे आयाम जोडून दिले ते ह्याच कवीं मदल्या कवी रमेश वेळुस्कार आनी कवी माधव बोरकार हांणी. ह्या दोगांय कवींनी आपापल्या पिंडा प्रमाण कोंकणी प्रेमकवितेच्या प्रवाहाक नवे जाणिवेची परिमाणां दिलीं. कवी रमेश वेळुस्कारान गोंयचे कोंकणी संस्कृतायेंतल्यान, गोंयच्या सैमांतल्यान, लोकवेदांतल्यान, लोकसंगितांतल्यान लय तालाची उर्जा घेतली आनी आपली निजाची अशी ल्हवपीक आनी लावण्यमयी शब्दकळा निर्मीत तांणी आपले कवितेंत नवतेचो फुलोर फुलयलो. कवी माधव बोरकारान सैमांतले, जिणेंतले गूढतेचो माग घेत, इंप्रेशनिस्टीक शैलींतल्यान चितारिल्ल्या ॲब्स्ट्रॅक्ट पेंटिंगां भशेन, तरल, मिताक्षरी आनी अभिजात अशी कविता कोंकणीक दिली.

आयची समग्र कोंकणी कविता बारकायेन अभ्यासल्यार कोंकणी कवितेक बाकीबाबान दिल्ल्या योगदानाक खाशेलें म्हत्व आसा. बाकीबाबान कोंकणींत फकत सैम आनी मोगाच्योच कविता बरयल्यो नात तर कोंकणी भाशेची गरज वळखून तांणी क्रांतीच्यो कविताय बरयल्यो. त्या कवितांचें आपलें अशें वेगळें भाशीक मुल्य आसा. पूण आयच्या मॉडर्न कवितेच्या काळांत आनी हाचे फुडेंय इंद्रीय संवेदनेक उतरांच्या मंत्रनादाची झालर लावपी बाकीबाबांची प्रेमकविता, आपलो देह पांवरे वरी घुमयत रसिकांच्या खांदाक चंद्र तेंकिल्ल्याचो दिश्टावो घडयत रावतली, हातूंत इल्लोय दुबाव ना.



# बाकीबाबांच्या प्रासंगीक कवितांचें म्हत्व

प्रकाश पाडगांवकार

गोंयभुशण बाकीबाब बोरकार हांचे कवितेंत सुरवेक सावन 'मोग-सैम-सुंदराय' आनी 'भक्ती-अध्यात्म' ह्या दोन प्रवाहांचे झरे व्हांवतना दिसतात. बाकीबाब खरे रमताले ते ह्या तरांच्या कवितेच्या आविश्करणांतूच. पुणून बाकीबाबांली प्रासंगीक कविता तितलीच प्रभावी आनी म्हत्वाची.

गोंय आनी देश पारतंत्र्यांत भड्डत वतालीं तेन्ना बाकीबाब फकत 'मोग-सैम-सुंदराये'च्यो आनी 'भक्ती-अध्यात्मा'च्यो कविता बरयत रावले नात. तांणी वेळावेळार प्रासंगीक कविता बरोवन त्या काळाची संवेदनशीलताय कवितेच्या रुपान अजरंवर करून दवरल्या.



गुरु शिटकायता कुरवांनी ।
आरे गुरू शिटकायता कुरवांनी
मेरेर झेमलो शेतोड ताजी
अचळय भकली गोरवांनी

१९१४ ते १९१८ मेरेन जाल्ल्या पयल्या संवसारीक झुजा उपरांत खुबश्यो इतिहासीक घडणुको घडल्यो. कवीय समाजाचो एक जितो-जिवो जागरूत घटक. समाजांत आपले भोंवतणीं आनी देश-विदेशांत किर्ते घडटा ताचे पडसाद समाज मनाचेर पडटातूच. बाकीबाब हाका कशे आडवाद थारतले? बाकीबाबांचे समग्र कवितेचो विचार केल्यार आमकां सैम-मोग-भक्ती-आध्यात्मीक कविते सांगातान सामाजीक जाणविकायेच्यो कविताय तश्योच विशेशतायेन भरिल्ल्यो दिसतात, आनी तातूंत ते ज्या काळांत जियेले ताचे पडसाद दिसतात. इतलेंच न्हय, बाकीबाब कवी म्हूण कशे घडत गेले, काळा काळार तांचे विचार कवितेचें रूप कशे घेवंक लागले हें सुरवेक सावन तांणी बरयल्ल्यो मराठी-कोंकणी कविता वाचल्यार दिसता. हांव बाकीबाबांच्या सामाजीक कवितांक दोन युगांनी वांटून घालतां. एक, देश स्वतंत्रतायेचें 'गांधी यूग' आनी दुसरें, गोंय पुनरुत्थान चळवळीचें 'शणै-लोहिया यूग'.पयलीं 'गांधी युगा'चेर उजवाड घालपी कवितांचो विचार करुया.

१९३० उपरांत देशाचे स्वतंत्रतायेचे चळवळीक नेट येवपाक लागलो. हे चळवळींत गांधीजी आपल्या कर्तुत्वान शांती अहिंसेचो संदेश पातळायताले आनी महर्षी योगी अरविंद आपले बरपावळी वरवीं अध्यात्माची शिकवण पातळावन भारत स्वतंत्र जातकच तो संवसाराचो आध्यात्मीक गुरू जातलो म्हूण सांगताले. ह्या विचारसरणींचो प्रभाव त्या काळांत बाकीबाबांचे कवितेचेर पडिल्लो दिसता. *जीवन संगीत* हो तांचो दुसरो काव्य-झेलो. हातूंतले *चिरंतनाचा ध्यास* हे कवितेंत ते म्हणटात:

*''आम्हाला चिरंतनाचा ध्यास । महानतेच्या ज्योतिर्जगती अखंड अमुचा वास*
*महानतेस्तव अमुची काया । महानतेस्तव अमुची माया*
*महान बघतो लहानातही म्हणुनी तयांचे दास''*

अशेच तरेची भावना 'माझी पूजा' हे कवितेंत बाकीबाबान उकतायल्या:

*''हे मित्रांनो भाग्य न माझे तुमच्यासम जळण्याचे*
*मुख मंगल निज मातृदेविचे युग युग पाजळण्याचे''*

ह्या कवितांनी आमकां बाकीबाबांचो ध्येयवाद, आशावाद आनी विशुद्ध असो विशाळटायेक वेंग मारपाचो हावेस दिसता. ह्याच काळांत, म्हळ्यार १९३३त, बाकीबाबान *''दिव्यत्वाची जेथ प्रचिती तेथे कर माझे जुळती''*ही कविता बरयल्ली. हे कवितेन तांकां प्रसिद्धीचे तेंगशेर बसयले, ते तातूंत परगट जाल्ल्या मनीसकायेच्या उदात्त भाव-भावनांक लागून:

*''यज्ञी ज्यांनी देऊनी निज शिर । घडिले मानवतेचे मंदिर*
*परी जयांच्या दहन भूमीवर । नाहि चिरा नाही पणती*

*तेथे कर माझे जुळती''*

देश स्वतंत्र करपाचें वारें वादळ जावन देशभर घुंवघुंवतालें, आनी देशभक्त वचत थंय कसल्याय आव्हानाक तोंड दीत, आपलें बलिदानूय दिवपाक फाटींफुडें पळय नाशिल्ले. असल्या देशभक्तांचें सर्मपक वर्णन बाकीबाबान हे मन हालोवपी कवितेंत करून सुटके झुजाचो काळ यशस्वीपणान वर्णिला.

१९४० उपरांत महात्मा गांधींच्या मुखेल फुडारपणा खाला देशाचे स्वतंत्रतायेचे चळवळीक खरो नेट आयलो. दुसरें संवसारीक झूज सुरू जाल्ल्याचो होच काळ. स्वदेशी चळवळ, ग्रामोद्योग, ग्रामविकास, खादी प्रचार प्रसार ह्याच काळांत भारतांत जिणे मंत्र जावंक लागिल्लो. शेकीं १५ ऑगस्ट १९४७ दिसा देश स्वतंत्र जालो तोच देशाची फाळणी जावन. देश विखंडतायेचें दु:ख बाकीबाबान ह्या उतरांनी



*सूख ना रे पयस,*
*पळे, उदक कशें व्हांवता*
*पुंजावंक देशी जाल्यार मात*
*पारज जावन धांवता*

परगटायलें:

*''घाव आपुल्या शिरी बापुजी घाव आपुल्या उरी*
*स्वातंत्र्याची अशा दिवाळी कशी करू साजरी*
*दुभंग झाली वास्तु देवता*
*दुभंग झाली मायाममता*
*भावांच्या घावातुनी निघती नव्या विषाच्या सरी*
*स्वातंत्र्याची अशा दिवाळी कशी करू साजरी''*

व्हड कश्टान,त्यागान, बलिदानान मेळयल्ली स्वतंत्रताय रोखडीच आपलो मूळ स्रोत, उद्देश विसरली काय कितें अशें दिसपाक लागलें. देश स्वतंत्र जातकच देशाचें भाग्य फळफळटलें अशें सगळ्यांक दिसतालें. पुणून मागीर सत्ता भारतीयांच्या हातांत येतकच तांचो सुवार्थ तकली वयर काडून, सगळेंच हातासून बुडडून उडोवंक लागलो. आनी हाचोच एक भाग म्हळ्यार गांधीजींची हत्या. बाकीबाबान गांधी हत्येचें दु:ख तेन्ना अशें उकतायल्लें:

*''या मंगल रक्ताने भूमी लांछित कंपित झाली हो*
*या घावांनी हरिच्या हृदया शतकांची कळ आली हो*
*ख्रिस्त गाळितो मूक आसवे, दु:खीं बुद्‌ध बुडाला हो*
*डंख कळीचा सात युगांचा जडला वंशवडाळा हो''*

देश स्वतंत्र जातकच देश चलोवपाची सत्ता देसभावांच्या हातांत येतकच सगळ्यांचें बरें भलें जावन गरीब गिरेस्ता मदली दरी ना जातली, सामाजीक न्याय सगळ्यांक मेळटलो अशें दिशिल्लें. पुणून मागीर सुवार्थूच उपरासूंक लागलो, हाची खंत बाकीबाबान 'कान फाटाच्या फटका' हे १८ फेब्रुवारी १९५० दिसा पुण्यांत आसतना बरयल्ले कवितेंत उकतावन तेन्नाची परिस्थिती वर्णिल्या—

*''अश्वत्थामा तेल मागतो ख्रिस्त मागतो पाणी*
*धनिक मागतो अन् प्रेताच्या टाळूवरचे लोणी*

*रक्त मागतो सुभाष आणिक सूत मागती गांधी*
*खादी घालून लाच मागती वजीर आणिक प्यादी''*

हे कविते वरवीं बाकीबाबान देश स्वतंत्र जातकच जाल्ले दशेचे वर्णन करून सुवार्थी मनशांचीं कर्तुबां दाखयल्यांत.

ह्या कांय कवितांच्या देखीं वेल्यान, देशाचे स्वतंत्रतायेच्या झुजा वेळार आनी उपरांत बाकीबाब स्वतंत्रतायेच्या विचारां विशीं कशे जागरूत आसले आनी तांचे भितर कसले विचार घोळटाले तें दिसता.

बाकीबाबांचे कविते वरवीं व्यक्त जाल्ले गोंय सुटके झुजाचे विचार कशे आसात तें आतां पळोवया. ह्या कवितेच्या काळाक हांव 'शणै-लोहिया यूग' म्हणटां. हाचें कारण, शणै गोंयबाबांक आनी राम मनोहर लोहियांक गोंयचे सुटकेचो ध्यास लागिल्लो. आनी तांचे बरपावळींत-वाणींत मुक्त गोंयच्या गिरेस्त सपनांचे उत्फर्के परगट जाताले आनी ते सगळ्यांक प्रेरणा दिताले.

गोंया भायर देशांत स्वतंत्रतायेची चळवळ नेटान चलताली. ताचे पडसाद गोंयांतय पडटाले आनी गोंयचे सुटके झुजारी आपले परीन गोंय मेकळें करूंक वावुरताले. बाकीबाब हाका आडवाद नासले.

ह्याच काळांतली एक खेरीत म्हत्वाची घडणूक म्हळ्यार, दुसऱ्या संवसारीक झुजाची धुसफूस १९३९ त सुरू जाल्ली आनी संवसारांतले देश एकामेकांक सतावपाचीं कारस्थानां रचूंक लागिल्ले. ह्याच समयार कोंकणीचे एक द्रश्टे मनीस ॲड. माधव मंजुनाथ शणै शानभाग देशभर आनी संवसारभर शिंपडून पडिल्ल्या कोंकणी मनशांक एकवटाचो उलो मारून तांचे भितर सत्व आनी स्वत्व जागयताले. तांणी पोटतिडकीन कोंकणी मनशांक एकठांय हाडून कारवारच्या पवित्र थळांत ८ जुलै १९३९ दिसा पयली अखील भारतीय कोंकणी परिशद घडोवन हाडली. हे इतिहासीक घडणुकेन समेस्त कोंकणी मनशांक तशेंच गोंयच्या सुटके झुजाऱ्यांक नवें बळगें मेळून तांचे भितर कोंकणीचें नवें चैतन्य सळसळूंक लागलें. १८ जून १९४६ ह्या दिसा मडगांवां राम मनोहर लोहियांनी गोंय सुटकेचें रणशींग फुंकलें तेन्ना बाकीबाबां भितल्ल्या कवीन उसळी मारून परके सत्तेच्या चेपणा खाला भडडत वतल्या, घुस्मटत वतल्या गोंयकारांचे उमाळे उकत्या मनान अशे गावन दाखयले:

*''पवित्र हो मंगळार आयचो पवित्र हो मंगळार*
*आज गाजतलो धेंक शिंवाचो हांगाच ह्या म्हुर्तार*
*दुधसागरच्या दोंगरा! दर्या! उबारून हात*
*लाख जिबांनी सबा सबांनीं दिया दिया साथ*
*आनी सत्रिच्या उठा शिळांनो लाया लाल तिळे*
*या वाऱ्यांनो फुलया आमच्या काळजांतले इंगळे*
*कुळदेवतांनो, ल्हंवेल्हंवेंतल्यान करा बेगीं संचार*
*पवित्र हो मंगळार। आयचो पवित्र हो मंगळार''*

राम मनोहर लोहियांनी गोंय सुटकेची जी कीट पेटयली ती अशीच फुरफुरत वचून गोंय मेकळें जातलेंच असो बाकीबाबांक विस्वास दिसता, आनी तांच्या दोळ्यां मुखार नवें यूग साकारूंक लागता:

*''सात लाख गोंयकार आमी युग नवें फुलैतले*
*अंदल्यात मंत्र जिवीं ते फाल्यां उलैतले*
*जळत गोंय धुंवता तरी*
*घरांर नांगर भोंवता जरी*
*थैंच पाट अम्रुताचे फाल्यां आमी खेळयतले.''*

बाकीबाब आत्मविस्वासान हो असो मनाचो उत्फर्को व्यक्त करतात तेन्ना ते गोंया भायर आसतात. पुणून तांच्या मनाची इत्सा बरी खर आसता. ते थंयच्यानच भारताच्या ध्वजाक होरायतात:

*''जाग रे बेगीं जाग*
*भारताच्या ध्वजा म्हज्या जाग रे बेगीं जाग*
*दर्यावेळेर खंगता तुजी सोबित एक बाग*
*व्हंकलो कशो माडयो थैंच्यो खांबले कशे माड*
*चारशिं वर्सां लागून पाखे जावंक पावले पाड*
*दैना अशी तुटिल्ल्यान तुजी लागभाग*
*जाग रे बेगीं जाग''*

भारताच्या ध्वजाक मारिल्लो उजो फळादीक जातलो, ह्या विस्वासान कोंकणीच्या मूळपिठाचे व्हडविकायेन बाकीबाब 'भावकेचें गीत' गावन म्हणटात:

*''गोंय आमचें मूळपीठ, कोंकणी आमची भास*
*कोंकणी संस्कृताय आमच्या जाण्ट्यांली मिरास*

*आसूं आमी लागीं पैस खंयय संवसारार*
*जैत तांकां हाडूंक आमी घोळूं आठय पार*
*तांच्या जपान तुटत चल्ले सगळे बंदपास*

*पूर्व आमचें कीर्तिवंत त्यापरस फुडार*
*गोंय आमकां करचें आसा भावकेचें कुळार*
*त्याखातीर पितरदेव धरून आसात आस''*

बाकीबाब हांगा ''गोंय आमचें मूळपीठ'' म्हणटात तेन्ना तांच्या दोळ्यां मुखार, देशा भितर आनी संवसारभर पातळिल्लो कोंकणी मनीस आसता. बाकीबाब ह्या सगळ्यां भितर आत्मविस्वास जागोवन, एका नितशयान, एका ध्येयान, सगळ्यांक वडीलकेचे भावनेन उलो मारतात.

बाकीबाबांक गोंयकारांचो आत्मगौरव कोंकणी भाशे वरवींच जातलो असो विस्वास आसलो. देखुनूच 'पुरुषसुक्ता' वरवीं, साडे चारशें वर्सां आमच्या कांठार बशिल्लो आत्महीणपणाचो म्हारू धांवडावन, आमचे ठांय सैमाचें देवस्य होरावपी आनी आमकां आमच्या आत्म्याचो पयलो वयलो दिश्टावो घडोवपी शणै गोंयबाबांच्या पांयांर घालून घेवन ते म्हणटात:

''आमच्या पुरसा! आमकां पाव. आमचें 'बरें जावं' म्हण. आजवैर आमच्यांत जायते जाण मनीस जाले आनी तांतले जायते जाण व्हडविकेकय पावले. पुण त्या सगळ्यांत पुरूस असो तूंच. कारण आमच्या आत्म्याचो पैलो वैलो दिश्टावो जालो तो तुकाच. आमचें सैमाचें सत्व होलमलें तेंय तुकाच. आनी आमच्या फुडाराचें सपन पडलें तेंय तुकाच. देखूनच तूं आमकां आमच्या मूळ पुरसाचो अवतार. गोंयच्या मुळाव्या आनी थळाव्या भूमकादेवतेचो अवसर. आमच्या फुडाराच्या पिंपळावैलो विस्वकर्तो ब्रह्मो. म्हणूनच हांव तुज्या पांयांर घालून घेतां आनी तुका पराथतां कीं आमच्या पुरसा आमकां पाव. आमचें ''बरें जावं'' म्हण.''

मंत्राविण, चित्राविण,
स्वर्गी तरि काय असे?
निर्गुन येथेंहि तोच
त्यांतच मी डुंबतसें



१९ डिसेंबर १९६१ ह्या दिसा गोंय मेकळें जावन गोंयांत मेकळें वारें व्हांवूंक लागलें. भारतमाता पुराय स्वतंत्र जावन तिच्या पोल्यार गोंय तीळ कशें सोबून दिसूंक लागलें. अशी ही खोस मनयतनाच बाकीबाब फुडाराचें सपन रेखीत म्हणपाक लागले:

*''भाग्योदया-बीज आतां । गांवा-गांवांत वीज*
*वाड्या वाड्यार शाळा ।करा अक्षराचें चीज''*

गोंय मुक्त जावचे पयलीं, गोंया विशीं खूब जाणांनी वेगवेगळीं सपनां रंगयल्लीं. शणै गोंयबाबान फायच्या भुरग्याच्या उतरांनी म्हणिल्लें:

''हांव बरप शिकून जाण्टो जातकच, शेत-कामत करतलों. हांव शेतां भाटां पोरसां आनी कुळागरां लायतलों... हांव एका पिका बदला पांच पिकां काडटलों... हांव उद्योग करतलों. हांव मांड-पसरे घालतलों, म्हजीं वेपाराचीं तारवां, संवसाराच्या सगळ्या बंदरांनी भोंवतलीं... हांव वैज जातलों. हांव तरेकतरा ओखतां आनी रसायणां सोदून काडटलों. हांव संवसाराची पिडा ना करून उडैतलों... हांव उंच उंच वेतलों. हांव सुर्यावळी, गिरावळी आनी नक्षत्रावळी रांगशितलों... हांव थैं कोंकण्यांची वसणूक

करतलों आनी सगळें ब्रह्मांडभर कोंकणी संस्कृतायेची घुडी उबारतलों."

बाकीबाब जेन्ना *"भाग्योदया-बीज आतां / गांवा-गांवांत वीज / वाड्या वाड्यार शाळा / करा अक्षराचें चीज"* म्हणटात तेन्ना तांकां शणै गोंयबाबांलें वयलें सपनच अभिप्रेत आसलें अशें दिसता. कारण गोंय साडे चारशीं वर्सां पुर्तुगेजांच्या चेपणा खाला भड्डतालें तेन्ना गोंयच्या भौसाच्या तोंडाक कुलूप लावन शासकांनी तांकां मोने करून उडयल्ले. मेकळ्या गोंयांत सगळ्या गोंयकारांक तांची निजाची भास मेळून तांची न्हिदिल्ली सासाय जागी जातली हाची बाकीबाबांक पुरायेन खातरी आसली, देखुनूच ते तांचेर काळपुरसाचो भार आयिल्ले वरी, इतिहासाचें नवें पान बरयत, किंवाट्यान आनी आत्मगौरवान म्हणूंक लागले:



*हांसत्या मुखा, फुलत्या रुखा,*
*वांगड सदांच सुखांचो*
*हांसुंक फुलुंक नकळ ताका,*
*संवसार सगलो दुखांचो*

*"जागी जाल्या गोंयची सासाय । येतलो भार येतलो भार*
*धोल ताशे बडय बडय । मार शेंसार मार शेंसार*

*मनान पसून जे न्हाल्यात । उपासांनी बांदून पोट*
*वर्सांसंकीं मोनेच मोने । आपल्या हातान शिंवन ओंठ*
*तांचे वेग, तांचे जाळ । येतली आतां तांकां धार*
*धोल ताशे बडय बडय । मार शेंसार मार शेंसार"*

गोंयची सासाय जागी जावन, गोंयचीं, गोंय चलोवपाचीं सुत्रां गोंयकारांच्या हातांत आयलीं अशें दिसता आसतनाच गोंयच्या घरभेदयांक गोंय शेजारच्या राज्यांत विरगळावपाचे दुश्ट वेध लागून आनीक एक अरिश्ट परतून वयर सरता आनी गोंयच्या गोंयकारपणाकूच सुरींग लागता काय कितें, अशें दिसूंक लागता. तेन्ना बाकीबाब शिटकावणी दिवन सांगतात:

*"घांटार सावन आयला जोगी । वण्टी खणूंक सांगता*
*सावध भावा देवाऱ्यांतलो । साळिग्राम मागता"*
*"तुळस जाल्या आगटें आतां । खुरीस जाला तीर*
*बांग घालित लागला उट्रूंक । कबरिंतलो पीर"*

*"भोंवता वारें गोंयच्या रानां । पेडणें धरून काणकोणां*
*तरंगां कळस जावन उबे । घुमूंक लागलीं गांवठणां"*

परके सत्तेक धांवडावन गोंयकारांनी एक संगर जिखिल्लें आसता पुणून आतां हें दुसरें संगर घरच्यां भितरच झगडचें पडटा. आनी बाकीबाबांचें खंती मन म्हणटा:

*"अजून सरूंक ना संगर आमचें । लढचें आसा अजून खूब*
*लढले, थकले कितलेय जरि तुमी । तरीय राखा पयली ऊब*

*कितलें दैन्य, अन्याय असत्यय । अजून चलता भायर भितर*
*पुरतें तें हुमटिल्या बगर रे । मुक्त जांवचे नात आमचे पितर"*

गोंयकार हें दुसरें संगरय जिखले. जाल्यारय तांचे जिणे मुखार एकार एक नवीं आव्हानां येत रावलीं, प्रस्नार प्रस्न वाडत रावले.

देशभक्तांनी, सुटके झुजाऱ्यांनी हाल अपेश्टा सोंसून पुराय देश स्वतंत्र केलो. पुणून मनशां मजगतच्यो दरयो वाडतच रावल्यो. आनी मागीर स्वतंत्र देशाचें भोव-रंगयाळें सपन रंगोवपी बाकीबाबांक व्हड खंती मनान म्हणचें पडलें:

*"प्राणाक क्षय, बुद्धीक भंय, फाल्यांक जंय कालचीच वंय*
*आयला थंय स्वातंत्र्य तें स्वातंत्र्य न्हय स्वातंत्र न्हय*

*जे घरांचे खणपि वाते । तेच जंय सन्मान्य दाते*
*धर्मार्थ जंय दारांत तांच्या सज्जनांचीय लागता लय*

*वाटमारे चोर खुनये । जंय प्रजेचे मुख्य थेलये*
*सत्ताय जंय तांच्या भयान मारता मिठा नीती नि लेय*

*पोट ही जंय एक निष्ठा । त्याग कष्टांची कुचेष्टा*
*जीव आसल्यार खावं भिकेचें होच जंयचो दिग्विजय*
*आयलां थंय स्वातंत्र्य तें स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय"*

बाकीबाबांच्यो प्रासंगीक कविता त्या त्या काळार चळवळीक नेट हाडूंक पाविल्ल्यो. कवितेच्यो वळी 'मंत्रां वरीं' सगळ्यांच्या ओंठार घोळूंक लागिल्ल्यो. प्रासंगीक कविता चालंत काळाचेर आटापिल्ल्यो आसतात आनी देखून त्यो हलक्यो फुलक्यो दिसूं येतात. पुणून बाकीबाबांच्या प्रासंगीक कवितांनी पारतंत्र्याच्या काळाची, सुटके झुजाचे चळवळीची तीव्रताय कवितेच्या रुपान बरे तरेन चित्रीत करून दवरल्या. आनी विशेश म्हळ्यार, अहिंसेच्या बळाचेर स्वतंत्र देश निर्मणेचें 'गांधी यूग' आनी गोंय मुक्तताय चळवळ तशेंच कोंकणी अस्मिताये पर्व निर्मणेचें 'शणै-लोहिया यूग' कवितेच्या रुपान अजरंवर करून दवरलां. ह्यो कविता तेन्नाचो तो काळ, तेन्नाची परिस्थिती समजून घेवपाक सदांच मार्गदर्शक थारतल्यो.



# बाकीबाबांले कवितेंतलें बायलेचें रूप

**माधव बोरकार**

बाकीबाब भावविश्वांत सैम आनी मोग हांकां म्हत्वाची सुवात आसा. ह्या दोन भावनां बगर तांचे कवितेचो विचार करपाक येना. तांचे कवितेचे निर्मणे फाटल्यो ह्यो प्रेरणा अशें म्हणूं येता.

तांणी वेगवेगळ्या आशयांच्यो कविता बरयल्यो. गोंय मुक्ती चळवळींत वांटेकार जाले उपरांत तांचे कवितेंत सामाजीक जाणीव आयली आनी तांणी 'पवित्र हो मंगळार' वा 'दोतोर बॉस' सारकिली उपरोधी शैलींतली कविता बरयली आनी गोंय मुक्ती उपरांत *''प्राणाक क्षय बुद्धीक भंय फाल्यांक जंय कालचीच वंय / आयलां थंय स्वातंत्र्य तें स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय''* सारकिल्यो आमकां चिमटे काडपी वळी ते बरोवन गेले. ओपिनियन पोलाच्या काळांत तांणी असल्यो जायत्यो कविता बरयल्यो. माचयेर उबो रावन भरपूर ताळयो घेवंक येतात असल्यो ह्यो कविता बरोवपाची घटी तांचे कडेन आशिल्ली. पूण कवीचे साधनेचे वाटेर आशिल्ले हे मोह तांणी कुशीक सारले. ताळयो घेवपा खातीर तांणी केन्नाच कविता बरयल्यो नात. देखून तांची कवी म्हूण वाड जायत रावली.



*आयज म्हजें मन,*
*दुदावैली साय*
*तापुन न्हिवंक,*
*जाणा जाल्ल्यान*

कवी म्हूण आपलें नीज कितें हें सत तांकां तांच्या कवितेच्या प्रवासाचे सुरवेक सावन होलमल्लें. ताकाच लागून ते केन्नाच वाट चुकले नात. *आनंदभैरवी* ह्या तांच्या १९५० वर्सा उजवाडा आयिल्ल्या संग्रहाच्या काळांत आपूण आपल्या निजा सावन पयस वतां काय असो भंय तांणी तांचे चार वळींचे प्रस्तावनेंत उकतायल्लो. पूण मुखार तांणी आपल्याक सांवरून घेतलें आनी तांची कविता आपले मूळ कालेतीक धरून मुखार गेली. तिका नवो चंवर फुटून ती सगळ्या आंगांनी फुलारून आयली. ती अदीक समृद्ध आनी अर्थाचे नदरेन खोल जाली.

तांचे कवितेचे विणेक आनीक एक तार आशिल्ली ती आध्यात्मीक सुराची. तांचे सुरवेचे मराठी कवितेंत हो सूर आयकूंक येतालोच पूण ताची तिखसाण तांच्या जिविताचे अखेरेक वाडत गेली. हें सभाविकूय आसा. एके नदरेन पळयल्यार तांची कविता तांच्या जिविताक समांतर गेल्या अशें म्हणूं येता. तरणेपणांत तांणी बरयल्ल्या प्रेम कवितांचो गाढ रंग सरते पिराये वेल्या आध्यात्मीक कवितांनी भरसून गेल्लो दिसता.

बाकीबाबांले प्रेम कवितेचो विचार करचे पयलीं कवी प्रेमभावने कडेन खंयचे नदरेन पळयतालो तें पळोवपाची गरज आसा. तांणी आपले कविते संबंदान मुलाखतींतल्यान आनी लेखां वरवीं आपलीं मतां मेकळेपणान मांडल्यांत. एके कडेन ते सांगतात: ''म्हज्या भाग्यान खूप आनी समृद्ध अशी मोगाची जीण म्हज्या वांट्याक आयली. आनी ती हांवें निश्कळंक मनान जियेली. एकदम धुंद जावन आनी सगळे तरेचे धोके पत्करून जियेली. ताचेर केन्नाच पापाचे छाप माल्ले नात. उरफाटें ती पुण्याची साधनाच मानली. आपलो आनी मोगिकेच्या प्राणाचो थाव घेवपाचे हे आर्त भक्तीन प्रेमभावनेच्या शारिरीक पांवड्या सावन आत्मीक पांवड्या मेरेनच्यो तिच्यो चडट्यो सिंफनीज म्हाका उमजत गेल्यो. आपल्याचेर जिवा पेलो मोग करपी बायल ही आपली राखण करपी आनी संजिवनी दिवपी देवता आसा अशी म्हजी जातकच श्रद्धा आसा. जिविताच्या अंता मेरेन तिचीं नित्य नवीं नवीं स्तोत्रां म्हज्या मनाच्या कोशांतल्यान एकसारकीं फुलत रावचीं अशी म्हजी आस आसा.'' कवीचें हें कन्फॅशन ताची कविता समजून घेवपाचे नदरेन खूब म्हत्वाचें. ह्या आत्मनिवेदनांत प्रेम

आनी बायल हांचे कडेन पळोवचेली बाकीबाबांली नदर दिसता. बायल म्हळ्यार निखटी कुडीचो भोग घेवपाची वस्त न्हय तर तिची सुवात देवतेची, ही कवीची स्रद्धा तिका आध्यात्मीक पांवड्यार व्हरता.

बाकीबाबांले हे धारणेक खाशेलो अर्थ आसा. भारतीय अध्यात्माच्या विचारांत बायल आनी इंद्रीयभोग म्हळ्यार अध्यात्माचे उदरगतीचे वाटे वेली आडखळ अशें मानलां. कांय जाणांनी तिका नरकाचें दार अशेंय म्हळां. हे विचारसरणेक लागून कलेचें नुकसान जालां. कांय कवींनी बायल हो विशय कवितेचे शिमे भायर दवरला. ज्या कवींनी बायले विशीं मेकळेपणान बरोवचेली धिटाय दाखयली तांकां ताचें मोल दिवचें पडलां. बाकीबाबान कोणाचीच पर्वा करिनासतना *''जन म्हणोत तुज दुसऱ्याची ग / तू राणी मम हृदयाची ग''* अश्या उतरांनी आपलो मोग मेकळेपणान व्यक्त केलो हें म्हाका महत्वाचें दिसता. ही धिटाय तांच्या आंगांत आशिल्ल्यान 'जपानी रमलाची रात' सारकिली भारतीय कवितेच्या इतिहासांत अव्वर जाल्ली कविता ते बरोवपाक पावले हें लक्षांत घेवंक जाय. तांचे पिराये बरबर ही प्रेमभावना बदलत गेली हेंय तितलेंच खरें. ऐन तरणेपणाच्या भारार तांणी प्रेम कविता बरयल्यो तेच प्रमाण सरते पिरायेरूय तांचे कवितेक प्रेम सोडून गेलें ना. सुरवेचे कवितेंत सभावीकपणान शृंगाररस आयलो पूण पिराय सरता तसो

*बोट बोटांत गुंतली होतीं तेथेंच थांबलीं*
*वाढणाऱ्या उन्हांतही चांदण्याने ओथंबलीं*

अशा शांतरसांत तो विरगळून गेलो.



*दोंगुल्ल्यांचीं जुंवळीं थानां,*
*तांचेर गच्च पांचवीं रानां*
*सुर्यान उमो रोमलो तशीं,*
*हळदि कुकमांत भिजलीं पानां*

बाकीबाबान सैमांत बायलेचें रूप पळयलें आनी तेच प्रमाण बायलेच्या रुपांत सैम पळयलें. अशे तरेन बायल आनी सैम हांचे मदलें अद्वैत तांचे कवितेंत आयलां.

*हात्याभशेन हात तुजे गोरे गोरे पान गो*
*घरदार आठय पार भल्लें परमळान गो*
*बचकां तुजीं साळकांवरी*
*नाखटां तुजीं माणकांवरी*
*पळौनच जल्मजुगाची न्हिवता तानभूक गो*

हांगा कवी बायलेच्या हाताक हात्याची उपमा दिता आनी तिक लागून घरदार परमळान भरून वचपाचो अणभव तो घेता. हे पयल वळींत 'हात्या भशेन हात' असो अनुप्रास सहज जुळून येवन बायलेच सात्वीक प्रतिमा दोळ्यां मुखार सहज तरेन उबी रावता. तिका लागून घर व्हंकल कशें सोबता आनी वणटीचेर चान्नें खेळिल्ल्याच ताका अणभव येता. तिच्या घरांतल्या अस्तित्वाक लागून पोरस हांसता, गोरवां हरसूं व्हरसूं लागतात आनी तिच्या हातांत घराचें पोरस करपाची तांक आसा अशें कवीक दिसता. देखून,

*पुण्यवंत असले हात*
*काळजार घेवन सवनरात*
*सातजल्म झरैन हांव कूड आनी प्राण गो*

अशें तो म्हणटा. 'तुजे हात' हे कवितेंतलें बायलेचें रूप गर्भकुडींत मंव आनी शितळ उजवाड फांकोवपी नंदादिपा भशेन. पूण हेच बायलेचें वेगळें रूप 'सपन-वासवदत्ता' हे कवितेंत पळोवपाक मेळटा. हे वासवदत्तेचो शृंगार वेगळे तरेचो, थोडो दोळ्यांर मारपी. काळखी रात आसुनूय वाटेर पुनव कशी ओतपी, आंगांत केळीकांडये वरी मोडत वीज झेलपी आनी पावली मारूंक लागतकच इंद्रपदूय हालोवपी अशी ही बायल. हो शृंगार इंग्लीश भाशेंतलें उतर उशणें घेवन वर्णुचो जाल्यार कॉकेटीश. तिचे सयेन वया वेले भुरगे लेगीत व्हीर जावपी आनी तिची नदर आपणाचेर पडची म्हूण जाणटे-जुणटे लेगीत अर्गां दिवपी. अश्या रुपाची ही वासवदत्ता खऱ्या अर्थान रुपेस्त. बायलेचीं हीं दोन रुपां एकामेका सामकार दवरल्यार तांच्या रुपांत आशिल्लो भेद स्पश्ट दिसता. 'घराची रसणाय' हे कवितेंत आयिल्ली बायलेची प्रतिमा आनिकूय वेगळी. ती अस्सल घरावी. वासवदत्तेचे सामकी उरफाटी. ही घरकामांत तिजिल्ली, घरा येवपी सगळ्यांचो बेस बरो आदरसत्कार करपी बायल. मनश्यांकूच न्हय तर मोनजातीकूय ती जायजायशी दिसपी अशी.

*सोबशी देवता कशी तिनसनां*
*लामणदिव्याची वात लायतनां*
*नुलैत करतां तुका वंदना*
*पडुन तुजी अवचित सासाय*

अशी, सरुपायेक सात्वीकपणाची जोड आशिल्ली. आपले बायले वेल्या गाढ प्रेमाची प्रचिती ही कविता दिता. हांगा जांकां बाकीबाबान

गुरुपद दिलें त्या भा. रा. तांबेंची याद जाता. तांबेन एके कडेन बरोवन दवरलां– "All my love songs could be produced because of my love for my wife." बाकीबाबानूय ह्यो कविता आपले घरकान्नीक उद्देशून बरयल्यात असो अदमास काडूं येता. कुडीच्या शृंगारा परस मनाच्या सौंदर्याक हांगा चड म्हत्व आसा हें स्पश्ट दिसता.

सैमांत कवी बायलेचें रूप पळयता अशें हांवें हे आदीं म्हळां. ताची एक देख म्हळ्यार 'आबोल्यांची फांती' ही कविता. धा वळींचे हे कवितेंत सैम प्रतिमांच्या सुमेळांतल्यान बायलेचें चित्र उबें रावता.

*कुपांत जोगूल तशी तुजी आबोल्यांची फांती*
*वांयगणाची चोळी कापड रगत खणी माती*
*चिरो कशी फाट, कमर करंगुटाचो मुडो*
*उज्या किटी झडैत वता कोपरामेरेन चुडो*

हे कवितेंतली बायल नाजूक कांतयल्ली बावली न्हय. ती राकट आनी मातयेचे लागीं आशिल्ली बायल. थोडीशी उन्मादी. तिका पळयतल्याचें मन चाळोवन घालपी अशी. इंद्रीय संवेदना जागोवपी. *''काळशी जांभळी पौंट नितळ तळपाची कान्त/ कळटा म्हाका भंगली कशी पराशरा-शान्त''* अशें तिचें सौंदर्य दुसऱ्याचेर परिणाम करपी. तिका पळयतकच दनपारच्या कडार लेगीत दोळ्यांर सांज आयिल्ल्याचो अणभव येता आनी दोनूय कानसुलांनी आकांताळी झांज वाजपाक लागता.

*चलता तशें चलत राव, परतूं नाका मान*
*भरतें माप उमथें जायत तुट्टन म्हजें त्राण*

अशें कवी अखेरेक म्हणटा. ही कविता आनिकूय वर्णनात्मक जावं येताली. पूण कवी जंय थांबपाक जाय थंयच थांबता. ताका लागून बायलेची प्रतिमा अदीक रेखीव जावन उबी रावता.

बाकीबाब बायलेक राखण दिवपी, संजिवनी दिवपी देवता मानतात हें आमी पळयलां. 'यादी' हे कवितेंत विफळ प्रेमाची भावना येता. पूण तातूंत कसलीच कोडसाण ना. ती खंत व्यक्त करता. पूण तातूंत किंवाटो दिसना. मुक्तछंदांतले हे कवितेंत निमाणे कडेन कवी म्हणटा,

*'संवसारान सांडिल्ली म्हाका'*
*अशें आसुनूय*
*तुवें बरयल्लें*
*'सांडिल्लो म्हाका'*
*तांतली मेख उमजून*
*हांव परतो जितो जालों*

कवीचे नदरेन बायल म्हळ्यार उर्जेचेंच एक रूप. तिचे पसून ताका जियेवपाची उर्बा मेळटा आनी ताच्या आत्मीक जिविताची उदरगत जाता. ताकाच लागून हे कवीची प्रतिभा बायलेच्या रुपाचें वर्णन करपांत रमना. ताणें वर्णिल्ल्या बायलेच्या रुपाक आनी अणभवाक अध्यात्माचें परिमाण आसा. विद्यापती, चंडिदास वा जयदेव हांच्यो रचना बारकायेन वाचल्यार त्यो लैंगीक अणभवाचे वाटेन वचपी अश्यो वयले वयर दिसल्यो तरी अंतीं त्यो भक्ती रसा कडेन पावतात अशें दिसता. युरोपी कवितेक हें अध्यात्माचें परिमाण ना. त्यो प्रेमाच्या शुद्ध अणभवा मेरेन रावतात. तेंच तिचें साध्य आसता. भारतीय विचारधारा आनी युरोपी विचारधारा हांचे मदलो हो एक म्हत्वाचो फरक. 'पांयजणां' हे कवितेंत अभिव्यक्त जाल्लो अणभव कानसुलांनी भोंवर भोंवडावपी आनी आंगार दाट चंवर फुलोवपी असो आसलो



*ओत म्हण्टा, सुकैतां,*
*पावस म्हण्टा, भिजैतां*
*बी म्हण्टा, म्हणुन मातयेंत,*
*सपन म्हजें रुजैतां*

तरी अंतीं, पडिल्लीं सपनां जागरणां करपी असो हो अणभव. बाकीबाबांले कवितेची मोख निखटी बायलेचे कुडीचें सौंदर्य न्हय. तिच्या आध्यात्मीक सौंदर्याचो वेध घेवप ही तिची खरी मोख. हे कवितेंतलो शृंगार कुडी कडेन केल्लो अशें म्हणचे परस बायलेच्या मना कडेन केल्लो अशें म्हणप चड बरें जातलें. बायलेचें हें रूप तांची जियेवपाची इत्सा जागी दवरता. देखून हो कवी जिविताचेर केन्नाच उबगलो ना. ताणें सदांच आनंदाचे सूर आळयले. निर्शेणी केन्ना तांचे लागीं रावली ना. बाकीबाब खऱ्या अर्थान सौंदर्यवादी रॉमेंटिक कवी. हे कवितेंत शृंगार आसुनूय ती नॉन इरॉटीक जावंक पावली ती कवीचे शांतरसा कडेन आशिल्ले अनावर ओडीक लागून. इंद्रीय अणभव आपली शीम हुपून अध्यात्मा कडेन पावता तेन्ना ती कविता आगळ्याच तेजान पर्जळटा. चैतन्याचें रूप आशिल्ली ही बायलेची प्रतिमा कोंकणी कवितेंत आगळी सुवात जोडून आसा.



# बाकीबाबांची कविता एक भाशीक अभ्यास

भूषण भावे

उतरांचें पिशें बाकीबाबांक भुरगेपणा सावनूच. आयकुवपांत आयिल्ल्या दरेका उतराचो मंत्र कसो जप करप हो तांचो सभाव. ल्हवू ल्हवू फकत उतराचो सुको मंत्र करिनासतना ताचेर विचार करप, ताची व्युत्पत्ती सोदप, उद्गम/उगम सोदून काडप, निरुक्त चिंतप ही तांची वृत्ती जायत गेली.

तांच्या भुरगेपणांतलो एक अणभव तांणी आपणाल्याच एका ललीत-लेखांत शब्दबद्ध करून दवरला. कुडचड्या सावन तांचो मामा काय आजो तांगेर आयिल्लो. भुरग्या बाळकृष्णान सबावीकपणान आजोळा वचपाचो हट्ट धरलो. ताचे आजयेन ताका वचपाक मना करतना 'थंय आनी किते नांवरूप करपाक वता?', अशें म्हळ्ळें. जालें. बाकीक एक उतर मेळ्ळें. 'नांवरूप करप'. उपरांत दीसभर तो तें उतर गुणगुणत रावलो.

अशेच तरेन, 'अपरसूर्य' (माथ्यार आयिल्लो सूर्य), 'चतूर साबाजी' (आदले मुस्तींतलो एक हुशार गोंयकार), 'पांचाळ' (चड उलोवपी बायल - ब्रह्मावर्ताचे लागीं आशिल्ल्या पांचाल देसांतले बायलेक उद्देसून ब्रह्मावर्तातल्या लोकांनी लायिल्लें विशेशण-पांचाल-पांचाली-पांडवांची बायल द्रौपदी), 'बास्कळ' (ऋग्वेदाच्या आश्वलायन शाखेच्या अनुयायांनी बाश्कल शाखेच्या अनुयायांक उद्देसून दिल्लें उणेपणाचें विशेशण; आयज 'उण्या दर्जाचें' ह्या अर्थान वापरतात) अशीं जायतीं उतरां बाकीबाबांक होलमत गेलीं. निरुक्ताचें पिशें जडलें. सबाव कवीचो आशिल्लोच. एकोलयो-भावूक-रसीक-सौंदर्यासक्त. ताका उतरांचो सांगात मेळटकीच अद्भूत रसायन तयार जालें.

हें उतरधन बाकीबाबांचे कवितेचें खाशेलपण. भाशेचेर प्रभुत्व आसप हें खंयच्याय साहित्यिकाचें, खासा करून कवीचें, अनिवार्य कसब, आनी उतरां म्हळ्यार भाशेचो प्राण. देखून उतरांचेर प्रभुत्व जोडिल्ल्या बाकीबाबान *'आम्हां घरी धन शब्दांचीच रत्ने शब्दांचीच शस्त्रे यत्ने करूं'* म्हणत वीर, शृंगार, करूण, भक्ती अशे साबार रस आपले कवितेंतल्यान समर्थपणान केळयले. बाकीबाब सदांच म्हणटाले, 'उरता म्हण तें उतर.' अशेच तरेन बाकीबाबांच्यो कविता सदां खातीर उरल्यात - अमर जाल्यात.

बाकीबाबांचो मामा 'गावपी' आशिल्लो जाल्यार बापूय 'चित्रकार'. बाकीबाबां भितर ह्या दोनय गुणांचो संगम जाल्लो दिश्टी पडटा. तांचे कवितेंत सूर आनी नाद आसात. (बाकीबाब म्हणटाले, आपले कवितेंत 'नाद' न्हय तर 'निनाद' आसा.) तांची कविता 'गेय' आसा. ती 'वाचनीय' उणी आनी 'श्रवणीय' चड आसा. उतरांच घुंगरां बांदून आयिल्ले भशेन तांचे कवितेंत अवतरतात. तेच तरेन, तांचे कवितेंत गोंयचीं तरेकवार चित्रां आसात. 'पांयजणां' हे गाजिल्ले कवितेच्या जल्मा विशीं सांगतना तांणी म्हळ्ळां: "...मेळिल्ल्या निरोपान म्हाका एकाएकीं वस्तुस्थितीची जाण आयली. घरकान्नीची तीव्रतायेन याद जाली. दामून दवरिल्ले खासगी भाव सुमाराभायर कोंवळिकेन वयर उप्रासून आयले. घरचीं आनी गोंयचीं सैमचित्रां दोळ्यांर नियाळूंक लागलीं."

बाकीबाबांक जाय तेन्ना जाय तसलीं उतरां आपसूक सुचतालीं - येतालीं. ताचे खातीर तांकां वाट पळोवची लागनाशिल्ली, वा कसरत करची पडनाशिल्ली. देखून बाकीबाबांच्यो चडश्यो कविता



*थोर माझ्याहून माझे*
*शब्द हें मी जाणतों*
*त्राण त्यांचे वेढुनी*
*मी प्राणपंथें चालतों*

'उस्फूर्त' आसात. खासा बाकीबाब आपणाली एक बरी कविता 'बरोवन जाली' अशें म्हणटाले. आपणें ती 'बरयली' अशें म्हणनाशिल्ले. बाकीबाब उतरां कडेन खेळटाले पूण म्हणून तांचे कवितेक 'उतरांचो खेळ - शब्दखेळ' अशें म्हणूंक जायना. हाचें कारण, तांणी *पांयजणां*चे प्रस्तावनेंत बरयलां ते प्रमाण "भाव अनावर जावन प्राणाक कंप भरता तेन्ना उतरांच घुंगरां जातात. आनी तांचींच पांयजणां करून कवितारति पावली मारूंक लागली म्हणटकूच शृंगार, वीर, वत्सल, भक्ती, हास्य बी रस घुमूंक लागून काळाची रेंव, थोडो वेळ जायना, अमृतान ओली करतात. म्हज्या वांट्याक आयिल्ले असले कांय भाग्याचे खीण आज रसिकांच्या सेवेक ओंपतना म्हाका विशेष संतोष भोगता..."

बाकीबाबान आपल्या कवितांनी जायत्या तरांचीं उतरां वापरलीं, वा तांकां तीं 'आयलीं'. संस्कृत, कोंकणी, मराठी, हिंदी हांचे वांगडाच साधीत, दिसपट्टे बोलयेंतलीं, मिश्र, लुप्त, आनी कांय पोर्तुगेज उतरां लेगीत बाकीबाबान वापरल्यांत.

देखीक, ग्रास, रंध्र, कंठ, सांत्वन, तापत्रय, जळींस्थळीं आदी संस्कृत उतरां तांच्या कवितांनी सांपडटात.

शकुन, अक्षदा, स्रय, घुंगरां, चक्रवाक, कृपांजुळी आदी मुळावीं संस्कृत पूण तद्‌भवरुपीं उतरां लेगीत बाकीबाब वापरतात.

आयचें कोंकणींतल्यान लुप्त जाल्लीं, पूण आदले कोंकणींत घोळपी अशीं उतरांय *पांयजणां* त मेळटात. देखीक, सय, इपदा, किरांट्यो, खुमो, पाज, कुटाळ, अरवळ, गोलांट, कुपातोर आदी.

बाकीबाबांनी आपले कवितेंत कांय आथर्वीच पूण अर्थपुराण अशी क्रियापदाचीं रुपां वापरल्यांत. देखीक, अंदप, कंवदरप, विडविडप, भयो जावप, उदणा पडप, म्हेळोवप, पुसप, कथूं, फैदासप, जथप, दुभप आदी.

ज्युस्ताज्युस्त न्हयकारीं उतरां घडोवपाची कळाशी बाकीबाबांक बेसबरी जमल्या. देखीक उलयत - नुलयत (नुलैत), कळटना-नकळटनां, उरलें-नुरलें (नुल्लें).

उतरांची व्याकरणी वा हेर तरेन मोडतोड बाकीबाबांचे कवितेंत वृत्ताचे गरजे खातीर वा यमक/अनुप्रासा खातीर जाता.

देखीक, तिनसांजे-तिनसनां, पयस-पैस, आयलीं-आयलिं, दुर्लभ-दुल्लभ, वयर-वैर, वाजली-वाजलि, अदृढ-अदृड, पडटी-पट्टी, आमी-आमि, विपदा-इपदा, घडटी-घट्टी, घालून-घालुन, बंदखण-बणखण.

अशे तरेन, एक तर उतरां भितर ह्रस्व-दीर्घाची काव्यक्षम्य मोडतोड जाता वा तें उतर लिखीत रुपा कडल्यान 'बोली' रुपा कडेन लागीं वता.

बाकीबाबांचीं लाडकीं प्रतिकां आनी प्रतिमा म्हळ्यार, दैत्य, सावळ्यांनी, चंद्रलोक, शकून, वेणू, घुंगरां, अमृत, अक्षदा आदी.

जायते काव्यप्रकार, छंदप्रकार आपणावपाचो/केळोवपाचो कोंकणीचो सबाव, तिची लवचीकसाण बाकीबाबान वळखल्ली. कोंकणी उतरां जाय तशीं बागोवं येतात, मोडूं येतात हाचो दिश्टावो तांकां जाल्लो. देखून ठुमरी, गजल, भूपाळी, अभंग, भजन, पोवाडो अशे जायते काव्यप्रकार तांणी रचले. ते अडेचे दिसनात.

यमकाचेर यमकां जोडीत वा अनुप्रासाची सुंदर आवृत्ती करीत बाकीबाब घोग्या भशेन कविता रचीत वतात. तांचो पयलो काव्यगुरू पात्रीस रेंदरा भशेन. देखीक, 'झंजाळालो म्हाळ' ही तांची कविता घेवं येता.

बाकीबाबाचे कवितेंत मेळपी कांय वैशिश्ट्यपुराय उतरां आतां पळोवया. रंग,रूप, गंध, स्पर्श आनी नाद हांचीं जायतीं रुपां ते कवितेंतल्यान केळयतात. तांचे कवितेंतलीं कांय उतरां दुर्बोध पांवड्यार वतात. देखीः



*जळण्याचें बळ तूंच दिलें रे*
*दे आतां विझण्याचें*
*कणकण फुलण्याचें बळ दिधलें*
*तसेंच दे झिजण्याचें*

'तर्पण' कवितेंत *'हुटके तुजे जावन झेली - चल्ले हुपत दोंगरघळी'* (झेली). हेच कवितेंत, *'अमृताचीं जावन ताडां'* (ताडां). 'दुःख कोणाक चुकना' कवितेंत *'साह्य आसुन संसारसारथी - पडलें सामकें उदणा'* (उदणा पडप).

*'विनवणी'* कवितेंत *'पांय न्हय ह्यो साकरबोडयो जळीं बुडों नाका'* (साकरबोडयो- आथवेंच उतर).

'वनवाशी' कवितेंत *'झिरकमळां झारिनांनी फुलती'* (देवळांतल्या पाटये वयलीं, कोंत्रायल्लीं, झिरकमळां, झारिनां), तेच कवितेंत *'आसून सगलीं भांगरा शिंगरां तूं नासून उकाशी'(उकाशी /उपाशी?).*

'मोलादीक बोल' हे कवितेंत *'चार दिसांनी नण्डेपरस सुचति तरे ह्याच घोवा'* (तरे-दुस्वास?), घराची *'रसणाय'* कवितेंत *'तुज्या पर्सणेन जाय चंवरता'* (पर्सणीः स्पर्श, पोशेवप?).

'नस्तें बाये म्हाका सोंसना!' कवितेंत *'बाजेर पडल्यार चाबती*

*गाशे*' (गाशे). 'म्हजें गोरूं' हे कवितेंत 'म्हजे गोरूं चरूं, म्हजें गोरूं, नरूं (नरूं?).

'जग हें जगम' कवितेंत *'येवजिता मनीं परा येता घरा नुलैत तें'* – 'अशी तुजी कृपा' कवितेंत *'खतां मखां धुवन गेलीं'* (मखां).

'उतरां' वेंचून काडपाची/सुचपाची बाकीबाबाची कळाशी अतुलनीय.

देखीकः पांयांतले चाळ/नुपूरः विंगड-विंगड उतरां/रुपां.

१) 'पांयजणां': *त्या दिसा वडाकडेन गडद तिनसनां*
*मंद मंद वाजत आयलिं तुजीं गो पायजणां*

२) 'निळें सवणें': *निळें निळें सवणें एक सकाळच्या गो पारा*
*भांगराचीं घुंगरां बांदून आयलें म्हज्या दारा*



*जमीन खणिल्ल्यान*
*जोडलें धन*
*उतर विणिल्ल्यान*
*घडलें मन*

३) 'सपन वासवदत्ता':
*घागरी घुमतां घुमतां मंद न्हिदे-धुंद फाकता*

४) 'भाऊबीज': *बिंदितिळे झिगझिगती, घागऱ्यो ताळाचेर वाजती*

५) 'म्हजें गोरूं': *वेद ताज्याच गेताचें घुंगरूं*

तीच गजाल बासरी/पावरी/वेणू, हांचीः

६) 'गोंयच्या वनीं': *घुमलो देह पांवरेवरी*

७) 'वेणू': *हाचो वेणू कोणय पुण घेया काडून.*

कोंकणी कवितेंत नाद, रूप, रंग, गंध हांचीं रुपां केळोवपी गोंयांतलो पयलो कवी म्हळ्यार बाकीबाब आनी दुसरो रमेश वेळुस्कार. मंगळुरांत ही परंपरा चलोवपी कवी म्हळ्यार चा. फ्रा. गोंयांत बाकीबाबान भा.रा. तांबे हांची, पात्रीस रेंदराची परंपरा चलयल्ली, जाल्यार कर्नाटकांत चा.फ्रा. न बाकीबाबा भशेन परंपरा चलयली. उतरां नकसूदपणान वेंचपाची बाकीबाब आनी चा. फ्रा. हांची कळाशी एका सारकीच. *'हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळ्यांत'* हे कवितेंत 'रकय' आनी 'लकय' ह्या उतरां मदीं अचळय केल्लो भेद बाकीबाबांच्या उतरां-सोद सबावा कडेन मेळपी-जुळपी. मांडवी-नेत्रावतीचो सुमेळ आपले कवितेंत सादपी चा.फ्रा. आनी भारताच्या ध्वजाक जागवण करपी बाकीबाब हांच्या मनांतलो भाव एकच.

बाकीबाबांचे कवितेंत परतून परतून येवपी 'उखलासून' ह्या उतरा भशेन तांणी आपली प्रतिभा कवितादेवी खातीर उखलासून दवरिल्ली.

हुटके (हुडको), कंवदरप (रागार जावप), राशीर येवन काम करप (एकवटीत जावप), पाटो (पूल), भवजाळ (संवसाराचें दुःख), विडविडप (उडून वचप/धांवून वचप), भयो जावप (तापत्रय/छळ जावप), गोलांट मारप (कोलांटी मारप), अर्थीन (गोडीन), सर्पराज्यार बसप (वापरूंक मेळनाशिल्ल्या धनाचो धनी जावप), पुस्तीवंत (समर्थ, बळिश्ट), तर्पाशोर (नावाडगो), सय (कोर, वर्ण), जल्मजुग (जल्मा सावन एकवट), तरे (मत्सर), ओप (लेप/वर्ख, चकचक), रसणाय (सोबाय, लावण्य), किरांट्यो (ल्हान कीर), चक्रवाकां (रातचें गावपी सुकणें), खुमो (चिन्न/निशाणी) अशीं जायतीं विलक्षण उतरां तांचें कवितेंत येतात.

बाकीबाब उतरां आपणाक जाय तशीं मोडून घेतात. देखीक, कृपांजली-कृपांजुळी. बाकीबाब म्हळ्यार उतरांचो धनी. हें तांचें उतरांचें पिशें गोंया वयल्या निस्सीम मोगांतल्यान आयलां. एके मराठी कवितेंत तांणी म्हळ्ळां तशें –

*'माझ्या गोव्याच्या भूमीत*
*सारा माझा जीव जडे*
*पुरा माझ्या कवनांचा*
*गंध तेथे उलगडे'*

आयज बाकीबाब शारिरीक नदरेन जरी आमचे भितर नासले तरी तांचे कवितेच्या अक्षर रुपांतल्यान ते अमर जाल्यात, अशें म्हणचें पडटा. परतून तांच्याच उतरांनी

*'सगलें क्षर म्हणून*
*म्हजें अक्षरांत कवित.'*



# कोंकणी कवितेंतलो विवीधरंगी बाकीबाब

कृपाली नायक

'ते थे कर माझे जुळती' सारकेली काव्यरचना करून असंख्य मराठी काव्यरसिकांचीं मनां जिखपी बाकीबाब बोरकार हांचीं *पांयजणां* आनी *सासाय* हीं पुस्तकां कोंकणी काव्यसृश्टींतलीं दोन उत्कृश्ट पुस्तकां. हीं दोनूय पुस्तकां बाकीबाबांचे कोंकणी कवितेची गिरेस्तकाय दाखयतात. बाकीबाबांनी काव्याचे विवीध प्रकार केळयले तातूंत गीत, ठुमरी, पोवाडे, लावणी बी प्रकार दिश्टी पडटात. हे भायर, कवी वीर रसाच्यो कविता, स्फुर्ती कविता बरयता, प्रेम, विरह, सैम, अध्यात्म सगळेंच आपल्या कवितांनी हाडटा. तांच्या कवितांनी दिसपी विविधताय ह्या निबंदाचो विशय.



*एक पण्टी भितर पेट्टा*
*ती जगय रे ती जगय*
*घेवन आयला वांगडा जी*
*तूं वाट सरतासर तिगय*

१८ जून १९४६ दिसा मडगांवां डॉ. राम मनोहर लोहियांनी सुटके झुजाचो संग्राम मांडलो. ही क्रांतीची कीट बाकीबाबांच्याय जिविताक लागली. ते स्वातंत्र्य-झुजांत पडले. आनी तातूंतल्यानच तांणी स्वतंत्रतायेचो ध्यास उकतावपी कविता रचल्यो. त्या दिसा मंगळार आशिल्लो. त्या मंगळाराचो उगडास तांणी 'पवित्र हो मंगळार' हे कवितेंत अमर केलो —

*पवित्र हो मंगळार आयचो पवित्र हो मंगळार*
*आज गाजतलो धेंक शिवाचो हांगाच ह्या म्हुर्तार*
*चडा चडा रे आतां यशाची सासणाची पाज*
*झुजून आतां मर्या कर्या भांगराचो संवसार*

हो 'पवित्र मंगळार' यशाची गाथा गायत यशाची सासणाची पाज चडपाक सांगता तसोच झुजपाचें बळगें दिता. त्याच वेळार 'जाग रे बेगीन जाग' सारकिली कविता गोंयचेर साडेचारशीं वर्सां आशिल्लो पोर्तुगेज सत्तेचो इतिहास मांडटा. जाल्यार 'सासाय' हे गोंय मेकळिके उपरांत बरयल्ले एके अज्ञंवर कवितेंत बाकीबाब म्हणटात –

*जागी जाल्या गोंयची सासाय*
*येतलो भार येतलो भार*
*ढोल ताशे बडय बडय*
*मार शेंसार मार शेंसार.*

ह्याच काळांतले आनीक एक कवितेंत बाकीबाब वेगळोच सूर लायतात –

*प्राणाक क्षय बुद्धीक भंय फाल्याक जंय कालचीच वंय*
*आयलां थंय स्वातंत्र्य तैं स्वातंत्र्य न्हय स्वातंत्र्य न्हय.*

हो विरोधाभास आनी वेगळेपण ते वेळचे राजकी परिस्थितीचेर भाश्य करताच. आनी वांगडाच एकवटाचो आशावाद घेवन बाकीबाब ओपीनियन पोला वेळार गोंयचो नवो फुडार घडोवपाक आपले कवितेचो हातभार लायतात. नव्या गोंयचो आनी गोंयकारांच्या एकवटाचो दिश्टावो तांच्या जायत्या कवितांनी दिसता –

*रागान म्हज्या, चुलीवयली मडकी नाका फोडूं*
*एके राशीर आसत जाल्यार सर्ग जोडूं*
*तुज्याच हातान लाय भावा घरचो लामण दिवो*

*घड्टं उजवाडांत ताज्या फुडार आमचो नवो*

ह्या काळा वयल्या बाकीबाबांच्या कवितांनी गोंयचो इतिहास दिसता आनी वांगडाच कवीक आपल्या अस्तित्वाचोय आध्यात्मीक प्रस्न पडटा तोय तांच्या कवितांनी सुवात जोडटा –

*येतना तुवें हाडलें कितें*
*वतना कितें व्हरतलो*
*पोटलो तुजो खोटलो तुजो*
*हांगचे हांगा उरतलो*

मनीस ह्या संवसारांत एकलोच येता आनी एकलोच वताय बी. तो येतनाय कांय हाडिना आनी वतनाय कांय व्हरना. पूण धर्तरेचेर पावल दवरून जाणविकाय येवंक लागत सावन निमण्या स्वासा मेरेन मनीस कितें कितें पुंजायत आसता. ताका खबर आसता, आपणाक एकलेंच वचपाचें आसा. पूण हाची ताका विसराय पडटा. ताचो



*भेदी जाल्यार भाव, भावा,*
*रावण पसुन कोंसळटा*
*कुराडेच्या एकाच दांड्यान,*
*केदेंय रान संवकळटा*

चडटो काळ आसासर सगळेच म्हऱ्यांत आसतात. निमाण्या वेळार मात कोणूच ताचो नासता. जिणेचो सार हे कवितेंत कवी मांडटा.

तशेच तरेची दुसरी कविता म्हळ्यार 'म्हजें नांव मनीस कुळी'. आमी नांव, गांव आनी नातीं ह्या तिनांय मर्दी घुसपल्लीं आसतात. पूण हीं तिनूय आमचीं नासतात. नांव खंयचें, गांव खंयचो आनी नातीं खंयचीं हे तिनूय प्रस्न कशे अनुत्तरीत उरतात ताची छटा हे कवितेंत दिसता. जाणटेलीं आमकां जें नांव दवरतात तेंच मुखार चलता अशेंय आसना. केन्ना केन्ना आमची जल्मभूंय एक आसता आनी कर्मभूंय दुसरी आसता. हातूंत आमचो गांवूय शेणटा. केन्ना केन्ना नातींय शेणटात. आनी हांव कोणाचो कोणूच न्हय हीय जाणविकाय जाता.

बाकीबाब आपल्या कवितांनी बायलेचें मन खूब बरे तरेन चितारूंक पावल्यात. एके कवितेंत चंद्रिमा कडेन उलयत आवय आपल्या भुरग्याची तोखणाय करता –

*योरे योरे चंद्री मामा भाच्या तुज्या पळय*
*मोतयांच्या झेल्या म्हज्या खांदार तुज्या खेळय*
*असोच आंगणी येवन म्हाका दोन उंडयो जेवय*
*न्हिदचे वेळार तुंच हाचो अर्थिन जारे गवय.*

हे तरेचो आवयच्या मनाचो थाव कवीमनाकूच घेवंक येवं येता.

घोव बायलेचें नातें बायलेचे दृश्टींतल्यान सांगप बाकीबाबां खूब बरें जमलां. चार दीस आमकां जुळ्ळें कशें दिसता. तेन्ना ह्या नात्याचे रंग पारखूंक येनात इतले आसतात. घोव चड दिसांनी येता तेन्ना बायलेक स्वर्गय लागीं दिसता. पूण कांय दिसांनी ह्याच घोवाच्या मनांत आपले विशींचो मोग उणो जातनाय ती पळयता आनी तें तिका खटकता. पूण तरी आपणाचेरूच दोश घेवपी सर्वसामान्य भारतीय बायल-मनशेच्या तोंडांतल्यान कवी म्हणटा –

*कशेंय आसूं उडौं नाका दुदांत बाये मिठाकणी*
*म्हाका दिसता आमकां बायलांक जाण्टेपणी*
*ओड उणी*

घोव पयस आसतना एकटेपणान भोगपी बायल, आपले मर्यादेची राखण कशी करता तें कवी आपले 'शोव रे कोंब्या शोव' हे कवितेंत पितारतात –

*मेरे वयलो हुपत जाणा चल्ला तुजो नाच*
*फातर बडयो माल्ल्यो तरी सोपना तुजो जाच*
*स्राप आमचे बादुन तुजो भरतलो कुडव*
*राव, म्हजो येवचो जाला तारवावेलो घोव*

आपल्या मनांतलें आपल्या मोग्याक समजना ही घालमेल 'नस्तें बाये म्हाका सोंसना' ही कविता उकतायता. मोगिकेच्यो मोग उक्तावपाच्यो कितल्योश्योच तरा कवी अचळय दाखोवन वता.

कवी बायलमनाचे संवेदनशीलतायेक हात घालता. तसोच, बायल घरची घरकान्न, ती घराची रसणाय अशेंय मानता. कवीक तिच्या मुखामळा वयलो हांसो भावता. तिचो हात सदळ, उतर मोव. बायल-मनीस घरांत आसता तेन्ना घर वेगळेंच आसता. हो बदल मोनजाती मेरेन जाणवता. घरकान्नीचो हात लागतकच घराक जशी जीवसाण येता तशीच एक वेगळी सया घरकाराकय मारता आनी ताची मान तिचे सासायेक वंदन करूंक आपशींच बागवता.

बाकीबाबांचे कवितेंत जायते कडेन भावूक मोग दिसता. हाची एक बऱ्यांतली बरी देख म्हळ्यार 'पांयजणां' ही कविता. मोगिकेची वडा कडेन वाट पळोवपी मोगी तिचें दर्शन जाता त्या वेळार आनी उपरांत कितें घडटा तें हे कवितेंत समर्थपणान मांडटा. कवीक केन्ना मोग कांकणांच्या किणकिणपांतल्यान जाणवता तर केन्ना तो वाऱ्या वांगडा झडपी पार्दिका फुलां जावन येता. मोगिका सकाळीं येत जाल्यार तिच्या येवपान ताच्या आंगणांत फुलां फुलतात. तीच रातची येत जाल्यार तिचे फाटोफाट चान्नें येता. कवीक मोग वेगवेगळ्या तरांनी दिसता, जाणवता. आनी तितलेच प्रखरतायेन ताची कविता विरहूय दाखयता –

*बावल्यो रे दिवलेंतल्यो वाती*
*चल्ल्यो सुक्यो पुष्पाच्यो राती*
*मोग तुजो हो जरी अपघाती*
*तातुंतय हांव सुखवाशी*

कवी मोगिके खातीर तळमळटा तेन्ना तिचे बगर सगळीं सत्यां ताका उणीं दिसतात. विरहाच्या दुःखाक लागून ताच्यान घरच्यां कडेन तिची खबरूय घेवंक जायना. इतलो प्रकर्शान हो विरह जाणवता. मनांत चिड्डून उरिल्लो, केन्नाच उकतावपाक जावंक नाशिल्लो मोग ताचे कवितेंतल्यान वाट करून भायर सरता –

*तुवें म्हजेर मोग केलो ना जायत*
*पूण हांव तो तुजेर करीत आयलां तो कितें न्हय जाला*
*...आनी हांव वेळेवयल्यान परततना तुका हटकी*
*नासतना गेलों जाल्यार हाचेर ताचेर तिडकुं नाका.*

भारतीय संस्कृतायेंतलें कृष्ण-गोपीचें मोगाचें प्रतीक कवीक खूब लागींचें दिसता. गोंयच्या गोपींक गोकुळांतलो कृष्ण गोंयच्या वर्नी दिसता आनी फुडें निळें सवणें जावन दारा मेरेन पावता. कृष्ण आयिल्ल्यान झाडां-पेडांक पिर्शे लागता. कोंड्या आळींनी दिसपी कृष्णाक लागून तिचो गांवूच 'गोकूळ' जाता. हो भुरगो कृष्ण 'मस्तखोर' जाल्यार रासलीलेंतलो कृष्ण कोल्या परस धूर्त, कवड्या परस शिटूक, गोपींची वाट आडावपी, मडक्यो फोडपी...

केन्ना केन्ना कवीक प्रस्न पडटा, आत्मो आनी परमात्मो तो होच काय जाणें ही सृश्ट निर्मिल्ल्या, जाणें दोळ्यांतल्या दुकांची आनी कुडींतल्या स्वासाची निर्मणी केल्या, मनशाचें आकाशा येदें विशाळ मन केलां, पंचमहाभूतांक संयमी केल्यांत आनी हें सगळें आसत जाल्यार हांव तांचे पसून वेगळों कसो? त्या परमात्म्याक हांवें म्हजे भायर कित्याक सोदूंक जाय? हे अध्यात्माचे ओडीन तो म्हणटा–

*व्हडें आलतडी लाय म्हाका पलतडी पाय*
*जंय सुख थंडाय पांडुरंगा*

बाकीबाबांचे कवितेंत सैम खूब म्हत्वाचें. तरेकवार रुपांनी हें सैम तांच्या कवितांनी दिसता. केन्ना झाडां-पेडांच्या रुपान तर केन्ना आबोल्यां फांती, वोवळांचो घमघम जावन, केन्ना कोंड्या आळ जावन, केन्ना दर्या ल्हारांचें तर केन्ना निळ्या निळ्या मळबाचें प्रतीक जावन तें तांचे कवितेंत येता.

गोंयच्या सैमा वरी गोंयची संस्कृतायूय बाकीबाबांच्या कवितांनी उपाट भरल्या. केन्नाय ते वेगळोच एक प्रस्न करतात –

*गोंयांत अशें आसा कितें?*
*खरेंच म्हाका सांगूंक येना*
*नकळ गोंयां आसा कितें*
*एक मात खबर म्हाका*
*एकदां गोंया पाविल्ल्याक*
*परतें गोंय सोडूंक नाका.*

कवीच्या जायत्या कवितांनी ताच्या मोगाचें गोंय रसरसून फुलिल्लें दिसता. केन्ना परंपरेचें दायज घेवन तें गोंयचे सासायेंतल्यान येता तर केन्ना हे सैम सोबीतकार्येंतल्यान येता. ह्या गोंयांत मोर नाचता, दोंगर पाचवेचार जातात, भांगराचीं वोतां येतात आनी सांजच्या पारार माडार कांतारां घुमतात. म्हणून तर एकदां गोंयां आयिल्ल्याक गोंय सोडून वचन दिसना.

कवितेंतल्यान विविधताय केळयतना कवी एक गजाल विसरना, ती म्हळ्यार, बालमन. विरह, मोग, सैम, स्वातंत्र्य, अध्यात्म हें सगळें तांणी केळयलांच पूण ताचे वांगडा भुरग्या येदो जावन भुरग्याचें मनूय चितारलां. बाकीबाबांच्या भुरग्यां खातीर आशिल्ल्या कवितांनी मोर नाचता, बेबो रडटा, बिलूबायक नुस्तें आनी दुदा वयली सायूय मेळटा, बावल्या बावलेचें लग्न जाता, कावळ्याची व्हरडीक जाता, पूण हाचेच वांगडा आमचीं भुरगीं वयर सरचीं हो हावेस धरून ते म्हणटात –



*काळी? कोणें तुका म्हळी?*
*तूं तर म्हजी चान्न्याची तळी*

*आतां तरी आमची आस्त*
*ध्यानीं मनीं मूळ धरूं*
*पितर आमचे जावन खोशी*
*भुरगीं आमचीं वैर सरूं*

बाकीबाबांचे कवितेंतल्यान कोंकणी म्हणी ओपारींचो वापरूय प्रभावीपणान जाल्लो दिसता. 'चूड दाखोवन हाडलो म्हारू', 'नाक आमी पावणेर काडलां' ह्यो वळी हाची देख म्हूण घेवं येत. ही कविताय पळेयात –

*म्हाका लागून उदक तुका*
*पानवेल म्हणटा म्हसंगारुखा*
*म्हशिंग म्हणटा म्हणून अशी*
*माथ्यार हांवें घेतल्या तुका*

अशे तरेन वेगवेगळ्या आंगानी काव्य केळोवपी बाकीबाब हे कोंकणींतले पयलेच कवी जांणी कविता विविधांगांनी केळयली, तिका फुलयली. ते आपूण कविता जगले आनी दुसऱ्याकूय हे भाशेन जगपाची तांणी उर्बा दिली. बाकीबाबांची सासाय कोंकणी साहित्यांत सदां उरतली.



# कवींचे सभेंतलो
# प्रेमरसगंगाधर

सु. म. तडकोडकार

गोंय! 'महाभारत'कालीन ग्रंथांतल्यानूय ताच्या अस्तित्वाची जाणविकाय जाता. भारताच्या अस्तंत दर्यादिगेर आशिल्ल्या परशुरामनिर्मीत (सप्त) कोंकणांतले सुस्थीत भुंयेर पातळिल्लो रम्य-रमणीय माणकुलो प्रदेश म्हळ्यार गोंय! संस्कृतीक नदरेन ताका 'गोमन्तक' ह्या नांवानूय वळखतात. गोंयांतलें मनोरम सैम, त्या प्रदेशांत अनादी काळा सावन राबितो करून राविल्ली तशीच कोणाच्याय अद्यांत वा मध्यांत नाशिल्ली भावभोळी समश्टी आनी सौंदर्यभावनांक काळजाचें दार उकतें करून दिवपी रसिकांची मांदियाळी गोंयचें नांव उजळ करतात.

भावीक सभावाच्या गोंयानूच तत्त्वज्ञानी योगी संतकवी सोहिरोबानाथ आंबिये आनी कृष्णभट बांदकार हांचे वरवीं संवसाराक संतकवींचें दायज दिलें. गोंयच्या बक्षीबहाद्दर जिवबादाद केरकारा सारक्या वीर-नायकान मराठणांतल्या पेशव्यांक आनी ग्वाल्हेरच्या महादजी शिंद्यांक मजत केली. संवसारांतले म्हान दार्शनीक धर्मानन्द दामोदर कोसंबी आनी तांचे पूत गणितज्ज्ञ दामोदर धर्मानन्द कोसंबी हे गोंयचेच. गोंयानूच संवसाराक गोकुळाबाय तळावलीकार, गोदावरीबाय विष्णू नायक, सीताबाय कुंडयकार, रुक्मिणीबाय उपाख्य सोंसुबाय केंकरे, हिराबाय किर्तने अश्या अस्तुऱ्यां वरवीं संपन्न कवयित्रींचें दर्शन घडयलें. पुराय भारतवर्शाक वंदय जाल्ले डॉ. भाऊ दाजी लाड-पार्सेकार, सर रामकृष्ण गोपाळ भाण्डारकार, पद्मविभूषण अनिल पुरुषोत्तम काकोडकार, रघुनाथ माशेलकार हांचे सारके वैद्य-विद्वान-विज्ञानीक गोंयानूच दिले. 'स्टेट बँक ऑफ इंडिया' नांवाचे राष्ट्रीय पावंड्या वेले पतपेढयेच्या अध्यक्षपदा मेरेन पदोन्नती संपादन करपी बुद्धिमान अर्थतज्ज्ञ पी. जी. काकोडकारूय गोंयचेच. ह्याच गोंयान संवसाराक 'सर्वसंग्रह'कार डुकलेबंधू, ऋषितुल्य संशोधक अनंत काकबा प्रियोळकार, वि. बा. प्रभुदेसाय आनी सुरेश आमोणकार हांच्या रुपान चिकित्सक संशोधक-संपादक दिले. पुंडलीक नारायण नायकांच्या रुपान भारतीय साहित्यविश्वांत गौरव जोडपाची तांक आशिल्लो चतुरस्र लेखनगुणांचो साहित्यीक दिलो. हीं कांय नांवां देखी घेवपा पासत आसलीं तरी आनीक कितलींशींच नांवां हे वळेरेक समृद्ध करपी आसात.



*एकटुक्यान येवन हांगा*
*आयचें जिणे रेखचेलें*
*आपल्या पायान उमथून माप*
*फायचें पेणें मोखचेलें*

बाळकृष्ण भगवंत बोरकार उपाख्य बाकीबाब बोरकारांक हें दायज मेळ्ळें. बाकीबाब नांवाच्या व्यक्तिमत्वांत वयर नोंदयिल्ल्या चडश्या व्यक्तिमत्वांचें पडबिंब दिसूं येता.

बाकीबाबांनी संतकवींच्या बरपांचो अभ्यास केल्लो. देखुनूच ते म्हणटाले, ''तुकाराम महाराजांचो निस्पृह बाणो, एकनाथ महाराजांची निर्वैरता आनी ज्ञानोबारायांचो योगानुभव तशेंच अद्वैतदर्शन हांचो त्रिवेणी-संगम सोहिरोबांच्या चरित्रांत जाल्लो आसा.''

गोंयांत संस्कृताचें संपन्न दायज आशिल्लेंच. ताचे वांगडा पंदराव्या-सोळाव्या शेंकड्यां सावनच्या काळांतलें देवशरण भक्तिकाव्य आनी तातूंतल्यान उप्राशिल्ली काव्यभक्ती हांच्या स्वरुपाचो परिणाम गोंयचे समश्टीचेर जाल्लो. काव्याचो अभ्यास करतल्यांक आनी कवींक *ज्ञानेश्वरी* चें काव्यशिल्प उर्बा दितालें. शेकीं पुर्तुगालांतल्या १९१० तल्या नव्या वातावरणाचें वारें गोंयांतूय व्हांवूंक लागिल्लें, पूण तरी अध्यात्मीक काव्याचो प्रभाव तसो उणो जावंक नाशिल्लो. गोंयांतल्या भावीक व भावूक समाजाचेर संतकवी बांदकारांच्या अध्यात्मीक काव्याचो प्रभाव आशिल्लो. हे तरेच्या गोंयांतल्या भक्तिपर वातावरणांत बाकीबाबांचो जल्म जालो.

तांचेर जाल्ल्या ह्या दायजाच्या संस्कारा संबंदान बाकीबाब म्हणटात, ''इकरा वर्सांचो आसतना *'ज्ञानेश्वरी'* म्हज्या हातांत आयली... आनी आजूनय हांव ती वाचतां. हें (म्हज्या कर्तुत्वाचें) वैभव

ते माउलीचें.'' खोलायेन चिंतन करपी समिक्षक आशा मणगुतकार ह्या संदर्भांत म्हणटात, ''बाकीबाबांची कविता भक्ती आनी सात्विकता अश्या भावाविश्कारांचीं शिल्पां घेवन प्रगट जाली. बाकीबाब ज्ञानेश्वरांचें रीण मानून घेतात.''

बाकीबाबांची प्रेमकविता तत्कालीन गोंयांतले लोकमान्यताये आड नाशिल्ली. तांणी अभिजात स्वरुपाचे प्रेमकवितेचो आविश्कार करून रसिकांक लुब्ध केल्ले. द्राक्ष आनी रुद्राक्ष हांचो सुमेळ तांचे कवितेंत दिसून येता, देखून तांकां समर्थ रामदासांच्या 'आनंदवनभुवनांत आंकुरिल्लो मदमस्त प्रेमकवी' म्हणूं येता. भक्तीचो स्थायीभाव प्रणयूच आशिल्ल्यान शृंगाररसाचोच हो अप्रूप आविश्कार अशें म्हणूं येता.

बाकीबाबांची मायभास कोंकणीच. म्हणटकच तांच्या बरपांत कोंकणींतलीं उतरां आयल्लीं जाल्यार तातूंत अजाप कसलें? बाकीबाबांनी संस्कृत, बंगाली भासांचें अध्ययन केल्लें. तांणी ब्राझिलांतल्या कवींचेय बरप वाचिल्लें. तांकां उर्दूय बरी येताली. तेदेवेळार सुबुद्द आनी सुसंस्कृत गोंयकारांक पुर्तुगेज भास बेस बरे तरेन उलोवंक आनी बरोवंक येयऽ. बाकीबाबांकूय ती येताली. ज्या अभ्यासकाक पुर्तुगेज वा फ्रँच भासांतल्या बरपाचो बेस बरो परिचय आसा ताका बाकीबाबांचे खंयचे कवितेचो स्रोत खंयचे भाशेंत आसा हें सांगूंक येतूय बी. बाकीबाबांच्या काव्यांतलें बळगें तांच्या वेंचीक उतरांनी तशेंच लयेंत आनी नादांत आसा. भुरगीं भिंगां, रंगीत पांखां, फातर एकठांय करतांत, तसोच हांव विंगड विंगड भासांतलीं चित्ताकर्शक उतरांची संपदा एकठांय करतालों, अशें बाकीबाबांनी म्हळां. तांणी तांच्या काव्यांत त्या उतरांची मांडणी केली.

केन्द्रवर्ती मराठी वर्तुळांतली प्रेमकविता (कांय सन्मान्य आडवाद सोडत जाल्यार) कृतक स्वरुपाची आसताली. आपणालो मोग उकतावन दाखोवपाक मध्यमवर्गीय समश्टींत फावो तशें मुक्त वातावरण नाशिल्लें. घरकान्नी वांगडा भौशीक कार्यावळीक केन्ना भायर सरपी न्हय असलो मराठणांतलो कवी काव्यांतल्यान मोगाविश्कार करतालो. कालांतरान अस्तंती साहित्याचें वाचन केल्ल्यान हो कवी 'प्रेमभावना' उकतावंक शिकलो; परंत तेन्नाय तो तिका 'ताई' आनी ती ताका 'भाई' अशें म्हणून पाचारी. गोंयांतल्या बरोवप्यांक मुक्त कंठान काळजांतले उत्फर्के उकतावन सांगपी, नाका आशिल्ले लजेक कुशीक काडपी अस्तंती संस्कृताये विशींची जाण आशिल्ली.

विसाव्या शेंकड्याच्या आरंभाक उदारमतवादी आन्तोनियु जुजे द आल्मैद नांवाच्या पुर्तुगालाच्या प्रधानमंत्र्याच्या ध्येयधोरणाक लागून हिन्दू, क्रिस्तांव आनी मुसलमान हांचे मजगतीं सौहार्दाचें नातें वाडूंक लागिल्लें. देखून जगपांत अस्तंती साहित्याक, संगिताक आनी हेर कलांक चंवर येवंक लागिल्लो. एकाद्री अस्तुरी आनी एकाद्रो दादलो हांचें मेळप निखटी कल्पितांतली घडणूक उरूंक नाशिल्ली. अत्यंत अभिजात स्वरुपाच्या मोगाचो आविश्कार बाकीबाबांचे कवितेंत दिसता तो हेच अस्तंती संस्कृतायेचो भाग म्हूण. देखून तांचे कवितेंतल्या प्रियकरांचेर चोरून मोग करपाची पाळी केन्नाच येवंक ना. तांच्या ल्हानपणांत बारदेस म्हालांतल्या पर्वरींतल्या एका विद्यालयांत आठवे यत्तेंत शिकपी तांच्या वर्गांतलें मार्गारिद नांवाचें भुरगें, ध्यानीं-मनीं नासतना, अचकीत तांचो उमो घेता. हो उमो सान पिरायेच्या बाकीक दिव्य प्रितीभावनेचो साक्षात्कार घडयता. कालांतरान बाकीबाब ह्या अणभवाचेर आदारिल्लो काव्यचरण बरोवन वतात –

*असा कसा मी तरुण निरंतर सांगू कैसे तुला*
*सहज अचानक झाकुन डोळे तिने चुंबिले मला*

बाकीबाबान ते पिरायेर प्रसंगपरत्वें अभंग म्हणिल्ले आसतीत, बरयिल्लेय आसतीत; परंत प्रेमानुभवान ते जशे उत्फुल्ल जाताले तशे ते हेर अणभवांच्या आविश्कारा वेळार जाताले अशें म्हणप कुस्तार. घडये, तांणी 'हांव अभंगांची रचना करचों ना', ह्या आजयेक दिल्ल्या उतरान, कालांतरान, उपाट खोस भोगली आसतय बी. *'कांचनसंध्ये'* त *''स्मशान असावे दोन हाकांवर''* अशें म्हणटा आसतना तांकां खऱ्यांनीच 'कृतान्तकटकामलध्वजजरा' दिसताली काय?

आपूण धारवाडाक वचनाफुडें गोंयांतल्या सैमा पासत झुरूंक लागलों, अशें बाकीबाबांनी एके सुवातेर म्हळां. तें तरनाट्याक सोबऽशें



*काळखांत जशी चूड,*
*तशीच मनीस कूड*
*सोंपतासर पेटूं,*
*उरिल्लि वाट वुटूं*

*सैम* म्हळ्यार तांचे भितर लिपिल्ले प्रितीची हुरहूर आसूं येता, हे विशीं म्हाका इल्लोय दुबाव दिसना. थंयसरल्या राबित्यांत तांकां 'चिमणे जगत्' ही कविता आयली:

*ती पूर्वीची प्रीत पळाली विजोड तो संसार*
*बालपणीचे सौख्य निमाले आनंदाचे सार* (२९.७.१९२८)

ही तांकां खंत भोगताली. तांणी गोंया सावन मुंबय वतना केल्ल्या जलप्रवासांत पसून 'माझी आगबोट' ही कविता बरयली. तातूंत:

*माझी आगबोट चालली दरियात ग, दरियात ग*
*मन धावत तरि तव, ह्रदयात ग* (१.१२.१९२९)

अशी मनस्थिती उकती जाल्या. ही तना-मनांत लिपून आशिल्ले प्रेयसी पसून पयस वचपी मनशाची मनस्थिती. घडये ती एकाद्रे अतृप्त प्रितीची गाथाय आसूं येता. आनंदमयी काव्याविश्कार करतल्याक असफळ प्रितीची शोककथा बरोवंक येत व्हय? 'वीस वर्षांनंतर' हे कवितेंत बाकीबाब स्पश्टपणान सांगतात –

*वीस वर्षांमागचीं जीं वाहिलीं गीते तुला मी*
*वाजलीं वीणारवीं तीं गायिल्यावांचून रात्री*

बाकीबाबांनी भ्रम निर्माण करपी सौंदर्या कडेन आकर्शीत जावपाची आनी त्याच मस्तिष्कांत सौंदर्यासक्त रावपाची पिराय सहजपणान हुंपली.

बाकीबाबांक आपणें बेगीन लग्न जावचें अशें दिसनाशिल्लें. ताचें कारण बेबंध जीण जगपाची तांका ओड लागिल्ली अशें मात म्हणूं

नजऽ. तांकां जाता तितलें अध्ययन करपाचें आशिल्लें. ती इत्सा अपूर्ण रावली म्हणपाची खंत तांकां सतत भोगची पडली. कालांतरान आपूण जावन, हेरांचें चेपण नासतनाय, तांणी घरांतलो व्हडलो पूत ह्या नात्यान लग्नाचें बंधन मानून घेतलें. अशे परिस्थितींत बाकीबाबांनी तांचे घरकान्नीचे आंगकांतींत दृग्गोच्चर जावपी खानदानी तेजस्वितेचेर आनी तिचे चालींतले निर्भयतेचेर अतोनात मृदुमधूर करुणाभाव आशिल्ली प्रिती केली, हें वास्तवूय मतींत घेवंक जाय. घरकान्नीक दोळ्यां मुखार दवरून तांकां जितल्यो कविता बरोवंक आयल्यो तितल्यो हेर मराठी कवींक बरोवंक जमल्यो व्हय, अशें गृहीतक मांडून एका संशोधनपर लेखाची मांडणी करपाक संद आसा.

संयत उतरांनी आंगापांगाचें वर्णन करपा पासत प्रतिभाशक्तीक बाकीबाबां भायर कोण मेळटलो आशिल्लो?

एके अस्तुरेचे फाटीक लालसा न बाळगुपी दोळे तेळटात तेन्ना अभिजात उतरांतली कविता साकार जाता:



*आज आसा, फाल्यां ना,*
*असलें हांगचें जिवीत*
*सगलें क्षर म्हणून म्हजें,*
*अक्षरांत कवीत*

*पाठमोरी मूर्ति तूझी पाहिली मी कौतुकें*
*वाटलें त्वकुन्तली गे गुन्तली सारीं सुखें*
*भार त्यांचा गाढ काळा मेघ आषाढांतला*
*का फुलांच्या मार्दवे मानेवरी भारावला?*

*...भाग मानेचा खुला हा गे बिजेचा चन्द्रमा*
*अम्बराच्या नीलिम्याला गे उणी स्वर्गोपमा*
*कान्तिपानें धुन्द झालें गर्द हें नीलाम्बर*
*पोत - छे! स्वर्जान्हवीचा झोत हा पाठीवर*

*पाठमोरी तूं बिजेची रात्र, लावण्यें रमा*
*हासुनि पाही वळोनी, होऊ दे ना पौर्णिमा*
(पाठमोरी पौर्णिमा, २.३.१९४१)

तांचे एके कवितेंत मानिनीच्या दोळ्यांचो तोरो दाखोवपी वर्णन साक्षात जाता. तर दुसरेंत तिची करूण मनस्थिती:

*डोळे तुझे बदामी देती मला सलामी*
*त्यानेंच हा असा मी झालों गडे निकामी*
*लागे न चित्त धामीं लागे न चित्त कामीं*
*मोठे लबाड लुच्चे डोळे तुझे बदामी*
(डोळे तुझे बदामी, २९.९.१९४७)

*आज तुझ्या नयनांत मानिनी! शरणांगति अनुताप*
*हास्यविनोदामध्यें तुझ्या अन् सलज्ज मूक विलाप*
*व्यथा परी मम आज मानिनी तिला न करवे दान*
*नव्या विलासामधें तिच्या गे जना तुझा अभिमान*
(मानिनी, ३१.८.१९५०)

घरकान्नीचो उगडास येतकच, व्याकूळ जायनासतना, उत्फुल्ल जावन हो कवी ताचे आवयभाशेंत आंतरीकपणान बरयता:

*त्या दिसा वडाकडेन गडद तिनसानां*
*मंद मंद वाजत आयलिं तुजिं गो पायजणां*

बाकीबाबांच्या बरपांत उन्माद आसा. तो सभावीकपणान येता देखुनूच ते 'रसलंपट मी' (भिडली रात्र पहाटे, १६ मार्च, १९४५) अशें कसलीच आपालिपा करिनासतना सांगुनूय उडयतात. आदी सावन तांचे कवितेंत रोगटपण वो किरेकिरेपण वो उपहास व्यक्त करपाची वृत्ती-प्रवृत्ती ना. मळमळत जगप तांकां केन्नाच मानवलें ना. प्रिती करप हो तांचो मनोधर्मूच आशिल्लो. देखून ते *"रातवेळ वेणुनादे नाग येई मोहुनी"* (१९३१) अशें म्हणत कविवर्य भा. रा. तांबे हांच्या प्रेमकवितांक शरण गेले (१९३२) तशेच, काळजा थावन निती पसून मुक्त रावपाचें म्हत्व सांगपी रुपलावण्यलतिका दोना प्रोपेर्सिय कुरें आफोंसु इ फिगैरेदु ह्या प्राथमीक विद्यालयांतले एके विदुशी शिक्षिकेच्या सान्निध्यांत कांय काळ रावले (१९३३) आनी फुडारांत प्रगाढ प्रितीगर्भ आशय आशिल्ल्यो कविता बरोवंक पावले. हे विदुशीक तांणी 'आई' म्हूण पाचारल्या.

शृंगार हो संवसारी जनांचे अनुभुतीचो विशय आशिल्ल्यान कवींनी ताचो विनियोग सावधपणान करूंक जाय अशें आनन्दवर्धनान ध्वन्यालोकांत सांगिल्लें. चड करून बाकीबाबांक तशी जाणविकाय आरंभा सावन आशिल्ली जावये.

*पार्थिवतेच्या क्षितिजापुढतीं जाउनि ही राहिली*
*आणि मज माउलीच जाहली*
(आणि मज माउलीच जाहली, ३०.६.१९३२)

प्रेरक अस्तुरेक माऊली म्हूण संबोधपी बाकीबाब एकमेवूच!

दोना प्रोपेर्सिय ज्या काळांत तांकां मेळ्ळी त्याच काळाचे लागीं लागीं स्फूर्तिदेवता जाल्ले आनी एके क्रिस्तांव सहाध्यायी विद्यार्थिनी कडेन तांचें लागींचें नातें निर्माण जाल्लें. फुडारांत पंचविसेक वर्सां उपरांत तिची भेट जाली. तेन्ना हे बाकीबाब चरण बरोवन गेले:

*आणि रुळवीत उभार उरोजांच्या मधोमध*
*उभट नाजूक झिगझिगणारा*
*कांचन क्रूस...*
*...होतीच तशीच आहेस अजून*
*व्हर्जिन मेरी, पण सुखदुःखांची तड ओलांडलेली*

(कृतार्थ, ११.८.१९६४)

प्रितींत तृप्ती आनी अतृप्ती ह्या अणभवांचें अनन्यसाधारण स्थान आसता. अतृप्तीचें प्रगटीकरण जायत आसतना तर दोळ्यांत येवपी व्याकूळ दुकां अतृप्तीच्या अणभवांक तृप्तीची जाणविकाय दितात.

*परलोकीही दुर्मिळ सजणा अंतरंगिची कळ*
*तू गुदमरविसी चुंबिता*
*कडकडुनी आलिंगिता*
*मग करिता, कुडिची घडी गोड ये जीवाला भोवळ*

(गोड कळ, ११.५.१९३३)

ह्याच काळांत बाकीबाबांनी बरयलें:

*अदृढ असल्या सुखद क्षणाला आलिस तूं अदये*
*न मागिता तूं मागितलें जे मीही देउं नये*
*आज राहिला एकच जरी मन गहिरा अंधार*
*सतेज त्यांचीं स्वप्ने मजला होती आधार*

(६.११.१९३५)

बाकीबाबांनी शारीर प्रेम न्हयकारपाचो आनी 'हांव स्वर्गीय प्रिती करतां' अशें म्हणपाचो दावो करूंक ना. कुडीचें माध्यम घेतकच धुंद, रंगेल आनी हलकल्लोळांतल्यान साकार जावपी प्रितीचो विलक्षण सुंदर अणभव काव्यानुभवाक कार्रेगाद, गाड करता. 'स्मृति', 'स्पर्श', 'जपानी रमलाची रात्र', 'श्यामा' ह्या तांच्या रचनांक लागून मराठी प्रेमकाव्याक अभिजातपण लाबलें, उत्तानपण न्हय. देख म्हूण मुखार दिल्ले कांय चरण घेवं येत:

*रात होता शांत सारी, गाल गालां लाविले*
*भोगिलें ऐश्वर्य सारें स्पर्श संगीतांतले*

(स्मृति, ९.१.१९४१)

*तुझें विजेचें चांदपाखरूं दीपराग गात*
*रचीत होतें, शयनमहालीं निळी चांदरात*
*रतिरत कुक्कुटसा कुंडीवर आरोहुनि माड*
*चोंच खुपसुनी फुलवित होता पंखांचें झाड*
*...करांतुनी तव खिदळत आले स्तनाकार पेले*
*जळता गंधक पाच उकळती यांहिं रंगलेले*
*अभीष्ट चिंतुनि आम्ही त्याचें भिडवियले कांठ*
*सुरेहुनी तूं गडे भाजिले ओठांनी ओठ*
*स्पर्शें तुझिया आणि पियानो थरारला सारा*
*मजसम त्याच्या कानशिलांच्या झणाणल्या तारा*

(जपानी रमलाची रात्र, २९.११.१९४३)

*द्रवलीं नयनें स्रवलीं हृदयें / दो चन्द्रांच्या संगम उदयें*
*दुणी पौर्णिमा, रसा न सीमा उसळ्यांवर उसळ्या*

(स्पर्श, २७.१०.१९४५)

पिरायेचे पंचविशी मेरेन दादल्याचे मनोविकार लागीं लागीं निश्चित जाल्ले आसतात अशें मानल्यार बाकीबाबांच्या मनोधर्मान फुडारांतल्या जीवनावकाशांत काव्यलेखनाविष्कार कसो केलो हें ध्यानांत घेवं येता. ते मधुरा भक्तीचे पुरस्कर्ते नाशिल्ले. तांणी कृष्ण-राधेच्या प्रणयाची झलक तांबेंकूय पयलेच भेटींत दाखयिल्ली:

*ढकलिता तुशी । अधिक बिलगशी*
*शिथिल तनू ही करिसी रे तू*

(विरोधी भक्ती, २७.९.१९३२)

*स्वर्ग नको सुरलोक नको मज लोभस हा इहलोक हवा*
*तृप्ति नको मज मुक्ति नको पण येथिल हर्ष नि शोक हवा*
*...इन्द्राचा मज भोग हवा अन् चन्द्राचा हृद्रोग हवा*
*योग असो रतिभोग असो अतिजागृत त्यांत प्रयोग हवा*

(२०.६.१९५१)

*तूं आलीस पेलित अंगी वेल विजेची*
*अधरावर झेलीत अमृतकोर बिजेची*

(श्यामा, ८.५.१९५२)

*सुख म्हजें वरवाक वता,*
*दुःख करता रवंथ*
*तेन्ना म्हज्या कागदार फुलता,*
*चान्न्यांतली ववथ*



ह्या काव्यरचनांतले शारीर प्रितीक लाबिल्लें हें रूप कृष्ण-राधा हांच्या मिलनांतल्यान संभोग-शृंगाराचो चरम स्तर-चित्रण घडोवपी संस्कृत कविराज जयदेवांच्या *'गीतगोविंद'* परस वेगळें अशें म्हणूं नजऽ. धुंद वासना परिप्लुत अनुभुतीचो, वो शरीर श्रेष्ठत्वाचो हो गौरवूच! प्रिती-भावनेची अनुभुती हीय एके तरेन प्रतिती घेवप्याक आव्हानूच!

बाकीबाबांनी मोगाचे संवेदनेक वेदनेचो स्पर्श जातकच आयिल्ल्या अणभवाचेंय वर्णन केलां:

पोरणे उगडास वेदनादायक जातात... मुरली खंय वाजता हें कळना. कृष्णाचें आगमन कित्याक जायना, हेंय कळना. राधा अगतीक जाता. दोळ्यांत दुकां आसतना पावसाच्योय एका फाटल्यान एक अश्यो दडको येतात. कृष्ण तर अजून लिपुनूच रावला. तो मेळूंक सोदिना काय? खोल अंतरंगांत निर्माण जाल्ल्या करूण स्वरांक लागून उतरांचे चरणूय करूण-स्वरूप जावपाचो खीण येता; पूण सैमांत तर चौंयवशींनी शृंगाराक ओतो आयिल्लो आसता. असहाय्य राधेचेर हें सगळें एकोडी रावन पळोवचेलो प्रसंग आयला. विप्रलंभ शृंगाराचें रूप धारण करपी प्रितीची ही अनुभुती, तरल पूण थरथर उकतावपी स्वरांत शब्दबद्ध करपांत बाकीबाब कुशळताय दाखयतात तेन्ना तांचे प्रतिभाशक्तीक नमस्कार करचोशें दिसता.

*सरिंवर सरी आल्या ग सचैल गोपी न्हाल्या ग*
*...वनांत गेला मोर भिजून गोपी खिळल्या पदीं थिजून*

*घुमतो पावा सांग कुठून? कृष्ण कसा उमटे न अजून?*
*वेली ऋतुमती झाल्या ग सरिंवर सरी आल्या ग*
(सरिंवर सरी आल्या ग, २४.६.१९६०)

साक्षात् अभिनवगुप्तान म्हळां: ''स्त्रीति नामापि मधुरम्।'' (अस्तुरी ही संज्ञाच कितली मधूर!). भरतमुनींनी म्हळां: '*'सुखस्य हि स्त्रियो मूलम्।''* (सगळ्या सुखाचें मूळ अस्तुरेंतूच!) विश्वनाथानूय अस्तुरी ही शृंगाररस निर्माण करपी नायिकाच अशें म्हळां! बाकीबाबांच्या काव्यांतली अस्तुरी तर साबार कार्यकलापांत निपुणूच:

*तुझ्या दृष्टिपाने हृदयी उमलला फुलोरा*
*आसबाष्पबिंदू करिती त्यावरी विहारा*
*...नेत्रपल्लवी जीवाची काव्यरम्य भाषा*
*सुखे नेइ बाह्यांगाची बंधने विनाशा*
(नेत्रमीलन, ५.४.१९२९)

*नादांत गुंगसी जें शब्दांत सांग बाले*
*आषाढच्या घनें कां त्वन्नेत्र भारलेले?*
*होसी रसार्द्र केवी झुकतेस द्राक्षवेली?*
*ओठांत वेदनेची मदिराही साठलेली!*
(प्रणयमुग्धेस, १३.१२.१९३०)

*भुवनीं, भवनीं, हृदय-उपवनीं / तरल, विरल तर पवनावरणीं*
*मृदुल मधुरतर स्वरलहरींनीं / अखंड करिं संचार*
(करि सुंदरि स्वरशृंगार, १९३३)

अशें आसुनूय बाकीबाबांनी स्त्री-शरीर ही उपभोग्य वस्तू अशें मानूंक ना. भोग-उपभोग ह्या अणभवां पलतडींच्या हृदयगारांत वेगळोच उजळ प्रदेश आसता. ताचे पासत प्रितीक गाराणें घालचें पडटा:

*भुले जो केवळ देहसुखा*
*स्पर्शे का तो शकेल उजळू हृदयांतील अलका?*
(हरिच्या स्मरभुवनी, ०४.११.१९४१)

*याच डहाळीखालती झाले उन्हाचे चांदणे*
*आणि छायेने प्रकाशा तिढे घातले उखाणे*
*'रती असून मी सती' बोले हेलावत फांदी*
*माझ्या शुकाच्या मुखात नवी ओलावते नांदी*
(कामद्रुमाची डहाळी, १३.९.१९५७)

*सर सोन्याची होऊन आलिस । गाढ कालची झाली ओढ*
*आज लाभल्यामुळें हृदय तव । विष हि कालचें झाले गोड*
(हृदयच जेव्हा होते कोकिळ, २४.९.१९५७)

प्रितीचो वर जाका लाबता, ताका तातूंत हुलपुपाचो स्राप्रूय लाबिल्लो आसता, हें कितलें खरें! प्रितीचो सहवास कोणाकूय कसो लाबतलो? दाहक खिणांक भंया विरयत भिडूंक सोदता ताकाच प्रितीच्या जळपांतलें अवर्णनीय सूख समजता. पिरायेचे पन्नाशींत पावतकच बाकीबाबांक निरामयतेचो अणभव येता:

*जळण्यांतहि सुख आहे ज्वालातून फुलण्याचें*
*ढळण्यांतहि गुज आहे अंतिम हित कळण्याचें*
*प्रवण्याचा वर भेटे जळणाऱ्या अधराला*
*हृदयींचा हर भेटे ढळलेल्या पदराला*
*पडणाऱ्या गति लाभे अपुल्यांतच चढण्याची*
*कढणाऱ्या युति लाभे रतिवाचुन बुडण्याची*
*जळतों मी, ढळसी तूं आव्हानित मरणाला*
*अमराचा अळिता सखि अपुल्या पण चरणाला*
(१४.१०.१९६०)

आपणाचेर कालमाना प्रमाण ज्ञानेश्वर, सोहिरोबा, महात्मा गांध भा. रा. तांबे, आचार्य रामचन्द्र शंकर नायक, यशवंतराव सरदेसाय बालकवी, रवीन्द्रनाथ ठाकूर, काकासाहेब कालेलकर हांचो ठसठशी प्रभाव पडत रावलो अशें बाकीबाब म्हणटाले. म्हणटकच *द्राक्ष आ रुद्राक्ष* अश्या दोनूय संवेदनांच्या मार्गार बाकीबाबांनी एकसमयावच्छे करून काव्यलेखनाचो प्रवास केलो, अशें म्हणूंक जाता. हो तां प्रतिभेचो विलक्षण कार्यकलाप म्हळ्यार बरें. बाकीबाबांचे जिणेंतल वृद्धत्वा मेरेनचो प्रवास करून उदेल्ली ती सांज म्हळ्यार भांगराव सौंदर्यान बहरिल्ली *'कांचनसंध्या'* अशेंच म्हणनशें दिसता. अस पथींकं निखटो एकमेवाद्वितीयूच.

हें अशें कशें?

ह्या प्रस्नाची जाप सोदपाची आसत जाल्यार दोन गजाली मतींत घेवच्यो पडटल्यो. पयली गजाल जिणेंतली सोबीतकाय भावतल्लीन करपी कवितेच्या रचनाबंधांत आसा. असलो रचनाबंध म्हळ्यार श्रोत्यां कडसून ताळयो घेवप न्हय वो निखट्यो उतरांच्यो कायलोळ्यो न्हय. निखटे प्रितीचें उन्मादक प्रकटीकरण करपांत वो उस्वास सोडपाचो येत्न केल्ल्यान कविता रसरसून प्रगट जायना, हें सत बाकीबाबांक होलमल्लें. दुसरी गजाल म्हळ्यार, बाकीबाबांनी आदर्शांचीय भक्ती केल्ली. भक्ती ही एके तरेची प्रितीच:

*मध्यरात्री नभघुमटाखाली । शांतिशिरी तम चवऱ्या ढाळी*
*त्यक्त, बहिष्कृत मी त्या काळी । एकांती डोळे भरती*
*तेथे कर माझे जुळती । ज्या प्रबला निज भावबलाने*
*करिती सदने हरिहरभुवने । देव-पतींना वाहुनि सुमने*
*पाजुनि केशव वाढविती । तेथे कर माझे जुळती*

प्रेमकविता बरोवनूय आपणाक रोमांचीत जावपाचो अणभव येना अशें एकाद्र्या कवीक दिसतलें आनी ताच्या काळजांत विषादाची निर्मणी जातली तेन्ना ताका बाकीबाबांचो उगडास येतलो. तो बाकीबाबांची ही कविता गावंक लागतलो:

*निजता गात्रे, निजता वृत्ती । कोण तरळते स्वप्नांवरती*
*अमर कवींच्या कवनांवरती । नाचुनि लावी कोण पिसे?*
*जेव्हा माझ्या स्मृती उजळती । पुढची विश्वे नयनां दिसती*
*संकटकाली अति एकांती । हृदयस्पंदनी कोण ठसे?*
(वास्तव्य, १९३२, महाराष्ट्र साहित्य संमेलन, कोल्हापूर हांगा सादर केल्ली कविता)





# बाकीबाबाच्या मराठी काव्यांतल्या कोंकणी उतरांचें भावविश्व

रमेश भगवंत वेलुस्कार

*सांज दाटली शिरीं*
*परतलीं घरा भिरीं*
*सांवळ्या रुखावळींत धूर मात्र कांपरा*
*स्तब्ध मार्ग तांबडा*
*वळत जाय वांकडा*
*मोडक्या पुलाकडून तार जाय बंदरा*



*बापुय म्हण्टा, 'सगलि रात, पोरान न्हिदुंक दिलें ना'*
*आवय म्हण्टा, 'सगलि रात, पोर म्हजें न्हिदलें ना'*

ह्यो वळी आसात *जीवनसंगीत* ह्या बाकीबाबाच्या मराठी काव्यसंग्रहांतले 'मुशाफिरा' हे कवितेंतल्यो. त्यो आमच्या दोळ्यां मुखार आनी जिस्त त्याच वेळार कानारूय येतात तेन्ना ह्या उतरांनी आसलेलें कोंकणी मनशाचें नादविश्व आनी ते उतरावळींतल्या चित्रांच्या माध्यमांतल्यान कोंकणी मनशाचें जिवीत उबें जाता. मनशाचें कर्तुत्व ताच्या जिवितांतल्या हालचालींतल्यानच व्यक्त जाता. आनी ताची हालचाल ताच्या मनांत आयल्ल्या विचारांच्या सार्थक आकृतीबंधांतल्यान व्यक्त जाल्ल्या कारणान तेंच ताचें भावविश्व आसता.

ही कविता हांवें पयलेच पावट वाचली तेन्ना जें जाणवलें तेंच सांगतां. हांवें वयर दिल्यात त्यो वळी म्हाका त्या वेळार कश्यो दिसलेल्यो जाणात? एकाद्र्या कोंकणी मनशान म्हणच्यो तश्यो: *सांज दाटली शिरीं / परतलीं घरा भिरीं / सावळ्या रुखावळींत धुंवर मात कांपरो.* तशेंच *स्तब्ध मार्ग तांबडो / वळत जाय वांकडो / मोडक्या पुलाकळ्ळ्यान तार जाय बंदरा.* ही उतरावळ बाकीबाबाची तशीच बाकीबाब ज्या वाटारांत वाडलो, जंयचे संस्कार ताणें केळयले, मिरयले आनी आपणायले त्या वाटारांतल्या लोकांचीय. म्हणटकूच थंयसरले हुंकार ते उतरावळींत सामके सजीव जावन आयल्ले आसात. म्हणून हे सूर कोंकणी भावविश्वाचे प्रातिनिधीक सूर म्हणचे पडटले.

वयर उद्‌धृत केल्ल्या वळींतल्या उतरांनी हें कोंकणीपण जाणवता. हेच कवितेंत आयल्लो आनीक एक वाक्प्रचार पळयात: *वाटतें भयाण सर्व! सलत आंत कातरा.* हांतलें 'कातरा' हें उतर तर मनाक कातरो घाले बगर कशेंच रावना. हें फकत कोंकणी वाचकाचेच बाबतींत जावं येता. जो कोंकणी वाटारांत वाडला आनी जो थंय जियेला ताकाच हो कातरो पडूं येता. ताकाच ह्यो कोंकणी भावना सहजपणान कळूं येतात. आनी जाचे भितर हें कोंकणीपण समजून घेवपाची ताकत आसा ताकाय तें समजूं येता. जंय सगळेंच भयाण आसा आनी जाका ही भयाणताय जाणवल्या ताका कातरो हें उतर सतत व्हांवत रावपी दुःखाची जाणीव करून दिता. बाकीबाब *कातरा* ह्या उतरांतल्यान हें कोंकणीपण अचळय मराठी जाणिवे मेरेन व्हरून पावयता. *सलत आंत कातरा* हीं उतरां खोल खोल रोमत वयताशीं दिसतात. बाकीबाब जीण अशी उतरांतल्यान जिती करून उडयता.

*प्रतिभा* हो बाकीबाबाचो मराठींतलो पयलो काव्यसंग्रह. तो १९३०त उजवाडाक आयल्लो. ह्या काव्यसंग्रहांतली १९२६त बोरये बरयल्ली 'पुनवेची रात' ही कविता सगळ्यांत पोन्नी म्हणची पडटली. हे कवितेंत एका कडव्यांत एक वळ येता ती अशी आसा: *किटकिट्टुनि तारका करिती मोत्यांचा और सुकाळ.* ह्यो युवासुंदऱ्यो तारिका फुगड्यो घालताल्यो. तांचें किटकिटप दोळ्यां मुखार येता. हें कोंकणी संवेदन म्हाका जाणवलें. युवासुंदऱ्यांचें हें बागेश्री किटकिटप कोणाक आवडचें ना? आनी बाकीबाबाची ही सोळाव्या वर्सा वयली कविता. ह्या वयार तर असल्या

किटकिटपांतलें सौंदर्य वळखप, केळोवप आनी खेळोवप हाची बुन्याद पडटा. ह्याच वयार ह्या किटकिटपांतलें सुक्षीम सौंदर्य मनांत आकाराक येता. हेच खातीर ह्या उतरांतल्यो भावप्रतिमा मनाक हात घालतात.

'नंदन' ही *प्रतिभा* ह्या संग्रहांतली दुसरी कविता. हांतल्या पयल्या दोन कडव्यांत दोन कोंकणी उतरां आयल्यांत.

*भाकरीचा तूं भिकारी कैदियाचा पाहुणा*
*बैल घाण्याचा **निजाचा** नी मुक्याचा मेहुणा*

*तापता मार्तंड डोईं **रेंव** ही पायांतळीं*
*चाबकें मानेवरी नी प्यावया गंगाजळी*

एक उतर 'निजाचा' आनी दुसरे 'रेंव'. उतरां केन्ना एकोडीं येनात. तीं वाक्प्रचाराचो भाग जावन येतात. *बैल घाण्याचो निजाचो*



*देव अनाम अरूप असा*
*नावारुपा यावा*
*कांचेमधील ज्योतशी*
*देव देहीं प्रगटावा*

ह्या वाक्प्रचाराच्या रूपबंधाचो महत्वपूर्ण घटक जावन 'निजाचो' हें उतर येता. हांगा हें उतर बैलाच्या घाणो ओडपाच्या निजा विशीं वा असले संवये विशीं उलयता. दुसरें उतर 'रेंव'. *'रेंव ही पायांतळीं'* हातूंत आमच्या मिरामार, कोलवें, कळंगुटे हांगासरल्या दर्यादिगां वयले तापिल्ले रेंवेर चलतनाचो अणभव आसा. कोंकणी वाचकाक हें आपशींच जाणवून वयता कारण, हें ताचें भावविश्व.

बाकीबाबान मराठी कवितेंतूच आपलें सगळें काव्य सर्वस्व ओंपलां म्हटल्यार अतिताय जावची ना. *प्रतिभा* ते *चिन्मयी* अशे धा गडगंज काव्यसंग्रह ताच्या नांवार रुजू आसात. ते भायर अपूर्ण 'महात्मायन' आसा. त्या मानान कोंकणींत सुमार तीस वर्सांनी १९६० वर्सा *पायजणां* आनी १९८० त *सासाय* हे दोनच काव्यसंग्रह मेळटात. मराठी काव्यसाधनेची सुरवात तांणी १९२६ सावन केल्या ही गजाल १९३० तल्या *प्रतिभा* काव्यसंग्रहांत १९२६ त बरयल्ली कविता पळोंवक मेळटा ताचे वेल्यान कळटा. ह्या काळार बाकीबाबान झपाटून मराठी कविता बरयल्यात. त्याच वेळार तांणी कोंकणी कविता अशेच तरेन झपाटून बरयल्यात अशें मात दिसना. पूण मराठी कवितेंत कोंकणी उतरावळ मात आपलें आंग मोटे कळाशेन मिरोव दाखयता तें सहज दिसता.

*नक्षत्रांच्या मीठमोहऱ्या*
***उंवाळिल्या** त्यावरुनि साजऱ्या*

तेन्नाच्या गोंयचीं चित्रां बाकीबाबांचे कवितेंत सतत पळोंवक मेळटात. दर सांजवेळा आपलीं भुरगीं घरा येतकच आवय रान्नी मुखार बसून, भुरग्याक आपले वेंगेंत बसोवन, मीठ मिरसांग घेवन ताची दिश्ट काडटाली. तेंच चित्र बाकीबाबान हे कवितेंत रंगयलां. आवय दिश्ट काडून भुरग्याक रान्नींतलेच घशीची नानकुली तीट लायता. आनी उपरांत आपल्या माणकुल्याक आतां कांयच बादचेंना अशा विस्वासान ताची उंबी घेता. केन्ना केन्ना असल्या वेळार तीं ताच्या दोळ्यांत काजळूय घालता. बाकीबाबान हें सगळेंच हे कवितेंत हाडलां--

*अंजन घालुनि नेत्रीं त्याच्या*
*गालबोट लाविलें चुंबिलें मग त्यातें प्रेमात*

अशे तरेन उंवाळपाचें सगळें कोंकणी विश्वूच बाकीबाब हांगा समर्पकपणान उबें करता.

आनीक एक कविता पळयात. हांगा सगळो कोंकणी वाटार कसो रसरसून आयला पळयात बाकीबाबाच्या उतरांनी. *इतुक्या लौकर येई न मरणा* ही ती कविता --

*इतुक्या लौकर येई न मरणा*
*मज अनुभवुं दे या सुखक्षणा!*
*फिरुन पहाटे डोंगरमाथा*
*घ्यावे काजू येतील हाता*
*किंवा पोफळि शिंपुनि दमतां*
*आलिंगू दे रवि किरणां*

*वझऱ्यावरती न्हाउनि पाणी*
*गावीं मी कुणबाऊ गाणी*
*पोवलींतुनी पेज पिऊनी*
*झोपुनी जरा सुखवुं दे मना*

*निसर्ग-गो-वत्सांशि रमावें*
*दिवसभरी श्रम करित रहावें*
*तिखटकढीने जेवुनि घ्यावें*
*मासळिचा सेवित स्वाद दुणा*

*पडत्या किंवा सायंकाळीं*
*गुंतावें भावांच्या जाळीं*

*वेणुस्वरांचीं काढित आळीं*
*मज उकलूं दे आंतील खुणा*

*रेंदेराचें ऐकत गान*
*भानहीन मज मोडुनि मान*
*चुडतांच्या शेजेवर पडुन*
*भोगुं दे मूक निस्तब्धपणा*

*रात्रीं समईशीं वाचावी*
*ज्ञानोबाची अमृत-ओवी*
*कविता स्नेहें वात जळावी*
*उजळीत मनाचा द्‌वैतपणा*

*कुळागराची गर्द साउली*
*त्यांतच माझी खोंप सानुली*
*निद्रेविण स्वप्नांच्या ओळी*
*रेखीत भोगुं दे सरळपणा*

*फूलपांखरें अनंत माझी*
*बनुनी, मी सेवावीं ताजीं*
*हत्सुमनें आनंदामाजीं*
*नाचवीत पांथांच्या नयना*

हे कवितेंत जी उतरावळ आयल्या ती गोंयचें आनी गोंयच्या मनशाचें व्यक्तिमत्व उबें करता. हें व्यक्तिमत्व गोंयच्या सैमाचेर मोग करता. ताचेर मरता. ताका गोंयचे दोंगरमाथे, थंयच्यो काजी, वझरे आनी वझऱ्यां वयलीं न्हाणां, पोंवलेंतली पेज, ती जेवन आयल्ली सुस्ती, मागीर दिसभराच्या कामा उपरांत नुस्त्याच्या जेवणाचो सुवाद, हाच्या सांगाता बांसरेच्या स्वरांत घुसून तांतले सांगितीक तशेच भावनीक पदर जाणा जावपाचे प्रयत्न, भाटाच्या एकांतांतलें रेंदराचें गायन वा चुडटांचे राशीर आड पडून थंयसरली मोनी मोनेळ अणभवप, मागीर आमोरे वेळार संवसारांतल्या द्‌वैताचो आनंद घेत केल्लें ज्ञानेश्वरीचें पारायण, कुळागरांतली दाट सांवळी आनी थंसरली ती खोंप, तशेंच दिसा उजवाडयां पळयल्लीं सपनां ह्या कवीक भावतात. ही सगळी उतरावळ गोंयचे जिणेंतले अपरिहार्यतेच्या आग्रहांतल्यान येता. बाकीबाबाची ही कविता ताचे जिणेची कविता. ताचे सयभोंवतणची कविता. तें सगळें तांतल्या द्‌वैताच्या सौंदर्याच्या आदारान ताका भोगपाचें आसा. म्हणून तो मरणाक सांगता, ताणें बेगीन येवपाची गरज ना. ताका हें सगळें आनंदान जगचें आसा. अशीं कितलींशीं चित्रणां बाकीबाबाले कवितेंत येतात. म्हणून बाकीबाब आपली कोंकणी जीण मराठींतल्यान व्यक्त करता अशें म्हणपाचो मोह कसोच सुटना.

आनीक एक कविता आपले उतरावळीन मराठी काव्य रसिकांक झिणझिणावन गेल्या. ही कविता आसा *सरिंवर सरी आल्या ग* ही. हांतली *वेली ऋतुमति झाल्या ग* ही वळ. गोंयांत घर घरच्या पोरसांत वा दोंगरकारांच्या मळ्यांनी ज्यो घोंसाळ्याच्यो वाली माटवाचेर चडटाल्यो तांकां कळे येवचे जाले की 'घोंसाळ्यो न्हाल्यो' अशें म्हणटात. बाकीबाबान हेंच मराठींत व्हेलें आनी मराठी काव्य रसिकांक हाचें अप्रूप जालें. मराठींत असली रसीक प्रतिमा हाचे आदीं केन्नाच येवंक नासली. बाकीबाब अशे तरेन कोंकणी भावविश्व असुदाय मराठींत पावयतालो.

बाकीबाबान *मेघदूत* मराठींत हाडलां. ह्या *मेघदूतांतूय* ताणें कोंकणी उतरावळीची नजाकत पावयल्या.



*देंवचार म्हण्टा 'पदे सोरो'*
*देव म्हण्टा 'कर भजन'*
*दोगांचेंय मानलें हांवें*
*हाजें ताजें कित्या दुशण?*

*जा वाटेनें* ***मुजरत*** *तिढ्या वांकड्या उत्तरेच्या*
*उज्जैनीच्या रसनिपुण घे पाहुनी सौध गच्च्या*

*आणी पाडा* ***रुमड*** *वनिंचे लीलया गर्द धुंद*
*देवाद्रीला वळशील जधीं साथ देईल मंद*

*तेथोनी जा मग कनखला, जेथ शैलराज*
*त्यागें होते सगरतनयां जान्हवी* ***स्वर्गपाज***

*मेघदूतांतलीं* स्वर्गपाज, रुमड, मुजरत हीं उतरां वा हांचे भायर हुंपप, बावप, साळकां, यादस्त, तिरकस अशींय उतरां येतात. वसंत बापट हांणी बरयल्ले प्रस्तावनेंत हीं उतरां भाशांतरीत काव्यांतल्या सौंदर्यांतली नजाकत वाडयतात अशें म्हटलां. कोंकणी हो बाकीबाबाचो श्वास. म्हणटकूच तिच्या स्पर्शा बगर मराठी येवप हें पटना.

खरें म्हटल्यार सगळ्याच कोंकणी उतरांचो जिणेच्या वेगवेगळ्या आंगांक धरून अभ्यास जावप गरजेचें. आनी ही तर निकती सुरवात. नव्या संशोधकांनी हें आव्हान पेलचें.



# बाकीबाबांचे मराठी काव्यनिर्मणे प्रक्रियेची थळकाळ प्रभाव चिकित्सा

नंदकुमार मुकुंद कामत

अलंकारशास्त्र, रसशास्त्र, ध्वनीशास्त्र, शैलीशास्त्र, सौंदर्यशास्त्र हांचीं परिमाणां वापरून मराठी कवितेचो खूब अभ्यास जाला. अभ्यास करतल्यांनी कवीन केन्नाच येवजूंक नाशिल्ले अर्थ/अनर्थूय काडिल्ले आसात. कविता म्हळ्यार एक 'ऑर्गेनिक होल', पुराय एकजीव सेंद्रीय रचणूक अशें आमी मानतात. कवीक कविता 'येता' म्हळ्यार नेमकें कितें जाता? 'कविता येवप/जावप' ही कवीची सहजप्रवृत्ती - एक इंस्टिंक्ट, एक इंपल्स? आमी आईन्स्टाइनच्या सापेक्षतावादांतल्यान या विशया कडेन पळोवया.



पावसांतल्या ओतांत
पानावैले थेंबे
तशीं म्हजीं दुखां
सुखान झिगझिगतात

### सापेक्षतावाद आनी काव्यनिर्मणी

विश्वांत खंयच थीर बिंदू ना. कांय एक थीर ना. सगळेंच खंय ना खंय धांवता, घुंवता. ह्या विश्वांतले दर एके घडणुकेक एक विशिश्ट कालरेशा (वर्ल्ड लायन) आसता. हें सगळें हांव जंय बसून बरयतां, थंय हे घडणुकेची एक निश्चित कालरेशा तयार जाता. कवी एकाद्र्या थळार, एकाद्र्या वेळार कविता बरोवन सोंपयता. त्या वेळार, त्या थळार ते कवितेची कालरेशा तयार जाल्ली आसता. ह्या लेखांतल्यान 'कवितेची/काव्याची सापेक्षतावादी कालरेशा' (वर्ल्ड लायन ऑफ पोएम/पोएट्री) हो सिद्धांत हांव मुखार दवरतां. कांय कविता आमचे मुखार कांय प्रस्न उब्यो करतात. केन्ना बरयिल्ली कविता काय ही? खंय बरयिल्ली? थंयच कित्याक? त्याच दिसा, त्याच हंगामांत, रुतूंत, त्याच वेळार कित्याक काय? थळा-काळाचे फास्केंत बंदिस्त कविता पळोवन कवीचे काव्यनिर्मणेचे प्रक्रियेचेर कितेंय उजवाड घालूंक जाता काय? साहित्य ही एक कलात्मक निर्मणी. विश्वांत संघटन आनी विघटनाची प्रक्रिया चालूच आसता. साहित्य संघटन करता. ती एक सर्जनशील प्रक्रिया. पूण साहित्यीक, कवी हे प्रोग्रॅमेबल रोबॉट्स न्हय. कवी कविता बरोवपी यंत्र न्हय.

### कवींनी पांगुरिल्लो गूढवाद

आपल्याक कविता येता, 'येवप', 'जावप' म्हळ्यार कसली तरी वेगळीच सिद्धी प्राप्त जावप, अशें जायत्या कवींक दिसता. मागीर ते गूढवाद, अतींद्रियवादाच्या मोगांत पडटात. जिणेच्या चार ते धा ह्या वयोगटांत सगळींच भुरगीं काव्यमय, गीतमय, संगीतमय जाल्लीं आसतात. पूण सगळ्यांकच कविता जमनात. बाकीबाबांनी आपल्या व्यक्तिमत्वा भोंवतणी एक गूढ वलय निर्माण केलें. तांच्यो ७८२ मराठी कविता वाचले उपरांत वलय, गूढ बी कांय मेळना. दिसता तो एक हाडां-मांसाचो मनीस. संवसारांत पडून सगळे उतळताप भोगपी, शिणपी, खंती जावपी, हुसको करपी. बाकीबाबांक कविता 'आयल्यो' म्हळ्यार कितें जालें? तांच्या व्यक्तिमत्वाक अभिव्यक्तीचें एक माध्यम मेळ्ळें. फुगिल्ल्या उदकाक वाट मेळून पाट जालो. तांची सगळीच कविता आश्रमीक. कशी तें पळोवया.

### आश्रमीक कविता

वैदीक परंपरेंतले चार आश्रम म्हळ्यार – ब्रह्मचर्याश्रम, गृहस्थाश्रम, वानप्रस्थाश्रम आनी संन्यासाश्रम. पयले तीन सोंपे. चवथो चड कठीण. प्रत्येक आश्रमावस्थेंत पुरुषार्थ्यान पंचवीस वर्सां काडचीं असो संकेत आसा. आतां पूर्णवेळ कवी नाशिल्ल्या बाकीबाबान आश्रमधर्माचें आचरण कशें केलें? ताचो परिणाम तांचे काव्य निर्मणेचेर कितलो जालो? जावंक नाशिल्लो जाल्यार खंत, खेद, निर्शेणी तांचे मराठी कवितेंत कित्याक दिसची?

ब्रह्मचर्यावस्थेंत जिणेच्या सोळाव्या वर्सा बाकीबाबान पयली मराठी कविता बरयली. तांचो

ब्रह्मचर्याश्रम १९३० वर्सा सोंपलो. ते मेरेन तांकां अठ्ठावन कविता आयिल्ल्यो.

१९३१ वर्सा सावन बाकीबाबांचो खरो गृहस्थाश्रमी अवतार आनी प्रवास सुरू जाल्लो दिसता. ह्या आश्रमधर्माचें पुराय पडबिंब १९६० वर्सा मेरेन पळोवंक मेळटा. पिरायेचीं पन्नास वर्सा हुंपून बाकीबाब १९६१ वर्सा वानप्रस्थाश्रमांत पावल दवरतात. गृहस्थाश्रमी बाकीबाबांची तीस वर्सांची काव्यनिर्मणी म्हळ्यार ३०४ मराठी कविता.

१९६१ उपरांत बाकीबाबांची वानप्रस्थाश्रमधर्मी कविता वेगळ्याच मोडणार पावता. सुमार वीस वर्सां बाकीबाब हो धर्म पाळटात हें तांच्यो १९६१ ते ८० ह्या काळांतल्यो ३७५ कविता पळेल्यार समजता.

मागीर दिसतात ते एक वेगळेच बाकीबाब – *'विरक्तस्य तृणम् भार्या, निस्पृहस्य तृणम् जगत्'* म्हणपी. तांकां संन्यास घेनासतना संन्याश्राधर्म पाळपाचो आशिल्लो अशें १९८१ ते ८४ ह्या काळांतल्यो ५४ कविता सांगतात.

ब्रह्मचर्याश्रमांत आयिल्ल्यो ५८ आनी संन्यस्त, विरक्त, विरागी अवस्थेंतल्यो ५४ हातूंतलें संख्यासातत्य म्हाका महत्वाचें दिसता. १९ व्या वर्सा धारवाडा बरयिल्ले कवितेंत तरणाटे बाकीबाब *''रुक्ष जगीं या कशास जीवित देवा दिधलें वाया?''* असो नैराश्यपूर्ण सूर लायतात. ७३ व्या वर्सा जाणटेले बाकीबाब *''कधीं कधीं मनास ये उदास एकटेपणा, चराचरींही जाणवे जुनाट तोच तोपणा''* असो सूर लायतात.कविता जिणेचो हिशेब मांडपी चोपडी नासली तरी कवीचे जिणेचें पडबिंब काव्यनिर्मणेचेर पडिल्लें आसताच आसता. बाकीबाब जो विरागी सूर लायतात तातूंत तांणी आपले संन्यासाश्रमधर्मी अवस्थेचें बरें वर्णन केलां – *''विझवून दीप सारे, मी चाललो निजाया, आता अशाश्वताची उरली मुळीं न माया.''*

ह्या अशाश्वतांतलें निर्मिती हें एक शाश्वत सत्य. ह्या सत्याचो साक्षात्कार बाकीबाबांक कसो, केन्ना केन्ना, खंय खंय जालो?

### थळमुद्रा, काळमुद्रा, नाममुद्रा

बाकीबाब कविता बरयले उपरांत थंय त्या दिसाची तारीक आनी जंय ती बरयल्ली तें थळ घालून दवरताले. हांवें ७८२ मराठी कविता हे नदरेन तपासल्यो. तांतल्या १५ कवितांचेर कसलीच काळमुद्रा ना. त्यो केन्ना बरयल्ल्यो आसतल्यो तांचो फकत अदमास काडपाचो. ही संपादकीय चुकूय आसूं येता. तारीक म्हळ्यार कवितेची विश्वरेखा थारावपाक उपेगी आशिल्लो घटक. ताचेय परस म्हत्वाची थळमुद्रा. कविता 'अ' सुवातेचेर येवन ती अंतीम स्वरुपांत पुराय जावपाक 'ब' सुवात वेंचिल्ली आसूं येता. ती 'अ' सुवातेचेरूच पुराय जावपाची / करपाची गरज नासता. पूण कवी जेन्ना कवितेचेर थळमुद्रा घालता तेन्ना ती थंयच 'येवन' पुराय जाली अशें आमी मानपाचें. हाका आडवाद कवीन स्वतः स्पश्टिकरण दिलें जाल्यारूच. बाकीबाबांच्या ७८२ मराठी कवितांतल्या २११ कवितांचेर थळमुद्राव ना. अशें कित्याक जालें/जावचें ताचें स्पश्टिकरण मेळना. ह्या कवितांचो बारीकसाणेन नियाळ करचो पडटलो. ह्यो 'नॉट सो सिरीयस' जावं 'आत्म-प्रक्षिप्त' कविता आसूं येतात. हांची विश्वरेशा थारावप कठीण.

पूण हाता कडेन काळमुद्रा, थळमुद्रा आशिल्ल्यो बाकीबाबांच्यो ज्यो ५५६ मराठी कविता मेळटात तांचे वेल्यान काव्यनिर्मणेचो प्रवास नियाळूंक मजत जाता. पयलीं काळमुद्रेचो विचार करुया. हो विचार करता आसतना मुखार काय सादे प्रस्न आसले – बाकीबाबांच्या कवितांचो प्रवास कसो जालो? तांकां केन्ना आडखळ आयली? ती आडखळ भौतीक आसली कांय निर्मणेची, सर्जनशक्तीची? तांचे निर्मणेंत कितलें सातत्य, संतुलन दिसता? बऱ्या फलंदाजाकूय जसो 'बॅड पॅच' येता तशें तांचें जाल्लें? तांचे कवितेचो सुवर्णकाळ म्हणून आशिल्लो? आसल्यार केन्नाचो? बाकीबाब 'अल्पप्रसव' आनी 'भोवप्रसव' केन्ना आशिल्ले?

कोणाकूय दिसत, हें सादें, सोंपें संख्याशास्त्रीय गणीत. खंयच्या वर्सा बाकीबाबान कितल्यो मराठी कविता बरयल्यो तांची वळेरी तयार केली जाल्यार तातूंत 'पॅटर्न्स' कशे सोदपाचे? आमी फकत प्रकाशीत कविताच मेजतात. प्रत्यक्षांत धा कविता बरोवन, पिंजून उडोवन, बाकीबाबान एकूच छापूंक दिल्ली आसल्यार?

### काव्यनिर्मणेचे पॅटर्न्स: टेंपोरल/कालीक

बाकीबाबान १९६१ वर्सा सगळ्यांत चड मराठी कविता बरयल्यो. योगायोगान गोंय सुटकेचें तें वर्स. तांचो वानप्रस्थाश्रमूय सुरू जाल्लो. पूण ह्याच बाकीबाबान १९५५त एकूय मराठी कविता कित्याक बरोवंना हाचेर कसो उजवाड पडटलो? बाकीबाबां सारक्या सिद्धहस्त, शब्दप्रभू कवीन, वर्साक पांचां परसूय उण्यो कविता बरोवप म्हळ्यार एक 'बॅड पॅच' म्हणूंक जाता? अशे 'बॅड पॅचेस' बाकीबाबांच्या काव्यप्रवासांत १९२७, ३८, ३९, ५३ आनी ८२ वर्सा दिसतात. कांय फावट एका फाटल्यान एक बरींच वर्सां तांची प्रतिभाशक्तच तांकां सोडून गेल्ले भशेन दिसता. देखीक, १९३१-३३ ह्या तीन वर्सांत फकत २० कविता, १९३७ ते १९३९ ह्या तीन वर्सांत १५ कविता, १९४३-४५ ह्या तीन वर्सांतूय २३ कविता, ५१ ते ५८ हीं वर्सां बाकीबाबांक बरीं वचूंक नात. हो काळूय राजकीय धामधुमीचो आशिल्लो. ह्या आठ वर्सांत बाकीबाबान फकत ३५ कविता दिल्यो. १९६५ वर्सा कितें जालें, कोणाक खबर! फकत तीन मराठी कविता? हो विलिनीकरणवादाचो प्रभाव म्हळ्यार 'जनमत कौल' जाल्ल्या फाटल्या, फुडल्या वर्सा ६६ ते ६८ ह्या तीन वर्सांत बाकीबाबान ७६ कविता दिल्यो. १९७८ आनी १९८० हीं वर्सांय तांकां बरीं वचूंक नात.

साडेसत्तावन वर्सांच्या मराठी काव्य बरोवपाच्या प्रवासांत बाकीबाबान वर्साक सरासरी १४ कविता दिल्यात. १९२९, ४१, ६०, ६१, ६६, ६७, ६८, ६९, ७१, ७६, ७९, ८१, ८३ हीं तांचीं बरीं वर्सां.

आपणाल्या कवितां बद्दल, काव्यनिर्मणे बद्दल बाकीबाबांनी बरेंच बरयलां. तातूंतल्यान कांय बऱ्यो वायट दंतकथाय निर्माण जाल्यात. 'तेथे कर माझे जुळती' कविता तांकां कशी आयली हें जे पद्दतीन तांणी बरयलां तें वाचपाक विचित्र दिसता. 'जपानी रमलाची रात्र' हे कवितेच्यो दंतकथाय महाराष्ट्रांत आयकूंक मेळटात. बऱ्यो आनी वायट.

बाकीबाबांच्या मराठी कवितांचो, सगळ्यांत बरो नासलो तरी निर्मणेच्या पांवड्या वेलो सगळ्यांत सातत्यपूर्ण, कंसिस्टंट काळखंड खंयचो, हाची जाप १९६० ते १९७७. तांचे पुराय मराठी काव्यनिर्मितींत ह्या काळखंडाचो वांटो ५० टक्के.

हो गोंयचे सुटकेचो काळखंड, लोकशायेचो काळखंड, व्यक्तीस्वातंत्र्य, विचारस्वातंत्र्याचो काळखंड. १९६१ ते ७० मेरेन ते गोंय आकाशवाणीचेर आशिल्ले. १९७० उपरांत तांकां पुराय मेकळीक मेळ्ळी. 'या राजपाशांतून मुक्त होतां' ही ३१ जानेवारी १९६८ ची कविता तांकां फुडें कितें करपाचें आशिल्लें ताचो एक जाहीरनामोच कशी. वैराग्य येतालें ताची सुलूस लागता तांच्या 'मी विझल्यावर' हे कवितेंत. पूण तांणी बरयलां तशें *'विस्मरणाचे थंड काजळी थडगे'* आमी गोंयांत जावंक दिवंक ना. सूर्य चंद्र आसासर



*जिणे पलतडचें किरण*
*ताकाच म्हण्टात मरण*

बाकीबाबांची कविता उरतली हाची आमकां आस्त आसा.

### थळमुद्रेचे पॅटर्न्स : स्पॅशियल / अवकाशीय

बाकीबाबांच्या कवितांनी ३९ स्थळनांवां येतात. दर एका थळाचेर तांकां कितल्यो मराठी कविता आयल्यो तांची वळेरी परिशिश्ट २त दिल्या. ज्या ज्या सुवातांचेर साडेसत्तावन वर्सां बाकीबाबान कविता बरयल्यो तांची फोडणिशी केल्यार तांणी ५७२ कवितांचेर थळाचो नामो घाल्लो मेळटा. हातूंतल्यो ३८९ कविता तांणी गोंयांत, १३६ महाराष्ट्रांत, २३ कर्नाटकांत, १३ दिल्लीच्या वास्तव्यांत, एक गुजराथेंत, ६ विदेशांत (अमेरिका) तर ३ प्रवासांत बरयिल्ल्यो मळटात. उत्तर गोंयांतल्या सुवातांचेर तांणी वट्ट २२० तर दक्षीण गोंयांतल्या सुवातांचेर १६९ कविता बरयल्यो.

पणजेक तांणी मराठी कवितेच्या इतिहासांत अज्रंवर करून दवरल्या. ह्या सुंदर शारांत तांकां १३५ कविता आयल्यो. पणजे फाटल्यान तांचो पुर्वजांचो गांव बोरी. थंय तांकां ११२ कविता आयल्यो. मजा म्हळ्यार, सांतीनेझ, करंजाळें, दोनापावला, हणजुणे, चांदर, नागेशीं हांगाय तांकां एकेक कविता आयल्या.

गोंया भायर महाराष्ट्रांत तांची प्रतिभा चड परजळ्ळी ती पुण्यांत. थंय तांकां ७२ मराठी कविता आयल्यो. ताचे फाटल्यान मुंबय ५० कविता. मजा म्हळ्यार, एकली एकोडीच अपुरबायेची कविता महाराष्ट्रांत जंय तांकां आयली त्या थळांत तांणी मिरज, आंबोली घाट, महाबळेश्वर, वर्धा, खेड, मालाड, सायन, औदुंबर हांचो अंतर्भा[व] केला.

कर्नाटकांत, धारवाडा शिकतना तांणी १९ कविता बरयल्यो[.] रेल्वे प्रवासांत कॅसलरॉक देंविल्ले कडेनय तांची एक कविता आसा[.] पूण बेळगांवांत मात तांकां फकत तिनूच कविता आयल्यो.

विदेशांतल्यो तांच्यो सवूय कविता अमेरिकेंतल्यो. दिल्लीच्[या] वास्तव्यांत तांणी १४ कविता बरयल्यो. दिल्लीचो मॉन्सून साका[र] करपी 'थंड वारे' ही तांची सुंदर कविता देखदिणी म्हणपाची. दिल्लीच[ो] पावस पळयिल्ल्याकूच ती कळपाची.

वेरूळ-अजंठा, बोरी-पणजी आनी गोंय-पुणें प्रवासांत तांण[ी] कविता बरयल्यो. तिनूच कविता. पूण त्यो 'प्रवासांतल्यो' म्हणू[न] तांणी मुजरत उल्लेख केला.

### मूडस ऑफ सीझन्स, मूडस ऑफ पोएटः

काव्यप्रतिभा, काव्यनिर्मणी आनी सैमचक्र हांचो कितेंय संबं[ध] आसता काय? हाचे खातीर बाकीबाबांनी काव्यनिर्मिती खंयच्[या] म्हयन्यांत केली ताची वळेरी तयार केली (परिशिश्ट ३ पळेयात)[.] तिचे वेल्यान अशें दिसता की रुतुमाना प्रमाण बाकीबाबान सगळ्यांत चड कविता वर्षा-रुतूंत (जुलै, ऑगस्ट) बरयल्यात. ताचे फाटल्यान तांकां हेमंत रुतूंत स्फूर्त येताली. हे म्हयने सप्टेंबर-ऑक्टोबर.

बाकीबाबांची काव्यप्रतिभा शिंयांत कुडकुडटाली काय दिसता. शरद आनी शिशीर तांकां काव्यनिर्मणेक अजिबात आवडनाशिल्ले. हो काळखंड नोव्हेंबर ते फेब्रुवारी मेरेनचो. हे थंडेचे दीस. थंडी सोंपतां सोंपतां बाकीबाब फुलताले, कविताय फुलताली. वसंत रुत[ू] भशेनूच मार्च ते जून ह्या म्हयन्यांनी बाकीबाबान २२८ कविता बरयल्यात.

बाकीबाब हो मॉन्सूनचो कवी हें स्पश्ट दिसता. वट्ट १९[.] कविता तांकां भायर उटंगारांचो पावस कोंसळटना आयल्यात. भायर पावस तसो 'भितरूय' पावस! जुलै-ऑगस्ट म्हयन्यांनी सगळें ठप्प जाता. पूण बाकीबाबांची काव्यनिर्मणी पणजे आसूं जावं केपें, बोरी, मुंबय, पुणें — सामकी सक्रीय. पावसाळ्या म्हयन्यांतूच अशी निर्मिती कित्याक जावची हो एक संशोधनाचो विशय. पावसाळ्या म्हयन्यांतल्यो सगळ्योच कविता पावसा वयल्यो नात. देखीक, सामकी मनभुलायणी, रंगरंगयाळी 'थवे' ही कविता. २ सप्टेंबर १९६८ ची. पिसोळ्यां वेली इतली सुंदर कविता संवसारांतले खंयचेच भाशेंत नासतली हातूंत मात्तूय अतिताय ना.

अनुक्रमानूच पळेतलो जाल्यार काव्यनिर्मणे खातीर बाकीबाबांचे आवडीचे 'कॅलेंडर मंथ्स' म्हळ्यार १. ऑगस्ट, २. जुलै, ३. सप्टेंबर, ४. मार्च, ऑक्टोबर, ५. जानेवारी, ६. एप्रील, जून, ७. मे, ८. फेब्रुवारी, ९. नोव्हेंबर, १०. डिसेंबर.

खंयच्या थळार खंयच्या रुतूंत/ म्हयन्यांत तांणी कितल्यो कविता बरयल्यो हाचो वेगळो अभ्यास करूंक जाता.

### मटेरियल - स्पिरिच्युअल कंटीनम्

कवीच्या काव्याचे रिसोर्सेस कितें? एक मटेरियल -स्पिरीच्युअल कंटीनम आसता. तातुंतल्यान कवितेची उर्मी येता, तलफ येता. ह्या

अशाश्वत प्रदेशांत साडेसात वर्सां बाकीबाब भोंवताले.

ह्या भ्रमणांतल्यान तांच्या काव्याच्यो विश्वरेखा तयार जाल्यात. कविता बरोवप ही एक इतिहासीक घडणूक - इव्हँट - अशें मानल्यार, त्या खिणाक, त्या थळार ते कवितेची खाशेली काव्यविश्वरेखा - पोएट्री वर्ल्ड लायन - तयार जाता. काव्यनिर्मितीचें थळ आमकां वैश्वीक त्रिमिती कोऑर्डिनेटस दिता - पणजे, बोरी, केपें, दिल्ली, पुणें, लुई व्हिले... निर्मितीची तारीक आमकां काळाचें परिमाण दिता.

बाकीबाब गेले. तांच्या मरणा उपरांत तांची विश्वरेखा भौतीक अर्थान सोंपली. पूण तांचे कवितेच्यो विश्वरेखा उरल्यो. देखीक, पणजे ह्या एकाच थळा वेल्यान वेगवेगळ्या काळार सुरू जाल्ल्यो १३५ विश्वरेखा. जे मेरेन ह्यो १३५ कविता आमचे मुखार आसात ते मेरेन तांच्यो विश्वरेखा उरतल्यो.

कवीची पुराय काव्यनिर्मणी म्हळ्यार सापेक्षतावादा प्रमाण, कवितांच्या विश्वरेखांचें एक महाजाल. अमक्याच थळा वेल्यान कविता 'सुरू' जाल्ली आसता. अमक्याच काळार ती थळमुद्रा, काळमुद्रा घेवन कविता वर्तमान आनी भविश्याच्या अवकाशांत तिगता.

ती आमी पुसून उडयनात. उडोवंक शकनात. उडोवंक जायना. इतलें बरोवन सोंपतासर कितल्याश्याच कवितांच्यो विश्वरेखा हांगा मेरेन पावल्यात. जंय जंय बाकीबाबांची (जावं आनीक कोणाचीय) कविता वाचतले, शिकयतले थंय थंय ती काल्पनीक विश्वरेखा पावतली.

कविता ज्या थळांचेर बरयली तीं आयज पयलींचे भाशेन नात. काळ तर बदल्लाच. पूण बदलूंक ना ती कविता. ती शाश्वत उरल्या.

हेंच शाश्वताचें अशाश्वता वेलें जैत. The world line of poet Bakibab is terminated but the poetry travels on and on the space-time continuum.

परिशिष्ट १

बाकीबाबांची मराठी काव्यनिर्मिती
वर्सां आनी मराठी कवितांचो आंकडो*

| वर्स | कविता | वर्स | कविता | वर्स | कविता | वर्स | कविता |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १९२६ | ०१ | १९४१ | २५ | १९५६ | ०६ | १९७१ | २६ |
| १९२७ | ०४ | १९४२ | १४ | १९५७ | ०७ | १९७२ | १८ |
| १९२८ | १९ | १९४३ | ०९ | १९५८ | ०८ | १९७३ | १६ |
| १९२९ | २० | १९४४ | ०५ | १९५९ | १२ | १९७४ | १७ |
| १९३० | १४ | १९४५ | ०९ | १९६० | ३० | १९७५ | १७ |
| १९३१ | ०५ | १९४६ | ०८ | १९६१ | ४० | १९७६ | २० |
| १९३२ | ०९ | १९४७ | १८ | १९६२ | १५ | १९७७ | १८ |
| १९३३ | ०६ | १९४८ | १८ | १९६३ | १३ | १९७८ | ०८ |
| १९३४ | १७ | १९४९ | १० | १९६४ | १७ | १९७९ | १९ |
| १९३५ | ०८ | १९५० | १५ | १९६५ | ०३ | १९८० | १२ |
| १९३६ | १० | १९५१ | ०१ | १९६६ | २३ | १९८१ | २४ |
| १९३७ | ०८ | १९५२ | ०५ | १९६७ | २६ | १९८२ | ०४ |
| १९३८ | ०४ | १९५३ | ०३ | १९६८ | २७ | १९८३ | १८ |
| १९३९ | ०३ | १९५४ | ०५ | १९६९ | २१ | १९८४ | ०८ |
| १९४० | १० | १९५५ | ० | १९७० | १९ | | |

* १५ कवितांचेर तारीक नाशिल्ल्यान तांचो आसपाव करूंक ना.

परिशिष्ट २

**थळा प्रमाण बरयिल्ल्या कवितांचो आंकडो**

**गोंय**

**उत्तर गोंय:**

पणजी (१३५), सांतीनेझ (१), करंजाळें (१), दोनापावला (१), आल्तबेती (१४), पर्वरी/आल्त पर्वरी (५३), म्हापशें (८), हणजूण (१), कळंगूट (४), नारवें (२)

**दक्षीण गोंय:**

केपें (२६), मडगांव (१७), कुडचडें (७), वास्को (३), फोंडें (२), चांदर (१), नागेशी (१)

**महाराष्ट्र:**

मुंबय (५०), पुणें (७२), दादर (४), जोगेश्वरी (१), महाबळेश्वर (१), सायन (१), वर्धा (१), औदुंबर (१), खेड (१), मालाड (१), शिवाजीनगर (१), मिरज (१), आंबोली घाट (१).

**गुजरात:**

अहमदाबाद (१)

**कर्नाटक:**

धारवाड (१९), बेळगांव (३), कॅसलरॉक (१),

**दिल्ली:** (१४)

**अमेरिका:**

न्युयॉर्क (१), लुईव्हिले (५), प्रवासांत (३),

परिशिष्ट ३

कॅलेंडर म्हयने आनी रुतुमाना प्रमाण
बाकीबाबांची मराठी काव्यनिर्मणी

| अदमासान रुतू | कॅलेंडर म्हयनो | कवितांचो आंकडो* (१९२६-१९८४) | रुतू प्रमाण वट्ट आंकडो | प्राधान्य |
|---|---|---|---|---|
| शिशिर | जानेवारी | ५६ | | |
| | फेब्रुवारी | ३८ | ९४ | ५ |
| वसंत | मार्च | ६६ | | |
| | एप्रील | ५१ | ११७ | ३ |
| ग्रीष्म | मे | ५० | १०१ | ४ |
| | जून | ५१ | | |
| वर्षा | जुलै | ९५ | | |
| | ऑगस्ट | ९६ | १११ | १ |
| हेमंत | सप्टेंबर | ९१ | | |
| | ऑक्टोबर | ६६ | १५७ | २ |
| शरद | नोव्हेंबर | ३७ | | |
| | डिसेंबर | ३२ | ६९ | ६ |

* १५ कविता घेवंक नात

# कवी बोरकारांलो लघुनिबंध

बाळकृष्णजी कानोळकार

'लघुनिबंध' हो ललीत लेखनाच्या बरपाचो एक प्रकार. तातूंत लघुनिबंधा खेरीत व्यक्तिचित्रां, उगडास, प्रवासवर्णनां बी साबार तरांचे बरपावळीचो आसपाव जाता. बाकीबाब बोरकारांनी मराठींतल्यान अशे तरेची बरपावळ केल्या. कोंकणींतल्यान तांणी असली बरपावळ केल्ली पळोवंक मेळना. कोंकणींत अशे तरेची बरपावळ करपी जे फामात लेखक आसात तातूंत शणै गोंयबाब, लक्ष्मणराव सरदेसाय, रवीन्द्र केळेकार, दत्ताराम सुखठणकार, अना म्हांबरो, दत्ता नायक, मुकेश थळी, प्रकाश पर्येकार बी बरोवप्यांचो आसपाव जाता. हे तरेचे बरपावळीक गोंयांत मराठीच्या प्रभावा खाला प्रारंभ जालो अशें ठामपणान म्हणूं येता. आनी हाचो नाल्ल बाकीबाबांचे हस्तुकीं फुटलो. बाकीबाबांचो पयलो लघुनिबंध झेलो *कागदी होड्या* १९३८ वर्सा उजवाडाक आयलो. ते आदीं बाकीबाबान मराठी कवी म्हण नामना जोडिल्ली. *प्रतिभा* (१९३०), *जीवन संगीत* (१९३७/१९३८) हे तांचे दोन कवितां झेले उजवाडाक आयिल्ले. ते भायर *मावळता चंद्र* ही तांची कादंबरीय १९३८ वर्सा उजवाडाक आयिल्ली.



ल्हान जरी काजुलो
उजवाडाचो पिलो
बिण्णपसुन काळोख
खिणभर निळो

लघुनिबंध प्रकाराचे बरपावळीक मराठींतल्यान प्रारंभ जालो तो १९२६ वर्सा. ना. सी. फडके हांणी तो केलो. ह्या वर्सा सावन ते 'रत्नाकर' म्हयनाळ्यांतल्यान 'गुजगोष्टी' बरोवंक लागले. त्याच सुमाराक वि. स. खांडेकर लेगीत सावंतवाडी सावन उजवाडा येवपी 'वैनतेय' ह्या म्हयनाळ्यांतल्यान 'विस्तारान मोटवें अशें स्वैर बरप' करताले. 'रत्नाकर' आनी 'वैनतेय' हीं दोनूय म्हयनाळीं गोंयांत पावतालीं आनी गोंयांतल्या हिंदू वाचप्यां मदीं तांकां खाशेली सुवातूय आशिल्ली. ते भायर बाकीबाबांचो पयलो कवितां झेलो उजवाडाक येवचे आदीं ते खांडेकरांक वेंगुर्ल्यां-शिरोडा हांगा वचून मेळिल्ले. ते मुस्तींत तांचे बरपावळीचो प्रभाव बोरकारांचेर आशिल्लो. बोरकारांचो *कागदी होड्या* उजवाडाक येवचे आदीं *चांदण्यात* हो खांडेकरांचो झेलो उजवाडाक आयिल्लो. *कागदी होड्या* झेल्यांतल्या 'दुःखाचा शोध' ह्या लघुनिबंधाचे सुरवातींत म्हज्या वयर केल्ल्या विधानाक पुस्टी मेळटा. बोरकार बरयतात, ''खांडेकरांचा 'चांदण्यात' हा लघुनिबंधसंग्रह मी नुकताच वाचून हातावेगळा केला होता. त्यांतल्या एका लघुनिबंधाने तर माझ्या मनाची विशेषच पकड घेतली होती. कदाचित स्वतःच्या कवितेचीं अवतरणं त्यात आढळल्यामुळं तो मी विशेष आत्मीयतेनं वाचला असेल.''

मुखार गुजगोष्ट, लघुनिबंध, ललीत निबंध, ललीत लेख, ललीत गदय ह्या नांवांनी ह्या वाङ्मयप्रकाराचो प्रवास मराठी बरपावळींतल्यान जाल्लो पळोवंक मेळटा. खांडेकर आपणाले हे तरेचे बरपावळीक 'लघुलेख' म्हण पाचारताले. जाल्यार फडके आपणाले बरपावळीक 'गुजगोष्ट' म्हणटाले. पूण १९४१ वर्सा उजवाडाक आयिल्ल्या एका प्रतिनिधीक लघुनिबंधसंग्रहाचे प्रस्तावनेंत तांणी 'गुजगोष्ट' बदला 'ललितनिबंध' हें उतर वापरलां. मुळांत फडकेंनी हो बरपाचो प्रकार इंग्लेज भाशेंतल्यान मराठींत हाडलो आनी केळयलो. इंग्लेजींत हे तरेचे बरपावळीक 'पर्सनल एसे' अशें म्हणलां. १९३३ वर्सा अनंत काणेकर हांणी पयलो 'लघुनिबंध' बरयलो. अशे तरेन असले बरपावळीची मोद मराठी भाशेंत जल्माक आयली आनी मुखार जायत्या लेखकांनी ती आपणायली. कित्याक, ही बरपावळ फकत म्हायती वा विचार हांची जंत्री नाशिल्ली तर तातूंतल्यान 'आत्माविष्कारा'क मेकळी वाट मेळटाली. 'मी' संबंदान मनपूत बरोवंक तातूंत संद मेळटाली, सुवात गावताली. ''फडके-खांडेकर-काणेकर हे तेदेवेळा वयले 'मराठी लघुनिबंध' बरपावळीचे 'ब्रह्मा-विष्णु-महेश'

म्हळ्यार अतिताय जावं नये. मुखार ही बरपावळ तंत्राचे भकीक पडली आनी ताका लागून ती नानपयत जाता काय अशी परिस्थिती निर्माण जाली. तेदेवेळार जांणी ही बरपावळ केळयली आनी तिका विनाशा पसून वाचयली तांचे मदीं बोरकारांचो आसपाव जाता. हे विशीं बरयतना सचिन कांदोळकर म्हणटात, 'फडके-खांडेकर-काणेकर यांच्यानंतर लघुनिबंध वा ललितनिबंध संपुष्टात येतो की काय, असे वाटत असतानाच काहींनी हा वाङ्मयप्रकार जिवंत ठेवण्याचा प्रयत्न केला. अशा लेखकांमध्ये बा.भ. बोरकर यांचे नाव प्रामुख्याने घ्यावे लागेल.''

बोरकारान आपणाल्या पयल्या झेल्याक अनंत काणेकर हांची प्रस्तावना घेतल्या, हाचे वयल्यान काणेकरांचो असले बरपावळींतलो अधिकार, तेच प्रमाण बोरकारांचेर तिचो आशिल्लो प्रभाव ह्या दोनूय गजालींचेर भोव बरो उजवाड पडटा अशें म्हणप समा जातलें.

बाकीबाबान जें अशे तरेचें बरप केलें ताचो सोद घेवंक गेल्यार दिसून येता की, तांचें हें बरप दोन वांट्यांनी जालां. एक, सुरवेच्या काळार आनी दुसरें, १९८० वर्सा उपरांत. पयल्या झेल्या उपरांत १९८० वर्सा मेरेन तांणी हे तरेच्या बरपा कडेन आडनदर केली आसुये. हाचीं कारणां कितें आसूं येतात हाचो सोद घेवपाचो वावर बोरकारांचे बरपावळीचो अभ्यास करतल्यांनी करूंक जाय आसलो पूण तसो तो केल्लो पळोवंक मेळना.

बोरकारांच्या नांवार आशिल्ले 'लघुनिबंध' बरपावळीच्या खात्यार वट्ट चार झेले आसात. ते म्हटल्यार, *कागदी होड्या* (१९३८), *चांदण्याचे कवडसे* (१९८२), *पावलापुरता प्रकाश* (१९८३) आनी *घुमटावरचे पारवे* (१९८६). इदादीच्या अठ्ठाविसाव्या वर्सा पयलो झेलो उजवाडाक हाडपी हो बरोवपी दुसरो झेलो दिवपाक पुराय चोवेचाळीस वर्सां घेता हाचीं कारणां सोदचीं पडटलीं. तेच प्रमाण मुखावयल्या फकत चार वर्सां भितर तोच बरोवपी तीन झेले दिता, हें कुवाडें सोडोवचें पडटलें. तांच्या जिविताचो सोद घेतल्यार हाचेर कांय मर्यादे मेरेन उजवाड पडूं येता अशें म्हाका सुचयनशें दिसता. बोरकारांचो जल्म १९१०त जाल्लो जाल्यार १९८४ वर्सा ते भायर पडिल्ले. वीस वर्सांचे इदादींत ते मास्तर जाले (१९३०). सुमार पंदरा-सोळा वर्सां ते मास्तर म्हण गोंयांत वावुरले. १९४६ वर्सा ते गोंय मुक्ती चळवळींत पडले. ताका लागून तांकां गोंय सोडचें पडलें. १९५५ वर्सा पुणेच्या आकाशवाणी केंद्रार ते वाङ्मय विभागाचे संचालक म्हण वावुरले आनी गोंय मुक्त जाले उपरांत गोंयांत आकाशवाणी केंद्राचेर तांणी काम केलें. गोंय केंद्रार आसतना १९७० वर्सा ते निवृत्त जाले; तेन्ना तांचें वय जाल्लें साठ. तांच्या ह्या जीवनपटाचेर नदर मारल्यार १९४६ ते १९५५ हो कालखंड एकदम नदर ओढून घेता. ह्या काळा संबंदान आपणालें मत्त उकतायतना गो.म. कुलकर्णी बरयतात –

''१९४६ ते १९५५ पर्यंतचा बोरकरांच्या बाह्यजीवनाचा कालखंड कंटकमयच म्हटला पाहिजे. पण या कालखंडानेच त्यांना अधिक चिंतनशील बनविले, अंतर्मुख होण्यास शिकविले. परिणतप्रज्ञ जीवनाची व परिपक्व कलेची जाणीव करून दिली. जळणाऱ्या आपत्तींनी कसे उजाळून निघावे याचा पाठ दिला. मूळच्या श्रद्धान्वित वाणीला संस्कारित केले, पैलू पाडले.''

''वाणी हीच बोरकरांच्या जीवनाची अखंड सहचरी, जीवाभावाची सखी. विश्रमी, श्रमी, भ्रमी, ते तिचीच मूर्ती मनीमानसी आठवीत, आळवीत राहिले. जे सुचेल, रुचेल त्यावर लिहित गेले. तो त्यांचा नित्याचा व्यवहारच बनला... कधी स्फूर्तीमुळे तर कधी स्फूर्तीसाठी बोरकर गात असलेले, गाण्यात असलेले दिसतात.''

गो.म. कुलकर्णी हांणी हें बाकीबाबांचे कविते संदर्भांत म्हणलां. १९४६ ते १९७० मेरेन तांचे *दूधसागर* (१९४७), *आनंदभैरवी* (१९५०), *चित्रवीणा* (१९६०), *गितार* (१९६६) आनी *चैत्रपुनव* (१९७०) अशे वट्ट पांच कवितां झेले उजवाडाक आयले. कवी म्हण तांकां व्हड नामना मेळ्ळी. गोंय, महाराष्ट्र आनी मराठी भास



*देवाक सोदुन सोदुन हांवें*
*म्हळें, 'आतां सोदचों ना'*
*म्हळें ताणें, 'हेडलो कित्याक,*
*तुज्याच म्हऱ्यांत आसताना'*

हांच्यो शिमो-मेरो हुंपून ते राष्ट्रीय पांवड्यार पावले. १९४६ ते ५५ मेरेन ते गोंय मुक्तीच्या वावरांत, राजकी कार्यावळींनी आनी प्रचार-प्रसाराच्या वावरांत फारावल्ले. धड नोकरी नाशिल्ली. पोटापाणयाचो प्रस्न सोडोवपा खातीर ते ह्या काळांत कादंबरी आनी कथा लेखना कडेन वळ्ळे. कित्याक तर त्या काळार लेखकाक मानधन दिवपी आनी प्रकाशनधन मेळोवन दिवपी हे दोनूच भरवशाचे वाङ्मय प्रकार आशिल्ले.

म्हाका दिसता, वयर दिल्ल्या कारणांक लागून तांचें ललितनिबंध लेखना कडेन दुर्लक्ष जालां जावये, वो तांणी अदींमदीं ते तरेचे बरप केल्लें तें झेल्याच्या रुपांत उजवाडाक आयिल्लें नासूं येता. पूण १९६० वर्सा तांची पन्नाशी व्हडा दबाज्यान मनयली तेन्नाय बी असो एकाद्रो झेलो उजवाडाक येवं नये हाचें अजाप दिसता. ताका लागून म्हाका अशें म्हणनशें दिसता की, तांच्या दुसऱ्या वांट्यांतलें हे तरेचें बरप तांणी प्रमुखतायेन १९६० वर्सा केल्लें जावंक जाय. आनी

१९७० वर्सा निवृत्त जाले उपरांत आदीं केल्ल्या बरपाची मेळवणी जुळवणी करून तातूंतल्यान मुखावयले तीन झेले उजवाडाक आयले आसुये.

तांचो पयलो झेलो उमेदवारीच्या काळाची प्रतिनिधीक बरपावळ तर मुखावयले अखेरेचे दोन झेले तांच्या परिणतप्रज्ञ प्रतिभेची आनी प्रज्ञेची प्रतिनिधीक बरपावळ अशें हांव मानतां. *चांदण्याचे कवडसे* ह्या झेल्यांतले बरपावळींतल्यान प्रमुखतायेन तांणी आपणाले काव्यनिर्मिती विशीं बरयलां. म्हाका दिसता, इदादीच्या विंगड विंगड हुंबऱ्यांर, ते हुंपून वतकीत वयाचे पन्नाशी, साठी आनी सत्तरी निमतान जाल्ल्या सुवाळ्यां निमतान वा त्या वेळार जाल्ल्या आग्र्रांतल्यान तांणी आपणाल्या कवितां विशीं, चड करून तांच्या जल्मा विशीं, जल्म बिजा विशीं वा जल्म खुणे विशीं हें बरप केल्लें आसूंक जाय.



*ज्वाळांतुनी घे प्रावतन वाचून*
*त्याचा तूंच प्रवक्ता,*
*आतिल ज्वाळा झेली त्याला*
*वरचा रस्ता उक्ता*

''यातील कांही ललितनिबंधांमधून आपल्या कवितांची उगमस्थाने ते सांगतात'' अशें डॉ. कांदोळकर हांणी बरयलां. तें म्हज्या वयर उकतायल्ल्या मत्ताक पुश्टीच दिवपी थारता.

बाकीबाब बोरकारांच्या ह्या चारूय झेल्यांतल्यान वट्ट १२३ लघुनिबंध उजवाडाक आयल्यात. तातूंत *कागदी होड्या* (२१), *चांदण्याचे कवडसे* (३२), *पावलांपुरता प्रकाश* (३५) आनी *घुमटावरचे पारवे* (३५) असो हो आंकडो आसा. तांची हे तरेची कांय बरपावळ बरे तरेन एकठांयल्ली नासूंय येता वो उजवाडाक लेगीत आयिल्ली नासूं येता. संशोधन करतल्याक जायतो वाव आसा.

''मला नवे नवे साहित्य-संकल्प करण्याची सवय आहे. पण मुले जशी नव्या खेळण्याशी काही दिवस मन लावून खेळत असतात आणि नवे खेळणे हाती येताच त्यांचे जुने खेळणे अडगळीत जाते; तशी गत माझ्या या साहित्य-संकल्पांची होते. अशा माझ्या अपुऱ्या साहित्य संकल्पाच्या कितीतरी वह्या माझ्या कपाटाच्या अडगळीत गोळा झाल्या आहेत.'' अशें बाकीबाब बरयतात.

साठी हुंपले उपरांत बाकीबाबान जे ललीत निबंध बरयले तांचें रुपडें रवीन्द्रबाबांल्या *वेळेवयल्या घुलां* वरी आसा. तातूंत तां उगडास, चिंतन, जिणेंतले प्रसंग हांचो आसपाव जालो. हाची गवा खुद्द तांणीच आपणाल्या 'झडलेला मोहोर' ह्या ललीत निबंधा सुरवेक दिवन दवरल्या.

बोरकार जातिवंत कवी. ते काव्यानंदांत जगताले. जिणेंतल उत्कट अणभवांचो, कल्पनेंतल्या अणभवांतलो पुन:प्रत्यय ते कवित रचून घेताले जावये. हाकाच लागून तांचे जिणेंतले ल्हान-व्हड अणभ तांच्या कवितांचे विशय जाल्लें पळोवपाक मेळटात.

कविता रचतना कवी आत्मानंदांत तल्लीन जाता. ताक आपणालेंच भान उरता अशें ना, मागीर ताका वाचप्यांचें भान खंय उरतलें! पूण लघुनिबंध बरोवप्याक वाचप्यांचें अस्तित्व सदासर्वकाल दवरचेंच पडटा. ताचें बरप म्हटल्यार ताणें वाचप्या कडेन केल्ल्य कानगोष्टीच म्हळ्यार जाता. घडये हाकाच लागून फडकेन आपल सुरवेचे लघुनिबंध बरपावळीक 'गुजगोष्टी' म्हण पाचारल्या जावये काणेकरांलो लघुनिबंध पळयल्यारूय हाचीच भोव बरी गवाय मेळटा ''जे काव्यकण काव्यविषय करणे कठीण असते, ते लघुनिबंधाच्य माध्यमातून वाचकापर्यंत नेणे सुलभ असते. बोरकरांनी हेच केले.'' अशें मनोहर हिरबा सरदेसायान म्हणलां तें पटपा सारकें आसा.

लघुनिबंधाक मुक्त गद्य कविता अशें म्हणूं येता. हाकाच लागू जावये, चडश्या कवींनी लघुनिबंध बरयला. देखीक, करंदीकर पाडगांवकर, शिरवाडकर, शांता शेळके, इंदिरा संत, ग्रेस, अरुणा ढे बी मराठींतले कवी.

बोरकार मुळचोच कवी. तांणी जे लघुनिबंध पयल्या वांट्यां बरयल्यात तो काळ विचारांत घेतल्यार वयले चर्चेंत जें कवीचे लघुनिबंध निर्मिती संबंधान म्हणलां तें पटपा सारकें आसा. काव्यलेखनाव यमक, वृत्त, छंद हांचें बंधन आसता. लघुनिबंधांक तें नासता. ताक लागून ज्या अणभवाचेर वा कल्पनेचेर कविता बरोवपाक बोरकारांव अडचण दिसली तांचेर तांणी लघुनिबंध बरयलो. पूण ताचे भित मुळांतली काव्यात्मता उतरली. *कागदी होड्याक* बरयल्ले प्रस्तावनेंतल्यान दिसून येता की, अनंत काणेकरांच्या निरिक्षणांतल्यान ही गजाल सुटली ना. ते बरयतात — ''श्री. बोरकर यांच्या निबंधाकडे पाहिले असता डोळ्यात भरण्यासारखे त्याचे वैशिष्ट्य जर कुठले आढळत असेल तर त्याची गोड काव्यमयता. 'कागदी होड्यां'तल कुठलाही निबंध तुम्ही उघडून पहा, कुठे ना कुठे तरी त्यांचा हा गुण तुमच्या दृष्टीला पडेल. उर्मिगीते (lyrics) लिहिणारे ते एक उत्तम कवि आहेत; आणि लघुनिबंध लिहितानासुद्धा त्यांच्यातला कवि अधून मधून जोराने उसळी मारल्या शिवाय रहात नाही.''

पूण फकत काव्यमयता आसली म्हण बरो लघुनिबंध जायना तातूंत विचार, तत्वचिंतनूय जाय आनी खोशयेची गजाल म्हळ्यार बोरकारांच्या लघुनिबंधांत तें सुरवेक सावन आयलां. काणेकर हे विशींची गवाय दितना बरयतात, ''पण काव्यमय कल्पना एवढेच श्री. बोरकरांचे वैशिष्ट्य नाही. त्यांच्या काव्यमयतेला तत्त्वचिंतनाचा गाभा आहे. किंबहुना काव्यमयता आणि तत्त्वचिंतन यांचे गोड मिलन हेच त्यांचे वैशिष्ट्य होय.''

आतां तांच्या दर एका लघुनिबंध झेल्या विशीं थोडीभोव चर्चा करुया. वयर केल्ले विस्कटावणेचे निमतान तांच्या पयल्या झेल्याच्या *(कागदी होड्या)* स्वरुपा संबंधान जायती चर्चा जाल्या अशें हांव समजतां. ताचे विशीं अदीकचें सांगचें जालें जाल्यार, ह्या झेल्याचेर खांडेकर, फडके आनी काणेकर हांचो जायतो प्रभाव दिसता, तांतले तातूंत खांडेकर आनी काणेकर हांचो इल्लो चडूच अशें म्हणूं येत. तांचो हो प्रभाव लघुनिबंधाच्या माथाळ्यां वयल्यानूय जाणवता. देखीक, 'कागदी होड्या', 'त्यागाचा मोबदला', 'भली माणसे', 'लेखकांचे तीन वर्ग', 'पूर्णतेची तहान', 'सुखाचा शोध', 'गोल्ड फ्लेक', 'जुन्या घराची दुरुस्ती' (खांडेकर), जाल्यार 'अलिखित चरित्रे', 'अनामिक महात्मे', 'पोट आणि हृदय', 'मखमली ठिगळें' (काणेकर), 'राशिभविष्ये', 'आत्मपूजा', 'पडदा', 'मनाचे चोर', 'थोरांचा गुरु', 'गोल्ड फ्लेक' (फडके). तांचे हे बरपावळींतल्यान एक गजाल प्रकर्शान जाणवता, ती म्हटल्यार तत्वज्ञानपर, बोधपर असलें किंतें तरी वाचप्याक दिवचेलें. मनोहरराव सरदेसाय हांचेंय अशेंच निरिक्षण आसा. 'मनाचे चोर' हें बरप तांणी मानवी मनाचो थाव घेवपाचे नदरेंतल्यान बरयलां जावये, जाल्यार एक विशिश्ट तात्पर्य सांगचे खातीर 'आत्मपूजा'चें बरप जालें. 'मूर्तिभंजक' आनी 'थोरांचा गुरु' हीं बरपां उपरोधीक स्वरुपाचीं आसात. पूण तीं जाय तितलीं मिश्कील जावंक पावलीं नात. उरफाटीं तीं गंभीर जाल्यांत. ताका लागून तातूंतली मजाच गेल्या. 'पोट आणि हृदय' ह्या बरपांत तांणी मानवी समाजांतले विशमते विशीं परखडपणान बरयलां. जाल्यार 'पूर्णतेची तहान' ह्या बरपांत तांणी आपणाल्या वाङ्मयीन प्रेरणां विशीं बरयलां. तातूंत ते बरयतात, ''एकाच वेळी सत्यावर अधिष्ठित झालेलं, मानवाला जागृत व वर्धिष्णु बनवणारं आणि अपूर्व सौंदर्याने आनंद देणारं वाङ्मय आपल्या हातून निर्माण व्हावं हीच ती ईर्षा.''

'काळोख' हें बरप म्हटल्यार एक गद्य काव्यशें. म्हाका दिसता, तांच्या मनाच्या तळाक हो आशय जायतो तेंप पडून आशिल्लो. ताचेर तांचें चिंतन अहर्निश चलतालें जावये. देखुनूच तांणी 'तमस्तोत्र' ह्या नांवान ताका काव्य रूप दिलें. बोरकारांली ही निमणी कविता. ''सुरवातीच्या कविता संग्रहांतील कवितांमधून कवी म्हणून बोरकरांची जशी ओळख होते, तशी ती 'कागदी होड्या' मधून होत नाही'' अशें सचिन कांदोळकर ह्या झेल्यांतले बरपावळी विशीं म्हणटात ताचे कडेन हांव सहमत ना. म्हाका हें मत योग्य दिसना. कारण, दुसऱ्या वांट्यांत तांणी केल्ले असले बरपावळीची बुन्याद ह्या झेल्यांत घाल्ली दिश्टी पडटा.

*चांदण्याचे कवडसे* हातूंत कवी बोरकारांचो आत्माविष्कार लखलखीत रूप घेतना दिसता. पूण ताचें स्वरूप म्हणल्यार तातूंतले बरपावळींतल्यान ते आपणाल्या जायत्या कवितांचीं मुळां सांगतात, जाल्यार कांय बरपांतल्यान गोंयचीं मनशां, चाल-चलणूक, रीत-रवीस, सैम हांचे विशीं ते बरयतात. 'गोव्याची ओढ', 'निळ्या खाडीच्या काठाला' हीं बरपां पळयल्यार तांचेच 'माझा गाव' सारकेले कवितेची याद जाले बगर रावना. तेच प्रमाण तांचे हे बरपावळीचेर (गोंयचीं मनशां) लक्ष्मणराव सरदेसाय हांच्या 'गोव्याकडची माणसे' तेच वरी 'खबरी'चो प्रभाव आशिल्ल्याचें जाणवता. ''बोरकरांचा 'चांदण्याचे कवडसे' हा संग्रह केवळ गोमंतकीयच नव्हे तर एकूण मराठी ललित लेखनाचा विचार करताना महत्त्वाचा ठरतो.'' अशें कांदोळकर म्हणटात.

*पावला पुरता प्रकाश* चे बरपावळींत ते वाचप्या कडेन गुरू, आमीग आनी तत्वज्ञाचे भुमिकेंतल्यान उलयतासतना जाणवले बगर रावनात. हातुंतूय 'कृपावंत निसर्ग' सारकेल्या बरपांतल्यान गोंयचें सैमवर्णन आयलां. तोच ताचो विशय जाला.

म्हजे नदरेंतल्यान *घुमटावरले पारवे* हो तांचो सगळ्यांत चड सुंदर झेलो. तातूंतले बरपावळीचेर भौ. रवीन्द्रबाब केळेकार हांचे लिखणेची दाट सया अणभवूंक मेळटा. तत्त्वचिंतन, मनन, फकाणेर, दिसपटी अशें ताचें स्वरूप आसा. खऱ्या अर्थान तांचो आत्माविष्कार ह्या



*सागराचिया सांगाता झणिं*
*सागर होतों मीही*
*चांदणें उधळितों फेनीं*
*भर मध्याह्नीचे दाही*

झेल्यांत तेंगशेर पावला. तातूंतल्यान तांच्या आत्मचरित्राचेर भोव बरो उजवाडूय पडटा. बोरकारांनी आपणालें आत्मचरित्र बरोवंक घेतिल्लें. पूण तें अदर्शरूच उरलें. ते नदरेंतल्यान ही बरपावळ भोव मोलाची. 'गोव्याची ओढ' ह्या बरपांत तांणी म्हणलां, ''कवीचे खरे आत्मचरित्र त्याच्या काव्यातूनच नेमक्या मोजक्या शब्दांत व्यक्त होते'', पूण हो झेलो हाका आडवाद थारूं येता. डॉ. सचिन कांदोळकर हांचें निरिक्षण लेगीत आमकां हेंच सांगता. ते बरयतात, ''बोरकरांचे आत्मचरित्र त्यांच्या काव्यातच नव्हे, तर ललित निबंधामध्येही असते.''

''ललित निबंधाच्या एकूण बांधणीत काव्यात्मता असणे व जीवनातील कवळीक जाणवणे'' हीं 'नवलघुनिबंधा'चीं वैशिष्ट्यां अशें म्हणटात. हीं वैशिश्ट्यां बोरकारांच्या 'माझ्या मौनावर', 'सहज सुंदर वार्धक्य', 'हरवलेली अंगठी', ह्या बरपांनी पळोवंक मेळटात.

तांच्या लघुनिबंधलेखनाचो खोलायेन अभ्यास जावपाची गरज आसा.



# एक अविनाशी विचारवंत

अना म्हांबरो

रवीन्द्रबाब गेलो हें कळना बरोबर म्हजो आवरो उडिल्ले वरी जालो. ताचें वय जाल्लें आनी हालीं दुयेंत आशिल्ल्यान ताका हॉस्पिटलांत दवरिल्लो हें जाणा आसतनाय खंय तरी तो आमकां इतले बेगीन सोडून वचचो ना अशें दिसतालें.

रवीन्द्रबाबाची आनी कोंकणी साहित्याची वळख म्हाका एकाच वेळार जाली म्हळ्यार जाता. हांव मुंबय कॉलेज शिक्षणा खातीर गेल्लों. त्या वेळार 'गोमंत भारती'तर्फे रवीन्द्रबाबालीं गांधी वयलीं पुस्तकां उजवाडाक आयिल्लीं, आनी ताचे कांय बरें मागते तरणे भुरगे तीं पुस्तकां घराघरांनी वचून लोकांक विकताले. तांतलोच एकलो, गोविंद मुद्रस, म्हगेर आयलो आनी ताणें म्हाका रवीन्द्रबाबालीं दोन तीन पुस्तकां घालीं.

ते आदीं शणै गोंयबाबालीं पुस्तकां हांवें पळयल्लीं. वाचूंक नासलीं. पयलीं कोंकणी पुस्तकां वाचलीं तीं रवीन्द्रबाबालीं. तीं बरयतना रवीन्द्रबाबान आपले अशे शुद्धलेखनाचे नेम केल्ले आनी लिपयेंतूय कांय बदल केल्ले. ताका लागून तीं वाचूंक मातशें कठीण जातालें.

ते उपरांत मुंबय आंतर महाविद्यालयीन कोंकणी एकांकिका सर्ती सुरू जाल्यो. ह्या सर्तींच्या वेळार 'विद्या' हें वर्सुकी नेमाळें भायर सरतालें. त्या नेमाळ्यांतल्या बऱ्यांतल्या बऱ्या साहित्यप्रकाराक एक बक्षीस – 'दत्ताराम सावकार पदक' आसतालें. १९५९ वर्सा 'विद्या'चें तें बक्षीस 'सुंदर म्हजें रायबंदर' ह्या म्हज्या लेखाक मेळ्ळें. त्या वेळार रवीन्द्रबाब एक परिक्षक आसलो.

ते उपरांत पिरवळा तागेर हांव र.वि. पंडिता वांगडा पावलों. पंडित रवीन्द्रबाबाक पयलीं पसून वळखतालो. रवीन्द्रबाबान खादी वापरूंक सुरवात केल्ली ताचे आदलो रवीन्द्रबाबाचो रंगीत शर्ट घाल्लो आनी केसांचो मागो काडिल्लो फोटो पंडिता कडेन आसलो.



*मेले उपरांत लोकांनी तुका विसरचें न्हय अशें दिसता आसत जाल्यार वाचपा सारकें कितेंय बरोवन दवर वा बरोवपा सारकें कितेंय करून दवर.*

रवीन्द्रबाबालें घर पिरवळा चडटेर आसा. तागेल्या बापायन तें बरोऽ जागो सोडून काडून बांदलां. ती चडटी आनी भोंवतणचो वाठार पळेत जाल्यार ती बाकीबाबाले कवितेंतली 'दोंगुल्ली' कशी दिसता. रवीन्द्रबाबालें घरय आश्रम कशें... व्हडल्या चवकेच्या घरांत जाय तितलेंच फर्निचर आसलें. एका सालांत पुस्तकांच्यो आरमारी आसल्यो. ह्या सालाचे एके कुशींतले एके कुडींत रवीन्द्रबाबालो बापूय एके खाटीर बशिल्लो आसतालो. तोय त्या घरांत स्वामी कसो दिसतालो. घरांत भितर सरतना वा निरोप घेवन भायर सरतना परकी मनशांक कसलीच फॉर्मालदाद लागनासली. एकाद्रो मनीस जेवंक उरलो जाल्यारूय अशेच तरेचें वातावरण आसतालें.

मदीं वर्सभर हांव गोंयां उरलों. तेन्ना रवीन्द्रबाबाचे सुचोवणे प्रमाण दर बिरेस्तारा तांगेर वतालों. आयतारा अनिल समर्थ थंय येतालो. केन्ना केन्ना तिसऱ्या एका दिसा शंकर भांडारी तांगेर आसतालो. रवीन्द्रबाबागेर आमचो प्रोग्राम म्हळ्यार गजाली करप. जेवणा पयलीं ज्यो गजाली आमी करताले तातूंत गोदूबाय वांटो घेतालें. जेवतकूच मागीर रात मेरेन आमी दोगूय गजाली करताले. सकाळीं मागीर वच्च्या वेळार रवीन्द्रबाब म्हाड्डोळच्या बाजारा मेरेन म्हाका पावोवंक येतालो. थंय वर्तमानपत्रां विकतीं घेवन घरा परततालो. तोंडांत सिगरेट आसताली. सकाळीं भायर सरतना माधवी (तेन्नाचें नान) गोदूबायलो हात धरून शाळेंत वतालें. वतना, "चल्लो रे? यो र असो केन्नाय" असो म्हाका जाणटेपणान निरोप दितालें. मुंबय आयले उपरांत जेन्ना जेन्ना म्हूण गोंयां पावलां तेन्ना वेळांत वेळ काडून रवीन्द्रबाबाक मेळून आयलांच.

रवीन्द्रबाब तेन्ना 'जागा'चो संपादकूय आसलो. ताका मदीं मदीं कितेंय बरोवन धाडटालों. ताची

तोखणाय करपा सारकी गजाल म्हळ्यार, कोंकणी नेमाळ्याचो एकलोच हो संपादक बरोवप्याक बरप पावलें म्हूण कळयतालो. आवडलें जाल्यार तेंय कळयतालो.

तेन्ना 'जागा'क हांवें गोंयकारांचेर एक-दोन लेख बरोवन धाडिल्ले. ते वाचून हांवें ह्या विशयाचेर आनीक लेख बरोवचे म्हूण रवीन्द्रबाबान सुचयलें. ते हांवें 'तिरसुवाद गोंयकार' ह्या माथाळ्या खाला बरयले. उपरांत जाग प्रकाशनान 'गोंयची अस्मिताय' ह्या नांवान तांचें पुस्तक काडलें. तें नांव दिवचे पयलीं रवीन्द्रबाबान म्हाका त्या संबंदान कळयल्लें. हांवें म्हळें, ''असलें गंभीर नांव दिल्ल्यान एकूच भंय आसा, साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळपाचो!'' पूण तशें कांय जालें ना.

गांधींच्या संदर्भांत गांधीगिरी, गांधीयन, गांधी स्कॉलर, गांधीवादी असले शब्द प्रचारांत आयल्यात. हांचो अर्थ वेळोवेळ बदलता. रवीन्द्रबाबाक गांधीवादी वा गांधीयन म्हणूंक मेळना. ताकाय तें आवडनासलें. ताका चडांत चड जाल्यार गांधी स्कॉलर म्हणूं येता.

एक खेपे हांवें ताका विचारिल्लें, गांधी आनी तांच्या विचारांचेर अधिकारवाणीन उलोवपी आनी बरोवपी अशे कोण आसात? ताचेर ताणें म्हणिल्लें, ''धा बारा जाण आसात. तांतले दोन म्हत्वाचे म्हळ्यार डॉ. श्रीमाळी आनी दुसरो यु.एन्. ढेबर. ह्या दोगां भितरूय डॉ. श्रीमाळी गांधी विचारांची विसकावणी बरे तरेन करता.''

''विनोबा आनी काकासायबां खेरीज दुसरो कोण महाराष्ट्री आसा ह्या विशयाचेर बरोवपी, उलोवपी?'' हाचेर ताणें म्हणिल्लें, ''अप्पासाहेब पटवर्धन!''

गांधींचेर अधिकारवाणीन बरोवपी जे लोक आसात तातूंत एक गांधींचें व्हडलें चरित्र बरोवपी डी.जी. तेंडुलकर. हो मनीस मुंबय एकटोच रावतालो. केंद्र सरकारान ताका सुंदर घर दिल्लें. थंयच तो गांधी चरित्र बरोवपाचें काम करी. तो मरतकच ताचे सरीं संशोधन करपी एके बायलमनशेन मुलाखत दिल्ली. तातूंत तिणें सांगिल्लें, तो गांधीतत्वां बी कांय पाळिनासलो. ताका बायलां बी खूब लागतालीं?

रवीन्द्रबाबाक गांधी सर्कलांत मानाचें स्थान आसलें. देखून ताका कॉंग्रेस शताब्दी समिती कडल्यान गांधी चरित्र बरोवपाचो प्रस्ताव आयलो. ताणें तो बरे तरेन निभायलोय.

मुंबय आयल्यार रवीन्द्रबाब दोतोर दत्ताराम सुखठणकारागेर उरतालो. ते दोगूय भुरगेपणा पसूनचे मित्र. जाणटेपणांतूय तांची मैत्री तशीच उरिल्ली. दोगूय मेळ्ळे काय वयार आयिल्ले भुरगे एकामेकां कडेन उलयतात तशे एकामेकांच्या कानांत गुणुगुणू करून उलयताले.

लक्ष्मणराव सरदेसायान एका पुस्तकांत बरयलां, रवीन्द्र केळेकार, दत्ताराम सुखठणकार, मनोहरराय सरदेसाय, मधू तिंबलो आनी हेर काय भुरगे फोंडेचे आल्मेद कुलेजींत शिकताले. लक्ष्मणराव सरदेसाय तेन्ना कुलेजीचे मुखेली आसले. ते म्हणटात, ह्या सगळ्या भुरग्यांच्या घडपांत आपलो वांटो आसा. ह्या संबंधान परिक्षण बरयतना हांवें म्हणिल्लें, लक्ष्मणरावान ह्या मनशांक शिकयलां तें बरें आसा. ते जिणेंत वयर सरले तातूंत लक्ष्मणरावांचो कितलो वांटो आसा हें त्या भुरग्यांनी सांगूंक जाय आसलें. हे विशीं हांवें रवीन्द्रबाबाक विचारलें, तेन्ना ताणें सांगलें, ''लक्ष्मणराव क्लासींत येतकूच पयलीं धा पंदरा मिनटां विशय शिकयतालो. आनी मागीर हांगाच्यो थंयच्यो गजाली सांगतालो.''

हालींसराक रवीन्द्रबाब मुंबय येनासलो. आदल्या काळार येतालो तेन्ना एक दीस दत्तारामबाब सुखठणकार क्लिनिकाक वतना ताका आमगेर हाडून सोडटालो. आनी घरा वतना घेवन वतालो. आमी पिरवळा नाजाल्यार मुंबय मेळटाले तेन्ना चडशे पुस्तकांचेर उलयताले. रवीन्द्रबाबालें वाचन चौफेर आनी अवाढव्य आसलें. फक्कत साहित्याचे बाबतींत ताच्यो आनी म्हज्यो आवडी निवडी जुळटाल्यो अशें ना. पूण कांय साहित्यप्रकार - चरित्रां, नाटकां आनी विनोदी साहित्य बी – हे बाबतींत आमचें जुळटालें. देखीक, ज्यॉर्ज मिकेश हो विनोदी लेखक आमकां दोगांकूय आवडटालो. वैचारीक मळार

*अडचणी नाशिल्ली वाट तुका*
*खंयच घेवन वचपाची ना.*



जो साहित्यीक 'मनीस' म्हूण रवीन्द्रबाबाक मानवतालो ताचें साहित्य ताका आवडटालें. जो विचारवंत 'मनीस' म्हूण ताका आवडनासलो ताचें साहित्यूय ताका आवडनासलें. आमी एकामेकांक पुस्तकांय वाचूंक दिताले.

रवीन्द्रबाब मुंबयसून परतो गोंयां वच्चे पयलीं एक दीस पुस्तकां विकतीं घेवंक म्हूण दवरतालो. कांय बुकस्टॉलांनी वतालो आनी आपणाक, गोदूबायक, माधवीक अशीं वेगवेगळीं पुस्तकां घेतालो.

रवीन्द्रबाबा कडेन गजाली करतना बरें दिसतालें. दिल्लीक काकासायब कालेलकरां वांगडा काम केल्ल्यान बरोवप, वाचप, भोंवप, लोकांक मेळप हाचो ताका खुब्ब अणभव आसलो.

काकासायबां बराबर वतनाची ताणें एक खेपे एक खबर सांगिल्ली. काकासायब अलिगढ युनिव्हर्सिटीचे मिटिंगेक वताले. वांगडा रवीन्द्रबाब आसलो. रेल्वेच्या डब्यांत बसून गाडी सुटपाची वाट पळेताले. इतल्यान विजयालक्ष्मी पंडित येवन त्याच डब्यांत बसली. दोगांयची नदरानदर जाली. दोगांनीय एकामेकांक हटकिलें. दोगांय एकेच मिटिंगेक वतालीं. काकासायब पुस्तक वाचताले. ते वाचूंक लागले. विजयालक्ष्मी पंडितान आपल्या बॅगांतल्यान पुस्तक काडलें. तीय वाचूंक बसली. रवीन्द्रबाबान चिंतलें, ही संद वगडावप ना. काकासायबांक सांगून तो वचून विजयालक्ष्मी म्हऱ्यांत खबरींक बसलो. ती हिंदींत उलयताली. तिणें घरच्यो खुबश्यो गजाली सांगल्यो. गजाली सोंपतना तिणें म्हळें, ''तूं परतो दिल्लीक उतरलो जाल्यार आपल्याक अमक्या हॉटेलाचेर फोन कर. मागीर मेळुया.'' ते प्रमाण दिल्लीक

परततकूच रवीन्द्रबाबान तिका फोन केलो. तिणें ताका आपयलो. रवीन्द्रबाब तिका मेळूंक त्या हॉटेलार गेलो. पळेल्यार थंय विजयालक्ष्मी पंडित आनी तिच्यो पांच स मैत्रिणी बियर पियेत बशिल्ल्यो आनी इंदिरा गांधीचीं खेबाडां करताल्यो. रवीन्द्रबाबान म्हाका सांगलें, आपल्याच्यान त्या वातावरणांत बसूं नजऽ जालें. आनी आपूण निरोप घेवन भायर सरलों.

केळेकारांचेर स्पश्टपणान उलोवपी तो शशिकर केळेकार (गुरुनाथ केळेकाराचो भाव). हांव वर्सभर गोंयां उरलां तेन्ना तो म्हापश्यां झेवियर्स कॉलेजांत शिकयतालो. आमी अदीमदीं मेळटाले. एक फावट हांवें ताका विचारलें, ''कांय केळेकारांचें अक्षर वा अक्षराचें वळण रवीन्द्रबाबाल्या अक्षरा वरी आसा. ताचें कारण कितें?'' शशिकरान सांगलें, ''केळेकारांची सगळी तरणी पिळगी रवीन्द्राक आदरान पळेता.



*अडचणीं मुखारूच मनशाक*
*आपूण कोण तें कळटा.*

कांय जाणांचो आदर भक्तिभावा मेरेन पावता जावं येता. देखून ते रवीन्द्रबाबाचें अनुकरण करतात. ताका लागून तांच्या अक्षरांत सारकेपण आयलां. म्हजें अक्षर केन्नाच ताच्या अक्षरा भशेन दिसचें ना. हांव रवीन्द्राक जाणटो म्हूण मानतां. तेच बराबर ताचे भितरले दोशूय म्हाका दिसतात. तेन्ना हांवें ताचें अनुकरण करपाचो प्रस्न येना.''

रवीन्द्रबाब गेलो तेन्ना पयल्यान पयलीं म्हाका एका प्रसंगाचो उगडास जालो. तो प्रसंग कांय वर्सां फाटीं मुंबय घडिल्लो. अमेरिकेचो नामनेचो राजकारणी हॅन्री किसिंजर मुंबयंत 'सर दोराब टाटा लॅक्चर' दिवंक आयिल्लो. नरिमन पॉयंटा वयलें टाटा थिएटर गच्च भरिल्लें. किसिंजर भितर सरलो. ताणें व्याख्यानाक सुरवात केली. त्या वेळार जे.आर.डी. टाटा वचून थोडो तेंप जाल्लो आनी ते दोगूय एकामेकांचे लागशिल्ले इश्ट आसले. त्या संबंधान किसिंजरान म्हळें, '''जे'न हे आदीं म्हाका लॅक्चराचें आमंत्रण दिल्लें आनी कांय कारणांक लागून म्हाका तें स्विकारूंक मेळूंक नाशिल्लें. तो आसतनाच आपणें तें घेवचें केल्लें.'' मुखार ताणें म्हळें, आपल्याक दिसतालें, जेआरडी हो अविनाशी (indestructible)! रवीन्द्रबाब गेलो तेन्ना म्हाका किसिंजराच्या त्या उतरांचो उगडास जालो. आमचे सारकिल्यांक रवीन्द्रबाब होय एक अविनाशी... अविनाशी विचारवंत.



## विचारांची शाळा

– राजय पवार

तातो... कोटी कोटी उपकार तुमचे
आमचे खातीर तुमी
एक 'नवी शाळा' काडली
हिमालया सावन ब्रह्मांडा मेरेन
भोंवडी करून हाडली.

तुमी 'मीर्ग' जावन
पावस रकयलो
गिन्यानाचो, विचारांचो,
पुरस्कारांचो, प्रतिश्ठेचो.

तुमी शेणिल्ल्यांक
'...मनशांत हाडले'
न्हिदिल्ल्यांक 'जाग'यत रावले
विचारांच्या 'समिधां'नी
आमकां पेट्टे दवल्ले

सर्जक तुमी, अनुसर्जक तुमी
दिलें 'ओथांब्यां'चें धन
'गांधी-बुद्ध' दिवन
आमचें गिरेस्त केलें मन

गोमन्त शारद तुमी
तुमीच आमचें ज्ञानपीठ
फुडाराच्या वावरा खातीर
तुमीच आमची विचार-कीट

वेळेवयल्या घुलांक जेन्ना
कान आमी लायले
उजवाडाचे लेगीत सूर
आमकां आयकूंक आयले

विद्यार्थी आमी
तुमचे शाळेचे
घेतात हो सोपूत
'जपतले आमची भास.'



# रवीन्द्रबाबान कोंकणीक पूर्णत्व दिलें

महाबळेश्वर सैल

हिमालयांत हें पुस्तक रवीन्द्रबाबांल्या साहित्यीक जिविताची बुन्याद. तातूंत साहित्य आसा, विचार आसा, अध्यात्म आसा, आनी तें एक बरें प्रवासवर्णन लेगीत. गोंयचे अस्मितायेचो ध्यास घेवन बशिल्ल्या मनशान ह्या पुस्तकांत पुराय भारताचो आत्मीक, आध्यात्मीक विचार मांडला. भारतीय साहित्यांतल्या एका बऱ्यांतल्या बऱ्या पुस्तकाक कोंकणीचो पयलो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळो आनी कोंकणीची सुरवात एकदम बरी जाली. तसो रवीन्द्रबाबांक साहित्यांत पयलो मान जायते फावटीं फावऽ जाला.

रवीन्द्रबाब ललीत साहित्यीक न्हय तर वैचारीक साहित्यीक असो एक सूर आयकूंक येता. पूण तांचीं *हिमालयांत, महाभारत, तथागत* हीं पुस्तकां आनी समग्र निबंध एके बाजून दवरचे आनी सगळें वैचारीक साहित्य दुसरे बाजून दवरचें तेन्ना ते ललीत साहित्यीक म्हणय कितले स्रेश्ठ आसात हें कळून येता. रवीन्द्रबाबांल्या जिवितांतलो गोंय मुक्तीचो ध्यास, कोंकणीक प्रस्थापीत करून गोंयची अस्मिता राखची अखंड चळवळ, गांधी तत्वज्ञानान भरिल्लें तांचें पुराय जिवीत हें सगळें पळेल्यार आमचे मदीं केदो व्हडलो मनीस वावुरतालो आनी जावन गेलो तें समजता आनी मन थक्क जाता, आदरान, अभिमानान भरून येता.

'ज्ञानपीठ' कोंकणीचें निमाणें सपन आसलें. ताचे बगर कोंकणीक पूर्णत्व येवचें नासलें. आज तें पूर्णत्व आयलां, तें म्हज्या मोगाळ रवीन्द्रबाबां वरवीं. केदी आसली कोंकणी? एके वडा-बिये येदी. तिचो आज हजार खांदयांचो वटवृक्ष जाला.रवीन्द्रबाबांचो तातूंत भीष्माचो हात आसा, भगिरथाचे प्रयत्न आसात.



*वाटे वयलीं अडचणींचीं तळपां म्हळ्यार, कर्तुत्वी मनशाचीं वयर सरपाचीं सपणां.*

हांव मराठींतल्यान कोंकणी वटेन आयलों तेन्ना रवीन्द्रबाबां सारके हिमालया येदे तपस्वी पुरूश कोंकणींत आसात हें म्हजे खातीर खूब मोठें आश्वासन आसलें. तो आत्मविश्वास आसलो. तेन्ना रवीन्द्रबाबांलें ज्ञानी, राजस,व्यासंगी व्यक्तिमत्व मुखार उबें रावतालें आनी सगळी निर्शेणी पयसावताली. मागीर नवे उमेदीन हांव लेखणी हातांत घेतालों.

रवीन्द्रबाबांली कोंकणी विशींची निष्ठा गांधीजी प्रणीत सत्य स्वरुपांतल्यान आयिल्ली. त्या सत्याक, त्या ध्येयाक कितली तांक आशिल्ली हें आज कळटा. हेर भासांतल्या बरोवप्याक ज्ञानपीठ फकत ताचे साहित्य साधनेकच मेळटा. पूण रवीन्द्रबाबांक तो पुरस्कार साहित्या वांगडाच तांचे निष्ठेक, ध्येयाक आनी मिशनाक फावऽ जाला, ह्या सगळ्यांतल्यान नांवा-रुपाक आयिल्ल्या तांच्या व्यक्तिमत्वाक मेळ्ळा. रवीन्द्रबाबान कोंकणीक व्हड केल्या, गोंयाक व्हड केलां, वांगडाच आमी सगळे व्हड जाल्यात. आमी आतां नवी उभारी, नवो आत्मविश्वास घेतला. आमचे लिखणेक नव्यान बळगें आयलां. आतां फाटीं वळून पळोवचें आमकां कसलेंच कारण ना. एके पूर्णत्वाक आयिल्ले भाशेचे आतां आमी धनी.

शणै गोंयबाबान कोंकणीचो पायो घालो आनी ताचेर कळस चडयलो रवीन्द्रबाबान. तांणी स्थापीत केल्ल्या 'जाग' नेमाळ्याचें आनी 'जाग प्रकाशना'चें काम अभूतपूर्व अशें. 'जागा'न कोंकणी साहित्यांत क्रांतीच केली. कसदार साहित्याची निर्मणी आनी प्रकाशन हें 'जागा'चें उद्दिश्ट आशिल्लें. तें पूर्णत्वाक आयिल्लें रवीन्द्रबाबान प्रत्यक्ष पळयलें. हांव सोता एक कोंकणी बरोवपी म्हण 'जागां'तल्यानच मुखार आयलां. हें हांव सदांच अभिमानान सांगतां. तेन्ना रवीन्द्रबाब आनी सुमंतबाब मेळूंक नासले जाल्यार घडये हांव म्हजी वाट कोंकणीचे भायरच सोदत भरकटत रावता आसलों.

म्हाका याद आसा, तेन्ना हांव म्हजो इश्ट भाई मावज्या वांगडा तांकां मेळूंक तांच्या घरा गेल्लों. पयलेच फावट हांव तांकां मेळटालों. आश्रम कशें तांचें घर आनी तातूंत रुशितुल्य अशें तांचें व्यक्तिमत्व. हांव सामको भारावन गेल्लों. कोंकणीच्या फाटबळाक अशी एक विद्वान उत्तूंग व्यक्ती आसा हो अभिमान, आत्मविश्वास व्हड आसलो. आमी बसतकीर तांणी म्हाका म्हटलें, "तुजें बरोवप वेगळेंच आसता. तातूंत ओरिजिनलिटी आसा. तूं बरयत राव." हांव बरयत रावलों. 'जागा' पसून केन्ना पयस गेलों ना. सेगीत सत्तावीस वर्सां हांवें 'जागा'च्या दिवाळी अंकांत चुकऽ नासतना बरयलां. *तरंगां* आनी *अदृश्ट आनी अरण्यकांड* हीं म्हजीं दोन पुस्तकां 'जागा'न प्रकाशीत



जो सत्याक केन्ना भियेलो ना
तो असत्याक कित्याक
भियेतलो?

केलीं. दोनय पुस्तकांचें भांगर जालें. *तरंगांक* साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळो तर *अदृश्टा*चेर जाल्ल्या फिल्माक अंतरराष्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळो. हाचे फाटली उर्बा रवीन्द्रबाब आनी सुमंतबाब केळेकारांली आसा हातूंत दुबाव ना.

कोंकणी भास ल्हान न्हय, दुबळी न्हय हें म्हाका सुरवे पसुनच जाणवतालें. पूण फावऽतो आत्मविश्वास मेळनासलो. कारण त्या काळार बऱ्योचश्यो गजाली आमच्या विरोधांत आसल्यो. पूण आज कोंकणीचें श्रेश्ठत्व निर्विवाद सिद्द जालां. आतां आमचे वटेन बोट दाखयतल्याक आमी रवीन्द्रबाब दाखयतले आनी व्हडपण घेतले. आमकां ल्हान म्हणटल्यांक आमी पिश्यांत काडटले.

रवीन्द्रबाबांक पद्मभूषण मेळ्ळें, ज्ञानपीठ मेळ्ळें, ते साहित्य अकादेमीचे 'फेलो' जाले. कोंकणी मनशांनी ताचो मोठो उत्सव मनयलो. किंकोंत केल्ले भाशेन येदो व्हडलो उत्सव मनोवच्चेलें भाग्य आमकां रवीन्द्रबाबान दिलें. आमी नतमस्तक आसात. तांची खिणाखिणाक याद काडटात. हें जैत सादें न्हय, अवहेलने कडच्यान सन्माना कडेन, संघर्शातल्यान जैता कडेन, बंधनांतल्यान मुक्ती कडेन असो हो प्रवास. असत्याची बेनुल्ल कातरीत कातरीत ते हे जैताचे वाटेर पाविल्ले म्हण तांकां एका युगाच्या मापान मेजऽ इतलें महत्व आसा.

रवीन्द्रबाबांलें साहित्य हे एकच फावट वैचारीक तशें ललीत लेगीत. एकच फावट तें विचारय दिता आनी लालित्याचे क्रिकेटिव्हिटीचो आनंदय दिता. हाचें कुवाडें तांचे भाशाशैलींत आसा. सादी सोंप तरी आशयपूर्ण मनभुलयणी ती शैली. ती वाचकाक एकच फाव वैचारीक आनी ललीत पातळेर व्हरता. तांचें पुराय साहित्य एक फावट बहुविध परिणाम साधपी, एकच फावट बरेच आयाम केळोवपी म्हजो सगळ्यांत आवडटो लेखक हांवें म्हजेच मायभाशेंतल्या वाचला!

*हिमालयांत* पुस्तकाक केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळो तेन्ना हांव कोंकणी बरय नासलों. पूण हांवें मुद्दम तें पुस्तक मेळोवन घेवन वाचलें आनी कोंकणी भाशे विशींचे गैरसमज खिणांत पयस जाले. पुराय हिमालयाक ताच्या सैमीक रंगरुपा सयत, ताचे परंपे सयत, अध्यात्मा सयत आपणांत आसपावन घेवंक तांकता ती भास दुबळी कशी म्हणूं येत! ही म्हजी कोंकणी विशींच्या मोगाची, आत्मविस्वासाची सुरवात आसली. एक कीट मनांत पडिल्ली. ती मागीर सतत पेटत रावली.

प्रवासी रवीन्द्रबाब, 'ब्रह्मांड'मोगी रवीन्द्रबाब, दार्शनीक, साहित्यीक, रिफॉर्मिस्ट रवीन्द्रबाब, फायटर, फ्रीडम फायटर, गांधी विचारवंत रवीन्द्रबाब हीं सगळीं रुपां एका व्यक्तिमत्वांत! तकली चक्रावन वता.

म्हाका केन्नाय दिसता, हो द्रस्टो पुरूश नियतीन कोंकणी खातीरच निर्मिल्लो. ना तर येदें व्हडलें कार्य ताचे कडल्यान एका आयुश्यांतच कशें घडटा आशिल्लें?

रवीन्द्रबाब मरणा उपरांतच्या म्हाप्रस्थानाक गेल्यात. आमचीं मनां दुःखान भरून गेल्यांत. एका कर्तुत्वशाली मनशाल्या कृतार्थ जिविताक पूर्णविराम लागला. एक लखलखतें नखेत्र अस्ताक गेलां. कोंकणी चळवळीचो, गोंयचे अस्मितायेचो, गोंयच्या मुक्तिझुजाचो 'कल्पांताचो गवाय' नदरे आड जाला. समाधान इतलेंच, वतना ते कोंकणीक केन्ना ना सोंपपी महाधन दिवन गेल्यात. पूर्णत्वाक आयिल्ली कोंकणी भास दिवन गेल्यात. तांचें कार्य गोंयचे अस्मिताये वांगडा कोंकणी मनशा वांगडा बांदिल्लें आसलें. तें आत्मकेंद्रीत नाशिल्लें. दर एका प्रदेशाची अस्मिताय त्या त्या प्रदेशांतले मातये वांगडा, भाशे वांगडा, मानसीकते वांगडा बांदिल्ली आसता. हें सगळें प्रस्थापीत करपाचे तांचे प्रयत्न आशिल्ले. ते द्रश्टे आशिल्ले, दूरदर्शी आशिल्ले म्हण तांच्या प्रयत्नांक निश्चीत दिका आयिल्ली. ते केन्नाच दिका चुकले नात. ध्येय शेणून भरकटले नात. तांच्या जिवितांत, कोंकणींत कितलीं आवर्तनां आयलीं, निर्शेणी येयऽ इतली मरगळ आयली. कोंकणी भासच न्हय म्हण तिका न्हयकारली, तिका हीण मानली. पूण दर खेपे सगळो अपमान, सगळें अपयश पचोवन ते परते उबे रावले. वांगडाच तांणी कोंकणी चळवळींतल्या कार्यकर्त्यांकय बळगें दिलें, आत्मविश्वास दिलो. चळवळीक मरगळ येवची न्हय म्हण ते शादूर रावले. कोंकणी चळवळीचो पायो घालो, ताचेर कळस चडयलो.

इतलें उत्तूंग कृतार्थ जिवीत हांवें म्हज्या आयुश्यांत तरी पळयलें ना. रवीन्द्रबाब गेल्यात, वांगडाच ते कोंकणीकय कृतार्थ करून गेल्यात!



# ललीत साहित्या वरवीं रवीन्द्रबाबांच्या तरण्या मनाचो घेतिल्लो सोद

प्रकाश पर्येंकार

रवीन्द्रबाबान मुखेलपणान ललीत लेखन केलां. तांच्या लेखनाक वैचारीकतेची बसका आसा. तांच्या ललीत लेखनाक वैचारीक अधिश्ठान आसप आनी वैचारीक लेखनाक लालित्याची जोड आसप हें समीकरण कशें जालां.

आयजवेर तांचीं ललीत साहित्याचीं साबार पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. पूण म्हज्या ह्या अभ्यासाक सोंपेपण जावचें म्हूण हांवें रवीन्द्रबाबांचीं पांच पुस्तकां वेंचल्यात – *वेळेवयल्यो घुलो* (दिसपटी १९७१), *उजवाडाचे सूर* (ललीत निबंद १९७३), *हिमालयांत* (भोंवडे-वर्णन १९७६), *सांगाती* (चिंतनां १९७७) आनी *तुळशी* (नवलिका १९७१). हीं पांच पुस्तकां वेंचून काडपाचें आनीक एक मुखेल कारण म्हळ्यार तीं सगळीं १९७१ ते १९७७, म्हळ्यार सत्तरीच्या दसकांत उजवाडा आयल्यांत. एका विशिश्ट काळांत उजवाडा आयिल्लीं पुस्तकां अभ्यासतकच लेखकाची लेखन शैली, ताची विचारीक बसका समजूंक तशेंच सामाजीक, सांस्कृतीक आनी हेर म्हत्वाच्या तत्कालीन वास्तव गजालींचो संदर्भ लावपाक सोंपें जाता. १९७१ पयलीं *सत्याग्रह* (१९५५ गोमंत भारती प्रकाशन, मुंबय), *अशे आशिल्ले गांधीजी* (१९६० गोमंत भारती प्रकाशन, मुंबय), *कथा आनी काणयो* (१९६१ गोमंत भारती प्रकाशन, मुंबय) तशेंच *आमची भास कोंकणीच* आनी *शाळेंत कोंकणी कित्याक?* अशीं (१९६२, कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय) हीं पुस्तकां तांच्या नांवार आशिल्लीं. हीं सगळीं पुस्तकां भाशीक, सामाजीक आनी राजकीय विशयांचेर भाश्य करपी आसात. हांचे उपरांत १९७१ वर्सा *तुळशी* आनी *वेळेवयल्यो घुलो* हीं तांचीं दोन पुस्तकां उजवाडा आयिल्लीं. *हिमालयांत* हें भोंवडे-वर्णनाचें पुस्तक १९७६ वर्सा उजवाडा आयलें खरें पूण रवीन्द्रबाबान हिमालयाची ही भोंवडी १९५६ च्या गिमाळ्यांत केल्ली. हे भोंवडे वेळार ते ३१ वर्सां पिरायेचे तरणाटे आशिल्ले.



*जिवीत : एक कांदो; एक एक पाती उकती करतासर दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवंक जाय.*

रवीन्द्रबाबांचो जल्म १९२५ वर्सा कुंकळ्ळे गोंया जाल्लो. १९३१ ते १९३५ ह्या काळांत तांचें मुळावें शिकप दीवाक गुजरातींतल्यान जाल्लें. मुखार १९३६ ते १९३८ मजगतीं पुर्तुगेज मुळावें शिकप तशेंच सेगुंद ग्राव मेरेनचें शिकप दीवाक जालें. ताचे उपरांत ते गोंयांत आयले आनी १९४६ वर्सा तांणी गोंयच्या सुटके झुजांत उडी घेतली. (ह्या वेळार तांची पिराय २१ वर्सांची आसली.)

पिरायेच्या २४ व्या वर्सा गोदूबाय कडेन लग्न जातकच तांणी आचार्य काकासाहेब कालेलकरांच्या वर्ध्याच्या आश्रमांत प्रवेश घेवन महात्मा गांधींच्या विधायक वावरांत वांटो घेतिल्लो. वयाच्या अठ्ठाविसाव्या वर्सा, म्हळ्यार १९५३ वर्सा, तांणी 'मीर्ग' (१९५३-१९५५) हें कोंकणी पंद्रशी नेमाळें वर्ध्या सावन सुरू केलें. १९५५ वर्सा दिल्लीक गांधी स्मारक संग्रहालयाचे ग्रंथपाल म्हूण तांणी काम पळेलें. १९५६ वर्सा गोंयच्या सुटके झुजांत उडी घेतली आनी त्याच वर्सा 'गोमंत भारती' ह्या रोमी लिपयेंतल्या कोंकणी नेमाळ्याचें मुंबय सावन संपादन सुरू केलें.

रवीन्द्रबाबांचे जिणेंतल्या मुखेल घडणुकां वरवीं तांच्या व्यक्तिमत्वाचो थाव घेवपाचो हो यत्न. भुरगेपण ते पिरायेचीं ३०-३१ वर्सां मेरेन रवीन्द्रबाब कशे तरेन घडले वा आपणाक तांणी घडयले तें हातूंतल्यान आमकां पळोवंक मेळटा. ल्हानपणांत रवीन्द्रबाबांचेर जाल्ले संस्कार, तांची तळमळ आनी धडपड... तांच्या व्यक्तिविकासाक फावऽ जाल्लें पोशक वातावरण, तरणे पिरायेर तांकां भेटिल्ल्यो व्यक्ती आनी वर्ध्याच्या आश्रमांत मेळिल्लें मोलाचें मार्गदर्शन. तो काळूच आशिल्लो भारतीय स्वतंत्रतायेच्या रणसंग्रामाचो. गांधी विचारा वांगडा हेर भारतीय राजकी आनी सामाजीक नेत्यांचो प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्ष सहवास रवीन्द्रबाबांक घडयत गेलो.

हे सगळे फाटभुंयेचेर रवीन्द्रबाब कोंकणी भाशीक आनी साहित्यीक चळवळी कडेन एकरूप जाले. शणै गोंयबाबा उपरांत कोंकणी साहित्याची घुडी खांदार घेवपी रवीन्द्रबाबांची दुसरी पिळगी. शणै गोंयबाबान आपल्या तेजिश्ट आनी सत्यशोधक विचारांनी पयलेच फावट कोंकणी अस्मितायेची वळख कोंकणी मनशाक करून दिल्ली. कोंकणी भाशेचो विचार जनमानसांत पावोवपाचें काम रवीन्द्रबाबान आंगार घेतलें आनी तशे तरेची बरपावळ ते करपाक लागले. आपणें कोंकणी खातीर आनी कोंकणींतल्यान बरोवंक जाय हें सत्य तांकां पयलींच होलमल्लें.

तांणी केल्ल्या लेखनांत तांच्या संपूर्ण व्यक्तिमत्वाचीं वेगवेगळीं



*लोकांचे नदरेंत हांव केदोय आसूं,*
*खासा म्हजे नदरेंतल्यान*
*हांवें पडूंक जायना.*

तासां आमकां नियाळूंक मेळटात. तांचें व्यक्तिमत्व भोव आयामी. तांचे भितर झुजारी आसा. पत्रकार आसा. सर्जनशील साहित्यीक आसा. विचारवंत आसा. संघटक आसा. एक व्यासंगी अभ्यासक आनी संशोधक लेगीत आसा... आयजवेर तांणी भाशीक आनी साहित्यीक मळार केल्लें काम ह्या सगळ्याची रुजवात दिता.

ह्या अभ्यासा खातीर जीं पांच पुस्तकां हांवें वेंचून काडल्यांत तांचें लेखन रवीन्द्रबाबान वयाचे चाळिशी पयलीं केलां. तरणाट्या रवीन्द्रबाबांचे विचार कितें आशिल्लें? ते कशे येवजिताले? तांच्या विचार प्रवाहाची धरती कितें? तांची विचारसरणी कितें आशिल्ली? ते कसल्या विचारांनी प्रभावीत जाल्ले? अशे साबार प्रस्न म्हजे सारकेल्या वाचप्याक पडटात. आनी हाकाच लागून ह्या लेखांत फकत पुस्तकांचो नियाळ घेनासतना रवीन्द्रबाबांचे तत्कालीन विचार मांडचे हो हेतू मनांत बाळगिला.

*तुळशी* (१९७१) हे नवलिकेंत रवीन्द्रबाबान गोंय मुक्ती पयलींच समाज चित्रायला. गोंयांतल्या उच्चवर्गीय कुटुंबांत घडपी ही काण तेन्नाच्या समाजाचें स्वरूप वाचप्या मुखार दवरता. तुळशी हे विधव बायले भोंवतणी नवलिकेचें कथानक घुंवता तरी हेर साबार पात्रांच्य वृत्ती-प्रवृत्तींचेर तें उजवाड घालता. गिरजें, तुळशी, शांताबाय आवडुमावशी, विठेमामी, शाली, सावित्रीव्हनी, नलू अशीं स्त्रीपात्र हे नवलिकेंत आसात. तशेंच दुसरे वटेन जनाप्पा, आनंदमामा, बाबुसो दत्ताबाब (दोतोर), सदाबाब, दामोदर अशीं पुरूशपात्रांय आसात.

जनाप्पा, सदाबाब, दामोदर आनी जसवंतभाई ह्यो लंपट, वायट प्रवृत्तीच्यो, बायलां फाटल्यान लागपी व्यक्तिरेखा लेखका चित्रायल्यात. गोंय मुक्ती पयलींच्या काळांत एके विधवा बायलेक कसो संघर्श करचो पडटालो हें सांगता आसतना तुळशीचो देर जनाप्पा आपले भावजेक वायट नदरेन कसो पळयता वा तिची अब्रू लुट्टा, तशेंच, समाज विधवा बायले कडेन कसले नदरेन पळयता तें तरेकवार प्रसंगांतल्यान रवीन्द्रबाबान दाखोवन दिलां. आपल्याचेर आगळीक जातकच तुळशी बोरये घरा वचपाक सोदी ना. तशीच ती आपले आवयगेर कुसमणां वचून रावपाक सोदिना. आपूण कवळ्यां बिराडाक राबून आपलो संवसार चलयतली असो निर्धार करपी तुळशी म्हणटा, ''बोरये मनशां राविनात... हांव थंय वचपाचें ना.. कुसमणां कित्याक वतलें? म्हाका घर ना? म्हजें हेंच घर... केदेंय व्हडलें संकश्ट येवं, हांव घर सोडपाचें ना...'' (पान-२९)

तुळशीक आपले जोडीची आस्त ना. मूळ घरची संपत्त आपणाक कांयच नाका - ''म्हाका दिल्यारूय हांव तें परतें करतलें...'' असो खर निश्चय तुळशी करता आनी येवपी संकश्टांक तोंड दिता. हांगा लेखक बायलेक मनांतल्यान बळिश्ट करता. तिका स्वतंत्र विचार करपाक लायता. तिका तिच्या पांयांर उबी करून स्त्री मुक्ततायेचो विचार रुजयता.

हे नवलिकेंत तुळशीचें चली नलू हें निवेदक पात्र आपले आवयची काणी निवेदन करता. वयाच्या पांच ते सतरा वर्सां मजगतीं नलून जें कितें आयकलें आनी पळयलें तें हे नवलिकेंत आयलां. लेखक रवीन्द्रबाबान 'तुळशी' हे व्यक्तिरेखे वरवीं दिल्लो विचार खूब म्हत्वाचो. गोंयचो तत्कालीन काळ, त्या वेळा वयलो समाज एके वटेन आनी त्या समाजा मुखार धिटायेन, आपल्या पांयांर उबी रावून स्वतंत्रपणान जीण जगूंक सोदपी पुरोगामी विचारांची तुळशी दुसरे वटेन अशें चित्र हे नवलिकेंत दिसता. विठेव्हनयेक मदत करपी, शिवण-सूत, लोणचें-पापड करून जोडपी, बाबुशाक दुकान चलोवंक मदत करपी बायल-मनीस रवीन्द्रबाबान चित्रायल्या आनी तिचे वरवीं समाजा मुखार पुरोगामी विचार दवरला.

*वेळेवयल्यो घुलो* (दिसपटी) हें पुस्तकय १९७१ वर्सा उजवाडा आयलां. हें पुस्तक म्हळ्यार कोंकणींतली म्हत्वाची आनी मुखेल अशी पयली वयली दिसपटी. ह्या साहित्य प्रकाराक संवसारीक पांवड्यार खूब म्हत्वाचें स्थान आसा. साबार रुशीतुल्य व्यक्तींनी आपले अणभव ह्या प्रकारांत बरोवन दवरल्यात. दिसपटयेंतले मार्गदर्शक अणभव वाचप्यांक स्फूर्त दितात.

हे दिसपटयेंतले कांय वांटे 'वासरिका' ह्या माथाळ्या खाला 'राष्ट्रमत' दिसाळ्यांत (२९.११.१९७० ते २१.०२.१९७१) ह्या काळांत उजवाडा आयिल्ले. रवीन्द्रबाबांची पिराय ह्या वेळार ४५ वर्सांची. वयाच्या वीस ते चाळीस वर्सांचे पिराये मेरेन ते आपले जिणेक आकार दिवपाच्या कामाक लागिल्ले. आनी त्या संघर्षमय काळांत वाचन, चिंतन, मनन आनी प्रत्यक्ष अणभवांच्या नाड्यार तांणी जें कमयलें ताचो जीवनरस हे तांचे दिसपटयेंत पळोवंक मेळटा.

'घुलो कानाक लायतकूच' ह्या माथाळ्या खाला मनोहरराय सरदेसाय हांणी बरयल्ले प्रस्तावनेंत ते म्हणटात: ''रवीन्द्र हो चिंतपी. तो बरयतना चिंतता. उलयतना चिंतता. चलतना चिंतता. ताच्या सपनांक लेगीत चिंतनांचो रंग आसतलो...'' मुखार ते म्हणटात: ''रवीन्द्राचे हे दिसपटयेक ताच्या जिविताची लांबाय-रुंदाय आनी खोलाय आसा. समुद्रमंथन करून जिविताचो दर्या घुसळून काडिल्ल्यो ह्यो घुलो...''

दिसपटी म्हळ्यार एके तरेचें आप-बरोवप. आपले जिणेची आपणेंच घडयल्ली वळख. रवीन्द्रबाबान खूब ल्हान पिरायेचेर जें जिवितांत कमयलें तेंच तांणी नकसूद उतरांनी हांगा सांगलां. दिसपट्टे जिणेंतले अणभव सांगतना रवीन्द्रबाब साबार संवसारीक विभुतींचो आपल्या बरपांत उल्लेख करतात. तांच्या विचारांची फोडणिशी करतात. म्हत्वाच्या पुस्तकांचो उल्लेख करून तांचें म्हत्व अधोरेखीत करतात. व्यक्तींचे आनी म्हापुरसांचे वळेरेंत सॉमरसेट मॉम, आचार्य कृपालानी, सिमॉन द बोव्होआर, लेव तॉलस्तॉय, मोहन रानडे, रवीन्द्रनाथ ठाकूर, तुलसीदास, महात्मा गांधी, राम, श्रीकृष्ण, बुद्ध, ख्रिस्त हांचो आसपाव जाता. पूण रवीन्द्रबाबांचे हे पुराय दिसपटयेंत मुखेलपणान एक नांव परत परत वेगवेगळे संदर्भ घेवन येता. तें म्हळ्यार आचार्य काकासाहेब कालेलकर.

तिसरें खूब म्हत्वाचें पुस्तक म्हळ्यार *हिमालयांत*. ह्या तांच्या पुस्तकाक १९७७ वर्साचो साहित्य अकादेमी, दिल्लीचो कोंकणी खातीर पयलो राष्ट्रीय साहित्य पुरस्कार फावो जाला.

रवीन्द्रबाबांच्या ह्या पुस्तकाची निर्मिती प्रक्रिया मजेशीर आसा. हांवें सुरवेक सांगलां तशें रवीन्द्रबाबान हिमालयाची भोंवडी आपली घरकान्न, भाव आनी इश्टा वांगडा वयाच्या ३१व्या वर्सा केल्ली. पंचेचाळीस दिसांचे हे यात्रेक ते दिसाक धा-बारा मैल चलताले. रवीन्द्रबाबान हिमालयाचे हे भोंवडेच्यो नोंदी आपले डायरेंत करून दवरिल्ल्यो. पूण मुखार पुराय इकरा वर्सां त्यो नोंदी तश्योच डायरेंत उरल्यो. १९६७ वर्सा त्यो नोंदी वाचून तांच्या आदारान तांणी भोंवडे-वर्णन बरयलें आनी त्याच वर्सा तें 'राष्ट्रमतां'त खिस्तींनी उजवाडा आयलें. ह्या भोंवडे-वर्णनाचें पुस्तक येवपाक १९७६ वर्स उजवाडचें पडलें. १९५६ ते १९७६ अश्या वट्ट वीस वर्सां उपरांत एकाद्रें लेखन पुस्तक रुपान येवप आनी त्या पुस्तकाक कोंकणींतलो पयलो राष्ट्रीय साहित्य पुरस्कार मेळप हें त्या पुस्तकाचें आनी कोंकणीचें भाग्य म्हणपाक जाय.

इतले तरणे पिरायेर रवीन्द्रबाबांक हिमालयाची ओड कित्याक? *उजवाडाचे सूर* ह्या पुस्तकांत 'उजवाडाचे सूर', 'सैमांतलो खंतीचो सूर' आनी 'सैमाचें महाकाव्य - जोग' ह्या तांच्या निबंदांतल्यान तांकां सैमाची ओड आसा म्हणपाचें स्पश्ट जाणवता. पूण तांचे हे भोंवडेक काकासाहेब कालेलकर अप्रत्यक्षपणान जापसालदार आशिल्ले म्हणपाचें कळटा. कारण काकासाहेबांचे हिमालयाचे भोंवडेचेर एक पुस्तक आसा. तें रवीन्द्रबाबान रुचीन वाचिल्लें अशी नोंद ह्याच पुस्तकांत मेळटा (पान ५०). ते मुखार म्हणटात, ''म्हाका हिमालयांत वचून येवपाची प्रेरणा काकासायबां कडल्यान मेळ्ळ्या.'' काकासाहेब हे प्रवास करपी व्यक्ती आशिल्ले. भारतांत तशेच भारता भायर ते भोंविल्ले. ''उदकान खंय व्हांवत रावपाक जाय. आनी मनशान भोंवत रावंक जाय'' हो मंत्र रवीन्द्रबाबान आपले जिणेचो मंत्र केल्लो. हिमालयांत वचपाचो बेत ते आठ-धा वर्सां आंखीत आशिल्ले. तशेच, वध्यांक आसतना ते व्हडल्या व्हडल्या देशभक्तांचीं

परिस्थिती बदलतकूच काम
करुंक रावशीत जाल्यार
तूं तें केन्नाच करुंक
पावपाचो ना.



उलोवपां आयकूंक वताले. त्या वेळार सगळे एका ताळ्यान सांगताले, 'देशाची सेवा करतले जाल्यार आदीं देशाक वळखून घेयात... देशाची वळख करून घेवपाक खूब भोंवात...' ह्या विचारांचे संस्कार रवीन्द्रबाबांचेर तरणे पिरायेर जाल्ले.

हिमालय यात्रेचो उद्देश सांगतना लेखक म्हणटा, ''हांव संवसाराचेर उबगून हिमालयांत येवंक नाशिल्लों. ध्यान-चिंतन वा साधना करपा खातिरूय येवंक नाशिल्लों. हांव आयिल्लों सुन्दरकायेचो एक मोगी ह्या नात्यान. सैमाचो एक भक्त ह्या नात्यान. कोणेंच पळोवंक ना तें पळेतलों, कोण पावूंक नात थंय वचून येतलों हे उमेदीन.'' (पान ४६.)

रवीन्द्रबाबान आपल्या ह्या भोंवडे-वर्णनांत विशिश्ट विशयाक वा विचाराक धरून विश्वामित्र, बुद्ध, खलील जिब्रान, स्वामी विवेकानंद, काली कमलीवाला साधू, काकासाहेब कालेलकर हांचे विचार तश्योच यादी सांगल्यात. ते भायर, हरिद्वार, हृषीकेश, सिलक्यारा, जम्नोत्री, गंगाणी, उत्तरकाशी, सुक्की, झाला, हरिसील, धराली, गंगोत्री, भैरवघाटी आनी हेर थळांचीं वर्णनां केल्यांत.

ह्या भोंवडे-वर्णनांत फकत थंयचीं सैम वर्णनां नात. जिविताचे वाटेचो अर्थूय विसकटावन सांगला. भारतीय संस्कृतायेंत हिमालयाक खाशेलें म्हत्व आसा. ताचीं कारणां सांगतना लेखक आमकां सनातन धर्माची गजाल सांगता. आमच्या रुशींनी त्या ऊंच ऊंच दोंगरांक पळोवन वा ते दोळ्यां मुखार दवरून जिवितांतलीं उंचांतलीं ऊंच तत्वां सोदून काडलीं असो विचार लेखक मांडटा.

ह्या तांच्या भोंवडे-वर्णनांत थळाची म्हायती येता तशेंच थंयचीं पर्वत-शिखरां, घोगे, वजरे, देवदार, अक्रोड, जरदाळू आनी चिडां रुखांची खबर तांच्या वैशिश्ट्यां सयत सांगल्या.

थंयचे घाट, थंयचे लोक, तांच्यो वृत्ती-प्रवृत्ती लेखकान वर्णिल्यात. हें सगळें सांगपाक रवीन्द्रबाबान सुटसुटीत भास वापरल्या. खंयचोच विचार कठीण करून सांगूंक ना. प्रसंग तशेंच थळाचें वर्णन करतना आपली सादी-सोपी भास वापरल्या. हाका लागून हें भोंवडे वर्णन वाचनीय जालां. तें वाचतना लेखका वांगडा आपूणय हिमालयाचो प्रवास करतां असो आभास वाचप्याक जाता.

आपल्या मनोगतांत लेखकान ह्या पुस्तका विशीं म्हळां, ''जांच्या हातांत हें पुस्तक पडटलें तांकां, म्हाका जाल्या तशे तरेची ताकतीक जावपाक लागली आनी ते देस पळोवपाक, संवसार पांयांनी माड्डुपाक, जंय सपसप कोण पावना असल्या थळांनी भोंवन येवपाक घरांतल्यान भायर सरपाची इत्सा जाली जाल्यार, म्हाका खूब खोस भोगतली.''

तरणाट्या रवीन्द्रबाबान उकतायल्ले विचार आनी ते निमतान बाळगिल्ली आस्त खूब म्हत्वाची आसा. ''आयचे तरणाटे हिमालयाचे भोंवडेक कित्याक वचनात?'' असोय ते प्रस्न करतात. आनी भारत देश समजून घेवपाक आमी भोंवत रावपाक जाय असो कानमंत्र ते आमकां दितात.

*उजवाडाचे सूर* हें तांचें १९७३ वर्सा उजवाडा आयिल्लें पुस्तक. गोंय मुक्तताये उपरांत म्हळ्यार १९६२ उपरांत रवीन्द्रबाबान मुक्त पत्रकारिता केल्या. मराठी आनी कोंकणी नेमाळ्यांतल्यान अखंडपणान लेखन केलां. कारण गोंया भायर सिमीत आशिल्ली कोंकणी चळवळ आतां गोंयांत केंद्रीत जाल्ली. कोंकणी भास आनी साहित्याक मेकळो स्वास घेवपाक मेळिल्लो. हें खरें आसलें तरी कोंकणी-मराठी वादाक हांगा तोंड फुटिल्लें. ओपिनियन पोल आनी कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय अशे प्रस्न कोंकणी मनशां मुखार आशिल्ले.

*उजवाडाचे सूर* ह्या पुस्तकांतल्या मनोगतांत लेखक म्हणटा, ''फाटल्या धा वर्सांत खूब बरयलें. सुमारा भायर बरयलें म्हळ्यार जाता. आमचे रासवळ जिणेच्या 'एक घे दोन दी' ह्या नेमाक धरून चडशें बरप लोकांक तिडावपीय बरयलें...'' ते मुखार म्हणटात, ''मदीं मदीं म्हज्यांतलो साहित्यीक जागो जातालो. तो म्हाका केन्ना केन्ना कांय देखाव्यांच्यो, कांय दिश्टाव्यांच्यो, कांय थळांच्यो, कांय प्रसंगांच्यो, कांय अणभवांच्यो 'खबरी सांग' म्हूण सांगता आनी हांव त्यो सांगतां. असल्यो कितल्योश्योच खबरी ज्यो फाटल्या धा वर्सांत सांगल्यो आनी त्रिवेणी, कोंकण भारती, नवें गोंय, परमळ, साळीक, कोंकणी, रुतु बी नेमाळ्यांनी झळकल्यो...''

वयल्या कांय नेमाळ्यांनी उजवाडा आयिल्ले वेंचीक निबंद *उजवाडाचे सूर* ह्या पुस्तकांत आसपावल्यात. रवीन्द्रबाबांक भोंवडेचें म्हत्व कळिल्लें. भारत देशाक लागींच्यान पळोवपाक आनी अणभवपाक म्हत्वाच्या थळांक भेट दिवपाक जाय अशें तांचें मत आशिल्लें. हो मूळ उद्देश मतींत दवरून लेखक भारतांतल्यो साबार सुवातो पांया तळा घालता. 'घारापुरी', 'बेलूर मठांत', 'उडपींतलो श्रीकृष्ण', 'वाराणसी' ह्या निबंदांनी त्या त्या सुवातांचीं वर्णनां लेखकान बऱ्या वायट गजालीं सयत चित्रायल्यांत. 'हिमालयाची ओड', 'उजवाडाचे सूर', 'सैमाचें महाकाव्य-जोग', 'सैमांतलो खंतीचो सूर' हे निबंद रवीन्द्रबाबांक आशिल्ली सैमाची ओड दाखयतात.

रवीन्द्रबाबांचेर भुरगेपणांत जाल्ले सैमाचे संस्कार, तशींच तरणेपणांत तांच्या विचारांक समता, सहिष्णुताय आनी मानवतावादाची मेळिल्ली जोड तांच्या ह्या लेखनांतल्यान प्रगट जाता. जो लेखक भुंयेचेर, भुंयेवयले जीव-जिवावळीचेर प्रेम करता ताका सैमगुणांचें अधिश्ठान मेळटा. रवीन्द्रबाबाक तें फावो जालां. एकाद्रे निर्मळ झरींतल्यान उदक पाझरचें तशेच तरेन रवीन्द्रबाबांचे विचार तांचे लेखणेंतल्यान पाझरतात.

लेखकाक सांजवेळ आवडटा. ते म्हणटात, ''आयुश्यांतली एकूय सांजवेळ होगडावंक ना. सांज जाली म्हणटकूच हांव मळबा कडेन पळेले बगर राविना...'' अशे तरेन लेखक साबार कडेन आपलेच कडेन हितगूज करता. आपल्या मनांतले उमाळे तो उकते करीत वता. आपूण चिंत्ता आनी दुसऱ्याकूय चिंतपाक लायता. *सांगाती* ह्या १९७७ वर्सा उजवाडा आयिल्ल्या पुस्तकांत रवीन्द्रबाबान आपल्या अणभवांचें रसायन वाटलां. सुरवातेक हांवें रवीन्द्रबाबांच्या लेखनाक वैचारीकतेची बसका आसा अशें म्हणिल्लें. ही वैचारीक बसका लेखकाक फावो जातली जाल्यार त्या लेखकान एक चिंतक आसचो पडटा. सर्वसामान्य मनीस फकत विचार करता. तो चिंतिना... पूण विचारांक चिंतनांची जोड फावो जाता तेन्ना तीं चिंतनां जातात आनी तीं दुसऱ्याक विचार करपाक लायतात. रवीन्द्रबाबांचें जिवीत बहुआयामी आशिल्ल्यान तांच्या जिवितांत साबार बरे वायट अणभव आयल्यात.

रवीन्द्रबाबांचो राष्ट्रीय पांवड्यार कांय व्यक्तीं कडेन आयिल्लो लागींचो संबंद आनी तांच्या विचारांचो प्रभाव, तशेंच तांचें वेगवेगळ्या विशयां वयलें वाचन, तरणे पिरायेर केल्ली जपान देशाची भोंवडी, देशांतल्यो आनी गोंयांतल्यो तत्कालीन राजकी, सामाजीक आनी भाशीक घडामोडी हांणी तांचें व्यक्तिमत्व फुलयलां. सतरा-अठरा वर्सांचे तरणाटे पिरायेचेर पुस्तकांतल्यान राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय गुरुतुल्य व्यक्तींची जाल्ली वळख लेखकाक विचारांनी दांडगी करून गेल्या.

कोंकणी लेखक भौ. दत्ता नायक एके कडेन म्हणटात, ''रवीन्द्र केळेकार एक पंचामृत. राम, कृष्ण, बुद्ध, गांधी आनी टागोर हीं भारतीय संस्कृतीच्या मकरांतलीं पांच सांस्कृतीक दैवतां! ह्या पांचूय महापुरुशांनी आपले जिणेक दिल्ली देख आनी तांणी दिल्ल्या संस्कृतीसत्वांचो पाक खिरोवनूच रवीन्द्र केळेकार नांवाचो मनीस निर्माण जाला.'' हें खरें आसलें तरी लेखक रवीन्द्रबाबाक तत्कालीन काळान घडयला. तो स्वयंभू न्हय. साधनेन ताका घडयला. जिणे कडेन प्रामाणीक रावून जीण सर्वांगसुंदर करपाची तपश्चर्या करता ते व्यक्तीचें व्यक्तित्व रवीन्द्रबाबां वरी विकसीत जाता. असल्या व्यक्तिमत्वाची कोंकणीक फुडाराकूय गरज आसा.



# रवीन्द्रबाबांच्यो कांय अमर यादी

फा. मोउलीगु द आताईद

हांव रायतूरचे सिमिनारींत शिकतालों तेन्ना आमचो रॅक्टर (व्हडील), फा. कार्मु दा सिल्वा, केन्ना-केन्नाय जिनसांवार विद्‌वानांक हाडटालो, आमां विद्यार्थ्यांक वेगवेगळीं व्याख्यानां दिवंक. जायते पावटी हीं व्याख्यानां अख्खो दीसभर तगतालीं. व्याख्यानां म्हणचे, फकत भाशणां न्हय, पूण प्रस्न घालप आनी जबाब दिवपूय. आमी विद्यार्थी प्रस्न घालताले आनी उलोवपी जबाब दितालो. प्रस्न घालूंक रॅक्टर आमकां उर्बा दितालो. सुरवातेक तो उलोवप्याची वळख करून दितालो आनी सोंपत्यार आमां विद्यार्थ्यां मदलो एकलो दिनवास दितालो.

सुमार पस्तीस वर्सां जातलीं. म्हजी पिराय तेन्ना अठरा ते एकुणीस वर्सां. हांव रायतूरचे सिमिनारींत तत्वज्ञान शिकतालों. रॅक्टरान व्याख्यानां दिवंक भोवमानेस्त रवीन्द्रबाब केळेकारांक हाडले. सुरवातेक तांची वळख करून दितना रॅक्टरान म्हळें, हे भोवमानेस्त रवीन्द्र राजाराम शणै केळेकार. 'शणै' म्हणिना फुडें हांवें जाल्यार रोखडेंच पारखिलें, ते पिंडान बुदवंत आनी पसंतीन मार्गदर्शक. हें तांच्या उलोवपा आनी चलणुके उदेशीं सिद्‌ध जालें. ताचें न्हेसप सादें : धवो खादी सदरो, लेंगो आनी पांयांक चामड्याच्यो व्हाणो: सादें जिवीत, उत्तम चिंतप.



...भितल्ल्यान आमी रिते. ...खुनूच भायल्यान हीं तीं 'पोझिसांवां' सोदीत भोंवतात.

त्याच सुरवातेच्या उतरांनी रॅक्टरान सांगलें, रवीन्द्रबाब एक गांधी-तत्वज्ञानी आनी ह्या तत्वांचेर ते आपलीं व्याख्यानां दितले. हें रवीन्द्रबाबान अख्खो दीसभर केलें. रवीन्द्रबाब गांधींजींचे विचार आनी तत्वां फकत पुस्तकां वाचून शिकूंक नात. अनुभवान तीं तत्वां तांणी आपलीं केल्यांत आनी तीं ते जियेतात म्हणून तांच्या उलोवपांतल्यान गोमलें. खरेंच, गांधीजींच्या आश्रमी जिवितांतल्यान ते घडल्यात. तांचें गांधीजींच्या तत्वांचेर प्रभुत्व आसा, हीं तत्वां तांच्या शिरंतरांनी घोळ्टात आनी तांच्या व्यक्तिमत्वाचोच एक वांटो जाल्यांत हें आमकां कळ्ळें. एक अख्खो दीस आमी ऊंच आत्मीक वातावरणांत सारलो. हाची म्हज्या मनांत जिवी ताजी याद आसा.

उपरांतच्या वर्सांनी हांवें रवीन्द्रबाबांक जायते पावटी, वेगवेगळ्या समयांर देख्ल्यात आनी जिनसांवार विशयां वयलीं तांचीं भाशणां हांवें आयकल्यांत. ते भायर विवीध विशयांचीं आनी आकारांचीं तांचीं पुश्कळ बरपां (सगळीं न्हय) हांवें वाचून काडल्यांत. हे वरवीं म्हजें मन विशाळ जावंक पावलां. देखून हांव तांचो भोव आभारी.

रवीन्द्रबाबांचें जिवीत आनी कार्य तरेकवार: ते सुटके-झुजारी. गोंयाक आपली खाशेली अस्मिताय आनी भास आसा, भारतीय म्हासंघांत गोंय एक मेकळें राज्य म्हूण उरचें, ह्या राज्यांत कोंकणी अधिकृत भास जावची, एक स्वतंत्र भास म्हणून कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळची, संविधानाच्या आठव्या परिशिश्टांत तिका आसपाव मेळचो, कोंकणीक आपली थांयची लिंपी आसा आनी ती देवनागरी, ह्या आनी असल्या भौशीक संग्रामांनी तांणी भाग घेतलो आनी फुडारपण चलयलें. गोंयचे आनी भारतीय प्रजेन, गोंय आनी केंद्र सरकारांनी, गोंयच्या आनी राष्ट्रीय साहित्यीक संस्थांनी तांचें मोल वळखलें आनी एकानेक पुरस्कार तांकां दिले. एक मात : पुरस्कारांनी तांकां मोल दिवंक ना, तांणीच पुरस्कारांक मोल दिलें.

येन्ना पर्यंत हांव रवीन्द्रबाबांक पयस थावन पळेतालों आनी तोखेतालों. तांकां स्वता मेळूंक पयले खेपे म्हाका गरज पडली आनी संद मेळ्ळी, सुमार स वर्सां फाटीं. तेन्ना रोमीवाद सुरू जाल्लो आनी ताका विरोध करुंकूच जाय जालो. तेन्ना फा. जायमि कोउतु आनी हांव रवीन्द्रबाबांक मेळ्ळे आनी तांची बुद्‌द घेतली. तांचे बुद्‌दी प्रमाणें आमी एक जमो घडलो आनी सगळे तरेन रोमीवाद्यांक

चांटेक धरले आनी तांच्या मांडण्यांक हार दिली. ही आमची खुशालकाय. रोमीवाद आतांय केन्ना केन्ना आपली तकली उकलता. पूण हें उकलप जैताचें न्हय. रोमीवादा आड आमच्या झुजांत रवीन्द्रबाबान आमकां दिल्ल्या मार्गदर्शना पासत आमी तांकां उपकारी.

रवीन्द्रबाबांक पयलेच पावटी अशे भेटूंक गेले तेन्ना हो म्हामनीस कितलो मनशाळ तें म्हाका होलमलें. तांचें दर्शन घेवनूच म्हाका बरें दिसतालें. तांचें उलोवप आयकून म्हजी जाणवाय वाडटाली. देखून ह्या सुमार स वर्सां भितर हांव रवीन्द्रबाबांची भेट घेवंक पुश्कळदां प्रियोळा तांच्या घरा गेलां. जायते पावटी गुरुनाथबाबां बराबर गेलां. तशेंच, कसल्याय सुवाळ्यांत वा जमातींक रवीन्द्रबाबांक देखल्यार, हांव ताकां नमन करूंक वतालोंच. तांकां नमन करतना व ताचो



*तुका दुसऱ्यांक मान-भोवमान*
*दिवंक आयलो जाल्यारूच*
*तुका तो मेळटलो.*

निरोप घेतना हांव सदांच तांच्या पांयां पडटालों. हें आपशींच जातालें. ते म्हाका म्हणटाले, ''पाद्रींनी दुसऱ्यांच्या पांयां पडूंक फावना. हेरांनी पाद्रीच्या पांयां पडूंक फावो.'' पूण हांव तांकां सांगतालों, ''रवीन्द्रबाब, हें सोड.''

मेळिल्ले कणकणीं रवीन्द्रबाब म्हाका 'कोंकणो पाद्री' म्हणून पाचारतालो. हाचो अर्थ हांवें केन्नाच तांचे कडेन विचारूंक ना. पूण हें पाचारप म्हाका आवडटालें. 'कोंकणो आनी पाद्री' — हें म्हजें स्वरूप, आनी रवीन्द्रबाबांनी तें बरें पारखिल्लें.

रवीन्द्रबाब रुग्णालयांत निमणे पावटी गेले तेन्ना हांव तांकां थंय भेटूंक गेलों. ही भेट जावंक नासली जाल्यार म्हजें अंतस्कर्ण म्हाका सदांच खातलें आसलें. भेट जाली देखून म्हजें समाधान आसा. तांचो निरोप घेतना हांवें तांकां सांगलें, तुमी रोकडेच बरे जावन घरा वचात आनी मागीर हांव तुमगेर शिरो खावंक येतां. थोड्या दिसांनी हांव तांगेर पावलों. पूण ते उलोवंक मेळ्ळे नात. हांव तांचे निमणेयात्रेक गेल्लों.

भायर सरतना, एका पत्रकारान म्हाका रवीन्द्रबाबां विशीं दोन उतरां सांग म्हळें. ''रवीन्द्रबाब एक म्हावीर. असले मनीस आमच्या आकाशार भोव थोडे पावटी झिगझिगतात. तांकां अंत ना, ते अनंत. तांचें दायज आमी, आनी तें आमी सांबाळुया.'' हीं उतरां म्हणून हांव थारलों, कित्याक, म्हज्या दोळ्यांनी दुकां भरिल्लीं.

## महानिर्वाण महावृक्षाचें

**— प्रकाश पाडगांवकार**

पोसोभर मातयेंत बीज रोयिल्लें
तातूंत सान रोंप जल्मलें

बीज हातांत घेवन पोशेल्लें
उमो घेवन दोळ्यांक लायिल्लें

रोंप नाजूक ल्हव ल्हवशें
आंगा पांगान मोवमोवशें

ध्यास बिजाचो विश्व निर्मुचेलो
दीस भाग्याचो भुंयेर हाडचेलो

रोंप इल्लेंशें विस्मितायेचें
आसलें भव्य महावृक्षाचें

घसघसून तें वाडत रावलें
कांडा-खांदयांनी घटमुटलें

बिजेंत सृजन सुप्त न्हिदिल्लें
महावृक्ष जावन मुक्त तरतरलें

खडपां फोडीत तेंकलें पातळा
उजवाड पिवंक लागलीं मुळां

महावृक्ष वेंगयतालो मळबांगणां
काळपर्वाचीं वाजयत पांयजणां

महावृक्षाचें आयज महानिर्वाण
जाल्यांत मुळांत लक्ष नक्षत्रां निर्माण

(रवीन्द्रबाब केळेकार हांचो महानिर्वाण दीस २७ ऑगस्ट २०१०)



# म्हजो रवीन्द्रबाब: एक ज्ञानभांडार

हेमा नायक

आयज म्हजो रवीन्द्रबाब म्हज्या दोळ्यां मुखार ना. ताचें अस्तित्व मिटलां पूण सासाय उरल्या. मनीस मरतकच तो आपल्या प्रिय व्यक्तीच्या सपनांत येता अशें म्हणटात. पूण आतां दीस सरले आनी म्हयनेय उलगले पूण रवीन्द्रबाबान एकूय फावट म्हाका सपनांत दर्शन दिवंक ना. सांगल्यार अजाप दिसतलें, पूण म्हज्या जिवितांत हांवें पयलेच खेप मरणाचे निमाणचे विधी पळयल्यात ते रवीन्द्रबाबाचे. हे आदीं हांव केन्ना मसंडेंत वचूंक ना आनी सरण जळटा तेंवूय हांवें पळोवंक ना. त्या दिसा म्हजी पयलीच खेप. दिशिल्लें, मसंडे सावन घरा येतकच रवीन्द्रबाबाची सावळी म्हज्या दोळ्यां मुखार परत परत येतली. पूण तशें कांयच घडलेंना.



तुजे संबंदान तुजे इश्ट किते उलयतात हाचो अदमास घेवचो आसत जाल्यार ते दुसऱ्या संबंदान किते उलयतात तें लक्ष दिवन आयक.

कित्याक अशें घडलां आसुये? म्हजे वयली तागेली माया त्या सरणा वांगडा लासून बी वचूंक ना मूं? पूण अशें कशें जातलें? एक गजाल आसूं येता, ती म्हणल्यार, आयज हांव तृप्त आसां. रवीन्द्रबाबाचो म्हाका इतलो सांगात लाबलो, सामको अजीर्ण जायीसर. केन्ना केन्ना तशें घडलेंय बी. आमचे मदीं रागडे-फुगडेय जाले, पूण रवीन्द्रबाबान म्हाका केन्नाच पयस केलेंना. म्हजे कान मात पिळ्ळे. एक फावट म्हज्या एका लेखाक लागून रवीन्द्रबाब बरोच दुखावलो. ताणें लेखाचें कात्रण मुंबय दोतोर दत्ताराम सुखठणकाराक धाडून दिलें आनी आपूण दुखावलां म्हणपाचें पत्र बरोवन म्हाका कळयलें, आनी पत्रांत म्हणलें, ''तुमकां आपले क़ोण आनी आपले कोण न्हय हेंच वळखूंक येना. आयजवेर जांच्या सांगातान वावर केलो तांच्या संबंदान मनांत 'किन्तू' उपरासून येता तेन्ना, सगळ्यांत पयलीं, ताका वचून मेळूंक जाय. ताचे कडेन खुलासो मागूंक जाय. तो पटलोना जाल्यार 'म्हाका तुजें पटना' म्हूण सांगूंक जाय. गरज पडल्यार ताचे कडेन झगडून येवंक जाय म्हणटकच लिखणेंतल्यान...'' फुडलें हांव बरयना, तें कंसांतच आसूं दी. कित्याक तर, तीं उतरां बरींच खर आशिल्लीं. एकाद्र्या बापायन आपले धुवेक तापोवचें, तशीं. पूण अपुरबायेचें म्हणल्यार, पत्राचे निमाणे कडलीं दोन वाक्यां म्हाका भावनीक बळ हाडपी थरलीं. म्हाका रवीन्द्रबाबान व्यक्तिशा आपणायिल्लें. तेंवूय पुंडलीका सयत. त्याच पत्रांत रवीन्द्रबाब म्हणटा, ''तुजे कडेन जे आत्मीयतेन – पुंडलीका कडेनूय – आयजवेर पळेत आयलां तेच आत्मीयतेन हांव आयजूय पळेतां. तुका तर हांवें म्हजें मानलां आनी जांकां हांव म्हजीं मानतां तांकां हांव केन्ना अंतर दिना. फुडलें तुवें थारावपाचें.'' ताचें हें पत्र हांवें दस्तावेज कशें सांबाळून दवरलां. म्हजे बाबतींत रवीन्द्रबाब उतराक जागला. हांवेंय तागेल्या दरेका उतराचो अर्थ समजून घेतला आनी म्हजें आचरण सुदारपाचो यत्न केला.

आयज हांव रवीन्द्रबाबाचेर बरयतां. हाचे आदीं वेगवेगळ्या प्रसंगांचेर हांवें बारीक बारीक लेख बरयल्यात पूण आतां बरयतां तें लिखाण तसलें न्हय. हें बरोवप म्हणल्यार म्हज्यो स्मृती – म्हजें जिवीत घडयिल्ल्यो, म्हज्या जिविताचो एक वांटो जावन उरिल्ल्यो. म्हजी ही सत्वपरिक्षाच माधवी घेता अशें म्हाका दिसता. कित्याक तर, जें कितें ह्या लेखांतल्यान भायर सरतलें तें सत्य आसतलें. एका सत्यप्रेमी आनी स्पश्टवक्त्या विशीं बरयतना अडेचें कितेंय दसोवपाक कशें जायत! फाटल्या अर्द शतमानाच्या काळखंडांत म्हज्या जिवितांत आयिल्ल्यो कांय व्यक्ती म्हणल्यार म्हज्या आत्मचरित्रांतलें एकेक प्रकरण. सुरवेचीं पंदरा-एक वर्सां वजा केलीं जाल्यार म्हज्या पुराय जिवितांत कोंकणी भास, साहित्य आनी सामाजीक वावुरपा बगर दुसरें कांय मेळचें ना. देव-धर्म, देवस्पणां, रिती-शास्त्रां असल्यो गजाली हांव मानिना. पूण म्हज्या जिवितांत आयिल्ल्या कांय व्यक्तींनी

दैवतांचो जागो घेतला आनी ह्या दैवतांनी म्हाका नवी उमेद आनी बळ दिलां. रवीन्द्रबाब हातूंतलो एक.

आमची पयलीच भेट जाली तेन्ना सदच्या संस्कारां प्रमाण बाग घेवन हांवें रवीन्द्रबाबाच्या पांयाक हात लायलो आनी पांयां पडलें तेदेवेळार रवीन्द्रबाबान म्हाका शिटकायलें, आयज पांयां पडलें तें बरें आसा. दुसरे फावट तशें करप ना. बागोवप म्हणल्यार लाचारी. आमी मनशां, आमी ताठ मानेन जगपाक जाय, आमकां स्वाभिमान आसा. आनी त्या दिसा सावन हांवें देवाक तर जालेंच पूण कोणाच्याय पांयाक हात लावन पांयां पडपाचें सोडून दिलें. केदी जबरदस्त तांक आशिल्ली रवीन्द्रबाबाचे वाणींत. म्हजे समृद्धींत ते वाणीची भर पडली.



*मनीस सगळ्यांत वड*
*फल्यता खासा आपणाक.*

आयज ह्या लेखांतल्यान भायर सरतात त्यो यादीय न्हय आनी उमाळेय न्हय. रवीन्द्रबाबान म्हज्यांत ओतिल्लें हें कर्तुत्वाचें बळ. जितेपणीं केन्नाच हांवें रवीन्द्रबाबाक एकवचनी उतरान पाचारलें ना पूण आज हो लेख बरयतना म्हाका रवीन्द्रबाब सामको लागीं आशिल्ल्याचो भास जाता आनी आमचे मदल्या नात्याची तीव्रतायेन उणीव जाणवता. ताच्या मर्णा उपरांत आजून मेरेन दोन-तीन खेपो हांवें ताच्या घरा कडेन पासय मारली. पयलेच खेप गेलें तेन्ना याद येवन जीव घुस्मटलो. पूण आतां अदीं मदीं वतां तेन्ना मात एक वेगळेंच चैतन्य आंगांत आयिल्ले वरी भास जाता. रवीन्द्रबाब नाशिल्ल्याची जाणीव मातय जायना. सगळ्या घरांत तागेलें अस्तित्व आशिल्ले वरी दिसता. ती व्यक्ती ना पूण ते व्यक्तीन पेरून दवरिल्ले संस्कार मात त्या घराची जीवसाण दाखयतात. ताच्या पुतान गिरीशान ताची सासाय जिवी दवरल्या. गिरीशाची बायल रोहिणी च्या आनी बशयेंत किर्ते तरी खावपाक दिले बगर वचपाक दिना. आनी म्हत्वाचें म्हणल्यार, गिरीशाक इतलो दिश्टावो कसो जालो? गिरीश म्हणटा, ''हांव देवाक केन्ना उजवात लावन नकळों, पूण आतां हांव सद सकाळीं उठून तातोची कूड लींप करतां, एक उजवात पेटयतां आ तातोलो एक तरी लेख नित्य नेमान वाचतां.'' म्हाका भरून आयल हांव रवीन्द्रबाबाले कदेलीर सुमार अर्दवर बसलें आनी, खूब क करून तकालस जावन भितर सरिल्लें तें त्या घरांतल्यान हांव आद वरीच प्रसन्न जावन भायर सरलें. गिरीश आमकां पावोवपाक द मेरेन आयलो. सारको बापायचेच शिस्तीन. वतना सांगपाक विसरल ना, ''सवकास चलात''. बापायचींच उतरां आनी मागीर गाडी वचस दारांत रावपाची तीच पद्दत.

### रवीन्द्रबाब - म्हजो इश्ट

रवीन्द्रबाब म्हजो सामको लागींचो इश्ट आशिल्लो अशें म्हणल्य कोणाक मानवचें ना. पूण तें खरें. म्हाका ताचे विशीं आकांताच आदर आनी ताचें अप्रतीम प्रेम! माया, अपुरबाय आनी विचारी डोस पाजून जिवी उरिल्ली फाटल्या चाळीस वर्सांतली आमची इश्टागत अदीं मदीं केन्ना केन्नाय आमचें बिनसतालेंय आनी तेदेवेळार बरे दीस हांव पिरवळा पांयूच दिनासलें. मागीर एक दीस पोस्टांतल्या कार्ड येतालें, फकत एकूच वाक्य, ''तुजो हुस्को जाला, येवन वच'' आनी मागीर अपराधी जाल्ले वरी खालते मानेन हांव पिरवळा वचू ताचे म्हऱ्यांत बसतालें. आमच्या उलोवण्यांत राग आसतालो, शीण आसतालो आनी मागीर गोदूबायन हाडून दिल्ल्या च्याच्या कोपांत तो सगळो विरगळून वतालो.

हरशीं म्हण कसल्याय कामाक लागून हांव जायते दीस थंय फिरकलें ना जाल्यार रवीन्द्रबाब वाट पळयत रावतालो आनी भितर सरना फुडें म्हणटालो, ''तूं येतकच बरेंऽ दिसता.'' ताची ही भावना मर्णाचे निमाणे घडकेक लेगीत कायम उरली. गेल्ले खेपे ''रवीन्द्रबाब, हांव चल्लें आं'' अशें म्हणटकच ताणें नाखूश जावचें आनी म्हणचें, ''बस गो मातशें, तूं येतकच बरेंऽ दिसता.'' खऱ्यांनीच ताका बरें दिसतालें हांव येतकच. तोंड भरून हांसतालो. माधवीक हें बेस बरें खबर आशिल्लें. ताका लागून तेंच केन्नाय फोन करून म्हाका म्हणटालें, ''हेमा, वेळ मेळटा तेन्ना तातो म्हऱ्यांत मातशें वचून बस आं. ताका बरेंऽ दिसता.'' आतां माधवीचो फोन येना. रवीन्द्रबाबाची याद येता तेन्ना हांवूच माधवीक फोन करतां आनी कित्याक केल्लो तेंच विसरतां. म्हणटां, ''ना गो, वगीच केलो. खबर घेवपाक.''

रवीन्द्रबाब म्हाका आपलें 'फ्रेंड' म्हणी, पूण प्रत्यक्षांत तो सुरवेक म्हजे जिणेंत बापायच्या जाग्यार येवन बसलो. जे पिरायेचेर बापाय कडल्यान जी देख अपेक्षीत आसली ती मेळूंक नाशिल्ल्यान भुकेल्ले अवतिकायेंत हांव रवीन्द्रबाबाच्या सहवासांत आयलें आनी म्हजे जिणेचें भांगर जालें. रवीन्द्रबाबान म्हजेर उपाट मायां केली. कोंकणीच्याच मळार न्हय, तर समाजांत विवीध मळांचेर हांव जें जें किर्ते करपाक मुखार सरलें थंय थंय म्हाका आपली संमती दाखयली आनी खोस परगटायली. केन्नाच न्हयकाराची भुमिका ताणें घेतली ना. आनी देखून, गांधी, लोहिया, विनोबा, जयप्रकाश नारायण, कालेलकर, बुद्ध धरून कार्ल मार्क्स सारक्या म्हान विचारवंतांचीं

तत्वगिन्यानां वाचून पचोवपी एका ताकदवान म्हापुरसाच्या सहवासांत म्हाका यथायोग्य मार्गदर्शन मेळत गेलें. मागीर ते 'अपुरबाय प्रकाशना'चे वतीन घडोवन हाडिल्ले 'चित्रंगी साहित्य मेळ' आसूं, नव्या नव्या पुस्तकांचे विमोचन सुवाळे आसूं वा पुस्तकांचे विक्रीचे स्टॉल आसूं. आमकां व्हड करपाक रवीन्द्रबाब सदांच ल्हान जातालो.

एक गजाल आमी आयजवेर पळयत आयल्यांत. सुंदर बायल खंयच्याच दादल्याचे नदरेंत भरता आनी हुशार बायल विचारवंत दादल्यांचें आकर्शण थरता. रवीन्द्रबाबाक कर्तुपी बायलांची ओड. बायलांनी धाडशी आसचें, निर्भीडपणान जगचें आनी दोळे दिपकावपी कर्तूप करून दाखोवचें अशें ताका सदांच दिसतालें. समाजकारणांत, राजकारणांत बायलांनी मेकळेपणान वावरूंक जाय असो ताचो आग्रो आसतालो. ते नदरेन जायत्या बायलांक ताणें उमेद हाडल्या. एक फावट वळवय घडोवन हाडिल्ल्या 'चित्रंगी'च्या साहित्य मेळाव्यांत भाशण करतना ताणें म्हणलें, "हे दादले तुमकां केन्नाच फुडें सरपाक दिवचे नात. तांकां धुकलून फुडें सरत जाल्यारच तुमी कितेंय करूंक पावतलीं." अशी भीड-मुर्वत दवरी नासतना सरळ विधानां करून व्हितोरिया फेर्नांडीस, सुलोचना काटकार, निर्मला सावंत अश्या राजकी मळा वयल्या गोंयच्या बायलांचें तांणी भोव कवतूक केल्लें.

### खळखळटें चैतन्य

रवीन्द्रबाब म्हणल्यार एक खळखळटें चैतन्य आशिल्लें. जिवितांतले आदर्श घेवपाक ताणें म्हाका शिकयलें. सत्याक तोंड दिवपाक जाय, भियेवन पळपुटेपण करपाक जायना अशे तरेचो ताचो आदेश आसतालो. रवीन्द्रबाब आपूण स्वतः तशे तरेन जगलो आनी हेरांकय तसो आदर्श घालून दिलो. पिरायेचीं अंयशीं वर्सां जातकच ताणें जाणटेपणाचो खऱ्या अर्थान स्विकार केलो. रवीन्द्रबाब एका लेखांत म्हणटा, "मनशाक जाणटो जावंक येवंक जाय. जितले खोशयेन आमी भुरगेपणांतले खेळ खेळिल्ले, जितले उमेदीन तरणेपणांतले भोग भोगिल्ले, जितले उर्बेन प्रौढ पिरायेर तरातरांचीं कर्तुपां करीत आयिल्ले, तितलेच खोशयेन, उमेदीन आनी उर्बेन जाणटेपण जियेवंक येवंक जाय." पिरायेन आपणा परस तीन म्हयन्यांनी व्हड आशिल्लो मनोहरबाब सरदेसाय आनी धा वर्सांनी ल्हान आशिल्लो चंद्रकांतबाब केणी जेन्ना अंतरले तेन्ना रवीन्द्रबाबाक एक व्हड धक्को बसलो. तांच्या मरणाची खंत ताच्या काळजांत खोल उरिल्ली. ताणें जायते खेपो दुखेस्त जावन म्हणचें, "चंद्रकांताक इतले बेगीन मरण कशें आयलें?"

रवीन्द्रबाब खऱ्या अर्थान सरस्वतीचो उपासक. पिरवळा घरांत बसून जगांतली सगळी म्हायती ताका खबर आसताली. ताचे म्हऱ्यांत अर्दवर लेगीत जो कोण बसतालो आनी ताच्या विचारांचो लाभ घेतालो ताच्या मनाचेर परिणाम घडले बगर रावनासलो. निरशेवणी घेवन गेल्लो मनीस लेगीत नवी स्फूर्त घेवन ताच्या घरांतल्यान भायर सरतालो. वाद घालप ताका सदांच आवडटालें. मोन्यांनी आयकून घेवप पसंत नासतालें... ह्या वादांचे आनी झगड्यांचे विशयूय तशे आलतू-फालतू नासताले. कोंकणीच्या संदर्भांतले तर जालेच पूण साहित्यीक, राजकी, सामाजीक धरून सगळ्या थरांतले आसताले. नवो कोणूय मनीस घरांत भितर सरून ताचे लायब्ररीचेर नदर मारीत जाल्यार ताका अजाप जाले बगर रावचें ना, इतली भरगच्च लायब्ररी आनी तातूंत वेगवेगळ्या भासांतलीं, वेगवेगळ्या विशयांचीं पुस्तकां. सगळीं ताणें वाचून काडिल्लीं आसतालीं. रवीन्द्रबाब हो एक सामको पर्फेक्ट संगणक आसलो. आपणाले लायब्ररींतलें पुस्तक दुसऱ्याक वाचपाक दिवन वाचनाची गोडी लावपाचें काम रवीन्द्रबाबान केलां. सुरवेक तर ताणें म्हज्या हातांत ज्ञानपीठ पुरस्कार विजेत्यो आशापूर्णा देवी हांच्यो तीन जाडजूड कादंबऱ्यो दिल्यो आनी म्हणलें, "लेखक जावपाक जाय मगो तुका? मागीर ह्यो कादंबऱ्यो वाच. अशे तरेचे ताकतीचें लेखन करपाक जाय. जीण जगूंक जाय आनी लिखाण करूंक जाय." म्हज्या अंतस्कर्णांत हा उतरांचें बिजारोपण जालें

*दुसऱ्याचीं फकांडां मारप सोंपें.*
*ताका समजून घेवप*
*खूब खूब कठीण.*



आनी कादंबरी लेखनाक म्हाका स्फूर्त मेळ्ळी. ताणें म्हणचें, देशांत जितल्यो भासो आसात त्या भासांतलें साहित्य आमी वाचपाक जाय. ते खातीर त्यो भासो पयलीं शिकपाक जाय. अणकार केल्लें साहित्य वाचचे परस ओरीजिनल वाचपांत खरी गोडी आसता. मनशाक जितल्यो चड भासो येतात तितलो तो गिरेस्त... पूण हे विचार आचरणांत हाडपाक आमकां वेळूच मेळ्ळो ना. आतां आयुश्याचीं वर्सां सरत आयलीं. नव्या भुरग्यांनी तरी ही साधना आपणावची अशी आंतरीक तळमळ दिसता. पूण ज्या वडाची सावळी आमकां इतलीं वर्सां मनसोक्त भोगपाक मेळ्ळी तसलो म्हारूख आतां सोदून मेळप कठीण हाची ह्या समयार खंत भोगता. ह्या म्हारुखाची सावळी म्हाका तरी जाय तशी विपूल मेळ्ळी. देखूनच तर म्हज्यांतलो उत्साह, म्हज्यांतली उमेद अखंडीतपणान कायम उरली. जायते खेपे मानसीक असमाधानी आसतना हांव पिरवळा वचून ह्या वखदी रुखाचो उपचार घेवन आयलां. रवीन्द्रबाबाचे वाणींत आसताली फुडें बशिल्ल्याक मंत्रमुग्ध करपाची एक धार.

रवीन्द्रबाबालें एकेक म्हण विचित्रच आसलें. गांधीवादी आशिल्लो पूण सिगरेट ओडी. इतलेंच न्हय तर सिगरेट ताका सामकी प्रिय जावन पडिल्ली. ह्या विरोधाभासां विशीं विचारलें तेन्ना ताणें म्हणलें, हांव गांधीवादी खरों पूण विचारान. आनी युगांका कडेन पळोवन म्हणलें, "ते ते पिरायेचेर मनशान सगळें करपाक जाय. हांवें सगळें केलां. प्रेम केलां, लिपोवपाच्यो गजाली आशिल्ल्यो त्यो लिपयल्यातय बी. पूण जाणीव जाता तेन्ना मनशान आपणाक सांवरूंक जाय. कितें

चूक आनी कितें बरोबर ताची ताका पारखणी करूंक कळूंक जाय.'' तो सत्यवादी आनी स्पश्टवक्तो आसलो. ज्यो गजाली मानवनात त्यो तो तोंडार सांगतालो आनी ज्यो मानवल्यो तांची तुस्त करतालो. पूण तोंडार न्हय. असवडीं. म्हजे बाबतींतय तेंच घडलें. कितलेंय बरें केलें तरी केन्ना म्हजी तुस्त तोंडार केली ना पूण हांव कितलें बरें तें मात दुसऱ्यांक उलोवन दाखयलें. तें कित्याक, म्हाका एक दीस म्हणलें, ''तुका इतले बेगीन साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळूंक जायना. *भोगदंडा* सारक्यो धा एक कादंबऱ्यो बरयतकच तातूंतल्या एका पुस्तकाक मेळूंक जाय.'' *भोगदंड* पुस्तक बरें आसा म्हणपाची रवीन्द्रबाबाची ही नकळटना म्हाका पावती आशिल्ली. हांव वगी रावलें.



*'आयचें जग साप इबाडलां'.*
*'हय रे. पुणून देवान तुका धाडला*
*तो कित्या खातीर?*
*जग बदलपा खातीर न्हय?*

### म्हजे वयलो विश्वास

लग्ना उपरांत सुरवेचीं थोडीं वर्सां नोकरेच्या निमतान आमी पणजे बिराडान रावतालीं. शेनवाराक दनपारां येवन सोमाराक सकाळीं वतालीं. ह्या दोन दिसांत एक पावट पिरवळा नक्की आसताली. रवीन्द्रबाबान वाट पळयत बसचें. एका सप्तकाक आमी पावलीं नात जाल्यार रकाद येतालो, (तेन्ना फोन नाशिल्ले) येवन वच. आनी ओर्द मानून आमी वचून येतालीं. एक फावट दोन सप्तकां आमी पावलीं नात. ताका बातमी पावली, आमी बरीं नात. जोर येतालो आमकां. पोस्टमन कार्ड घेवन दारांत हजर. ''पुंडलीकाक जोर आयला म्हण आयकलां, आनी तुकाय बी. आतां कशीं आसात? म्हजे कडेन गाडी ना. नाजाल्यार येवपाचों. आरोग्याची काळजी घेयात आनी बरीं जातकच एक पासय मारून वचात.'' आनी मागीर सप्तकांतल्यान एक दीस पिरवळा वचपाचो आमचो नेमच जावन पडलो.

म्हजेर रवीन्द्रबाबाचो विश्वास आशिल्लो आनी म्हजे सामाजीक बांधीलकेचेर भरवंसो आशिल्लो. १९९० तली गजाल ही. पणजे दूरदर्शनाचेर रवीन्द्रबाबाची मुलाखत घेवपाची आसली. कोणें मुलाखत घेवची अशें जाळवणदारांनी ताका विचारलें आनी रवीन्द्रबाबान तेच घटकेक सांगून उडयलें, 'हेमा'. जालें, म्हाका दूरदर्शना वयल्यान फोन, रवीन्द्रबाबाची इत्सा, तुवें मुलाखत घेवची म्हण. म्हाका खूब खोस जाली, पूण म्हाका दोतोरान 'बॅड रॅस्ट' फर्मायिल्लो. पोटांत युगांक आशिल्लो. नाइलाजान ना म्हणचें पडलें. आयकून रवीन्द्रबाब जितलो अजापीत जालो तितलो खूशय बी. जितल्या विश्वासान म्हजें नांव तोंडांत आयिल्लें तितल्याच नेटान ताणें म्हणलें, 'तशें जाल्यार पुंडलीक.' रिकॉर्डींग जातकच दुसऱ्या दिसा खास टॅक्सी करून रवीन्द्रबाब वळवय आमगेर म्हजे खबरेक हजर. इतली माया आनी अपुरबाय केली रवीन्द्रबाबान आमचेर.

असोच आनीक एक प्रसंग. सादारण १९८५ वर्स आसुये. कित्याक तर, 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' संघटना घडटा आसतनाची खबर ती. वेलंगा कोंकणीच्या बऱ्या मागत्यांचें शिबीर आशिल्लें. १९७० च्या अदमासाक सावन तशीं शिबिरां अदींमदीं थंय जातालीं. ह्या शिबिरांनी चली म्हण फकत म्हजो एकल्याचोच आसपाव आसतालो. केन्ना केन्ना सुलोचनाताई काटकार, व्हितोरियाबाय आसतालीं. पूण सगळ्या शिबिरांनी म्हजी हाजेरी आसतालीच. म्हत्वाचें म्हणल्यार, ह्या शिबिराक राजभास आंदोलनाची स्ट्रेटजी थरताली. कोणाच्या तरी मुखेलपणा खाला हें आंदोलन चलपाक जाय अशें मत जालें. आतां हें मुखेलपण करचें कोणें? तें कांय राजाचें शिंवासन नाशिल्लें. सगळो विचार करून पुंडलीकाचें नांव फुडें आयलें. आपूण तें घेना म्हणपाचो प्रस्नच नासलो. पडटा तें काम करप हें आमचें, निश्ठावान कोंकणीवाद्यांचें, तेन्नाचें ध्येय आशिल्लें. पुंडलीक तेन्ना आकाशवाणीचेर नोकरेक, अर्थांत सरकारी. कोणें तरी अडचण उकत्रायली. रवीन्द्रबाबान भीड मुर्वत धरी नासतना म्हणलें, नोकरी सोडपाची. सगळे तटास. कोण तरी चुळबुळ्ळो. अशें कशें जातलें, हें ताचें म्हणणें आसलें. रवीन्द्रबाबान वेळ केला, एक नदर म्हजे वटेन मारली आनी म्हणलें, 'एकलें हेमा जोडटा तें पुरो'. हांव तेन्ना बँकेंत काम करतालें. सगळ्याक किण्ण थंडाय पातळ्ळी. म्हाका मात मनांतल्यान दिसलें, केदो अधिकार म्हजेर रवीन्द्रबाबाचो! इतलें धाडस सादारण मनशाक जावचेंच नासलें.

### दिल्ली आनी मुंबय भोंवडावन दाखयली

आमच्या लग्ना उपरांत पांच - स वर्सांनी दिल्लीक वचपाचो एक प्रसंग आयलो. त्याच दिसांनी रवीन्द्रबाब दिल्लीक आशिल्लो. रवीन्द्रबाब दिल्लीक कसल्याय कारणाक वचूं, ताचो राबितो मात आसतालो काकासायबांचे 'सन्निधीं'त. कितलेय दीस रावूं, रावपाचें 'सन्निधीं'त हें थरिल्लें आसतालें. म्हजी दिल्लीक पयलीच खेप. पूण एक गजाल मात आयुश्यभर म्हजे यादस्तींत उरली आनी उरतली ती म्हणल्यार जे तरेन रवीन्द्रबाबान म्हाका दिल्ली भोंवडावन दाखयली आनी मागीर येतना मुंबय भोंवडायली, ती. एक बापूय आपले धुवेची

जे तरेन जतनाय घेतलो ते पद्दतीन रवीन्द्रबाबान म्हज्या हाताक धरून म्हाका दिल्ली भोंवडावन दाखयल्या.

खंयूय वतकच मनशाक घरच्यांची जे परीन तीव्रतायेन याद येता तशी ती रवीन्द्रबाबाकय येताली. आपल्यो दोगी नाती, पुतूल आनी नोतून, हांचेर तांचो खूब जीव आसलो. एक दीस सबंद सांजवेळ रवीन्द्रबाब दिल्लींत चांदनी चौकांतल्या लांबचे लांब फूटपाथाचेर सगळ्या तरांच्यो वस्तू मांडून बशिल्ल्या फेरीवाल्यां म्हऱ्यांत भोंवला. ताणें आपल्या माणकुल्या नातींक कितल्या तरांच्यो वस्तू घेवच्यो! जोतीं, पर्सी, कांकणां, कितल्या तरांचें किटूक-मिटूक! घेतना लेगीत कितले बारीकसाणेन! पुतूलाक असलो रंग आवडटा आनी नोतूनाक अमकेच फॅशनीचें आवडटा, अशें करून. आनी मागीर घरा कडेन येतकच रवीन्द्रबाबान तांच्यो कितल्यो म्हण लक्तुबायो करच्यो. हे सगळे देखाव हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळयल्यात.

दिल्लीक एके राती कडेन रवीन्द्रबाबान आमकां हॉटेलांत जेवण दिवपाचें थारायलें. म्हणपाक लागलो, 'आज तुमकां हांव दिल्लींतलें एक बरें हॉटेल दाखयतलों. थंय जेवण दितलों!' आतां म्हणलें, हो गांधीवादी, आमकां खंयचेय शिवराक आनी सादेशे खाणावळींत व्हरतलो. आमी आमच्या मनाची तशी तयारी केली. पूण कितें अजाप. रवीन्द्रबाबान आमकां 'मोती महलां'त व्हेलीं. व्हडलें रॅस्टोरंट आनी थंय माचयेर एके वटेन नर्तकीचो लायव नाच चलता, ठुमरी गायन चलता आनी भायर उकत्या मंटपांत हे रसीकतायेचो परामर्श घेत लोक जेवणाचो सुवाद चाखतात. आमी एक टेबल आडावन बसलीं. रवीन्द्रबाब एका हातान सिगरेटीचे झुरके घेत उमेदीन आमकां सगळी म्हायती दिवपाक लागलो आनी वेटराक एका फाटल्यान एक ऑर्डरी सोडीत रावलो. दिल्लीच्यो स्पेशलिटी, चड करून, तंदूर, पराठे बी अशेंच कितें कितें. सगळी म्हाका याद जायना. त्या दिसा आमी आमकां नाका जायीसर खाल्लें.

उपरांत मुंबय. रवीन्द्रबाबालें रावपाचें ठिकाण बांद्रा दोतोर दत्तारामागेर. आनी बांद्रा आमी म्हजे भयणीगेर राविल्लीं. तिचो फ्लॅट आनी दोतोराचो सामको तेंकून. याद जाता ती, रवीन्द्रबाबान आमकां मुंबयच्या बऱ्याचश्या म्हत्वाच्या जाग्यांनी भोंवडायलीं. मणिभवनांत व्हरून सगळी इमारत भोंवडावन दाखयली. गांधींच्या वस्तुसंग्रहालयांनी व्हरून थंय सांबाळून दवरिल्ल्यो गांधीजींच्यो दुर्मीळ वस्तू दाखयल्यो. मुंबय भोंवतना रवीन्द्रबाबान म्हजें बोट सोडूंक ना. इतली जतनाय घेतल्या.

रवीन्द्रबाबाचो एक सभावगूण केन्ना केन्नाय मारक थरतालो. कोंकणीचे आड भुमिका घेतल्यां कडेन जितलो कठोर तितलोच कोंकणीचेर प्रेम करपी लोकां कडेन ताची मुर्वत. हो ताचो गूण केन्ना केन्नाय आमकां घुस्मटमार हाडपाक कारण थरतालो आनी एके गजाली बाबतींत तशें घडलेंय बी. सर्वधर्मसमभाव मानपी रवीन्द्रबाब एक फावट सारस्वत समाजाचे माचयेर एके कार्यावळी निमतान कांय लोकांच्या आग्राक लागून चडलो आनी ते माचयेर उलयलो. तेदेवेळार सगळ्यांचें पित्त खवळ्ळें. कांय काळ रवीन्द्रबाबा कडेन आमचो अबोलो उरलो. ताणें ते माचयेर वचपाक फावऽ नासलें ही खंत आमकां उरलीच. तेच बरोबर, आमी पयस गेलीं हिवूय खंत ताचे ठांय उरली जी ताणें आपणाल्या निमाणच्या दिसांनी उक्तायली. गजाली करतां करतां एक दीस रवीन्द्रबाबान हांसत हांसत म्हणलें, "तुमी कोंकणीच्या लोकांनी कॅम्पेन केली आनी म्हाका कुशीक काडलो." रवीन्द्रबाब खरो आदर्श गांधीवादी अशें म्हाका त्या खिणाक दिसलें.

### रवीन्द्रबाबाक जाल्ल्यो विवंचना

फाटलीं धा-एक वर्सां रवीन्द्रबाब मनांतल्यान खंती आशिल्लो. आमी आमच्या मनाक फटयतात. म्हणटात, ताणें दुख्खां पचयलीं. पूण तशें शक्य ना. आपल्या कुटुबांत घडिल्ल्यो चित्रविचित्र घडणुको दोळ्यांनी पळोवप आनी त्यो आडावपाचें शक्य नासप हाका नियती

*काळजान चिंतूंक जाय.*
*बुद्दीन चलूंक जाय.*



बगर आनी कितें म्हणूं येत? हयकारी वृत्तीन जगपी आनी दुसऱ्यांक तशे तरेन जगपाची प्रेरणा दिवपी ह्या म्हान मनशाच्या आयुश्यांत एका फाटोफाट एक अश्यो विवंचना कित्याक आनी कश्यो म्हण आयल्यो आसुय? रवीन्द्रबाबाची खंत आमचे सारक्यांक जाणवले बगर रावनासली. ह्या धा एक वर्सांच्या काळखंडांत ताचे जिणेंत जैताचें एकेक ल्हार एका फाटोफाट एक उसळी मारून आयलें, तेच बरोबर दुसरे वटेन ताचे जिणेंत त्सुनामीचो खवदळ उठलो. साहित्य अकादेमीचो फेलो, पद्मभूषण आनी सगळ्यांत कळस म्हणल्यार ज्ञानपीठ पुरस्कार. कोंकणीक मानाच्या पाटार बसोवपी रवीन्द्रबाब जैताचो धनी जायत गेलो. नियतीच्यान हें सोंसपाक जालें ना आनी ताच्या आयुष्यांत एकेक विघ्नां येत रावलीं. तेदेवेळार तागेलें सिगरेट ओडप जो मनरिजवणेचो भाग आसलो तो अखेरेक वेसन कसो जालो. माधवी म्हणटा, दर दिसा ताचे म्हऱ्यांत कोणूय येवन बसल्यार तागेलें सिगरेट ओडप उणें जायत आसलें. पूण माधवीचें तें विशफूल थिंकींग आशिल्लें. फाटलीं दोन वर्सां ताका मर्णाचे वेध लागिल्ले. एकसुऱ्या नातवाच्या अपघाती मर्णा उपरांत लेगीत ताणें काळीज घट्ट करून आपणाक सांवरून घेतलें, पूण गोदूबायच्या मर्णा उपरांत मात ताका एकसुरेपणाच्यो आकांताच्यो यातना जावंक लागल्यो आनी ते उपरांत ताच्यान आपणाक सांवरूंक जालें ना. तो आपल्या मर्णाची वाट पळोवपाक लागलो. केन्ना केन्ना ताणें म्हणचें, "गोदू म्हाका आपयता, म्हाका वचपाक जाय." भास जातलो ताका. पुरस्कार मेळटकच ताका खोस जाताली पूण तातूंत ताचें मन रमनासलें. ताचें

मन रमचें म्हण तरातरांचे उपाय केले. तागेलीं सगळीं एवॉर्डां वेवस्थीत मांडून दवरलीं. एवॉर्डां पळोवन, आपणाचेर बरयिल्ले लेख वाचून तो खूश जातालो खरो. सामको भुरग्या भशेन मुरगट्टालो तेन्ना आमकां उमेद जाताली. पूण म्हऱ्यांत कोण नासतालो तेन्ना आनी एकलोच आसतालो तेन्ना ताका उबगण येताली. आपलें अवतारकार्य सोंपलें, आपूण आतां वतां अशें हार्लीसरा ताणें सदांच म्हणचें. आमीच हांसून ताका धीर दितालीं. ताणें अशीं निरशेवणेचीं उतरां तोंडांतल्यान काडचीं न्हय अशें आमकां मना पसून दिसतालें.

### रवीन्द्रबाबाचो निर्धार

निमाणच्या दोन वर्सांच्या कालावधींत तर जाहीर जाल्लो ज्ञानपीठ पुरस्कार आपूण स्विकारतलों आनी वतलों अशें रवीन्द्रबाब निर्धारान सांगतालो. २००६ चो पुरस्कार जाहीर जावनय तीन वर्सां मेरेन दितां दितां करून लांबणेर पडत रावलो. बेजारलो तो. आनी आमी तर ल्हान भुरग्यांक समजायतात ते भशेन समजायत रावलीं, पुरस्कार घेतले बगर तुका कशींच वचपाक दिवचीं नात. रवीन्द्रबाबाची इत्साशक्तय तितलीच खर आशिल्ली. तागेले इत्साशक्तीचेर आमचोय भरवंसो आसलो आनी निमाणें ताचेच इत्से प्रमाण जालें. रवीन्द्रबाब सामको दुयेंत पडलो. हांथरुणार उरलो. उबो रावपाक जायना ही परिस्थिती. दोतोरानय चड आस दाखयलिना. तांच्या हातांत कांयच नासलें. रवीन्द्रबाबाल्या आंगांतलो, भितरलो, एकेक अवयव निकामी जायत चलिल्लो. पूण तरी लेगीत ताची उमेद कायम आसली. ताणें आपल्या हातांनी पुरस्कार स्विकारपांत सगळ्या कोंकणी समाजाचो स्वाभिमान आसपाविल्लो. कोंकणीच्या जैताचो हो कळस आशिल्लो. रवीन्द्रबाबाक, एका गोंयकाराक, कोंकणी साहित्याच्या योगदाना खातीर ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळटा हातूंत आमचो सगळ्यांचो भोवमान आशिल्लो. वैजकी सुविधा आशिल्ले खाशेले गाडयेची खास वेवस्था गोंय सरकाराचे वतीन जाली. युवा महोत्सवांतल्यान वयर सरिल्ले तरणे शक्तीन रवीन्द्रबाबाक अचळय उबारलो आनी गाडयेंत बसयलो. ताका मातय तकालस लागूंक दिली ना. कोंकणी भाशेच्या जैताचें शणै गोंयबाबाचें जें सपन आशिल्लें तें साकारपाक ज्या रवीन्द्रबाबान आयुश्यभर कश्ट उसपिले त्या रवीन्द्रबाबान त्या दिसा आपणाल्या दोळ्यां दिश्टी हे तरणे पिळगेची शक्त अजमायली. तेन्ना ताणें नक्कीच समाधानाचो सुस्कार सोडला आसूंक जाय. कित्याक तर, सुवाळो जावन घरा येतकच आपणाक दिल्लें मानचिन्न आनी सर्टिफिकेट सांसपून पळेत ल्हान भुरग्या भशेन रवीन्द्रबाब मुरगुटलो आनी म्हणपाक लागलो, ''आतां जालें मगो तुमच्या मना सारकें? आतां हांव वतां. म्हाका तुमी आडावं नाकात.'' हिवूय म्हण कितली खर इत्साशक्त आनी जबर आत्मविश्वास! ताच्या ह्या खेरीत गुणांचो दिश्टवो आमकां घडोघडी जायत रावला. कोंकणीचो आसपाव संविधानाचे आठवे वळेरेंत जावपा खातीर तीन मिनटांत कोंकणीचें व्हडपण सांगून तेन्नाचे प्रधानमंत्री सर्गेस्त राजीव गांधी हांकां मंत्रमुग्ध करून ह्याच रवीन्द्रबाबान तितल्याच निर्भीडपणान कोंकणीचो अधिकार मागला.

कोंकणीचे बाबतींत अशे कितलेशेच उगडास आसात. कोंकणी म्हालगडे ताचेर बरो उजवाड घालपाक शकतले. साहित्य अकादेमी मान्यताये वेळा वयले, 'कोंकणी प्रजेचो आवाजा'चे चळवळी वेळ वयले तशेंच वेळा वेळार कोंकणी खातीर वाद उप्रासताले तेदेवेळ वयले. रवीन्द्रबाब हांथरुणाचेर उरूं आसलो. पूण तो पिरवळा आस होच आमकां धीर कसो आसलो. देखून थोड्याश्या प्रमाणांत निदा म्हजें तरी मानसीक बळ खचलां अशेंच म्हाका आयचे घडकेव म्हणचें पडटलें.

### पीएच्.डी. जावंक ना – एक खंत

रवीन्द्रबाबाची एक इत्सा मात उरली – आपणाचेर कोणें तरी पीएच्.डी करून डॉक्टरेट मेळयिल्ली, आपणाल्या पुराय साहित्याची योग्य समिक्षा जाल्ली आपणाक जितेपणी पळोवपाक मेळत काय अशें जायते फावटीं ताणें म्हजे कडेन म्हणलां. हांवें एम्.ए. केल्ली जाल्यार हांव खात्रीन ही पीएच्.डी करतलें आशिल्लें. तशें हांवें म्हणून दाखयलें तेन्ना ताणें फकत हांसून विश्वास परगटायलो. ताच्यान तरी आनीक कितें करूंक जातालें? आतांच्या भुरग्यांक कोंकणी विशय घेवन बी.ए., एम्.ए. करपाच्यो ज्यो संदी मेळ्ळ्यात त्यो आमच्या वांट्याक खंय आयल्यात? आमी कोंकणी खातीर फकत झगडत उरलीं. जांकां हें भाग्य अचळय मेळ्ळें तांणीच आतां ह्या भाग्याक विवीध आयाम दिवपाचे!

रवीन्द्रबाबाक कोंकणी कडेन निश्ठावान आशिल्लीं मनशांच आवडटालीं. साहित्याचेर मना सावन प्रेम करपी मनशां ताका प्रिय आशिल्लीं. रवीन्द्रबाब सदां म्हणटालो, साहित्याक हांवें केन्नाच मनरिजवणेचो वावर मानलो ना; ताका हांवें जिवीत घडोवपी वावर मानलो. रवीन्द्रबाबान खऱ्यांनिशी एका कोंकणी जिविताक आकार दिलो. शणै गोंयबाबाचें हेंच सपन आशिल्लें.

आनी निमाणे कडेन, रवीन्द्रबाबाच्या निमाणच्या दिसांनी हांव ताचे म्हऱ्यांत उरलें. निमाणचे स्वास लेगीत आयकले. दोतोराची शिटकावणी लेगीत कानांच्या पड्ड्यांचेर सादली. ही कूड आतां परत साबुद्दीर येवपाची ना हें सामकें निश्चीत जालें. तरी आसतना खऱ्यांनिशीं प्राण गेलो तेन्ना खूब रडपाक आयलें. खूब खूब रडून घेतलें. शोकसभेक हांव गेलें ना. वचनच दिसलेंना. हांवेंच घुस्मटून घुस्मटून म्हजो शोक दामून दवरलो. २७ ऑक्टोबराक तांच्या मर्णाक एक म्हयनो पुराय जातालो तेन्ना पिरवळा तांगेर घडोवन हाडिल्ले सर्वधर्मीय प्रार्थनेकय गेलें ना. सर्वधर्मसमभाव मानपी म्हजे सारकीं, रवीन्द्रबाबाक खंयच्या धर्माचो म्हण समजून वतलीं आशिल्लीं? मार्क्स, फ्रॉइड, जिब्रान, बुद्ध, गांधी, लोहिया अश्या म्हान विभुतींच्या अर्थ, साम्य सारक्या विवीध वादांच्या मिश्रणांतल्यान घडून चिरंतन उरिल्लो असो म्हजो रवीन्द्रबाब.



# ताल्याच्या सांगातांत

## माणिकराव गावणेकार



रवीन्द्रबाब केळेकार हें हिमालया येदें एक व्यक्तिमत्व. ते आमचे खातीर तातो जावन वावुरले. चाळीस-एक वर्सां फाटीं मुंबय रवीन्द्रबाबान गांधी विचाराचेर एक शिबीर घेतिल्लें. तातूंत हांवें वांटो घेतिल्लो तेन्ना म्हज्या खांद्यार हात दवरून खादीचें म्हत्व ताणें म्हाका पटोवन दिल्लें. ताच्या आपलेपणाच्या वागपाक लागून हांव मनांतल्यान सामको ताचो जालों.

मुंबय 'विद्या' म्हूण एक कोंकणी नेमाळें येतालें. सुमंतबाब केळेकार बी ताचें संपादन करताले. 'विद्या' खातीर हांवें एक निबंद बरयल्लो. आनी ताका पयलें इनाम मेळिल्लें – शणै गोंयबाबालीं कांय पुस्तकां. मुंबय रवीन्द्रबाब चलयतालो ते 'गोमंत भारती' संस्थेचे कचेरेंत कोंकणी मोग्यांच्यो खूब बसका जाताल्यो. थंय म्हजो रवीन्द्रबाबा कडेन लागींचो संबंद आयलो आनी थंयच म्हाका कोंकणीचो दिश्टावो जालो.

म्हजी घरकान्न रवीन्द्रबाबाल्या घराक 'शान्तिनिकेतन' म्हणटा. मनीस जोडपाच्या रवीन्द्रबाबाल्या सभावाक लागून तांचो आमचो एक व्हड घराबो जाला. हे तरेचें नातें आसप व्हड अभिमानाची गजाल अशें म्हजे घरकान्नीक दिसता. आमी सगळीं कितलेशे खेपे तांगेर गेल्यांत.

यादी खूब आसात. तांचें एक म्होंवाचें पोळेंच कशें आसा म्हजे भितर. ह्या म्होंवाचो एक एक थेंबो पियेवन जीण तृप्त जाता. तांतल्योच कांय यादी 'जागा'च्या वाचप्यांक सांगतां.

म्हजे परस संवसारांत
कोणूच व्हड न्हय,
हें खरें.
पुणून हांवूय कोणाच
परस व्हड न्हय,
हेंय तितलेंच खरें.

रवीन्द्रबाबालें *महाभारत* उजवाडा आयलें तेन्ना हांव बेगीबेगीन तें घेवन आयलों आनी म्हजे म्हाका सामको विसरून तें वाचूंक लागलों. वरांचीं वरां हांव *महाभारत* वाचत आसतालों. तेन्ना एक दीस म्हजे चलयेन, राजश्रीन, म्हाका विचारलें, ''अडेज अडेज तीन मरे बाबा?'' आनी सट्ट करून हांवें 'हय' म्हळें. मागीर तीं सगळीं खूब हांसलीं. तेन्ना राजश्रीन रवीन्द्रबाबाक एक पत्रूय बरयल्लें – ''म्हजो बाबा सामको गुल्ल जावन तुगेलें *महाभारत* वाचता'' म्हूण. ह्या पत्राक रोखडीच रवीन्द्रबाबाली जाप आयिल्ली – ''तुगेलें पत्र वाचून म्हाका ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळिल्ल्याचो आनंद जालो'' म्हूण.

उपरांत रोखडोच एक दीस तांगेर गेल्लों. रवीन्द्रबाब *महाभारताचीं* पुस्तकां आरमारींत दाळटालो. हांवें ताका म्हळें, ''तात्या, हांव तुजें *महाभारत* खपयतां.'' हें आयकून ताका इतलो आनंद जालो की ताणें बेगीबेगीन गोदूबायक उलो मारून आपोवन हाडलें आनी सांगलें, ''गोदू, म्हजें *महाभारत* खपलें आं... गावणेकार तें खपयता खंय!'' त्या वेळार ताच्या मुखामळार पळयल्लो आनंद हांव केन्ना विसरपाचों ना.

*The Gospel of SriRamakrishna* हें पुस्तक कोंकणींत हाडपाचें रवीन्द्रबाबाच्या मनांत आशिल्लें. ताका बंगाली येताली आनी मूळ बंगाली वयल्यानूच आपूण तें कोंकणींत हाडटलों अशें तो सांगतालो. करतां करतां ताका दिसूंक लागलें, हें आतां आपणा कडल्यान जावपाचें ना. तेन्ना एक दीस हांवें ताका म्हळें, ''तात्या, हांव करूं हो अणकार?'' हाचेर ताणें रोखडोच मराठी अणकाराचो पयलो भाग हाडून म्हज्या हातांत दिलो. हांवें म्हळें, ''हांव इंग्लीश अणकाराच्या आधारान करतां अणकार.'' तात्यान सांगलें, ''इंग्लीश अणकार बरो जालाच. पूण मराठी अणकार तुका संदर्भा खातीर बरो पडटलो.'' हांवें म्हळें, ''प्रस्तावना तुवें बरोवंक जाय'' तात्यान म्हळें,

"पुस्तक तयार जातकच बरयतां प्रस्तावना." ते उपरांत हांव थंय वतालों तेन्ना दर खेपे रवीन्द्रबाब विचारतालो, "पुस्तक खंय पावलां?" पयल्या भागाचो अणकार तयार जातकीर हांव ताका सांगूंक गेलों. "निवळावंक कोणा कडेन दिला?" ताणें विचारलें. "सुरेशबाब बोरकारा कडेन," हांवें म्हळें. "सामको कडक मास्तर सुरेश. सारकें बरें निवळायतलो तुजें बरप... येवंकूच जाय हें पुस्तक कोंकणींत. सगळ्या गोंयकारांनी तें वाचूंक जाय. तांतले तातूंत क्रिस्तांव भावांनी," रवीन्द्रबाबान म्हळें.

रवीन्द्रबाब मिश्कीलपणानूय उलयतालो केन्ना केन्ना.

एक दीस हांवें ताका विचारलें, "आपूण म्हातारो जालां म्हूण



*दुसरे आपणा परस ल्हान हें*
*दाखोवन दिवपी मनीस*
*आपूण कितलो ल्हान*
*हेंच लोकांक दाखोवन दिता.*

मनशान केन्ना समजुपाचें?"

"अठरा-एकोणीस वर्सांची चली तुज्या दोळ्यांत दोळे लावन उलयता तेन्ना समजुचें, तूं म्हातारो जाला म्हणून."

मागीर आमी खूब हांशिल्ले.

रवीन्द्रबाबालें *ओथांबे* पुस्तक हांवें उजवाडा हाडलें तेन्ना मानधन म्हूण हांवें ताका पांच हजार दिल्ले. तेन्ना रवीन्द्रबाबान म्हजी खूब तोखणाय केल्ली, हांव कोंकणी प्रकाशनाचो वेवसाय खरेल्या वेवसायिका वरी चलोवंक भायर सरलां म्हूण. हरशीं रवीन्द्रबाबाक पांच हजारां परस चड फावताले. पूण ताणें म्हजी कितली तोखणाय केल्ली!

*तीन पावलां प्रज्ञावादाचीं* ह्या पुस्तकाचो लोकार्पण सुवाळो घडोवन हाडपाचें थारायतालों तेन्ना एक दीस रवीन्द्रबाबागेर गेल्लों. म्हळें, अमक्या अमक्या मंत्र्याक आपोवंक सोदतालों. आपोवंक गेल्लोंय बी. पूण ताका फावना.

म्हणूंक लागलो, कांय नजऽ. सुरेश आमोणकाराक आफय. ता[...] हातांतल्यान जावंदी लोकार्पण...आनी चित्रकार उषा सरदेसाय[...] आफयलां मरे? ताका विसरूं नाका. सुरेश काकोडकाराक आफ[...] छापलां ताकाय आफय. फकत पत्रान नाका. फोनूय कर. विसरशी[...] ल्हान गजाली. पूण विसरूंक जायना.

तात्याची अशी सगळे कडेन बारीकसाण आसताली.

एक दीस हांवें तात्याक विचारलें, "हालीं कितें बरयता?"

तात्यान सांगलें, "कांयच बरयना. 'स्वगत' बंद केल[...] 'सुनापरान्तां'तलें सदरूय बंद केलें. रवीन्द्रनाथाचें आनी पाब्लो नेरुदा[...] काव्य हांचेर बरोवप म्हूण थारायल्लें. ते प्रमाण रवीन्द्रनाथाचें काव[...] परतें वाचूंक घेतलां. पूण मूड लागना. गोदुबाय बरें ना न्हय... सग[...] लक्ष थंय वता..."

हांवें तात्याक म्हळें, "कोंकणीची उदरगत खूब जाल्या. पू[...] अजून ती पोटाची भास जावंक ना."

"जातली... फुडल्या पन्नास वर्सांत आनिकूय जातली उदरगत.[...]

मागीर देशाचे परिस्थिती विशीं उलोवंक लागले. तातोन म्हळे[...] "देशाची परिस्थिती सामकी degenerate जाल्या. लोकसभें[...] प्रस्न विचारपाक पसून पयशे खावंक लागल्यात."

"कोण सुदारतलो ही परिस्थिती?" – हांव.

"तुजे सारकेले विचार करतात. म्हजे सारकेले करतात. हातूंतल्यानू[...] कोणूय तरी फुडें येतलो."

तातो: तुवें 'युवा महोत्सवांत' केल्लें प्रकाश पर्येंकाराचें भाशण[...] वाचलां? प्रकाश वझरीकार आनी प्रकाश पर्येंकार दोगूय कोंकणीचेर[...] बरो प्रकाश घालतात. पर्येंकाराची कथाय वयल्या पांवड्याची.

(२९.०१.०६)

आज तात्या म्हन्यांत गेल्लों तेन्ना जाणटेपणाच्यो खबरी आयल्यो. तातो सांगूंक लागलो –

विनोबांक जाणटेपणांत मात्तूय आयकूंक येनाशिल्लें. एक दीस तांकां मेळूंक गेल्लों. म्हाका तांकां विचारपाचें आशिल्लें तें बरोवन व्हेल्लें. म्हाका एक वर मेळिल्लें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं निरोप घेवंक गेलों. विनोबान म्हळें, "रातीं केदो वेळ येवजितालों, आज कोण म्हजे कडेन साहित्याचेर चर्चा करतालो? कशीच याद जायना... आतां तुमी येतकच केळेकार म्हूण याद जाली."

जाणटेपणांत काकासायबांक नांवां याद जायनाशिल्लीं. चेरे[...] पळेतकच याद जाताली.

आपूण जाणटो जालां, आपल्याच्यान अमकें जावचेंना हाची नेहरूंक जाणविकायूच नाशिल्ली. एक खेपे ते रायगडार गेल्ले तेन्ना लागले गड चडूंक. तेन्ना मोरारजीभाईन म्हळें, नेहरूंक आपूण जाणटो जालां अशें दिसच ना.

दोतोर विनायक मयेंकार जाणटेपणांत थतर वितर जाल्ले. यादी गेल्ल्यो... अशें जावचे पयलींच मनशाक मरण येवंक जाय. पूण जल्म आमच्या हातांत ना तशें मरणूय ना. आसुंकूय जायना.

(२९.१.२००६)

आयज तात्यागेर भितर सरलों तेन्ना एक सुंदर दृश्य पळेलें. तातो स्वेटर घालून कदेलार बसला आनी एक तरणाटो आसनमांडी घालून जमनीर बसला. तातो ताका किर्ते तरी सांगता. पयलीं मुस्तींतलो आश्रम असो आसतालो जावये अशें दिसलें.

तात्यान सांगलें –

हो तरणाटो लंकेचो. नांव चाणाक्य सिल्वा. गिरीशाचो दोस्त. गिरीशाक आनी हाका दोगांकूय कुत्रे खूब आवडटात. आमगेर इतलीं सगळीं पुस्तकां पळोवन ताका खूब अजाप जालां. हांवें ताका म्हजें *तथागत* पुस्तक दाखयलें. गोंयांत कोणें तरी बुद्धाचेर पुस्तक बरयलां हाचें ताका अजाप.

(११.२.२००९)

हांवः मुंबय मणिभवनांत एक बंगाली तरणाटो येतालो. नांव विसरलों. खंय आसता तो आतां?

तातोः डे? भायर पडलो. ताचो बापूय गुजरातांत रावतालो थंय तो गेल्लो. बरो ना जालो. थंयच गेलो... आमी दोगूय गुजराती उलयताले. आमची भास गुजराती म्हूण सांगताले...

मागीर मणिभवनांतल्यो आनीक कांय खबरी तात्यान सांगल्यो.

तात्याचें मणिभवनांत ऑफीस आशिल्लें तेन्ना थंय रेव्हरंड मार्टीन म्हूण एकलो आयिल्लो खंय. तात्यान सांगलें, पयलीं तो आपणाक मातसो गर्विश्टसो दिसलो. मागीर संवकळ जाली. गांधीं बद्दल ताणें आपणाक खूब प्रस्न विचारचे. एक दीस विचारलें, "वेगळ्या वेगळ्या विचारांचे लोक गांधीं कडेन कशे जुळोवन घेताले? कसली किमया आशिल्ली गांधीं कडेन? ते सगळ्यांक एकठांय कशे दवरताले?" आपणें सांगलें, गांधींक कसलोच सुवार्थ नासलो. सामको transparent आसलो हो मनीस. म्हूण लोक ताचे कडेन ओडटाले.

रेव्हरंड मार्टीन एक दीस लोहियांकूय वचून मेळिल्लो खंय.

(२.४.२००९)

आयज सकाळच्या सवाय इकरांक सुमार तात्यागेर पावलों. तातो बरोवपांत गुल्ल आशिल्लो. हांवें उलो मारलो पूण ताका आयकूंक आयलेंना. पांच एक मिनटां तसोच फाटल्यान उबो रावलों. मागीर म्हऱ्यांत वचून उलो मारलो. ताका डिस्टर्ब करतना वायट दिसलें. हांवें म्हळेंय तशें तात्याक. तात्यान म्हळें, "म्हजी link तुटना... हांव चोवीस वरां कामांत तसो चोवीस वरां बेकारूय आसतां."

मागीर उठून कुडीच्या एका कोनशाक आशिल्ल्या आपल्या कदेलार वचून बसलो. हांवूय म्हऱ्यांतल्या कदेलार वचून बसलों.

"'मार्गा'ची कार्यावळ फाल्यां म्हाड्डोळा आसा न्हय?" विचारूंक लागलो.

हांवें म्हळें, "हय. दत्ताराम बांबोळकारान 'अपघात' म्हूण एक नाटकुलें बरयलां. 'मार्गा'खातीर. ताचो प्रयोग आसा. बरें बरयलां नाटकुलें."

"दत्ताराम जीनियस," तात्यान म्हळें.

हांवें म्हळें, "गोंयांत 'मार्गा'ची इतली चळवळ चलुनूय अपघात कमी जायनात. दिसाक एक-दोन जातातूच."

तात्यान म्हळें, "शारीकरण आसतलें थंय अपघात आसतलेच. बाकीचे प्रस्नूय आसतले – चोरयो, खून, बायलांचेर आगळिको, झोपडपट्ट्यो... शारीकरणाचेर उपाय काडूंक जाय. गांव स्वावलंबी जावंक जाय. नाल्लाचे बाबतींत आमी स्वावलंबी. नाल्ल आमगेर पिकता. तशेच कपडेय बी तयार जावंक जाय. जपानांतूय अपघात दिशीं दिशीं वाडत आसात. थंय हांव एका खबरेपत्राच्या ऑफिसांत

*अभिमान कोणा कडेन किर्तेंच मागूंक दिना.*
*मद दुसऱ्याचें मागून हाडिल्लें*
*परतें करूंक दिना.*



गेल्लों. आदल्या दिसा कितले अपघात जाल्ले तें थंय बोर्डार बरयल्लें आशिल्लें. क्रिकेटीचो स्कोर दाखयतात तशें. शारीकरण ही खरेली 'पिडा'. तिचेर वखद सोदूंक जाय... दुसरो प्रस्न लोकसंख्येचो. मध्यम वर्गी लोक कुटुंब नियोजन करतात. गांवांतल्या शेतीचेर निंबून आशिल्ल्या लोकांक कुटुंब नियोजन 'पुटवना'. शेतांत वावरूंक ताका चड हात जाय आसतात. ह्याय प्रस्नाचो विचार जावंक जाय. संजय गांधीन फकत आंकड्यांचो विचार केलो. गांवाच्या संदर्भाचो केलोना. १९४३-४४ त आमची लोकसंख्या चाळीस कोटी आशिल्ली. पाकिस्तान जातकच ती तीस कोटी जाल्ली. आतां शंबर कोटीं वयर गेल्या. सगळ्यांक शाराची ओड लागल्या. ती थांबोवंक जाय. मागीर अपघात कमी जातले."

(६.५.२००६)

आयज तात्याक म्हळें, "वय जातकच कांयच नाका दिसता न्हय?"

तातोः हय, म्हाकाय तशें दिसता. पूण बरयन मात दिसता. गांधीजीच्या अर्थकारणाचेर बरयन दिसता. मुद्दे काडल्यात. पावस सुरू जातकच बरयतलों म्हणटां... गांधीजीचो सत्याग्रह संवसारभर मान्य जाला लोकांक. खंय न्हय खंय ह्या न्हय त्या रुपान तो चालू आसा. हिंसेन प्रस्न सुटना हें तत्व आज मान्य जालां. पूण गांधीजीचें अर्थकारण मान्य जावंक ना. तें म्हाका विसकटावन सांगूंक जाय. चरखोच आयज प्रस्न सोडयतलो. ह्यो व्हडल्यो व्हडल्यो फॅक्टऱ्यो

वा कारखाने प्रस्न सोडोवचे नात.

मागीर हेर कांय गजाली आयल्यो. तात्यान म्हळें, ''आमच्या रगतांतूच गुलामी भरल्या. पयशे मेळ्ळे, जालें अशें आमकां दिसता तें हे गुलामी वृत्तीक लागून... उमाशंकर जोशींची एक कविता आसा – संवसाराच्या पोरसांत तरातराचीं फुलां आसात. तीं सगलीं स्वतंत्र आसात. मनिसूय ह्या पोरसांतलें एक फूल. हेंच फूल गुलाम कित्याक?

(१४.६.२००६)

''काल मनोहररायाक आर्गां ओंपपाची कार्यावळ जाली. तूं पावलो ना?'' तात्यान विचारलें.

''हांव हांगा नाशिल्लों,'' हांवें म्हळें.

''खूब लोक आशिल्लो,'' तात्यान सांगलें. 'गोंयकारपण सांबाळप हींच ताका खरीं आर्गां... हांवें म्हळें. मनोहररायान आमकां खूब दिलां. कांय घेवंक ना.''

''खूब सादो आशिल्लो तो,'' हांवें म्हळें.

''हय. ताच्या शेजरा रावपी ताका सारके वळखलेच नात. मरणाक आयिल्ल्या लोकांक पळोवन खंय तांकां अजाप. येदो व्हडलो आशिल्लो तो काय म्हूण विचारूंक लागले खंय.''

(३.७.२००६)

आयज तात्यागेर गेल्लों थंय शिक्षणाचेर गजाली आयल्यो.

तात्यान म्हळें –

वेदकाळा सावन १०% शिक्षीत आनी ९०% अशिक्षीत, हें चल्लां. तेन्ना संस्कृत, आतां इंग्लीश. आयज शिक्षणाचे कारखाने जाल्यात. पूण शिक्षण unemployment oriented जालां. अशिक्षीत लोक बेकार नात, शिक्षीत लोक बेकार आसात... मनशाक मुक्त करता तें शिक्षण. आयचें शिक्षण मनशाक मुक्त करिना. पयलें म्हळ्यार, शिक्षण सरकारा पसून मुक्त करूंक जाय...

तॉलस्तॉयाच्या प्रज्ञावादाचेर बरयलां. फकत समारोप उरला. 'जागा'च्या दिवाळी आंकांत येतलें... खादीच्या अर्थशास्त्राचेर बरोवपाचें आसा. गांधीजी म्हणटाले, भारताच्या विकासाचें तंत्र खादी आसा. सत्याग्रह गांधी विचाराचें केंद्र न्हय. सत्याग्रह गांधीजी करूंक नाशिल्लो जाल्यार दुसरो कोणूय करतलो आशिल्लो. न हिंदुस्तान घडोवपाचो गांधीजींलो मंत्र म्हळ्यार खादी. खादी गांवां क्रांती करतली आसली. पूण खूब जाणांक हें पटूंक ना.

(२२.९.२००६)

अश्यो जायत्यो गजाली आसात.

तात्यागेर वचप आनी अशे तरेच्यो गजाली करप म्हळ्यार व्हडली मेजवानीच कशी आसताली म्हजे खातीर. खूब शिकूंक मेळटालें नवी प्रेरणा मेळटाली.

तातो म्हळ्यार आमचें सगळ्यांचें प्रेरणास्थान.



*कालचो दीस*
*म्हजो आयचो दीस खावचो ना*
*हाची जतनाय घेवंक जाय हांवें.*

मुंबय,
२०.१०.२०१०

**प्रिय माधवी सरदेसाय,**

जागाचो ऑगस्ट-सप्टें. आंक मेळ्ळो. रवीन्द्रबाबांचो फोटो पळोवन आनी उमाळ्यान बरयल्लें लिखाण वाचून आपशींच दोळ्यांतल्यान दुका व्हांवपाक लागलीं. तांचीं पुस्तकां, तांचे विचार आमचो सांगात करत रावतले हें खरें. पूण कितलीय समजाविशी केली तरी तांचें नासप हें दुखदेणेंच. तुका तर तांची उणीव खूब जाणवतली – चांटे पावलाक. तांच्या उपाट आशिर्वादान तुवें आंगार घेतिल्लीं कामां बरेभशेन फुडें वतलीं हें निश्चीत.

आचार्य धर्मानंद कोसंबीन *गाथा विसुद्धिमग्गांतलें* सुभाशीत दिलां.–

*जीवितं व्याधि कालोच देहनिक्खेपनं गति।*
*पञ्चेते जीवलोकस्मिं अनिमिचनायरे ॥*

अर्थ असो: खंय मेरेन आमचें जगप आसा, खंयचे व्याधीन आमी मरतले, खंयच्या वेळार मरतले, ही कूड खंय पडटली आनी मेले उपरांत प्राण्याची गत कितें जातली हाचो अदमास करप कोणाकूच शक्य ना.

सदांच तयार रावप इतलेंच आमचें कर्तव्य. बुद्धाचो एक पाटांगडो म्हणटा:

*नाभिनन्दामि मरणं नाभिनन्दामि जीवितं।*
*निक्खिपिस्सं इमं कायं सम्पजानो पतिस्ततो ॥*

मरणाचें अभिनंदन करिना, जिविताचेंय करिना, ही कूड व्हड सावधानपणान सोडून वचपाची वाट पळेतां.

तुज्या मनाक थाकाय मेळची म्हणून हीं आचार्यांचीं उतरां बरोवन धाडटां.

जायतें बरें मागून,
**मनोहर पै धुंगट**

# कांय यादी रवीन्द्रबाबांले मळयेंतल्यो

पांडुरंग काशिनाथ गावडे

ओपिनियन पोलाच्या वेळार 'राष्ट्रमता'क लागून रवीन्द्रबाब, उदयबाब, चंद्रकांतबाब, मनोहरबाब, शंकरबाब हांची तांच्या बरपांतल्यान वळख जाल्ली. 'ब्रह्मास्त्रा'चो 'परशुराम', 'पिपळापेडा' वयलो 'हापशी' हांणी तर सामकें पिशें लायल्लें. त्या वेळार आमचो लोक मडकय मतदारसंघांतल्या शिंवाचे पेडींतले शींव आसले. आमचे सारकेल्या भुरग्यांक मताचो हक्क नासलो आनी घरांतलें वातावरण सामकें महाराष्ट्रवादी आसलें तरी 'राष्ट्रमतां'तलें विलिनीकरणविरोधी बरप वाचलें काय मनांत खंय तरी घालमेल जाताली आनी वेगळे विचार तकलेंत घोळटाले. 'राष्ट्रमतां'तल्यान वेगळे विचार उकते करपी सगळे खंय तरी खूब लागींचे दिसताले. रवीन्द्रबाबांक तांच्या घरा कडें वचून मेळपाची उत्कंठा आनी ते उत्कंठेंतल्यान एक दीस तांकां वचून मेळप आनी ती पयली वयली घडणूक जिणेंतली एक प्रेरणा म्हूण फाटलीं चाळीस वर्सां काळजांत सांबाळून दवरप हो फकत एक योगायोग नाशिल्लो हाची आज चांटेपावलाक जाणीव जाता.



तूं तारीर चडिल्लो.
पलतडीं पावडसर
वाटेर तुका कितलीं
मोडां लागलीं,
म्हाका लागना.
म्हाका एकूच हुसको :
तुवें पलतड गांठल्या
काय ना?

धावी जाले उपरांत सावयवेऱ्यां इंग्लीश माध्यमांतल्यान फुडलें एस्.एस्.सी.चें शिकप नाशिल्ल्यान म्हज्या वर्गांतले पास जाल्ले सगळे वांगडी हांगा-थंय शिंपडले. हांव मंगेशींच्या वागळे हायस्कुलांत पावलों. थंय सगळें वातावरण आमच्या सावयवेऱ्यां सारकेंच आशिल्लें. हांव आपेव्हाळांत आत्यागेर रावतालों आनी थंयच्यान चलत मंगेशीं वतालों. वाटेर नंगरांत पावतकीर सांतेरीच्या देवळा वयले दोंगुल्लेचेर आंब्यांच्या झाडांनी लिपिल्लें एक व्हडलें घर सदांच म्हजी नदर ओडून घेतालें. त्या घरांत रावपी मनशां बद्दल एके तरेचें अप्रूप दिसतालें. एक दीस आत्या वांगडा चलत वता आसतना ताचे कडें तें घर कोणालें काय म्हूण चवकशी केली. आत्यान सांगलें, तें केळेकारांलें घर, हांगचे भाटकार ते, म्हूण. म्हजी उमळशीक वाडली आनी हांवें आत्याक फुडें विचारलें, "कोण केळेकार? आमचो रवीन्द्रबाब केळेकार बी न्हय मुगो?" आत्याक अजापशें जालें. केळकार भाटकारालें घर म्हूण सांगलां आसतना हो *आमचो* रवीन्द्रबाब काय म्हूण कसो विचारता, अशें कितें तरी ताका दिसलें आनी कानार केंस काडून तें सडसडीत चलत रावलें. म्हजें मात सदांच येतना वतना त्या घरा कडें पळयले बगर पावल फुडें पडनासलें.

वर्गांतल्या सांगात्यां कडें वळख वाडटां वाडटां एक दीस कळ्ळें, आकारा सावन येवपी योगेश गावणेकार रवीन्द्रबाबांलो सोयरो म्हूण. योगेशा कडें हांवें भियत भियत चवकशी केली, "तूं रवीन्द्रबाबांक वळखता?"

"हय तर! म्हजो मामा मरे तो. हांव सदांच वतां तांगेर. कितें काम बी आसलें?"

"काम बी कांय ना रे. पूण तांकां एक दीस मेळपाक जाय. तूं तांगेर केन्ना वता?" हांवें बाबडेपणान विचारलें.

"केन्नाय यो तूं. तातोक मेळपाक खूब जाण येतात. कामूच आसपाक जाय अशें ना. यो तूं केन्नाय."

योगेशान म्हजें काम सामकेंच सोंपें केल्लें. पूण मदीं बरेच दीस गेले तरी, सदांच त्या घरा कडें पळोवपाचें सोडल्यार घरा लागीं वचपाचें जालेंच ना. मात एक दीस रवीन्द्रबाबांक मेळपूच अशें थारावन तांगेल्या घरा कडें वचपी चडटी चडून आर्का कडें पावलों. सपणां चडून भितर वचपाच्या वेळार 'हांव रवीन्द्रबाबांक कित्याक मेळपाक सोदतां? ते म्हाका उलोवपाक मेळटले? हांव तांचे कडें कितें उलयतलों? हांव काय कवी, लेखक, साहित्यीक न्हय, तांगेलो सोयरोय न्हय...' अशे विचार

तकलेंत येतकीर फाटीं परतलों. इतल्यांत तांगेर दूद घेवन येवपी योगेशान म्हाका हटकिलो. "मेळ्ळो मरे तातोक! जालें काम?" हांव मातसो घुटमळ्ळों. फट उलोवपाक जालें ना. "ना, मागीर परत केन्ना तरी येतां." अशें सांगून हांव थंय सावन कडसुपाक पळयतालों. पूण योगेशान म्हाका सोडलोना. "मागीर केन्नाय कित्याक? आतांच यो. तातो घराच आसा..." म्हणीत ताणें म्हाका रवीन्द्रबाबां म्हऱ्यांत व्हरून उबो केलो. "हो म्हजे वांगडा शिकता. तुका मेळपा खातीर आयिल्लो, आनी दारांतल्यान परत वतालो." अशें सांगून योगेश म्हाका थंय सोडून परतलो. रवीन्द्रबाबान हातांतलें पुस्तक कडेक दवरलें. म्हाका पावलां सावन तकले मेरेन सारको पारखून घेतलो आनी सामकार आशिल्ले खुर्चेर बसपाक सांगलें. हांव बसपाक अनमनतां तें पळोवन पर्थून म्हाका बसपाक सांगलें. हांव पयलेच खेपे येद्या व्हडल्या घरांतले येदे मोठे खुर्चेर, येद्या व्हडल्या मनशा मुखार बसतालों.

"नांव कितें तुजें?"

"हांव पांडुरंग काशिनाथ गावडे." हांवें शाळेंतल्या मास्तराक सांगतात तशें एकाच दमांत म्हजें नांव सांगलें. तें आयकून रवीन्द्रबाबांक मातशें अजाप जाल्लें जावये. तांणी तशें दाखयलेंना. पूण म्हाका वोगीच तशें कितें जाणवलें. "खंय रावता?" तांणी मुखार विचारलें.

"हांव सावयवेरेंचो. पूण आतां फुडें शिकपा खातीर आपेव्हाळांत आत्यागेर रावतां आनी मंगेशीं इस्कोलांत वतां."

"सावय-वेरें कित्याक सोडलें?"

"थंय धावी मेरेनूच शिकपाक मेळटा. इंग्लीश माध्यमांतल्यान एस्.एस्.सी.चें फुडलें शिकप नाशिल्ल्यान सगळ्यांकूच दुसरे कडें वच्चें पडलां..."

इतल्यांत गोदूबाय दोन कपांनी च्या आनी वांगडा बिस्कुत्यो घेवन आयलें. "च्या घेता मरे तूं?" म्हणीत ताणें च्याचें कप फुड्यांतल्या स्टुलार दवरलें. च्या नाका म्हणपाचें तोंडार आयिल्लें. पूण उतर भायर फुटलेंना.

"च्या घे रे. आनी बिस्कुत्योय खावपाक जाय." रवीन्द्रबाबान हुकूम सोडलेलो. हांव मोन्यांनी बिस्कूत खावपाक लागलों.

"कित्याक आयिल्लो? तूं बरयता बी? काय कविता बी करता रे?"

"ना. हांव वाचतां. सावय आसतना 'राष्ट्रमत', 'नवप्रभा' आनी 'गोमंतक' सदांच वाचतालों. 'राष्ट्रमतां'तलें आमी उलयतात ते कोंकणींतलें बरप वाचून तुमकां मेळचें अशें दिसलें. तुमी हांगाच खंय तरी रावतात अशें पुंडलीकान सांगिल्लें. मागीर चवकशी करतकीर तुमी ह्या घरांत रावतात म्हूण कळ्ळें. म्हजें एक आतें हांगाच शिमेपायणींत रावता. ताणें सांगलें, 'तो कोंकणीवादी मरे? हेंच तें घर तागेलें' म्हूण."

"हो पुंडलीक कोण रे? पुंडलीक नारायण नायक? तुका लागीं तो?" रवीन्द्रबाबान चवकशी केली.

"हय. आमी शेजारी. वांगडा आसतात. वांगडी आमी."

म्हजी च्या पिवून जाल्ली. हांव रितें कप हातांत घेवन हांगा थंय पळयतालों.

गोदुबाय म्हाका पळयतालें. ताणें विचारलें, "कितें जाय?"

हांवें सांगलें, उदक जाय. ताका दिसलें, म्हाका पिवपाक उदय जाय म्हूण. ताणें भितर वचून पेल्यांत भरून उदक हाडलें. हांव गोदूबायच्या हातांतलो उदकाचो पेलो घेवन च्याचें कप धुवन हाडपाक म्हूण भायर आंगणांत वचपाक लागलों. हांव कप धुवपाक वतां तें रवीन्द्रबाबांच्या लक्षांत आयलें.

"पांडुरंग, तें कप थंयच दवर आनी बस हांगा." रवीन्द्रबाबान सांगलें आनी गोदूबाय म्हज्या हातांतलें कप आनी पेलो घेवन भितर गेलें.

हांव सावय धावी मेरेन शिकतना शेजारच्या पाटलालीं गोरवां आमच्या गोरवां वांगडा राखतालों. गोरवांक सोडून रानांत पावोवंक वच्चे पयलीं तांगेर सकाळची, आनी गोरवांक बांदून तण बी घालें काय सांजेची च्या दितालीं. आमकां कुळवाडी लोकांक (गावडे, नायक, सतरकार बी) च्या दिवपा खातीर तांगेर एका कोनाड्यांत वेगळे ग्लास दवरिल्ले आसताले. तो ग्लास काडून हातांत घेतले उपरांत घरांतलो कोण तरी च्या हाडून वयल्यान ग्लासांत वोत्तालो. च्या पिले उपरांत भायर वचून ग्लास धुवन परत त्या कोनाड्यांत दवरपाचो आसतालो. च्या ग्लासांत रकयतना च्याचो थेंबो जमनीर पडल्यार गोठ्यांतलें शेण हाडून त्या जाग्यार शेण काडचें लागतालें. आमच्या 'भायल्यां' खातीर दवरिल्ल्या ग्लासांक आमच्या गावांतलीं भटां-बामणांल्या घरांतलीं कोणूच आफडी नासलीं. पिरवळाय आत्यागेर आसतना तांगेल्या भाटकारागेर सुपारी-काजूचो खंड पावोवपाक गेले उपरांत च्या दिली जाल्यार ग्लास धुवन दवरपाची परंपरा आसली आनी ते परंपरेची हातांक संवकळ जाल्ली.

हांगा पयलेच फावट आमच्या रवीन्द्रबाबांल्या घरांत गोदूबाय घरांतल्या कपांत च्या हाडून हातांत दितालें आनी च्या पिवून जाले उपरांत हातांतलें कप घेवन घरांत वतालें. हो जिणेंतलो सामको नवो धक्को दिवपी अणभव आशिल्लो. हांव पयलेच फावटीक रवीन्द्रबाबांल्या घरांतलोच एक जावन जड पावलांनी भायर सरतालों तेन्ना एक विचार मूळ धरपाक लागिल्लो — हें अशेंय आसपाक शकता तर?

मागीर अदींमदीं रवीन्द्रबाबांगेर वचप जातालें. केन्ना पुंडलीका वांगडा तर केन्नाय तांचो उगडास जालो काय एकटोच वचून बसतालों. कोण ना कोण तरी तांचे लागीं बसून गजाली करताले. म्हाका आयकुपाक मेळटालें.

हांव नोकरे खातीर सांखळे-फोंड्यां वतालों. एक दीस हेमालो फोन आयलो, "पांडुरंग, फाल्यां सकाळीं फोंड्यां वतना मातसो वळवय येवशीत?" हांवें म्हळें, "येतां." येतना फुलांचो एक तुरो घेवन यो. फाल्यां रवीन्द्रबाबांलो साठावो जल्मदीस. मातशीं वचून रवीन्द्रबाबांक 'व्हिश' करून रोखडीं येवया. दादाक (पुंडलीकाक) खंय तरी कार्यक्रम आसा. ताका येवपाक मेळचेंना." म्हाका खूब उमेद जाली. हांव हेमा खातीर एक आनी म्हजे खातीर एक अशे दोन तुरे घेवन आयलों. आमी रवीन्द्रबाबांगेर पावलीं तेन्ना गुरुनाथबाब

केळेकार, जयवंतबाब सरदेसाय, चंद्रकांतबाब, नारायणबाब बी अशे कोण कोण बशिल्ले आसले. आमकां पळोवन रवीन्द्रबाबांक खूब बरें दिसलें. पूण इल्लें अजापूय जालें जावये. तांणी उलोवन दाखयलेंना. आमी रोखडीं येतलीं म्हूण गेल्लीं तीं खूब वेळ मेरेन उरिल्लीं. हांव कामाक वचपाचों तोय गेलों ना. भायर सरतना दारा कडें पावतकीर रवीन्द्रबाब उलयलो, ''हेमा तूं याद धरून पांडुरंगाक घेवन आयलें. खूब बरें दिसलें. म्हाका दिसूं नासलें, तूं येतलें म्हूण. पुंडलीकाक खबर घेतल्या म्हूण सांग.'' रवीन्द्रबाब अशें कित्याक उलयलो हें म्हाका तेन्ना कळ्ळें ना. मागीर खूब उसरां-कळ्ळें. समज-गैरसमज, राग, शीण हें सगळें आसलेंच. हांवूय केन्ना तरी रवीन्द्रबाबाचेर रागार जाल्लों. पूण म्हज्या सभावाक धरून रोखडोच विसरुनूय गेल्लों.

आनीक एक दीस अशींच हांव आनी हेमा रवीन्द्रबाबांगेर गेल्लीं. तांकां कसलो तरी पुरस्कार मेळिल्लो. पिरवळां वचून मेळून येना जाल्यार सूख लागनासलें. उलयतां उलयतां गोदूबायन म्हज्या लग्नाचो विशय काडलो. हांव रवीन्द्रबाबांगेर गेले उपरांत चडसो फकत आयकुपाचेंच काम करतालों. पूण तेदीस कसो, नकळों, सहज उलोवन गेलों, ''गोदूबाय, लग्न जावपाचें आसलें. पूण जात आडवी आयली आनी लग्न मोडलें.''

आमचें सात जूनाक लग्न जालें. फाटल्या कोडू यादींक लागून लग्नाक कोणाकूच सांगूंक नासलें. घरचीं धरून सगळींच आठ धा जाणां आसलीं. पुंडलीक, हेमा बी म्हणपाक लागलीं, ''पांडुरंग, तूं कोंकणीचो एक कार्यकर्तो. कोंकणींतले सगळे लोक तुका आपलो' मानतात. लग्न एकदांच जाता. आतां तुमी लग्न जाल्यांतूच. आमी अशे करुया, सगळ्यांचो शीण पयसावपा खातीर हांगा सावय घरा कडेंच एक येवकार सुवाळो दवरुया.'' अकरा जून ही तारीक थारायली. मदीं फकत तयारे खातीर तीन दीस मेळटाले. नानान (हिरून) रातपाळी मारून आठ तारकेक आमंत्रण पत्रिका छापून दिल्यो. त्यो पणजे, फोंड्यां, मडगांवां, सांवड्ड्यां वचून, एकामेकां कडें निरोप दिवन पावयल्यो. रवीन्द्रबाबांगेर हांव वचून सांगून आयलों. पावसाचे दीस आनी आतांचे सारकी साधन-सुविधा नासुनूय, पणजे, मडगांव, सांवड्डें, फोंडें जांकां रकाद मेळिल्लो ते सगळे व्हड मनान आमकां शुभेच्छा आनी आशिर्वाद दिवपाक सावय आमच्या घराक पांय लावन गेले. (म्हज्या आयुश्यांतली सगळ्यांत व्हडली जोड). फकत रवीन्द्रबाब पावलेनात. म्हाका खंय तरी चुकिल्ले चुकिल्ले सारकें जालें. बारा जूनाक सकाळींच घरकान्नीक स्कुटरीर बसोवन पिरवळा पावलों. रवीन्द्रबाब पेपर वाचताले. हांव आनी अनिता वचून म्हऱ्यांत उबीं रावलीं. पूण तांचें लक्ष वाचपांतूच आसलें. ''आरे रवीन्द्र, तकली वयर काडून पळय मरे, म्हऱ्यांत कोण उबीं आसात तीं. पांडुरंग बायलेक घेवन आयला.'' म्हणीत गोदूबाय घरांतल्यान भायर आयलें. रवीन्द्रबाबान पेपर काडून कडेक दवरलो. आमचें अभिनंदन करून बसपाक सांगलें. ''पांडुरंग, रागार जावं नाका. सामकें मनांत आसून पसून काल तुमकां आशिर्वाद दिवपाक येवपाक पावलोंना.'' तांणी आपली खंत उकतायली.

''तशें कांय ना, रवीन्द्रबाब. सगळे पावले, फाल्यां सावन कामार वचपाक जाय म्हूण आयज तुमचे आशिर्वाद घेवपाक आयिल्लीं.''

''आरे, काल मडगांवच्यान कोण कोण आयिल्ले. वेलंगां कसलो तरी एक कार्यक्रम आसलो. चंद्रकांत, महाबळेश्वर बोरकार, नारायण मावजो बी हांगा येवन म्हाका गाडयेंत बसोवन वेलंगां घेवन गेले. म्हाका थंय बसोवन कार्यक्रम सुरू करपाक सांगून हे सगळे 'रोखडे येतात' म्हूण सांगून तुमगेर पावले. सभाग्यांनी म्हाका कांयच वास लागूंक दिलोना.'' म्हणीत रवीन्द्रबाबान राग उकतायलो.

गोदूबायन च्या आनी खावपाक हाडून दिलें. ''नांव कितें गो तुजें?''अनिताक विचारलें.

''पयलींचें अनिता नेवगी, आतांचें अनिता...''

''नांव बदलूंक ना मुगो? बरें केलें.'' रवीन्द्रबाबान खोशी उकती केली.

*फुलान फुलूंक जाय, परमळूंक जाय,*
*निमाणें, गळुनूय पडूंक जाय.*



''राव रे. तुमच्यांत आतां आडनांव बदलून घेवंक लागल्यात मरे. खूब जाणांनी आपणालीं आडनांवां बांदोडकार, कवळेकार, कुट्टीकार, कुंकळकार, शिरोडकार बी केल्यांत. तुवें बदल्लेंना? तुका केन्ना नांवाची लज बी दिसलिना?''

''ना रवीन्द्रबाब. मनांत तसो केन्ना विचारूच आयलोना. भुरगेपणांत खेळटना झगडीं बी जालीं म्हणटकीर कांय अपुरबुद्द भुरगे, ''गावड्या आमील भुर्‌- उरलेली केळी मुळांत पूर.'' वो आमगेल्या आवयांक देठलेन न्हेसता तें पळोवन, ''गावडे गावडे देठली ××× ×× ××× '' बी म्हूण चाळयताले तेन्ना थोडें वायट दिसतालें. खूब रागूय येतालो. पूण नशिबान कोंकणी लोकां मदीं पावलों. तुमी सगळ्यांनी म्हाका तुमचो केन्ना करून घेतलो तें कळ्ळेंच ना. मागीर चाळयतल्यांचीच काकळूट दिसपाक लागली. आनी अणभवान विचार पक्को जालो. खंयचे जातींत आनी कोणा आवयगेर जल्म घेवप हें जर म्हज्यां हातांत नासलें जाल्यार ते गजालीचें वायट कित्याक धरप? आनी हांवें कांय ''जात चोरूंक ना'' जी जल्मजात म्हजे वांगडा आयल्या तिका लिपोवपाची कित्याक? आनी रवीन्द्रबाब, हे म्हजेच विचार न्हय. म्हजो एक भाव भायर आसता. लग्नाक लागून ताका कोणें तरी सांगलें, आरे दशरथ, तूं तुजें 'गावडे'. हें आडनांव बदलून घेरे.... ताणें सांगलें, हांव म्हजें आडनांव बदलीन, म्हजी आवय कशी बदलतलों? आवय बदलपाक जावचिना न्हय?... खरें सांगूं रवीन्द्रबाब, पयलेच फावट हांव तुमगेर आयिल्लों आनी तुमगेर साकून भायर सरून गेल्लों तेन्ना हांवें म्हजी जात केन्ना शेंवटून मारिल्ली,

कळ्ळेंच ना.''

हांव पयलेच फावट रवीन्द्रबाबांल्या त्या राजांगणाच्या घरांत रवीन्द्रबाबां सामकार बसून खूब मेकळेपणान उलयतालों. नवी व्हंकल अनिता आनी आवयसमान गोदूबाय म्हजीं पिशेपणां लक्तुबायेन आयकतालीं.

''रवीन्द्र, हो एक तुका नवो शिश्य मेळ्ळो. पूण ह्या कोणा बाबड्याल्या भुरग्याक ताणें बरे भशेन सांबाळ्ळ्यार पुरो!'' गोदूबायन म्हजीं पिशेपणां आयकून हुस्को प्रगटायल्लो. रवीन्द्रबाब फकत हांसले. म्हाका कांयच कळ्ळें ना. आमी निरोप घेवपाक उठलीं.

''राव गो. चल, तुज्या कपलाक लायतां. यो भितर...'' म्हणीत गोदूबाय अनिताक घेवन भितर गेलें. आमी आमच्या सरस्पती दांपत्याचे पोटभर आशिर्वाद घेवन घरा येवपाक भायर सरलीं. गोदूबायन अनिताक कसलो कानमंत्र दिलो, खबर ना. पूण फाटलीं दोन तपां अनितान आपल्या संवसारा वांगडा म्हाकाय म्हज्या गुणां-अवगुणां सयत सांबाळ्ळा. हातूंत रवीन्द्रबाबांले ते मठयेंतल्या कानमंत्राचो जादू आसतलो हातूंत इल्लोय दुबाव ना.

रवीन्द्रबाबांलो जल्मदीस याद धरून, तांचो कसलोय भोवमान जालो जाल्यार तांच्या घरा कडें वचून तांकां शुभेच्छा दिवपाचें निमित्य धरून चार बऱ्यो गजाली आयकून आयलोंना जाल्यार म्हाका चुकिल्ले चुकिल्ले सारकें जातालें. तशेंच तें अनिताकूय जातालें. रवीन्द्रबाबांलें पुरस्कारा खातीर बी पेपरांत नांव आयलें काय तेंच विचारतालें, ''आरे, पिरवळा वचून आयलो? रवीन्द्रबाब कसो आसा? म्हाका कित्याक हाडूंक ना काय विचारी?'' हांव रवीन्द्रबाबांगेर गेल्लों काय ना हाचो ताकाच चड हुस्को आसतालो. इतलें तें आतां संवयेचें जाल्लें.

ज्ञानपीठ पुरस्काराचो भेटवण सुवाळो जावपाच्या कांय दिसां पयलींची खबर. हेमालो फोन आयलो, ''पांडुरंग, रवीन्द्रबाबागेर वचून आयलो? तो चड बरो ना. हांव ह्या दिसांनी पयऱ्यान तरी वतांच. वचूंकना जाल्यार वचून यो. आमी फाल्यां वतलीं.'' दुसऱ्या दिसा हांव आनी म्हजी धाकटी भयण सरिता रवीन्द्रबाबांगेर गेल्लीं. गिरीशाले घरकान्नीन आमकां तांचे कुडींत व्हेलीं. रवीन्द्रबाब आड पडून विसव घेताले.

''रवीन्द्रबाब, कशे आसात?'' ते उठून बसपाक पळयताले.

''रवीन्द्रबाब, न्हिदात तुमी. आमी बसतात हांगा.'' पूण रवीन्द्रबाब आमचें आयकुपाच्या मुडांत नासले. ते उठून बसलेच आनी आमकां दोगांकूय आपले म्हऱ्यांत बसोवन घेवन विचारपाक लागले, ''आरे आयज कितें आसा तर?''

''आयज कांय ना. तुमी बरे नात म्हूण कळ्ळें... आमी तुमची खबर घेवपाक आयल्यांत. ''

रवीन्द्रबाबांक दिसलें, आमी आयल्यांत म्हणजे आयज कितेंय तरी खास दीस आसतलो. ''तूं दर फावटी शुभेच्छा दिवपाक येता ताची याद जाली. म्हूण विचारलें...'' आनी रवीन्द्रबाब दिलखुलास म्हणटात तशे हांसले. ''खूब जगलों रे हांव. आतां आनी घरांत अशें पडून रावन जगचें अशें दिसना. अशे तरेन कित्याक जगप?''

''रवीन्द्रबाब, अशें कशें जातलें? तुमी आमकां आनीक खूब जाय. तुमी कांयच केलेंना तरी आमचेर अशी माया करपाक, आमकां फुडली वाट दाखोवपाक तुमी आमच्यांत रावपाक जाय...'' सरिताच्या दोळ्यांत दुकां भरून आयलीं. ताका आतां हुडको फुट्टलो काय कितें अशें जालें. आनी हिमालया येद्या कर्तुत्ववान धीर गंभीर सरस्पती सुपुत्राच्या दोळ्यांत हांवें पयलेच फावट दुकां पळयलीं. ''पांडुरंग, तुमी सगळ्यांनी म्हाका खूब प्रेम आनी व्हडपण दिलें. सामकें आपणाल्या नात्यांतल्यां सारकें...''

''म्हणजे, आमी तुमच्या नात्याचीं नासलीं तर?'' हांवें विशय बदलपाचो यत्न केलो.

''पांडुरंग, हांव तुगेर सांखळे नव्या घरांत येवपाक पावलोंना. तुजी बायल आयिल्ले फावटी आपयताली...'' रवीन्द्रबाबांक घट्ट उगडास आसलो. रवीन्द्रबाबान आमकां सांखळे येवपाचें उतर दिल्लें आनी हांवें म्हज्या धाकट्या वेदांगाक रवीन्द्रबाबांगेर व्हरून तांचें सगळें घर दाखोवपाचें. दोनूय गजाली घडल्योनात.

आनी, २७ ऑगस्टाक हेमालो भरिल्ल्या आवाजांत फोन आयलो. ''पांडुरंग, रवीन्द्रबाब आमकां सोडून गेले. आतांच मडगांवच्यान माधवीचो फोन आयिल्लो. सांजवेळा पांच-स मेरेन कूड पिरवळा घरा कडें पावतली.'' हांव आनी अनिता तशींच उठून पिरवळा आयलीं. राती कडें वेदांगाचो रडून आकांत – ''पप्पा, तुवें रवीन्द्रबाबाक आमगेर हाडटां सांगून हाडलोना आनी म्हाकाय तांगेर व्हरून हाडलोना. म्हाका तांकां पळोवपाचे आसले.'' दुसऱ्या दिसा सकाळीं फुडें हांव, अनिता आनी वेदांग रवीन्द्रबाबांगेर पावलीं. ताका रवीन्द्रबाबांलें सगळें घर दाखयलें आनी रवीन्द्रबाबांलें निमणें दर्शन दिलें...

आयज चाळीस वर्सां आदीं जुळून आयल्लें नातें कसलें आसलें हाचो विचार करपाची गरज दिसना... मनांत सदांच एक भिरांत आसताली... हातांतल्यान कसलीय वायट गजाल घडली जाल्यार रवीन्द्रबाबांक आनी म्हज्या हेर कोंकणी वडिलांक तोंड कशें दाखयतलों? 'हांव तुमचोच' म्हूण खंयच्या तोंडान सांगतलों? ताका लागून दर एक पावल जबाबदारेन घालपाची संवय लागली. आनी हें नातें सदांच आदराचेंच उरलें. वीस वर्सां आदीं दादाच्या (बापायच्या) निमाण्या संस्कारा उपरांत एक रितेपण जाणवल्लें. रवीन्द्रबाबांले निमणे पालखेचो खांद कडेक काडून कूड सरणार दवरली तेन्ना पर्थून एकदां तें रितेपण तीव्रतेन जाणवलें...

रवीन्द्रबाब, तुमी आमचे बापूय आसले म्हूण आमी अशे तायट मानेन जगपाक शिकले. तुमच्याच उतरांनी सांगपाचें जाल्यार, ''रवीन्द्रबाब, तुमी कोंकणीचो अमृत-कुंभ घेवन सासणाचे आमचे मर्दी वावुरतात. तुमचे सारक्यो विभुती मरपा खातीर खंय जल्माक येतात?!''



# थोडें-भोव रवीन्द्रबाबां विशीं...!

जयमाला दणायत



कांय जाणांची वाड
अमकीच एक पिराय
जातकूच थांबता.
मागीर कितलेय
पावसाळे वचूं,
ते तेदेच उरतात.

मोगाळ माधवी,

मायेमोगाचो नमस्कार.

'जाग' दिवाळी-नातलां २०१० खातीर कथा बरोवन दवरिल्ली. पूण त्या दिसा तुवें फोनार म्हाका सांगलें, ''कथा धाडूच गो तूं. पूण ह्या अंकांत रवीन्द्रबाब जावं बाकीबाब हांचेर बरोवंक जमता जाल्यार पळे.'' रवीन्द्रबाबांचेर बरोवंक म्हाका आवडुपाचें. पूण खरें सांगूं तुका, म्हज्या वांगडच्यांक, म्हणचे फाटल्या-फुडल्यांक, तांचो जसो आनी जितलो सहवास मेळ्ळा, तसो आनी तितलो कांय म्हाका तो मेळूंक ना. खरें म्हळ्यार, हांव चडशें तांकां तांच्या पुस्तकांतल्यान वळखतां. पयलेच खेपे रवीन्द्रबाबांक हांवें पळयले तेन्ना ते संमेलनांत स्टेजीर बशिल्ले. हांव एक प्रेक्षक आशिल्लें! मुखार वचून मुद्दम जाप करपाची म्हाका संवयच नासली. तसो धिरच जाय नासलो. पयलेच फावट पळयिल्ले रवीन्द्रबाब आजताकीत, तांचे ते धवेफुल्ल कपडे, हांसरें मुखामळ हांचे सयत, तश्शे दोळ्यां मुखार येतात.

कॉलेजींत शिकतना 'राष्ट्रमता'चे कोंकणी एकांकिका सर्तींत म्हजी 'सोर्त' पयली आयिल्ली. ज्युस्त दिवाळे दिसा केशवबाप्पा (स.भौ.केशव भेंब्रे) कोणाक तरी घेवन आमगेर आयले. ''हाका वळखता गो?'' म्हणून विचारलें. हांव गोंदळ्ळें. ''हो केळेकार'' म्हूण सांगतकीच म्हज्या तोंडांत अचकीत आयलें, ''रवीन्द्रबाब?'' ''न्हय, हो गुरुनाथ केळेकार, भुरग्यां खातीर 'मारुती' नेमाळें काडटा. तूं तातूंत बरय.'' मागीर गुरुनाथबाबान म्हजे एकांकिकेक पयलें इनाम फावो जालां म्हणून सांगतकीच मनाक जी खोस भोगली ती सांगपाची न्हय. म्हजी दिवाळी सामकी फुल्ली! तात्पर्य : तेदे म्हणसर हांवें रवीन्द्रबाबांक पळोवंक लेगीत नासले.

पयलेच फावट पळयले ते मडगांवां बस स्टँडार! हांव घरा वचूंक जांबावलेचे बसीक राविल्लें. रवीन्द्रबाब आनी गोदूबाय थंय आसलीं. तांणी म्हाका नांव विचारलें. हांवें नांव सांगतकीच ''फोडणी फोव बरे लागले'' म्हूण सांगून हांसूंक लागलीं. म्हज्या लक्षांत पयलीं कांयच आयलें ना. पूण रोखडीच ट्यूब पेटली. पणजे 'आकाशवाणी'चेर 'फोडणी फोव' ही विनोदी कार्यावळ लागताली, आनी तीन चार म्हयन्यां फाटीं तातूंत हांवें 'सिगारा'चेर बरयिल्लें. गोदूबाय सांगूंक लागली, ''आगो, तुजें 'सिगार' म्हाका आवडलें. हाका सिगार ओडूंक आवडटा न्हय, म्हणून तुजो राग आयला जातलो.'' पूण रवीन्द्रबाबान हांसून, ''बरेंऽ बरयता तूं, अशेंच बरयत राव'' म्हळें. म्हाका बेठीच लजशी जाली. कितें उलोवप, समजना जालें. इतल्यांत म्हजी बस आयली आनी हांव बेगीबेगीन भितर चडलें. हांगा वळख वाडोवं येताली, पूण म्हजो सभाव आड आयलो!

थोड्या वर्सांनी म्हजें लग्न जातकीच मडगांवां 'गोमंत विद्या निकेतनां'त कोंकणी संमेलन (काय परिशद, याद जायना) जालें, तेन्ना थंय हांवें एक मोनोलॉग केल्लो – विनोदी! तेन्ना रवीन्द्रबाबांक उतरा पावलाक हांसतना आनी म्हन्यांत बशिल्ल्या डॉ. शिवराम कारंथांक ताचो अर्थ सांगतना हांवें पयसुल्ल्यान पळयले आनी हांव भरून पावलें. स्टेजी वेल्यान सकयल देंवतकीच म्हजी फाट थापटून तांणी ''बरी जाली आं सूनबाय'' म्हळें. पूण 'थँक्स' पसून म्हणी नासतना हांव बेगीबेगीन फाटल्यान वचून बशिल्लें. तीं म्हजीं पिशेपणां आज म्हाका येवजतात. तेन्ना वळख वाडिल्ली जाल्यार हांवूय मातशें तरी वेगळें जातलें आसलें. पूण ही 'जरतारी' भास आतां कितें उपेगाची?

मागीर हांव पणजे बँकेंत आसतना थंय कोंकणी भाशा मंडळाची सप्तकी कार्यावळ आसताली. अदींमदीं केन्नाय हांव थंय वतालें. एकदां हे कार्यावळींत हांवें म्हजी 'अडेभामा' ही कथा वाचिल्ली. तिचेर बरीच भासाभास जाल्ली. तातूंत हांवें ती 'डायमंड नॅकलेसा' वेल्यान बरयल्या असो कांय

जाणांनी म्हजेर आरोप केलो. म्हाका वायट दिसलें. रागूय आयलो. हांवें सांगलें, "हांवें 'डायमंड नॅकलेस' अजून तरी वाचूंक ना. हांव रावतां नेरला. थंय शेजारच्या 'रेखा'चेर बरयिल्ली ही कथा. म्हगेर काम करपी शरूआवयन ताची खबर म्हाका सांगली आनी तातूंत तिखट-मीठ घालून हांवें ती रंगयली – जाय जाल्यार म्हज्यान प्रूफ दिवं येता." रवीन्द्रबाब थंय आसले. तांणी आनी माधव बोरकारान दोगांनीच 'अशें जावं येता' म्हणून म्हज्या म्हण्ण्याक तेंको दिल्लो. तेन्नाय खरें तर वळख वाडपाची, पूण म्हज्या भिडेस्त सभावाक लागून म्हाका तें जमलें ना. आज इतलें जाणटें जालें तरी 'मज घे' म्हणून म्हज्यान मुखार वचून कोणाच कडेन उलोवंक जमना हो म्हजो वीक पॉयंट!

मागीर १९८०त हांव डोंबीवलींत रावंक गेलें. हांव मुंबय



*सुखी आनी संतुश्ट मनशान*
*केन्ना समाज वयर काडला व्हय?*

पावतकीच, "शीला नायक मुलुंडाक रावता, ताका मुजरत वचून मेळ" म्हणून मुद्दम पत्र बरोवन रवीन्द्रबाबान म्हाका कळयिल्लें. पूण तेन्ना आमचें मेळप जालें ना. आनी फुडें बऱ्याच वर्सांनी, म्हणचे हांव मुंबय 'आकाशवाणीं'त 'खबरो' दिवंक वतालें तेन्ना केन्ना तरी शीला रिकॉर्डिंगा खातीर आयिल्लें, ताचे मागीर केन्ना तरी हांव मुलुंडाक वचून ताका मेळ्ळें, तेंवय रवीन्द्रबाबान दिल्ल्या पत्त्या वेल्यानच! फुडें १९८३-८४ त केन्ना तरी "तूं एकांकिका बरेंऽ बरयता, तुजे कडेन आसात तितल्यो म्हजे कडेन धाडून दी. हांव 'जागा' तर्फे तांचो संग्रह काडटां" म्हणून तांणी म्हाका पत्र धाडिल्लें. तेन्ना हांवें तांकां "म्हज्यो स-सात एकांकिका उदय भेंब्रे कडेन दिल्यात. (तेन्ना उदयबाब कोंकणी भाशा मंडळाचे अध्यक्ष आसले.) तुमी तांचे कडल्यान त्यो घेयात," अशें बरयलें. ते विशीं थोडो-भोव पत्रवेव्हार जाल्लो तितलोच. आनी "उदया कडेन त्यो नात. शेणल्यात..." अशें तांणी कळयिल्लें. मागीर हांवेंय सामकें अपसॅट जावन तो नादच सोडून दिलो. हो वेळ मेरेन त्यो एकांकिका मेळूंक नात. तेन्ना कॉपी काडून दवरपाची अक्कलय नाशिल्ली!

रवीन्द्रबाबांचें निमाणें अशें पत्र (इनलँड) म्हाका मेळ्ळां तें गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पालवान 'बिम्ब' प्रकाशनाचे वतीन भौ. दिलीप बोरकारान म्हजें *आंबाड्या भोंवतीं तीन शेंवतीं* उजवाडायिल्लें आनी ताची एक प्रत दिलीपानूच तांकां व्हरून दिल्ली, तेन्ना. पुस्तक वाचून तांणी मुजरत म्हाका पत्र बरोवन "पुस्तक बेस बरें जालां" म्हणून कळयिल्लें आनी "कोंकणींत जें जें ना तें दिवपाचो हांव येत्न करीत आसतां. तुज्या ह्या निबंद संग्रहान ह्या मळारूय कोंकणीक समृद्ध केल्या... आतां हांव मरूंक मेकळो" अश्या उतरांनी तांणी म्हाका शाबासकी दिल्ली. आनी हेर खंयच्याय पुरस्कारा परस म्हा खातीर तांचें हें पत्रूच एक व्हडलो पुरस्कार अशें हांवें फोनार त कडेन उलयतना तांकां सांगिल्लें ती म्हाका याद जाता. तुमी आम अजुनूय खूब वर्सां जाय — तुमचें मार्गदर्शन आमकां जाय अशें तांका सांगिल्लें.

मुंबय खूब वर्सां पयलीं, म्हणजे शीला कडेन म्हजी बरी वळ जातकीच, रवीन्द्रबाब दोतोर सुखठणकारागेर बांद्रा आयिल्ले आसता तेन्ना शीला बरोबर म्हाकाय थंय तांकां मेळूंक वचूंक चान्स मेळिल तितलोच! वर, दोन वरांचो सहवास. शीला बरोबरच एक दोन गोंयां आयिल्लें तेन्ना पिरवळा तांकां वचून मेळ्ळां. हांव नाशिल्ल्याक एक खेपे शीला एकलेंच थंय पाविल्लें आ "रवीन्द्रबाबान तुजी खबर घेतल्या" अशें म्हाका सांगिल्लें. "कि तुमी हालींची भुरगीं, बरीं ना म्हणटात?" म्हणून म्हाका फोनार तां एक दीस तापयिल्लें. तांकां वाडदिसाच्यो शुभेच्छा दिवंक फोन केल्लो तेन्ना...

रवीन्द्रबाबांक ज्ञानपीठ पुरस्कार जाहीर जालो तेन्ना मनांत आसुनू भलायकेक लागून हांव तांचे म्हऱ्यांत तांकां परबीं दिवंक पावलें ना म्हजो फोनूय खूबदां येत्न करुनूय लागनासलो – मागीर पत्रूच बरोव तांचें अभिनंदन केलें. शीलान आमच्या दोगांयचे वतीन तांकां *शांतारा* ही इंग्लीश कादंबरी व्हरून दिली तेन्ना, "येदी व्हडली कादंबरी आमचे कोंकणींत केन्ना येतली?" अशे तांणी उद्गार काडले अशें शीलान म्हाका फोनार सांगलें. माधवी, तुवें मुद्दम तांच्या ज्ञानपीठ पुरस्कार भेटवण सुवाळ्याचें कळोवन 'जमल्यार येवचें' म्हणून म्हाका फोन केल्लो. म्हाका शक्य जालें ना. पूण हांवें कोंकणींत अणकारीत केल्ले श्रीलाल शुक्लांचे *राग दरबारी* कादंबरीच्यो पांच प्रती हालींच म्हाका मेळिल्ल्यो, तेन्ना तें चारशीं पानांचें अणकारीत पुस्तक पळोवन एकाद्रें तांकां बरें दिसतलें, अशें येवजून म्हजे भयणी कडल्यान (सुधा खरंगटे) माधवी, तुज्या हातांत दिवंक सांगिल्लें, तें तांणी हातांत तरी घेतलें गो? म्हाका खबर ना. कारण तेन्नाय ते बरे नासले खंय. आनी मागीर शीला कडल्यान फोनार खबर कळ्ळी, रवीन्द्रबाब आमकां सोडून गेले म्हणून! खीणभर म्हाका खरेंच दिसलें ना. अजुनूय ते आमचे मदींच आसात असोच भास जाता गो! आनी तेंच खरें. कारण तांचें 'अक्षर' साहित्य आमचे मदीं आसा आनी सदां काळ तिगून उरतलें.

माधवी, केन्ना केन्नाय म्हाका तुजी इल्ली नसाय कशी दिसताली. ल्हानपणा सावन निमाणे मेरेन तुका रवीन्द्रबाबांचो सहवास सदांच मेळ्ळो. मनाक त्रास जाता तो म्हळ्यार, शीला जावं हेरां भाशेन तांचें मार्गदर्शन म्हाका मेळ्ळें ना. ही खंत तर आतां जल्मभर उरपाची. पूण एक नेम जणएकान करप, आपणाक जाता तितलें आनी जाता तशें सतत बरें बरें बरयत, वाचत रावप. हींच तांकां खरीं आर्गां ओंपिल्ले वरी जातलीं!

बरें मागून,

तुजेंच
जयमाला



# रवीन्द्रबाबांल्या सांगातान एक दीस

**मंगला काशपुरकार**

आ जाल बारा-तेरा वर्सां फाटली. तेन्नाच हांवें लेखनाच्या मळार पावल दवरिल्लें. 'जाग' म्हयनाळ्यांत म्हजी एक कथा छापून आयिल्ली. म्हजेच जिणेच्या एका दुखेस्त कुडक्याचें पडबिंब कशी! तिडकीन, किंवाट्यान बरयल्ली कथा! तातूंत एके जातीचो उल्लेख आयिल्लो. एका पात्राच्या तोंडांतल्यान. ते जातीचे संस्थेच्या मुखेल्यान रवीन्द्रबाबांक चीट बरोवन ते कथेचो निशेध केल्लो, आनी रवीन्द्रबाबां कडेन ताची जाप मागिल्ली.



*जाच्या सांगातांत तूं हांशिल्लो ताका घडये तूं विसरशीत. पुणून जाच्या सांगातांत तुज्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांविल्लीं ताका केन्नाच विसरचो ना.*

ताचे उपरांत रवीन्द्रबाबान एक दीस म्हाका, "यो गो एक दीस, बसुया, उलोवया" म्हणून आपल्या घरा पिरवळा आपयलें. हांव कलकल्लें, भियेलें. हांवें माधवीक सांगलें. माधवीन म्हणलें, "मेळून यो गो. भंय कसलो? दिसपट्टे कितलेशेच लोक मेळूंक येतात तातोक. जाय जाल्यार हांव येतां तुजे बरोबर." राजूनय म्हाका म्हणलें, "मंगला, मेळूच तूं तातोक. पळय, तुजे जिणेची दिकाच बदलून वतली."

खूब दिसां उपरांत भियेत भियेत हांवें फोन करून रवीन्द्रबाबांक विचारलें, "फुडल्या आयतारा तुमकां वेळ आसा? हांव मेळूंक येवं?" रवीन्द्रबाबान हांसत म्हणलें, "हांव दीसभर कामांत आसता आनी तसो दीसभर बेकारूय आसतां, यो तूं, हो आयतार तुजो! तुवें सकाळीं येवपाचें आनी सांजवेळां वचपाचें!" आनी हांवें खुशालभरीत जावन येता त्या आयतारा हांव रवीन्द्रबाबांक मेळूंक वचपाचें आसां म्हूण सगळ्याक पेरगांव घालें.

आयतारा साडेणवांक सुमार पिरवळच्या बस स्टॉपार देंवलें आनी कोणें तरी दाखयल्ले दोंगुल्लेचे वाटेन चलत तांच्या घरा पावलें. धवेच कपडे घाल्ले, हिमालया सारके भव्य-दिव्य रवीन्द्रबाब म्हज्या येवकाराक मुखार आयले. तांकां पळयतकच आपसूकच हांवें बागोवन तांच्या पांयांक स्पर्श केलो. "मंगला मुगो?" म्हणत, हांसत म्हज्या हाताक धरून तांणी म्हाका भितर व्हेलें आनी आपल्या नातरां कडेन, सुने कडेन, गोदुबाय कडेन म्हजी वळख करून दिली. तेन्नाच गोदुबायक विसरायेच्या दुयेंसाची सुरवात जाल्ली आसुये. तांचें राजांगणाचें व्हडलें घर हांव अजापीत जावन पळयत उरलें.

च्या-नाश्तो जातकच रवीन्द्रबाब म्हाका आपले लायब्ररींत घेवन गेले. व्हडल्या व्हडल्या आलमारींनी वेगवेगळ्या भासांतलीं, वेगवेगळ्या विशयांचीं, वेगवेगळ्या लेखकांचीं कितलींशीं पुस्तकां. खंयचे आलमारींत कसलीं पुस्तकां आसात, हें सांगत सगळ्यांत पयलीं तांणी म्हाका आपल्या गिन्यानाच्या खजिन्याची भोंवडी करून दाखयली. उपरांत तांचे कुडींत बसून वेगवेगळ्या गजालींचेर आमी उलयलीं. दनपारच्या एक मेरेन. तांच्या उलोवपांत खंयच उचंबळपण, खळखळ, व्हडा आवाजांत उलोवप अशें कितेंच नाशिल्लें. संथपणान व्हांवपी न्हंये वरी, संथ, ल्हवू आवाजांत, एके लयींत चलपी, प्रभावीत करपी अशें उलोवप.

ज्युस्त एकाक तांणी म्हाका जेवणाच्या मेजार व्हेलें. ते 'हेड ऑफ द फॅमिली' आशिल्ल्यान आपल्या थरिल्ल्या कदेलार बसले. म्हाका तांणी आपले कुशीच्या कदेलार बसूंक सांगलें. जेवणाची सुरवात जाली ती सगळ्यां मुखार दवरिल्ल्या सुपान! सूप सोंपतकच ताटांत दोन-तीन वाटयांनी दोन दोन भाजयो, लोणचें, पापड, तळिल्ल्यो फोडी आनी दोन चपात्यो आयल्यो. तें जातकच हुनहुनीत शीत, तळिल्लें नुस्तें आनी हुमणाची वाटी. निमाणें धंयाची वाटी आनी जेवणा उपरांत घरावें गांवठी

केलें.

जेवणांत इतले सगळे नग रांदले म्हूण जायना, जे पद्धतीन ते ताटांत वाडटात, तेंय कोणाकूय रुचीन जेवन दिसचें अशें. इतलें पुश्टीक जेवण, तेंवूय बी इतले बरे रितीन आनी नेमान, हातुंतच तांचे बरे भलायकेचें गुपीत आसा अशें म्हाका दिसलें. आनी हें सगळें रवीन्द्रबाबांक इतलीं वर्सां फावो जाल्लें तें अन्नपूर्णा कशी वावुरतले तांचे सुने खातीर.

जेवन जातकच रवीन्द्रबाबान म्हणलें, ''मंगला, आतां तूं एका वरा खातीर म्हाका माफ कर. एक वर हांव मातसो आड पडटां. तें एक वर हांव तुका म्हज्या नातरांचे सुवादीन करतां.'' अशें सांगून ते न्हिदूंक गेले. चवखेरूच टीव्ही आशिल्लो. तांच्यो नाती आनी नातू हांचे भितर हांव केन्ना भरसलें, म्हाकाच कळ्ळें ना. थोड्या वेळान तांची सुनूय आमचे मदीं आयली. गजाली करतां करतां एक वर केन्ना सोंपलें, कळ्ळें लेगीत ना. रवीन्द्रबाब फ्रॅश जावन आयले. सांजवेळचो च्या जातकच परत आमी तांचे कुडींत उलयत बसलीं ती सांजवेळां स मेरेन.

सकाळ सावन सांज मेरेन आमी जें जें कितें उलयलीं, तातूंत तांणी आपली व्यक्तीगत, समाजीक, राजकी, साहित्यीक जीण म्हजे मुखार उकती करून दाखयलीच, ते भायर कितलेशे प्रस्न मुखार दवरून, म्हजेय जिणेची विसकटावणी म्हजे मुखार दवरली. तातूंतल्योच दोन-तीन गजाली हांगा मुजरत सांगच्योशयो दिसतात.

म्हज्या गळ्यांतलें मंगळसूत्र पळोवन तांणी विचारलें, ''हें तूं गळ्यांत कित्याक घालता?'' म्हजे कडेन जाप नाशिल्ली. तांणी सांगलें, ''जाणा तूं? हांव आनी गोदू लग्न जाल्लीं तो काळ आयचे वरी नाशिल्लो. पूण तरी हांवें गोदूच्या गळ्यांत मंगळसूत्र घालूंक नाशिल्लें. म्हज्या सांगातान गोदू आसतालें, धाकलो गिरीश आसतालो. ती म्हजी बायल आनी तो चलो म्हूण सांगतकच परकी लोक गोदू कडेन दुबावान पळयताले... निमाणें, लग्ना उपरांत वीस-बावीस वर्सांनी हांवेंच गोदूच्या गळ्यांत मंगळसूत्र बांदलें.''

ही आपली खबर सांगून तांणी म्हळें, ''आज तेन्नाचो काळ खंय उरला?'' ...पूण तरी आयच्या खिणा मेरेन मंगळसूत्र घालचें काव घालचें न्हय हो म्हजो प्रस्न अजून म्हजे खातीर तरी प्रस्नूच उरला.

रवीन्द्रबाब उलयत आशिल्ले. खंयचे पिरायेर आपूण वर्ध्याक गेलों, काकासाहेबांच्या आश्रमांत रावलों, 'मीर्ग' काडलें, गोंयच्या मुक्ती-झुजांत वावुरलों, पुर्तुगेजांचे बंदखणींत उरलों, अश्यो कितल्योश्योच गजाली! पूण इतल्या वर्सांत तांणी कसल्यो नोकऱ्यो केल्यो, कितें जोडलें, कशें जोडलें, म्हाका जाणा जावन घेन दिसलें. हांवें तांकां विचारलें, ''रवीन्द्रबाब, तुमी हो वावर केलो, तो वावर केलो, बरें आसा! पूण तुमी हीं साबार वर्सां बायल-भुरग्यांक पोसलीं कशीं?'' म्हज्या ह्या प्रस्ना वांगडाच रवीन्द्रबाब कदेला वेल्यान उठले. म्हजो हात तांणी हातांत घेतलो. त्या कणखर मनशाच्या दोळ्यांत म्हाका दुकां दिश्टी पडलीं. तांणी म्हणलें, ''मंगला, म्हाका मेळूंक साहित्यीक, राजकारणी, समाजकारणी, ल्हान-व्हड कितलेशे लोक येताले आनी येतात. पूण अजून मेरेन हे विशीं म्हाका केन्ना कोणें विचारूंक ना. कोणें तरी तें विचारचें अशें म्हाकाय दिसताले. पयले खेपे, वर्ध्याक म्हाका मेळूंक आयिल्ले एके युरोपियन बायलेन म्हाका असोच प्रस्न केल्लो. (ते बायलेचें नांवूय रवीन्द्रबाबान म्हाका सांगिल्लें, पूण आयज म्हाका तें याद जायना.) आनी आयज इतल्या वर्सांनी दुसरे खेपे, तुवें म्हाका हें विचारलें...''

हांव थतरवितर जावन तशेंच बसून रावलें. तेवूय कांय खीण ओगी रावले. आनी उपरांत दुसऱ्या विशयाक तांणी हात घालो. पूण तांणी संवसार कसो केलो हाची जाप मात म्हाका मेळ्ळी ना.

साहित्य आनी साहित्य अकादेमी पुरस्कारा विशीं ते उलयले, ''आतां दर वर्सा कोंकणीक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळटा म्हणटकच सगळ्यांनी ते लायनीक उबें रावपाचें, आयज ना फाल्यां आपलोय नंबर लागतलो म्हूण. साहित्य खऱ्यांनीच दर्जेदार आसूं वा नासूं, दर एकल्याक हो पुरस्कार केन्ना न्हय केन्ना मेळटलोच. कोणें कितलीं पुस्तका बरयलीं हो बऱ्या साहित्याचो निकश जावंक शकना. बरयल्लीं पुस्तकां उणीं आसूं, तांचो दर्जो वयलो आसूंक जाय.''

उपरांत तांणी म्हाका म्हणलें, ''तुजें साहित्य उखलापें न्हय, कारण, तें तुज्या काळजांतल्यान भायर सरलां. तातूंत साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळोवपाची तांकूय म्हाका दिसता.'' हांवें हांसत म्हणलें, ''म्हजें तर अजून मेरेन एकूय पुस्तक ना! म्हाका कसो मेळटलो पुरस्कार?'' तांणी समजायलें, ''तूं आतां त्या वावराक लाग. कोंकणी साहित्याचे सेवेक तुजे तुका झोंकून दी. हेरां वरी पुरस्कारां फाटल्यान लागूं नाका. पुरस्कारांक तुजे फाटल्यान येवं दी.''

स वरांचेर गोदूबाय आनी रवीन्द्रबाबांच्या पांयांक हात लावन, तांचो आशिर्वाद घेवन, हांव घरा वचूंक भायर सरिल्लें. तेन्ना सामकें ल्हवपीक जाल्लें. तांणी एकाच दिसा इतलें सगळें म्हाका दिल्लें! तांणी सांगिल्ले दिकेन हांव गेल्लें जाल्यार म्हजी जीण वेगळीच जावपाची. पूण तशें कांय घडूंक पावलें ना.

कांय तेंप फोनाचेर ते म्हजी खबर घेताले आनी हांवूय तांची! उपरांत ल्हवू ल्हवू तेंवूय बंद जालें. रवीन्द्रबाबांक ज्ञानपीठ मेळटकच तांकां परबीं दिवंक हांव तांगेर गेलें. ते भायरूच चवखेर बशिल्ले. हांवें तांकां परबीं दिलीं. पूण ते म्हाका वळखले नात. बारा-तेरा वर्सां पयलींच्या त्या दिसाची याद करून दिल्ली जाल्यार ते वळखतूय आशिल्ले. पूण तेन्ना रमेशबाब वेळुस्कार थंय बशिल्ले. तांचे मुखार म्हजी अशी वळख करून दिवप म्हाका योग्य दिसलें ना. वळखले नात तरी रवीन्द्रबाब म्हजे कडेन बरे तरेन उलयले.

बारा-चवदा वर्सां उपरांत म्हजें पयलें पुस्तक उजवाडा आयलें. पयल्या पुस्तकाक पयलो पुरस्कारूय मेळ्ळो, गोवा कोंकणी अकादेमीचो. शुक्रारा २७ ऑगस्ट २०१० ह्या दिसा सगळ्या दिसाळ्यांनी पुरस्कार जाहीर केल्ले. सकाळच्यान इश्कोलांत फोन करून वा प्रत्यक्ष मेळूंक येवन म्हजे बरें मागपी म्हाका परबीं दीत आशिल्ले. देडांक सुमार दोतोर हरिश्चंद्रबाब नागवेंकार इश्कोलांत आयले. तांणी म्हजें अभिनंदन केलें. उपरांत सांगलें, ''आतांच एका

वरा पयलीं रवीन्द्रबाब सोंपले!''

ते अपोलो हॉस्पिटलांत आसात, सिरीयस आसात हें हांव जाणां आशिल्लें. म्हज्या साहित्यांत पुरस्कार मेळपाची तांक आसा म्हूण बारा वर्सां पयलीं सांगपी रवीन्द्रबाबांक म्हज्या पयल्या पुस्तकाक पयलो पुरस्कार मेळ्ळो हें कळूंक पावलें ना. चुकामूक! दुख्खांत सूख शेणून गेल्ले वरी जालें.

रवीन्द्रबाबान सान पिराये सावन वाचनाक सुरवात केली. तरणेपणाच्या हुमऱ्यार आसतना लेखणी हातांत घेतली. वाचन-चिंतन-मनन-लेखन हें ज्ञानसाधनेचें कडक व्रत तांणी निमणे मेरेन पाळ्ळें. त्या व्रताचेंच फळ म्हणल्यार कोंकणी, मराठी, हिन्दी भासांतल्यान तांणी बरयल्लीं कितलींशींच पुस्तकां. केन्नाच सोंपून सोंपची ना अशी गिन्यानाची आगळीवेगळी संपत्ती तांणी आमचे खातीर दवरल्या.

तांणी खंयच्याय मळार बरोवंक ना वा खंयचोय साहित्य लेखनाचो प्रकार हाताळूंक ना अशें ना. हांवें अजून मेरेन तांचें सगळेंच साहित्य वाचूंक ना. पूण वाचपाचो हावेस आसा. जीं पुस्तकां वाचल्यांत तीं सगळीं संदर्भग्रंथ कशीं म्हज्या संग्रहांत आसात.

हांवें तांचें पयलें पुस्तक इश्कोलांत शिकतना, नेणार पिरायेर वाचिल्लें. तें म्हणल्यार *वेळेवयल्यो घुलो.* आमी कोंकणींत उलयतालीं तरी तेन्ना कोंकणी वाचपाची, बरोवपाची संवय नाशिल्ली. तें पुस्तक हांवें धडधडीत वाचून सोंपयलें, पूण तें कितें तें म्हाका तेन्ना कळ्ळेंच ना. अमृता प्रीतमचें *रसीदी टिकट* हें पुस्तकूय तेदेवेळार म्हाका समजूंक नाशिल्लें. समज येतकीर ही पुस्तकां हांवें परतीं वाचलीं, तेन्ना तीं म्हाका समजलीं. *वेळेवयल्यो घुलो* ही तांची एके वेगळे तरेन बरयल्ली दिसपटी. दिसपट्टे जिणेंत आयिल्ले अणभव आनी ताचेर तांणी उक्तायले आपले विचार अशे तरेचें हें पुस्तक.

*पांथस्थ* हें तांचें पुस्तक म्हणल्यार गोंयचे मेकळिके झुजांतल्या तांच्या सहभागाचें आत्मचरित्र. एकेक प्रसंग बरयतना तांच्या सहवासांत आयिल्ल्या बऱ्या वायट मनशां कडल्यान तांकां आयिल्ले बरे-वायट अणभव, त्या सगळ्या पुर्तुगेज, भारतीय, गोंयकार मनशांच्या नांवां सयत तांणी आमचे मुखार दवरल्यात. आदाराक कसलींच कागदपत्रां नासतना. कितलो तेंप तांणी ते मेंदवाच्या संगणकांत सांठोवन दवरिल्ले आसतले... तांचे स्मरणशक्तीची तोखणाय करची तितली थोडीच!

आमच्या देशांत जावन गेल्लीं कांय व्यक्तिमत्वां म्हजे भोव आवडीचीं. तातूंतलें एक गौतम बुद्ध! ल्हानपणा सावन बुद्धाचे जिणे वयलीं मराठींतलीं चडांत चड पुस्तकां हांवें वाचल्यांत. हेच उमळशिकेन हांवें रवीन्द्रबाबांलें *तथागत* वाचलें तेन्ना तातूंत बुद्धाचे जिणेचो आनी बौद्ध धर्माचो तांणी कितले खोलायेन अभ्यास केला तें म्हाका कळ्ळें. तांच्या त्या अभ्यासाचो आपरोस, बुद्धाचे शिकवणे वयलीं भाश्यां सगळें *तथागता*च्या रुपान तांणी आमच्या हातांत दिलां.

*हिमालयांत* पुस्तकांत तांचे हिमालयाचे भोंवडेचें तांणी वर्णन केलां. आमची संस्कृताय तातूंत आमकां दिसता. ह्या पुस्तका खातीर तांकां साहित्य अकादेमीचो पुरस्कारूय मेळ्ळो. उत्कृश्ट तांकीचें प्रवास-वर्णन हें. जपानाचे भोंवडेर मराठींतल्यान बरयल्लें *जपान जसा दिसला* हें तांचें प्रवासवर्णन हांवें अजून वाचूंक ना.

तांणी बरयल्ले महाभारताचे दोनूय खंड संदर्भग्रंथ कशे म्हजे कडेन आसात. महाभारताच्यो काणयो आमी वाचल्यात, आयकल्यात. रवीन्द्रबाबान केल्लें महाभारताचें अनुसर्जन हें तांच्या कितल्याश्याच वर्सांच्या कश्टांचें फलीत. राजाजींचें *महाभारत*, बापटशास्त्रींचें महाभारत अश्या कितल्याश्या *महाभारतां*चो अभ्यास तांणी हे खातीर केलो. विचाराचो मातसो गोंदळ जाल्यार परत फाटल्यान वचून परत अभ्यास करून तांणी लिखाणांत सुदारणा केल्या. दर एके घडणुकेचेर आपलीं भाश्यां बरयल्यांत. दर एकल्यान हे संदर्भग्रंथ बाळगुचेच.

हांव आर्टस् ग्रॅज्युएट आसुनूय मराठी विज्ञान परिशदेच्या गोंय फांट्याच्या कार्यकारी मंडळाचेर आसां. आमी गोंयभर विज्ञानाच्यो विंगड विंगड कार्यावळी भुरग्यां खातीर, शिक्षकां खातीर आयोजीत करतात. हें करतना मुंबयच्या हेमंत मोने कडल्यान आमी टेलिस्कोपांतल्यान मळब, मळबांतलीं नखेत्रां नियाळूंक शिकलीं. भुरग्यां खातीर स्टार पार्टी, म्हणल्यार रातभर नखेत्रां नियाळप, ही कार्यावळ आमी दर वसा करतात. आयज म्हजे कडेन म्हजो खाशेलो टेलिस्कोप आसा. हे आवडींतल्यानूच हांवें रवीन्द्रबाबान बरयल्लें *ब्रह्मांडांतलें तांडव* हें पुस्तक वाचून काडलें. हें पुस्तक म्हणल्यार म्हजे सारकेल्या खगोलशास्त्राच्या अभ्यासा कडेन वळिल्ल्या नव्या मनशाचें गुरू कशें!

*तुस्त चेरा सारकी.*
*तिचो फकत वास घेवंचो.*
*पियेवपाची वस्त न्हय ती.*

*उजवाडाचे सूर, ओथांबे, समिधा* म्हणल्यार तांच्या वैचारीक-ललीत निबंदांचे एका परस एक अशे सरस नमुने. *जाग* म्हयनाळ्यांतलें तांचें संपादकीय अशेंच. भोंवतणचे सादे विशय घेवन कितले सुंदर तशेच विचार करूंक लावपी वैचारीक ललीत निबंद बरोवं येतात, हें तांच्या ललीत लेखनांतल्यान कोणेंय शिकचें.

रवीन्द्रबाब आमचे मदीं साहित्याच्या रुपान सासणाचे अज्रंवर जावन उरल्यात. पयलो साहित्य अकादेमी पुरस्कार, पयलो साहित्य अकादेमी अणकार पुरस्कार, पयलो विश्व कोंकणी साहित्यरत्न पुरस्कार, पयलो ज्ञानपीठ पुरस्कार गोंयाक मेळोवन दिवपी ह्या साहित्यकारान फुडले पिळगेच्या हातांत आपली साहित्यसंपदा सोंपयल्या. आमकां वाट दाखयल्या.

# म्हज्या घडपांत तांचो
# व्हड वांटो आसा

समीर झांटये

**ता**तोच्या *तॉलस्तॉय* पुस्तकाच्या लोकार्पणाची पणजे कार्यावळ आशिल्ली. लोकार्पण मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हांचे हस्तुकीं जावपाचें आशिल्लें. मुखेलमंत्री येवपाक बरोच कळाव जाल्लो. तातोय हे कार्यावळीक हाजीर आशिल्ले. सगळ्यांचीं उलोवपां जाले उपरांत तातोक उलोवपाक सांगलें. तांणी म्हळें : इंग्लीशींतलीं दोन उतरां आमी सगळ्या भारतीय भासांनी हाडूंक जाय. एक 'सॉरी' आनी दुसरें 'थँक्स'. मुखेलमंत्र्यांनी येवपाक कळाव केलो, ताका लागून तांणी सॉरी म्हणचें, आनी तुमी सगळे म्हजे विशीं इतले बरे बरे उलयले म्हूण हांवें तुमकां थँक्स म्हणचें.

इतलेंच म्हणून ते थांबले.

अनमन नासतना मनांतले विचार मांडपाची तातोची ही तरा सदांच म्हाका प्रेरणा दीत आयल्या. 'जागां'तल्या आनी 'स्वगतां'तल्या बरपांतूय हें वेगळेपणाचें अपील सदांच आसतालें.

एक बरोवपी म्हण म्हज्या घडपांत तातोचो व्हड वांटो आसा अशें हांव मानतां. तातोचो सांगात मेळूंक नाशिल्लो जाल्यार हांव बरोवचो नाशिल्लों काय? बरयतलों आशिल्लों घडये. पूण म्हज्यो प्रेरणा आनी मोखी कसल्यो आसतल्यो आशिल्ल्यो? बरोवप हो जिविताचे साधनेचो एक भाग हें हांव तातोच्या संस्कारांक लागून शिकूंक पावलां. केन्ना केन्ना बरोवपाक बसतां तेन्ना कसले तरी जापसालदारकेचें दडपण जाणवता; उतरां कश्याय कशीं येवन बरोवप जायत हाची भिरांत दिसता. तातोचे संस्कार हाचे फाटल्यान आसात.

तातोची आनी म्हजी वळख जावप म्हज्या जिवितांतलो एक राजयोग अशें हांव मानतां.

मराठी-कोंकणी वाद, रवीन्द्रबाबांचें गोंयच्या साहित्यविश्वांतलें स्थान हातूंतलें म्हाका कांयच खबर नाशिल्लें तेन्नाची गजाल. हांव शाळेंत आसतना आमगेर आयतारचो 'नवप्रभा' हाडटाले. तातूंतलो तातोचो लेख, कित्याक खबर ना, पूण वाचीन दिसतालो. एक दीस हांवें तांकां चीट बरोवपाचो धीर केलो. तांची जाप आयली. मागीर पत्रवेव्हार जातां जातां एक दीस तातो कडल्यान 'यो केन्नाय' अशें आपोवणें आयलें आनी उपरांत वळख वाडत गेली.

तेन्ना 'स्वगत'च वाचीनशें कित्याक दिसतालें? तातोक चीट बरयनशें कित्याक दिसलें? तर्क लावन हाच्यो जापो काडप शक्य ना.

आयज तेन्नाच्यो यादी येतकच म्हजे म्हाकाच हांसपाकशें येता. हांवें ल्हानपणांत अंधश्रद्धे विशीं कांय लेख बरयल्ले आनी ते बेगोबेग पुस्तकरुपान छापून हाडपाची ताकतीक म्हाका लागिल्ली. तातोनच तेन्ना म्हाका फाटीं ओडलो. तुज्या विचारांची दिका बरोबर आसा. मात तातूंत अजून खोलाय येवंक जाय. ते खातीर खूब साधना करची पडटली अशें सांगलें.

शाळेंत शिकता आसतना वर्तमानपत्रांनी म्हजे कांय लेख छापून येताले. तेन्नाय तातोन म्हाका शिटकायल्लो – बरोवपांत वेळ वगडावं नाका, वाचपा खातीर खर्च कर.

हेच तातो हांव कॉलेजींत पावलों तेन्ना, आरे हालीं कांय वाचपाक मेळना तुजें, बरोवपाची संवय लावन घेवंक जाय, अशें सांगूंक लागिल्ले.

तातो सगळ्यां खातीर 'इझी ॲक्सेस' आशिल्ले लेखक. तातो वांगडा म्हाका उलयनशें दिसलां तेन्ना तेन्ना हांवें तांकां फोन केला, मेळनशें दिसलां तेन्ना तेन्ना घरा वचून मेळ्ळां, बरयनशें दिसलां तेन्ना तेन्ना हांवें तांकां चिटी बरयल्यात. ह्या सगळ्या गजालीं परस आनीक एके वटेन हांव भाग्यवंत. म्हाका तातो वांगडा तांच्या घरांत रावपाक मेळ्ळां. एका व्हड भारतीय साहित्यिकाची साधना



*इतिहास म्हळ्यार,*
*मनीस कितलो मूर्ख,*
*कितलो दुश्ट,*
*कितलो घातमारो*
*हें सांगपी कथा.*

लागशिल्ल्यान पळोवपाचें भाग्य म्हाका तातोन मेळोवन दिलां.

तातोचे एके गजालीचें सदांच म्हाका अजाप दिसत आयलां. कसबच तें तांचें. ते सदांच कसल्याय कामांत व्यस्त आसताले. कितें तरी वाचीत ना जाल्यार बरयत आसताले. ह्यो दोनूय गजाली करी नासले तेन्ना बशिल्ले कडेन कसलें तरी चिंतन मनन तांचे भितर चलतालें हाची तांकां त्या वेळार पळोवप्याक कल्पना येवची. अशें आसून लेगीत कोणूय केन्नाय मेळपाक आयलो जाल्यार व्हड खोशयेन ताचें ते स्वागत करताले. ताचे सरीं बसून उलोवपाक कितलोय वेळ काडटाले. दुसऱ्याचें उलोवप लक्ष दिवन आयकताले. सगळ्या पिरायांच्या लोकां कडेन तांच्या पांवड्यार वचून उलोवपाची, तांकां समजून घेवपाची तांक तांचे कडेन आशिल्ली. फाटीं 'जागा'न काडिल्ल्या आंकांत विंगड विंगड व्यवसायांतल्या, वेगवेगळ्या वयोगटांतल्या लोकांनी तातो विशींचे आपले अणभव तितल्याच उत्कटपणान मांडल्यात, हेंच ताचें प्रमाण.

स्वत:चो अनुग्रह घेयात अशें सांगपी लोक थोडे नात. साहित्यीक क्षेत्रांतूय बी अशे 'बाबा' लोक आसतात. हे फाटभुंयेर तातो कडल्यान म्हाका आयिल्लो अणभव परतो परतो याद जाता. हांवें एक फावट तातोक एक पत्र बरयल्लें. तातूंत ''तुमी म्हजे गुरू'' असो उल्लेख केल्लो. तातोचें कळाव करी नासतना पत्र आयलें –

मनशान गुरू केन्ना करचो न्हय. करचोच पडलो जाल्यार एक करचो न्हय. जाचे कडल्यान जें मेळटा तें घेवन आपली वाट आपणें काडची. गुरू करप मूर्खपण. गुरू जावपाक तयार जावप हें म्हा मूर्खपण. मनशान बुद्धिनिष्ठ आसूंक जाय. गुरू करतकच बुद्धिनिष्ठेक मर्यादा येतात.

तातो वांगडा उलोवप हो एक व्हड आनंदानुभव आसतालो. साबार विशयांचेर ते उलयताले. साहित्य, समाजशास्त्र, राज्यशास्त्र, इतिहास अश्या साबार विशयांत तांकां रुची आशिल्ली. दर खेपेक हांव तांचे सरीं गेलां तेन्ना तेन्ना म्हाका नवें कितें तरी मेळ्ळां. साहित्या विशीं जितल्या रसीकपणान ते उलयताले तितलेच समाजांतल्या घडणुकां विशीं ते संवेदनशील आशिल्ले. फाटीं महानंद प्रकरण उजवाडांत आयलें तेन्ना ''असलेय लोक गोंयांत आसात रे?'' अशें विचारतना तांच्या चेऱ्याचेर त्रासीक भाव हांवें पळेल्ले. प्रादेशीक आराखडो फुडें आयलो, गोंय काबार जाता काय कितें असो प्रस्न सगळ्या गोंयाक पडलो तेन्ना तातोय चिंतेस्त आशिल्ले. ''आमचें जालें. गोंयच्या फुडल्या पिळग्यांचें कशें जातलें काय?'' अशीं उतरां हांवें एक फावट तांच्या तोंडांतल्यान आयकल्यांत. एकदां उलयतना अचकीत कसलो तरी सोद लागिल्ले वरी तांणी म्हळें, ''तुका सांगतां, गांधींची हत्या घडोवन हाडपांत सीआयएचो हात आसूंक जाय.'' (म्हाका दिसता, मागीर 'जागां'त ह्या विशयाचेर तांचो एक लेखूय छापून आयला.)

तातोचो सभाव गंभीर. मात एक दीस हांवें तांचें वेगळेंच रूप पळयलें. हांव आनी तोबू (तांचो सर्गेस्त नातू) भायर टीव्ही पळयत बशिल्ले. चॅनल घुंवडायतना मर्दीच एका चॅनलाचेर 'एकला चलो रे' गीत सुरू जालें. तें कानार पडना फुडें तातो तांच्या रुमांतल्यान बेगीबेगीन थंय पावले आनी गीत आयकत थंय उबे रावले. एका ल्हान भुरग्या वरी तांच्या चेऱ्याचेर उत्कंठा आशिल्ली. रवीन्द्रनाथां विशींचें रवीन्द्रबाबांक आशिल्लें आकर्शण आनी उपाट मोग त्या दिसा म्हाका समजलो.

एक दीस हांवें तांकां विचारलें, तातो आमी चुकतात, मात चुकताच तें कित्याक?

तातो म्हणपाक लागले, आमकां 'ना' म्हणपाक येवंक जाय. जें पटना, जें सारकें न्हय अशें दिसता तेन्ना तेन्ना आमी 'ना' म्हणूंक जाय. आमकां तेंच जमना!

एक ल्हानशी जाप पूण केदो व्हड आशय आशिल्ली!

खंयच्या तरी वक्त्याच्या तोंडांतल्यान एक फावट आयकल्लें, पिकासो खंय म्हणटालो – आपल्याक चित्रकार जावपाचें आशिल्लें, पूण आपूण पिकासो जालों. तातोय फकत लेखक नाशिल्ले. ते खासा रवीन्द्रबाब केळेकार आशिल्ले, ते वेगळे आशिल्ले कारण आपणालें वेगळेपण मांडपाचें धाडस तांचे कडेन आशिल्लें.

तातोच्या निमण्या संस्कारा उपरांत घरा आयलों आनी तांचीं म्हाका आयिल्लीं पत्रां घेवन बसलों. दोळ्यांत दुकां आयिल्लीं आनी दोळ्यां सामकार धूसर यादी उब्यो राविल्ल्यो.

# रवीन्द्रबाब : एक याद

गोरक शिरसाट

वर्स २००४, म्हजी रवीन्द्रबाबां कडेन पयली भेट ह्या वर्साच्या नोव्हेंबरांत जाल्ली. ह्याच वर्सा हांवें फोंड्यां पी.ई.एस्. कॉलेजींत कला फांट्यांत ॲडमिशन घेतिल्लें. आनी म्हजी वळख रवीन्द्रबाबांची नात गायत्री कडेन जाल्ली. एक दीस ताचे वांगडा वचून रवीन्द्रबाबांक मेळून येवप म्हूण हांवें थारायलें. त्या दिसांनी रवीन्द्रबाब आयतारच्या सुनापरान्ताक 'स्वान्तः सुखाय' हें सदर बरयताले. तांचे लेख वाचून ते म्हाका खूब लागींचे दिसपाक लागिल्ले. तरणाट्यांक प्रोत्साहन दिवपी लेखूय ह्या सदरांत आसताले.



*देव आमचें मोल आंखतलो*
*तो आमच्यो डिग्र्यो, पदव्यो,*
*हुद्दे पळोवन न्हय.*
*काळजांतले घाय पळोवन.*

दिवाळेची सुटी सोंपून कॉलेज सुरू जाली त्या दिसा सकाळीं साडेधांच्या सुमाराक हांव तांगेर पावलों. भितर सरतनाच आश्रमांत बी आयिल्ल्याचो भास जालो. पयलीं वळख जाली ती गायत्रीचे आईची. हांवूय तिका 'आई'च म्हणटां. आई कडेन उलयता आसतनाच ''कोण आयला?'' असो प्रस्न करीत एक जाणटोच सो आवाज म्हज्या कानार पडलो आनी गायत्रीन म्हजी वळख गोदूबाय कडेन केली. आगळेंच ओडलायणें व्यक्तिमत्व. गोदूबाय कडेन तेन्ना हांवें खूब खबरी केल्ल्यो. तांगेल्या घरांत आशिल्ल्या शेवण्यांच्या पांजऱ्या कडेन उबीं रावून केल्ल्यो त्यो सांवड्डेंच्यो, पिरवळच्यो खबरी आजून लेगीत म्हज्या कानांत घुमतात. कांय खिणां भितर गोदूबाय म्हजे कडेन एके इश्टिणीचें नातें जोडून गेल्ली.

इतल्यान एक चवदा पंदरा वर्सांचो भुरगो म्हजे कडेन येवन उलोवंक लागलो. म्हाका भुरगेपणांतल्यान वळखल्ले सारको, आपलोच मानून. म्हजीं फकाणांय करूंक लागलो. हय...! राजाराम तो. त्या दिसा म्हाका एक नवो इश्ट मेळिल्लो. आनी हांवें ताचे वांगडा खूब वेळ घालयिल्लो. ताच्यो खबरी, ताचीं मस्तेपणां गायत्री कडल्यान म्हज्या कानार पडटालीं. आनी एक दीस तागेल्या दुर्दैवी मरणाची खबरूय कानार आयली. एके नवे इश्टागतीची दोरी थंयच सासणाची तुटली. आमी एकूच खेपे मेळिल्ले. तीच आमची पयली आनी निमाणी भेट.

रवीन्द्रबाबांक मेळपाची उमळशीक वाडतूच आसली. म्हाका तांगेले कुडींत वचपाचें धाडस जालेंना म्हणून हांव भायर चवके वयले कदेलीचेर बसलों. ते म्हाका भितर आपयत घडये म्हणून वाट पळयत रावलों. पूण इतले म्हणसर रवीन्द्रबाब खुद्द म्हजे मुखार येवन बसले. तांच्या अशे तरेच्या येवपानूच हांव भारावन गेलों. सादो भेस. एका हाताक घडयाळ आनी घरांत पसून तें टापटीप रावप म्हाका खूब आवडलें. हांव कितेंय उलोवचे पयलीं तांणी म्हाका म्हजें नांव विचारलें. सवका आवाजान हांवें तांकां म्हजें नांव सांगलें. थोडे भोव प्रस्न मनांत घुंवताले. पूण ते मुखार बसल्यात तें पळोवन ते सगले खंय तरी दडून रावले. तेन्ना म्हजी नदर तांगेर आशिल्ल्या सतीच्या फातराचेर पडली आनी हांवें थंय बोट दाखयत ''हो कसलो फातर?'' म्हणून प्रस्न केलो. तेन्ना सती प्रथा ह्या विशयाचेर तांणी म्हाका खूब मोलादीक म्हायती दिली. ते भेटींतल्यान, त्या दिसाच्या त्या उलोवपांतल्यान रवीन्द्रबाब म्हाका कोंकणी भास शिकपाची, वाचपाची आनी नवें कितें तरी करपाची उमेद दिवन गेले.

रवीन्द्रबाबांगेर परतून वचपाची इत्सा आसलीच. पूण कित्याक खबर ना, म्हजी तांचे कडेन दुसरी भेट सुमार पांच वर्सां उपरांत, म्हणल्यार २००९ वर्सा एका वेगळ्याच कारणाक लागून जाली. दर एका गोंयकाराचें हड्डें अभिमानान फुलोवपी ज्ञानपीठ पुरस्कार रवीन्द्रबाबांक मेळिल्लो. २५ एप्रील २००९ ह्या दिसा रवीन्द्रबाबांचो गोंय विद्यापीठाचे वतीन भोवमान करपाचें कोंकणी विभागान थारायलें. तांची भलायकी लक्षांत घेवन हो भोवमान तांगेल्या घरा वचून करप असो विचार मुखार आयलो. भोवमान करतना तांगेल्याच कांय वेंचीक पुस्तकांचेर पेपर सादर करप अशेंय थारलें. आनी

ती भांगराळी संद म्हज्या वांट्याक आयली.

भारतांतले ज्ञानपीठ पुरस्कार जोडिल्ले हेर साहित्यीक वाचकांक अशे सहज मेळूंक मेळटात काय, म्हाका खबर ना. पूण आमकां मात आमच्या ज्ञानपीठ जैतिवंत लेखकाक मेळपाची संद सहजपणान मेळिल्ली.

म्हजो पेपर *सर्जकाची आंतरकथा* ह्या पुस्तकाचेर आशिल्लो. सुरवातेक खूब भंय दिसलो. विचित्र प्रस्न मनांत येवन गेले. पूण रवीन्द्रबाबांचे कुशीक उबो रावतकच एक वेगळेंच धाडस आंगांत आयलें. तांगेल्या पुस्तकांतलो "हांव रायटर न्हय, हांव फायटर" हो विचार नवें बळ दिवन गेलो. आपल्या साहित्याचो आमचे येदे तरणाटे अभ्यास करतात, पेपर सादर करतात हे गजालीची खोस त्या दिसा तांच्या तोंडार म्हाका दिशिल्ली.

रवीन्द्रबाबां मुखार उबो रावून तांच्या साहित्या वयलो म्हजो पेपर सादर करप हाचे परस व्हडलें सूख कितें आसतलें? ह्या भोवमानाची खोस त्याच दिसा रवीन्द्रबाबानूय आपणाल्या उलोवपांतल्यान उकतायली. पूण म्हाका एक जाणवलें, त्या दिसा तांचे विशीं सगलीं उलयलीं. तांचे कडेन मात कोणूच चड उलयलो ना. मागीर माधवीबायक सांगून आमी रवीन्द्रबाबां कडेन आनीक एक भेट थारायली. हांव आनी म्हजो इश्ट नरेश दोगांयनी तांचे कडेन फकत खबरी करपाक वचपाचें थारायलें.

आतां खबरी करपाक विशय तरी जाय आनी तांची तर साहित्याची आनी वाचनाची जाणीव खूब व्हड. आमी कांय प्रस्न तयार करून घेवन गेल्ले. पूण खबरी करतना आमकां प्रस्न थोडे पडपाक लागले. त्या दिसा रवीन्द्रबाबान आपलो पंचवीस वर्सां पिरायेचेर सुरू जाल्लो कोंकणीच्या अभ्यासाचो वावर ते आयज मेरेनच्या प्रवासाच्या इतिहासीक पर्वाचें दर्शन आमकां घडयलें. तेन्ना तांचे 'down to earth' वृत्तीचें दर्शन आमकां घडलें. उलयतां उलयतां ते एक खंतूय उकतावन गेले. "आयज कोंकणीचे चडशे शिक्षक कोंकणी आपणाक सामकी येता हे भावनेन शिक्षणाच्या मळार वावुरतात. हांव फाटलीं साठ वर्सां जालीं कोंकणींतल्यान बरयतां. म्हाका आजून कोंकणी येना. हांव आजून कोंकणी शिकतां."

तांगेलीं हीं उतरां काळजांत रोमून आसात. केदी अभ्यासू नदर! सॉक्रेटीस म्हणटा, "I know nothing, except the fact of my ignorance." ह्या उतरांचो खरो अर्थ त्या दिसा म्हाका प्रत्यक्ष जाणवलो.

कांय वेळान ते मातशे अस्वस्थ कशे दिसले. आमी चिंतलें, तांकां मातसो विसव दिवचो. इतल्यान तेच म्हणपाक लागले, "म्हजी सिगरेट म्हाका रावता." हें आयकून म्हाका प्रस्न पडलो, हें अशें कितें? "रवीन्द्रबाब, तुमी सिगरेट कित्याक सोडिनात?" म्हजो प्रस्न. ते मातशे हांसले. आनी म्हणपाक लागले, "हांव सोडिना? तीच म्हाका सोडिना!" म्हजे कडेन आनी प्रस्न नासलो. आमी उठले आनी तांचें वाचप घर पळोवपाक लागले.

आपल्या आवडीच्या खंयच्याय मनशाचो सहवास वा सांगात म्हणल्यारूच एक वेगळोच अणभव आसता. मागीर तो कलाकार, खेळगडो वा साहित्यीक आसूं. हेंच त्या दिसा अणभवपाक मेळ्ळें. दनपरां तातो बरोबर जेविल्ल्या जेवणाची रूच आनी याद अजून जिबेर आनी काळजांत आसा.

रवीन्द्रबाबांच्या घरांतलें पुस्तकांचें भांडार खूब व्हड. कितलींशीं पुस्तकां आमी आरमारींतल्यान काडून चाळून पळयलीं. "हीं सुमार कितलीं पुस्तकां आसतलीं?" असो आमी तांकां प्रस्न केलो. तांणी म्हणलें, "आठ-णव हजार आसत."

"तुमी वाचल्यांत सगलीं?"

"चडशीं वाचल्यांत."

आठ-णव हजार पुस्तकांचें निरंतर वाचन जाता, तांचेर चिंतन जाता, सृजनशीलताय आनी जिणेंतलो अणभव हें सगलें एकठांय येता तेन्नाच खंय तरी रवीन्द्रबाब निर्माण जाता म्हणपाचो विचार तेन्ना मनांत येवन गेलो. आनी ताचो प्रत्यक्ष दिश्टावो घडलो.

फाटल्या २००९ वर्सा दिवाळे दिसा म्हाका परत एक फावट तांकां मेळपाची संद मेळ्ळी.

सत्य उलोवप सोंपें.
आयकप कितलें कठीण!
न्हीद खळयता.



रवीन्द्रबाबां सरीं वचपी मनीस सदांच कितें तरी नवें शिकून आयला. हे भेटेंत हांवूय असोच कितें तरी घेवन आयलों.

त्या दिसा दनपारां हांव एकलोच गेल्लों. सगळ्यांत पयलीं तांकां दिवाळेचीं परबीं दिलीं. तांचे कडेन उलयतना कोंकणी चळवळीचो आनी साहित्याचो विशय येवप हें सबाविकूच. हांवें वाचिल्ल्या कांय मराठी साहित्यिकांचो आनी मराठीवाद्यांचो उल्लेख तांचे कडेन केलो. तेन्ना ते म्हणपाक लागले, "म्हाका बरोवपाची स्फूर्त ह्याच लोकांनी दिली. हांव तसो व्हडलो फामाद मनीस न्हय. पूण मराठीवाद्यांनी म्हाका वेगवेगळीं नांवां दवरून चड फामाद केलो." आनी इतलें सांगून ते सुंदर हांसले. आमचे कोंकणींत आयज कसलें साहित्य ना, वा कसलें साहित्य येवपाक जाय हें सांगतना ते म्हणपाक लागलें, "ना ना म्हणत बसूंक फावना. तुमी तरणाट्यांनीच तें कोंकणीक दिवंक जाय. कितें ना तें सोदून काडात, तांतलें कितें तरी एक वेंचून काडात आनी बरयात. मागीर कोंकणींत सगलें येतलें." खूब आत्मविश्वासान तांणी हें म्हाका सांगिल्लें आनी समेस्त कोंकणी तरणाट्यांचेर विश्वास उकतायल्लो.

खरेंच! ती तांचे वांगडची निमणी भेट याद जाता तेन्ना मन आनी काळीज तांचे यादीन भरून येता.

म्हज्या जल्मांत हांव रवीन्द्रबाबांक मेळिल्लों, तांचे कडेन हांव उलयिल्लों, तांचो थोडोसो सहवास म्हाका मेळिल्लो म्हणपाचें पुराय संवसाराक हांव मोठेपणान आनी अभिमानान सांगपाक शकतां.



# तातो... तुमक
# सांगपाचें उरलें

उन्नती मांद्रेकार

**प**यलेच खेपे 'तातो' हें नांव हांवें एम्.ए. करतना माधवीबाय सरदेसायांच्या तोंडांतल्या आयकलें. 'कोण काय हे?' मनांत प्रस्न उबो जालो. दुसरे खेपे हांवें 'तातो' हें उतर पळयलें माधवीबायच्या *भासाभास* पुस्तकांत. तिणें हें पुस्तक 'तातोक' ओंपलां. वर्गांत सगळ एकामेकांक नवीं आशिल्ल्यान कोणाक 'तातो' विशीं विचारचें तें कळना जालें. हाका आनीक एक कारण आसलें. म्हजें वाचन साप्प उणें. नाच म्हळ्यार लेगीत आतिताय जावची ना. 'तातो' शब गोंयबाबां वरी कोण तरी म्हान मनीस आसलो आनी म्हाका तें खबर नासलें, तें लेगीत एम्.ए करतना, जाल्यार लजूच जावपाची. अशें जावचे परस तोंड बंद करून रावल्यार कितें वायट! त मनांत एक अदमास बांदलो, तातो माधवीबायचे कोण तरी लागींचे आसूंक जाय. पुस्तक तांक ओंपलां म्हणटकीर.

म्हज्या मनांत तातो घोळटाले तेन्नाच एक दीस माधवीबाय कडल्यानूच तातो म्हळ्यार भौ रवीन्द्र केळेकार म्हूण कळ्ळें. माधवीबाय तातोची भाची हेंय कळपाक कळाव लागलो ना. रवीन्द्रबाब केळेकार म्हजे पासत नवे नासले. तांचें साहित्य हांवें चड वाचूंक नासलें. तरी तांचें नांव हांव कोंकणी भाशेच्या संवसारांत घोळूंक लागत सावन कानार पडत आयिल्लें.

त्या दिसा सावन तातो कडेन वळख करपाची, तांचे कडेन उलोवपाची म्हाका उमळशीक लागली. म्हाका तांकां मेळन दिसतालें. हाचे पयलीं कोंकणीच्या मळा वयल्या कोणाच विशीं अशें भावना निर्माण जावंक नाशिल्ली. माधवीबाय आमकां सामकी लागींची जाल्लो. आपूण शिकोवपी तें लेगीत एम्.ए.च्या पांवड्यार, विद्यापिठांत, अशें तिका मातूय मोटेपण नासलें. खूब आपलेपणान आनी मायेन ती आमकां वागयताली. तिच्या मायेस्त सभावा खातीर घडये जावं येता, तातोक मेळपाची म्हाका सामकीच ओड लागिल्ली. भाची अशी जाल्यार मामाय बरो आसतलोच हो म्हजो तर्क! म्हजी इत्सा हांवें एक दीस माधवीबायक कळयली. तिणें म्हाका म्हळें, मेळन दिसता जाल्यार वचून मेळूच. आनी हें लेगीत सांगलें, ''तातोक कोणूय मेळपाक आयल्यार बरेंऽ दिसता. वचूच तूं.'' तातो गोंयचे आनी कोंकणीचे नीज पूत. कोंकणीक आपले आवय वरीच मोग आनी मान दिवपी, आपली जीण कोंकणी आनी गोंया पासत अर्पण केल्ली ही म्हान व्यक्ती. 'हांवें कांयच केलें ना म्हज्या हातांतल्यान तें घडत गेलें' अशें मानून आपली वाट चलत रावपी, निस्वार्थी मनीस.

तांकां मेळपाक वच्चे पयलीं मनांत साबार प्रस्नांनी शबै घाली. रवीन्द्रबाब कशे आसतले? तांच्यो साहित्यकृती ना म्हणलें तरी कांय प्रमाणांत वाचिल्ल्यो. तांचे विचार पारखिल्ले. साहित्यांतल्यान इतले म्हान विचार उकतावपी, आपले जिणेंत, चलणुकेंत तांकां खंय दवरतात काय? काय, कांय बरोवप्यां वरी, फकत बरोवपांतूच तांचे विचार आसात? हांवें तांकां पाचारल्यार, म्हाका ते बंद ओठांचो तरी एक हांसो दीत काय? तांच्या पांयांक म्हालगडे, जाणकार म्हूण मानान हात लायल्यार 'बरें... बरें' अशें उखलापें उतर तरी म्हज्या पदरांत पडत काय? असल्या प्रस्नांक काळजाच्या एक कोनशाक मारून हांवें तातोक मेळपाचो म्हजो हावेस पक्को केलो. पूण भंय सावळे वरी आयल्या पयल्यान आपली तकली वयर काडटालोच.

मात, तातोक मेळ्ळें तेन्ना... बोमाड्यांतलो वारो वतकीर बोमाड्याची जी गत जाता, तीच म्हजी जाली.

तातोक हांव पयलेच खेपे मेळ्ळें तें तांकां ज्ञानपीठ पुरस्कार जाहीर जाले उपरांत. कोंकणी



*मोग येता*
*लिपचोरयांनी.*
*वता तेन्ना*
*धोल ताशे बडयत*
*वता.*

विभागाचे विद्यार्थी म्हूण आमी तांकां परबीं भेटोवपाक गेल्लीं.

पिरवळा पावतकीर तातोचें तें घर पळोवन हांव कांयशें धादोशी जाल्लें. तातोच्या घरांत सगळ्यांक येवकार आसता, हें आयकून जाणां आसलें. तें घर हांव प्रत्यक्षांत पळयतालें. अशें म्हणटात, घरांत जागो ना जाल्यार कितें जालें, काळजांत आसल्यार पुरो!' मात, तातोच्या काळजा वांगडा घरांतूय सगळ्यांक जागो आसलो हाची गवाय तातोचें घर दितालें. हुमरो हुपले उपरांत घरांतल्या मनशां वांगडा तातूंतल्यो वस्तूय आमकां येवकार दितात असो पिसो भास म्हाका जालो. म्हजी मां म्हणटा, "चार वणटी उब्यो रावल्यार घर जाता. मात, ताका घरपण तातूंत रावपी मनशां दितात." तातोच्या घराक खरें घरपण आसा हाची जाणीव म्हाका त्या खिणाक जाली.

तातोक प्रत्यक्षांत पळोवपाचें आनी तांचे कडेन उलोवपाचें म्हजें सपन साकार जावपाक लागिल्लें. म्हाका ते संदीचें भांगर करपाचें आशिल्लें. 'देवा, म्हज्यो अपेक्षा भंग जावपाक दिवंनाका.' मनांतल्या मनांत हांवें देवाक विनयिल्लें. कारण, हांवें नकळटां तातो विशीं खूब मोटो अपेक्षेचो म्हाल बांदिल्लो. तातोक मेळटकीर मात, तांणीच परकेपण, भंय हांकां म्हज्या मनांतल्यान काडून उडयिल्लीं.

आमी तातोच्या घरांत पावल दवरिल्लें तेन्ना खासा तेच आमकां येवकार दिवपाक दारा म्हऱ्यांत उबे आशिल्ले. आंगार धवो कुर्तो आनी लेंगो, आनी तोंडार आपुलकेचो हांसो! हांवें म्हज्या दोनूय आज्यांक पळोवंक नात. आजे अशे आसतात काय? तातोक पळोवन सहज हो विचार म्हज्या मनांत उदेल्लो. तातो कडेन उलोवचे परस तांकां पळोवन जी तृप्त जावपाची भावना म्हाका मेळ्ळी तिचें वर्णन हांव केन्नाच करपाक पावचें ना. तातोचें तें पयलेच खेपे नियाळिल्लें रूप अजून म्हजे मतींत ताजें आसा.

उतार पिराय आनी तातूंत सिगरेटीचो सांगात हांणी तातोक बरोच दुबळो केला अशें दिसलें. ते स्थितींत, "सगळीं बसलीं? सुवात पावली सगळ्यांक? कदेलां कमी जालीं नात मुगो?" अशें माधवीबायक विचारीत तातो मदीं मदीं खांकताले. तेन्ना माधवीबाय म्हणलें, "हय तातो, सगळ्यांची वेवस्था सारकी जाल्या. पावतली सुवात. तूं मातसो सुशेग घे." तरी लेगीत तातो, "हो तो पळय उबो आसा, ताका बसपाक मेळूंक ना," अशें सगळ्यांचेर नदर भोंवडायत माधवीबायक सांगताले. तातोच्या मनांतली परक्या मनशां खातीरची आपुलकी, काळजी हांवें माधवीबायचे कुशीक रावन अणभविल्ली. त्या वेळार, इतली बारीकसाण, ती लेगीत असले गचमुड्डेंत, म्हाका आसत काय असो प्रस्न पडिल्लो. आनी, माधवीबाय खूब lucky, तातो सारको तिका मामा मेळ्ळो, कितलें शिकपाक मेळटा तांचे कडेन, दर एका वाक्यांत एक शिकवण आसा, अशेंय दिशिल्लें.

त्या दिसा, ते गर्देंत म्हाका तातो कडेन आनीक उलोवपाक संद ना, हें हांवें म्हजे म्हाकाच पटयिल्लें. कारण, आमचे वांगडा थंय पुंडलीकबाब, जयंतीबाय, राजयबाब आनी हेरांनीय हाजेरी लायिल्ली. ल्हवू ल्हवू करून सगळीं वचपाक लागतकीर माधवीबायन म्हाका विचारलें, "मेळ्ळें तातोक?" हांवें न्हयकारी मान हालयली आनी "परत आनी केन्नाय" म्हणलें. "राव, आतांच मेळ" अशें म्हणीत ती म्हाका घेवन तातो म्हऱ्यांत पावली. "तातो हें तुका मेळपाक सोदता..." अशें सांगत म्हजी वळख करून दिली. हांगा मेरेन तातो म्हजे पासत रवीन्द्रबाब केळेकारूच आशिल्ले! मात, "बरें मुगो? कशें आसा? बस." इतल्याच उतरांनी ते म्हजे पासतूय हेरां वरीच 'तातो' जाले.

गर्दी कमी जाताली तशी, तातो आनी म्हज्या उलोवपाक नेट येत गेल्लो. मात, एकूच प्रस्नाचो म्हाका मातसो भंय दिसतालो. तो प्रस्न तातोन म्हाका केलो जाल्यार म्हजी जाप कितें आसतली, हे येवजणेन केन्नाच कोणाचो भंय दिसूंक ना तो त्या वेळार दिशिल्लो. तरी तातोन तो प्रस्न विचारलोच. "कोंकणीचीं कितलीं पुस्तकां वाचल्यांत?" म्हज्यान सहज फट मारूं येताली. उतरांनी आनी मनानूय साथ दिली ना. सरळ सांगलें, "तातो, खूब कमी वाचल्यांत. आंकडो सांगपा

*खरें उलोवपाचो एक मोट्टो लाव –*
*कितें उलयल्लों ताची याद दवरची पडना.*



सारको लेगीत ना. कांयच न्हय म्हणल्यारूय उपकारता." "कांय नजो, वाचपाक लागलां मुगो? वाचत राव आनी जाता जाल्यार कितेंय बरयत राव. मनीस वाचता तितलो हुशार जाता. आमीच आमचे आवयभाशेक मुखार व्हरपाक जाय. तिची उदरगत जातली तेन्नाच आमची जातली. म्हजे सारक्याच्यान आतां तितलेंशें जायना. तुमी तरनाट्यांनीच तिका मुखार व्हरपाक जाय." तातोन म्हाका साद्या सोंप्या उतरांनी दिल्लो हो उपदेश हांवें काळजाच्या पानार बरोवन दवरला.

त्या दिसा सांजे पिरवळच्यान त्या म्हान मनशाच्या पांयांक हात लावन हांव उमेदीन आनी नव्या धोरणान घरा येवपाक भायर सरिल्लें. तातोच्या घराचो हुमरो हुपतना, घरा आनीक वच्चें न्हय, हांगाच रावचें तातो म्हऱ्यांत, तांचे विचार आयकत बसचें आनी म्हज्या रित्या बुडकुल्यांत तांणी दिल्लें गिन्यान भरत रावचें, अशें दिशिल्लें. तसो तातोनूय राव म्हूण आग्रो केल्लोच आनी "रावल्यार घरचीं उलयतलीं?" अशेंय कांयश्या हुस्क्यान आनी भोवच मायेन म्हाका विचारिल्लें. पयलेच खेपेंत तांणी जी आपुलकी दाखयिल्ली तीच म्हजे पासत खूब आसली. "परत येतां तातो, तुमचे कडेन खूब उलोवपाचें आसा." "बरें, येत राव! रावपाक आयल्यार बरें दिसतलें..." तातोन त्या वेळार दिल्लें म्हाका आपोवणें.

तातोक दुसरे खेपे मेळूंक वतना, कित्याक खबर ना, हांवें म्हजो यादींचो कादेर्न व्हेल्लो. तातूंत हांवें म्हज्या शिक्षोवप्यांचे म्हजे पासत दिल्ले संदेश नमूद केल्ले आसात. याद येतकीर म्हज्या शिकोवप्यांचीं

उतरां हांव वाचत बसतां. हांवें तो तातो मुखार करून तातूंत किर्ते तरी बरोवपाची विनंती केल्ली. ''हांव आनीक किर्ते बरोवं, हांव तसो कोण व्हड न्हय गो.'' तातोच्या ह्या ल्हानपणान हांव भारावन गेल्लें. कोंकणी पासत झुजपी आनी तिका 'ज्ञानपीठा'च्या पांवड्यार पावोवपी हे व्यक्तीच्या सादेपणाक हांव किर्ते म्हणटलें! काळजांत तांकां फकत नमन केल्लें. म्हान मनीस आपणाक केन्नाच म्हान मानिना हाचो दिश्टावो तातोन म्हाका घडयिल्लो. ''तुमचें नांवूच बरयात. तितलेंच पुरो.'' हांवें अशें म्हणटकीर तातोन म्हाका कांय सेकंद पळयिल्लें आनी किर्ते तरी कादेर्नार बरयिल्लें आनी हांसत म्हज्या हातांत तो परते दिल्लो. वाचून म्हाकाय हासूंक आयिल्लें. ''खूब वाच आनी सदां हांसत राव... - रवीन्द्र केळेकार.''

तातो कडेन सांगपा सारकें, उपदेश करपा सारकें खूब आशिल्लें. फकत ते किर्ते सांगतात तें आयकत रावल्यार गिन्यानांत जी भर पडटाली तिची तुळा करूं नजऽ. कारण गोंय आनी कोंकणी हांचे खातीर आपणाक समर्पीत केल्ले ते एक खरे तपस्वी आशिल्ले. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार, तांची चलणूक, तांचें चारित्र्य इतलें नितळ आनी निवळ, सामकें देख दिणें.

आयज हांव केन्द्रीय भाशा संस्थानांत कोंकणीचें Resource Person म्हूण काम पळयतां. नव्यानूच हांगा कामाक लागिल्लें तेन्ना तातोची याद जाल्ली. अजुनूय मदीं मदीं येता. येवचे पयलीं तातोक मेळप म्हाका शक्य जालें ना. म्हाका तांकां सांगचें आसलें, 'तातो, हांव कोंकणी पासत काम करतां.' पूण, हांवें तांकां मेळूंक, तांकां कळोवंक कळाव केलो, हाची खंत म्हाका सदांच उरतली.

तातो बरे नात म्हूण हांवें सुनापरान्ताचेर वाचलें. असल्या साथ दिवपाच्या वेळार माधवीबायक हांवें फोन लेगीत केलो ना. किर्ते उलयतलें, किर्ते सांगतलें? म्हाका कळनासलें. मात, सकाळीं आनी सांजेवेळार देवाक वात दाखयतना काळजांतल्यान मागतालें, 'देवा, तातोक बरो कर.' तातो आमकां सोडून गेले ताचे आदले रातीं तांची भलायकी सामकी हुस्को करपा सारकी आसा, बरे जातले म्हूण सांगूं नजऽ अशें म्हाका म्हज्या एका इश्टान कळयिल्लें. हांवें म्हज्या जाता तितल्या इश्टांक मोबायला वयल्यान संदेश धाडिल्लो, "Ravindra Kelekar is hospitalized, let's pray for him." देवाकूच ते जाय जाल्यार आमी मनशां कशीं झूज दिवपाक शकतात? पूण, तांकां व्हरताच जाल्यार, त्या वेळार तांकां चड त्रास तरी जावचो न्हय इतलेंच म्हजें देवा कडेन मागणें आसलें.

अशें म्हणटात, चमत्कार एकदांच घडटा. तातो कोंकणींत उदेल्ले हो एक चमत्कार, अशें म्हाका तरी दिसता. तांचे इतलो dedicated मनीस हांवें तरी पळोवंक ना. एक vision घेवन ताकाच mission मानून चलपी मनीस, तातो. तांकां हांवें प्रत्यक्षांत पळेल्यात, तेय बी आमच्या गोंयांत हाचो म्हाका अभिमान आसा.

तातो, तुमकां म्हजीं आर्गां! आमकां कोंकणीची सेवा करपाक सामर्थ्य दिवचें.

''वाचत राव आनी हांसत राव'', तुमीच म्हाका सांगिल्लें आनी तेंच हांव करतां.

जय रवीन्द्रबाब! जय कोंकणी! जय गोंय!

# गांधींच्या ऑर्गेनिक विचारांतले रवीन्द्रबाब

युगांक नायक

पांचवेचार दोंगुल्लेंतल्यान वाट काडीत रवीन्द्रबाबांल्या घराची चडटी लागता. चडटी काडून वयर पावता म्हणसर लागता येवकाराक सज्ज आशिल्लो दरवटो, घराच्या दारांतूच आशिल्लें पेरीचें झाड! दीसभरयांत खंयच्याय वेळार रवीन्द्रबाबांगेर गेल्यार तांच्या घराचें दार केन्नाच खिळी घाल्लें आसनाशिल्लें. तेच वरी, केन्ना दारार मारचेंय पडूंक नाशिल्लें. सरळ घरांत गेल्यार उजवे वटेनचें दुसरें दार, थंयच्यान भितर सरल्यार तरातरांच्या ग्रंथांनी आनी पुस्तकांनी भरिल्ल्यो आरमारी. खंयचें पुस्तक पळोवं आनी खंयचें नाका, कांयच कळना . चारूय वटांनी दोळे घुंवतात आनी इतल्यान इझी चेअराचेर बशिल्लो जिवंत ग्रंथ नदरेक पडटा. हें सगळें येवजिल्यार रवीन्द्रबाब आमचे मदीं आशिल्ल्याचो भास जाता.



*धर्मा खातीर मरपी जायते मेळटले. धर्माक धरून जियेवपी कितले मेळटले?*

हे गजालीचो पयलो साक्षात्कार म्हाका घडलो तो पुण्याक आसतना राज्यशास्त्राच्या पयल्या वर्साच्या अभ्यासक्रमा वेळार. एस्.पी. कॉलेज, पुणें हांगासर दक्षीण भारतांतल्यान आयिल्ले राज्यशास्त्राचे बऱ्यांतले बरे विद्यार्थी वर्गांत जमले. एकामेकांत भरसले, वळख जाली. हांव अखिलेश देशपांडे ह्या विद्यार्थ्या कडेन उलयतालों. म्हज्या प्राध्यापकान म्हाका थोमणो मारलो, ''गोंय ही एक राजकी प्रयोगशाळा. तूं राज्यशास्त्र शिकपाक पुण्याक कित्याक आयला?'' म्हाका खूब लज जाली. परकी शार, परकी कॉलेज, परकी लोक. कोणें तरी म्हाका जेवणाक आपयला आनी तोच म्हाका शाणेपणां सांगता अशें कितेंशें म्हाका दिसलें. पूण अखिलेश मोटे उमेदीन म्हजे कडेन उलोवपाक लागलो आनी गोंयचे विशीं चडांत चड जाणून घेवपाक लागलो. हांवें ताका गोंय, राजकारण आनी कोंकणी चळवळी विशीं थोडे भोव सांगलें. इतल्यान तो विचारपाक लागलो, ''तूं रवीन्द्र केळेकारांक वळखता?'' म्हाका धस्स जालें. राज्यशास्त्राच्या वर्गांत बदनाम आशिल्ले गोंयचे राजकी परिस्थितींत हो रवीन्द्रबाबांक कसो वळखता काय? मागीर ताणें सांगलें, रवीन्द्रबाब हे काकासाहेब कालेलकरांचे शिश्य आनी आपणें तांचे खूब लेख वाचल्यात. कोंकणी भाशे खातीर तांणी दिल्ल्या योगदानाचीय म्हायती ताका आशिल्ली. हांव बरोच अजापलों. विदर्भा सारकेल्या गांवगिऱ्या आनी साद्याशा जिल्ल्यांतलो भुरगो रवीन्द्रबाबांक तांच्या कार्याच्या योगदाना खातीर वळखता जाल्यार रवीन्द्रबाबांचें काम खऱ्यांनीच ग्रासरूट पावंड्या कडेन संबंदीत आशिल्लें हातूंत दुबाव ना. म्हजें हड्डें अभिमानान फुलून आयलें. म्हाका आजुनूय घट्ट याद आसा. पुण्यांत हांव औंधाक सांजवेळा पासयेक गेल्ले कडेन अचकीत म्हाका अखिलेशाचो एसएमएस – Our Ravindrabab gets Padmabhushan, Congrats! हरशीं सदांच असल्यो खबरी सगळ्यांत पयलीं मुकेशकाकाच्या (मुकेश थळी) फोना वयल्यान कळटात. पूण त्या दिसा म्हजे खातीर अखिलेश पयलो आशिल्लो. हांव सुमारा भायर भुल्लुसलों.

३० जुलय २०१०. गोंयच्या इतिहासांत भांगरान कोंरातून दवरपाचो हो दीस, ज्या दिसा रवीन्द्रबाबांच्या रुपान कोंकणी समाजाक, कोंकणी साहित्याक, कोंकणी विचाराक ज्ञानपीठ भेटयलो. व्हडल्या आंवाठाचो विस्तारीत असो हो भारत देश. विवीध भासो, अब्जांनी लोकसंख्या, हजारांनी जाती, वेगवेगळ्यो काती, सगळ्यांनी भरसून गेल्लें हें राष्ट्र. आनी तातूंत कोंकणी भाशेची स्थापना करपी रवीन्द्रबाब. आपली भास कितली व्हड, कितली बरी हें प्रस्थापीत जाल्ले भाशे संबंदान सांगप सोंपें, पूण खंयचेय भाशेक शुन्यांतल्यान वयर काडून स्थापीत करप हें बरेंच कठीण काम. अस्वस्थकाय, संघर्श, त्याग तशेंच आपलें पुराय जिवीत ओंपले उपरांतूच सशक्त चळवळ तयार जाता. खादी वापरून, वालो न्हेसून ज्या महात्म्यान देश घडयलो ताचेच कडल्यान रवीन्द्रबाबांक ही जिद्द

मेळ्ळ्या आसुये.

तो दीस यादस्तेंत उरऽ सारको. खूब कितें त्या दिसा करीन दिसतालें, भितल्ल्यान कातकुतल्यो जातात्यो. जे कोण कोंकणीक भासूच मानपाक तयार नासले, कांय जाण आनीक कितें कितें उलयताले – "ज्ञानपीठ कशासाठी? भाषेवर प्रेम करण्यासाठी, की द्‌वेष करण्यासाठी?... कोंकणी हा कल्पनाविलास..." अशेंच खूबशें. अशें दिसतालें, ह्या लोकां म्हऱ्यांत वच्चें, तांच्या दोळ्यांक दोळो लावन पळोवचें आनी बोमलेच्या देंटांतल्यान कूऽऽय करून धांवत सुटचें. पूण ते दीस सामके चिंतेंत गेले. रवीन्द्रबाब तेन्ना एक फायटर जावन मरणा कडेन झुजताले. तांचे भलायकेच्या हुस्क्याची खबर कानार पडनाफुडें तेच राती हांवें, मम्मान आनी पप्पान पिरवळा तांच्या घरा कडेन धांव घेतली. मम्माक पळयना फुडें रवीन्द्रबाबान विचारलें, "हांव बरो ना म्हूण खबरेक आयलां?" आपूण मरणा कडेन झूज दितां हें तांकांय खबर आसलें. पूण आपणाक कांयच जायना अशें ते दाखोवपाक सोदताले. ज्ञानपीठ मेळिल्ल्यान आपले परसय चड खोस समस्त कोंकणी चळवळीक जाल्या हें ते जाणा आशिल्ले. इतले गडबडींत "कूऽऽय" म्हणून फेसबुक स्टेटस अपडेट करपाचोच उरलो. पूण ज्या दिसा रवीन्द्रबाबांक ज्ञानपीठ पुरस्कार भेटयलो त्या दिसा कला अकादमीच्या गच्च भरिल्ल्या दिनानाथ सभाघरांत हाजीर आशिल्ले कोंकणी चळवळींतले म्हालगडे, जाणटे, तरणाटे, भुरगे लेगीत ताळयांच्या कडकडाटांत उबे रावले. सगळ्यांचे दोळे दुकांनी भरून आयिल्ले. कोंकणी खातीर सोंशिल्ले त्रास, केल्लो त्याग आनी संघर्शाच्या यादींचीं तीं दुकां आशिल्लीं.

रवीन्द्रबाब ह्या संवसाराक अंतरले तेन्ना गोंय विधानसभेंतले विरोधी पक्ष फुडारी मनोहर पर्रीकार हांणी आपणाले प्रतिक्रियेंत म्हणलें, रवीन्द्रबाबांच्या लेखनाचो आपले जिणेचेर बरोच परिणाम जालो. म्हाका अजाप दिसलें, एका आयआयटी इंजिनियराक रवीन्द्रबाब इतलो लागीं कसो दिसता आसुये? पूण तांणी हेंवूय सांगलें, तांच्या लेखनांतल्यान लॉजिकली कशें चिंतप हें आपूण शिकलों.

ह्याच संदर्भांत म्हज्या भुरगेपणांतली एक याद म्हाका जाता. केन्नाचो काळ तो सारकी याद ना, पूण बालवाडींत आसतलों तेन्ना हांव. मम्मा वांगडा रवीन्द्रबाबांगेर गेल्लों. गोदूबायन जेवणाच्या मेजार च्या आनी बशयेंत बर्फी हाडून दवरली. ती बर्फी बॅटरी कशी दिसताली. रवीन्द्रबाबान म्हाका विचारलें, "तें कितें?" हांवें मम्मा कडेन पळयलें आनी म्हणलें, "बर्फी". रवीन्द्रबाबान म्हणलें, "आरे, ती तुका बॅटरी कशी दिसना? तुवें खावन पळयल्या ती?" हांव ओगी रावलों. म्हाका म्हजेंच चुकलें कशें दिसलें. इतल्यान रवीन्द्रबाबान म्हणलें, "आरे, तूं चुकूंक ना. हें मेज जेवणाचें, वेळ च्याचो आनी त्यो बशयेंत आसात म्हणटकच बर्फीच जाल्यो नात?" तांणी ही गजाल सोंपेपणान विसकटावन सांगली. पूण एक तत्व पटलें तें म्हणल्यार, दरेके गजाली फाटल्यान कारण आसता आनी तें कारण सदांच सोदपाक जाय. पर्रीकारबाबांक जें लॉजिक रवीन्द्रबाबांच्या लेखनांतल्यान कळ्ळें तेंच म्हाका तांगेल्या साद्या साद्या गजालींतल्यान होलमलें.

हांव गांधी वाचतां तेन्ना तो म्हजो इश्ट जाता. गांधी म्हगेलो सगळ्यांत आवडटो विचारवंत. एकेच गजालीक लागून गांधी म्हाका अजरंवर दिसता आनी ताकाच लागून तो म्हजो इश्ट जाता. गांधींचे विचारसरणी शंबर टक्के ऑर्गेनिक आशिल्ली. तातूंत देशाचें राजकारण समाजकारण, अर्थकारण, मानवशास्त्र, वनस्पतीशास्त्र गुंथिल्लें आशिल्लें. खादी, शेती, ग्रामराज्यां हातूंत ह्या सगळ्या गजालींचें आसपाव जाता. गांधींची देवा विशींची कल्पना लेगीत ऑर्गेनिक आशिल्ली. रवीन्द्रबाब लेगीत गांधींच्या ऑर्गेनिक विचारसरणींतल्यान घडिल्ले. देखून रवीन्द्रबाबान कोंकणीची कल्पना ऑर्गेनिक केल्ली चळवळ, शिक्षण अश्या सगळ्या थरांचेर कोंकणी पावची म्हण कार्यावळ रचिल्ली.

रवीन्द्रबाबान म्हाका कांय गजाली सांगिल्ल्याच्यो यादी जातात मॅकिवली आनी ताचो 'प्रिन्स' म्हाका खूब आवडटालो. रवीन्द्रबाबांचें ग्रंथालय चाळटना म्हजी नदर Atheist Society च्या The Atheist मासिकाचेर गेली. हांवें तें हातांत घेवन चाळ्ळें आनी रवीन्द्रबाबान हांसून म्हाका विचारलें, "तूं atheist?" मम्मान हांसून म्हणलें, "हय, शंबर टक्के." दुसऱ्या दिसा रवीन्द्रबाबान म्हजे खातीर धा अंक वेंचून काडून दवरिल्ले ते दिले आनी अरुंधती रॉयची 'Azadi for Kashmir' ही स्टोरी आयिल्ली तो 'आवटलुक' चो अंक दिलो. हांवें म्हणलें, "रवीन्द्रबाब, अरुंधती रॉय म्हाका कांयच समजना. ती काश्मीर दिवया म्हणटा, माओवाद्यांक वेगळें राज्य दिवया म्हणटा." तेन्ना रवीन्द्रबाबान म्हाका समजावन सांगलें, "सगळे विचार पटपाकूच जाय अशें ना. पूण तिचे कडेन मुद्‌दो आसा, विचार तसो म्हाकाय पटना पूण मुद्‌दो आसा हो fact." आनी मागीर तांणी गांधी आनी गोराचें उदाहरण दिवन सांगलें, "गोरा हे नास्तीक आशिल्ले पूण गांधीन तांचे कडेन दीसभर वाद घालो. प्रस्नांच्यो जापो दिल्यो. खूब बरी चर्चा जाली." रवीन्द्रबाबान फुडें म्हणलें, तुजो आवडटो विचारवंत मॅकिवली स्वातंत्र्या खातीर हिंसेचें समर्थन करतालो पूण गांधीन ताचें राज्य, राज्याचो अभिमान, राज्याची वेवस्था ह्या विशयांची तोखणाय केल्ली. म्हाका मुद्‌दो पटलो. विचार पटप वा ना पटप ही एक वेगळी गजाल, पूण मुद्‌दो आसप, मत आसप हो fact.

अशेच एक दीस आमी २६/११ च्या मुंबय हल्ल्याचे फाटभुंयेर उलयताले. तांणी एक मुद्‌दो मांडलो, तो म्हणल्यार – "हें आतंकाचें चक्र बंद करपाक आता एकूच उपाय आसा, पाकिस्तानाचेर हल्लो... पाक व्याप्त काश्मीर काबार करप." रवीन्द्रबाबांचें हें विधान आयकून मनांत एकदम खप्प जालें. ज्या मनशान आयुश्यभर गांधीजींचीं तत्वां पाळ्ळीं, गांधीक आपले जिणेचो केंद्रबिंदू मानलो, तो हें विधान कसो करपाक शकता? खिणभर विश्वासूच बसना जालो. रवीन्द्रबाबांचें आनी म्हजें मॅकिवली विशीं खूब उलोवप जालें. मॅकिवलीन सदांच म्हणिल्लें, युद्‌ध म्हणटात ती गजाल सामकी वायट. पूण राज्याचे अर्थवेवस्थेचेर जेन्ना विदेशी शक्ती कडल्यान हावळ येता तेन्ना युद्‌ध ही खंयचेय राज्यवेवस्थेची गरज जावन पडटा. मॅकिवलीचो प्रिन्सय हेच विचारसरणेंतल्यान घडिल्लो. रवीन्द्रबाबांच्या त्या विधानांत मॅकिवलीच्या राज्यशास्त्राचे पडसाद जाणवताले आनी केन्ना केन्ना तातूंतलो प्रिन्सूय स्पश्टपणान दिसून येतालो.

# खऱ्यांनीच, खूब भाग्यवान आमी!

अन्वेषा सिंगबाळ

सा तो बरो नाशिल्लो तेन्ना ताका मेळपाक सावयकार हॉस्पिटलांत गेल्लें. तातो म्हऱ्यांत वचप म्हणल्यार सदांच खोशयेची गजाल. कितें तरी नवें मेळटलें हाची पुराय खात्री. त्या दिसा हॉस्पिटलाचे कुडींत भितर सरलें, आनी तातोक पळोवन मन सुन्न जालें. म्हाका पळोवन तातो हांसलो आनी म्हणपाक लागलो, ''जालें गो आतां. निमाणे दीस म्हजे.'' कच्च जालें. सोमतींच दोळ्यांत दुकां दाटलीं. पूण हांवें म्हजे म्हाका सांवरचे पयलींच तातोन आपणाक सांवरून हांसत म्हणलें, ''म्हणटकच फाल्यां 'सुनापरान्ता'चेर बातमी येता तर, हांव बरो ना म्हणून!'' पयलींच्यान तातोचो असोच मिश्कील सभाव. आनी म्हणुनच घडये 'रवीन्द्रबाब' म्हणून तांचे कडेन वचपी दर एकटो, परत येतना 'तातो'क आपल्या काळजांत गच्च भरून परततालो.

तातो कडेन म्हजी वळख जाली ती म्हज्या बाबा तर्फे. बाबा कोंकणीचो एक सेवक. तातोक तो खूब मानतालो. आईन ताका खूब फावट म्हणचें, ''आमी रवीन्द्रबाबांगेर वचून येवया'' म्हणून. पूण बाबा अनमनतालो. ''भितर सरना फुडें तातोलो पयलो प्रस्न आसतलो, हालीं कितें बरयता? आनी म्हजे कडेन ताची जाप आसची ना'' अशें म्हणून बाबान फाटीं सरप. आपल्या वकिलीच्या वेवसायाक लागून बाबान बरोवप सामकेंच सोडून दिल्लें. पूण कोंकणीक न्हय. तातोक तर अजिबात न्हय. तातोच्या असंख्य पुस्तकांच्या रुपान आमगेर ताचें वास्तव्यूच आसा असो भास जातालो. ल्हान आसतनाच्यान ताचीं पुस्तकां हांवें वाचलीं. *वेळेवयल्यो घुलो* तर एके रातयान वाचून काडलें. पूण इतलेंय करून तातोक मेळपाचो योग येनासलो. तोय योग तातोनूच जुळोवन हाडलो. म्हाका आपलें *सर्जकाची आंतरकथा* पुस्तक धाडून दिलें, 'वाच, मागीर उलोवया' ह्या संदेशा सयत. पुस्तक हातांत पडना फुडें दिसलें, आत्तां वच्चें ताचे म्हऱ्यांत. पूण ताणें ओर्दूच सोडिल्ली म्हणटकर पुस्तक वाच्चे पयलीं कशें मेळटलें? बेगिनांत बेगीन वाचून काडलें आनी ताचे म्हऱ्यांत धांव मारली. दारांत भितर सरतनाच पयलो प्रस्न– ''पुस्तक वाचलें?'' ''कितें आवडलें?'' ''हालीं आनीक कितें वाचता?'' ''कितें बरयता?''



*पै–पावण्याची जाता ते तरेची सरबराय जण एकल्याची ताच्याच घरांत जावंक जाय. घरांत स्वर्ग देंवतलो.*

मागीर कळ्ळें, बाबा कित्याक फाटीं-फुडें जातालो तें. तातो हक्कान प्रस्न विचारत आशिल्लो आनी हांव जापो दीत आशिल्लें. ती आमची पयली भेट! ताचे उपरांत कितलेशेच फावट तातोक हांव मेळ्ळां. ताचे कडेन उलयलां. कांय गजालींची तिडक उकतायल्या. कांय जाणांची कागाळ लेगीत केल्या. तातोन दर प्रस्नाचेर जाप दिल्या. दर एक दुबाव पयस केला. आनी हय, वतां वतां दर फावट म्हज्या साहित्य-भांडारांत आपल्या एका पुस्तकाची भर घाल्या. केन्ना केन्ना हांवेंच हक्कान ताचे कडेन पुस्तकां मागून व्हेल्ली म्हाका याद जाता.

हांव 'सुनापरान्तां'त कामाक लागलें तेन्ना तातो खूब खोशी जाल्लो. 'सुनापरान्ता' विशीं तातोक बरीच ओड. केन्नाय गेल्यार आपल्याक पेपर वेळार मेळना ही ताची खंत तो उकतायतालो. आपलेपणान सगळ्यांची वासपूस करतालो. कशें चल्लां, कोण बरयता, कोणें बरोवप बंद केला?... खंय कितें चुकता हेंवूय सांगतालो. आनीक एक फावट ताची मुलाखत घेतले उपरांत हांवें ताका म्हणलें, ''तातो, तुज्या अमक्या अमक्या पुस्तकांतलो एक वांटो म्हजे मुलाखतींत वापरतां.'' ''जाय

तें वापर गो... परवानगी घेवपाची गरज ना.'' केदो व्हड लेखक हो! आनी खऱ्यांनीच, ताचे विचार केन्ना खंय कशे उपेगाक पडत, सांगप कठीण.

तातोच्या त्या निमाण्या दिसांनी ताचे म्हऱ्यांत बशिल्ले कडेन लेगीत हांव ताची माया अणभवतालें. परते परते ज्योतीची याद काडटाले.ज्योती हरशीं नात्यान ताचें कोण लागना. पूण आपणाले धुवे वरीच तातोन ताका मोग दिलो. ज्योतीक पळयतां तेन्ना ताचो दुस्वास दिसता. भाग्यवान तें! खऱ्यांनीच. तातोक हॉस्पिटलांत रावपाक केन्नाच आवडनासलें. त्या दिसा लेगीत गिरीशभाई आयलो तेन्ना ''या मरे?'' म्हणून तातो वचपाक उठलो. म्हज्यान तें पळोवं नजो जालें. तातोचो निरोप घेवन हांव भायर सरलें. कांय दिसांनी ताका मडगांव हॉस्पिटलांत व्हेल्ल्याचें कळ्ळें. तातोची प्रकृती खालावताली. मात मडगांव वचपाक म्हजे पांयूच उखलना जाले. कितें करूं थंय वचून?

त्या दिसांनी 'शणै गोंयबाब कथामाळे' खातीर हांव गोंयांत विंगड विंगड तालुक्यांनी भोंवतालें. सांगेंची सर्त निकतीच सोंपिल्ली. इनामां भेटवण सुवाळो सुरू आशिल्लो. आमच्या सगळ्यांच्या मोबायलाचो मॅसेज टोन वाजलो, 'रवीन्द्रबाब गेलो.' कुशीक मंगलदास बशिल्लो. दोन मिनटां आमच्या दोगांयच्या तोंडांतल्यान उतरांच फुटना जालीं. तशेंच स्वताक सांवरून घेवन हांवें इनामांची घोशणा केली. मनाची तयारी आसून लेगीत त्या वेळार कितें करप, समजना जालें. दुसऱ्या दिसा तातोगेर गेलें तेन्ना एक वेगळेंच वातावरण अणभवलें. जात, धर्म, राजकारण ह्या सगळ्या पेल्यान गेल्लें. वेगवेगळ्या घटकांचे लोक थंय तातोचो निरोप घेवंक आयिल्ले.

भायर उबें राविल्ले कडेन पुंडलीकबाब मेळ्ळे. आमी कांय तरणाटींच आशिल्लीं थंय. पुंडलीकबाबान आमकां म्हळें, ''रवीन्द्रबाबांक मेळपी, तांचे कडेन उलोवपी निमणी पिळगी तुमची. खूब भाग्यवान तुमी'' आनी तांच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळ्ळीं. खऱ्या अर्थान त्या दिसा पुंडलीकबाबाक आपलो बापूय गेल्ले वरी दिशिल्लें. तांकांच न्हय, अख्ख्या कोंकणी समाजाक!



# तातोची भेट - पयली आनी निमाणी

**हर्षा शेटये**

हांवें तातोक पयले फावट पळयल्यार वीस वर्सां जालीं. माधवीच्या लग्नांत हांवें तांकां पळयल्ले. कोंकणीच्या मळार तांणी केल्ल्या वावरा विशीं आयकल्लें. 'जागां'तले तांचे कांय लेख वाचिल्ले. हेर साहित्य वाचूंक नाशिल्लें. तेन्ना म्हजें वाचन म्हळ्यार मराठी हिंदी कादंबऱ्यो आनी कथासंग्रह, इतलेंच. दुसरें, तेन्ना हांव कोंकणी जावं मराठी, खंयचेच भाशेंत कांयच बरय नाशिल्लें आनी फुडाराक केन्नाय बरयतलें म्हूण सपनांत लेगीत हांवें येवजूंक नाशिल्लें. तातूंत म्हजो सभाव भिडेस्त. कोणाय म्हऱ्यांत वचून म्हजी वळख सांगून ताचे कडेन उलोवप म्हाका जमना. ते खातीर तातोक लागींच्यान पळोवन पसून तांचे कडेन उलोवपाचो योग आयलोना.

फाटलीं धा-इकरा वर्सां जालीं हांव बरयतां. सुरवेक, बरयल्लें साहित्य खंय धाडचें तेंच कळनाशिल्लें. एकदां तशें माधवीक म्हळें. माधवीन म्हळें, म्हजे कडेन धाड. आनी तेन्नाच्यान हांव म्हजें साहित्य 'जागा'क धाडूंक लागलें आनी तें छापुनूय येवंक लागलें. कविता, कथा करीत म्हजो साहित्य प्रवास प्रवासवर्णना मेरेन पावलो.



भंयान देवा पाव म्हणपी
मनीस देंवचाराकूय
सायबा पाव म्हणटलो.

म्हाका दिसता, २००६त कुळागर प्रकाशनाचो पुरस्कार सुवाळो आशिल्लो. वुडलॅन्ड हॉटेलांत. तेन्ना तातो थंय आयिल्ले. तेन्ना मात तातो म्हऱ्यांत वचून तांचे कडेन उलयनशें दिसलें. एद्या व्हडल्या मनशा म्हऱ्यांत वचून उलोवप म्हळ्यार नाय जाल्यार म्हजेर मातशें दडपण शें आयलें. इतल्यान माधवीनूच म्हाका तातूंतल्यान सोडयलें. "हर्षा, तूं तातोक मेळ्ळें? यो हांगा..." म्हणून ताणें म्हाका तातो म्हऱ्यांत व्हेलें आनी "तातो, हें हर्षा शेटये" अशी म्हजी वळख करून दिली. हें जालें म्हजें नांव. आतां हांव तातोक कितें म्हूण सांगूं, हांव कोण म्हणून सांगूं, 'जागां'त बरयतां म्हणून सांगूं, अशें हांव येवजितां थंय आसां, इतल्यान तातोनूच म्हळें, "पिरवळा यो मगो एक दीस. इतलो प्रवास करता तूं, पयस पयस भोंवता... पिरवळा येवप तुका कांयच न्हय. यो एक दीस... बरेंऽ बरयता तूं. वाचतां हांव. अशेंच बरय..." म्हजे सारक्या नवोदीत बरोवप्याक नांवा सयत वळखप, ताच्या बरपाची तुस्त करप हें पळोवन हांव सामकें भारावन गेलें.

तांकां ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जालो तेन्ना आमी कोंकणी भाशा मंडळाचे 'साहित्य उपासने'चीं वांगडी तांचें अभिनंदन करपाक तांगेर गेल्लीं. आमकां पळोवन ते खूब खोशी जाल्ले. आतां म्हजी भीड चेपिल्ली. म्हाका तोंडान वळखत, न वळखत म्हणून हांवें तांकां सांगलें, "तातो, हांव हर्षा शेटये." "यो, बस. आगो, तूं खंय खंय भोंवपाचें उरलां?" तांणी म्हाका सोमतोच प्रस्न केलो. हांवें म्हळें, "तातो, हांवें अजून भारतूच सगळो भोंवन पळोवंकना. खूब पळोवपाचें आसा म्हाका..." "पळय आनी बरयत राव." तातोन सांगलें. आमी वचपाक भायर सरलीं. "अशींच येयात अदीं मदीं," तांणी म्हळें.

कोंकणींतलें पयलें प्रवासवर्णन तातोन बरयल्लें. म्हाका म्हज्या प्रवासवर्णनाच्या संग्रहाक तातोन प्रस्तावना बरोवची अशें दिसलें. तरी, तांकां जाणटेपणांत तशें सांगप म्हळ्यार म्हाका बरें दिसलेंना. हांवें माधवीक तशें म्हणलें. माधवीन म्हणलें, "तूं वच तातो म्हऱ्यांत. बरयतलो तातो. हांव आयतारा पिरवळा वतांच तेन्ना ताणें डिक्टेट केल्यार पुरो, हांव बरोवन घेतां." माधवी कडल्यान ग्रीन सिग्नल मेळ्ळें. मायाक आपलो नवो कथासंग्रह तातोक भेटोवपाचो आशिल्लो. हांव आनी तें मेळून तातो म्हऱ्यांत वच्चें अशें थारायलें. पिरवळा पावना फुडें तातोन आमकां पयलीं च्या आनी लाडू खावपाक सांगलें. च्या पिवन जातकीच ल्हवूच हांवें तातोक म्हळें, "तातो, म्हज्या प्रवासवर्णनाच्या

संग्रहाक तुमी प्रस्तावना बरोवंक जाय. तुमी डिटेक्ट करात, माधवीन आपूण बरोवन घेतां म्हणून सांगलां.'' तातो हांसले, ''प्रस्तावना मगो? बरोवया. म्हाका ह्या तुज्या बरपाची गरज ना. हांवें वाचल्यांत तुजीं प्रवासवर्णनां.'' तरी हांवें म्हजीं हातबरपां, कात्रणां आशिल्ली फायल तांच्या हातांत दिली... तातोन मातशी फायल चाळ्ळी आनी म्हणलें, ''तुजें चडशें बरप जागांत उजवाडा आयलां मगो? बरयतां हांव. डिक्टेट करप मात म्हाका बरेंऽ जमना. चंद्रकांत तें काम बरें करतालो.'' मागीर तातो कितलोसो वेळ चंद्रकांतबाबांचेर उलयले.

जपान भोंवडेचें प्रवासवर्णन पळोवन तांणी जपानांत आमी कितले दीस रावलीं, कितें पळयलें हाची चवकशी केली. हांवें म्हळें, आमी सगळे मेळून धाच दीस राविल्लीं. तर तांणी सांगलें, आपूण तीन म्हयने राविल्लों. मागीर म्हाका विचारलें, ''क्योतो पळयलें मगो? मागीर जालें तर. क्योतो पळोवप म्हळ्यार पुराय जपान पळोवप... युरोपाक पावलां तूं?'' हांवें म्हणलें, ना. ''युरोपूय भोंव. थंय पळोवपा सारकें खूब आसा. आमचें अदिती युरोपाक वचून आयलां. सविता उत्तर ध्रुवार वचून आयलां...'' त्या दिसा पयले फावटीं हांवें तातो कडेन मेकळेपणान खबरी केल्यो.

३१ जुलयक जाल्लो ज्ञानपीठ पुरस्कार प्रदान सुवाळो आमी दोळे भरून पळयलो. इतलो भव्य सुवाळो हाचे फुडें केन्ना जायत सो दिसना. सुवाळ्याक म्हयनो जावचे पयलींच, तातो बरो ना, मडगांवां अपोलो हॉस्पिटलांत आसा म्हूण खबर कळ्ळी. मायानूच म्हाका सांगलें. आपूण वचून आयलां आनी आतां तांची भलायक बरी आसा अशेंय सांगलें. परतींय माया आनी हांव बिरेस्तारा सांजच तांचे खबरेक गेलीं. हॉस्पिटलांत भितर सरतनाच कळ्ळें, तांकां पर आय.सी.यूंत ॲडमीट केल्यात म्हूण. सिक्यूरिटी गार्डान व्हरून आमक आय.सी.यूच्या दारा मेरेन पावयलीं. हांव आनी माया भितर सरलीं ज्योती म्हन्यांत स्टुलार बशिल्लें. तातोक सलायन लायिल्लें. ते दोळ बंद करून न्हिदिल्ले. ज्योतीन तांकां उलो केलो. ''तातो पळे कोण आयल्यांत तीं... माया आनी हर्षा आयल्यांत.'' तातोच्या तोंडा हांसो उदेलो. तांणी दोळे उकते करपाचो यत्न केलो. पूण दोळ्यांक झापड येताली. ज्योती सांगतालें, घरा या म्हणून लागल्यात. दोतोरा व्हर म्हळें जाल्यार फाल्यां सकाळीं व्हरतलीं घरा. आमी पंदरा-वीस मिनटां थंय आशिल्लीं. आमचें उलोवप तांच्या कानार पडटालें मर्दींच ज्योतीन तांकां विचारलें, ''तातो, च्या जाय?'' 'नाका' म्हणून तकली हालयली. इतल्यान सिक्यूरिटी गार्ड सांगपाक आयलो, ''एक बराबर दोग जाणांक भितर रावंक मेळना. एकलें भायर वच...'' 'बरें' म्हणून आमी दोगांय भायर सरलीं. वतना हांवें तातोचो हात हातांत घेवन म्हळें, ''तातो येतात आमी, पिरवळा येतात मागीर एक दीस...'' आनी दुसऱ्या दिसा दनपार जावचे पयलींच मायाचो फोन आयलो ''हर्षा, तातो गेलो...''

# तातो बरोबर दोन वरां

माया अनिल खरंगटे

"सातो म्हऱ्यांत एक-दोन वरां वचून बसशीत?" माधवीन फोनार विचारलें.

म्हाका मना पसून खोस जाली. हांवें "बऽरे भशेन" म्हळें, आनी रोखडेंच तयार जालें.

पिरवळा तातों म्हऱ्यांत वचून बसचें, खूब उलोवचें अशें केन्नाच्यान दिसतालें. पूण... म्हजे मुखार हें 'पूण'च चड. ताका लागून म्हजीं कितलींशीं कामां अडटात. कसल्या न्हय कसल्या निमतान हाचे ताचे बरोबर पिरवळा वचून वर, अर्दवर तांचे म्हऱ्यांत बसलां. पूण खूब वेळ वचून बसचें, खूब उलोवचें ही इत्सा मात मनांतच उरली. आज हॉस्पिटलांत कांय जायना, तांचे म्हऱ्यांत वचून बसूंक मेळटलें म्हणून खोस जाली.



दोगांचें काळीज भरेता – सामक्या सुखी मनशाचें आनी सामक्या दुःखी मनशाचें.

पूण तांचे भलायके विशीं माधवीन सांगिल्लें आयकून मन मातशें उदास जालें. थंय वचून तांकां पळयतकच तर खुब्ब वायट दिसलें. तांचे म्हऱ्यांत रावूंक मेळटलें म्हणून जाल्ली खोस खंयचे खंय नाच जाली. हाडां आनी कातीच दिसपी तांची कूड सतत थरथरताली. म्हाका पळोवन "माया, आयलें गो तूं?" म्हणून दोळ्यांत दुकां हाडलीं. तें पळोवन काळीज सामकें हाल्लें. म्हजीं दुकां हांवें कशीं आडायलीं, म्हाकाच खबर. तांचो दुखरो पांय आनी थरथरपी कूड हांव सांसपीत रावलें.

तांचो पूत भौ. गिरीश थंय आसलो. ताचे कडेन ते एक सारके सिगरेट दी आनी आपणाक घरा व्हर म्हणून ल्हान भुरग्या वरी हट करताले. तें पळोवन मात म्हज्या दोळ्यांतल्यान घळघळीत दुकां गळ्ळीं.

ज्ञानपीठ पुरस्कार सुवाळ्या दिसा तातोंची परिस्थिती पळोवन आमी खूब भियेल्लीं. हो सुवाळो बरे भशेन जाल्यार पुरो म्हूण हुस्केतालीं. सुवाळो बरे भशेन जातकर तांचे भोंवतणीं लोकांची जाल्ली गर्दी पळोवन आमी आनी थंय गेलींच नात. मागीर तांच्या घरा वचून तांकां मेळुया अशें थारायल्लें. आनी तांकां हॉस्पिटलांत अशे अवस्थेंत मेळपाचो योग आयलो.

ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळोवपी येदो व्हड लेखक, व्हड विचारवंत... म्हज्या दोळ्यां मुखार अजून तांची ती अस्थिपंजर थरथरपी कूड येता. नर्सी येवन येवन आपलीं रुटीन कामां करताल्यो. ताचो लेगून तांकां खूब त्रास जातालो. "नाका गो, म्हाका आनी इंजेसांव नाका, दुखयनाकात गो" म्हणून काकुळटेक येताले.

मागीर एक वरभर सुमार आमी दोगांच थंय आसलीं. तांकां मातशी न्हीद लागची म्हणून हांवें लायट बंद केली आनी तांकां सांसपीत रावलें. दोन तीन मिनटां ते दोळे धांपून वोग्गी रावले. मागीर तांणी लायट लावपाक लायली आनी नजऽ आसतना लेगीत म्हजे कडेन उलयत रावले. पयलीं पयलीं म्हाका तांचें उलोवप कळनासलें, मागीर समजुपाक लागलें. आमी खूब उलयलीं.

हांव हरशीं बडबडें, पूण बरोबरच्यां कडेन. अशें मानेस्तां कडेन हांव केन्नाच मन सोडून उलोवंक ना. भीड आड येता. तातों कडेन मात त्या दिसा खूब उलयलें. म्हज्यो खाजगी गजाली लेगीत तांणी म्हाका विचारल्यो, आनी हांवें मेकळेपणान तांकां जापो दिल्यो. मदीं मदीं ते च्या नाजाल्यार उदक मागताले. ल्हान भुरग्यांक पिवयतात तसल्या धाकटुल्या कुलेरांनी तांकां पिवोवचें पडटालें. तीन-चार कुलेरां वयर तांकां पिवूंक जाय नासलें.

मागीर तांकां मेळूंक कोण कोण येवंक लागले. तेन्ना आमच्यो गजाली थांबल्यो. ते लोक वतकर

# जळटा ताकाच कळटा!

जयमाला दणायत

“हय गे बाईबाय, हांवें आयकलां तें खरें?”

“कितें गे, कोणाची खबर उलयता तूं? कितें जालां?”

“म्हणचे, तुका खबर ना तर ते मीराबायची खबर! तुमच्या वाड्या वेली मगे ती! चुरचुरे गे पापणीचे. एकलो एकसुरो पूत, येदें व्हडलें घर आसा, भाट बेंस आसा, पूण कितें उपेग? सुनेचें आनी तिचें मात्तय पटना खंय. शेवटाक तिका ढवळेच्या त्या जाण्टेल्यांच्या घरांत व्हरून घाल्या खंय.” व्हनीबायन सांगलें.

“आवय म्हजे! खरें काय कितें गे? पाड पडलें हालींच्या ह्या चलयांचें! हांकां मगे घरांत कोणूच नाका आसता. जाणट्यांचें मात पूण पडिल्लें नासता हालींचे हे तरणे पिळगेक. आपूण, आपलो घोव आनी भुरगें इतलेंच हांचें कुटुंब! हेरांक जागोच नासता हांच्या संवसारांत.”

“खरें गे बाये तुजें. ह्या संवसारांत कोण कोणाचो नासता हेंच खरें! आतां हे मीराबायचेंच पळय मगे! घोव गेलो आनी वर्सा भितर लग्न करूंक जाय म्हणून चल्याक लग्न केलो. निमाणें घरदार ना जावन पडली. कितेंय म्हण, आपलो मनीस तो आपलो मनीस! बाकी पूत सून कोण कोणाचीं न्हय.” व्हनीबायन एक कोडू सत सांगलें.

देवळांत सरवळ्यांत बसून वाती वळटना चलिल्ल्यो ह्यो खबरो चौकार देवाक पांयां पडूंक आयिल्ल्या प्रभाच्या कानार पडल्यो. ताच्यान रावं नजो जालें. तें तांचे मुखार वचून उबें रावलें, “कितें उलयतात गे तुमी? थंय कितें घडलां तें तुमकां खबर तरी आसा? तोंड आसा म्हणून बेठेंच कितेंय बडबडप? कोणाय कडल्यान कितेंय आयकून आयचे तरणे पिळगेक जापसालदार धरप? इतलो तेंप ती जाणटेली घरांत कितें करताली आनी तिचे सुनेची कितें अवस्था जाल्ली तुमकां खबर आसा? त्या उषाच्या जाग्यार म्हजे सारकी कोणूय आसूंक जाय आसली. मागीर समजतलें आसलें तिका! खंय मशणांत व्हरून सोडूंक ना तिका, म्हयन्याक बरेऽ पांच हजार भरून बरी करून वृद्धाश्रमांत घाल्या.”

प्रभाच्या ह्या कडक उतरांनी दोगीय म्हातान्यो तोंडांतल्या तोंडांत कितें तरी पुटपुटत आपापल्यो पोतयो हातांत घेवन भायर सरून गेल्यो. त्यो गेल्यो खऱ्यो पूण प्रभाक मात येवजणेंत उडोवन गेल्यो.

लोक अर्थाचो अनर्थ करतात तो असो. खरी परिस्थिती कितें आसली ती कोण पळोवंक वचना. उषा दिसपट्टें त्या घरांत रडत घुस्मटत कशें दीस काडटालें तें प्रभान लागशिल्ल्यान पळयिल्लें. आतां आतांच मातशे सुखाचे दीस बाबड्याच्या नशिबांत आयिल्ले, जाल्यार गावांतलीं हीं जाणटेलीं ताकाच बोल लायतालीं. खरें म्हळ्यार ताची परिस्थिती कळिल्ली जाल्यार कोणूय ताची बाबड्याची काकूट करपाचो!

लग्न जायत सावन उषान काडिल्ल विडविडे प्रभान आपल्या दोळ्यांनी पळयिल्ले घरांत कितेंय किजील जालें, सामकें सोंसूं जायना जालें म्हणटकीच उषा आपलें मन मैत्रिणी कडेन उकतें करतालें. म्हणून तर त्य जाणटेल्यांलें उलोवणें ताच्यान सोंसूंक जाले ना. खरी परिस्थिती आशिल्लीच तशी –

हें लग्न म्हणचे उषाक पडिल्लें एक वायट सपन कशें थारिल्लें. लग्ना उपरांत एक म्हयनो पंदरस साधारण सुखाचो काळ ताणें पळयल्लो तितलोच! गोंयचे एके खाचींतल्या



आडगांवांतलें थळ कोणें तरी सुचयिल्लें. चलो इंजिनियर, बरे कंपनींत नोकरेक, बरो जोडटा-करता, घरदार भाट-बेंस बरें, गांवांतय ह्या घराक बरो मान! एकलोच चलो, ताका लग्न जाल्ली एक भयण — अशी खबर आयकून आवय-बापूय सामकीं खोशी जाल्लीं. त्या गोऱ्या-धव्या नाका दोळ्यान बऱ्या आशिल्ल्या स्मार्ट दिसपी चल्याक पळोवन तेंवूय सामकें भुल्लुसून गेल्लें. थोडें भोव उलोवप करप जालें. मनशां बरीं, अशेंच सगळ्यांचें मत जालें. पूण मनशाचें खरें रूप संवकळींत येतकीच सारकें दिश्टी पडटा. कांय दिसां भितरच ताका त्या मनशांची खरी वळख जावपाक लागली. एकाद्रो दादलो असो आपले पुरतेंच पळोवपी — सामको आत्मकेंद्री कसो आसूं येता? इतलो आवयच्या पदरा खाला रावपी कसो आसूं येता, हाचें ताका मोठें अजाप दिशिल्लें.

नव्याचे नवे दीस सरले, देवधर्म जालो, हनीमून जालो आनी तो कामाक वचूंक लागलो. घरांत फकत तें आनी मांय, बरोबरचीं कोण नात. मांयच्या तोंडांत एक उतर बरें ना, मातशें कितेंय नाकसुरें गेल्यार गाळ्यांचो शिंवर घालपी! हें शारांत रावन करून आयिल्लें चली. लग्ना पयलीं शिर्वीस करतालें. ताका सामको बेजार येवंक लागलो. ताणें घोवाक म्हणिल्लें, ''म्हाका शिर्वीस करची आसा. हांगा लागसार खंयच्याय ऑफिसांत मेळटा जाल्यार पळय. इतलें शिकलां हांव, एम्.बी.ए. केल्या, कम्प्यूटर कोर्सूय केला, लग्ना पयलीं शिर्विसूय करतालें आनी अशें बेठ्ठें घरांत बसून रावल्यार म्हज्या शिक्षणाचो कितें उपेग?''

''घरांत कामां कितें थोडीं आसतात? बाबा गेल्ल्याक आईय एकटी पडल्या, तिच्यानूय नजऽ आतां. आनी हांव जोडटां न्हय भरपूर. शिवाय घरचें उत्पन्नूय आसा. तुज्या कुळारा तुज्या पयश्यांची गरज आशिल्ली जातली म्हणून बापायन तुका सिर्विसेक लायिल्लें जातलें. तशीं तुमी खंय आमच्या तोलामोलाचीं?! तूं दिसूंक बरें, शिकलांय बरें म्हणून तुका पसंत केलें आमी.''

घोवाचीं हीं मुक्ताफळां आयकून तें सामकें शॉकाद जालें. ''तशें जाल्यार तूं घरगुतीशी, कोणूय कमी शिकिल्ली चली पळोवन लग्न जावपाचो!'' तेंवूय फट्ट करून उलोवन गेलें.

''अशें नासता. आगो, दोगांय बरीं शिकिल्लीं आनी हुशार आसल्यार संतत बरी बुदवंत जाता. फुडें भुरग्यांचो अभ्यास करून घेवप, तांकां शिकोवप सोंपें जाता. आतांच्या ह्या सर्तीच्या युगांत भुरग्यांक बरे तरेन शिकोवन करून फुडें हाडटलीं जाल्यार हुशार आनी शिकिल्लीच आवय जाय पडटा. त्या पॅरामिटरांत तूं व्यवस्थीत बसलें, म्हणून तर आईन आनी हांवें तुका सिलेक्ट केलें.''

तें घोवाच्या तोंडाक पळेतूच उरलें. म्हणचे, हाणें आपणाक पसंत करूंक ना तर! हाचे आवयन आपली फुडली वंशावळ बरी जावची ह्या विचारान हें लग्न केलें. ताका हें नवेंच ज्ञान मेळिल्लें. शीऽऽ हे लोक असोय विचार करतात तर? बायलांच्या शिक्षणाचो उपेग फकत भुरग्यां पुरतोच? पूण तशें तें समजिकायेचें आसलें, घरच्यां कडेन वांकडेपण येवं नये म्हणून तोंड धांपून ओगीच रावलें. आनी ''भुरगें जायसर तरी करतां'' अशें कशेय भशेन वरुणाक पटोवन हट्टान म्हणटात तशी एक नोकरी सोदलीच.

ताचे मांयक, मीराबायक, तें निखालूस पटलें ना. तिची किरकीर चालू जाली, ''पूत म्हजो इतलें जोडटा! आमी तुज्या कुळारचे भशेन भिकाड्डीं न्हय. बरीं गिरेस्त भाट-बेंसकार, आस्पतीचीं घरंदाज मनशां आमी! सुनेक नोकरी करूंक लावन तिचो पयसो जाय कोणाक? आनी मागीर घरचें कोण करतलो? तूं नोकरी करतलें, आनी तुजो संवसार कितें हांवें सांबाळप? ह्या वयांत म्हज्यान बाये कांयच जावचें ना. पयलीं घोवाचें काडलें, पुताचें काडलें आनी आतां कितें तुज्यो उस्तवाऱ्यो करप? कांय एक गरज ना घरा भायर सरपाची! आनी इतलें नडलांच जाल्यार घर सांबाळून मागीर जाय तें कर.'' अशें म्हणून तिणें आंग मारून घेतलें.

पयलीं ताका दिशिल्लें, आपूण आपले चलणुकेन ल्हवू ल्हवू घरच्यांचीं मनां जिखतलें, तांच्या विचारांत बदल घडोवन हाडटलें. पूण ते खातीर आपल्या हक्काच्या मनशाची-घोवाची मदत जाय आसता. तो तर पयलीं सावन आवयसांगणेचो! ताणें पयलींच हात वयर काडले - ''तुजे प्रस्न तूंच सोडय. आनी आई सांगता तेंच बरोबर! हांवूय तुजे नोकरेचे फॉर ना. इतली हट्टान जर तुका नोकरी करपाची आसली, जाल्यार लग्ना पयलींच नोकरेचें कबूल करून घेवपाचें! आतां म्हाका कांय सांगुंनाका.'' ताणें सरळ कानार केंस काडले.

म्हजो प्रस्न? म्हणचे, दोगांयचे मेळून प्रस्न नासतात तर? घोवान थोडें तरी लक्ष दिवंक नाका घरांत? थोड्या गजालींनी तरी बायलेक मना सारकें वागपाचें करपाचें परमिशन दिवंक नाका? आपले प्रस्न आपणें सोडोवप जाल्यार मागीर सहजीवनाचो अर्थ कितें? संवसार कितें म्हज्या एकल्याचो? दोगांनीय मेळून कसलीय अडचण आयल्यार पयसावपाचो येत्न करूंक नाका? पूण सुरवातेकूच बेठ्ठो वाद नाका म्हणून तें मूग गिळून म्हणटात तशें ओगीच रावलें. आनी आपल्याक जमता तशें घर, संवसार आनी नोकरी ही तिट्टी कसरत करत रावलें. पूण वरुणाचो सभावूच इतलो विचित्र आनी विक्षिप्त - विचारपाचें ना! बायले परस आपूण कितलो वयर हें ताणें उतरापावलाक जाणोवन दिवचें.

पयलो पगार मेळटकीच तें खोशयेन भुल्लसून तो ताचे कडेन दिवंक लागलें. जाल्यार तोखणाय करची सोडून, ताणें अशे तरेन पळेलें की उषाक दिसलें, आपणाक कुस्कटा येदी लेगीत किंमत ना. ''शी, इतलें धडपडटा, मर मर मरता आनी हातांत इतलोच पगार? ना जाल्यार म्हाका पळय गो...'' ताणें आपलीं मोठेपणां दाखयत म्हळें.

''म्हजी नोकरी सामकी नवीच न्हय, फुडें मागीर मेळटलें प्रमोशन — वाडटलो पगार — पयल्याच म्हयन्यांत कितें कळटा?'' उषान नमळायेन समजायत सांगलें, पूण ताका किंकोंत लेखिल्ले भशेन करून घोवान ताचे कडेन फाट केल्ली.

मांयूय हाका ताका सांगत भोंवताली, ''लग्ना वेळार चलयेक कितें दिलां तितलेंच! इतल्यो सण-परबो जाल्यो, पूण वेयान जांवयाचो, म्हजो मान म्हणून केन्नाच करूंक ना. जांवयाक एक मोटार नाजाल्यार स्कुटर तरी घेवन दिवंक नाका आसली?''

उषान सादेपणान मांयक म्हळें, ''तांणी

कित्याक दिवंक जाय? तुमकां कितें जाय तें म्हाका सांगात, हांव म्हज्या पयशांनी हाडटां, आनी आतां म्हजो पगार वाडला. हांव नोकरेंत कन्फर्म जालां. स्कुटर कित्याक, लोन काडून मोटार लेगीत हाडुया.''

''हय, व्हडलें जोडकार न्हय तूं? तुज्या पयश्यांचेर आमी आसात? आमी असल्यो शंबर मोटारी घेवं... पूण जन-रीत म्हणून तुज्या कुळारच्यांनी कितेंय करूंक नाका आसलें?... वेल्यान चुरुचुरू करून उलयता, आपल्या पयश्यांचो झेत मारता. आपले जोडीचीं करपां आयल्यांत हाच्या दोळ्यांर!''आयकून झक मारली आनी उलोवंक गेलें अशें जालें उषाक! कुळारच्यान हें हाड, तें हाड करून ताका उलोवप, मनस्ताप दिवप चालूच आसलें. चड पिकासांव म्हणचे, वरुणूय आवयचें सगळें मोन्यांनी आयकून घेतालो. इतलेंच न्हय, उषा कशें महत्वाकांक्षी, ताका घरसंवसारांत रस ना, घरांत ताचें कोणाच कडेन पटना... खरें म्हळ्यार आमकां सादी, बरे तरेन घरसंवसार चलोवपी, आईक बरे तरेन पळोवपी बायल जाय आसली, हें तशें न्हयच. हें करियर मायंडेड अशें सांगत भोंवतालो. नणंद आनीक एके तरेचें सॅम्पल! ताका आपल्या घरा कोणूच विचारी नासलो. घोव ताचें मात्तूय आयकनासलो, आपल्या वादयाचो! आपले भशेन हे नवे भावजेकूय त्रास जावचे म्हणून तें आत्रापयऱ्यान येवन आवयचे, भावाचे कान भरून वतालें. वतना आवय कडल्यान कितें न्हय कितें घेवन वतालें. तें येवन वतकीच मांयचें चडूच चाळवतालें. बायलांच बायलांचीं दुस्मान म्हणटात तें उषाक आतां सामकें पटूंक लागिल्लें.

लग्नाक वर्स जावचेंच आसा, मांयची बडबड चालू, ''वर्स जायत आयलें, अजून हाचो कांयच बोवाळ ना, कसलीं मड्याचीं प्लॅनिंगा करतात देव जाणा; वंश फुडें चलूंक नाका? पुताक म्हज्या एकशें एक सोयरिको आयिल्ल्यो; पूण खंयची एक नाड, तर कोणाच्या नक्षत्राक पडना, शेवटाक ही अवदिसा गळ्यांत पडपाची आसली!'' ''नोकरे निमित्यान भायर वचून फोल्गां मारता, हाचे ताचे बरोबर तिटतिट्टा, नाचता.'' असोय दुबाव घेवंक लागली. ''हाची जोड घाल व्हरून खळांत, म्हजो पूत जोडटा लाखांनी, पूण हाकाच विडविडे काडपाचे दुवाळे न्हय?'' म्हणून आयिल्ल्या गेल्ल्यां कडेन कागाळ करप! आपणें उषाक कुस्कुटाची मदत करप ना, ताणें रांदिल्लें मात सगळें सोंपोवन दवरप! कामा वेल्यान पुरो जावन आयिल्ल्या उषाक सगळें जेवण परतें करतना सामकें जिवार



येतालें. पूण नजऽ म्हळ्यार ''नोकरी सोड आनी घरा बस'' होच कानमंत्र वरुण दितालो. ते परस मोन्यांनी काम केल्लें परवडलें अशें ताका बावड्याक जातालें.

सद्दां उठून भुरग्या वेल्यान मांय जीव खाता म्हणून ताणें बरेपणान सांगलें, सध्या भुरगें जावं नये म्हणून आपूण पिल्स घेतां. आनीक स म्हयन्यांनी सोडटलें. तर, ''नस्तीं थेरां हाचीं!'' करून बोवाळ करून घर माथ्यार घेतलें. अशा वेळार कोणूय आशेन घोवाच्या तोंडाक पळेता. पूण हो सामकोच आवयचे कोनळेन उदक पियेवपी प्राणी! ताणें दाखयिल्लें गुळयांचें पाकीट पळोवनय ताणेंय दुबाव उकतायलो, ''कित्या वेल्यान तूं ह्यो गुळयो घेता? एकाद्रो तुज्यांतूच कितेंय दोश आसुये; वा, भुरगेंच जावंनये म्हणून तुजीं हीं नाटकां!'' आयकुनूच ताच्या काळजाक चिमटे आयले. खासा खुद्द बायलेचेर इतलो अविश्वास? विश्वासाच्या बळग्यार तर संवसार तिगता. बुन्यादी फातरूच असो डळमळीत जाल्यार मागीर संवसार उबो जातलो कसो? आवय धर एक अडाणी, पूण हो तर इतलो शिकिल्लो सवरिल्लो. हाकाय समजना? 'माँ से बेटा सवाई' म्हणपाचो! हो असो तिरकस विचार करपी? आतांच ही गत, जाल्यार फुडें कितें जातलें?

उषान त्याच वेळार थारायलें, हाकाच पयलीं जाग्यार हाडूंक जाय. जाल्यारूच हो संवसार आपूण तिगोवंक पावतलें. पयल्यान पयलीं ताणें फॅमिली प्लॅनिंगा खातीर घेवपाच्यो गुळयो सोडून दिल्यो. घोवाच्या मना सारकें वागपाक सुरवात केली. थोड्याच तेंपान ताका दीस गेले. मागीर मातसो वरुण निवळिल्ले भशेन जलो. सरळसूत जावन उषा बरोबर उलोवंक करूंक लागलो. उषाय लाडीगोडी लावन, केन्ना हांसून क़ेन्ना रडून तर केन्ना रागार फुगार जावन ताचे कडेन मन उकतें करूंक लागलें. तेच बराबर कॉमनफ्रँड्स आशिल्ल्या एका दोगां इश्टांचीय ताणें मदत घेतली. तांणीय उषाचें कशें बरोबर, तें घरचें करून-सवरून नोकरी करता जाल्यार करुंदी — इतलें शिकलां तें कळमेवन उडोवप काय म्हणून वरुणाकूच सांगपाक सुरवात केली. मांय-मांवानय वरुणाची बरी अर्थ-अपुरबाय सुरू केली आनी कानपोकळ्या वरुणाक इल्लें इल्लें करून तांचेंच पटूंक लागलें. आवयच्या वागपा-करपांतल्यो चुको ताचे नदरेक येवंक लागल्यो, तसो तो उषा वटेन जाप घालूंक लागलो. तें इतलें कांसाद जावन फांतोड्डेर उठून दोगांचोय डबो करता, तुकाय रांदून दवरून कामाक वता, तरी तुजो बोवाळ कित्याक काय म्हणून आवयक तापोवंक लागलो. हें सामकें मीराबायच्या वर्मार पडलें, ती अदिकूच पिडूंक लागली. उषान सांजेक कितेंय करून दवरिल्लें आसल्यार तें काबार करप, हाका ताका वांटून उडोवप वा भायर रकोवप, ''येवन रांद जाय जाल्यार रांडला!'' म्हणप, घरांत हळशीक करून दवरप, अश्या जायत्या तरांनी ती ताका छळूंक लागली. गाळी फस्ती तर तिच्या तोंडांतूच बशिल्ल्यो. पूण उषान केन्ना परती जाप केली ना.

एकदां तर रातचीं तीं न्हिदतकीच रांदचे कुडींतलो गॅस चालू करून दवरलो. नशीब बरें म्हणून सकाळीं फुडें उठ्ठकीच उषाच्या तें लक्षांत आयलें. ताच्या शिटूकपणानूच ताचो

जीव वाटावलो... त्या दिसा सावन तेंवूय शाणें जालें, चडूच सादूरपणान वागूंक लागलें. सामके खर दुवाळे लागिल्ले तरी कशेय भशेन दीस धुकलीत रावलें. बाळंटेराक कुळारा गेलें तितलोच ताका सुसेग! कितेंय जालें तरी नोकरी सोडचें ना असो निश्चेवूच केल्लो ताणें. आवय बापूय ताचे वांगडा आशिल्लींच, आतां घोवाकूय ताचे नोकरेचें म्हत्व कळिल्लें. उषाची हुशारकाय, कामांतली फिशालकाय पळोवन ऑफिसांत ताका प्रमोशनांय मेळत गेल्लीं – ताचो पगार वाडत गेल्लो. ताणें आपले तांकीर वरुणाक नवी कार घेवन दिल्ली. मांय मात सदांच ताच्या नांवान बोटां मोडीत आसली. ''चुतडान म्हज्या पुताक भुलयलो, म्हजे पसून ताका तोडलो,'' तें एकटें मेळ्ळें की ''तुजें निसंतान जावं, तुजें भुरगें पोटांतूच मरूं'' करून ताका स्राप दिवप – गाळी फस्ती घालप! हरशीं धीट सभावाचें, पूण अशा वेळार ताका तिचो भंय भंय दिसतालो. पयलीं पयलीं तर मांयन तांकां दोगांकूय एकठांय येवंकूच दिवप ना! तीं कुडींत न्हिदूंक गेली की तिची तकली दुखताली ''बाबा, म्हाका बाम लाय रे, गुळी दी रे, पांय चेप रे!'' करून वरुणाक म्हऱ्यांत बसोवन दवरप! हरशीं घरा कोण नासतना गांवभर हेडप, हागेर तागेर वचून सुनेच्यो चाडयो करप, सून कामा वेल्यान पुरो जावन आयली रे आयली, फाटींत चडून आयलां, हून उदकाचो शेक मार, तेल चोळ, कमर धरलां, मातशें चोळ करून उषाक सामकें 'दे माय, धरणी ठाय' करून सोडप!

आतां आतां वरुणाकूय तिचीं नाटकां समजून आयिल्लीं. पूण कितलीय जाल्यार आवय, कितें करतलो? आनी इतलो तेंप तिच्याच उतरांक पाळो दीत आयिल्ल्यान सट्ट करून तोडुंकूय ताका जमनाशिल्लें. पूण उषा गुरवार जायत सावन तो ताचे विशीं मातसो मोव पडिल्लो. इश्टांनीय ताका सारको समजावन करून बायलेचें म्हत्व ल्हवू ल्हवू ताच्या ध्यानांत हाडून दिल्लें.

''कितलीय जाल्यार आवय ती आवय!'' म्हणपी ताका आतां बायलेचें मोल कळूंक लागिल्लें. घरांत कितेंय नवी वस्त अपुरबायेन विकती हाडल्यार मीराबाय तिची वाट लायताली आनी उषाचेर घालताली पूण आतां वरुणाक तिचीं नाटकां समजतालीं; तरी तो ओगीच रावतालो.

णव म्हयने भर जातकीच उषा बाळंत जावन ताका बरो अपुरबायेचो चलो जालो. पूण इतलो तेंप नातवाक वर्सुवपी ती मांय ताका पळोवंक न्हय, ताच्या बारशाक लेगीत गेली ना. वेल्यान तीन म्हयन्याच्या चल्याक घेवन उषा घरा येतनाच गाळयांचीं फुलां शिंवरून ताका येवकार दिलो. नातू म्हणल्यार 'दुदा वेली साय', जाणट्या-नेणट्यांक सांदपी दुवो म्हणटात, पूण मीराबायक ताचें कांयच पडूंक नासलें. त्रास दिवपाची एकूय संद ती सोडनासली. पूण 'सद्दां मरतल्याक कोण रडटा' म्हणटात तशें हें सगळें उषाचे संवकळीचें जाल्लें. ल्हवू ल्हवू तेंवूय तोंडाक तोंड दिवन उलोवंक लागलें; पार्थाक पळोवंक उषान आवयचे मदतीन एक भुरगें सोडून हाडिल्लें. पूण उषा थंय नासतना मीराबाय त्या भुरग्याक त्रास दिताली. मारताली, गाळी संवताली. निमाणें बेठेंच नसतें अपसरण नाका म्हणून उषान ताका घरा व्हरून पायलें.

स म्हयन्यांच्या पार्थाक पळोवंक दिसभरची एक बायल दवरून तें कामाक वचूंक लागलें. खरें म्हळ्यार आजयेक नातवाची कितली अपुरबाय आसपाची! पूण हिचें उरफाटेंच – नातूय हिका दोळ्यां मुखार नाका जाल्लो. सदांच्यो ह्यो कागाळ्यो आयकून उषा आनी वरुण बेजारतालीं... मदींच सामकी पिश्यां भशेन उलयताली, केन्ना केन्ना मेळत थंय मुतून, घाण करून दवरताली. घरभर घाणी! कामा वेल्यान येवन तें सगळें निवळ करीसर उषाच्या पोटांत धवळून येवचें. ह्या सगळ्याक लागून पार्थ परतो परतो बरो ना जावंक लागलो. उषान ताका आवयगेर व्हरून दवरलो. पूण पुताक सोडून रावप दोगांयच्या जिवार येवंक लागलें. निमाणें परतीं घेवन आयलीं. वाडदीस लेगीत धड करूंक मेळ्ळो ना. सदांच कितें न्हय कितें किजील आं करून उबें जावचें! भुरगो व्हड जाता तसो मीराबायचो प्रॉब्लॅम वाडतूच गेलो. तिच्या बुरशेपणाक लागून पार्थाची भलायकी परती परती बिगडटाली. तिच्या विचित्र वागपाक लागून तो सामको भिजूड आनी एककल्ली कसो जावन पडिल्लो. दोतोरान तर पार्थाक घाणीची ॲलर्जी जाल्या म्हणून जाता तितले बेगीन हो प्रॉब्लेम सोल्व्ह करपाचो अल्टिमेटम दिल्लो. म्हणून सगळो सारको विचार करून, मनार फातोर दवरून म्हणटात तशें दोगांयनी मीराबायक घरा पसून पयस दवरपाचो निर्णय घेतिल्लो. एक बरो वृद्धाश्रम कम हॉस्पिटल पळोवन थंय तिका व्हरून दवरिल्ली. पयशे गेल्यार वचूं, पूण थंय ती बरी उरतली आनी हांगा आमी सुखान रावंक शकतलीं असोच विचार तांणी केल्लो. पूण 'खावपी खाता आनी मेरे वेलो परवता' हे म्हणणे प्रमाण लोक तांकांच गुन्यांवकारी, वायट थारावन मेकळीं जाल्लीं. लोकांचीं तोंडां कोण बंद करतलो! प्रभाच्या मनांत आयलें, जाचें जळटा ताकाच कळटा म्हणटात तेंच खरें!



# कर्मयोग आनी कर्मभोग

**किरण म्हांबे**

हांव अवेवस्थीत, म्हजो वेपार अवेवस्थीत हें म्हाका वळखुपी दर एकलो म्हणटालो, हांव धरून.

खरें म्हळ्यार म्हाका मांडणी आवडटा. ते मांडणे कडेन पळोवपाची म्हजी एक वेगळी नदर आसता. म्हजे दर एके वस्तीक जागो आसता. ती वस्त त्याच जाग्यार योग्य म्हणून. देखून हांव काडिल्ली वस्त त्याच जाग्यार परती दवरतां.

पूण म्हाका विसरपाची संवय. उजो लागिल्ल्यो म्हज्यो यादी म्हाका पावला कणकणी त्रासांत घालतात. आनी एकावेळार हांव काडिल्ली वस्त परत जाग्यार दवरूंक विसरतां. आनी मागीर ती खंयचे खंय पावता. मागीर हांव तर्कान हांवें ती केन्ना काडिल्ली, हाचो अदमास घेवन ती खंय पावल्या आसतली हाचो सोद लायतां. तरी तितले म्हणसर म्हज्या अवेवस्थीतपणाचो फावो तो उद्घोष जाल्लो आसता.

खरें म्हळ्यार म्हज्या घरांत वेवस्थीत मनशांनी वेवस्थीत दवरिल्ल्यो वस्ती सोदून काडूंक म्हजेंच तर्कशास्त्र उपकरा पडटा. तरीकय वेवस्थीतपण हें वेवस्थीतपण आनी, अवेवस्थीतपण हें अवेवस्थीतपण.

म्हज्या अवेवस्थीतपणाची देख भोंवतणी नदर मारल्यार पळोवंक मेळटा. म्हज्यो फायली सारक्यो लायिल्ल्यो नासतात. तारीक वार हांची नोंद नासता. दिसपट्ट्या खर्चाचो हिशोब बरयिल्लो नासता. म्हज्या मनांत जमाखर्चाचें गणीत चालूच आसलें आनी मनाच्या कोनशाक ताची नोंद जायत उरली तरी मनाक हांवें कंप्यूटर कित्याक समजुचें? ह्यो फायली उकत्यो करून दुसऱ्याचो विश्वास थोडोच बसता!

म्हजे आरमारींत कपड्यांच्यो घडयो दाळिल्ल्यो नासतात. म्हत्वाचीं कागदां पर्सींत आनी डायरेंत अशींच चोंदिल्लीं आसतात. एकाद्रें हांव सांबाळून दवरतां त्या कागदा कुडक्यांक म्हत्व नासता. पूण म्हजे नोकरेच्या काळांत म्हजेर जाल्ल्या अन्याया विरुद्ध झगडून न्याय मेळोवंक म्हाका असलेच कागदा कुडके उपकरा पडले. मात ते सारके 'वेवस्थीत' लायिल्ले नाशिल्ले.

म्हजीं कामां सडसडीत जातात कारण, म्हज्या मनांत तांचो क्रम लागिल्लो आसता. क्रम चुकलोना जाल्यार तातूंत चुकोय जायनात. तरी आसतना केन्ना तरी हांव च्याक साकर घालूंक विसरतां. 'साकर भात करतना हांव साकर घालूंक विसरतलें' ह्या विनोदान सगल्यांचें मनोरंजन केलां. हांवें गॅस बंद करपा वांट्याचो बारीक करून भाजी करपिल्या. उदक घाली नासतना कुकर गॅसार दवरून कुकराचो व्हाल्व वगडायला.

म्हज्या अवेवस्थीतपणाक म्हजे विसरायेची साथ मेळटकच म्हज्या व्यक्तिमत्वाच्यो जाल्ल्यो तिस्त्यो-भोयो म्हज्या अबरगतपणाक समर्थन आसूंक शकना



हाची म्हाका जाणविकाय करून दितात.

हांव म्हणटां, हांव वॉशिंग मशिनांत (सेमी ऑटोमॅटीक) उदक सोडटां तेन्ना कसल्याय कामांत आसलें तरी म्हजें लक्ष उदकाच्या आवाजाचेर आसता. आवाजांतलो फरक म्हाका उदक भरलां म्हणपाचें सांगता आनी एक प्रतिक्षिप्त क्रिया करूनशें हांव उदक बंद करतां.

तरीकय मदींच हांवें मान्यांत सोडिल्लो पायप म्हजे नकळटां परतो मशिनाक लावन म्हज्या कामांत व्यत्यय हाडून म्हजी तकली पेड्ड्यार जावपा सारके नसते विशय येवन म्हज्या कामांचो क्रम इबाडूंक नाशिल्लो जाल्यार वॉशिंग मशिनांतलें उदक घरभर जावचें नाशिल्लें अशें म्हणपांत अर्थ नासता.

म्हज्यो चुको अपधारांचें रूप घेवन म्हज्या व्यक्तिमत्वाक भिषण रूप दितात, तरी हांव सुधारना.

म्हज्या अवेवस्थीतपणाक लागून म्हजें लुकसाण जाता वो म्हजें जाल्लें लुकसाण म्हज्या अवेवस्थीतपणाक लागून जालां हें हांव मानून घेना आनी म्हजी अवेवस्थीत कार्यपद्धत चालूच उरता.

तेदुसाय अशेंच जालें. हांव बाजारांत वचूंक भायर सरलें. बॅगेंत पर्स घाली. खंयय वतना ही पर्स बरोबर घेवपाचो म्हजो नेम. कारण, हे पर्सींत म्हज्यो सगल्यो गरजेच्यो वस्ती, म्हळ्यार केन्नाय गरज पडल्यार आसच्यो असल्यो वस्ती, म्हळयार व्होटिंगकार्ड, लायब्ररी कार्ड, धरून वेगवेगळीं कार्डां, चावयांचो घोंस, एक ल्हानशी डायरी, तातूंत चेपिल्ली दोतोराली रेसेद, लाँड्रीचें बील, बँकेची स्लीप असलीं गरजेचीं कागदां आनी पयशे आसतात.

बॅग घेवन हांव बाजारांत गेलें. पयलीं स्टुडियोंत वचून म्हजे पासपोर्ट सायझ फोटो घेतले. म्युनिसिपल लायब्ररीचें मेंबर जावपाचें थारायिल्लें हांवें. फोटो हांवें पर्सींत चेपले, सदां भशेन, आनी फुडें गेलें. पर्स बरीच फुगिल्ली.

कामां चडशीं सगलीं जाल्लीं. एकच उरिल्लें. लायब्ररीचें मेंबर जावपाचें. पूण वाज आयलो. दुसरे फावट आयल्यार जालें. सध्याक वाचूंक खूब पुस्तकां आसात म्हळें आनी घरा आयलें.

दुसरे फावट भायर सरलें तें पयलीं लायब्ररींत गेलें. थंय फॉर्म भरले आनी फोटो दिवंक पर्स उकती केली.

आनी कितें? पर्सींत फोटे नात!

आरे! पयरच तर काडिल्ले! हेच पर्सींत दवरिल्ले (चेपिल्ले)!

याद कर कर केली. केन्ना काडले ते हांवें पर्सींतल्यान? कित्याक म्हूण काडले आसतले? आनी दवरले तरी खंय? परतें घरा वतकच सोदचे पडले.

लायब्ररींत हांवें बेठीच पुस्तकां वयल्यान नदर भोंवडायली. पूण तकलेंत फोट्यांचोच विशय घोळटालो. देखून नदरेन केल्ल्या कामाची नोंद तकली घेना आशिल्ली.

हांव थंयच्यान उठून मार्केटांत गेले. आजय म्हाका चणे जाय आशिल्ले. चणे घेवपाचो म्हजो सदांचो चणेकार. ह्या भुरग्याची म्हाका तोखणाय दिसता. आपल्या कामांत इतलो गुल्ल आसता की नदर उखलून तोंडाक लेगीत पळयिल्लो दिसना. हांवें ताका केन्नाच उलयिल्लो पळोवंक ना. हांशिल्लो पळोवंक ना. मालाचे मोल सांगपा पुरतें तोंड उकतें करतालो जावये तो. स्थितप्रज्ञ कर्मयोगी कसो. हांव ताचे म्हऱ्यांत पावलें तेन्ना ताचीं बरींच गिरायकां थंय आशिल्लीं आनी तो भुरगो आयदन साकांत धोंगसून चणे-भिकणां काडून जोखूंक गुल्ल आशिल्लो.

म्हाका मातशें रावचें पडलें. ताचीं बाकीचीं गिरायकां उलगतकच हांवें म्हजी मागणी सांगली. पूण तो आयदन साकांत धोंगसुपाचें सोडून कुशीक कितें तरी उस्तिता थंय म्हजें लक्षच गेलेंना. हांव तो म्हजे खातीर चणे जोखपाची वाट पळेतालें. सट्ट करून म्हजें लक्ष ताच्या हाता कडेन गेलें; तो पाकिटांतल्यान म्हजे फोटे काडून म्हाका दाखयतालो!

म्हजे फोटे? हांगा पडले? केन्ना? कशे? आनी, पडले तें म्हाका कशें कळ्ळें ना?

सगले प्रस्न एकेच फावटीन म्हजे तकलेंत आयले.

''आगे बाये! हांगा पडले?'' हांवें आकांतान म्हळें.

''तरी बरें, तुवें दवरले. आनी यादीन दिले. थँक्यू आंऽऽ!''

म्हज्या मनांत त्या भुरग्याची तोखणाय, फोटे ताणें सांबाळून दवरून म्हाका दिल्ल्याचे उपकार, तो म्हाका वळखलो ताचें अजाप, ते शेणल्यात म्हण खबर नासतनाय मेळिल्ल्याचो आनंद, आनी तेच बरोबर एक अस्वस्थकाय... ते पर्सींतल्यान पडिल्ले म्हाका कळ्ळें ना, ताची.

तो स्थितप्रज्ञ मात निस्संग जावन आपल्या कामाक लागिल्लो. म्हज्या उपकार मानपाचें आनी तोखणायेचेंय ताका पडून वचूंक नाशिल्लें. त्या कर्मयोग्याचें लक्ष आपल्या कामाचेरूच थीर आशिल्लें.

हांवें फोट्यांचें पाकीट ताचे कडसून घेतलें आनी परतें पर्सींत चेपलें. पर्सींत दवरतना म्हज्या मनांत आयलें, 'हें पडलेंच कशें हांगा? पयशे तर हांव सांबाळून काडटां. आनी, पडिल्ल्याचें कळ्ळें ना कशें?

तांतल्यान आनीक एक हुस्को मनांत आयलो, 'आनीक बी कांय पडलें ना मूं? म्हत्वाचें कसलेंय कागद? गरज येतली तेन्ना कळटलें!'

हांव अस्वस्थ जालें, आनी म्हज्या तोंडांतल्यान गेलें,

''आनीक कांय पडूंक नाशिल्लें मरे?''

कर्मभोग! खरें म्हळयार, हें ताका विचारपाचें नाशिल्लें म्हाका. फकत म्हजीं म्हत्वाचीं कागदां शेणूंक नात मूं हाचो दिलासो सोदतालें हांव. पूण ताका विचारलें आनी म्हजी अक्षम्य चूक म्हाका होलमली.

हें ताका अशें विचारप म्हळ्यार ताचेर एके तरेचो आरोप करप.

इतली म्हत्वाची वस्त ताणें सांबाळून दवरून दिल्ली म्हाका. ताका ते वस्तीचो उपेग नाशिल्लो जायत, पूण म्हाका दिवपाची गरजय नाशिल्ली. ताका तशें म्हत्वाचें आनीक कितेंय मेळिल्लें जाल्यार तो दिले बगर कसो रावतलो आशिल्लो? ताका मेळून ताणें न दिवपा सारकी एकूच गजाल म्हळ्यार पयशे. हांवें ताका अशें विचारप म्हळ्यार ताणें ते दवरले जायत म्हणपाचो दुबाव घेवप. शी! कशें सांगूं ताका तशें न्हय म्हण?

तो मात एकच फावट म्हजेर नदर मारून परतो आपल्या कामाक लागिल्लो.



# उपकार

फिलोमिना सॉंफ्रॉंसिस्को

आयज हांवूच चिंतूंक पडलों. अमितान परतून म्हजे कडेन पयशे मागून व्हेले. कितल्या लाचारपणान! आपल्याच एकल्या एकसुऱ्या पुतान खर्चूंक पयशे मागपाक इतलो लाचार जावप? थोडो वेळ म्हाकाच वायट दिसलें. एक तारके मेरेन परतून मागचोंना, म्हणूंक लागलो; नदर एकदम आपल्या पांयांचेर थिरावन. हांवें ताका पयशे दिले नात जाल्यार जग म्हाका हिमटो म्हणटलें आनी मागता तशे दिले जाल्यार घडये मूर्ख म्हणटलें. आखरेक पयशे दिले. पूण दीसभर अस्वस्थ उरलों.

दोन दिसां आदलोच प्रसंग. हांवें घरकान्नीक उलो मारलो, ''सीमा... सीमा... नाश्तो तयार जालो गो?... आरे, आयलेंच तूं? हांवें उलो मारपाची वाटूच पळेत आसलें काय कितें गो?... बरें तर, हाड पळोवया च्या... अशें ओगी कित्याक गो? जिवाक बरें ना?''

''आमचो अमीत...''

''खंय आसा तो? आपय ताका. अमीत... अमीत...''

''सकाळींच उठून कॉलेजीक गेला. कसली तरी ऑक्स्ट्रा क्लास आसा म्हणटालो.''

''अशें? आसूं. कॉलेजीक वचपाचें म्हळ्यार हें सगळें आयलेंच.''

''तशें न्हय... आयज ताणें आनिकूय पयशे मागून व्हेल्यात; पॉकेट खर्च म्हणून. ह्या म्हयन्याक ही तिसरी खेप. म्हाका आतां हुसकोच जाला ताचो.''

''सीमा, तातूंत हुसको करपा सारकें कितें आसा? अमीत आतां शाळेचो भुरगो उरला व्हय तर? तो आतां कॉलेजीक वता म्हणटकूच ताचे इश्टूय वाडले. वांगडा खर्चूय वाडलो न्हय?''

''आतां हें पळेयात, गेल्या म्हयन्यांत पसून तो दिल्ल्या पयशां भितर आपलो खर्च भागयतालो. आनीक जाय काय म्हूण विचारल्यारूय नाका म्हणटालो. आनी आतां ऑक्स्ट्रा पयशे आनी ऑक्स्ट्रा क्लासेस एकदम सुरू...?''

''सीमा, आमचो अमीत कोणाचेर तरी पयशे मोडटा अशें दिसता तुका?''

''तितल्याचेरूच थांबल्यार नशीब म्हणटां हांव. हालीं कॉलेजींनी कितें कितें घडटा ताची खबर ना तुमकां? भुरगीं आवय-बापायचें खंय आयकतात? आपल्याक जाय तशेंच करतात. नाका देवा, अमिताक बरी बुद्द दी.''

त्या दिसा हांवें सीमाच्या उलोवण्याचेर लक्षूच दिवंक नासलें. अमीत दोन दोन दिसांनीच पयशे काबार करतालो. सीमाक दिसतालें तसो कॉलेजींतल्या भुरग्यांच्या



नादाक बी लागूंक ना मूं? अमीत आमचे जिविताचे वाली वयलें एकूच फूल. तेंच बावलें जाल्यार...?

सुर्या आपलीं भांगराचीं किर्णां फांकतालो. सकाळचो सुंदर वेळ आसलो. दिसाक येवकार दिवंक सुकणीं सकाळींच उठिल्लीं. असल्या ह्या वातावरणांत हांव एकलोच चलत चलत पयस गेलों आनी एके इमारती मुखार उबो रावलों. तरणाटीं थंय गर्दी करून आसलीं. हे गर्दैंत आमचो अमीतूय आसलो. घांट वाजली. म्हणचे, ही कॉलेज आसूंक जाय... हय, अर्दकुट्यो ओडिल्ल्यो सिगरेटी थंयच उडोवन विद्यार्थी आपापल्या वर्गांत वताले. मातसो फुडें वचून पळेत जाल्यार अमीताचो वर्ग. कांय वर्गांनी शिक्षक भितर सरताले.

कॉलेज सुरू जाली. आनी उजवे वटेन हे थोडे विद्यार्थी भायरूच कित्याक अशे उबे? वचून सांगूं तांकां, वर्ग सुरू जाला म्हूण? आनी, हीं हांगा सिनेमांच्यो, नट-नटयांच्यो खबरी करतात, कांय जाण प्रोफेसरांचीं फकाणां करतात. आनी देवा रे, हीं भुरगीं — तातूंत चलयोय आसात— तर सिगरेटी ओडटात, गांजा ओडटात... सोरो पियेतात... कुशीचे इमारतींत आसा तें कॅन्टीन जावये. खूब गर्दी आसा. हो कसलो आवाज येता? संगिताचो कसो, पूण कसलें संगीत? सूर नाशिल्लें कशें...

हांवें कुडीचे धारींतल्यान भितर पळेलें, गांजा ओडपी चेडे-चेडवां कश्या कशींय गितां गायतालीं. म्हजे वेसल्यान कोणाचेंच लक्ष नासलें. हांव दार धुकलून फुडें गेलों. आनिकूय फुडें वतना हांव कित्याक तरी आदळ्ळों. सकयल पळेल्यार एक तरणाटो बेशुद्ध कसो जावन जमनीर पडलोलो. ताचे कपडे वळखीचेच दिसताले. आनी तोंड? आरे, हो आमचो अमीत! अमीत, दोळे उकते कर, अमीत! हांव आयलां पळे, अमीत, अमीत!!

''उठात पळोवया. अशें कितें करतात? उठात आतां.'' सीमाचो आवाज कानार पडलो.

''सीमा, अमीत खंय आसा?''

''अमीत न्हिदला ताचे कुडींत.''

''शुद्धीर आसा मगो तो?''

''तुमीच आदीं शुद्धीर येयात. सारके जागे जायात पळोवया.''

''हं!! आतां सारकोच जागो रावूंक जाय.'' तें भिरांकूळ सपन घडये खरें जावं येता, अशें चिंतून हांव अमीताक कांयच कळूंक दिनासतना ताचे फाटल्यान कॉलेजींत वचपाक भायर सरलों. कॉलेजींत पावतकूच तो कोणाय लागीं उलयलो पासून ना. खास अशे ताचे



कोण इश्टूय दिसले नात. एकाय पिरियडाक तो भायर आयिल्लो दिसूंक ना. पूण, वतना आनी येतना मात वाटेर आशिल्ले एके खोंपींत तो भितर सरिल्लो. हांगाच कितें तरी भानगड आसली.

''सीमा, अमीताक हांगा आपय... हां, आयलो अमीत? बस. आयज दीसभर तुवें कितलो आनी कित्या खातीर खर्च केलो?''

''सांगूंक जावचेंना डॅडी.''

''बरें, काल दिल्ल्या पयश्यांतले कितले उरल्यात तें तरी सांगूंक येतलें?''

''म्हाका माफ कर डॅडी, एकूय पयसो उरूंक ना.''

''अमीत!'' हांव तापलों. ताच्या कानसुलार थापट मारूंक म्हजो हात वयर सरलो, आनी तेन्नाच आवाज आयलो,

''भाटकारा...''

''कोण? शांती, तूं...?''

''हय, भाटकारा.''

''सीमा, तिका कितें जाय तें पळे.''

''भाटकारा, म्हजेर तुमचो खूब उपकार आसा. तुमच्या आदाराक लागुनूच हांव आयज उबें आसां भाटकारा; ना जाल्यार म्हजेर कसलो वेळ येतलो आसलो तो देवाकूच खबर.''

''शांती, तूं कितें सांगूंक सोदता, हांव समजूंक ना.''...

''बाय, भाटकारा, अमीताचो जल्म जालो, तेन्ना पसून हांव ह्या घरांत काम करतालें. अमीत म्हजे बगर एक मिनूट परयान रावनासलो. एक वरस जालें, हांवें हें घर सोडल्यार. आतां हांव एके खोंपींत रावतां.''

''तूं हांगासून गेलें, आनी उपरांत तुवें तुजो पत्तोच लागूंक दिलो ना...'' सीमान शीण काडलो.

''हय गो बाय. पूण तें आसूं. ह्या म्हातारपणार हांव दुयेंत पडलें. म्हाका तुमचो खूब उगडास आयलो. तुमी म्हाका पावतलींच म्हूण खात्री आसली म्हाका. पूण परतून विचार केलो, आतां म्हजो संबंध कितें उरला तुमचे लागीं मजत मागपाक? पूण म्हाका दिसता देवानूच म्हजो निरप तुमकां धाडलो, आनी हो अमीत दोतोराक घेवन म्हजे खोंपीच्या दारार उबो रावलो.

''फाटलो आख्खो म्हयनो तुमी दोतोराचे पयशे फारीक करून म्हाका वांचयलें. आनी काल अमीता कडेन घटपाणीचें शारोप घेवपाक पयशे धाडून दिले. हांव नकळं भाटकारा, तुमचे उपकार हांव कशे फारीक करतलें. तुमकांच लागून आयज हांव उबें आसां. तुमच्याच उपकाराक लागून...''

हांवें अमीताक वेंगेंत घेतलो. ''अमीत, तुवें हें सगळें आदींच कित्याक सांगलें नां? आरे, अशा पुताचो खंयच्या आवय-बापायक अभिमान दिसचो ना?''

आनी म्हज्या दोळ्यांतल्यान खोशयेचीं दुकां व्हांवूंक लागलीं.

# घाण्याचे बैल

विठ्ठलराय भट

प्रोफेसर जयराम स्टाफरुमात आयलो आनी आपली खुर्ची वोण्ण घेवन बसलो. बाजूच्या 'ती' बसच्या खुर्चे कडेन दोळे फिरयले. 'ती' अजून आयली नाशिल्ली. आतांच तर पावणेणव वाजताले. तिचो टायम णवाचो. आपूण वोगीच कॉलेजीतल्या भुरग्या म्हणकी घायकुतीक येता तें पळोवन जयरामाक थोडी लज दिसली. ह्या पंचेचाळीस वर्सांत खंयच्या बायलमनशे कडेन तो इतलो आकर्शीत जाल्लो नाशिल्लो. जयरामान मेजातल्या ड्रॉवरातल्यान टायमटेबल भायर वोण्ण काडलें. आज ताका दंपारा दोन ते सांजेर पांच पर्यंतच पिरेड आशिल्ले.

जयराम चोवीस वर्सांचो आसतानाच ताजो बापूय मेल्लो. तीन ल्हान भयण्यो अणी दोन धाकटे भाव इतली विस्टेट ताका सोण्ण बापूय संवसारातल्या सगळ्या तापत्रयातल्यान भायर पडलो. तो सुटलो खरो पूण संवसाराचें सगळें वोजें मात्र जयरामाल्या बोडार येवन पडलें. 'मास्टर ऑफ इंजिनियरिंग' ही परिक्षा ताणें पास केली हीच व्होडली खबर म्हणची. दुसरो जाल्यार त्या घुसमटीन काबार जाताशिल्लो. परिक्षा पास जातरीक ताका रोकडेंच चौगुले इंजिनियरिंग कॉलेजीत नोकरी मेळ्ळी.

एकेक भयण ग्रॅज्युएट जाली तशें कोणाकोणाल्या वोळकीन जयरामान कोणाक स्टेनो, कोणाक पी.ए., तर कोणाक रिसेप्शनिस्ट म्हूण कामाक लायलें. पूण नोकरेक लागतरीक एक भयणीन सुद्दां घरखर्चाचो वाटो उचल्लोना. नवीन नवीन पातळां, दागिने, स्नो, लिपस्टिक, सँडल्स – हातूतच तांचो पयसो काबार जातालो. आवय पूण तांकां कांयूच उलयनाशिल्ली. एक खेपेक जयरामान विशय काडतरेक आवयन म्हळें, ''जया, जावंदी रे पुता. फाल्यां तीं आपल्या घोवागेर वतलीं. तेन्ना तांकां अशें खर्चाचें स्वातंत्र्य मेळता म्हूण सांगच्याक जायना.''

आवयन असो बोध करतरेक जयराम गप्प बसतालो. घाण्याक बांदिल्ल्या बैला म्हणकी संवसाराचो घाणो एकसारको वोडतालो. दोनी धाकले भाव ग्रॅज्युएट जाले अणी नोकरेक लागले तेन्ना जयरामाक ते घरखर्चाक थोडे हात लायतले अशें दिसलें. पूण 'कसलें कितें, अणी फाटकें जोतें', अशी ताजी गत जाली. नोकरेत कायम जातरीक दोनी भावांनी आपापल्या आवडीच्या चलयां बरोबर लग्न केलें. तांणी जयरामाक, आवयक एक शब्दान सुद्धां आपापल्या लग्ना बद्दल सांगलें ना, की विचारलें ना.

भयण्यांल्या लग्नां पयलींच दोनी धाकल्या भावांनी लग्न केलें म्हूण एक दीस आवयेन घरा व्होडलो व्होळो उटयलो. तेन्ना दोनी पूत पयलींच थारायिल्ल्या म्हणकी बायलांक घेवन वेगवेगळे बिराड कन्न रावपाक गेले. ते पळोवन जयरामाक अजाप दिसलें. बापूय नाशिल्ल्या भावांक ताणें मोगान वाडयिल्ले. तांचें शिक्षण केल्लें. जाय नाका तें पळयिल्लें. पूण दोगांनी संवसाराची जापसालदारकी आंगार घेतली ना तें पळोवन जयरामाक खूब खूब वायट दिसलें.



आवय सदींच जयरामाक रातीन याद कन्न दिताली, ''पुता, भयण्यांलें लग्न कन्न उडय. वय वाड्ल्यार मागीर तांचें लग्न करपाचें कठीण जातलें.'' तें सदींचें रडगाणें आयकून आयकून जयरामाक वाज आयिल्लो. मागीर तो हांगा थंय धांव मार्न, हाका ताका मेळ्ण भयण्यांलीं जातकां दितालो. कशें केन्ना एका फाटल्यान एक अशें ताणें तिनी भयण्यांलीं लग्नां केलीं. तांकां आपापल्या संवसारात बांदून घाल्न तो थोडो निर्धास्त जालो. त्या सगळ्या गडबडेत सुद्धां ताणें पीएच.डी. पदवी मेळयली हें एक अजापच म्हणचें.

चलयांलें लग्न जातरेक आवय थोडी तुस्त आनी सुस्त जाली . ह्या धुवे कडे, त्या धुवे कडे अशें मदें मदें वचून रावपाक लागली. आपलो नोकरी करचो पूत हातान जेवण रांदून जेवता हाजें तिका कांयूच दिसनाशिल्लें. जयराम आपल्या घरातल्या लोकांच्या सुवार्थीपणान पुराय विटलो. आपल्या लग्नाची कोणूच खबर काण्णात म्हूण तो हताश जातालो. शेजारी पाजारी आवयक तोमणे मारपाक लागले. तेन्ना तिणें जयरामा खातेर एक सोयरीक सोदून हाडली. चली एसेस्सी पास जाल्ली. गरीब घरातली. पिराय अठरा.दिसपाक पूण अशीतशीच. अठरा वर्सांच्या चलये वांगडा लग्न कन्न कितें करचें? तिका तीन चार पोरां जातलीं. 'रांद, वाड, उश्टीं काड' हाज्या परीस ती आनी कितें करपाक शकतली? तिच्या बरोबर कसलें बौद्धीक सूख मेळतलें? आपल्या पेक्षां वयान खूब ल्हान आशिल्ल्या चले वांगडा लग्न जावचें तें ताका पटनाशिल्लें. तें अनितीचें काम आसा अशें तो मानतालो.

स म्हयन्यां पयलीं मडगांवात नवीन सुरू जाल्ल्या इंजिनियरिंग कॉलेजीत जयराम इलॅक्ट्रिकल डिपार्टमॅंटीचो मुखेस्त म्हूण कामाक लागलो. हांगा ताका भरपूर पगार मेळतालो. कॉलेजीच्या मॅनिजिंग कमेटीर मडगांवची श्रीमंत व्यापारी मंडळी आशिल्ली. तशें जावन संस्थे कडेन दुडू भरपूर. नव्या लेबोरेटरीचें काम जोरात सुरू जाल्लें. अजून स्टाफरुमाची व्यवस्था जाली नाशिल्ली. तो अणी नवीन कामाक लागिल्ली डॉ. वनिता एकूच रूम शॅर करतालीं.

वनिता ३८-३९ वर्सांची. दिसपाक सुंदर. इलेक्ट्रॉनिक विशियात तिणें पीएच्.डी. केल्ली. शिवाय ती आय.आय.टी.ची प्रॉडक्ट. पूण तिगेल्या ह्या सगळ्या डिगऱ्यां पेक्षां ती दिसपाक सुंदर आसा, वयान अनुरूप आसा आनी अजून लग्न जावपाक ना, हें महत्वाचें आशिल्लें. धा-पंदार वर्सां पयलीं वनिता कितली सुंदर दिसपाक फावऽ ह्या येवजणेत जयराम दंग जाल्लो.

वोळकीचो जोत्यांच्या जोडाचो आवाज आयकलो म्हूण जयरामान तकली वयर कन्न पळयलें. वनिता रुबाबान येताली. तिणें मोव आनी गोड आवाजात 'गुड मॉर्निंग सर' म्हळें. आनी आपल्या खुर्चेर वचून बसली.

जयरामान टायमटेबल आपल्या मेजार पसरायलें. ''मॅडम, तुमी फोर्थ इयर कंप्यूटर टॅक्नॉलॉजी विशय घेवपाक शकतात?''

''आठवड्यातल्यान कितले तास आसात, सर?''

''फकत दोन तास, सोमार धा ते इकरा आनी शुक्राराक दनपारां दोन ते तीन.''

''जायत सर. हांव घेता ते क्लास.''

खरें म्हळ्यार हो विशय नवीन कामाक लागिल्ल्या खंयच्याय लॅक्चरराक दिवपाक जाता. पूण जयरामाक वनिता कडेन उलोवपाक कितें तरी नवें जाय आशिल्लें. थोडो वेळ वोगी रावन जयरामान विचारलें, ''हांवें तुमकां काल विचारिल्लो विशय. तुमी कांयच जाब दिलोना.''

वनिता गंभीर जाली. मागीर तिणें हळूच सांगलें, ''सर, खंय तरी भायर वचुया. हांगा तो विशय उलोवचो तें म्हाका बरें दिसना.''

दोगांय कॉलेज रोडा वयल्या 'स्वागतम' हॉटेलात गेली. भितर सरतरेक आंगार शितळ असो एअरकंडिशनाचो झोत आयलो. रेस्टॉरंटातलो मंद उजवाड, मधूर संगीत आनी टेबलार गुलाबा फुलांचो घोस. वातावरण अगदीं जाय तशें रोमॅंटिक आशिल्लें. मेनुकार्ड हातात घेवन जयरामान वनिताक ''कितें घेता?'' म्हूण विचारलें.

''मसाला दोसो जायत.''

जयरामान मसाला दोसाची ऑर्डर दिली. दोशे येता पर्यंत दोगांनी एकमेकांक आपापली कथा सांगली.

वनिता ल्हानपण धरून्च स्मार्ट गर्ल. मॅट्रिक परीक्षेत बोर्डात चौथें नंबर आयिल्लें. तिणें इंजिनियरिंग अणी तातल्या तातूत इलेक्ट्रॉनिक विशय घेतिल्लो पळोवन सगळ्यांक अजाप जाल्लें. त्या मुस्तीक चलयो ह्या विशया कडल्यान पयस रावताल्यो. पयले वर्साक 'वर्क शॉप' हो विशय सगळ्यांक कंपल्सरी. वनिता क्लासांत एकटीच चली. तातूंत ती अगदी सुंदर! मागीर कितें? जायते भुरगे तिका मदत करपाक म्हूण मुखार मुखार येताले. पूण वनितान हुशारेन सगळ्यांक 'थॅंक यू' म्हूण लांब दवरले. लायब्ररीत बशिल्लें तेन्ना 'आय लव्ह यू'चे कागदाचे बाण येताले, चिटयो येताल्यो. ''च्या पिवपाक वचुया'', ''पिक्चराक वचुया'' अशें म्हणत जाय ते जाण तिच्या भोंवताडी लाळ गळयताले. पूण वनिता स्थितप्रज्ञ. ''अरे ती 'फ्रिजिड' आसा'' अशी आवाय पोरांनी उटयली. कॉलेजाच्या वणत्यांचेर वोगीच तिचें नांव अणी एक चल्याचें नांव बरोवन दवरिल्लें. पूण वनितान तसल्या गोश्टी कडेन पळोवन पळयलें ना अशें केलें. ती कोणाकूच कॅर करनासतना सरळ नाका मुकार पळोवन चलताली. 'हाथी गया बजार तो कुत्ते भूँकते हैं हजार' अशी ती म्हणताली.

वनिता परिक्षेत रॅंक घेवन पास जाली. पेपरात तिचें नांव अणी फोटो छापून आयलो. एच.ए.एल . तशेंच बी.ई.एल. अश्या नामांकीत कंपन्यां कडल्यान तिका नोकरी खातीर कॉल आयलें. पूण वनितान निर्धारान त्या कॉल कडेन फाट फिरायली. अणी वयाच्या अठ्ठाविसाव्या वर्सार पीएच.डी. पदवी घेतली. ती सुद्धां हायेस्ट ग्रेड मेळोवन.

वनितान आपूण पीएच.डी. जाता पर्यंत लग्नाचो विशय काडपाचो ना अशें आवय बापायक सांगिल्लें. त्या उतरा परमाणें तांणी धुवे खातीर न्हवरो पळोवपाची तयारी सुरू केली. आतां वनिताक कसलेंच कारण दिवपाक जायना जालें.

बापूय वनितालें जातक घेवन हांगा थंय धांव मारपाक लागलो. चलेलें वय पळयतरेक जातक परत येवपाक लागलें. ''शिकलें, शिकलें आनी शिकलें, आनी तातूंतच वय काबार जालें.'' आवयेन सुस्कारो सोण्ण म्हळें.

"आतां कोण लग्न करतलो ह्या वय वाडिल्ल्या घोडे कडेन?" आवय बोडार हात घेवन बसली. आवयले तोमणे आयकून वनिताक जीव नाका अशें जातालें. पूण तें गप्प बसतालें.

एक दीस बापायन म्हळें, "वनिता पळय, तुगेल्यो कितल्योश्यो मैत्रिण्यो १८-१९ पिरायेचेर लग्न जावन संवसारात पुराय बुण्ण गेल्यात. तांचीं चोरडांच आतां तुगेल्या छाते पर्यंत पावतलीं इतलीं व्होड जाल्यात." बापूय सांगता तें खरेंच आशिल्लें. वनिताल्या खंयच्याच भुरगेपणातल्या मैत्रिणीक तिचो उडगास येनाशिल्लो. कोणाक तिची वासपूस करपाची अशें दिसनाशिल्लें. सगळी जाणां लांब लांब फाफसून पडिल्लीं. धुवेल्या लग्नाच्या काळजेन आवय बापूय मनातल्यान सामके करपून गेल्ले. एका फाटोफाट एक कन्न दोगांय मन्न गेली. मागीर झक मारत वनिता आपल्या अण्णाल्या संवसारात सामील जालें.

समजूतदारपणान वनितान अण्णा अणी वैनील्या संवसारात सोताक बुडोवन घेतलें. तांची चोरडां पुष्पा आनी संकेत हांकां आत्या म्हळ्यार जीव की प्राण. तांकां जाय ती वस्तू आत्या हाण्ण दिताली. तांणी तोंडांतल्यान शब्द भायर काडचोच कळाव की ती वस्तू सांज पर्यंत घरा आयलीच म्हूण समजुवचें. आवय बापायलो चोरडुवां खातेर खर्च वाचलो. वैनी नोकरी करनाशिल्ली. पूण घरकाम मात्र भोव बरी करताली. रांदप पूण रुचीक करताली. अशें जावन वनिताक सुरक्षीत घर मेळिल्लें. आधाराक अण्णा-वैनीली साथ मेळटाली. तिचो पगार ती बँकेत दवरून घर खर्चाक म्हूण म्हयन्याक एक हजार रुपये अण्णा कडेन दिताली. बरोच पयसो जमतरेक वनितान नवीन सोसायटीत एक फ्लॅट विकत घेतलो अणी आण्णाल्या वोळकीन भाड्याक दिलो. ताजें भाडें ती आपल्या भाचरांच्या शाळे खर्चाक वापरताली.

आवय-बापूय मरतरेक अण्णान ना म्हळ्यार वनिताल्या लग्ना खातेर थोडें पिरयत्न केलें. पूण सगळ्या कडेन तिचें वय आड येवपाक लागलें. तिगेल्या मामान एक सोयरीक हालींच हाडिल्ली. ताणें भाच्याक सांगलें–

"नाण्णी (नारायण), ही सोयरीक तुमी सोडू नाकात. चलो बी.ए. जावन शाळेत मास्तर आसा. घराणें बरें आसा. वनिता आनी तागेल्या वयात पूण जास्त फरक ना. दोगांली जातकां पूण २७ गुणांनी जुळतात. तो दिसपाक पूण सुंदर रावण. ह्या वयात वनितान दोतोर, इंजिनियरूच जाय असो हटमारीपणा करच्याक नजो. माका तर ही सोयरीक भोव बरी दिसता. तागेली बायल मर्न तीन म्हयने जाले. ताका भांगरा सारकीं दोन भुरगीं आसात, भुरग्यांक पळोवपाक तांची आजी आसा. पळयात बाबा. विचार कर्न म्हाका कळयात."

मामान हाडिल्ल्या सोयरीकेची वर्णना आयकून वनिताक राग राग आयलो. 'बायल्यामनशाक घोव म्हूण एक दादलो मेळ्ळ्यार जालो. दोन-तीन पोरां जातलीं. जालो मागीर संवसार. जीवनाचें सार्थक जालें.' असल्या वातावरणात होड जाल्लो माम. ताका दोश दिवन उपेग कितें? वनिताक जाय आशिल्लो आपल्या सारकोच शिकिल्लो वाचिल्लो मनीस. जीवनातल्या सगळ्या रंगांत आपल्या बरोबर समानतेन रस घेतलो समवयस्क असो चलो. तिणें मामाक आनी आण्णाक 'आपल्याक लग्नच करचें ना' अशें निक्षून सांगलें. "तुमी अणी मजे खातीर सोयरीक सोदपाच्या भानगडेत पडू नाकात. माका लग्नच करपाचें ना." भाचेलो हावेस पळोवन माम तोंड बारीकसें कन्न गेलो.

केन्ना केन्ना अण्णा वैनी सांगाती पिक्चराक, नाटकाक, भोंवडेक वा प्रवासाक वतालीं तेन्ना वनिताक 'आपल्याक पूण हक्काचो असो एक मनीस सांगाती आसल्यार बरे जातालें' अशें मनांत दिसतालें. पूण आपलें शिक्षण, हुद्दो पगार हाका अनुरूप असो चलो मेळ्ळ्यार मात्र लग्न करचें, ना जाल्यार लग्न करपाचें ना. अशेंच रावचें. अशें तिणें थारायिल्लें.

"अणी कितें मागोवूं?" अशें जयरामान विचारतेर वनिता आपल्या तनरेंतल्यान भायर आयलें.

"कॉफी घेवुया," तिणें सांगलें.

जयरामान वनिताक उडगास कन्न दिलो. "तुमी म्हाका आजून कितें तें सांगलें ना."

"सर, माका ह्या वयात लग्न जावपा वित्सा ना."

"अजून अर्दें आयुश्य पूण सरलें ना. अ कित्याक हें वैराग्य?"

"म्हाका 'त्यो' नाजूक भावना आतां नात अण्णा-वयनी म्हाका बऱ्या भाशेन चलोव घेतात. जाय - नाका ताजी काळजी घेतात म्हाका नोकरी, बरो पगार आसा अणी अण निमित्त्यान सुरक्षा पूण आसा."

"तुमकां अण्णा-वैनी बऱ्या भाशे चलयतात हाजें कारण तांगेल्या मनातलो सुवार्थ. तुमी दुडू मेळयतात. घर खर्चाक पयशे दितात, शिवाय तांगेल्या चोरडुवांलो सगळो खर्च करतात. खरेंच मना पासून ते तुमगेले आसात? विचार करात. मगेलो अनुभव सांगता तुमकां. हांव मगेल्या तिनी भयण्यांगेर मदे मदें वता. दर खेपेक ठरावीक उपचार चलतात. हांवें व्हेल्लीं प्रेझेंटां गिफ्टां पळोवन सगळ्यांक खोशी जाता. च्या-खाण, जेवण सगळें रुढी परमाणे जाता. पूण सगळें वयलें वयलें. उदकातल्या तेला म्हणकी. तातूत होमली फिलिंग ना. एक पूण भयणीन आवय मर्न तीन वर्सां जालीं तरी अजून पर्यंत मज्या लग्ना बद्दल विचारलें ना. सगळी जणां आपापल्या संवसारात गुंग जावन पडल्यात. तांकां तांगेल्या संवसाराचे तापत्रय आसात. हांव लग्न जायनासतना राबल्यार तांकां तांगेल्या अडेअडचणीत हक्काचें बँक मेळता. हें तीं जाणा आसात. दोगी धाकले भाव मजें तोंड पूण पळयनात. एक नंबरचे निमकहराम..." थोडो.वेळ राबून जयरामान सांगलें, "तुमकां पळोवन म्हाका योग्य पार्टनर मेळतलो अशी खात्री जाल्या. आमचें दोगालें शिक्षण, वय, आवड-निवड्यो जुळतात. पळयात विचार कर्न अणी थारायात. म्हाका तुमचो निर्णय बेगीन कळयात."

"जायत सर. हांव अण्णाक हो विशय आजूच सांगतां आनी तुमकां कळयतां कितें तें."

"अण्णाक जरूर विचारात तुमी. पूण तें मुखेलें न्ही. मुखेली खबर आसा, तुमकां मज्या प्रपोजला बाबत कितें दिसता तें. सांगात मॅडम."

वनितान तकली वयर करून जयरामाल्या

दोळ्यांत पळयलें. ते दोळे तिगेल्या उतरा खातेर उतावळे जावन आशिल्ले. 'हो मनीस प्रामाणीक अणी प्रेमळ दिसता.' तिणें मनाक सांगलें.

"माका मान्य आसा," वनितान मंद आवाजात सांगलें तें आयकून जयरामाक मंद मंद वाजत आयिल्ल्या पांयजणां म्हणकी भास जालो. सोंशान उडकी मारिल्ल्या म्हणकी जयरामाल्या काळजान टुण्कन्न उडी मारली. ताणें वनितालो गोरो गोरो, मोव मोव, लुसलुशीत हाता तळवो आपल्या दोनी तळव्यात घेतलो. थोडो वेळ तशीच दवरून ताणें तिगेल्या हाताचो उमो घेतलो. त्या स्पर्शान वनितालें आंग रोमांचीत जालें. गालार गुलाब फुल्ले. आंगातलें रगत जोरात धावपाक लागलें.

"चल, वचुया. बारा वाजपाक आयले. पिरेड घेवपाचे आसात." जयरामान मोगाळ आवाजात सांगलें. "अणी एक, आज पासून माका 'सर' म्हणापं ना." दोगांय मना पासून हांसलीं.

त्या दिसा सांजेर घरा वतना वनितालीं पावलां नाचतालीं. आंग हगूर जाल्ल्या म्हणकी दिसतालें. आपूण सवण्या फाका म्हणकी हव्यात भिरभिरता अशें तिका दिसपाक लागलें. खूब खूब वर्सांत तिणें जीवनांत इतलो आनंद भोगलो नाशिल्लो. आज आपूण पंदरा-वीस वर्सांनी ल्हान जाला असो तिका भास जालो.

दारातूच दोनी भाचरां तिगेलीच वाट पळयत आशिल्लीं. तांकां तिणें कॅडबरी चॉकलेटां दिलीं. तांचे असोशीन उमे घेतले. तिणें विचारलें, "बाप्पा खंय?"

"रुमात आसा."

दारार टक्टक् आवाज कन्न वनिता अण्णाल्या रुमात गेलें. मांचार बसून घोव बायल किर्ते तरी उलयतेर आशिल्लीं. तिका पळोवन वैनी घोवा कडच्यान थोडें लांब सरकून बसली. वनिता खुर्चेर बसतरेक अण्णान विचारलें, "किर्ते वनिता? किर्ते खबर?"

"अण्णा, हांवें फाटी दोन तीन वेळार तुका आमच्या डिपार्टमेंटीच्या हेड डॉ. जयराम हांच्या बद्दल सांगला न्ही?"

"हय. ताजें किर्ते?"

"अण्णा, डॉ. जयराम बॅचलर आसा. घरातल्या पांच भांवडांल्या जबाबदारीतल्यान हालीच मेकळो जाला. वयान पंचेचाळीसाचो आसलो तरी दिसपाक १०-१२ वर्सांनी तरणो दिसता. कसलें व्यसन ना. आंगान थोडो भरला खरें, पूण दिसपाक शोभून दिसता. ताणें माका मागणी घातल्या आनी ताका हांवें 'हय' म्हूण जाब दिल्या. तुमी दोगांनी आशिर्वाद दिवचो."

आपली उतरां आयकून अण्णा आनी वैनील्या तोंडार खोशी दिसतली ह्या अपेक्षेन वनितान तांचे कडेन पळयलें आनी तिगेल्या



भ्रमाचो दुदी फट्कन्न फुटलो.

"किर्ते वनिता? किर्ते सांगता तूं? ह्या वयात तू लग्न जावपाक उटला?" अण्णान पडिल्ल्या आवाजान म्हळें. घोव बायलेलीं तोंडा खिणात काळीं ठिक्कर जालीं.

थोड्या वेळान वैनीन तिरकसपणान म्हळें, "हय गो वनिता, तुजें वय आता ३९. एक दोन वर्सांत तूं भश्टें जावचें ना. लग्न जावन चोरडुवां जावका म्हूण आशा धर्न रावला की किर्ते?"

"जीवनात चोरडुवां हेंच सर्वस्व न्ही वैनी. जगात कितलीं चोरडुवां अनाथ जावन आश्रमात पण्ण आसात."

वैनीन तिखट आवाजान सांगलें, "वनिता स्पश्टूच सांगतां तुका हांव. आता इतल्या वर्सांनी कोण तरी म्हातारो माकड मेळ्ळो म्हूण नाचपाक लागला? ह्या वयात लग्न केल्यार लोक हासतले तुका. चोरडुवां नाकाशिल्ल्या म्हणकी उलयता म्हगो तूं! चोरडुवां नाशिल्ल्या लग्नाक किर्ते अर्थ आसा? बेश्टेंच घोव बायलेन लागी न्हिदपा खातेर लग्न जाता?"

वैनीलीं उतरां आयकून, वनिताक वोकूंक आयल्या म्हणकी जालें. वैनी असलीं घाण उतरां उलयत अशें वनितान केन्नाय लेखिल्लें नाशिल्लें. मनांत आयिल्लो राग तिणें मनांतूच दपटून दवरलो.

अण्णान एक तरेन बायलेल्या म्हणपाक तेंकू दीत सांगलें, "बाये वनिता, पळय, विचार कर. पिशेपणाच्या हावेसात येवन विपरीत निर्णय घेनाका. जगाक हासपा खातेर एक आयतेंच कारण मेळतलें."

अण्णाल्या आवाजात नरमाय आशिल्ली. ना म्हळ्यार आपली भयण विद्यावंत अणी गुणवंत आसा हाजो ताका मनातल्यान अभिमान आशिल्लो. तिच्या बद्दल आदर पूण आशिल्लो. वनिता काय उलयनासतना गप्प बसून आसा तें पळोवन अण्णान म्हळें, "बाये, तूं आमकां किर्ते जड ज़ावन पडलें ना. तूं पूण आमगेल्या बरोबर समरसून गेला. आमगेल्या दोनी चोरडुवांक आवय-बापाय पेक्षा तुजेर जास्त मोग. तुजी पूण तांचेर तितलीच माया आसा तें हांव जाणां. फाल्या आमी ना जाले तरी आमचीं भुरगीं तुका मोगान सांबाळतलीं. म्हातारपणात आपलें किर्ते जायत अशें मनात भिरांत घेवन बस नाका. चलयांलें लग्न वीस-पंचवीस पिरायेर जाल्यारूच ताका शोभा आसा. अशें चाळीसाव्या वर्सार तूं लग्नाक उबें रावला म्हळ्यार लोक हांसतले मुगो."

अण्णा आपल्याक 'इमोशनल ब्लॅकमेल' करपाक सोदता हें वनिताल्या लक्षात आयलें. तिणें विचारपूर्वक एकेक शब्दार जोर दितेर सांगलें, "अण्णा, मजें आतां लग्नाचें प्राय न्ही हें हांव जाणां. फकत कुडीच्या सुखा खातरेकूच लग्न जावचें जाल्यार हांव तुवें आनी मामान हाडिल्ल्या खंयच्या तरी सोयरिकेक हां म्हण्ण लग्न जाता आशिल्लें. बायल मेल्ल्या, दोन भुरगीं आशिल्ल्या मनशा बरोबर लग्न जावन दोन तीन पोरांली आवय जाताशिल्लें. पूण त्या लग्नात प्रेम, मोग, स्नेह उरनाशिल्लो. बौद्धीक आनंदाकय हांव पारखें जाताशिल्लें. ह्या विशयार जयरामान आनी

हांवें खूब विचार केलो. आमचे एकमेकांले विचार जुळतात. परस्परांचें प्रेम निर्मळ आसा. मुख्य म्हळ्यार, आमगेल्या कामाचें खेत्र एक आसा. आमच्यो आवड्यो-निवड्यो पूण एकसारक्यो आसात. हातुतूच म्हाका सूख दिसता.''

''तूं आमच्यात इतलीं वर्सां मेळून-मिसळून रावला. आतांच एकदम मर्देंच हुच्च कन्न कितें जालें तुका, आँ?''

''अण्णा, हांव पूण इतलीं वर्सां तुमगेलेंच म्हूण समजून राविल्लें हांगा. हांवें घोळ्ण हाडचो दुडू तुमच्या उपकाराक येतालो. तुमगेल्या भुरग्यांलो सगळो खर्च ह्रांव सोसतालें. तुमचे कडेन आसऱ्याक रावता म्हूण घाण्याच्या बैला म्हणकी घोळतालें. तुमी दोगांय एक वराच्या कामा खातेर म्हूण भायर गेल्यार चार वरांनी घरा परतें येतालीं. कारण तुमी जाणां आशिल्लीं, हांव घरातलीं सगळी कामां कन्न काबार करतलें म्हूण. तुमी दोगांय सुवार्थी हें म्हाका आज कळ्ळें. हांव लग्न जावन गेल्यार घरचो पुराय खर्च तुगेल्या माथ्यार पडतलो. घरात काम करचो हक्काचो एक नोकर कायमचो ना जातलो अशें तुमकां दिसता. ह्या वयात सुद्दां म्हाका चोरडुवां जावपाक शकतात. ना जालीं तरी मजो स्वतंत्र फ्लॅट आसा. अण्णा-वैनी, सारखें आयकून



घेयात. हांवें निर्णय घेतला. म्हजो निर्धार जाला. आतां अणी हांव पांय फाटी घेवपाचें ना. सांगून दवरतां तुमकां.'' वनितान भडाभड आपल्या मनांतली मळमळ वोकून उडयली. वनिता सात्वीक संतापान उलयतालें. तागेलीं उतरां आयकून अण्णा अणी वैनीले दोळे उज्या केंड्या म्हणकी तांबडेगुंज जाले.

वैनीन म्हळें, ''वनिता, अणी एक कारण आसा. लग्न म्हळ्यार तोंडान जावचें काम न्ही. ह्या म्हारगायेत भांगर, रुप्याचें मोल आकाशाक वचून तेंकलां.''

''वैनी, तूं विसरली दिसता. आई जिवंत आसतानाच तिणें म्हजे खातेर भांगरा छेडो, कांकणां,कर्न दवरल्यांत. रुप्याचीं कांय आयदानां पूण केल्यांत. अणी नवें कांय करचें गरजेचें ना.''

''मजें पुष्पा अणी पांच-स वर्सांनी पिरायेत येतलें. तुगेल्या म्हणकी हांव तिका जास्त शिकोवचें ना. तशें पिशेपण हांव करचें ना. चलयांलें लग्न वेळच्यावेळार जाल्यार बरें जाता. तागेल्या लग्नाक भांगर-शिंगर, रुप्याचीं आयदानां कशी करतलीं आमी? म्हारगाय तर दर दिसाक वाडतेर चल्ल्या.''

वैनी पक्का मारवाडी व्यापाऱ्या म्हणकी उलयली. तिगेल्या उतरा उतराक सुवार्थाचो वास मारतालो. तिगेल्या उलवण्याक अण्णा मोन्यान तेंकू दितालो. बायले कडेन तोकणायेन पळयतालो. जयरामान सांगिल्ली खबर वनिताक याद जाली – ''हे सगळे स्वार्थी लोक. सगळें प्रेम, मोग, वयलें वयलें... भितरल्यान आपलो सुवार्थ साधून घेवचो. खंयच्याय मोगात मुद्दलाक एक तरेचो सुवार्थच रावता.''

आतां रागार जावन उपेग ना; आपलें काम हुशारेन करका अशें मनांत येवजून वनितान म्हळें, ''मजो निर्णय जाला. मजो निर्धार जाला. आतां अणी हांव पांय फाटी घेवचें ना, सांगून दवरतां तुमकां.'' वनिता सात्विक संतापान उलयतालें. तागेलीं सणसणीत उतरां आयकून अण्णा अणी वैनीक अजाप जालें. तातूतच वैनीन आपली गाडी मुखार दिकुळ्ळी. ''तूं गेल्यार आमकां घर खर्चाक तुजो दुडू मेळचो ना. भुरग्यांल्या शिकपाचो खर्च आमकांच करचो पडतलो. तुगेल्या आण्णाल्या इतल्याशा चिमटीभर पगारात आमी कशी संवसार करतले? पुष्पालें लग्न कशी करतले?'' तिणें दोळ्यांक पदर लायलो. वैनी हें सगळें नाटक करता अशें वनिता समजून चुकलें.

''वैनी, हांव तुमगेले उपकार विसरलें ना. विसरचें पूण ना. मगेल्या आवयन दिल्लें भांगर, रुप्याचीं आयदानां हांव घेना. तें सगळें पुष्पाल्या लग्नाक वापरात. मजें लग्न सादेपणान कर्न दियात. शोग-फोग नाका. घरातल्या घरात केलें तरी जाता.''

''वनिता पळय, अगदीं सादेपणान लग्न म्हळें तरी ५०-६०हजार रुपये हातात जाय. म्हाका पगार तो कितें? आमची अडचण



समजून घे. दोनी चोरडुवां व्हड जातलीं केन्ना आनी तांचें मुकार कशें जातलें हाजीच चिंता आमकां लागून रावल्या. हांव एकटोच कमायतो. तुजें हें पिशेपण सोड.'' अण्णान एक बाण सोडलो.

वनिता कांयच उलयनासताना वोगीच बसून रावलां तें पळोवन वैनीन ब्रह्मास्त्र भायर काडलें – ''वनिता, तुका एक विचारतां, तो तुगेलो जावचो घोव. कोण तो जयराम की गयाराम. इतलीं वर्सां बायलांलें सूख घेतल्या बिगर राविल्लो उरत? कितल्या बायलांली रूच ताणें चाकिल्ली उरतली. तुगेल्या पयशा कडेन, तुगेल्या ब्लॉका कडेन पळोवन तो तुका आपल्या मोगाच्या नाटकात अडकुवपाक सोदता. अणी तूं पिसांट तातूत आपल्याक घुसपावन घेता. देड दमडेची अक्कल ना तुका. बुकां वाचून डॉक्टरेक की फॉक्टरेट घेतल्या. पूण सगळें फुकट गेलें. काडेचें सुद्धां वेव्हारज्ञान ना तुका.''

''वैनी, शटप. तुजी जीब इतल्या सकल्ल्या पातळेर वचून वीश गळयतली अशें हांवें केन्नाय लेखलें नाशिल्लें. तुमी मजें लग्न करून दिवपाची गरज ना. मुखाल्ल्या शनवाराक आमी गोकर्णांत वचून लग्न करतलीं. तुमकां इत्सा आसल्यार येयात.'' इतलें उलोवन वनिता थंडसाणीन आपल्या रुमा कडेन गेलें.



# तुमच्या सांस्कृतीक दायजाचें जतन करात.
# गोंय राज्य संग्रहालयाक भेट दियात.

☞ हें भोवउद्‌देशी संग्रहालय गोंयचे संस्कृतायेचें सम्यक दर्शन घडोवपा खातीर यत्न करीत आसा.

☞ संग्रहालयांत सांप्रत सकयल दिल्लीं दालनां आसात.

- मुर्तीदालन
- ख्रिस्ती कलादालन
- मुद्रण कलादालन
- बॅनर्जी कलादालन
- धार्मीक अभिव्यक्तीदालन
- सांस्कृतीक मानववंशशास्त्र दालन
- समकालीन कलादालन
- नाणकशास्त्र दालन
- गोंयच्या सुटके झुजाचें दालन
- मिनेझिस ब्रागांझा दालन
- फर्निचर दालन
- सैमाचो वारसो दालन
- पर्यावरण आनी उदरगत दालन
- भूगर्भशास्त्र दालन

☞ संग्रहालयांत धा हजारां वयर वस्तूंचो संग्रह आसा.

☞ संग्रहालयांत दृक्‌श्राव्य विभाग आसून, विनवणे प्रमाण विद्यार्थ्यां खातीर आवाजचित्रफितीच्यो कार्यावळी दाखयतात.

☞ पुरातन प्रस्तर चित्रांच्या थळाची फायबर ग्लास प्रमाणबद्‌ध प्रतिकृती संग्रहालयाच्या वाठारांत उबी केल्ली आसा.

☞ हें संग्रहालय तुमचें. तुमचे कडल्या वस्तूंचो मोलादीक संग्रह, दान, विकत वा ठेव अश्या रुपांनी संग्रहालयाक दिवन तुमच्यांनी संग्रहालय समृद्‌ध करूं येता.




**संग्रहालय उकतें आसपाचो वेळ:**
स. ९.३० ते सां. ५.३०
(सोमार ते शुक्रार)

# गोंय राज्य संग्रहालय

संग्रहालय विभाग
इडीसी संकूल, पाटो, पणजी-गोंय
फोन: २४३८००६, २४३७३०६, २४३७३०७
वेबसायट : www.goamuseum.nic.in
E-mail: museumgoa@sancharnet.in

# भेषज

मधुसूदन जोशी

दीर्घ कथा

गों दवनांत फाटले कांय दीस व्हडलो बोवाळ चलिल्लो. शेगीत चार दीस चलिल्ल्या अनुष्ठानाची आयज समाप्ती आशिल्ली. समाप्ती जावपाची आशिल्ली पूर्णाहुतीन. बोकड्याक बळी दिवन. ते खातीर आंगान भरिल्लो आनी माथ्यार पिंजरीन रंगल्लो बोकडो हाडिल्लो. बोकड्याच्या गळ्यांत तांबड्याच दसणी फुलांचो हार घाल्लो. फुड्यांत उडयल्लें पाचवेंचार तण बोकडो बेगीबेगीन खातालो. फुडल्या कांय खिणांत आपणाली गोमटी कातरतले हाचो इल्लोय अदमास बावड्याक नासतलो इतले निरागसतायेन तो वावुरतालो. घडये नियती नांवाचे शक्तीन मुद्दामूच तें ताच्या मनांत घालूंक नाशिल्लें. इतलो तो सुशेगाद आशिल्लो. ताचे ते निळे दोळे तशेंच कितें तरी सांगताले.

"चलात... चलात... वेळ जालो. म्हूर्त चुकत..." कोणें तरी म्हळें. मंत्रोच्चार उणावत गेले. एके ताकतिकेन मंटपांतले शिश्यगण उठले. "वाजयात रे... वाजयात..." आनीक एकल्यान म्हळें. सुरवेक शेनायेचो आवाज आयलो. धोल ताश्यांच्या आवाजांत शेनायेचो आवाज उपरांत शेणलो. 'टाक् टाक् टाक्...

धुड्डम ढुम्मु गर्जुपी धोल ताश्यांनी वातावरणांत बरीच ऊब हाडली. 'जय मल्हार...' घोशणांक सुरवात जाली.

कोणें तरी बोकड्या गळ्यांतले दोरयेक हात घालो. बोकड्यान मानेक हिसको दिलो. शेंपडी नेटान हालोवन चारूय पांय मातयेंत घट्ट रोमून तो थिरावलो. पूण ताचो हालऽ नासतना रावपाचो निश्चेव दावें ओडपी बळग्या मुखार साप्प उणो पडलो. एक लाकूड फरफटायत ओडून व्हरचें तसो बोकड्याक तो ओडपाक लागलो. कोणें तरी बोकड्याक फाटल्यान धुकल्लो. बोकडो बाबडो बुजलो. ताका बुजिल्लो पळोवन कांय जाणांनी ताळयो मारल्यो. बोकड्या फाटल्यान लोकांचो चोंबो पावलां उबारपाक लागलो.

एक व्हडलें ल्हार दर्यादेगेर आदळचें तसो लोकांचो चोंबो बोकड्या सयत यज्ञमंटपाच्या दारार येवन थिरावलो. बोकडो दारांत आयले उपरांत याज्ञिकांनी ताच्या आंगार प्रोक्षणा खातीर गायचें मूत फांफूडलें. गंधफूल घालून ताची पुजाय केली. निवेद्याचें केळें ताका अर्पिलें. गरा सयत साल बोकड्यान पयलेच खेपे खाली. केळें खायत आतां तो उबो आशिल्लो. बोकड्याचें दावें शिश्यान हातांत घेतलें. यज्ञमंटपांत सवळें न्हेशिल्ले याज्ञीक तितलेच वावुरताले. आडवाद आशिल्लो काळेकिट्ट ल्हंवेचो बोकडो आनी हातांत धारेचो कोयतो घेवन उबो आशिल्लो चांडाळ हांचो. यज्ञमंटपांत मद्दीं होमखण घाल्लें. जिबल्यो चाटीत हिंस्त्र जनावर वावुरचें तसो तातूंतलो उजो दिसपाक लागिल्लो. कुशीक तुपाचे रिते बुडकुले आशिल्ले. यज्ञाक ओंपून रितीं जाल्लीं पंचधान्याचीं आयदनांय आशिल्लीं. पंचवल्कलांच्या समिधांची रास थंय पडिल्ली. दर्भ आशिल्ले. इतलें सगळें पोटांत घेवन अतृप्त उरिल्लो अग्निदेव निमाणे पूर्णाहुती खातीर ताटकळत सो राविल्लो.

अकस्मात यज्ञमाटवा भायलो बोवाळ उणोसो जालो. धोल ताश्यांची लय इल्ली चुकली. ताशाची बडीय चुकली. जिबलेर येवपी मंत्रोच्चार ओंठांक आडखळत भायर येवपाक लागले. पयसुल्ल्यान भगवीं वस्त्रां पांगरून येवपी लोकांचो थिपको आतां स्पश्टपणान दिसपाक लागलो. त्या पंगडांतल्या लोकांनी माथ्या वयल्या केंसांचें मुंडन केल्लें. एका खर निश्चेवान पावलां



उबारीत तो चोंबो यज्ञ मंटपाचे दिकेन येवपाक लागिल्लो. तातूंतल्या लोकांच्या मुखामळार वेगळेंच तेज आशिल्लें. भंय लेगीत तांचे म्हऱ्यांत झळकुपाक भियेतालो आसूं येत इतले ते दृढ दिसताले. भिक्खूंचो संघ यज्ञमंटपा म्हऱ्यांत पावलो. तांची वाट आडावपाचो यत्न लेगीत कोणें केलो ना! येदोळचो उन्माद यज्ञ माटवांतल्यान भयभीत जावन समिधां मदीं लिपला काय अशें दिसपाक लागलें. भर दनपारां थंय अकस्मात शांतिकाय पातळ्ळी. माटवा भायर जावपी बदलाची सुलूस याज्ञिकांक लागली. शिश्यांच्या मनांत न्हय न्हय ते प्रस्न येवपाक लागले. मनांत वाडपी प्रस्नांचो भार सोंसूं नजो जाल्ल्यान एकल्या शिश्यान म्हळें, ''आचार्य, म्हूर्त टळटलो!'' त्या उतरा वांगडा शेणिल्लें अवसान सांबाळीत माटवांत वावर सुरू जावपाक लागलो.

''चांडाळ खंय?'' मुखेल आचार्यांनी हुकमी सुरान विचारलें. तितल्यान भिक्खूंनी माटवांत पावल दवरलें.

''माटवांत येवपाचो अधिकार तुमकां ना!'' आंगा वयलें उपरणें सांबाळीत एक लांब-रुंद पुरोहीत तांचे म्हऱ्यांत आयलो. दंड-कमंडलू हातांत घेवन आचार्य उबे रावले.

''आमी तुमच्यो भावना वळखतात. आमी हांगचे सोयरे,'' आर्जवी सुरांत एकल्या भिक्खून म्हळें.

''ना! तुमी सोयरे जावंकूच शकनात. तुमी धर्म बुडोवपी!''

''आचार्य, हांगेल्या उतरांनी घुसपूं नाकात. हे भारतवर्षांत अशेंच करतात. तांचे कडेन लक्षूच दिवं नाकात.'' पुरोहितांचो अगतीक स्वर आचार्यांक कुशीक ओडपाक लागलो.

''*अहिंसा परमो धर्म.* आमचो कसलोच खर आग्रो ना! पुणून...'' भिक्खूचो स्वर तसोच ल्हवसार आशिल्लो.

''पुणून कितें? तुमचो यज्ञसंस्कृतायेक विरोध आसा अशें न्हय मार्तंडांनो?'' झगडुपाक तयार रावपाचो हावेस बाळगून कांय शिश्यांचो पंगड थंय आपसूक तयार जालो.

''आमच्या मनांत दुबाव आयला. ताचेर जाप मेळची इतलीच अपेक्षा,'' नम्रतायेन काय भिक्खूंनी म्हळें.

''हें पळयात, धर्मकृत्या आड आयल्यार ताचे खर परिणाम जावं येतात.'' तांचे नमळायेर व्हडल्या आवाजांत कोणें तरी धमकायलें. उपाट कश्ट घेवन केल्लें येदें व्हडलें कर्मकांड भिक्खूंक लागून थारलां हें शिश्यांक सहन जायना जालें. राग तांच्या आंगांत शिंवशिंवपाक लागिल्लो. खरें म्हळ्यार, भिक्खूंच्या रुपान एक धर्मसंकट माटवांत उबें राविल्लें. भिक्खूंक कुशीक सारून अनुष्ठानाची पूर्तताय करप तांकां व्हडलेंशें कठीण नाशिल्लें. पूण तशें करून अनुष्ठान पुराय करप हें समा न्हय असोय विचार कांय पुरोहितांच्या मनाक आफडून गेल्लो. आचार्य भिक्खूं म्हऱ्यांत आयले. भिक्खूंक तांणी पांया सावन माथ्या मेरेन पळयले. आचार्यां फाटल्यान धर्म पताका आनी दंड घेवन शिश्य उबे रावले.

''सांगात, कितें म्हणपाचें आसा तुमकां?'' झुजांत एकामेकां मुखार उबे रावन शंखध्वनी करचो तसो प्रस्न आचार्यांनी भिक्खूंच्या आंगार शेंवटून मारलो.

''कसलें कर्मकांड हें? मोनजातीक बळी दिवप समा व्हय?'' एक संतापी प्रस्न प्रधान भिक्खून केलो. माटवा भायर उबे आशिल्ल्या लोकांकूय हो प्रस्न नवोसो दिसलो. आयज



मेरेन आचार्यांनी सांगलें आनी हेरांनी मान हालयली अशेंच जाल्लें. आयज पयलेच खेपे आचार्यां कडेन कोणें तरी उरफाटो प्रस्न केल्लो. कांय वेळ माटवांत शांतिकाय पातळ्ळी. फुडें कितें जातलें हाची उमळशीक लोकांक लागिल्ली.

''हो यज्ञ तुमी कित्या खातीर केला?'' भिक्खून आचार्य ओग्गी आसात तें पळोवन दुसरो प्रस्न केलो. आचार्य कितें जाप दितले हाचे कडेन तांच्या शिश्यांलें लक्ष लागिल्लें. खीणभर आचार्यांनी दोळे धांपले. लांब स्वास घेतलो. तांच्या दाव्या दोळ्या वयली भुंवयी आपशींच वयर गेली. प्रस्न वयल्यान सोंपो दिसतालो. पूण फावो ती जाप आचार्यांक सुचना जाली.

''राजाज्ञा! राऽ जाऽ ज्ञाऽऽ! आज्ञेचें पालन हेंच आमगेलें परम कर्तव्य!'' आचार्यांनी धर्मसत्तेचें कोगलें अचळय राजसत्तेंत अडकयलें.

''बरें आसा. पूण राजाज्ञेचें कारण तरी कितें?'' भिक्खून दुसरो प्रस्न केलो!

''राज्यांतले लोक सुखी जावचे, दुयेंसां ना जावचीं!, संकश्टां टळचीं होच शुद्ध हेतू आसा हाचे फाटल्यान, समजलें?''

''पूण मोनजातीक मारून सूख कशें मेळटा?''

''हवनांत दुःखाचे दोंगर उणे करपाची तांक आसा, समजलें?'' प्रस्नांक जापो मेळपाक लागल्यो.

''दुःख? दुःख खंयचे घोलींतल्यान पाझरता? ताचें मूळ कित्यांत आसा?'' प्रधान भिक्खून आपणालो खाशेलो प्रस्न उबो केलो. माटवांतल्या शिश्यांकूच न्हय तर आचार्यांक लेगीत हो प्रस्न नवो आशिल्लो.

''प्रकोप! देवाचो कोप!! पापाचरण वाडलें काय भोगचें पडटा!'' आचार्यांनी बचावाच्या सुरांत म्हळें.

''फट! दुःखाचें मूळ सुखाचे तानेंत आसा!''

''हं... हय... आमी लेगीत तशेंच मानतात'' पुरोहितांतल्यान एक बारीकसो आवाज आयलो.

''मोक्षा फाटल्यान लागात! सुखाचो हावेस सोडात!'' दुसऱ्यान आपणालें शाणेपण दाखोवपाक म्हळें.

''पूण हें शरीर नश्वर – ना जावपी...! ताचे भोग, दुःख, पिडा हें सगळें अशा यज्ञान उणें जाता?'' प्रधान भिक्खू आपणाल्या मताक चिकटून राविल्लो.

''ना. भोग केन्नाच सोंपचे नात! भोग भोगपाचे आसतात. जल्म मरणाच्या चक्रांत घुसपल्ल्या अज्ञ मनशाक तें कळना. आत्मो अमर आसता. ताका भोग लागनात.'' आचार्यांनी विसकटावनशें सांगलें.

''भोग जर भोगूंक जाय जाल्यार बोकड्याक मारून ते उणे कशे जातात?'' मळबांतल्यान वीज माथ्यार पडची तसो तो प्रस्न माटवांत आदळ्ळो. आचार्यां सयत माटवांत कोणाच कडेन त्या प्रस्नाचेर फावऽती जाप नाशिल्ली. *ॐ अग्निम् रिळे...* सारक्या मंत्राचो अखंड जप करपी आचार्यांली जिबली घुसपली. प्रधान भिक्खूले नदरेक येदो वेळ मेळिल्ली तांची नदर सकयल देंवली. आचार्यांचेर पयलेच खेपे कोणाची तरी हार पडटा अशेंय तांच्या शिश्यांक दिसलें.

''आचार्य, ह्या गोसाड्यांच्या नादाक लागपांत अर्थ ना! हे धर्म बुडोवपी, पाखंडी...'' मुळाव्या प्रस्नाक फांटो फोडपाक कोणें तरी म्हळें. हार मानून घेवपाची तयारी नाशिल्ल्यान अभद्र उतरां वाठारांत फुरफुरपाक सुरवात जाली. भिक्खूक फावो ती जाप दिवची काय ताचें म्हणणें स्विकारचें ह्या दोट्टी विचारांत शिश्य घुसपल्ले.

होमखणा सुवातेर उप्राशिल्ल्या दुबावाक, प्रस्नाक फावो ती जाप दिले खेरीज कार्य फुडें व्हरचें न्हय हो विचार आचार्यांक अस्वस्थ करपाक लागलो. भिक्खूल्या त्या प्रस्नान आपणाली आयज मेरेनची सगळी तपश्चर्याच होमखणांत पेटपाक लागल्या असो भास तांकां जालो.

बळी खातीर हाडिल्ल्या बोकड्याच्या गळ्यांतलें दावें हातांतल्यान केन्ना सुटलें तें बाबड्या शिश्यांक कळ्ळेंच ना! आचार्यांनी ताचे कडेन पळयलें. ताच्या निळ्या दोळ्यांतलें भुरगेपण आचार्यांच्या काळजांत कालोर करपाक लागलें. बोकडो मात यज्ञवेदी भोंवतणच्यो दुर्वा खुशालकायेन खातालो. आचार्यांलें मौनूच त्या खिणाक सगळ्या प्रस्नांक फाटीं सारपाक लागलें.

''राजदरबारांत हो प्रस्न व्हरचो पडटलो. यज्ञमाटवांत दोश उप्रासला. तो ना जाले बगर फुडलें कार्य करप समा जावचें ना.'' आचार्यांनी आपणालो निर्णय सांगलो आनी तांणी पावल फाटीं घेतलें. आचार्यांले आज्ञे मुखार कोण कांय उलयलो ना. भायले लोक ल्हवू ल्हवू करून आपणाले वाटेक लागले. भिक्खूल्या मुखमंडळार ल्हवसार हांशें दिसलें. माटवांतल्यान भायर सरपी भिक्खूं वांगडा कांय लोक आपूण जावन पावलां मारपाक लागले. गोंदवनांतल्या आचार्यांल्या आश्रमार भर दनपारां निर्शेणेचें सांवट पातळिल्लें.

प्रधान भिक्खून सनातन प्रस्नाक हात घाल्लो. त्या प्रस्नान आचार्यांल्या शिश्यां मदीं खवदोळ उप्राशिल्लो. दुःखाचो झरो खंयच्यान पाझरता? वेदनांचो दोंगर कसो उबो जाता? कुडीक त्रास जाता, भोगचें पडटा हाचें कारण कितें? दुःख, वेदना, भोग हाचेर कांयच उपाय ना? शिश्य आपणाले तांकी परमाण प्रस्नाच्या मुळा कडेन वचपाक लागले. केळीक मोके येवचे तशे नवे प्रस्न ताजे तट्टटीतपणान अंतःकरणांतल्यान पर्जुपाक लागले.

भिक्खू जैतिवंत जाले, आश्रमवासियांक हार मानची पडली, हाचे परस, मुळाव्या प्रस्नाक जाप मेळूंकना हाची खंत कांय शिश्यांक चड दिसपाक लागली. त्या शिश्यां मदीं चरक नांवाचो शिश्य आशिल्लो. दुःख आनी व्याधी हांचो सांगड बांदपाचो यत्न ताणें सुरू केलो. कुडीक व्याधी जाता म्हळ्यार कितें? वेदनेचो सोद घेत चरक कुडीक जावपी व्याधींचो सोद घेवपाक लागलो. भिक्खू म्हणटात, जरा, व्याधी आनी मर्ण चुकोवपाक येना. सदांची जपमाळ हातांत घेवपाक चरक विसरलो. पूण मनांत प्रस्नाचो जप चालूच आशिल्लो. दुःख ना करूं येता व्हय?

सकाळच्या प्रातःस्मरणा उपरांत चरकान सदचीं कामां सोंपयलीं. पोशान उदक घेवन तोंड धुयलें. थंड उदकाक लागून रातीचें जागरण पयसावलें. सुर्याक नमस्कार करपाक ताणें हात जोडले.

*'ॐ मित्राय नमः'* सूर्यनमस्कारा खातीर तो बागवलो. पयस झाडां मुळांत दुर्वा पातळिल्ल्यो. त्या दुर्वांचेर माजर लोळटना

ताका दिसलें. माजर मदींच उठलें. दुर्वांचो वास घेवपाक लागलें. दुर्वा खावपाक लागलें. माजरालें दुर्वाप्राशन पळोवन चरकाक इल्लें अजाप दिसलें. नमस्कार घालपाक दावो पांय बागोवन दोन हातां मदीं दवरिल्ले अवस्थेंत तो माजराक पळयत रावलो. माजर मदींच खांकपाक शें लागलें. आनी ख्यांऽक करून ओंकलें. माजरान जिबली मिशयां वयल्यान भोंवडायली आनी तें परतून दुर्वा खावपाक लागलें. त्या रुखाच्या दाट्ट पानां मदल्यान वाट काडीत सूर्य किर्णां धर्तरेर झोंपय मारीत पातळिल्लीं. चरकान मान वयर करून मळबांत पळयलें. कांय कंवळीं किर्णां ताच्या मुखमंडळार पातळ्ळीं. किर्णांच्या उजवाडान ताच्या मनांत विचारांचें नवें ल्हार तयार जालें.

*'भास्कराय नमः'* संवसाराक उजवाड दिवपी मळबांतल्या भास्करान त्या मंगलमय वेळार चरकाल्या मनोगर्भाक हिरण्यमय करून सोडलो. एक वेगळोच अंतर्नाद ताच्या मनांत उमटलो.

*किंस्विदवंन कस वृक्ष आस?*
*यतोद्यावा पृथिवी निष्टतक्षूः*

त्या प्रसवपी विचारांचो बाळंतेर करपाक जिबली आनी ओंठ कामाक लागले. रुखाक वेंग मारून राविल्ल्या वालीं मदीं खास कितें आसूं येत? हे रूख, ह्यो वाली विंगड विंगड तरांच्यो कित्याक? आपणा कडेन संवाद सादत आंब्याचेर पातळिल्ले पांचवेचार वालीर चरकाची नदर गेली. पिपळा आकाराचीं पानां. त्या पानांर दंव. त्या दंवाक स्पर्श करीत सूर्य किर्णां जिणेचो अर्क त्या पानांत ओंपतात अशी जाणविकाय चरकाक जाली. चरकान परतून दोळे धांपले. ताचें मन ध्यानस्त जालें. वसंत रुतूच्या येवकाराक कोगळान साद घालपाक सुरवात केली. कोगळाच्या गुंजनान चरकाची ध्यान-धारणा पुराय जाली. ताच्या मनांतले विचार मनशाल्या सुखाचो वासंतीक सुवाळो मनोवपाक तयार जाले. चिंतन सोंपिल्लें. आतां उरिल्लें तें प्रत्यक्ष कार्य. अनुभुती आनी प्रयोगाची जोडणी करपाचो वावर. मनांतल्या विचारांची गंधा कांडी वेव्हाराचे साणीर उगाळपाचो खीण.

चरकान पद्मासन सोडलें. उठून तो आंब्या मुळांत आयलो. ते वालीचीं कांय पानां ताणें काडलीं. पानां हातांचेर चिड्डून गुळी केली. गुळयेचो वास घेतलो. नाकाक वास अनवळखीसो दिसलो. पूण वास अंतःकरणांत जल्मा जल्मांचें नातें सांगीत अचळय थिरावलो. दर एका श्वासा वांगडा येवपी त्या पानांचो परमळ चरकाच्या मनांतले विचार कमी करपाक लागलो. चरकान जिबलेचो पोंत अळंगपणान गुळयेक तेंकयलो. तिक्तक रसायनान भरिल्लो रस शिट्ट करून मस्तकांत भिनलो. पुराय गुळी जिबलेर दवरून कोडसाणेचो स्वाद चरकान घेतलो. ताचो हो पयलोच अणभव आशिल्लो.

*अमृतंमगय!*
*अमृत!!*
*अमृता!!!*

अचळय चरकाच्या तोंडांतल्यान उतरां



भायर आयलीं. व्याधी उण्यो करपाक, पयस करपाक हो रस उपेगांत हाडल्यार कशें?

चरकाचो सकाळच्या प्रहरार चलपी वावर कांय शिश्य पळयत उबे आशिल्ले. चरकाची नदर तांचेर पडली. ती नदर खूब कितें मेळिल्ल्याची गवाय दिताली. चरकान त्या शिश्यांक आपयले. परतून रुखा मुळांत आसनमांडी घालून तो गुरुभावां कडेन उलोवपाक लागलो. आश्रमा भोंवतणच्या रुखां-पेडांचो तो बारीकसाणेन अभ्यास करपाक लागलो. खंयच्या रुखाक साल बरी आसता? खंयच्या झाडाचें मूळ लांब आसता? खंयच्या झाडाक फळां धरतात? हाचो सोद तो घेवपाक लागलो. झाडां-पेडांची वळेरी वाडत गेली. चरकाच्या वावरांत शेंकड्यांनी लोक वांटेकार जाले. चरकपंथाच्या मठाची स्थापना भारतवर्षाच्या विंगड विंगड वाठारांनी जावपाक लागली.

काशींतल्या सगळ्या लोकांचे दोळे धन्वंतरी केन्ना येतात हाची वाट पळयताले. पावस त्या वर्सा काशी विश्वेश्वराक अभिशेकान बुडोवपाच्या यत्नांत आशिल्लो. उटंगाराच्या पावसान पुराय वाठार भिजून चिप्प जाल्लो. हुंवारान सगल्यांची दैना केल्ली. हुंवारा वांगडा आयिल्ले भिरांकूळ महामारीन भलायकेचो हुस्को उप्राशिल्लो. ते महामारीचें पडबिंब काशी लोकांच्या वावरांत पडिल्लें स्पश्टपणान दिसतालें. आर्यजनांचो एक पंगड सरस्वती न्हंयचे देगे वयल्यान भायर सरिल्ल्याची खबर मेळून बरोंच तेंप जाल्लो. त्या पंगडाचो मुखेली धन्वंतरी आशिल्लो. धन्वंतरी पावऽ मेरेन काशी विश्वेश्वराचें स्मरण करपाचें तितलें लोकांच्या हातांत आशिल्लें.

काशी नगराचे शिमेर लोक उबे आशिल्ले. कांय लोकांच्या हातांत फुलांच्यो माळो आशिल्ल्यो जाल्यार कांय जाणांनी हातांत घुड्यो घेतिल्ल्यो. चोंबो उत्कंठायेन धन्वंतरींच्या येवप्राची वाट पळयतालो. पयस दोंगरा मुळांत धवे कपडे घाल्ल्या मनशांलो जथो पळोवन लोक उर्बेभरीत जाले. धन्वंतरींचो जयजकार सुरू जालो. जथो लागीं पावपाक लागलो तशे लोक आनीक उचंबळपाक लागले. व्हडल्या प्रवासाक लागून धन्वंतरींक पुरो जाल्लें. पूण लोकांचो उत्साह पळोवन तांकां उमेद आयली. आपलो जयजयकार आयकून मात तांकां अजाप दिसलें.

'कितें म्हणपाचें ह्या लोकांक! हांव एक वैज. म्हाका देवा पाटार बसोवपाक कित्याक फुडें सरल्यात?'' पावलां उबारतना तांच्या मनात विचार येवपाक लागले. धन्वंतरी आपणाल्या शिश्यां वांगडा लोकां म्हऱ्यांत पावले. लोक धन्वंतरींच्या पांयां पडपाक लागले.

''आरे, हांव देव न्हय. कितें हें पिशेपण! हांव लेगीत तुमचे सारकोच एक मनीस. तुमचेर आयिल्लें संकश्ट पयस करपाचो हांव यत्न करतां. फुडलें कितें तें परमेश्वरूच जाणा.' नमस्काराक बागवल्ल्यांच्या कपलार हात दवरीत धन्वंतरी तांकां समजावपाक लागले.

''आचार्य, आमी शुद्ध आर्य न्हय. आमी

भिल्ल. ह्या भुंयचे पूत. आमचेर तुमची कृपादृश्टी आसतली मूं?" त्या चोंब्या मदीं आशिल्ल्या भिल्लांनी विचारलें. धन्वंतरी तांचे म्हऱ्यांत गेले. भिल्लाचीं काळींकिट्ट भुजां हातांत धरून तांणी ताका समजायलो. "ह्या आर्यावर्तांत रावपी आमी सगळे एक. आमी तुमी भेद हो जगत्‌नियंत्याक लेगीत मान्य आसचोना. तुमी निश्चींत रावात. चलात आतां, हांगा वेळ काडचो न्हय. नगरांत या."

परतून लोकांनी धन्वंतरींचो जयजयकार केलो. त्या जयघोशांतूच सगळे लोक नगराची वाट चलपाक लागले.

मध्यानरात सोंपून गेल्ली. धन्वंतरी खुबूच अस्वस्थ जाल्ले. इतल्या व्हडा प्रमाणांत लोकांचें मर्ण तांणी पयलेच खेपे पळयल्लें. पुराय दीस ते वायटकारां मदीं वावुरताले. लोकांक महामारीन बेजार केल्ले. न थारपी ओंकारो आनी झाडो हीं महामारींचीं लक्षणां आशिल्लीं. धन्वंतरीन वांगडा वखदां हाडिल्लीं. पूण त्या वखदांचो व्हडलोसो उपेग जाता अशें दिसलेंना. ओंकारे थारले. परसाकडें जावपाचें उणें जालें तें आदेसभरूच.

परतून तींच लक्षणां व्हडा प्रमाणांत लोकां मदीं दिसपाक लागलीं. वखदांचो उपेग जायना तें पळोवन ते खुबूच अस्वस्थ जाल्ले. रातीच्या गुपाट काळखांत लेगीत ते मुंडा-किरातांच्या रानांत रिगले. भिल्लांच्या खोंपींनी रडपाचो आवाज रात जागयतालो. सगळ्याक एक भिरांकूळ वातावरण पातळिल्लें. रानांत चलतना दोग भिल्ल तांचो सांगात करताले. मदीं धन्वंतरीच्या पांयाक कितें तरी चाबलें. तांणी सकयल बागोवन पळयलें. तो जीव तांणी पयलेच खेपे पळयल्लो. अनवळखी जिवाक लागून तांकां इल्लें अजाप दिसलें. ह्या भयंकर दुर्येसाचें कारण कितें आसत काय? तांणी तो जीव बडयेन धुकलून पानार घेतलो. बारीकसाणेन ताका पळयलो. फाटल्यान चलपी भिल्लां म्हऱ्यांत ते गेले.

"हो जीव तुमी केन्ना पळयला?" तांणी पाना वयलो जीव तांकां दाखयत विचारलें. त्या भिल्लांक रानाची पुराय म्हायती आशिल्ली.

"हय. पूण..." तातूंतल्या एकल्यान म्हळें.

"पूण कितें?" भिल्ल्याच्या लिकलिकपी दोळ्यांत पळोवन धन्वंतरीन विचारलें.

"गंगा न्हंयचे तेवटेनच्या रानांत हे जीव आसतात. हालींच आमी तांकां हांगा पळयल्यात. सगळ्या झाडांर ते दिश्टी पडटात, सोडून गेंदूचें झाड."

"गेंदू? खंय आसा तें?"

गेंदूचें झाड दाखोवपाक भिल्ल फुडें सरलो. एका व्हड रुखा मुळांत येवन तो थारलो.

"हें तें झाड बाबा," भिल्लान रुखार हात मारीत म्हळें. काळ्याकिट्ट आंगाचो व्हडलो रूख जमनींत पाळां-मुळां घट्ट रोमून उबो आशिल्लो. धन्वंतरीन वयर तेंगशेर पळोवपाचो यत्न केलो. आश्वीन म्हयन्यांतली शुद्ध अश्टम आशिल्ल्यान चंद्रीम माथ्यार दिसतालो. चंद्रिमाच्या मंद चान्न्यांत तो रूख ध्यानाक बशिल्ल्या रुशी भाशेन दिसतालो.

"ह्या रुखाची साल मेळत?" धन्वंतरींच्या मनांत विचार आयलो तशें ताणें भिल्लाक विचारलें. भिल्लांनी मुजीक लायल्लो कोयतो काडलो आनी रुखाची साल काडपाक सुरवात केली. धन्वंतरी थंय एका फातरार बसले.

*यस्य देशस्य यो जंतुः तज्जं तस्यौषधं हितम्*

*वनस्पतः शांती औषधयः शांती!*

मनांत विचारांची निर्मळ उमळ जाली. जंय रोग आसता थंयच तो ना करपाची तांक आशिल्ले रूख आसतात. चरकार्यांलें वचन तांकां याद जालें. हो रूख सरस्वती तिरार तांकां केन्नाच दिसूंक नाशिल्लो. रानांतले जीव ताचे म्हऱ्यांत वचनात. भिल्लांनी रुखाच्यो साली एकठांय केल्यो आनी ते धन्वंतरी म्हऱ्यांत आयले. खांद्या वयलो वालो धन्वंतरीन जमनीर पातळायलो. सगळ्यो साली वाल्यांत बांदल्यो. वाल्याची पोटली भिल्लाक दिली आनी तांणी नगराची वाट धरली.

रुखाच्यो साली घेवन ते आपणाले पर्णकुटींत आयले. वालो सोडोवन एक व्हडली साल तांणी हातांत घेतली. सुकिल्ली साल भितल्ल्यान तांबडीच दिसताली. तांणी सालीचो वास घेतलो. वास व्हडलोसो आयलो ना. सालीचो इल्लो कुडको काडून जिबलेर दवरलो. एक कोडू रूच तांणी अणभवली. साल सामकी सुकी दिसताली. हाचो रस कसो काडचो? कल्क केल्यार उपेग जायत काय? पयस कोंब्यान बांग दिली. सूर्य उदेवपाक इल्लो वेळ आशिल्लो. विचार येतात, उपाय सुचता पूण थोक कितें करप तें थारना. बुळबुळीत शेवाळो हातांतल्यान सुटून वचचो तशी तांच्या विचारांची अवस्था जावपाक लागली. रातभरचें जागरण तांच्या दोळ्यांर पातळपाक लागिल्लें. कांय खीण निश्चींत घालोवचे, सूर्य उदेले उपरांत ताका अर्घ्य दिवन मागीर कितें तें थारावचें अशें तांकां दिसलें. जमनीर लवंडून लांब स्वास घेत ते शवासन करपाक लागले.

कोंब्याचो साद परतून कानार पडलो तशे ते उठले. हातांत कमंडूल घेवन ते गंगेचे तडीर आयले. गंगामायीक तांणी दोनूय हात जोडून नमस्कार केलो. उदेंत दिकेक मळब रक्तवर्ण जाल्लें. सवणीं-पाखरां नव्या दिसाचें स्वागत आपणाल्या गोड गुंजनान करपाक लागिल्लीं. धन्वंतरी गंगेच्या उदकांत देंवले. पोशान उदक घेवन तोंड धुलें. उदकांत डुबकी मारून माथें भिजयलें.

*शंनो देवी रभिष्टाय।*

*आपो भवन्ति पितये।*

*ॐ आपः पृणित भेषजं...*

आप म्हळ्यार उदक. हेंच भेषज. सुर्याक अर्घ्य दिवपाक पोशान घेतिल्लें उदक पळोवन तांच्या मनांत विचार आयलो. सूर्य हें तेजाचें रूप. रुखाची साल हाडल्या ती पृथ्वीचें स्वरूप. पंचमहाभूतांतलीं तीन तत्वां एकठांय हाडल्यार कशें? अर्घ्यदानाचें उदक न्हंयंत सोडलें. गंगेक, सूर्याक नमस्कार केलो. न्हंयंतल्यान भायर येवन आंग पुसलें. आंगा वयलें वस्त्र बदल्लें. शुचिर्भूत मनान ते विश्वेश्वराच्या देवळांत आयले. देवळांतले पिंडी मुखार नमस्काराक बागवले. मनांतल्या विचारांक फाटबळ दिवपा खातीर तांणी प्रार्थना केली.

देवळांतल्यान ते पर्णकुटींत परतले. बुधल्यांतल्या प्राशाचें तांणी सेवन केलें. प्राशाक लागून तांच्या जिवाकूय बरें दिसलें. वाल्यार दवरिल्ल्यो साली घेवन ते भायर आंगणांत आयले. साली मडकेंतल्या उदकान धुल्यो. एका व्हडल्या बुडकुल्यांत त्यो घाल्यो. तातूंत गंगेचें शेरभर उदक घालें.

अग्निहोत्रांतल्यान काडिल्ल्या इंगळ्यान चूल पेटयली. चुलीर बुडकुलो दवरून तांणी पंचमहाभूतांच्या तीन तत्वांक संयोगीत करपाचो यत्न सुरू केलो.

उजो वाडलो तसो उदकाक खतखतो आयलो. धन्वंतरीन बुडकुल्यांत पळयलें. सालीचो तांबडो रंग उदकांत देंविल्लो. अर्द घटका शिजोवन धन्वंतरीन कसायाची पूर्तताय केली. अंगरस, कल्क, उपरांतचो कल्प कवाथ. तांणी चुलींत लाकडां फाटीं फाटीं ओडलीं. चांदिवड्याचें व्हडलें पान काडून बुडकुलो धांपलो. कसायाच्या वासान पुराय आसमंत भरिल्लो. तो वास तांकां एक कसलें तरी समाधान दिवन गेलो. वखदांचो नवो कल्प तांणी पयलेच खेपे रचिल्लो. ताचो महामारीचेर बरो उपेग जातलो हो विश्वास मनांत जागयत ते काशीक भोंवत रावले.

पंचवटीच्या रानांत शारंगधरांचो आश्रम आशिल्लो. चरकान पुंजायल्लें गिन्यान सगळ्याक शिंपडीत ऋत्विज दक्षिणेक देंवपाक लागिल्ले. विंध्य पर्वत हुंपून सकयल्या दंडकारण्य वाठारांत शारंगधर पावले. पंचवटीच्या अटंग्या रानांत थिरावचें असो विचार तांणी केलो आनी थंयच आश्रम उबारलो. चातुर्मास सोंपिल्लो. कार्तिक अमाशेचो दीस आयलो. अमास आयली तीच सूर्य गिराण घेवन. गिराणांतूच सूर्य उदेलो. चातुर्मासा उपरांत प्रतिपदेच्यान नव्यो संथा घेवपाक सुरवात करपाचो दर वर्साचो नेम. आपणाल्या पट्टशिश्याक, रमणाक, संथा दिवपाचें मुखेल काम सोंपोवप अशें शारंगधरांक दिशिल्लें. चातुर्मासांत गुरुपादचार्यांचे सेवेक आनी मुखावयल्या कार्याक आशिर्वाद घेवपाक तांणी रमणाक गोपुराक धाडिल्लो. चातुर्मास सोंपचे पयलींच रमण पंचवटीक परतलो. शारंगधरांक रमण मेळ्ळो खरो, पूण रमणा भितर तांकां आदली उर्बा दिसलिना. अमासे आदल्या दिसा शारंगधरांच्या कानार पडिल्लें तें आयकून ते साप्प निर्शेल्ले.

बऱ्या कामाक म्हूर्त पळोवचो पडटा. वायटाचेर हात घालतलो जाल्यार म्हूर्त सोदचो न्हय. गिराणांत आयिल्ली अमास ह्या गजालींची तड लावपाक बेस बरी अशें शारंगधरांक दिशिल्लें. गिराण सोंपले उपरांत सांजे पुराय खोलायेंत वचून कितें तें करप अशें तांणी थारायल्लें. गिराणाची अमास एक भिरांकूळ वातावरण घेवन आश्रमा भोंवतणी वावुरताली.

आयज मेरेन शारंगधरांल्या गिन्याना विशीं कोणेंच दुबाव घेवंक नासलो. तांणी सांगिल्लीं आसवां, अरिश्टां, च्यवनप्राश, सगळें ताडाच्या पानार बरोवन शिश्यांनी सांबाळून दवरिल्लें. कल्पाचे विंगड विंगड पाठ रचतना खंयचो पाठ अग्निमांद्याचेर, खंयचो संग्रहणीचेर हें ते विसकटावन सांगताले. तांणी सांगलां ताचे भायर आयुर्वेदांत कांयच ना.



हो विस्वास शिश्यां मदीं पातळिल्लो.

पंचवटी आश्रमाचो अवंतीपुर राज्यांत आसपाव जातालो. अवंतीपुराच्या राजाक, चतुरसेनाक, शारंगधरान अवंतीपुरांत येवन राजवैद्य जावचें अशें दिसतालें. पूण आपल्या गिन्यानाचो हेरांक लाव जावचो, खेरीज, आश्रमांतल्यान नवे वैद्य तयार जावचे असो दोट्टी विचार मनांत बाळगून शारंगधर पंचवटीकूच रावले.

रमणाक गोपुरीक धाडपा फाटलो तांचो आनीक एक उद्देश आशिल्लो. चरकपंथाची वाड करपाचो हावेस तांच्या मनांत आशिल्लो. पूण मनीस येवजिता एक, आनी देव करता दुसरेंच अशें कितेंशें रमणाचे बाबतींत घडिल्लें. रमण चातुर्मासा उपरांत पंचवटीक परतलो पूण पुराय बदलून. रमणांतलो बदल ताचो गुरुभाव उद्धव हाका पयलीं जाणवलो. उद्धवा परस कितल्याश्याच चड वांट्यांनी तें शारंगधरांक जाणवल्लें. पूण उद्धवान कांय गजाली शारंगधरांल्या कानार घाल्यो तेन्ना तांकां शिट्ट जालें. रमण आपणाक विचारले बगर स्वतंत्रतायेन कल्प करता हें सगळें आश्रमाचे परंपरे आडूच न्हय तर पुराय आश्रमाच्या मुळार तें येतलें अशें दिशिल्ल्यान तांणी रमणाक जाप विचारपाचें थारायल्लें. पुराय प्रकार खोलायेन तपासपाक तांणी गिराणांतली सांज वेंचिल्ली.

चरक संहिता, सुश्रुत संहिता ह्या दोन प्रमाण संहितांचो आदार घेत तांणी कार्य चलयल्लें.

*गुर्ववाक्यं प्रमाणं!* हे वणटीक रमण बुराक मारता काय कितें अशें शारंगधरांक दिशिल्लें. रमणान हे प्रमाद करप? शास्त्र टिकोवन धरप कशें? धर्मभ्रश्ट जावप आनी ताची सुरवात आपणाल्या आश्रमांतल्यान, हाचो शारंगधरांक राग आयिल्लो. सगळ्या गजालींची तड लावपाचें तांणी थारायल्लें.

गिराणा उपरांतचें न्हाण-धूण जालें. आंगणांतल्या एका ल्हानशा मातयेच्या सोंप्यार शारंगधर बशिल्ले. म्हऱ्यांत सकयल शिश्य बशिल्ले. आश्रमाचे पांवळे मुळा रमण उबो आशिल्लो. रुजवात करपा खातीर उबो आशिल्ले भाशेन. आयज पयलेच खेपे हेरांक तो भायलो कसो दिसलो. लाकडी दंडार हात दवरून जपमाळ ओडीत शारंगधरांनी चोंय दिकांनी पळयलें. शिश्यां वयल्यान एक नदर भोंवडायली.

''उद्धव, कितें घडलां तें हांगा उबो रावन सांग सगळ्यांक'' शारंगधरांलीं खर उतरां आश्रमांतले शांततायेक कातरीत सगळ्यांच्या कानार पडलीं. उद्धव उठून उबो रावलो. ताणें शारंगधरांक पयलीं नमस्कार केलो. पावळे पोंदा उबो आशिल्ल्या रमणा कडेन पळयलें. नदरा नदर जाली. पूण उद्धवाली नदर रोखडीच रमणाल्या पांयां कडेन गेली. रमणाल्या दोळ्यांतल्या तेजान तो दिपावलो. आपणाले नाडयेचे ठोके वाडिल्ल्याचेंय ताका जाणवलें. ताणें उलोवपाचो यत्न केलो. ओंठ

सुकिल्ल्याचें जाणवल्ल्यान जिबली ओंठां वयल्यान भोंवडायली. तो मातसोसो खांकरलो.

"उद्धव, ओगी कित्याक?" उद्धव कांयच उलयना तें पळोवन शारंगधरांनी विचारलें.

"श्री परम मंगल भक्त वत्सल परमेश्वराक स्मरण करून हांव तुमच्या चरणां लागीं मागतां की घडिल्लो प्रकार सांगपाक म्हाका धाडस मेळचें."

"वत्सा, कसलोच भंय बाळगी नासतना सांग. आमच्या म्हालगड्यांनी सांगिल्ले वाटेर चलपी मनशां आमी. कितें घडलां तें सांग सारकें," शारंगधरांनी ताका धीर दीत म्हळें.

" आचार्य, झाडां-पेडां पसून मेळपी उद्वीज वस्तूंतल्यान, त्रिदोषांतल्यान उत्पन्न जाल्ल्यो व्याधी पयस करूं येतात हें तुमी आमकां शिकयलां." बळगें एकठांय करीत उद्धवान म्हळें.

"मागीर हाचे भायर आनीक कितें आसा अशें कोणाक दिसता? पंचमहाभूतांतल्यानूच हो संवसार घडटा. मनशाले कुडींत कफ, पित्त, वात हे तीन दोश सगळें सांबाळटात. हे दोश इबाडले काय दुयेंसां जातात असो आयुर्वेदाचो त्रिदोश सिद्धांतूच आसा. मागीर?"

"आचार्य, झाडां-पेडां वांगडा खनिजद्रव वापरूं येता अशें कोण तरी म्हणटालो..." उद्धवाचो स्वर बरोच उणाविल्लो.

"उलय. सांग, कोण म्हणटा अशें?" शारंगधरांलो आवाज चडलो. स रिपूंचेर जैत मेळयल्ल्या आचार्यांक तिडकतना शिश्यांनी पयलेच खेपे आयकल्ले. राग हो तांगेल्या कोशांत लागीं लागीं नाशिल्लोच. एकदां केन्ना तरी वंग देशांतल्यान हाडिल्ली खाशेली वनस्पत शिश्यांनी बणयतना काडून उडयल्ली तेन्ना लेगीत शारंगधर शांत आशिल्ले.

"रमण म्हणटालो, गोपुराचे वाटेर कांय गोसाडे अशें करतात." उद्धवान मुखेल विशय उकताडार हाडलो.

"रमण, उद्धव सांगता तें खरें?" शारंगधरांनी जाब विचारपाक म्हळें.

रमण कांय पावलां चलून शारंगधरां म्हऱ्यांत आयलो. दोनूय हात जोडून उबो रावलो. गुरूले नदरेक ताणें नदर मेळयली.

"प्रणाम गुरुदेव."

शारंगधरांलो हात आशिर्वाद दिवपाक सदां भाशेन वयर आयलो ना.

"त्या गोसाड्यांची तंत्रविद्या हांगा चलची ना!" शारंगधरांनी म्हळें.

" आचार्य, वेदांचें ज्ञान आमकां तुमीच दिलां."

"हें पळय, ब्रह्मगिन्यानाच्यो बेठ्यो गजाली करपाचो हो खीण न्हय! तूं आर्षसंप्रदायांत ना तें आपणायता. तें खरें काय फट हाची जाप म्हाका जाय!"

" आचार्य, तुमी म्हाका गोपुरांत गौडपादाचार्यांचे सेवेक वच म्हळें तेन्ना..."

"तीच आमची व्हडली चूक जाली. आमगेल्या संप्रदाया भायल्याचो स्विकार करपाक तुजें मन अनमलें कशें ना?"

" आचार्य, दंडकारण्यांतल्यान हांव नालासोपारा पावलों तेन्नाची गजाल. नालासोपाराचे एके गढयेंत हांव रातचो थारलों. थंय म्हाका कांय साधू बैरागी मेळ्ळे. तांचे वांगडा उलयतां उलयतां ते वखदांचे कांय कल्प करतात अशें समजलें. नवें शिकपाच्या नादांत..." रमण उलयतां उलयतां मदीं थारलो.

"तुवें आमचो आर्षसंप्रदाय बुडयलो?"

"ना आचार्य. म्हजें म्हण्णें पुरायपणान आयकात."

"तांचें तंत्र आनी आमचें गिन्यान इल्लें वेगळें अशें म्हाका जाणवलें. वेगळ्या तंत्रगिन्यानांतल्यान तांणी वेगळे म्हळ्यार सामके वेगळे कल्प उपेगांत हाडल्यात हें हांवें पळयलें."

"कल्पांचें मागीर पळोवया. ते आमगेलो मुळावो त्रिदोष सिद्धांत मानतात?" शारंगधरांनी मदींच प्रस्न केलो.

"मानतात आसूं येता!"

"आसूं येता? मुळाव्या सिद्धांताचेरूच संभ्रम? तुवें त्रिदोष तांकां पटोवन दिवपाच्या जाग्यार तांच्याच पांयांर घालून घेतलें?! शिव शिव!"

" आचार्य, एक फावट तुमी तें पळोवचें," रमणान शारंगधरांक विनयत म्हळें.

"हांगा पंचवटींत भ्रश्ट आचरण केन्नाच जावचें ना." शारंगधर रागान थरथरपाक लागिल्ले.

"पूण आचार्य..." रमणान नमस्कार घालून म्हळें. रमणाचो शारंगधरांक उपाट मोग आशिल्लो. पूण शास्त्र ताणें मोडिल्लें. शास्त्रा भायर वचून ताणें व्हडलें पाप केल्लें.

"आचार्य, हांव चुकल्यार म्हाका ख्यास्त करची." रमण शारंगधरांक पुराय मानतालो.

"रमण ऊठ. तुवें केल्ल्या पापाचेर शास्त्रांत कितें बरयलां तें पळोवचें पडटलें. आतां संध्येचो वेळ जाला. पूण शास्त्रांत सांगलां तें प्रायश्चित्त घेतले बगर तुका आर्यधर्माचीं सगळीं कर्मां निशिद्ध." शारंगधर आसना वयल्यान उठले. तांकां नमन करपाक सगळे शिश्य उठून उबे रावले.

"कल्याणमस्तू..." शारंगधरांनी तोंड भरून आशिर्वाद दिलो. आश्रमा भोंवतणचो काळोख वाडत चलिल्लो. तीनसांजेक अर्घ्य दिवपी पळी-पंचपात्रांचो आवाजूय ताचे वांगडा वाडत गेलो. संध्याबंदी घाल्लो रमण पळसाच्या मुळार बसून आशिल्लो. अमाशे दिसा मळबांत नखेत्रां लिकलिकतालीं. दिसाचीं खंय आसतात काय हीं नखेत्रां? चान्न्यांत तांचें तेज उणें जायना? पुनवे रातीं तीं खंय लिपतात? न सुटपी प्रस्न रमणा भोंवतणी नाचपाक लागले. कितेंय आसूं, कशेंय आसूं, अमाशे दिसा तरी दिसतात न्हय? ताणें आपणालेंच समाधान केलें. आयज मेरेन आचार्यांनी सांगलें तेंच निमाणें सत्य मानपाचें जाल्यार गोसाड्यान शिकयल्लें तंत्र भायर मारचें पडटलें आशिल्लें. रमण मळबांत स्पश्टपणान लिकलिकपी नखेत्रां वांगडा आशिल्ल्यान ताका त्या काळखांत लिपून आयिल्ले अमाशेचे रातीचो इल्लो लेगीत भंय दिसलो ना.

निमाणें शारंगधरांनी स्वत: रमणाची परिक्षा घेवपाचें थारायलें. नवें तंत्र आपणावन रमण कसले कल्प करता हें जाणून घेवपाचें तांणी थारायलें. रमणाक प्रयोग करपाची आचार्यांनी परवानगी दिल्या हाचें एकलो उद्धव सोडल्यार कोणाकूच वायट दिसूंक नासलें. रमणाक तर आचार्यां वांगडा त्या गोसाड्या विशींय आदर दिसपाक लागिल्लो. सकाळच्यान तो नागार्जुनाचो पाठ घोंकतालो.

*सुतं गधं विषं टंकणाषणे ।*
*चंद्रेकग्निज त्रिटिर्वसूभागैर्निर्मत क्रमात ।।*
*जम्बीकरणे संमर्धं भवेदग्निकुमारक ।*

'सुतं' म्हळ्यार पारो. चकचकपी सतेज वस्त. नागर्जुन संप्रदायांत ताचो खुब्ब वापर जाता. तो अस्थीर. एका जाग्यार थारपी न्हय. ताका बांदून घाल्लो गंधकान. ह्या रसायना वांगडा झाडा-पाल्यांचीं कांय वेंचीक वखदां घालून 'अग्निकुमार रस' ह्या पुराय तरेन वेगळ्याच आशिल्ल्या कल्पाची मांडणी केल्ली. सिद्धांची ती किमया पयलेच खेपे नालासोपाऱ्याक पळोवन रमण सामको भुल्लुशिल्लो. अग्निकुमार रस आयज मेरेन ताणें शिकिल्ल्या कल्पां परस कांकणभर कसो बरो हें ताणें पळयल्लें. ताचे वांगडा ज्वरांकुश हो आक्ताक जोर काडपी कल्प ताका शिकयल्लो. रमण खरो हाल्लो तो नागार्जुन पंथियांलें 'सुचिकाभरण' पळोवन. 'सुचिका' म्हळ्यार सूय. सुयेन वखद आंगांत घालपाचें तंत्रगिन्यान पळोवन रमणान त्या गोसाड्याक न्हिदून नमस्कार घाल्लो. तें गिन्यान ताणें कांय दीस गोसाड्यां वांगडा रावन हातासलें. शारंगधरांक पाठाचें म्हत्व पटोवन दिवपाची तो तयारी करतालो. एका खलांत दोन तोळे पारो ओतून ताणें नागार्जुनाचें चिंतन केलें. पाऱ्यांत दोन तोळे गंधक घालो. बत्तो हातांत घेवन नागार्जुनाचें स्मरण केलें आनी पारो घोळोवपाक लागलो.

*भुतात्मकं जगत् । स्वभावं जगतः कारणं आहूः मर्दनमगुण वर्धनम्...*

गंधक पाऱ्या वांगडा एकजीव जावपाक लागलो. गंधकाचो हळदुवो रंग, पाऱ्याची चकचकपी कांत ल्हवू ल्हवू करून ना जायत गेली. खलाच्या तळाक काळोकिट्ट पिठो तयार जालो. तातूंत रमणान मिरयां पिठो घालो. टंकण घालो. शंख भस्म घालें. लिंबवा रसाची भावना दिली. लिंबवा रसान चिपचिपिल्लें रसायन सूर्यप्रकाशांत सुकपाक दवरलें. शेगीत चार दीस एकवीस भावना दिवन ताणें कल्प तयार केलो. कल्पाच्यो गुटिका करून ताणें त्यो मोदक यंत्रात धांपल्यो. गुटिकांनी भरिल्लें पात्र घेवन तो शारंगधरां म्हऱ्यांत आयलो. आचार्यां म्हऱ्यांत पावतकीच ताणें तांकां नमस्कार केलो.

''आचार्य, म्हाका संद दिवन तुमी म्हजेर व्हड उपकार केल्यात.''

''कल्याणमस्तू!'' आचार्यांचो आवाज सदां भाशेन आशिल्लो. तातूंत तिडक नाशिल्ली.

''रमण, ह्या कल्पाचें, योगाचें पुराय विवरण सगळ्यां मुखार कर.''

''आज्ञा गुरुदेव!'' शारंगधरांल्या उतरांनी रमणाक बरोच धीर आयिल्लो.

''ह्या पाठाचें नांव 'अग्निकुमार रस'. पाऱ्याक रस हें दुसरें नांव आसा. ह्या पाठाचें



मुळावें कार्य पोटांतलो उजो म्हळ्यार अग्नी वाडोवप. पचन बेस बरें जावप हो हेतू बाळगून ह्या पाठाची निर्मणी जाल्या. खरें म्हळ्यार, आचार्य, हांगचें प्रधान द्रव्य मरिय. म्हळ्यार, आमगेलें मिरीं,'' रमणान 'आमगेलें मिरीं' हीं उतरां नेटान म्हळीं. आचार्यांकूय रमणाचीं 'आमगेलें मिरीं' हीं उतरां आवडलीं. तांणी आपणाल्या खाडार हात भोंवडावन म्हळें,

''पूण पारो आनी हेर खनीज द्रव्यांचें कितें?''

''हय आचार्य, पारो हो योगवाही. सूक्ष्मतम भागांत तो वखद पावयता. वांगडचो गंधक कल्प बिघडचो न्हय म्हण घाला. आमचे कषाय, कल्प दोन ना जाल्यार चार दीस टिकतात. ह्या कल्पाचें तशें ना. ते 'वत्सरात परम्'. म्हळ्यार वर्सभर लेगीत कांयच जाय नासतना तश्शे उरतात.'' रमण कितल्योश्योच गजाली बेगीबेगीन उलोवपाक लागलो.

''पूण वांगडा शंख भस्म कित्याक?''

''मिरीं झाडांतल्यान आयलां. शंख दर्यांतल्यान. दोगांयचें कार्य अग्नी दिपन– पोटांतलो अग्नी वाडोवप. आचार्य, हांव गोसाड्यांच्या ह्या विचारान स्तंभीत जाल्लों. आमचे जे पदार्थ आसात तांच्या द्रव्यगुणांचो विचार करून तांणी खनीज म्हळ्यार मातयेंतलें द्रव्य घेतलां.'' आचार्य प्रस्न विचारताले. रमण तांकां फावो ती जाप दितालो. जापेंतल्यान आनीक दुबाव वयर सरताले. असो गुरु-शिश्यालो वाद केदो वेळ चालूच आशिल्लो. निमाणें शारंगधर आसना वयल्यान उठले. रमणा म्हऱ्यांत आयले. रमणाच्या भुजांक धरून तांणी म्हळें, ''रमण हांव तुका वळखुपाक पावलों ना. तुजें गिन्यान अगाध.''

''आचार्य, हो दोन प्रवाहांचो संगम. आमी संगमार उबे आसात. न्हयचे संगम पवित्र आसतात तसो गिन्यानाचो संगमूय पवित्रच आसतलो न्हय? त्या संगमांत न्हावपी लोक गांठीक पुण्य जोडटात. खरें न्हय गुरुदेव?''

शारंगधरांक हो प्रस्न अपेक्षीत नाशिल्लो. ''संगमाचेर न्हावपी पावन जातात रे रमण. पूण संगमाचेर खळखळूय जाता. निमाणें जो प्रवाह बारीक तो व्हडल्यांत अचळय वचून मेळटा. व्हावपी प्रवाहांत मागीर तांचें वेगळेपण उरना. तुजीं नैमित्तक कर्मां आडावन हांवें व्हडलें पाप केलां. वत्स, वच. आयच्यान तूं संध्यादिकर्मां नेमान कर.'' शारंगधरांनी दुसऱ्या पंथाचें व्हडपण स्विकारत म्हळें.

रमणाक खिणभर बरें दिसलें. मनांतली दुगदूग खंयचे खंय नाच जाल्ली. ताचें मन आर्षसंप्रदायांतले पाठ आनी नागार्जुनाल्या सिद्ध संप्रदायांतले श्लोक हांची मेळोवणी करपाक लागलें. आचार्यांचो आशिर्वाद हें त्या दिसा ताका मेळिल्लें व्हडलें यश आशिल्लें. गोपुरांत गेल्लो तेन्ना ताका थंय आर्षसंप्रदायाचो व्हडलोसो प्रभाव दिसून येवंक नाशिल्लो. आचार्यांचे अनुमतीन गोपुराक वचून आर्षसंप्रदायाचो प्रसार केल्यार कशें?

*आपः पृणितः भेषजं*
*वरुतंदवे ए मम्ः*

संध्येचे अर्घ्य दितना ताच्या मनांत विचार येवपाक लागले.

चित्रनगरींतल्या कामसेनाची भलायकी इबाडपाक लागिल्ली. राजवैद्यांनी दिल्लें चाटण, लेह आसवां हांचो व्हडलोसो परिणाम जाय नाशिल्लो. राज वैद्य लेगीत कामसेनाली अवस्था पळोवन हुस्को करपाक लागिल्लो. कामसेन चित्रनगरींतलो व्हडलो सरदार. यवन तर ताका सामके भियेवन आसताले. आयज मेरेन तो खुब्ब लडायो जिखिल्लो. खरें म्हळ्यार दर एके लडायेंत तो जिखुनूच येतालो. आनी दर एका जैता वांगडा तो एक तरी सोबीत बायल आपणाल्या जनानखान्यांत हाडटालो. पूण इतलें सगळें आसून लेगीत आयज तो 'त्या' सुखाक पयसाविल्लो. खरें म्हळ्यार ताची अवस्था 'दर्या मदीं आसा पूण पिवपाक घोंटभर उदक ना' अशी जाल्ली.

उत्तरेक ताणें व्हडली मोहीम हातांत घेतिल्ली. अब्दालीक धांवडायतां धांवडायतां तो कंदहाराक पाविल्लो. अब्दाली जिवाच्या आकांतान हिंदकूश पर्वतांत लिपलो. अब्दालीक आपणालो जनानखानो सांबाळपाची संद लेगीत कामसेनान दिलिना. कामसेनाली मोहीम येशस्वी जाली. अब्दालीचो जनानखानो ताणें लूट म्हण वांगडा हाडिल्लो. ते मोहिमे उपरांत कितलेशे दीस तो आपणाल्या वाड्या भायर आयलोच ना.

कामसेनाच्या दुयेंसाची गजाल प्रजे मदीं पातळ्ळी. आत्र्या-पयऱ्यान ताच्या वाड्यार येवपी वैज आनी हकीम हांकां लागून भौसां मदली चर्चा वाडीक लागली. ताका गुप्त रोग जाला, तो बरो जावप भोव कठीण अशें लोक उलोवपाक लागले.

चित्रनगरी भायर आशिल्ल्या नाथ जोग्यांल्या मठांत नवे जोगी आयल्यात ही खबर कामसेनाच्या कानार पडिल्ली. ताणें बेगोबेग वैजाक आपोवपाक धाडिल्लो. आपणाल्या वैजा वांगडा उलोवणीं करून तो चित्रनगरी भायल्या सिद्धनाथांच्या मठांत वचपाक भायर सरलो.

पयस घोड्यांच्या टापांचो आवाज आयकून सिद्धगण शिट्ट जाले. तांकां भंय असो दिसऽ नाशिल्लो. रातीचो गुपाट काळोख. रानांत वावुरपी रानवटी जनावरां हांचो भंय तांकां केन्ना दिसलोच ना. लोकवसती भायर रावपाची तांकां संवय आशिल्ली. न्हय, अटंग्या रानांतूच तांचो वावर आशिल्लो. घोड्या वयल्यान देंवून स्वार तांकांच मेळपाक येतात हें तांणी पळयलें.

''अलख निरंजन!'' एकल्या जोग्यान हेरांक जागे करपाक म्हळें. कामसेन घोड्या वयल्यान देंवून चलत मठा कडेन आयलो.

''महाराज सिद्धनाथांक मेळपाक सोदतात.''

''भेट घेवपाचें कारण?'' एका जोग्यान विचारलें.

''कारण इल्लें खाजगी...''

''सिद्धनाथ महाराज तंत्रप्रयोगांत मग्न आसात. आयज तांचें मौनव्रतूय आसा.''

''परतून केन्ना येवं?'' कामसेनान अगतीकतायेन विचारलें.

''प्रयोग आनीक चार दीस तरी चलतालो. तुमी चार दिसां उपरांत येयात.''

कामसेनाक कशेंय भाशेन सिद्धनाथांक मेळपाचें आशिल्लें. पूण नाथ पंथियांचें वागप विचित्रूच. केन्नाय येतात. केन्नाय ना जातात. नगरांतल्या कोणाक कसलोच पत्तो लागना. चार दिसांनी परतून येवपाचें थारावन तो नगरांत परतलो. वाड्यांत परतता म्हणसर काळोख जायत आयिल्लो. आदले रातीच्यो यादी मनांत येवन कामसेन आनीक बेजारलो. आंगाक बरीच खाज सुटिल्ली. इंद्रियाक मारताले ते वेग सोंसूं नजऽ जाल्ले. वाड्यांत येतकीच सोऱ्याचीं आयदनां तो रितीं करपाक लागलो. सोरो पोटांत वचूंक लागलो तसो तो इल्लो इल्लो बेहोश जायत गेलो. ते बेहोशींतूच तो पलंगार लवंडलो.

सिद्धनाथांलो प्रयोग चार दिसां उपरांत पुराय जायत आयिल्लो. तांणी लांब दांड्याचो कायलाथो हातांत घेतलो. कायलाथो गोबरांत रिगलो तसो इल्लो गोबर वयर उसळ्ळो. गोबरांत लिपिल्ल्यो कुपिका तांणी भायर काडल्यो. एके कुपिकेचें धांपण काडलें. एक बारीक सरी सारिवाच्या रसांत बुडयली. रसांत बुडयल्ली सरी कुपयेंत घाली. कुपयेंतल्या रसायनाचो आनी सरयेच्या रसाचो संयोग जावन निळी जोत कुपिके भायर आयली. ते निळे जोतीक पळोवन सिद्धनाथांच्या तोंडार हांशें फुल्लें.

''अलख निरंजन!'' तांणी व्हडल्या आवाजान म्हळें. मठांतल्या दर एका शिश्यगणाक ती ललकारी आयकुपाक आयली. सिद्धनाथांनी शिश्यांक ते कुपिकेचेर थंड उदक शिंवरपाक सांगलें. उदक शिंवरतना कुपिकेचे मदले मदीं उबे दोन वांटे जाले. ते हून कुपयेचे वांटे हातात घेवन तांणी बारीकसाणेन निरिक्षण केलें.

''पळयात! होच तो कंठस्थ रस. कुपिकेच्या गळ्या कडेन कसलोसो पदार्थ एकठांय जाल्लो. मठांतल्या मंद उजवाडांत तो लिकलिकतालो. प्रयोग येशस्वी जाल्लो. सिद्धनाथां सारक्या वैराग्याकूय आपणाली खोस लिपोवप भोव कठीण जालें. तांणी कुपिकेच्या गळ्या भोंवतणी एकठांय जाल्लो 'रस' खरवडून काडपाक सांगलें.

''कामसेन तुमकां मेळपाक सोदता,'' एकल्या शिश्यान मठा भितर येवन सिद्धनाथांक सांगलें.

''मेळपाचें कारण?''

''खाजगी म्हणटात ते.''

''बरें आसा. धाड तांकां भितर.''

कामसेन मठांत भितर सरलो. मठांतले जमनीची थंडसाण ताच्या उकत्या पांयांक जाणवली. ताणें कमराची तलवार काडून भायर फातरार दवरली. माथ्या वयलो टोप काडलो. सिद्धनाथां म्हऱ्यांत तो दिमी मारून बसलो. अपराधी मनाक लागून ताका सिद्धनाथाचे नदरेक नदर दिवप जमलें ना. ''कित्याक मेळपाक आयला?'' सिद्धनाथांनी ताची दीन नुरा पळोवन विचारलें.

''आंगांत जोर आसा,'' कामसेनान म्हळें.

''कितले दीस जाले?''

''कंदहारा सावन परतलां तेन्नाच्यान. लागीं लागीं म्हयनो जातलो.''

''आनीक कितें जाता?''

''इंद्रिया कडेन कळो मारतात. पुराय आंगाक खाज सुटल्या.''

''कामवासना?''

''आसा. पूण...''

''उणी जाल्या, अशें न्हय?'' सिद्‌धनाथांनी प्रस्न केलो आनी ते हांसले.

''वत्सा, उज्याचेर कितलेंय तूप ओतलें तरी तो तृप्त जायना. कामाग्नीचेंय तशेंच.

''नाथ महाराज, म्हाका हातूंतल्यान सोडयात.'' कामसेन काकळुतीक आयिल्लो.

''तुजी व्याधी चेंगट! उपाय आसा. पूण पथ सांबाळपाक जाय. मनाचेर ताबो जाय!''

''तुमी सांगशात तें आयकता.''

नाथांनी आपणाले झोळयेंतल्या काय वखदांच्यो कुपयो काडल्यो. कुपयो उगडून वास घेतलो.

''हें रसायन दितां. दिसांतल्यान दोन गुंजो दोन फावटीं तांदळाच्या धुवणा वांगडा घेवपाच्यो.''

कामसेनान कुपी घेवपाक हात फुडें केलो.

''एकांगवीर म्हणटात हाका. हें दुसरें भस्म दितां. रातीं दुदा वांगडा घेयात. त्रिवंगभस्म!''

*''वंगभक्षयतो नरस्य नच भवेत स्वप्नात शुक्रनाशयाः!''* दोळे धांपून सिद्‌नाथांनी श्लोक म्हळो. श्लोका फाटल्यान विवेचन येतलें हें जाणून शिष्य कान दिवन आयकुपाक लागले.

बायल-मनशेच्या चड सांगाताक लागून धातुस्थान इबाडटा. धातू उणावलो काय मनाची, कुडीची शक्त मंदावता. कूड रोगाचे भकीक पड्टा. हे दोनूय कल्प म्हयनोभर नेमान घेवचे. बायलां म्हऱ्यांत वच्चें न्हय. खाण-जेवण सादेंच दवरचें. सांसा जाग्यार दूद घेवचें. वंग भस्म हांचेर एकूच उपाय!

''महाराज, हांव सदांच तुमच्या उपकारांत उरतलों.'' कामसेनाक इल्लो धीर आयिल्लो. ताणें गळ्यांतली मोतयां माळ काडून नाथांच्या पांयांर दवरली. नाथांचे पांय धरून तो खीणभर तशेच रावलो.

''वत्सा, ऊठ. तूं बरो जातलो. कांयच भिरांत बाळगूं नाका. हीं मोतयां आमकां कित्याक उपेगाचीं? तुमचे सारकेल्या सरदाराच्या आंगारूच तीं सोबपाचीं.'' कामसेनाक माळ परतून दीत नाथांनी म्हळें.

''महाराज, आमकां कितें तरी सेवा करपाची संद दिवची!'' कामसेनान सिद्‌धनाथांक विनयत म्हळें.

''तुमचो आग्रोच आसा जाल्यार एक सुचयन...''

''महाराज तुमी आज्ञाच करची आमकां!''

''चित्रनगरींत श्रीनागार्जुनाचें देवूळ जावचें!

''तुमचे आज्ञेक आमी पुराय पाळो दितले.'' कामसेनान उठत म्हळें. सिद्‌धनाथांनी दिल्ल्यो कुपयो तांणी सेवका कडेन दिल्यो आनी ते नगरांत परतले.

गोपुरीक पाखल्यांचे धवे पांय लागले. ताचें समाधान लोकांक कांय दीस मेळ्ळें. नायटे ना जाले ही खुशालकायेची गजाल आशिल्ली. पूण चुडामणी जुंव्या वयलें सांतेरीचें देवूळ पाखल्यांनी मोडलें हे खबरेन



सगळे भयभीत जाले. कोणाचे बांयंत पाव उडयल्लो. कोणाच्या घरार उश्टें उडयल्लें. बाटाबाटीक ओतो आयिल्लो. बाटाबाटीक लागून सांटली-पोटली बांदून दिवाडेच्यान मयां वचपाचें राम भटान थारायलें. नारव्यां नाजाल्यार मयां पाखल्यांचो त्रास इल्लो उणो आशिल्लो. दिवाडे रावल्यार एक दीस तरी बाटयतले हाचो अदमास राम भटाक आशिल्लो. एक तर पळून वचप ना जाल्यार ज़ीव दिवप अशे दोनूच मार्ग ताचे मुखार आशिल्ले. पळून वतलो जाल्यार सगळें माथ्यार कशें मारतलो?

व्हडल्या गोंया इंकिझिसांवान जीं भिरांकूळ कर्तुपां केल्लीं तांच्यो काणयो आयकून कोणाच्याय आंगार कांटो उबो रावपाचो. किरिस्तांव जाल्यार वैजपण तरी सांबाळपाक मेळपाचें? राम भटाक होच मोठो हुस्को आशिल्लो. दोन दिसां आदीं मोडिल्ल्या देवळाचे सुवातेर रावन पाद्रीन फर्मान वाचून दाखयल्लें. नव्या किरिस्तांवांक नेम घालून दिल्ले. दारांत तुळस पुजची न्हय. दादल्यान मूज करची न्हय. पुडवें न्हेसचें न्हय. सटी बारसो करचो न्हय. आंगाक हळद-तेल लावचें न्हय. हिंदू वैजाचें वखद घेवचें न्हय. हिंदू वैजीण बाळंतेराक हाडची न्हय. असले परिस्थितींत दिवाडे रावल्यारूय वैजपणाचें दायज सांबाळप कशें हो मोठो पेंच ताचे मुखार आशिल्लो. निमाणें विचार करून ताणें मयां वचपाचें थारायल्लें.

राम भट घरदार सोडून मयां वता ही खबर साळू वैजिणीक कळिल्ली. राम भटाल्या आदारान ती वैजिणीचें काम करताली. राम भटान मदत करूंक नासली जाल्यार कुंडयकाराले सुनेचो बाळंतेर साळू कडेन जावपाचोच नाशिल्लो. घोग्यांनी पडपी पावसांत मांडवी न्हंयक हुंवार आयिल्लो. दिवाडे जुंव्या वयल्यान कुंडय खबर तरी कसो पावयतलो? साळून मोठ्या धिरान प्रसंगाक तोंड दिलें. कुंडयकाराली सून कुळारा दिवाडकारांगेर आयिल्ली तेन्नाची खबर. भुरग्याचे मानेंत वार घुस्पल्ली. सून तर किळच्यो आनी आड्डी मारताली. त्यो आवांठभर आयकूंक येताल्यो. निमाणें साळून राम भटागेर कोणाक तरी धाडलो. राम भटान दिल्ल्यो गुटिका घेतले उपरांत सुनेक बरें दिसलें. हरशीं बायलो सुट्टकीच ओगी जातात. राम भटालें वखद घेतकीच सून सुटचे पयलींच ओगी जाल्ली. साळून केन्ना तरी तें वखद कसलें म्हण राम भटाक विचारिल्लें. अफीम कांय कितें अशें राम भटान सांगिल्लें. राम भट मयां चल्लो ही खबर आयकून तळयेर कपडे धुवपाचें अर्दारूच सांडून साळू राम भटागेर आयलें.

राम भट सामान एकठांय करतालो. वखदां करपाच्या आयदनांतलें गोस्तनी मुषा, कुट्टण खल्व, तप्त खल्व, सांडस हें सगळें व्हरपा खातीर ताणें काडून दवरिल्लें.

''धनयांनो, हांवूय येतां तुमचे वांगडा.'' साळून आंगणांतल्यान मोठ्यान म्हळें.

राम भट ताचो आवाज आयकून भायर

आयलो.

"खंय येता तूं?"

"तुमी वतात थंय."

"हांगा लोकांक कोण मागीर?" राम भट गांव सोडून वतालो. पूण गांवा कडली नाळ तोडप ताका भोव कठीण आशिल्लें. राम भट आनी साळू वैजीण दिवाडी सोडटात ही खबर गांवभर पातळ्ळी. एक एक करून गांवकार राम भटागेर जमपाक लागले. सगळ्यांचो एकूच आग्रो - दोगांयनी गांव सोडचो न्हय.

"हांगा रावून म्हाका वखदां करपाक मेळटलीं?" राम भटान निमाणो प्रस्न विचारलो.

कोण्ण कांयच उलयलोना. सोल्दादांक कळ्ळ्यार ते चुली मोडून घालतात हें सगळ्यांक खबर आशिल्लें. आंगणांत तुळस लावप जंय भोव कठीण आशिल्लें थंय भस्म करपाक भट्ट्यो लावपाक कोण दितलो आशिल्लो? न्हंये पलतडीन आदिलशाय आनी मराठे हांच्यो लणामुणी चलताल्यो. पूण इंकिझिसांवाची भिरांत भतग्रामांत नाशिल्ली. रातचें चोरयां तरी न्हंये पलतडीं लोकांक येवपाक मेळत असो विचार करून निमाणें राम भटान मयां वचपाचें थारायलें.

साळू लग्न जावन दिवाडे केन्ना आयिल्लें ती ताकाच याद नाशिल्ली, इतले ल्हान पिरायेचेर तें आयिल्लें. गांवांतले सगळे बाळंतेर तेंच करतालें. सुटले उपरांत बाळंतिणीक आनी भुरग्याक तेल लावपाचेंय तेंच करतालें. राम भट गेलो ताच्या दुसऱ्याच दिसा ताका मानेलागेर आपोवन व्हेलें. मानेल हो आदलो म्हादेव गांवकार. बाटून किरिस्तांव जाल्लो. ताची धूव सुटपाची आशिल्ली. साळू मानेलागेर गेलें. तो बाटला. घरा तेल आसत काय? साळूच्या मनांत विचार आयलो. दोन कपडे ताणें हातांत घेतले. राम भटा कडल्यान हाडिल्ल्या वखदांनी बोटवो भरलो. कपडे, बोटवो आनी पितूळचें आयदन घेवन तें तेला घाण्यार आयलें. अर्द रात तेल आयदनांत घेतलें आनी बेगोबेग मानेलागेर गेलें.

मानेलाक नातू जालो हाची खोशी मनोवपाक बाबड्याक चड वेळ मेळ्ळोच ना. इंकिझिसांवान सांगिल्लें आसतना मानेलान साळूक आपयल्लें. चलयेचो बाळंतेर करपाक वैजीण आपयली ही खबर 'व्हडल्या घरां'त पावली. सांजे मानेलाक धरपाक घोड्या वयल्यान सोल्दाद आयले. वांगडा पाद्री रुद्रिगीश आशिल्लो. मानेलाक घरांतल्यान भायर आपोवन हाडलो. मनाय आसतना बाळंतेराक वैजीण हाडिल्ली काय ना हाचेर ताका जाप विचारली. मानेल ओग्गी आसा तें पळोवन सोल्दादान ताच्या सोणकुटार मारलें. त्या सणसणीत थापटा वांगडा मानेल जमनीर पडलो. त्या बोवाळांत ताची घरकान्न आनी साळू भायल्या दारांत आयलीं. साळूक पळोवन सोल्दाद आनीक खवदळ्ळो. हातांतली बडी आपटीत तो मानेलाच्या घरांत रिगलो. मानेलाचे घरकान्नीन ताका आडावपाचो यत्न केलो. पूण त्या आडांग्या फुडें तिचें कांयच चल्लें ना. सोल्दाद बाळंतिणीचे कुडींत वता तें पळोवन साळू ताचे फाटल्यान धांवलें. सोल्दादाच्या खोमसाक ताणें हात घालो. सोल्दादान फाटल्यान पळे नासतनाच ताचेर खोंट घाली. साळूच्या पोटार खोंट बशिल्ल्यान तें शेंवटून वणटीर आदळ्ळें. ओले बाळंतिणीक ओडपाक सोल्दादान हात घालो. मानेलाचे धुवेची आनी सान भुरग्याची करंदाय कुडींतल्यान भायर पावली. पूण ती आयकुपा इतलीय सुद्द साळूक नाशिल्ली.

रातीं उसरां पलतडीं मयां वचून राम भटाक हे भिरांकूळ घडणुकेची खबर कोणें तरी सांगली.

*"कृष्णाय वासूदेवाय हरये परमात्मते*
*प्रणतः क्लेष नाशय गोविंदाय नमोनमः"*

राम भटाच्या हातांत प्रार्थने खेरीज कांयच उरूंक नाशिल्ल्यान ताणें हात जोडले. पोल्यां वयल्यान देंवपी दुकां पुसपाचेंय भान ताका नाशिल्लें.

कैवल्यधाम हो गोपुरींतल्या अंत्रुज म्हालांतलो ल्हानसो गांव. फिरंग्यांच्या त्रासांक विटून आनी देव-धर्म बुडत ह्या भंयान तिसवाड साश्टीच्यान लोक थंय येवन राविल्ले. पूण पोर्तुगाल रेपुब्लीक जालें आनी इल्लें इल्लें सगळेंच बदलुपाक लागलें. इतलीं वर्सां दबिल्ल्या भावनांचे उत्फर्के लोक मेकळेपणान परगटावपाक लागले. आपा वैद्यागेर आयज दसऱ्या दिवाळी परसूय व्हडल्या उत्सवाचें वातावरण आशिल्लें.

गोव्हेर्नादोराली चली दुयेंत आशिल्ली सगळे उपाय करून जाल्ले. आतां निमाणो उपाय म्हण गोव्हेर्नादोरान आपा वैद्याक हाडपाक सांगिल्लो. खरें म्हळ्यार आदल्यो चाली-रिती पोर्तुगेजांनी खाजनांतल्या बांदांनी पुरून उडयल्ल्यो. तेदेवेळार पोर्तुगेजांच्या भंयान हें सगळें घडलें. पूण आपा वैद्यागेर मात आर्षसंप्रदाय तिगून उरिल्लो. गांवठी वखदां होच त्या लोकांक वैजुकी आधार आशिल्लो. आपा वैद्याक गोव्हेर्नादोरान आपयला ही बातमी कैवल्यधामांतल्या वाड्या वाड्यार पातळ्ळी. आपा वैद्य माचुलांतल्यान पणजे वतलो हाची चर्चा कुळागरांनी नेमां मारतां मारतां मानाय व्हडपणान करपाक लागले.

सकाळीं न्हावन धुवन आपान देवा पुजा केली. रसपाळीं केळीं आनी दूद घेवन आपा पणजे वचपाक भायर सरलो. गोव्हेर्नादोरान ताका माचूल धाडिल्लें.

आपा माचुलांत बसलो. भोयांनी माचूल उबारलें. आपा माचुलांत बसून चिंतपाक लागलो. गोव्हेर्नादोराली चली बरी ना! कितें जालां आसतलें काय ह्या वयार! गोव्हेर्नादोराचीय ताका इल्ली लक्तुबाय दिसली. माचूल गोपाळ गणपतीच्या देवळा कडेन पावलें. आपान माचूल थारोवपाक सांगलें. देंवून ताणें गणपतीक नमस्कार घालो. हातांत घेतिल्ल्या कार्याक यश दी अशें मागणें केलें. माचूल मुखावेल्या मार्गाक लागलें. पणजे गोव्हेर्नादोराले पालासींत पावलें. एक कोंकणो पयलेच खेपे माचुलांतल्यान गोव्हेर्नादोराक मेळपाक येता हाचें गोऱ्या सोल्दादांक अप्रूप दिशिल्लें. तांणी बेगीबेगीन दार उकतें केलें. माचूल दारांत सकल दवरलें आपा वैद्य तातूंतल्यान देंवलो. माचुलांत आशिल्ली वखदांची पोती गोऱ्या सोल्दादांनी उबारली. आपान बंगल्यांत पावल दवरलें. खासा गोव्हेर्नादोर ताच्या स्वागताक फुडें आयलो. ताणें मानान आपाक भितल्ल्या सालांत व्हेलो. बाज्जेर ताची चली न्हिदिल्ली. कोण तरी आयिल्ल्याची सुलूस लागिल्ल्यान तिणें कूस परतुपाचो यत्न केलो. पूण तितली लेगीत शक्त तिच्या आंगांत नाशिल्ली.

"आसूं..." आपान तिचे म्हऱ्यांत येत

म्हळें.

"कितें जाता, सांग."

"चार म्हयने जाले, जोर येता. उठना. जेविना खायना..." गोव्हेर्नादोराले घरकान्नीन सांगलें. तिणें लेंसान दोळ्यांतलीं दुकां पुसली. आपा चलये म्हऱ्यांत आयलो. तिचो दावो हात हातांत धरलो. मनगटाचेर आपणाल्या हाताचीं तीन बोटां दवरून नाडयेचो अदमास घेतलो. नाडी सामकी मंदावल्ली. चलयेच्या दोळ्यांचें सकयल्लें पातें ओडून दोळ्यांत पळयलें. जीब भायर काडपाक सांगून तपासली.

"परसाकडे कशें जाता?" आपान विचारलें.

"पातळ जातालें. खायना कांय हालीं पोटांत जाता म्हणटा," गोव्हेर्नादोराले घरकान्नीन म्हायती पुरयली.

"कांय भंयाचें ना. हांव कांय चुर्णां दितां. तीं म्होंवा वांगडा चाटून खावचीं." आपान पोतयेंतल्यान कसलोसो पिठो काडलो आनी ताच्यो पुडयो बांदून दीत म्हळें.

"म्हाका चार दीस पळोवचें पडटलें, गूण कसो येता तो. गूण दिसपाक लागल्यार मागीर आनीक कांय काढे सांगतां."

"बाय बरें जातलें न्हय?" आवयन हुस्को उकतायत विचारलें.

"हय, इल्ली जतनाय घेवपाक जाय. जोर एकाद्रो परतुपाची शक्यताय आसा. पूण कपलार उदकाची घडी दवरात. वतलो...!"

"पूण चार दीस तुमी हांगाच रावतात न्हय?" गोव्हेर्नादोराल्या प्रस्नान आपाचेर धर्मसंकट आयिल्लें. पूण संकटांतल्यान संद निर्माण करपाचें आपान थारायल्लें. गोव्हेर्नादोरालें मन दुखोवचे परस पणजेंत दुसरे कडेन रावल्यार कशें? मनांत प्रस्न उप्रासलो तो वांगडा जाप घेवनूच. धेंप्यांगेर वचप.

"धेंप्यांगेर रावतां हांव," आपान म्हळें. गोव्हेर्नादोर धादोशी जालो. ताणें आपाल्या हाताचो उमो घेतलो.

आपाचें माचूल आल्तिन्यार धेंप्यांगेर पावलें. दनपार जावन गेल्ली. विष्णूबाब धेंपो जेवण आटपून कांय लोकां वांगडा उलयत बशिल्ले. दारांत आपालें माचूल पळोवन ते उठले.

"आपा, तुमी येतले म्हूण आमकां पयलीं कित्याक सांगलें ना?"

"तुमकां बेठीच तिशठत नाका. सांगल्यार वाट पळयत रावतले आशिल्ले..."

"तातूंत कितें? तुमचे सारक्यांलो पंगती लाब तरी मेळपाचो." विष्णूबाबान जमिल्ल्या लोकांची आपा कडेन वळख करून दिली. आपाक गोव्हेर्नादोरान आपयला ही खबर पणजेंत लेगीत पातळिल्ली. धेंप्यांगेर जमिल्ल्या लोकां मदीं पणजेच्या कुलॅझियु मॅदिकाचे कांय प्रोफेसोरूय आशिल्ले.

आपान प्रवासांतले कपडे काडले आनी तो न्हावपाक गेलो. धेंप्यांले कोठयेंतल्यान शिदो घेवन आपाल्या रांदप्यान जेवण रांदपाक सुरवात केली. आपान न्हावन धुवन मध्यान



संध्येक सुरवात केली. पुराय वेवस्था पळोवपाक धेंप्यान एक मनीस आपाच्या सांगताक दिल्लो. जेवण जातकच आपा सकयल आयलो. भायर आपाक मेळपाक कितलोसो लोक जमिल्लो. तातूंत दोग फ्रँच प्रोफेसोर आनी पोर्तुगेज मास्तर आशिल्ले.

"आपा, चार दीस कितें, म्हयनो भर पणजे रावल्यार लेगीत गर्दी सोंपचिना." विष्णूबाबांनी हांसत म्हळें. आपा लोकांक तपासत वखदां दिवपाक लागलो.

गोव्हेर्नादोराली चली आपा वैद्याच्या वखदान बरी जाली ही खबर रोखडीच गोंयभर पातळ्ळी. पणजेंत व्हडले व्हडले दोतोर आसतना आपाक आपोवन व्हरचो पडलो हाचोच लोकांक व्हडलो अभिमान दिसपाक लागलो. आपाक मात गोव्हेर्नादोरा कडल्या ह्या संबंदाचो उपेग कसो करपाक येत हाचो विचार मनात येतालो. पणजेंत येदें व्हडलें मॅडिकल कॉलेज आसा. थंय आर्यवैद्यकाचें कितेंच कशें ना?!

बोरयेच्या बाळू बोरकारालो चलो चवथीक आयिल्लो तेन्ना आपाक तो मेळिल्लो. दोतोरकेचो कोर्स पुराय करतना वैजुकी मळार निबंध बरोवन दिवचो पडटालो. पांच प्रोफेसोरांल्या पंगडा मुखार त्या निबंधाचेर भासाभास जाताली. बाळूबाबाल्या चल्याच्या मनांत 'मेदिसीना आरियानु' हो निबंध बरोवपाचो विचार आशिल्लो. पूण थंयच्या प्रोफेसोरांक तें मानवलेंना जाल्यार? बाळूबाबाल्या चल्याची इत्सा आपान पुराय करपाची थारायली. तांणी विष्णूबाबां कडेन ही गजाल काडली. विष्णूबाबांकूय भोव आनंद जालो. सांजे गोव्हेर्नादोराले चलयेक पळोवपाक वतना तांणी आपणेंय वांगडा येवपाचें उतर दिलें.

गोव्हेर्नादोराले चलयेक मर्णा दारांतल्यान परतून हाडपाक आपाक यश लाभलें. गोव्हेर्नादोराक तर आपा देवा भाशेन दिशिल्लो. आपाली इत्सा ताणें पुराय करपाचें थारायलें. बाळूल्या चल्याकूच न्हय तर उपरांत कोणाकूय आर्य वैद्यकाचेर अभ्यास करपाचो आसल्यार तजवीज करची अशें ताणें डिनाक सांगलें. डीन पयलीं न्हय न्हय तीं कारणां सांगपाक लागलो. पूण गोव्हेर्नादोरा मुखार ताचें व्हडलेंशें चल्लें ना. आर्यवैद्यकाक परतून ताचें फावो तें स्थान मेळिल्लें पळोवन धादोस जाल्लो आपा कैवल्यधामांत परतलो.

फार्माकॉलोजी प्रयोगशाळेंत पांजऱ्यांत दवरिल्लें मांजर पिसावल्ले भाशेन आड्डतालें. सुरवेक व्हडलें आशिल्लें आड्डप उणें जावन आतां तें गुरगुरपाक लागिल्लें. संजय इथरान भिजिल्लो कापसाचो गुळो घेवन माजरा म्हऱ्यांत आयलो. प्युनान पांजऱ्यांतली लाकडी पट्टी धुकलीत माजराक एका कोनशाक व्हेलें. पट्टी आंगाक लागलें उपरांत माजर परतून आड्डुपाक लागले. माजर मोठ्ठ्या दोळ्यांनी पांजऱ्या भायर पळयतालें. त्या मोठ्या दोळ्यांत संजयाक आपणालेंच बिंब पळोवपाक मेळ्ळें. कोनशाक गेल्ल्या माजराचें तोंड प्युनान बुराकांत धुकल्लें. तोंड पांजऱ्याच्या बुराकांत येतकीच संजयान कापसाचो गुळो ताच्या तोंडार

तेंकयलो. इथराचे हिंवसाणीक लागून माजरान शेंपडी नेटान हालयली. तें थंयच्यान सुटपा खातीर धडपडपाक लागलें. पूण इथर ताच्या मेंदवांत भरलें तशें ताचें कांयच चलना जालें. कांय खिणांत तें पांजऱ्यांत सकयल पडलें.

प्युनान पांजरो उगडलो. माजराक भायर काडलें.

"आं धर फाटल्या पांयांक..." कोणें तरी म्हळें. गुंगेंत आशिल्ल्या माजराक मेजार दवरलें. मेजाच्या पोंताक आशिल्ल्या दोरांक ताचे पांय बांदले. फाटल्या पांया वयल्या जांगडाची ल्हंव काडली. ब्लेडीन तो भाग मर्दींच चिरलो. जांगडा वयलें मांस कातरेन कुशीक सारीत पोंदाची शीर उकती केली.

"दोर दी," ताणें ऑपरेसांव करतना म्हळें. प्युनान दोर दिलो. शिरे पोंदच्यान दोर सरकयलो. दोर मर्दी कातरून दोन कुडके केले. एक सकयल पांया वटेन व्हरून शीर घट्ट बांदली. मागीर धाकटी कातर घेवन शिरेक ल्हानसो चीर दिलो. तांबडेंच रगत भायर आयलें. रगत ताणें कापसान पुसलें. प्लास्टीक वादी शिरेच्या बुराकांतल्यान भितर घाली. फुडल्या पोंताक आशिल्लो दोरो वादयेर हाडून वादी बांदली. वादयेच्या पोंताक आशिल्लो क्लॅंप काडलो. थंय सिरींज लायली.

"सोड. सलायन फ्लश कर! पेन्टो काड गो!" कुशीक उबें रावून पळोवपी चलयेक ताणें म्हळें. सलायन फ्लश केले उपरांत बाटलेंतलें पेन्टो सिरिंजींत घेतलें. सिरींज प्लास्टीक वादयेक लावन तें इंजेसांव केलें. पेन्टोक लागून कांय खिणांतूच माजराक गुंगी चडपाची आशिल्ली. माजर गुंगेंत गेले उपरांत संजय प्रयोगाक सुरवात करपाचो आशिल्लो.

कांय वेळान ताणें कापसाच्या कुडक्याक फुलवात करपाक घालतात तसो पीळ घालो. पिळाचो पोंत माजराच्या दोळ्यांक लायलो. दोळे हाल्ले नात. कॉर्नियल रिफ्लेक्स ना जाल्लो. ताणें पापण्यो उकत्यो करून दोळ्यांत बॅटरेचो उजवाड घालो. लायट रिफ्लॅक्स आशिल्लो. आतां हरकत ना. ताणें हातांत स्कालपॅल घेतलो. "ट्रॅकिया आनी कॅरोटीड उकतीं करुया!" संजयान म्हळें. प्युनाक तें काम सदचेंच आशिल्लें. तो हत्यारां बेगोबेग दितालो. संजयाचो हात कुशळ सर्जना भाशेन चलतालो.

"स्टॅंडर्ड ड्रग हाडूं?" चलयेन फुडाकार घेत विचारलें, "हय; एसिटायल, अॅड्रो आनी अॅट्रोपिन." चली फ्रिजा म्हऱ्यांत गेली. वखदान भरिल्ल्यो बाटल्यो भायर काडून तिणें इल्लीं इल्लीं वखदां बिकरांत घेतलीं.

"आयज कितें विशेश, सर?" प्युनाचें काम सोंपिल्ल्यान तो हात धुवपाक वॉश बेसिना कडेन गेलो.

"आसा तर! पयरचो कसाय खंय आसा गो?"

संजयाक याद जाल्ल्यान ताणें विचारलें.

"सर कितलें कॉन्सन्ट्रेशन घेवप?"

"आगो तो कसाय. ट्रायल अॅरर करची पडटली. धावो वांटो डायल्यूट करून हाड." कॅरोटीड आर्टरी वयेंनुला प्रेसांव तपासपाच्या यंत्राक लायत ताणें म्हळें.

"कसाय सो सर?" प्युनाक इल्लें अजाप दिशिल्लें.

"आरे हो कसाय प्रेसांवार उपकरता खंय. पळोवया माजराक दिवन," चलयेन कसाय हाडटना म्हळें.

"पूण पयलीं कोणें घेतला?"

"तेंच तर इंटरेस्टींग. शेगीत चार पांच म्हयने हो कसाय घेवपी मनशाचें प्रेसांव देंविल्ल्याचो अणभव आसा." संजयान वखदाचो पयलो डोस माजराक दीत म्हळें.

"नांव कितें वखदाचें?"

"राऊलफिया सरपेंटिना!" चलयेन म्हळें.

"ताका गांवठी नांव सांग गो!" येदो वेळ मोन्यांनी वावुरपी लॅब अॅसिस्टंटान प्युनाक कांय समजना हें दाखोवपाक तोंड उगडलें.

"गांवठी भाशेंत ताका सर्पगंधा म्हणटात, न्हय सर?"

"यॅस. ताचीं पाळां सोरपा भाशेन दितात. अॅड्रिनालीन सारकें आसा आं. हें पळय, प्रेसांव वाडलां." संजयान प्रेसांव वाडटा तें पळोवन म्हळें. कांय मिनटां प्रेसांव वाडून उरलें. उपरांत ल्हव ल्हव करून तें परतून जाग्यार आयलें.

"जालें न्हय सर?" पयल्या वखदाचो फावो तो परिणाम आयिल्ल्यान लॅब अॅसिस्टटांन विचारलें.

"खंय वता, चायेक?" संजयाक ताच्या प्रस्ना फाटलें कारण समजल्ल्यान ताणें विचारलें. थोडो वेळ कोणूच कांयच उलयलो ना. "वचात वचात!" संजयान अॅट्रोचें इंजेसांव करत म्हळें. लॅब असिस्टंट आनी प्यून डिपार्टमॅंटांतल्यान कॅन्टिनांत वचपाक भायर सरले.

संजय एक एक वखद माजराचे शिरेंतल्यान दितालो. वखद आंगांत वतकीच माजराचेर ताचो परिणाम जातालो. केन्ना प्रेसांव वयर वतालें तर केन्ना देंवतालें. सर्पगंधाच्या कसायाक लागून माजराचें प्रेसांव इल्लें लेगीत बदल्लें ना! मनशाचेर वखद परिणाम करता.

"हांगा लॅबांत कांयच कशें मेळना?" संजय मातसो निर्शेल्लो. ताचे विचारूय घुसपल्ले.

"सर, अॅनास्थेशिया उणो जाता सो दिसता..." माजराच्या श्वासाची लय बदलिल्ली. बदलपी लय माक्नार नोंद जाल्ली. ताचेर चलयेचें लक्ष गेल्लें.

"आनी पेन्टो दिवं?" चलयेन विचारलें.

"नो न्यूज." संजयान सिरींज मेजार दवरून म्हळें. आयुर्वेदांतलीं वखदां कशीं काम करतात? तांकां नवे फास्केंत बसोवन तपासप शक्य आसा?

सर्पगंधाचो सोद लावपी मनशाक ताचो उपेग कसो कळ्ळो? काय माजर हें वखद तपासपाक योग्य मॉडेल न्हय? ताच्या मनांतली विचारांची जंत्री वाडत गेली. व्हडली सिरींज घेवन ताणें प्लंजर फाटीं ओडलो. सुयेचो पोंत वादयेंत रोमलो. सिरिंजींतलें वारें ताणें माजराचे शिरेंत भरलें. वारें शिरेंत वतकीच माजराचो श्वास आडखळपाक लागलो. माक्नाचेर प्रेसांव देंवतना स्पश्टपणान दिसपाक लागलें. कांय खीण तशेच गेले. माजराचो श्वास बंद जालो. प्रेसांव दाखोवपी कांटो थिरावलो. माजराचे कुडींत प्राण नाशिल्लो. वखदांच्या नव्या सोदांत मोनजातींतल्या आनीक एका प्राण्याली आहुती पडिल्ली.



रवी प्रोफेसर गौतमां वांगडा वेवसाय प्रबंधन कोर्साचो रिसर्च पेपर बरयतालो. तो पीएच्. डी करूंक सोदतालो. पंदरा म्हयन्यां आदीं उच्च शिक्षणा खातीर तो भारतांतल्यान मॉन्ट्रियल आयिल्लो. मॉन्ट्रियलांत ताणें मेहनत खूब केल्ली पूण परिक्षेंत व्हडलेंशें यश मेळूंक नासलें.

मॉन्ट्रियलची भयंकर थंडी, वेगळी संस्कृताय, वेगळें जेवण-खाण, आवय-बापायचेर अर्थीक दडपण येत हाचो हुस्को — ह्या सगळ्याक लागून रवी हांगा व्हडलोसो जम बसोवंक पावलोना. तो अपेशी जालो अशेंय म्हणूंक येवचेंना. पूण पीएच्.डी खातीर अर्थीक पालव मेळेवपाक गरजेचे आशिल्ले वेवसाय प्रबंधनाचे परिक्षेंत ताका मातशे उणे मार्क मेळ्ळे.

प्रोफेसर गौतमांक आपणाल्या आनी हेर विश्वविद्यालयां विशीं जायती म्हायती आसली. पीएच्. डी.त प्रवेश घेवपा खातीर आपणाक खंयच्यानूय अर्थीक आदार मेळूं येता काय म्हूण रवीन तांकां विचारलें तेन्ना तांणीय व्हडलीशी आस्त दाखलिना. वेवसाय प्रबंधन कोर्स पुराय करून भारतांत परतप हाचे भायर आतां रवी कडेन कसलोच पर्याय नाशिल्लो.

रवी प्रोफेसर गौतमांक तांच्या विभागांत मेळूंक वताले तेन्ना ते ताका चडांत चड अर्द वर बी दिवंक पावताले, इतले ते कामांत आसताले. तांकां परत परत त्रास दिवपाक रवीकूय बरें दिस नाशिल्लें. भारतीय आशिल्ल्याचो आपूण फायदो घेतां अशें बी प्रोफेसरांक दिसना मूं, असोय विचार रवीच्या मनांत येवन वतालो.

एक फावट रवीन धीर करून तांकां म्हळेंच, "सर, खंयच्याय एका दिसा म्हाका दोन वरांचो वेळ दियात. ते उपरांत हांव तुमकां पिडचोंना."

"तू म्हाका खंय पिडटा?! हांगा सेगीत दोन वरां वेळ मेळपूच कठीण." तांणी आपणाली डायरी पळोवन म्हळें, "तूं अशें कर, ह्या आयतारा दनपरां जेवपाकूच म्हगेर यो. मागीर तुका जाय तितलो वेळ दितां."

"इतले त्रास कित्याक घेतात सर तुमी...?" रवीन म्हळें. प्रोफेसर गौतम आपणाक घरा आपयतले अशें रवीक दिसूं नाशिल्लें. आयतारा दिसा दनपारच्या बारांक आपणागेर पाव म्हूण प्रोफेसर गौतमान रवीक सांगलें.

प्रोफेसर गौतमांचो फ्लॅट विश्वविद्यालयाच्या तांच्या विभागा सावन चडूच जाल्यार फर्लांगभर पयस आशिल्लो. फाटल्या वर्साच तांणी तो विकतो घेतिल्लो. गेल्या बावीस वर्सां भितर तांच्या दोळ्यां मुखारूच मॉन्ट्रियल शार कितलें बदलिल्लें! ते विभागांत लॅक्चरर म्हूण आयिल्ले आनी आतां जायत्या वर्सां उपरांत प्रोफेसर जाल्ले. सगळें सगळें बदलिल्लें. पूण प्रोफेसर गौतमांची जीण मात तशशी आसली. ते ह्या शारांत एकलेच आयिल्ले आनी तीन वर्सां फाटीं तांची घरकान्न तांकां एकलो सोडून गेल्ली. तिका कॅन्सर जाल्लो. घरकान्नीच्या मर्णा उपरांत येद्या व्हडल्या घरांत एकलोच रावप म्हळ्यार तांकां खूब त्रास जावंक लागले. घराची मालकिणूच ना तेन्ना कित्याक तें घर?...

अठरा वर्सां ह्या घरांत तांणी आपणाले बायले सांगातान सारिल्लीं. सुखा-दुःखाचे कितलेशे खीण तांकां याद जावचे. घरांत केन्नाच कितेंच उणें पडूंक नासलें. पूण भुरग्याचो आवाज मात त्या घरान केन्ना आयकलोना. हेच गजालीचें दोगांकूय खुब्ब दुःख जावचें. आपल्या भुरग्याक वेंगेंत घेवपाचो आनंद दोगांकूय केन्ना मेळूंक पावलोना.

बायलेच्या मर्णा उपरांत वर्सभर प्रोफेसर गौतम त्या घरांत रावले. पूण उपरांत तांणी तें विकलें. वांगडाच गरज नाशिल्लें थोडें सामानूय विकलें. आनी येवपा-वचपाच्या सोंपेपणाचो विचार करून विभागा म्हऱ्यांतूच एक फ्लॅट विकतो घेतलो. विभागाचें काम आनी रिसर्च इतलेंच आतां तांच्या जिवितांत उरिल्लें. भारतांत भाव-भयणां आसलीं. पूण आपल्या आपल्या संवसारांत गुल्ल. हाचे विशीं चिंतपाक कोणाक वेळ आसलो! ना म्हळ्यार, भयणी रक्षाबंधन आनी भाऊबिजीच्यो भेटो धाडटाल्यो तेन्ना वांगडा पानभर चिटीय बरोवन धाडटाल्यो.

रवी येतलो म्हूण प्रोफेसर गौतमान भारतीय जेवण रांदपाचें थारायलें. हरशीं ते दनपारचे आनी रातचे विश्वविद्यालयाच्या कँटिनांतूच जेवताले. शेनवारा दिसा एका भारतीय दुकानांतल्यान ते कांय मसाले आनी भाजयो घेवन आयले. बायल दुयेंत आशिल्ली तेन्ना जायते फावट ते रांदताले. पूण आतां आपणा खातीर कितेंय रांदचें म्हळ्यारूच तांकां नाका दिसतालें. जिणेची वात अजून पालोवंक ना म्हूणूच ते जियेताले. तांणी एक भाजी आनी दाळ केल्ली. चपात्यो विकत्यो

# म्हापुरुश

मूळ हिन्दी : सुरेशकुमार गोयल

कोंकणींत हाडपी: उदय देशप्रभू



हाडिल्ल्यो. त्यो फकत हून करपाच्यो आसल्यो. शितूय रवी येतकच करपाक दवरिल्लें.

रवीन तांच्या फ्लॅटाची बॅल मारली तेन्ना ज्युस्त बारा वरां जाल्लीं. रवी वेळाक पाळो दिता तें पळोवन प्रोफेसर गौतमांक खूब बरें दिसलें.

रवी मातसो खांकुडटा तें पळोवन तांणी म्हळें, "हें ऑफीस न्हय म्हजें... घर हें. आतां तूं म्हजो सोयरो, विद्यार्थी न्हय. तुजेंच घर समज हें."

रवीन घरचोच जावन वावुरपाचो यत्न केलो. पूण गुरू आनी शिश्याचें नातें कशें म्हूण बदलतलो? प्रोफेसरा वांगडा तो रांदचे कुडींत आयलो. प्रोफेसरान शीत करपाक दवरलें.

"एकलेच रावतात तुमी ह्या फ्लॅटांत?" रवीन विचारलें.

"हय... पांच वर्सां फाटीं म्हजी घरकान्न भायर पडली." तांणी जाप दिली.

रांदचेकुडींत जेवणाच्या मेजा कुशीक आशिल्ल्या कदेलाचेर रवी बसलो. दोगूय ओग्गी आशिल्ले.

"शीत जायसर कितें पिता?" प्रोफेसर गौतमान विचारलें.

"कसलोय ज्यूस आसा जाल्यार दियात." रवीन म्हळें.

प्रोफेसरान फ्रिजांतल्यान एक ऑरेंज ज्युसाची बाटली आनी एक बियर काडली. ज्यूस ग्लासांत ओतून रवीक दिलो आनी आपूण बियर पिवंक लागले. कांय वेळान शीत जालें. जेवन, कॉफी घेवन ते भायर आयले. आतां काम करपाचो वेळ आसलो.

रवी आपणालें बॅग घेवन आयलो. ताणें ८९ पानांचो रिपोर्ट बरयल्लो. प्रोफेसर गौतमान रिपोर्टाचो थोडो भाग पयलींच पळेल्लो. तातूंत रवीन जी सुधारणा केल्ली ती तांणी पळेली. रवीन तांकां कितलेशे प्रस्न विचारले. प्रोफेसर कितें सांगताले तें तो बरोवन घेतालो.

रवीच्या रिपोर्टाचें निमाणें पान आयलें तेन्ना सांजेचीं पांच जाल्लीं. निमाण्या पानार रवीन रिपोर्टांत वापरिल्ल्या संदर्भांची वळेरी दिल्ली. प्रोफेसरांक दिसलें, कांय संदर्भ उरल्यात, आनी अभ्यासिकेंत वचून पुस्तकां उकतीं करून ते हे संदर्भ सोदपाक लागले.

प्रोफेसर अभ्यासिकेंत वचून पंदरां वयर मिनटां जाल्लीं. आपूण घरांत आसां म्हूण ते विसरूंक बी नात मूं, रवीक दुबाव आयलो, आनी तो अभ्यासिकेंत गेलो. थंय पुस्तकांच पुस्तकां आसलीं. एक कम्प्युटरूय आसलो. अभ्यासिकेचे तुलनेंत तांचें ऑफीस मातशें ल्हान आसलें.

प्रोफेसरान एके नदरेन रवीक पळेलो आनी परतून आपल्या सोदांत गुल्ल जाले. वणटीर प्रोफेसराल्या डिग्रींचीं प्रमाणपत्रां फ्रेम करून लायिल्लीं. तांणी न्यूयॉर्काच्यान पीएच्.डी. केल्ली. भारतांतल्यान, कानपूरच्यान, एम्.एस्सी. केल्ली.

"सर, तुमी कानपूरच्यान एम्.एस्सी. केल्या न्हय? म्हजो आजो थंयच विभागाध्यक्ष आसलो," रवीन म्हळें.

तीन-चार पुस्तकां घेवन प्रोफेसर भायर सालांत आयले.

"कितें नांव तुज्या आज्याचें?"

"राम कुमार," रवीन सांगलें.

"बऽरो वळखतां हांव तांकां. एक वर्स हांवें शिकयलांय बी त्या विभागांत."

"तशें जाल्यार घडये तुमी म्हजे आवयकूय पळेल्या आसतली," रवीन म्हळें.

"पळेल्या आसत घडये..." प्रोफेसरान म्हळें. "हें पळे, तूं हीं पुस्तकां घेवन वच आनी तुज्या उपेगाचें हातूंत कितेंय मेळटा जाल्यार पळे."

रवी आनीक कांय वेळ थंय रावलो. स वरां जावंक आयिल्लीं. स-एक वरां तो प्रोफेसरागेर उरिल्लो. पूण इतल्या ह्या वेळांत ताणें म्हयन्याभराचें काम केल्लें. प्रोफेसराक मनांतल्यान बरें मागून तो थंयच्यान भायर सरलो.

रवी गेले उपरांत प्रोफेसरांक जायत्या वर्सां आदल्यो विसरायेर पडिल्ल्यो घडणुको याद जावपाक लागल्यो.

रवीच्या आज्याक ते भोव बरे वळखताते. तांच्याच विभागांत एम्.एस्सी करून ते थंय लॅक्चरर म्हूण कामाक लागिल्ले. दिल्लीचे कॉलेजींत प्रवेश मेळूंक नाशिल्ल्यान ते कानपूर गेल्ले. तेन्ना कानपूर तांचो काका रावतालो. एका वर्सा उपरांत काकाय कानपूर सोडून गेलो. पूण गौतमाक कानपूर इतलें मानवल्लें की एम्.एस्सी. थंयच्यानूच करप म्हूण ताणें थारायलें. मुखावेल्या शिक्षणा खातीर विदेशांत वचपाची ताची इत्सा आसली. पूण एम्.एस्सींत ताका व्हडलेशे बरे मार्क मेळ्ळे नात आनी हाका लागून स्कॉलरशिपूय मेळूंक पावलिना. एक-दोन वर्सां भारतांत शिकोवपाचो अणभव घेतलो जाल्यार एकवेळ विदेशांत वचपाक अर्थीक पालव मेळूं येता अशें ताणें येवजिलें.

त्याच दिसांनी कॉलेजींतलो एक लॅक्चरर मुखावेल्या शिक्षणा खातीर विदेशांत गेल्लो. ही रिती जाल्ली तात्पुरती सुवात गौतमाक मेळिल्ली. विदेशांत वचपा खातीर आवय-बापाय कडल्यान उण्यांत उणो आदार मागप म्हूण ताणें थारायल्लें. पयशे एकठांय करपाचो यत्न तो करतालो. विभागाध्यक्ष राम कुमारूय ताचेर खूश आसले. ताचो फुडार घडोवपाचो तेय यत्न करताले.

एक दीस राम कुमारान गौतमाक सांजचो आपल्यागेर च्याक आपयलो.

रवीचे आवय कडेन — उमा कडेन गौतमाची पयली वळ तेन्नाच जाल्ली. उमा बी.ए. करताली. दिसपाक साधारण आसली. राम कुमारांक तिच्या लग्नाचो हुस्को जातालो. उमा विभागाध्यक्षाची धूव म्हूण त्या दिसा गौतम आपूण जावन तिचे कडेन उलयल्लो. ती बाबडी ओग्गी आशिल्ली.

कांय वेळान उमा आनी तिची आवय थंयच्यान उठून गेलीं. तेन्ना राम कुमार गौतमा कडेन आपल्या मनांतले उलयले. उमाचो हात गौतमाच्या हातांत दिवपाचें तांच्या मनांत आशिल्लें. जाय जाल्यार आपूण ताच्या आवय-बापाय कडेन उलोवपाक दिल्ली वतां अशेंय तांणी सांगलें.

गौतमान इतलेंच म्हळें, "तुमच्या घरा कडेन नातें जोडप म्हळ्यार म्हजें भाग्य अशें हांव समजतां. पूण म्हजीं आवय-बापूय म्हजे धाकले भयणीचें लग्न जायसर म्हज्या लग्नाचें कशींच चिंतपाचीं नात..."

लग्नाची गजाल टळची म्हूण ताणें मुखार म्हळें, "हांव मुखावेल्या शिक्षणा खातीर विदेशांत वचूंक सोदतां. पूण एम्.एस्सींत म्हाका व्हडलेशे बरे मार्कूय मेळूंक नात. हाका

लागून स्कॉलरशीप मेळपूय कठीण.''

''म्हाका कित्याक सांगलें ना हें तुवें? न्यूयॉर्काक म्हजो एक लागींचो इश्ट युनिव्हर्सिटींत प्रोफेसर आसा. हांवें ताका तुजे विशीं बरयल्यार तो म्हजें उतर भायर मारचो ना.'' राम कुमारांनी म्हळें.

''तुमी म्हाका उमाचो फोटो दियात. हांव तो म्हज्या आवय-बापायक धाडटां. तांचो हयकार घेवचोच पडटलो म्हाका. तीं ना केन्ना म्हणपाचीं नात,'' गौतमान म्हळें.

राम कुमार खोशी जावन घरांत भितर गेले. कांय वेळान घरकान्नी सयत उमाचो फोटो घेवन आयले. उमा लजून भायर आयलेंना. ताचे आवयन एका डब्यांत इल्ली मिठाई घालून गौतमाच्या हातांत दिली. घोव-बायल मोगाळ नदरेन गौतमा कडेन पळेतालीं.

घरा पावनाफुडें गौतमान न्यूयॉर्काच्या त्या विश्वविद्यालयाक पत्र बरयलें, आपणाक प्रवेश पत्र आनी अर्थीक पालवाचो फॉर्म धाडचो म्हूण.

दिल्ली वचचे पयलीं गौतम एक फावट उमागेर गेलो. उमाच्या आवय-बापायन कांय वेळा खातीर तांकां दोगांकूय कुडींत एकलीं दवरलीं. पूण दोगांय फकत लजलीं.

गौतम दिल्लीच्यान परतलो तेन्ना राम कुमारांनी ताका रोखडो आपल्या रुमांत आपोवन हाडलो. गौतमान सांगलें, आवय-बापायक सोयरीक मान्य आसा पूण धाकले भयणीच्या लग्ना पयलीं तीं हाचेर कांयच विचार करूंक सोदिनात.

ह्या हयकारा उपरांत गौतमाचें उमागेर खूब येवप-वचप जावंक लागलें. एक दीस ताणें उमाक आपणा वांगडा सिनेमाक येवंक सांगलें. उमा गेलें ना. त्याच दिसांनी न्यूयॉर्का सावन फॉर्म आयलो. रोखड्या रोखडो ताणें तो भरून धाडून दिलो. राम कुमारांनी आपणाल्या न्यूयॉर्काच्या इश्टाक चीट बरयली आनी तातूंत गौतमाची खूब तुस्त-तोखणाय केली. तीन म्हयन्यां उपरांत गौतम जाची वाट पळेतालो तें पत्र न्यूयॉर्का सावन आयलें. ताका पीएच्.डी खातीर प्रवेश आनी अर्थीक पालवूय मेळिल्लो. राम कुमारांक लागुनूच हें जाल्लें. तांच्या वशिल्या बगर हो अर्थीक पालव कसोच मेळचो नाशिल्लो.

गौतमाचे धाकले भयणीची सोयरीक बनारस जाल्ली. लग्न पांच म्हयन्यांनी जावपाचें आशिल्लें. गौतमान उमाक समजायलें, फकत एकाच वर्साचो प्रस्न. फुडल्या वर्सा आपूण लग्न जावपा खातीर भारतांत येतलों आनी ताका व्हंकल करून घेवन वतलों.

कांय म्हयन्यांनी गौतम न्यूयॉर्काक आयले. ज्या विश्वविद्यालयांत ताका प्रवेश मेळिल्लो तें ताका व्हडलेंशें आवडलें ना. हेवटेन तेवटेन खटपटी करून ताणें न्यूयॉर्कांतूच दुसऱ्या विश्वविद्यालयांत प्रवेश मेळयलो.

उमाचीं दोन-तीन पत्रां आयिल्लीं. पूण खूब कामांत आशिल्ल्यान गौतमान तांच्यो जापो दिल्यो नात. पूण बापायचें पत्र आयलें तेन्ना उमाचो चेरो ताच्या दोळ्यां मुखार नाचूंक लागलो.

बापायन बरयल्लें, राम कुमार कसल्या तरी कामा निमतान दिल्ली आयिल्ले तेन्ना आपणाक मेळपाक आयिल्ले; आपले खंयचे चलयेची सोयरीक बनारसाक जाल्या तें आपणाक कळूंक पावलेंना... गौतमाक आपल्या लग्नाची खबर काडपाक इतलें लजूंक कित्याक जाय अशेंय ताणें बरयल्लें.

गौतमान बापायक बरयलें, हांव उमा कडेन लग्न जावंक केन्ना उत्सूक नासलों. तुमकांय ही सोयरीक मान्य ना म्हूण तुमी राम कुमारांक सरळ बरोवन कळोवचें. तांणी कोणेंच म्हाका हांगा पत्र बरोवपाचीय गरज ना.

गौतमाच्या बापायन पुतान सांगिल्लें तेंच केलें. पूत तांच्या हाता भायर गेल्लो.

गौतमाक उमाचीं आनिकूय दोन-तीन पत्रां आयली. एक राम कुमारांचेंय पत्र आयलें. सगलीं पत्रां वाची नासतनाच ताणें पिंजून उडयलीं.

पीएच्.डी सोंपोवन गौतम लग्न जावपाक भारतांत गेलो आनी एके सुंदर चलये कडेन लग्न जावन अमेरिकेक परतलो. आपणाल्या जिविताचें सार्थक जाल्ले वरी ताका दिसतालें. ते उपरांत राम कुमारांचो आनी उमाचो विचारूय ताणें केन्ना केलोना. उमाची केन्नाय याद जाताली, ना न्हय. पूण ती याद इतिहासांत गुठलावन पुरून उडोवपूच योग्य अशें ताका दिसतालें.

त्या दिसा रवीन ह्यो सगल्यो पोरण्यो यादी ताज्यो केल्ल्यो. प्रोफेसर गौतम रातभर उमा विशीं येवजिताले. ताणें बाबड्यान कोणाचें कितें वायट केल्लें! राम कुमारांच्या उपकाराचें आपणें कसलें फारीकपण केल्लें... येवजितां येवजितां प्रोफेसरांचो दोळो लागलो.

विभागाची सचीव सिसील सकाळच्या णवांक प्रोफेसरांगेर आयली तेन्ना ते फाटल्या यादींतल्यान वर्तमानांत आयले. तांणी तिका रवीचो फोन नंबर सोदून काडूंक सांगलो. आनी रवीक फोन केलो. सकाळीं फुडें प्रोफेसरांचो सो फोन, रवीक अजाप जालें.

''रवी, तूं पीएच्.डी खातीर अर्थीक पालव मेळोवपाचो हुस्को करूं नाका. ह्या विश्वविद्यालयांतल्यान तुका स्कॉलरशीप मेळची म्हूण हांव यत्न करतां.''

रवीक आपल्या कानांचेर विश्वासूच बसना जालो. ''थँक्यू सर... थँक्यू व्हॅरी मच...'' ल्हवू आवाजांत ताणें म्हळें.

''जायत्या वर्सां फाटीं तुज्या आज्यान म्हजेर खूब उपकार केल्ले. तांचें फारीकपण म्हज्यान ह्या जल्मांत करूंक जावचेंना. त्या उपकारांचें वजेंय ह्या संवसारांतल्यान वतना व्हरूंक पावचों ना. तुजी कितेंय मदत करूंक पावलों जाल्यार ताचें वजें ल्हव जातलें.'' अशें म्हणून प्रोफेसर गौतमान फोन दवरलो.

रवीच्या हातांतलो रिसिव्हर कांय वेळ तसोच उरलो. मागीर कागद पेन घेवन ताणें आपले आवयक पत्र बरयलें –

मोगाळ आई,

ह्या संवसारांत म्हापुरूस बी आसतात म्हूण तुजे कडल्यान केन्ना तरी आयकल्लें. म्हजो मात हाचेर विश्वास नासलो. पूण आतां म्हाका पटलां, दुसऱ्यांक निस्वार्थी आदार दिवपी म्हापुरूस आयजूय बी ह्या संवसारांत आसात. म्हजे खातीर प्रोफेसर गौतम असलेच एक म्हापुरूस आसात.

तांणी म्हाका अर्थीक पालव मेळोवन दिवपाचें उतर दिलां.

प्रोफेसर गौतम जायत्या वर्सां फाटीं कानपूराक आज्याच्या विभागांत काम करताले. तेन्ना घडये तुजीय तांचे कडेन वळख जाल्ली आसतली...

तुजो,
रवी



# शेवण्या पिपुशा...

शीला कोळंबकार

म्हज्या कुळारची कुळदेवता शांतादुर्गा. सावयवेरेंच्या सांतेर भाटांतली. मुंबय सावन गोंयां येतकूच सांतेरभाटांत वचप जाता. अशेंच एक खेप सांतेरभाटांत गेल्लें थंय एक शेवणें दिसलें. चिमणे परस मातशें व्हड. हळडुव्याच आंगाचें. पूण ताची तकली, दोळे आनी चोंच मात काळीकिट्ट आसली. हो काळो रंग तिकतिकीत आसलो.

कितलें सुंदर शेवणें! हांव ताका पळेतूच उरलें. ताका पळोवन म्हजे कल्पनेक पांखां फुटलीं. भुरगेपणांतल्या काणयांतल्या यादींनी हांव शेणलें. ताका पळोवन म्हाका दिसलें, हें शेवणें पयलीं काळेंच्च आशिल्लें आसूंक जाय. आपल्या काळ्या रंगाची ताका लज दिसूंक लागली. म्हूण तें देवा कडेन गेलें. ताणें देवाक सांगलें, ''देवा, म्हजो रंग म्हाका बदलून दी.''

देवान म्हळें, ''बरें आसा. तूं अशें कर, सावय अनंताच्या देवळांत वच. थंय तळी आसा. तातूंत तीन खेप उडकी मार आनी कितें जाता तें पळे.''

तें शेवणें उडत उडत अनंताच्या देवळांत पावलें. तळयेर गेलें. तीन खेप ताणें उदकांत बुडयो मारल्यो. आनी तें भांगरा वरी हळडुवेंच जालें. आनीक एक उडकी मारल्यार आनीक सुंदर जायन घडये, अशें चिंतून ताणें चवथे खेप उडी मारली. ते बराबर ताची तकली गळ्या मेरेन काळी जाली. आनीक उडकी मारल्यार आशिल्लोय हळडुवो रंग् वचत म्हूण तें भिलें. आनी उडी मारी नासतना उडून गेलें.

''तें शेवणें उडून गेलें. पूण म्हज्या काळजाच्या पड्ड्यार ताचें तें चित्र सासणाचें उरलें. ताणें म्हाका कल्पनाविलासांत भोंवडायलें. आनी विहंगावलोकन हांवें करूंक जाय हाची म्हाका जाणीव करून दिली.''

तें शेवणें उडून गेलें. पूण म्हज्या काळजाच्या पड्ड्यार ताचें तें चित्र सासणाचें उरलें. ताणें म्हाका कल्पनाविलासांत भोंवडायलें. आनी विहंगावलोकन हांवें करूंक जाय हाची म्हाका जाणीव करून दिली.

मुंबय जायत्यो कार्यावळी जायत आसतात, झाडां, फुलां, सवणीं, पिसोळीं, जनावरां बी पळोवपाच्यो. एक खेप पक्षी निरिक्षणा खातीर एक पंगड डेहराडूनच्या 'चक्राता' गांवांत वचपाचो आसा म्हूण कळ्ळें. म्हजी भयण शशी आनी हांव आमी उमेदीन गेलीं. थंय आमचे वांगडा एक पक्षीतज्ञ आशिल्लो. ताचें नांव भौ. आदेश शिवकर. फाटलीं वीस वर्सां तो ह्या वेवसायांत आसा.ताका हांवें विचारलें, ''गोंयां हांवें अशें अशें शेवणें पळेल्लें. ताचें नांव कितें?'' ताणें सांगलें, ''खंयच्याय शेवण्या विशीं विचारतात तेन्ना दोन तीन गजाली मतींत दवरूंक जाय. सगळे लोक तीनचार शेवण्यांक सारके वळखतात. चिमणी, कावळो, पारवो आनी मोर. खंयचेंय शेवणें पळेलें काय ताचो पयलीं आकार पळोवपाचो. देखीक, तें तुमी वळखतात त्या शेवण्या परस ल्हान काय व्हड! मागीर ताच्या पांयांचो, आंगाचो, चोंचीचो रंग पळोवचो. आनी, ताचें कितेंय खाशेलपण आसल्यार तें लक्षांत दवरचें. परतून तें खंयच्या वाठारांत दिसलें तेंय पळोवंक जाय. जाल्यारूच तें शेवणें अमकेंच म्हूण आमच्यांनी सांगूं येता.''

मुखार त्या पक्षीतज्ञान म्हळें, ''त्या शेवण्याचें वर्णन आयकून म्हाका दिसता, तें 'कृश्णशीर हळदया' आसूंक फावऽ. ताच्या हळडुव्या आनी काळ्या रंगांक लागून आमी ताका 'टॅक्सी शेवणें' अशेंय म्हणटात.''

मागीर ताणें सांगलें, ''हांव कितें सांगतां तें लक्ष दिवन आयकात. आपले भितर आपसांत उलोवं नाकात. हेवटेन तेवटेन पळोवं नाकात. ताका लागून आमची व्हेवलॅन्थ बरी जुळटली. हे प्रक्रियेक एक लय मेळटली. ही लय जुळ्ळी काय शेवणीं तुमकां मेळूंक येतलीं. पिसोळीं तुमचेर येवन बसतलीं.

तेन्ना, पक्षीनिरिक्षणांत सगळ्यांची एकलय, एकतानता आसप गरजेचें.''

हांव अजाप! परतून लय? पयलीं फकत संगितांतली लय आनी ताल हांची जाण आसली. मागीर चित्रकलेंत ताल आनी लय आसता म्हूण कळ्ळें. आनी आतां ह्या पक्षीनिरिक्षणाकूय ताल आनी लय लागता! मागीर दिसलें, आरे, आमचे जिणेकूय ताल आनी लय आसता. निसर्गाच्या तालार आनी ताचे लयींत वचत जाल्यारूच जीण जगप सोंपें जाता. नाजाल्यार लागली वाट! पक्षीनिरिक्षणाची नजर विकसीत करपाकूय एक लय जाय हें म्हाका पयलेच खेप होलमलें.

ल्हानपणांत चिमणी, कावळो, पारवो, कीर, मोर बी शेवणीं खबर आसलीं. ल्हान आसतना आई काणी सांगताली. कवडुल्या पोराची. एक आसलो कवडुलो पोर. ताका घोटेरांत दवरून ताचे आवयबापूय ताका जेवण हाडूंक वताले. भायर वतना आवय कवडुल्या पोराक सांगताली, ''आरे, तूं घोटेरांत बसून राव. आमी नासतात तेन्ना भायर येवं नाका.''

आवयलें आयकनासतना एक दीस कवडुलो पोर घोंटेरा भायर आयलो. हांगा थंय उडूंक लागलो. ताका सारकें उडूंक येनासलें. तेन्ना ताका एका मनशान धरलो. तो आड्डलो, ''आई गेऽ, म्हाका धरलो.''

ताचे आवयन म्हळें, ''धरुनिरे कवडुल्या पोरा, म्हजी सांगणी आयक नासलो, म्हजी सांगणी आयक नासलो!''

आई ह्यो दोन वळी नादमय कवनशें गावन दाखयताली.

मागीर कवडुल्या पोराचीं पाखां कापलीं. ताका सोल्लो. तो कवडुलो पोर आड्डून आवयक उलो मारतालो. आनी ताची आवय ताका पदांतल्यान सांगताली, आपूण कितें करूं? तुवें म्हजी सांगणी आयकली ना. कवडुलो पोर कसो आसलो, कसो दिसतालो कांय खबर ना. पूण ताचे कळवळे आमच्या दोळ्यांतल्यान व्हांवताले. आनी मनांत इतलेंच उरतालें – आवयचें आयकलेंना जाल्यार भुरग्यांक मरतातूय बी. गोंयांत बागा, कळंगुटे हे जातीचीं शेवणीं मेळटात. गांवगिऱ्या वाठारांत हांकां कितें म्हणटात तें थंयच्या लोकांक विचारूंक जाय.

ह्या शेवण्यांक पळोवन म्हाका एक याद जाली. एक खेपे हीं शेवणीं एके जांबळीर एकठांय जाल्लीं हांवें पळेल्लीं. तीं पानांपानांनी कुचकुचीत भरिल्लीं. झाडभर चिंवचिंवतालीं. दिसलें जांबळूच चिंवचिंवता. इतलीं शेंकड्यांनी शेवणीं खंयच्यान आयलीं काय? हांव चिंतूंक पडलें. चित्तां चित्तां कल्पनेच्या राज्यांत पावलें. दिसलें, ह्या शेवण्यांचे राजकन्येचें लग्न आसूंक जाय. आनी सगळीं शेवणीं त्या झाडार बिराड घेवन आयल्यांत आसूंक जाय. लग्नाक बोवाळ चलता तस्सो थंय बोवाळ चलतालो. लग्ना माटवांत ल्हान भुरगीं आशिकुशीक जागो मेळटकीच धांवतात, पडटात, हांसतात, किंळच्यो मारतात तशीं शीं तीं शेवणीं दिसलीं. मदींच शेवण्यांचें भिरें अश्शें उडून वतालें. मदींच दुसरें भिरें येतालें. थोडीं शेवणीं मदींच उडून वयर बसतालीं. मागीर म्हाका दिसतालें, एक भिरें हळद घेवन आयलां, तांकां बसूंक बरी सुवात दिवंक दुसरीं शेवणीं वयर वचून बसल्यांत. तांचो तो बोवाळ पळेत हांव कितलो तरी वगत पिश्या वरी उबें आसलें. तांचें कितें चलतालें, खबर ना. पूण कसलो तरी आनंदोत्सव चलतालो इतलें खरें! तो पळोवन आनी अणभवून हांव खोशयेन फुल्लें. म्हजे भशेन ती जांबळूय बी खोशयेन फुलारून फुल्ल्या आसूंक जाय. आनी सेर्त! त्या वर्सा त्या झाडाक खुब्ब जांबळां लागल्यांत आसूंक जाय.

लग्न जावन हांव मुंबय पावलें. फ्लॅटा मुखार सोनमोहर आनी बिल्डिंगेच्या एका कोनशाक पिंपळ आसलो. थंय विविंगड शेवणीं येतालीं.

हांगा मडवळण येताली. हिका धवे मुस्तायकेक घालतात ते निळीचे काशी वयले एके जायरातीच्या लेबलाचेर पळेल्ली. तिका इंग्लीशींत 'रॉबिन' म्हणटात. काळसार निळो रंग. मदींच धवेफुल्ल पटे. आंगार आनी शेंपडेकूय. निळीची जायरात करता ते कंपनीचे कल्पकतेची तोखणाय दिसली. नीळ घाली काय धवे कपडे त्या शेवण्याच्या धव्या पट्ट्यां इतले धवेफुल्ल जांतात हें तांणी बरे तरेन व्यक्त केल्लें.

थंय बुलबुलूय बी येताले. कोंकणींत बुलबुलाक पिटकोळी म्हणटात. थोडो लोक पिट्टोळी म्हणटात. हे पिटकोळेच्या तोंडार धवें, तांबडें खत आसता. शेंपडेपोंदाय तांबडे खत आसता. तकलेर काळो तुरो आसता. हो तुरो पयलींचे गवय तकलेक साफा, (एके तरेचो लेंस) बांदताले तसोसो दिसता. ताका लागून ताका गवय पक्षीय बी म्हणटात. बुलबूल तरेकवार रंगाचे आसतात. काफये कोराचे, काळशे, धवशे, गोबरे, हळडुवशे बी. 'रुबी थ्रोटेड बुलबूल' हो गोंयचो राजपक्षी हें कितल्या गोंयकारांक खबर आसा काय?

मुंबय आनीक एक सुकणें पळेलें. चिमणे परस व्हड पूण साळोरे



परस ल्हान. तें मोरा भशेन पांखां फांकारून नाचतालें. नजर थारना इतलें तिरतिरतालें. मागीर कळ्ळें, मराठींत ताका 'नाचण्या' म्हणटात. कोंकणींत कितें म्हणटात, खबर ना. म्हूण हांवेंच ताका नांव दवरलें ''फुलगें.''

मुंबय आनीक एक शेवणें पळेलें. सादारण साळोरेयेदें. हळडुव्याच आंगाचें. हळडुवी चोंच आनी हळडुव्याच पांयांचें. ताचे दोळे भरतनाट्यम करपी नर्तिका दोळ्यांत काजळ घालता तशें काजळ घाल्ले वरी आसले. आनी ताच्या पांखांच्या तोंकार काळ्या रंगाचो ब्रश मारिल्ले वरी काळसो रंग आसलो. हें शेवणें सादारण मार्च आनी मागीर सप्टेंबर-ऑक्टोबरांतूच दिसतालें.

एकदां कोडीबाग-कारवार गेल्लें चवथी कडेन. थंय फुलां काडूंक गेलें. जाल्यार थंय एका शेवण्याचो घोंटेर आसलो. दोन पानांक दोशीं वटेन बोते काडिल्ले. बुटाची लेस बांदूंक आसतात तशे! आनी त्या बोत्यांतल्यान दोर बांदून दोनूय पाना बरीं शिविल्लीं. भितर कापूस, पानां बी घालून गादी केल्ली. तातूंत त्या शेवण्यान तांतयां घाल्लीं. हांवें थंयचीं फुलां काडली नात. मागीर थंय खंयचें शेवणें येता तें हांव पळेत बसलें. चिमणे परस ल्हान, हळडुवश्या पोटाचें, आंगा परस लांब आनी उबे शेंपडेचें तें शेवणें आसलें. मागीर कळ्ळें, ताका 'शिंपी' म्हणटात म्हूण!

जगांत धा हजार तरांचीं शेवणीं आसात अशें नोंदशास्त्र सांगता. तांतलीं एक हजार तिनशें तरांचीं शेवणी भारतांत मेळटात. आनी तांतलीं दोनशें एकसश्ट तरांचीं शेवणीं गोंयांत मेळटात. सद्या गोंयांत जे लोक येतात ते फोल्गां मारूंक येतात. ते देवळां, इगर्जो आनी दर्या देगो पळेतात. खातात, पितात, नाचतात आनी वतात. पूण थोडे लोक दर वर्सा फक्कत शेवणीं पळोवपाक गोंयां येतात. गोंयांत आठ तरांचे 'किरकिरे' म्हळ्यार 'किंगफिशर' आसात म्हूण म्हाका तांचे कडल्यान कळ्ळें.

गोंयकारांक खूब नुस्त्यांचीं नांवां खबर आसतलीं. पूण पंचवीशेक तरी शेवण्यांचीं नांवां तांकां खबर आसतलीं काय दुबाव! गोंयांत जीं इतलीं शेवणीं आसात तांकां नांवां आसचीं नात? आसतलीं. परतून विंगड विंगड वाठारांनी तांचीं नांवांय विविंगड आसतलीं. पूण तीं सोदून काडूं नाका? तीं सोदून काडून तांची अक्षरनोंद म्हळ्यार डॉक्युमेंटेशन जावं नाका? म्हजो हो लेख वाचून गोंयचे तरनाटे शेवण्यांक पळोवपाची नदर केळयत काय? गांवगिऱ्या वाठारांतलीं, गोंयचे मातयेचो, भाशेचो खाशेलो परमळ आशिल्लीं शेवण्यांचीं नांवां कोणूय पुंजायत काय?

गेलीं कितलींशींच वर्सां हांव मुंबय रावतां. गोंयां येतां तेन्ना गोंयचे दोंगर तासून थंय बांदिल्लीं घरां दिसतात. गोंयची रुखावळ नानपश्यात जायत आसा.

देवा तूं! गोंयच्या ह्या निसर्गाच्या नाशाक लागून शेवण्यांचो मंजूळ चिंवचिंवाट शेणचो ना मूं?

# पयण

एड्वीन जे. एफ्. डिसोजा

जिणीच एक पयण म्हणतकूच आमी हर एकलो पयणारी आसांव. पयणारी म्हणताना विमानाचेर विदेशांक उबचें म्हळ्ळो अर्थ बिल्कूल जयना. मनशाची चालच एका पयणाऱ्याची. पूण फरक जायतें आसा. कोण तरी विमानार उबलो ताका मोडां शिवाय हेर कांय दिश्टीक पडाना. रातीच्या बस्सीचेर पयण केलें तर भिकुणांचें मार, रस्त्या वयले फोंड म्हणताना सगळो जीव लाचार जाता. पूण दिसाचें त्रैनीर या बस्सीचेर पयण केल्यार म्हजे तसल्या परिसर प्रेमीचे दोळे भरतीत आनी त्या धनिया देवाचे महिमेचो उडास येत आनी सगळे सृश्टेंत आमच्याकी बळवंत एकलो आसा म्हळ्ळो दैवीक संदेश गमात.

कित्याक हांव हें तत्वशास्त्र लिखतां? काराणां साबार आसात. कितेंगी पोयरच त्रैनीचेर गोंय वेचो अवकास लबलो. ह्या फुडा हांव त्रैनीर गोंय वचूंक ना म्हूण न्हय. गेलां, पूण वेगळीं चिंतनां घेवन गेलां आसतोलों. पूण हे पावटीं हवो प्रशांत आशिल्लो, बिरिबिरी पावस आनी कसली ती प्रितुमेची सोभाय वेगळ्याच कोनान म्हज्या दिश्टीक आपटाली.

*"कित्याक हांव हें तत्वशास्त्र लिखतां? काराणां साबार आसात. कितेंगी पोयरच त्रैनीचेर गोंय वेचो अवकास लबलो. ह्या फुडा हांव त्रैनीर गोंय वचूंक ना म्हूण न्हय. गेलां, पूण वेगळीं चिंतनां घेवन गेलां आसतोलों."*

कितें? कोणें रचलें हें सर्व? चंद्रार पावलल्या मानवान? वेवेगळ्या रिगुं भंवतीं भोंवाडे काडुच्या रोकेटांनी? उगडास आयलो म्हाका त्या एका हिंदी फिल्माच्या गायानाचो : "ये कौन चित्रकार है, ये कौन चित्रकार?" कित्याक हें सवाल म्हजे मतींत येदोळ उदेवंक ना? हांव लेखक तरी कुरडो जालों? त्या रचणाराचीं गाणां-गुणां गावंक विसल्लों? तितलोयी स्वार्थी जालों? दुकां भरलीं म्हज्या दोळ्यांनी. थंयच धनिया देवाक सरपडुंयां म्हण म्हाका भोगलें पूण आराधनान हांव गुपीत रडलों.

तर, कितें आनी कसलें हांवें चोयलें? तण, गुंडे-दोंगोर, त्या दोंगोरांक उमे दिवंचीं तीं मोडां आनी कुपां? फरगात चरव खावंचीं गोरवां-बोकड्यो? पाचवी कांबळ हांतुळ्ळे परी दिसची ती नेज? वाऱ्यार धलच्यो त्यो भाताच्यो कणश्यो?

व्हय, हें सर्व हांचे पयलें हांवें पळेलां पूण ह्या फाटल्यान एक संदेश म्हाका गमलो—मनशा, तूं कितेंच न्हय. तो वयलो धनी कितेंच नातलल्या थावन सर्व रचूंक सकता. ताणें सगळो संवसार आमकां तय्यार करून दिला पूण सोदनां करपाचें काम आनी जवाबदारी मात्र आमकां सोडल्या. कित्याक, ताणें आमकां दिल्या सकत चिंतपाची, विंचपाची आनी करनेची. कितें, तें भांगार, तें रुपें, तें युरेनियुम आमी रचल्लें? ना, तें 'ताणें' रचल्लें - आमी फकत तें सोधून काळ्ळेलें आनी ताचो उपेग केलो. आमी रचपी न्हय, आमी ताच्या ह्या संवसार म्हळ्ळ्या शाळेतांतले वावुरपी, तितलेंच! तर कित्याक हो घमंड, 'हांव, म्हजें, हांवें केल्लें' म्हळ्ळो?

फुडें पळोवंया – फुडें कितें पळोवंया? पावस बिरबिरता आनी हांव पळेतां, एका गाद्यांत एक सारी झळता. धा-बारा जण ह्या सारिये भंवतीं जमल्यात. कांय तरी लागचें हींव पयस करपाक? ना रे बाबा ना. ते कोणाचेंगी मोडें लासतात आनी त्या सारियेचो उजो पालवंक राकतात. कांय उपरांत मोड्याचो गोबोर व्हरूंक या गोमटेक पाकां नाशिल्या गिदांक मोड्याचें भाजलेलें मास खावंक?

देवा, ही तुजी प्रथवी? एका कुशीन तूं रचताय आनी दुसरे कुशीन तूं देस्वाट करताय. हें तुजें रचन? हे रितीर तूं अमकां नशवारांक खेळयताय? पूण हांव कोण हो विचार करूंक? हांव एक तुजें रचन, पूण हांव देकतां आनी चोयतां तुजें कारबार. अशें विचारूंक हांव कोण? तुका मजा येता ह्या खेळांत? सांग म्हाका. कित्याक तुवें हो संवसार रचलोय? तुज्या sadistic धादोसकाये खातीर? कित्याक, तूं जाणाय असल्या सन्निवेशांनी आमी तुका हाक-बोब मारतांव. हें तूं बऱ्यान जाणाय.

बरें, तशेंच जावं. तूं अमकां खेळय, व हांसय अमी तेन्नांयी म्हणतेल्यांव, "अमचो देव बरो!"

तशेंच जावं!

कित्याक तशेंच जावं? देव मात्र बरो, हांव ताची रचना न्हय? हांवें कितें वायट केलां ह्या संवसाराक? ना म्हजे लागीं जाप या ना ते बऱ्या देवा लागीं जाप. असा म्हजे लागीं अशकतपण. मान भागावन हांव म्हणतां - तुवें केल्लें तें-रे बाबा, म्हज्यान करूंक जायना. अशें मांदून घेताना हांव तुका मांदतां. म्हाका इतली मेंदवाची सखात तुवें देल्याय तरी हांव कितेंच नातल्ल्या थावन कितेंयी रचूंक सकाना. एक साधें चिंताप - वीज्यानिंनी, भुरगीं, कशीं जातात म्हण सोदनां करून विवरिलां, व्हय. पूण दादल्या थंय तो जीवकण कसो उबजाता, एके स्त्रिये थंय एकवटोन तो जीवकण कसो फल्साता हें आमी अजून नेण्णाणांव आनी देकून म्हणतांव - भुरगी करूंक सुलब, अशें.

आतां, हें तात्वीक लेख लिखूंक म्हाका एड्वीन जे. एफ्. डिसोजाक ऐके त्रैनीर पयण करचें पडलें? कित्याक देवा तुजी सकत म्हाका दोळे उघडतानाच दिश्टीक पडाना? हो मिसतेर, हो जो आमी सजमोंक सकानांव देकून मात्र तुका आमी देव म्हण मानतांव? देकुनच जिणियेक तयार नाशिल्ले आमी 'ए देवा अमकां राक आनी सांबाळ' अशें रुदान करतांव? जिणियेक तुवें अमकां तयार करून धाडलांय?

सतच्च हांव सांगतां, हाका म्हजे लागीं जाप ना. आपापींच हांव तुजे लागीं सुसकार सोडतां — देवा म्हाका राकोन व्हर. पूण ह्या बाबतीन हांवेंच कितें केलां? जरितरी शिकोपाचे परिक्षेक हांवें फावो ती तयाराय करूंक ना अनी परिक्षेच्या होलाक रिगताना, देवा म्हाका पाव म्हण तुज्या पांयांक पडतां आनी प्रश्नापोत्र सलीस कर म्हण रडूं तर ही कोणाची चूक? गायरां-रेड्यांच्या फाटीर पावस पड्टा पूण ते फरागात असात. रातीचें पावसाळ्यांत-हिंवांत तीं सुकणीं-सावजां खंय अनी कशीं निदतात? म्हाका खबर ना पूण तूं तांकां रचल्लो देव तांची जतन घेताय.

तरी पूण तूं म्हजी जतन घेनाय. कित्याक, चिंतपाची सकत तुवें म्हाका दिल्याय — चींत, विंचून घे अनी कार्यान कर म्हळ्ळो उपादेस तुवें म्हाका दिलाय आनी होच्च तो फरक तुज्या अनी म्हज्या मधलो. हो नाशिल्लो तर हांवच देव जातों, न्हय? कित्याक हांवें चिंतूंक फावो? कित्याक हांवें विंचूंक फावो, कित्याक हांवें कार्यान करूंक फावो? त्या गोरवां-सुकण्यां परी फरगात जियेवंक म्हाका कित्याक सोडिनांय? हांवें चिंतून, विंचून, कारयाळ करून संवसार नास करचो; बॉम, रॉकेटां आनी हेर कितें देसवाटाचीं हातेरां तयार करूंक तुवें म्हाका रचलाय आनी चिंतपाची सकत दिल्याय? म्हाका जाप मेळाशी ना, कित्याक, तूं म्हजे लागीं आतां उलयनांय.

म्हाका रचलाय अनी संवसारांत एकल्याक सोड्लाय. ही तुजी सकत? कांय साट-सत्तर वरसां हांव वांचान अनी त्या उपरांत? तूं असतोलोय, कित्याक, तूं सासाण पूण हांव न्हय. तर तुवें म्हाका कित्याक रचलोय? म्हजो खेळ पळवंक?

तुका हांव देव म्हणों या 'जोकर' म्हणों?

नाका, नाका, तुजी जाप म्हाका नाका, कित्याक हांवें विंचवण केल्या — म्हाका कशें जाय तशें जियेतोलों. बराबर, हेरांक वायट करिसो ना पूण हेरांक दुसरो पोलो दाकवंचोयी ना.

रागार जालोय? देवाक राग बी येता? हांव नेणां देकून हांव जियेवंच्यांत 'बिझी' आसां!

# उबुन्तू ! - एक अणभव

सतीश दत्ताराम दळवी

बेताळभाटी दर्यादिगे लागसार ॲलनॉर व्हियेगश हांची 'पीस कॉटिज'. सैमाचे कुशींत आशिल्ली सोबीत सुंदर मठी. ॲलनॉरबाय मुळची ब्रिटीश. पूण गोंयची सून. दोगी धुवांची आवय. धुवो इंग्लंडाक आसतात. घरकार अंतरले उपरांत ॲलनॉरबाय भारतीय विचारांचे ओडीन येवरोप सोडून गोंयांत येवन ही 'पीस कॉटिज' बांदून रावल्या.

आमी 'पीस कॉटिजीं'त भितर सरलीं तेन्ना ॲलनॉरबाय आनी तिची इश्टीण हॅलन सेयर्स दोगांयनी आमकां हांसत्या तोंडान येवकार दिलो.

ॲलनॉरबायन म्हाका पळेले बरोबर विचारले, ''लेखक दळवी न्हय?''

हेलनबायन सगळ्यांक बसपाक सांगलें. सगळीं वांटकूळ करून बसलीं. पयलीं दोळे बंद करून कांय वेळ बसलीं.

''उबुन्तू,'' हेलनबायन म्हळें. ''हांव आफ्रिकेक सावन ज्या जाग्या वयल्यान आयल्यां, थंयचे लोक स्वागत 'उबुन्तू' म्हणून करतात. भारतांत 'नमस्कार' वा 'सलाम आलेकूं' म्हणटात.''

उपरांत हात, पांय एके विशिश्ट पद्‌दतीन हालोवंक सांगून आमच्या आंगांत उर्जा हाडली. हेलनबाय, जी प्रशिक्षक आसली, तिणें प्रत्येकाक एक दाट कागदाचो कुडको दिलो. वळखकार्ड कशें! ताचेर रंगीत पेनान आपआपलें नांव बरोवन बाकिच्यां कडेन दिवंक सांगलें, ''आतां हीं कार्डां एकामेकां कडेन दियात. तुमी जाचें कार्ड घेतात ताका वा तिका पळेना बरोबर तुमच्या मनांत ते व्यक्ती बद्‌दल जे विचार येतात, जें मत जाता, तें तुमी ह्या कार्डार नोंद करात. हे सगळे विचार वा मतां म्हणल्यार तुमची वळख. आनी, ही वळख आशिल्लें कार्ड म्हणल्यार तुमचें वळखपत्र. तें वळखपत्र तुमच्या बॉल्साक लावपाचें.'' अशें सांगून तिणें सी.डी.चेर थंडशें संगीत लायलें.

जांचे कडेन म्हजें कार्ड हांवें दिलें, तांणी 'सदगृहस्थ, सभ्यगृहस्थ, इस्टागतीचो...' अशीं विशेशणां बरयलीं. एकामेकांची वळख करून घेवचेली ही नवलायेची रीत! एक वेगळें, खेळीमेळीचें वातावरण तयार जालें. सगळीं जाणां एका दुसऱ्याचे सवंकळीचीं जाल्ले वरी लागीं आयलीं! हरशीं कांय जाणां एकामेकांक पयलेच फावट मेळटालीं. एकामेकांक मेळून कार्डांची अदलाबदल करतना 'उबुन्तू' म्हणप.

'उबुन्तू' म्हणल्यार, 'तूं आसा, म्हूण हांव आसां.' हेलनबायन अर्थ समजायलो. केदो व्हड विचार! प्रत्येकाचें अस्तित्व - आसप - दुसऱ्याचेर अवलंबून आसता. तिणें ह्या उतराचेर भासाभास केली. चडश्या जाणांनी तातूंत वांटो घेतलो. ''संवसारांतले सगळे मनीस एकामेकांचेर अवलंबून आसतात. कोणूच वेगळो नासता. हें प्रत्येक मनशान मतींत धरूंक जाय. आनी संवसारांत हो विचार पातळावंक जाय. हाचेर हांवें म्हणलें, ''आमच्या भारतांत हो विचार वेद काळा पसून आसा. 'विश्व कुटुंबकम्' म्हणल्यार, सगळें विश्व हें एक कुटुंब. तुमी खंयचोय धर्म पाळात, खंयचीय वाट ही निमाणें एकाच जाग्यार पावयता.'' हो विचार हेलनबायक आनी हेर वांगड्याक खूब भावलो. आनी खूब फावटीं 'विश्व कुटुंबकम्' मदीं मदीं दोन दिसांचे भासाभाशेंत आयलें.

'''उबुन्तू' म्हणल्यार, 'तूं आसा, म्हूण हांव आसां.' हेलनबायन अर्थ समजायलो. केदो व्हड विचार! प्रत्येकाचें अस्तित्व - आसप - दुसऱ्याचेर अवलंबून आसता. तिणें ह्या उतराचेर भासाभास केली. चडश्या जाणांनी तातूंत वांटो घेतलो.''

कार्यवाहकान (हेलनबायन) एका पुराय कागदाचो चोवथाय कुडको दर एका वांगड्याक दिलो. तो कुडको मदीं दोडून ताचे दोन कुडके केले. ते दोनूय कुडके एकठांय धरून परत मदीं दोडले आनी चार पानांची एक ल्हानशी चोपडी केली. ''ही तुमची 'उबुन्तू' चोपडी,'' हेलनबायन सांगलें. आनी ते चोपडेचेर रंगीत पेनान 'उबुन्तू चोपडी' शिर्शक बरयलें.

फुडल्या सत्रांत आमी ध्यानस्त बसून आमचे जिणेंत जाचो / जिचो प्रभाव पडला अशे व्यक्तीचो उगडास केलो. ताच्या तिच्या वागपाचो / व्यक्तिमत्वाचो आपल्या वागपाचेर, विचारांचेर, व्यक्तिमत्वाचे घडणुकेचेर कशे तरेन, कितले मेरेन प्रभाव पडला तें चिंतून ताचे संबंदान भासाभास केली. हे खातीर तीग-तीग जाणांचे पंगड केले.

"एक पक्षी ऊंच निळ्या मळबांत पाखां हालय नासतना संथ गतीन भोंवताडे काडटा असो देखाव पळयतकच तुमच्या मनांत कसलो विचार येता?" हेलनबायचो प्रस्न आयकतकच शिबिरार्थ्यांनी विंगड विंगड प्रतिक्रिया दिल्यो. सगळ्यांच्यो प्रतिक्रिया थंडसाणेन आयकून घेत हेलनबायन आपले विचार मांडले, "आनिकूय वेगळी प्रतिक्रिया येवं येता."

खंयचेय गजाली संबंधान येवपी प्रतिक्रिया व्यक्तिगत आसता. मनशाचे मानसीक स्थितीचेर वा सभावाचेर ती अवलंबून आसता. मनीसवृत्ती वा मनीससभाव शिकोवन येना. तो आपणावचो पडटा. वातावरण; पालक, शिक्षक जे पद्धतीन वागतात, ताचो बरो वायट परिणाम भुरग्याचेर सहज पडटा – तोच सभावगूण तें भुरगें आपणायता. आकाशांत ऊंच फिरपी पक्षाची देख घेवया. एक पक्षी ऊंच आकाशांत पाखाटे हालय नासतना वांटकुळ्यो फेरयो मारता. तें पळोवन बऱ्या मनाचे, सुस्वभावी आनी सैम मोगी म्हणटले, 'वाऽऽ! कितलो नशीबवान पळे! कसलीच चिंता ना. ऊंच, थंड हवेंत, सैमाची मजा चाखत जाय तसो मन रिझयता. त्याच जाग्यार एकाद्रो नकारात्मकूच विचार करपी म्हणटलो, 'पळे, बाबड्याची काकूट, पोटा भुकेर भोंवताडे काडटा! खंय खावड आसा काय म्हूण पळोवपाक ताका वयरसून धर्तरेचेर नदर मारची पडटा!' आमी कोणाक सभावगूण शिकोवंक वा दिवंक शकनात. ते ताणें आपले आपूण आपणावचे पडटात. केन्ना खंय कशें वागचें हें समजून घेवचें पडटा.

प्रशिक्षिकेन एक देख दीत म्हणलें, "एक ल्हान रोपो वाडटलो, फुलतलो, फळटलो जाल्यार तशें जावचें म्हूण आमी ताचेर बळजबरी करूंक शकनात. ताचे वाडीक जाय आशिल्लें सारें, उदक आनी पोशक वातावरण हाची वेवस्था केली आनी, ताका भायल्या कोणाचोच त्रास जायना, ताचे वाडीक मारक थारत अशी गजाल घडना हाची जतनाय घेतकच जालें. योग्य वातावरणांत, साऱ्या-उदकाच्या आनी वताच्या नेटार रोपो आपले आपूण वाडटलो, फुलतलो-फळटलो. चड सारें-उदक पडत जाल्यार पेड्ड्यार जातलो. अशीच गत मनशाची. मनीस बरे तरेन वाडटलो, एक बरो नागरीक जातलो, ताच्यांत बरे गूण, बरे विचार येतले जाल्यार ताका बरें वातावरण, बरी देख, बरी पोसवण मेळूंक जाय. जाल्यारूच तो बऱ्या विचारांची पसवण आपल्या भोंवतणच्या वातावरणांत करतलो."

तिणें तीग तीग वांगड्यांचे पंगड करून अश्या मनीस-रुपी झाडाचें चित्र काडपाक सांगलें. ताची पोसवण आनी वाड कसल्या गुणांनी जाल्या, ताका कसल्या गुणांनी युक्त अशीं फुलां-फळां लागल्यांत आनी तो वातावरणांत कसल्या गुणांची पसवण करता, ताका कसली कीड लागूं येता, आनी ती लागची न्हय म्हूण कसल्या वखताचो फवारो मारतले, तें दाखयात, तिणें म्हणलें.

म्हज्या पंगडान मनीस-रुपी झाडाचें अशें चित्र काडिल्लें:




प्रत्येक पंगडान आपआपल्या विचारांक धरून विंगड विंगड चित्रां काडलीं. जिणेच्या पाळां-मुळांक, घरच्या प्रोत्साहनाचें, उत्तेजनाचें, धिराचें सारें मेळ्ळें; घरच्यां कडल्यान, शेजाऱ्यां कडल्यान शिक्षकां कडल्यान व्हॅल्यूस – मुल्यां – घेवन ह्या रोप्याची वाड जाली; घर, समाज, इश्ट-वांगडी ह्यो खांदयो; बुद्द, मोग, सेवा हीं त्या झाडाक आयिल्लीं फुलां-फळां. हातूंतल्यान वचनबद्धता, प्रामाणीकपण, समर्पण आमी संवसारांत पातळायतलीं. सैमरुपी पावस आनी वत आमकां ताजेपण, उर्बा आनी धैर्य दिता. अशे तरेचें चित्रमय प्रदर्शन थंय जालें.

ह्या उपक्रमा वरवीं प्रत्येक पंगडांतल्या वांगड्यांची एकामेकां कडेन लागसारच्यान वळख जाली. विंगड विंगड वाठारांतल्यान आयिल्ले वांगडी, जांणी एकामेकांक हे आदीं केन्ना पळोवंक नाशिल्ले, ते एकामेकां कडेन भासाभास करूंक लागले, एकामेकांच्या विचारा कडेन जुळोवन घेवप जालें, एका मतार येवप जालें. सगळे पंगड परतेय एकठांय जाले आनी दर एका पंगडाच्या वांगड्यांनी आपआपलो चार्ट दाखोवन ताचे फाटली संकल्पना सगळ्या वांगड्यांक समजावन सांगली. हेलनबायन उपरांत सगळ्या नकशांचें विश्लेशण केलें आनी प्रत्येक वांगड्याची तुस्त करून ताका सुविचार आशिल्लें भेटकार्ड बक्षीस रुपान दिलें.

दर एकल्याचे विचार वेगळे आसतात. ते तुमच्या मता कडेन जुळटाच अशें ना. पूण त्या विचारांची दखल कशी घेवची, तांचें रसग्रहण कशें करचें हाची ही देख.

उपरांत एक पदांची सीडी आयकली आनी तातूंतल्यान कितें संदेश मेळटा ताचेर भासाभास करून पयल्या दिसाची कार्यावळ सोंपली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं एक फ्रँच पद आयकलें. एकामेकांक शुभेच्छा वा अभिवादन करपी अशें तें पद, 'Bonjour, bonjour, a tout le monde... bonjour.' तिगां तिगांचो पंगड करून दर एका पंगडान एक एक उतर वा वाक्य म्हणपाच्यो सुचोवण्यो कुरवेन मेळयल्यो.

एका पंगडान bonjour तीन फावटीं म्हणना बरोबर दुसऱ्या पंगडान a tout... सुरू करप. पूण पयल्या पंगडान bonjour थांबोवप ना. दुसऱ्या पंगडान a tout le monde तीन फावटीं म्हणटकच तिसऱ्या पंगडान bonjour म्हणपाक सुरवात करप, अशे तरेन bonjour चालू दवरप.

हाचें फळ म्हणल्यार, एक लयबद्द सूर-संगत, कानाक गोड लागपी पद! एकाग्रता, सहकार्य वा सुसुत्रताय, शिस्तबद्धता खंयचेंय काम कितले उच्च प्रतीचें करूंक शकता ताची प्रत्यक्ष देख आमकां मेळ्ळी.

हाचे मुखावेलो उपक्रम म्हळ्यार पंगडांतल्या सगळ्या वांगड्याच्या सहकार्यान दिल्ले साधनसामुग्रीचो योग्य वापर करून आनी स्वतंत्र कल्पना वापरून एक प्रतिमा तयार करप आनी तिवूय बी दिल्ल्या वेळा भितर. दर फावटीं पंगड करतना पंगडांतले वांगडी बदलताले. हेवूय फावटीं तशे बदलिल्ले. नवो उपक्रम, नवे वांगडी. नव्या वांगड्यां बरोबर भासाभास, समजिकाय, सामंजस्य घडून येवप आनी विचारांच्या दिवपा-घेवपान नव्यो वळखी, नवी शिकवण! 'Work experince increases learning' हे उक्तीची प्रचिती आयली.

प्रत्येक पंगडान एक एक वस्तू तयार केली. आमी 'योगा पीस कॉटेज केली.' मदीं घर, भोंवतणी पोरसांत विंगड विंगड योगीक कार्यावळीं खातीर जागे आंखून घेतले. थारिल्ल्या वेळा भितर सगळे पंगड एकठांय आयले. परत प्रत्येक पंगडान आपआपले प्रतिमेचें स्वरूप समजावन सांगलें. हेलनबायन मनोविज्ञानाचो आधार घेत परत सगळ्या प्रतिमांचें विश्लेशण करून प्रत्येकाक बक्षीस दिलें. हें बक्षीस सुंदर विचारांचें कार्ड आशिल्लें.

मुखावेली कार्यावळ म्हणल्यार पांय मेकळे करप, मेकळे हवेंत, सैमाच्या सान्निध्यांत वचप, वेगळ्या वातावरणांत, वेगळ्या संदर्भांत एकामेकां कडेन भासाभास करप. सैमांत सगळीं झाडां-पेडां कशीं एकामेकांचे संगतींत, एकामेकांक सांबाळून घेत खेळीमेळीन वाडटात तें पळेलें. सविताक 'गार' दिसलें. अशें उकताडार मेकळ्या वातावरणांत भंया विरयत 'गार' भोंवतना दिसप कुस्तार. आपल्याच नादांत, हालत धोलत तकली वयर काडून तें चलतालें.

अश्यो विंगड विंगड कार्यावळी दोन दिसांच्या ह्या प्रशिक्षणांत घडोवन हाडल्यो. ह्या सगळ्या कार्यावळीं फाटल्यान लिपिल्ल्यो शिकोवण्यो वा व्हॅल्यूस सहजतायेन मतींत भरताल्यो हें तांतलें विशेश. सगल्या सत्रांतल्यान अप्रत्यक्षपणान मुखेल सुत्रां मतींत येवप हें 'उबुन्तू' कार्यशाळेचें यश.

हेलनबाय सेयर्स आनी ॲलनॉरबाय व्हियेगश हांणी ही कार्यशाळा यशस्वी रितीन चलयली, तांची उद्दिश्टां सफल जालीं. तांकां काळजा थावन परबीं. आनी, शिक्षकां खातीर ही कार्यावळ घडोवन हाडपी मडगांवचे 'रंगोत्सव' संस्थेकूय परबीं.



# कुडतरी गांव : एक सो

**डॅनीश वाज**

डतरी साश्टी म्हालांतलो, जुवारी न्हंयचे देगेर वशिल्लो एक सोबीत गांव. शेतां-भाटांनी नटिल्लो. रुतू प्रमाण हो गांव आपलो रंग बदलता. पावसांत पाचवो जाल्यार गिमांत भांगराळो जाता.

कुडतरीचें मूळ नांव 'कुडतारी' वा 'कुडताडी' आशिल्लें अशें म्हणटात. हें नांव पडपाक कारण शेतां. कुडतरी गांवांत खूब शेतां आसात. देखीक, मरड, खाजन, आडी शेतां बी. हीं शेतां खूब पीक दितात. हें पीक वा भात लोक 'कूड' वा कंडो (कोंड्यांचीं बेळां विणून भात भरपा खातीर केल्ली एक वस्तू) हातूंत भरून दवरताले. जुवारी न्हंयचे आलतडीक कुडतरी गांव जाल्यार पलतडीक शिरोडें आनी पंचवाडे गांव आसात. पयलींच्या काळांत लोक शेतां रोवपाक कुडतरी येताले. शेतां रोयताले, पिकयताले आनी भात घेवन आपल्या गांवांत वताले. चड भात आसल्यार शेतांतूच वा खळ्ळार रास करून दवरताले. त्या काळा वयल्या लोकांक चलून वच्चें पडटालें. अश्या वेळार सोंपो मार्ग म्हळ्यार न्हय हुंपून वचपाचो. हे खातीर कुडतरी गांवांत जुवारी न्हंयचेर तार बांदिल्ली आनी ह्या मार्गान लोकांचें यो-वच जावपाक लागलें. 'कूड' आनी 'तारी' हाचे वयल्यान 'कुडतारी' नांव ह्या गांवाक पडलें. पुर्तुगेज लोक ह्या गांवांत पावले तेन्ना तांकां हीं दोनूय नांवां उच्चारपाक येना जालीं. तांचो उच्चार बदलून 'कुरतरी' हें नांव जल्माक आयलें.

*Oriente Conquistado* ह्या पुस्तकांत १५८४ वर्सा आदीं बांदिल्ल्या इगर्जींची वळेरी दिल्या. तातूंत कुडतरीचे सांत आलेक्स इगर्जेचो उल्लेख मेळना. कुडतरी गांवांतलो तेदेवेळा वयलो गांवकार मार्तीस द आल्बुकेर्क भायर पडलो तेन्ना ताच्या फोंडार एक फातर दवरिल्ली. ही फातर पयलीं इगर्जेंत आशिल्ली, उपरांत ती शिमितेरींत व्हेली. हे फातरीचेर १६२६ अशें वर्स बरयल्लें आसा. हाचे वयल्यान ही इगर्ज ह्या वर्सा आदीं बांदिल्ली अशें म्हणूं येता. ही इगर्ज बांदपाक दुडवांचो पालव कुडतरीचे कुमुनदादीन दिलो अशीय म्हायती मेळटा.

सांत आलेक्स इगर्जेच्या संबंदान कुडतरीच्या लोकां मदीं एक दंतकथा आसा. ही इगर्ज 'पावलिस्तां'नी बांदली अशें म्हणटात. पूण कुडतरीच्या लोकांक हे पावलिस्त म्हळ्ळे कोण तें खबर ना. शणै गोंयबाबांलें *येवकार अध्यक्षालें उलोवप* आनी ओलिव्हीन्यु गॉमिश हांचें *The Religious Orders in Goa* ह्या पुस्तकांनी तांचो संदर्भ मेळटा. ओलिव्हीन्यु गॉमिश म्हणटात, 'पावलिस्त' म्हळ्यार जेजुईत पंथाचे पाद्री. सांत पावल सिमिनरींतल्यान हे पाद्री शिकून भायर सरताले. ताका लागून तांकां पावलिस्त म्हणटाले. ह्या पावलिस्तांनी एके राती भितर सांत आलेक्साची इगर्ज आनी सात बांयो बांदल्यो अशें कुडतरीचो लोक मानता. हे पावलिस्त खंय दिसाचे लोकांक कळटा अशा वेळार काम करी नाशिल्ले. ते रातचे काम करताले आनी सकाळच्या कोंब्या सादार आपलें काम बंद करताले. हांगा कुडतरीच्या लोकांनी पावलिस्तांचो संबंद हिन्दू धर्मांतल्या 'पांडवां' कडेन लायला. असल्योच दंतकथा आमकां हिंदू धर्मांत मेळटात. पांडवांनी एके राती भितर देवळां बांदलीं अशें खूब कडेन सांगतात. हांगा आमकां एक जाणवता, कुडतरीचो लोक धर्मान क्रिस्तांव जाला तरी पूण मानसीक नदरेन तो हिंदू धर्मा कडेन लागीं आसा. पावलिस्तांनी ज्यो बांयो बांदल्यो त्यो कुडतरींतल्यो पयल्यो-वयल्यो बांयो. ताचे पयलीं कुडतरींत एकूय बांय नाशिल्ली. लोक फोंडकुलांतलें उदक पिताले. पावलिस्तांनी बांदिल्ल्यो तीन बांयो कुडतरी गांवांत आयज मेळटात.

*"हांगा कुडतरीच्या लोकांनी पावलिस्तांचो संबंद हिन्दू धर्मांतल्या 'पांडवां' कडेन लायला. असल्योच दंतकथा आमकां हिंदू धर्मांत मेळटात. पांडवांनी एके राती भितर देवळां बांदलीं अशें खूब कडेन सांगतात. हांगा आमकां एक जाणवता, कुडतरीचो लोक धर्मान क्रिस्तांव जाला तरी पूण मानसीक नदरेन तो हिंदू धर्मा कडेन लागीं आसा."*

सांत आलेक्साची इगर्ज आशिल्ली थंय खंय पयलीं एक देवूळ आशिल्लें. हें देवूळ मोडून

पावलिस्तांनी इगर्ज बांदली. हें खंय कुडतरकान्नीचें देवूळ. कुडतरकान्न म्हळ्यार कुडतरीची सांतेर. देवूळ मोडटकच कुडतरकान्नीक केपें म्हालांतल्या एका देवळांत व्हरून दवरली. आयज कुडतरेंत हेच देवीचें एक नवें देवूळ बांदलां आनी ताका नांव दिलां 'श्री शांतादुर्गा चामुंडेश्वरी प्रसन्न'.

कुडतरीचे इगर्जेक सांत आलेक्साचें नांव दवरपा फाटल्यान आनीक एक दंतकथा आसा. सांत आलेक्साक ल्हानपणा सावनूच पाद्री जावपाची खोशी आसली. पूण ताचो पाय ताचे हे खोशये आड आसलो. ताका लागून पायन ताका काजार केलो. आलेक्साचें काजार जालें त्याच दिसा तो घर सोडून गेलो. वतना आपली लग्नाची मुदी जिका घोव-बायलेच्या एकवटाची कुरू मानतात ती बायले कडेन दवरून गेलो. अशींच कांय वर्सां गेलीं. आलेक्स लोकांच्या घराघरांनी भीक मागून आपलें पोट भरपाक लागलो. एक दीस भीक मागत तो आपल्याच घरा पावलो. तेन्ना ताचो बापूय ताका वळखलो ना. कारण ताचो भेस आनी रूप सामकें बदलिल्लें. खाड वाडिल्लें. बापायन ताका भीक दिवचे बदला आपणागेर कामाक दवरलो. अशेंच दीस वचत रावले आनी एक दीस ताका मरण आयलें. ताच्या मर्णा उपरांत ताच्या सामानांत पायक एक चीट मेळ्ळी आनी ताचे वयल्यान तो आपलो पूत म्हूण तो वळखलो.

सांत आलेक्साचें एक अचर्यें कुडतरींत जाल्लें खंय. व्हडल्या व्हडल्या घरांच्यो पाटयो आनी खळीं एकठांय करून एक तारूं जुवारी न्हंयंतल्यान व्हांवत आयलें. ह्या तारवांत खंय सांत आलेक्साचो आत्मो आशिल्लो. हो आत्मो वयर येवन एका शेतांत एका फातरार बसलो. उपरांत ताका लोकांनी पळयलो. तसो तो सर्गार चडूंक लागलो. तेन्नाच्यान सांत आलेक्साचो आत्मो हे इगर्जेंत आसा अशें मानतात आनी हे इगर्जेक सांत आलेक्स इगर्ज म्हणटात. तेन्नाच्यान हे इगर्जेंत सांत आलेक्साची परबूय मनयतात. ह्या फेस्ताक 'भिकाऱ्यांचें फेस्त' अशें म्हणटात. हाचें कारण, सांत आलेक्स भिकाऱ्या सारको जियेलो. ताची परबूय तशीच जावपाक जाय अशें इगर्जेक दिसलें. देखून हें फेस्त हेर फेस्तां सारकें दबाज्यान जायना. तें चड करून जुलय म्हयन्यांत जाता. ह्या फेस्ताक पाद्री भिकाऱ्यांक जेवण घालतात. ज्या जाग्यार सांत आलेक्साचो आत्मो येवन बशिल्लो थंय लोकांनी एक खुरीस बांदलो आनी त्या खुरसाक सांत आलेक्साचो खुरीस अशें नांव दिलें.

जेजुयीत पाद्रींनी साश्टींतलो जो निमाणो गांव क्रिस्तांव केलो तो खंय कुडतरी गांव. ह्या गांवांत सगळ्यांत पयले क्रिस्तांव जाले तीग जाण भाव. तांचीं नांवां हरी पै, गिला पै आनी हा पै [Hari Poi, Gila Poi, Ha poi] अशीं मेळटात. हरी पैक नवें नांव 'इमानवॅल दा कोश्ता' दिलें आनी ताचे बायलेक 'मारिया दा कोश्ता'.

सांत आलेक्स इगर्जेचेर मुखारूच सगळ्यांत वयर पवित्र आत्मो आनी ताचे सकल सांत आलेक्साची मूर्त कोंरातिल्ली आसा. इगर्जेच्या मदल्या दारार Aleixus Nobilissamus Romanorum अशें बरयल्लें मेळटा. हें लातीन भाशेन बरयलां. हाचो कोंकणी अर्थ 'आलेक्स रोमकारां मदलो भोव कुलीन'.

इगर्जेच्या मदल्या आल्ताराचेर सांत आलेक्स, सांत फ्रांसिस्क शाव्हियॅर आनी सांत आंतोन्यु हांच्यो मुर्ती आसात. ह्या आल्ताराच्या दोनूय कुशींनी आनीक दोन आल्तार आसात. तातुंतल्या एका आल्ताराचेर सांत आना आनी तिचो नातू बाळक जेजू आसा. दुसऱ्या आल्ताराचेर सांत आलेक्स आनी ग्वादालूप सायबिणीची मूर्त आसा. हे इगर्जेंत सांत आलेक्सा भायर ग्वादालूप सायबिणीकय म्हत्व आसा. डिसेंबराचे १८ तारकेर हे सायबिणीचें फेस्त जाता. ह्या फेस्ताक 'केळ्यांचें फेस्त' अशें म्हणटात. कारण पयलीं ह्या फेस्ताक खूब केळीं येतालीं. आतां केळीं येनात. पूण फेरी येता. पयलीं ह्या फेस्ताक 'नॉसा सिन्योरा द ऑ' म्हणटालीं.

इगर्जेचे कुशीक पाद्रींक रावपाक एक जागो आसा. थंय भितर सरपाक एक आर्क आसा. ताचेर क्रिस्त रायाची मूर्त आसा. ही मूर्त खूब पोरणी. घडये इगर्ज बांदिल्ल्या काळा वयली आसूं येता. इगर्जेचो फुडलो भाग पळयलो जाल्यार ताचेर घुमट्यांचो आकार दिसता. असलें बांदप देवळांनी अदीक प्रमाणांत दिसता. तशेंच इगर्जे फुडल्या मळार मद्दीं एक खुरीस आसा. ह्या खुरसाचें खाशेलपण म्हळ्यार ताचो आकार. ताका चारूय वाटांनी चार वणटी आसात. पळोवपाक तें एक ल्हानशें देवूळ कशें दिसता.

हे इगर्जे भायर कुडतरींत चार मुखेल कपेलां आसात –

**१) कार्म सायबिणीचें कपेल:** हें कपेल आनवोटें ह्या वाड्यार आसा. इगर्जे कडल्यान तें सुमार २५०० मिटर पयस आसा. तें १७८० वर्सा बांदिल्लें.

**२) मिलाग्र सायबिणीचें कपेल:** हें कपेल सांत जाकोबाच्या दोंगरार आसा. इगर्जे कडल्यान सुमार १९७५ मिटर पयस. तें १७४५ वर्सा बांदिल्लें.

**३) सांत सॅबास्त्यांवाचें कपेल:** हें कपेल विरांभाट ह्या वाड्यार आसा. ह्या कपेलाचेर फिलीप नॅरी फारिया ह्या बिशपान आशिर्वाद घाल्लो.


**आदार:**

तोंडी म्हायती दिवप्यांचीं नांवां:

साक्रामेंता वाज, सांतान डायस, आलेक्स सांतान वाज, रिता वाज.

२००९ वर्सा जुलय म्हयन्यांत सांत आलेक्साचे परबे दिसा पाद्रीन सांत आलेक्साच्या जिविताचेर सेरमांव सांगिल्लो. ताचोय आदार हांवें घेतला.


**पुस्तकांची वळेरी:**


१) *येवकार अध्यक्षांलें उलोवप* – शणै गोंयबाब.

२) *The Religious Orders in Goa* - Olivinho Gomes.

३) *आमोणें एक लोकजीण* – जयंती नायक

४) *साश्टीच्यो इगर्जी* (पयलो खंड) – फादर मॉरेन-दे-सौज




# दशावतारी नाटक

रुपेश म्हापणकार

दशावतारी नाटकां हो लोकनाट्याचोच एक प्रकार. हीं नाटकां गोंयांत आनी महाराष्ट्रांत (कोंकणांत) कार्तिकी पुनवे सावन सुरू जातात आनी चैत्र म्हयन्या मेरेन चलतात. म्हळ्यार नोव्हेंबर ते मे मेरेन. तांची सुरवात सातव्या शेंकड्यांत जाली अशें म्हणटात. विष्णूपूरच्या मल्लराजान खंय पयलो दशावतारी खेळ केलो. दशावतारी नाटकाचें मूळ कर्नाटकांतल्या 'यक्षगानां'त आसा अशें जाणकार मानतात. हीं नाटकां करपी चड करून देवळी समाजाचे आसतात. दशावतारी नाटकां विष्णूच्या धा अवताराचें नाट्यरुपी दर्शन घडयतात. हाचे वेल्यानूच तांकां 'दशावतारी' हें नांव पडलां. ह्या नाटकांक मृदंग आनी पेटयेची साथ आसता.

भौ. प्रभाकर पार्सेकार हे वेंगुर्ल्यां 'पार्सेकार दशावतार नाट्यमंडळ' ही कंपनी चलयतात. १२ वर्सांचे आसतनाच्यान ते माचयेर काम करताले. आतां मेरेन अडेज हजारां वयर नाटकांनी तांणी काम केलां.तांच्या पणज्यान ही कंपनी चालीक लायिल्ली. आतां तांचो धाकलो चलो तांचे वांगडा काम करता.

*"हीं नाटकां पौराणीक कथांचेर आधारिल्लीं आसतात. कथानक वेंचले उपरांत तें सगळ्या कलाकारां मुखार मांडटात. ह्या नाटकांनी संवाद आदीं बरयल्ले आसनात. पात्रांनीच कथानकाक धरून माचयेर चडटकच ते घडोवचे पडटात."*

हीं नाटकां पौराणीक कथांचेर आधारिल्लीं आसतात. कथानक वेंचले उपरांत तें कलाकारां मुखार मांडटात. ह्या नाटकांनी संवाद आदीं बरयल्ले आसनात. पात्रांनीच कथानकाक धरून माचयेर चडटकच ते घडोवचे पडटात. पार्सेकारां कडेन पंदरा कलाकार (दादलेच) आनी तीन मदत करपी, मेळून अठरा जाण वांगडी आसात.

नाटकांची सामग्री जातूंत दवरतात ताका 'पेटारो' म्हणटात. पेटाऱ्यांत महागणपतीचें म्होवाळें आनी बाकीचीं नाटकांत वापरुपाचीं शस्त्रां आसतात. त्या पेटाऱ्याची न्हावन-धुवन उपाशीं पोटार पुजा करतात. तांचे मदलो एकलो सगळें पुजेचें, गाराणें बी घालपाचें काम करता. कलाकारांचो भेस तांचे कडेनूच आसता. गरज पडली जाल्यारूच ताची मुंबय वा पुण्याच्यान तजवीज जाता. शस्त्रां मात ते लोहारां कडल्यान मुद्दाम तयार करून घेतात.

ह्या नाटकांनी देवांच्या श्लोकां खातीर संस्कृत भास वापरतात. राजा, महाराजांच्या संवादा खातीर मराठी आनी हेर किरकोळ पात्रां खातीर मालवणी भाशेचो उपेग जाता. नाटकांतल्या पात्रांचो भेस कथानकाप्रमाण केल्लो आसता. कलाकार सगळेच दादले आशिल्ल्यान गरजे प्रमाण बायलांचो भेस करून तांकां नाटक करचें पडटा.

पयलींच्या काळार ह्या वाटारांत असलीं नाटकांच मनोरंजनाचें साधन आशिल्ल्यान ही नाटकां रातच्या वेळार जातालीं. दीसभर आपलीं कामा करून लोक रातच्या वेळार नाटकांक वताले. दशावतारी नाटकांची सुरवात महाराष्ट्रांतल्या गांवांतल्यान जाली. ह्या नाटकांक लागून बरोवंक वाचूंक नकळ आशिल्ल्या लोकांक पुराणांची म्हायती मेळटाली. हीं नाटकां चड प्रमाणांत जात्रेक वा सार्वजनीक उत्सवा वेळार जातालीं. आयज असलीं नाटकां पळयतल्यांचो आंकडो कमी जायत चल्ला. मनोरंजनाचीं साधनां वाडल्यांत, नव्या पिळग्यांक असल्या विशयांत रस ना, हाका लागून अशें घडलां आसूं येता. आयजूय जाणटीं, असल्या नाटकांनी आनंद जोडटात.

दशावतारी नाटकांनी जोड नाटकांय आसतात. नाटकाचें कथानक नवें तितली नाटक कंपनीक येणावळ चड जाता. दर वर्सा एक नाटक वेगळ्याच कथानकाचेर आदारून तयार करतात. वर्साक नाटकांत पांच एक लाखांची जोड आसता. दशावतारी नाटकां करतल्यांक आतां सरकारा कडल्यान पेन्शनूय मेळूंक लागलां. वेगळ्या वेगळ्या थळाव्या सर्तींनी वांटेकार जावन ते इनामांय जोडूंक लागल्यात. ते भायर, प्रेक्षकांक खंयच्याय पात्राचें काम आवडल्यार तांकां आलायतीं इनामांय मेळटात.

ह्या नाटकांनी वांटो घेवपी चडशे कलाकार उपचारीक शिक्षणाचे नदरेन अशिक्षीत म्हणूं येत अशे, पूण तरी हीं नाटकां मराठी भाशेक व्हडवीक हाडटात. पार्सेकार दशावतार मंडळाचीं धा नाटकां फाटल्या धा वर्सांत खूब गाजल्यांत. तांचीं नांवां संत सखूबाई, संत मीराबाई, कलियूग, वैभव लक्ष्मी, शिर्डी माझे पंढरपूर, स्वामी समर्थ, दत्त माझा कैवारी, वाहतो दुर्वांची जुडी, भक्त पुंडलीक, शनी महात्म्य. हीं सगळीं नाटकां आध्यात्मीक आशिल्ल्यान तांचे विशय केन्ना पोरणे जायनात.



# हावळण – एक आस्वादन

डिफा फेर्नांडीश

महाबळेश्वरबाब सैल हे अश्टतासांचे लेखक. तांचें साहित्य राष्ट्रीय पांवड्यार पावलां. पयलो आनी २०१० वर्साचो 'विमला वि. पै विश्व कोंकणी साहित्य पुरस्कार' मेळिल्ली तांगेली *हावठण* कादंबरी गोंयच्या कुणबी लोकांचेर आदारीत आसा. हे कादंबरेच्या इंग्लिश अणकाराक राष्ट्रीय पांवड्याचे 'ह्यूमन स्केप' हे मुंबयचे संस्थेचो पुरस्कार फावो जाला.

कुणबी गोंयचो नीज लोक. कुंबारपणाचो धंदो करपी हे कुणबी तवे, कायली, भाणां, खुळणीं, बुडकुले, मायट्यो, कळशे, पणट्यो सारकेलीं मातयेचीं आयदनां करून तीं विकतात. कुळवाड्यांच्या शेता पलतडीं आशिल्ल्या कुंबारांल्या वाठाराचें भुगोलीक चित्रण, कुंबारांल्या कुंबारपणाचो, तांचे भाशेचो, संस्कृतायेचो, धर्माचो इतिहास आपसांत आशिल्लीं नातीं, संबंध, हांचें लेखकान काल्पनीक चित्रण करून ही कादंबरी फुलयल्या. ही कथा कुंबारांल्या जिविताच्या यथार्था कडल्यान घेतिल्ली आसुनूय लेखकान आपले कल्पने वरवीं ती वाचप्यां मुखार सहज शैलींत मांडल्या. कुंबारवाड्यार आठ घरांचो राबितो दाखोवन दर एका घरांतल्या मनशांचें चित्रण केलां. कुंबार लोक 'आळशी' आशिल्ल्याचें लोकांचें मत चूक थारावन तांची सत्य परिस्थिती वाचप्यांच्या दोळ्यां मुखार उबी केल्या. रात रातभर मडक्यो पेटीत बशिल्ल्या कारणान कुंबारान उसरां उठप सभावीक अशें मत्त मांडलां.

*"हे कादंबरेंतलो विशय वैश्वीक मोलाचो. आधुनिकीकरण, नवें तंत्रगिन्यान, आमची संस्कृताय, चाली-रिती, जीवनशैली हावूंतले विविधतेचेर कशे तरेन हावळ येवंक लागल्या हाचो एक पटच लेखक मुखार हाडटा."*

कुंबारांच्या तोंडांतल्यो गाळी, खाशेलीं उतरां हे कादंबरेंत आयल्यांत. तांच्या जिविताची खोलाय दाखोवपी म्हणी आयल्यात. तांच्या कश्टाचें वर्णन करीत, वाचप्याल्या काळजांत आनी मनांत रस, भावना निर्माण करीत लेखक वाचप्यांक पात्रांचे लागीं व्हरता. शेतकार पावसाचेर आदारून आसतात तशेच कुंबार आसोर आनी वोताचेर निंबून आसतात. उज्याचो धग सोंसप, आयदनां विकपाक मैलांचे मैल पांयांनी चलप हे सगळे त्रास लेखकान आपणेंच अणभविल्ले वरी चित्रीत केल्यात. कुंबारांले अंधविस्वास सांगल्यात. आर्विल्ल्या काळार विज्ञानान लायिल्ल्या प्लास्टीक, आलिमिनियमाच्या सोदाक लागून कुंबारांलो धंदो कसो कोंसळटा हें हे कादबरेंत आयलां. मातयेचीं आयदनां करपाचे पांवडे तांणी सांगल्यात. मनशा-मनशा मदीं आशिल्ले वेगळेचार, अहंकार, गर्व, राग, द्‌वेश विसरून आकांताच्या वेळार मनशांच मनशांच्या आदाराक पावतात म्हणपाची गजाल स्पश्ट केल्या.

हे कादंबरेंत साबार पात्रां आयल्यांतः यशवंत, गोकूळ, घनशाम, सुनंदा, सीताय, रुक्मिणी, पुरसो, जानकी, विमल, शिवराम, आबोलें, शंकर, गोपाळ, तारा, सीताय, राघोबा, दुलबा, नरशींव, धर्मू, तुळशी, रामचंद्र, आनंदी, देवकी, अंबू, शाणू. पात्रांचो आनी घडणुकांचो विकास घडयत ही कादंबरी फुलता. कादंबरेंतले दर एके घडणुकेंतल्यान वाचप्याक एक संदेश मेळटा.

देखीक, कादंबरेंत सीताय नांवाची जाणटी रांड बायल आसा. ती गावांतली धिराची बायल. मरणाच्या तशेंच लग्नाच्या घरांत वावुरपाक ती पयली आसता. कोणाकूय कसल्याय आकांताच्या वा बऱ्याय वेळार ती पावता. ती आनी तिची सून तारा दोगांय रांड आसतात. रांड बायलांक नेमून दिल्ले प्रमाण तीं गळे नाशिल्लीं आयदनां, तवे, कायली, मायट्यो, पणट्यो, कदीं बी घडोवन विकून जियेतात. सीताय आनी तारा ह्या पात्रां वरवीं लेखकान पिळग्या पिळग्यां सावन चलत आयिल्ले रांड बायलांचेर जावपी अत्याचार अन्याय, तांकां उणीं लेखपाची रीत उकती केल्या. कुंबारपण होच कुंबारांलो वंशपरंपरागत व्यवसाय अशें मानपी कुंबारां आड बंड करून उठपी तरणे पिळगेचे कांय प्रतिनिधीय हे कादंबरेंत आसात. ते कुंबारांनी कुंबाराच कडेन लग्न जावपाच्या रिवाजा आड, आनी कुंबारांल्या भुरग्यांनी फकत कुंबारपण करप अशें मानपाच्या मता आड उठल्यात. देखीक, सखाराम

दुसरे जातीच्या शीला कडेन लग्न जाता आनी दोगांय गोंयां वचून सुखान संवसार करतात. पुराय कादंबरेंत सखाराम आनी शीलाची मोगाची कथा लेखकान मूळ कथेंत गुंथल्या.

गरिबीक विट्रून गांवा भायर वचपी सदानंद हो गांवचो एक तरणाटो. तो गणपतीच्यो मुर्त्यो करून विकतालो. शिकपाची खर इत्सा आशिल्लो हो पोर आवय-बापायच्या धंद्याचेर निर्शेवन अभ्यासा खातीर पुण्याक गेल्लो. थंय काम करून तो शिकतालो. गरिबांल्या पोरांक पांयांर उबे रावतले जाल्यार कश्ट, उणेपण सोंसचें पडटा. उदरगतीच्या काळार गिरेस्त आनीक गिरेस्त जायत वतात आनी गरीब गरिबेंत फसतात हें चक्र लेखकान दाखयलां.

समाजांत हर तरेचे मनीस आसतात. कांय जाण फकत आडखळी हाड्टात. आडखळींचेर आमकां जैत जोडूंक येवंक जाय हो संदेश लेखकान धर्मूच्या पात्रांतल्यान दिला. धर्मू बेबदो आसता. सोरो पिवन येतकच सगळ्यांचीं उणीं तो वयर काडटा. पुराय कुंबारवाड्यार सोन्याचीं व्हडलीं भाणां करपांत तो फिशाल आसता. तरीय तो दुस्वासी सभावाचो आसता. आपणाक न्हय तर शिवरामाक भाण करपाचें काम मेळ्ळें म्हूण तो शिवरामान कालयिल्ले मातयेंत मीठ घालून माती काटूक करता.

राघोबा आनी ताची बायल अपरुप्याक भुरगें जायनाशिल्लें. हे गजाली संबंदान गांवांतल्या लोकांच्या अंधविस्वासाचेर लेखकान बडी मारल्या.

आनंदी आनी देवकी ह्या पात्रांतल्यान लेखकान कुंबारांल्या बायलांचें कश्ट, तांचीं दुःखां, तांचेर जावपी अत्याचार चित्रीत केल्यात. आनंदी आनी देवकी आयदनां माथ्यार घेवन मैलांची वाट चलून तीं खपयतालीं. तानेन-भुकेन कश्टत, हुमेन चिप्प भिजून वतल्या बायलांचीं आयदनां केन्ना खपतालीं जाल्यार केन्ना तीं तांकां परतीं हाडचीं पडटलीं.

आवय आनी भुरग्याचें केन्नाच ना मिटपी नातें लेखकान उकतें केलां. भुरगो मेल्ली आवय भुरग्याच्या सांगाताक कशी वथरेता तें हे कादंबरेत अणभवूंक मेळटा. सदानंद शाळेक वतना रिकाम्या वेळार एक जाणटी बायल ताका पेज हाडून दिता. तिचो चलो मेल्लो आसता. भुरगो नासून ती एकली पडिल्ली.

समाजांत नशिबाचेर पातयेवन चलपी मनीस आसतात. शाणू लंगडो आसता, ताका मेळिल्ली बायल नाकयी उलयता. तो हें सगळें नशिबानूच आपणाक मेळ्ळां अशें चिंतता. नशिबाचेर पातयेवन रावतल्यांचें चित्र हे कादंबरेंत मेळटा.

हावठणांत गरिबीचें, भुकेचें काळजाक पीळ घालपी चित्र मेळटा. जानकील्या घरांत तांदूळ, भात सोंपता तेन्ना ती कुडवभर तांदूळ हाडपाक कुळवाडी उत्तमागेर वता आनी कामाक येवपाचें आस्वासन दिवन भात हाडून भुरग्याल्या पोटाक घालता.

हे कादंबरेंत भ्रश्टाचाराचें एक रूप लेखकान दाखयलां. म्हारगाय्रे तेंपार गिरेस्त गरिबांक कशे फटयतात तें दाखयलां. देसायवाड्या वयले लोक गणपती व्हरपाक शिवरामागेर येतात तेन्ना ते शिवरामाक फकत एकशें एक रुपया दितात. ह्या अन्यायाचेर शिवराम आवाज काडटा. तेन्ना फुडल्या वर्सा गणपती नाका अशें सांगून ते ताचें तोंड बंद करतात.

गरीब सुखाच्या, दुःखाच्या वेळार एक जातात. राघोबाले चलयेचें लग्न आसता तेन्ना पुराय वाडो एक जावन वावुरता. लेखकान सुवाळ्याच्या माध्यमांतल्यान हें मांडलां. गरिबीक लागून लोक खंयच्याय पांवड्यार पावतात. पर्यावरणाचोय इबाड करतात. पयश्यांक लागून तांकां आंबे दिवपी, सावळी दिवपी रूख कुंबार ना करतात.

गरीब धाडशी आसतात. खंयच्याय संकश्टाक ते तोंड दितात. लेखकान हें सुंदर रितीन मांडलां. खुशाली तागेल्या चेड्या सयत खूंट पुरूंक येता तेन्ना सीताय धाडशी जावन तांकां थंयच्यान धांवडायता. चोर वा आकांतवादी लोक मुळांत बऱ्या गुणांचे आसतात. गरिबी तांकां चोरयो करपाक, आकांतवादी जावपाक लायता. हें सत्य लेखकान आमचे मुखार दवरलां. शंकर आनी रामचंद्र कामधंदो नाशिल्ल्यान गोंया सावन चोर वाटेंतल्यान सोरो हाडून गडार एके कडेन पावोवपाचें काम करताले. गरिबी मनशाक वायट मार्गा वयल्यान व्हरता हें लेखकान शंकर आनी रामचंद्राच्या पात्रांतल्यान सांगलां.

सैमाचे वाटेक गेल्यार सैम मनशांक बुद्द शिकयता. कुंबारांनी आंब्या रूख कातरूंक परवानगी दिली. लोक सैमाचे वाटेर आड आयलो. हे कादंबरेंत सैमा विशींचे लागणुके बद्दल विचार करूंक जाय हें लेखकान वाचप्यां मुखार मांडलां. मनीस सैमाचे वाटेक गेलो म्हूण सैम मनशाचे वाटेक गेलें.

शिक्षण मनशांक पोटा खातीर आदार करता. सदानंद बी.ए. जावन गांवांत येता. सगळ्या वाड्याक ताचो अभिमान दिसता. कुंबरां वरी त्या वाड्यार कुंबारपण केल्यार ताची अवतिकाय दुबळी जावपाची. काम करपाची इत्सा आसल्यार कसल्योय आडखळी मोडून ती तडीक व्हरपाक जाता. शिक्षणाची तांक लेखकान सदानंदाच्या पात्रांतल्यान सांगल्या.

गरीब उल्याक पावतात. दुसऱ्यांच्या पोटा आड येनात. कश्टांत आशिल्ल्याक वाटायतात. मदत करतात. कुळवाड्यांले धोंनागुडयेक उजो पेट्टा तेन्ना मदयान रातीं वचून कुंबार तो पालयतात. उपरांत कुळवाडी थंय पावतात.

हे कादंबरेंत शृंगार, करूण, रौद्र, वीर, भयानक, बीभत्स, भक्ती सारकेले रस निर्माण करपाक लेखक सफळ जाला.

*हावठण* कादंबरेंत कुंबारांल्या जिविताचें चित्रण, प्रभावीपणान आयलां. कुंबारांलो वेवसाय उदरगतीक लागून ल्हवू ल्हवू कसो कोंसळटा तें हे कादंबरेंत दिसता. समाजांत उदरगत जायत वता. पूण केन्ना केन्ना ही उदरगतूच गरिबांक वायट थरता. उदरगतीक लागून प्लास्टीक आनी आलिमिनयमाचीं आयदनां लोक वापरपाक लागले. हाका लागून मातयेच्या आयदनांक ते किंकोत लेखपाक लागले. ही कादंबरी कुंबार आनी तांचे समाजीक परिस्थितीचेर आदारिल्ली आसली तरी तातूंत पर्यावरणाचो, मनीस सभावाचो -- अहंकाराचो, न्यूनगंडाचो विशय आयला. हे कादंबरेंतलो विशय वैश्वीक मोलाचो. आधुनिकीकरण, नवें तंत्रगिन्यान, आमची संस्कृताय, चाली-रिती, जीवनशैली हातूंतले विविधतेचेर कशे तरेन हावळ येवंक लागल्या हाचो एक पटच लेखक मुखार हाडटा. आनी, कोंकणींत इतल्या तोलामोलाचें बरप करपी आनी कोंकणी भाशेचें सामर्थ्य दाखोवपी हो लेखक आमचे नदरेन ऊंच जायत वता.



# भाशा आनी मेंदू... परस्पर संबंध

**पुष्पा पै**

भाशा मनीस जिणेची विशेशताय. हेर मोनजातीय संप्रेशण करतात पूण तांच्या संप्रेशणाक एक मर्यादा आसता. मनीस अमर्याद भास उलोवंक शकता, कशें तें विस्तारान आमी मागीर पळोवया. उत्क्रांतीच्या दरम्यान मनशान ही क्षमताय मेळयली. मनीस दोन पांयांचेर उबो रावंक लागलो आनी ताचे कुडींत बरेच बदल जाले. ताचे दांत आनी नाखटां सौम्य जालीं. दांत आनी सोंडो भितर गेले. हाका लागून मनीस अगतीक जावन पडलो. म्हणून सगळे मनीस एक जाले आनी तांणी त्या संबंधान विचार केलो. रानवटी जनावरांची शिकार पयशिल्ल्यान करपाचें तांणी थारायलें. ते खातीर आवतां (tools) तयार केलीं. आवतांचो वापर पयशिल्ल्यान कसो करचो, ते भायर, वांगडच्या मनशांक सुचोवण्यो कश्यो करच्यो हे संबंदान विचार जालो आनी हे गरजेंतल्यानूच भाशेचो उगम जाला जातलो. सुरवेक सगळ्यो सुचोवण्यो कुरवां वरवीं जाल्यात जातल्यो. उपरांत दुसऱ्यांक सांगपाची गरज इल्ली इल्ली वाडत गेली तसो तसो भाशेचो उगम जायत गेलो. तीच भाशा आज सामकी गुंतागुंतीची - घुस्पागोंदळाची - जावन पडल्या.

“जल्माच्या वेळार मेंदवाची अवस्था खूब तरल आसता... तेन्ना तातूंत न्युरोन्ज व्हडे संख्येन आसतात. म्हणून धाकटुल्या भुरग्यांक जाय तें ग्रहण करूंक येता. पूण ताच्या मेंदवाच्यो हेर क्षमता वाडिल्ल्यो नासतात. तेन्ना तीं आपले अल्पस्मरणशक्तीचो वापर करून पयल्यान पयलीं एक भास शिकून घेतात.”

भाशा अशी तयार जातना, मुळाव्या मेंदवाचेर एक नवो मेंदू तयार जायत गेलो. ताका इंग्लिशींत निओकोरटेक्स म्हणटात. त्या निओकोरटेक्सांत भाशा केंद्रां तयार जालीं. भाशा उलोवपा खातीर एक केंद्र, आनी उलयिल्लें समजून घेवपा खातीर दुसरें. मेंदवाचे दोन मुखेल भाग आसतात. उजवो आनी दावो. भाशा केंद्रां मेंदवाच्या दाव्या भागांत आसतात. भाशा ग्रहण करून तिचें विश्लेशण करून तिचो अर्थ समजून घेवपाचें काम एक केंद्र करता. ह्या केंद्राक 'वेर्निक्स एरिआ' म्हणटात. वेर्निक्स हो एक न्युरॉलॉजिस्ट (मेंदवाचो अभ्यास करपी दोतोर) आशिल्लो. ताचे कडेन एक असो पेशण्ट आयिल्लो जाका उलयिल्लें सगळें कळटालें पूण उलोवंक कांयच येनासलें. ह्या मनशाक कांय दिसां पयलीं मोडणें मारिल्लें आनी तातूंत ताचे वाचेचेर असो परिणाम जाल्लो. कांय दिसांनी हो मनीस मेलो. तो मरतकीर वेर्निक्सान ताच्या मेंदवाचो अभ्यास केलो. ह्या अभ्यासांतल्यान एक गजाल कळ्ळी - ह्या मनशाच्या मेंदवाचे दावे वटेंतल्या फाटल्या भागांतलो मेंदू काम करतालो. उलयिल्लें ताका समजतालें पूण जाप दिवंक येनासली.

उलोवपाचें केंद्र दाव्या मेंदवाचे फुडले वटेंत आसता. हे विशींची म्हायतीय विज्ञानाक आनीक एका दोतोराक लागून मेळिल्ली. ब्रोका नांवाचो एक न्युरोसर्जन (मेंदवाचें ऑपरेशन करपी दोतोर) आशिल्लो. ताचे कडेन एका मनशाक हाडिल्लो. ताका फॅक्टरींत अपघात जाल्लो. आनी तकलेंतल्यान एक सळी हेवटेंतल्यान तेवटेन गेल्ली. पूण अपघात कसो जालो तें ताका सांगूंक येतालें. दोतोराक तें पळोवन अजाप जालें. कांय तेंपान तो मनीस मरतकच दोतोरान ताचो मेंदू उकतो करून पळयलो. तेन्ना, तो उलयतालो तेन्ना ताच्या मेंदवाचे दावे वटेंतल्या फुडल्या भागांतलो मेंदू कार्यशील आशिल्लो म्हणपाचें ताच्या लक्षांत आयलें. अशेंच आनीक एका भुरग्याक ताचे कडेन हाडिल्लें. भुरग्याचें नांव टॅन आशिल्लें आनी आपलें नांव सांगपा पेल्यान ताका कांयच उलोवंक येनासलें. ताच्या मेंदवाचे दावे वटेंतल्या फुडल्या भागाक मार बशिल्लो. हाचे वयल्यान दोतोरान एक निश्कर्श काडलो – उलोवपाचें केंद्र मेंदवाच्या दाव्या गोलार्धांत फुडले वटेंत आसता म्हणपाचो. त्या दोनूय केंद्रांचीं नांवां त्या त्या दोतोरांच्या नांवां वयल्यान पडलीं. उलयल्लें समजून घेवपा खातीर आसता तें 'वेर्निक्स केंद्र', आनी उलोवपा खातीर आसता तें 'ब्रोका केंद्र'.

मेंदवाचो अभ्यास करपी सायकोलिंग्विस्ट आनी न्यूरॉलॉजिस्ट हांच्या लक्षांत एक गजाल आयली

– जल्माच्या वेळार मेंदवाची अवस्था खूब तरल आसता म्हणपाची. तेन्ना तातूंत न्युरोन्ज व्हडे संख्येन आसतात. म्हणून धाकट्ल्या भुरग्यांक जाय तें ग्रहण करूंक येता. पूण ताच्या मेंदवाच्यो हेर क्षमता वाडिल्ल्यो नासतात. तेन्ना तीं आपले अल्पस्मरणशक्तीचो वापर करून पयल्यान पयलीं एक भास शिकून घेतात. ही भास तीं संवसाराचें गिन्यान मेळोवपाचें साधन कशी वापरतात. भोंवतणच्या वस्तूंक नांवां दिवप, तांच्या आकारा प्रकारा प्रमाण तांकां विंगड विंगड पंगडांनी वांटून घालप, तांचें कार्य, तांचे मजगतचें कार्य-कारण नातें समजून घेवप, हें सगळें करतां करतां तीं संवसाराचो सोद घेतात. हे एके भाशेचें गिन्यान तीं रोखड्या रोखडीं म्हणजे, पयल्या चार वर्सां भितर आत्मसात करून घेतात. आनी साधारण त्याच काळांत तांच्या मेंदवाचे दोन भाग जावंक लागतात - दावो आनी उजवो. दोनूय मेंदू आपले भितर कुडीचीं सगळीं कामां वांटून घेतात.

मनीस आंगठ्याचो वापर करून tools तयार करपाक शिकलो तेन्नाच भाशेचोय उगम जाला जावंक जाय अशें म्हणटात. कारण, आंगठ्याचो वापर आनी भाशा ह्या दोनांयचो वावर मेंदवाच्या दाव्या अर्धगोलांत जाता. भाशेचो सगळो वेव्हार दावे वर्टेतूच जाता असो बरोच काळ समज आशिल्लो. पूण मानसशास्त्राच्या संशोधनान हें चित्र बदल्लें - ग्रहण केल्लो संदेश दावे वटेंतल्यान उजव्या मेंदवा कडेन वता; थंय ताचें विश्लेशण जाता आनी उजवो मेंदू तो संदेश परतो दावे वटेन ब्रोका वाटारा कडेन धाडटा. दोनूय अर्धगोलां मदीं नेर्वांचें एक ठिकाण आसता. ताचें काम संदेश दावे वटेंतल्यान उजवे वटेन आनी उजवे वटेंतल्यान परतो दावे वटेन पावोवपाचें. हें जातना मेंदवांतले न्युरोन्ज इल्ले इल्ले करून कमी जावंक लागतात. बारा वर्सां मेरेन ते मंद गतीन कमी जातात आनी उपरांत पयलीं अठरा आनी मागीर एकवीस वर्सां मेरेन वेगान कमी जायत वतात. एकवीस वर्सांचेर मनशाक जाय तितले न्युरोन्ज ताच्या मेंदवांत स्थीर जातात. पिरायेच्या चाळिसाव्या वर्साचेर हीच प्रक्रिया उरफाटे दिकेन सुरू जाता. चाळीस ते पन्नास हे पिरायेर न्युरोन्ज इल्ले इल्ले करून मरूंक लागतात. मागीर पन्नास ते साठ वर्सांचे पिरायेर ही गती वाडटा. साठ वर्सां जातकीर मात बुद्धीक आव्हानां दिलिंनात जाल्यार ही प्रक्रिया वेगान जाता. म्हणुनूच मराठींत 'साठी बुद्धी नाठी', हिंदींत 'सठिया जाना'बी म्हणी / वाक्प्रचार तयार जाल्यात. सांगपाचो हेत – वयाचीं पयलीं बारा वर्सां भाशा ग्रहण करपाचे नदरेन महत्वाचीं आसतात. ह्या वर्सां भितर भुरग्यांनी एके भाशेच्यो तरी सगळ्यो कुशळटायो आत्मसात करून घेवंक जाय. म्हणुनूच भुरग्यांक बारा वर्सां जावचे पयलीं शाळांनी दुसरी आनी तिसरी भाशाय शिकोवंक सुरवात करतात.

मनोविज्ञानिकांच्या मता प्रमाण, मनशांच्या मेंदवांत गिन्यान मेळोवपाचे पांच महत्वाचे मोड्युल्स आसतात –

१. अवबोध (perception) म्हणजे, इंद्रियांच्या आदारान मेळयिल्लें गिन्यान.

२. बुद्धीगम्य (cognition) म्हणजे, वस्तूं भितर आसपी सारकेपण आनी वेगळेपण कळून तांचे भितर वर्गीकरण करपाची क्षमताय.

३. स्मरणशक्ती (memory). गिन्यान मेळोवपा खातीर हे मोड्यूल भोव महत्वाचें. गिन्यान आमी पांवड्या पांवड्यान आत्मसात करतात. पयलीं शिकिल्ल्यो गजाली लक्षांत उरल्यारूच फुडलें शिकप शक्य जाता.

४. बुद्धीमत्ता (intelligence). हे क्षमतेक लागून हेर क्षमतांचो विकास बरे भशेन जाता. संवसाराचें गिन्यान मेळोवपाक बुद्धी आसप गरजेची. चॉम्स्की सांगतात, साधारणशी बुद्धीमत्ता आशिल्लीं भुरगींय संवसारांत आपले वेव्हार करपा खातीर भाशा शिकतात.

५. वैचारीक क्षमताय (thinking). म्हणजे, एकाद्र्या विशयाचो सगळ्या वटांनी तर्क-वितर्क करून तो समजून घेवपाची तांक.

ह्या मोड्युल्सांचो विकास पिरायेच्या दोन अडेज वर्सां सावन सुरू जाता आनी बारा वर्सां मेरेन ते वेगान वाडटात. मागीर मात ही गती कमी जाता. एकवीस वर्सां मेरेन ते ल्हवू ल्हवू वाडटात. मागीर तांची वाड थांबता. हे उपरांत वाडटा ती गिन्यानाची खोलाय. पियाजे ह्या मनोविज्ञानिकाच्या मतान, भुरग्यांच्यो ह्यो सगळ्यो मोड्युल्स विकसीत जातनाच भाशेचोय विकास जाता. पूण चॉम्स्की ह्या भाशाविज्ञानिकाच्या मतान, भाशेचें गिन्यान ह्या मोड्युल्सांचेर निंबून ना. ते म्हणटात, भाशेचें एक स्वतंत्र अशें मोड्यूल आसता आनी हेर मोड्युल्सां परस तें वेगळें आसता. म्हूण भुरग्यांक भाशा वेव्हारांत आसपावन घेवंक जाय.. तांकां भाशा आयकुपाची आनी उलोवपाची संद मेळूंक जाय म्हणटकच तांकां भोंवतणचें भाशेचें व्याकरण सोदून काडूंक सोंपें जाता.

चॉम्स्की सांगतात, भुरग्यांक भाशा कोण शिकयना. तीं आपले आपूण भोंवतणी उलयिल्ले, कानार पडपी भाशेंतल्यान व्याकरण सोदून काडटात. हें व्याकरण पयलीं उलयिल्ल्या उतरांचो अर्थ समजून घेवपाक मदत करता आनी मागीर उलोवपा खातीर ताचो उपेग जाता. भुरग्यांचें हें व्याकरण जाणट्यांच्या व्याकरणा परस वेगळें आसता. भाशा वेव्हार करतां करतां भुरगीं आपलें व्याकरण जाण्ट्यांच्या व्याकरणा सारकें करून घेतात. भुरगीं भोंवतणी उलयिल्ले भाशेंतल्यान व्याकरण सोदून काडटात म्हूण तीच भास तीं वेव्हारा खातीर शिकून घेतात. आनी म्हणुनूच तमीळनाडूंत रावपी गोंयचीं भुरगीं तमीळ सहजपणान उलयतात, तशींच तमीळ भुरगींय गोंयांत रावन सुंदर कोंकणी उलयतात.

मेंदू कसो काम करता, ताचो आनी भाशेचो संबंध कसो तयार जाता, भुरगीं वा जाणटीं उलयिल्ल्या उतरांचो अर्थ कसो लायतात, तातूंत पंचेंद्रियांचो, सामाजीक परिस्थितीचो तशेंच मन आनी मेंदवाचो कितलो आनी कसो सहभाग आसता हें सगळें अजून गूढ, आकलना भायरूच आसा. मेंदू एका ब्लॅक बॉक्सा भशेन आसता. मनशां जें उलयतात ताचे वयल्यान तांच्या मेंदवांत कितें चल्लां जातलें, हाचो मनोविज्ञानीक, भाशाविज्ञानीक, न्युरॉलॉजिस्ट बी अभ्यास करतात. त्या अभ्यासाचें फलितूच हांवें ह्या निबंदांत थोडे भितर आनी सोंपें करून सांगपाचो यत्न केला.



# कोंकणी भारत आनी विष्णुदास नामाचें मराठी भारत

शॅकी मिरांद

कोंकणी भारत म्हळ्यार कोंकणी उलोवप्यांनी सुमार 1600 इसवेंत गोंयांत विदेशी मिशनरींक तोंडयां सांगिल्लें आनी त्या मिशनरींनी रोमी लिपयेंत बरोवन काडिल्लें तें महाभारत (अनामीक). हाचे हस्तलेख आमकां पुर्तुगालाच्या ब्रागा शारांत मीञु विश्वविद्यालयाच्या ग्रंथालयांत मेळटात. हातूंत जायते कडेन विष्णुदास नामा म्हळ्ळ्या कवीचें नांव येता. पूण विष्णुदास नामा एक मराठी कवी. ताणें मराठी भाशेंत एक महाभारत बरयल्लें. ताचेंय नांव भारत (नामा, तारीक ना). दोतोर पांडुरंग पिसुर्लेंकरांनी 1954 इसवेंत ब्रागा कोदेक्स तपासून तांचेर लेख बरयल्ले (पिसुर्लेंकर 1956, 1969). कोंकणी भारत तपासतनां तांकां तें विष्णुदास नामाच्या मराठी भारताचेर आदारीत आसा म्हणून कळ्ळें. पूण तांणी कोंकणी भारत त्या मराठी भारताचो अणकार म्हणून म्हळां.

कोंकणी भारतांत धा पर्वां आसात: आदिपर्व, सभापर्व, अरण्यपर्व, विराटपर्व, भीष्मपर्व, द्रोणपर्व, कर्णपर्व, शल्यपर्व, गदापर्व, आनी अश्वमेधपर्व. विष्णुदास नामाच्या भारतांतलीं तींच पर्वां सोदतनां म्हाका सात पर्वां मेळ्ळीं: आदिपर्व, सभापर्व, विराटपर्व, भीष्मपर्व, द्रोणपर्व, कर्णपर्व, आनी गदापर्व. नामाच्या मराठी भारताचीं तीन पर्वां (अरण्यपर्व, शल्यपर्व आनी अश्वमेधपर्व) म्हाका मेळूंक नात देखून ह्या तीन पर्वांची चर्चा हांगा करूंक ना. कोंकणी भारताच्या रचप्यांनी आपलें नांव दिवंक ना, पूण कोंकणी भारताच्या कितल्याश्या पर्वांनी विष्णुदास नामाचें नांव दिलां. कोंकणी भारत विष्णुदास नामाच्या भारताचेर आदारीत आसा म्हणपाक ही कोंकणी भारत रचप्यांची उकती कबुली म्हणूं येता. म्हाका मेळिल्ल्या विष्णुदास नामाच्या भारताच्या सात पर्वांची कोंकणी भारताच्या त्याच पर्वां कडेन तुळा करतकच स्पश्ट कळटा, कोंकणी भारत विष्णुदास नामाचे मराठी कृतीचेर आदारीत आसा, पूण तें हे कृतीचो अणकार न्हय. ह्या दोन कृतीं मदीं जायतीं वेगळेपणां आसात.

*"म्हाका मेळिल्ल्या विष्णुदास नामाच्या भारताच्या सात पर्वांची कोंकणी भारताच्या त्याच पर्वां कडेन तुळा करतकच स्पश्ट कळटा, कोंकणी भारत विष्णुदास नामाचे मराठी कृतीचेर आदारीत आसा, पूण तें हे कृतीचो अणकार न्हय. ह्या दोन कृतीं मदीं जायतीं वेगळेपणां आसात."*

कोंकणी भारत आनी विष्णुदास नामाचें मराठी भारत हांची संस्कृत महाभारता (सुखठणकर 1933–66) कडेन तुळा करतना कळटा ह्या दोन कृतींनी जायत्यो नव्यो घडणुको आसात. ह्या नव्या घडणुकांनी जायते कडेन साम्य आसा, पूण फरकय आसा. ह्या कृतींनी मेळच्या प्रसंगांचें मूळ रूप संस्कृत महाभारतांत मेळटा जाल्यार तेंवय हांगा दिलां. हो लेख वाचतकच वाचप्यांक कळटलें, कोंकणी भारत कितले मेरेन मराठी भारताचेर आदारीत आसा म्हूण.

को.भा. : कोंकणी भारत. वि.ना.भा. : विष्णुदास नामाचें मराठी भारत. म:भा.: संस्कृत महाभारत.

आदिपर्व

को.भा. आनी वि.ना.भा.: गंगान शांतनूक भिक्षा म्हणून दिल्ले खातीर भीष्माक भीष्म हें नांव पडलें म्हूण सांगलां (को.भा. आदि (को. 771) पान 147रे (285), वि.ना.भा. आदि (1) 2: 124–125).

म.भा.: भीष्माचें मूळ नांव *देवव्रत* (आदि 93.44). पूण जेन्ना ताणें सत्यवती आनी आपल्या बापायच्या लग्नांत आडखळ जावची न्हय म्हूण आपूण गादयेर बसचों ना आनी आंकवार रावतलों म्हूण भिषण प्रतिज्ञा केली तेन्ना ताका भीष्म (= भिषण) म्हणूंक लागले (म.भा. आदि 94.90).

को.भा.: भीष्म गंगेचो सवो पूत म्हूण म्हळां (को.भा. आदि (को. 771) पान 147रे (285)).

म.भा. आनी वि.ना.भा.: भीष्म गंगेचो आठवो पूत (म.भा. आदि 92.46, वि.ना.भा. आदि (1) 2: 119).

को.भा.: फकत (सत्यवतीचो पूत) चित्रांगद आपणाक हुलपावन घेता, कारण तो एकलोच आपले आवयच्या चारित्र्याचेर दुबाव घेता आनी रातच्या वेळार एका दादल्या कडलें तिचें उलोवणें चोरयां आयकता. आवयच्या चारित्र्याचेर दुबाव घेतिल्ले खातीर आत्मदहन हें एकच प्रायश्चीत म्हूण ताका साधू-संत सांगतात (को.भा. आदि (को. 771) पान 149रे-वे (289-90)). रातच्या वेळार चित्रांगद चोरून आयकता तें सत्यवतीचें आपल्या पुता व्यासा कडलें उलोवणें. सत्यवती शांतनु कडेन लग्न जावंचे आदीं तो तिगेर रुशी पराशरा पसून जाल्लो.

वि.ना.भा.: चित्रांगद आनी विचित्रवीर्य दोगय आवयच्या चारित्र्याचेर दुबाव घेतात. देखून दोगय आत्मदहन करतात (वि.ना.भा. आदि (2) 15.72-74). चित्रांगद आनी विचित्रवीर्य आयकतात तें सत्यवतीचें भीष्मा कडलें उलोवणें.

म.भा.: म.भा.त अशी घडणूक ना. थंय चित्रांगद आनी विचित्रवीर्य हांची कथा पुरायेन वेगळी आसा. चित्रांगद हो म.भा.त मस्तो राजा (आदि 95.6). एकदां त्याच नांवाचो एक गंधर्व (चित्रांगद) ताचे कडेन झुजूंक येता. तीन वर्सां एकामेका आड झुजले उपरांत गंधर्व चित्रांगदाक मारता (म.भा. आदि 95.7-9). विचित्रवीर्य क्षयरोग जावन मरता. को.भा.त विचित्रवीर्याची कथा महाभारता प्रमाणेंच आसा.

को.भा. आनी वि.ना.भा.: दोगी राणयो आनी तांची दासी व्यासा सरेन बाराबर वतात. व्यास तांकां फकत नदरेन गुरवार करता (को.भा. आदि (को. 771) पान 151वे-152रे (294-95), वि.ना.भा. आदि (1) 2: 252). थंय एक राणी दोळ्यांक लुगट बांदून वता आनी दुसरी आंगाक चंदन लावन वता (को.भा. आदि (को. 771) पान 152रे (295), वि.ना.भा. आदि (1) 2: 248-50).

म.भा.: राणयो आनी दासी व्यासा सरेन बाराबर वचनात आनी ताचे नदरेनच त्यो गुरवार जायनात. सत्यवती पयलीं अंबिकेक गुरवार जावंक व्यासा सरेन धाडटा. अंबिका व्यासा सरेन दोळ्यांक लुगट बांदून वचना. ताचें भिरांकूळ मुखामळ पळोवन ती दोळे धांपता (म.भा. आदि 100.5). अंबिकेगेर कुड्डो पूत जल्मतकच सत्यवती विचित्राची दुसरी बायल, अंबालिका, हिका व्यासा सरेन धाडटा. अंबालिका आंगाक गोपी चंदन लावन व्यासा सरेन वचना. ती व्यासाचें भिरांकूळ मुखामळ पळयतकच भियेवन फिकी जाता (म.भा. आदि 100.15). सत्यवती दासयेक व्यासा सरेन धाडिना. ती अंबिकेक व्यासा सरेन दुसरे खेपे वचूंक सांगता. पूण अंबिका ताचे सरेन परती वचूंक तयार नासता आनी आपले बदला दासयेक आपलीं वस्त्रां आनी वस्ती घालून ताचे सरेन धाडटा (म.भा. आदि 100.23). दासी व्यासाची मोट्या आदरान सेवा करता आनी व्यास तिचेर खोशी जाता.

को.भा.: ह्यो दोगी राणयो सत्यवतीचे पूत चित्रांगद आनी विचित्रवीर्य हांच्यो बायलो (को.भा. आदि (को. 771) पान 151वे (294)).

म.भा.: दोगीय राणयो, अंबिका आनी अंबालिका, विचित्रवीर्याच्यो बायलो (म.भा. आदि 99.17).

को.भा.: कुंती ही काश्मीराच्या राजा कुंतीभोजाची धूव आनी गांधारी ही कुंतिभोजाच्या भावाची धूव. राजा कुंतीभोज ह्या चलयांचीं लग्नां धृतराष्ट्र आनी पांडु हांचे कडेन करूंक सोदिना, कारण धृतराष्ट्र कुड्डो आनी पांडु हो निस्तेज कांतीचो. पूण भीष्म आपल्या सेनापतीक सांगता, राजा कुंतिभोज तांचीं लग्नां आपल्या पुतणयां कडेन करूंक तयार नासत जाल्यार दोगीय चलयांक बळान हाडच्यो म्हूण. तो सेनापतीक व्हडलें सैन्य दिवन काश्मीरा सरेन धाडटा. राजा कुंतिभोजाक भीष्माच्या सैन्या आड झगडूंक बळगें नाशिल्ल्यान तो कुंतीक आनी गांधारीक धाडूंक तयार जाता. (को.भा. आदि (को. 771) पान 152वे-153वे (296-98)).

वि.ना.भा.: कुंती आनी गांधारी हांच्या नात्याचो उल्लेख ना. तांकां हस्तिनापुराक बळान हाडल्यो, अशेंय सांगूंक ना. तरी त्यो लग्ना आदीं कश्यो तरी एकठांय येतात आनी एका रुशीची सेवा करतात (वि.ना.भा. आदि (1) 3: 270). त्यो एकठांय कश्यो येतात तें स्पश्ट करूंक ना.

म.भा.: हस्तिनापुराक येवंचे आदीं कुंती आनी गांधारी एकामेकाक मेळनात. त्यो वेगळ्या वेगळ्या राज्यांतल्यो. कुंती ही यादव राजा शूरसेनाची धूव आनी ताचो बापोलभाव राजा कुंतिभोजाची पोसकी धूव (म.भा. आदि 104.1-3). ती स्वयंवरांत पांडूक घोव म्हणून वेंचता (म.भा. आदि 105.1-2 आनी 105.2 वळीची तळटीप 1131*, वळी 1-6). धृतराष्ट्राची पत्नी गांधारी गांधाराच्या राजा सुबलाची धूव (म.भा. आदि 103.9, 12).

को.भा.: वर दिवपी रुशीचें नांव सांगूंक ना. तो दोगांकय वर दिता. कुंतीक वेगवेगळ्या देवां पसून स पूत जावं येतात म्हूण तो तिका सांगता. गांधारीक एक वर मेळटा (को.भा. आदि (को. 771) पान 154रे (299)).

वि.ना.भा.: वर दिवपी रुशी दुर्वासा. शंबर पूत जावंचे म्हूण तो गांधारीक वर दिता (वि.ना.भा. आदि (1) 3: 274). उपरांत कुंती ताचे सरेन येतकच तो तिका तिनय संवसार जिखूंक शकपी अशे स पूत जावं म्हूण वर दिता (वि.ना.भा. आदि (1) 3: 278).

म.भा.: फकत कुंतीक दुर्वासा कडल्यान वर मेळटा (म.भा. आदि 104.6-7). गांधारीक शंबर पूत जावपाक पयलीं शिवा कडल्यान वर मेळटा (म.भा. आदि 109.9-10) आनी उपरांत व्यासा कडल्यान (म.भा. आदि 114.8).

को.भा.: सगले पांडव कुंतीचे पूत म्हूण सांगलां (को.भा. आदि (को. 771) पान 155वे (302)).

म.भा. आनी वि.ना.भा.: पांडवां मदले फकत धर्म, भीम आनी अर्जुन कुंतीचे पूत. कुंती आपलो एक वर पांडुची दुसरी बायल, माद्रीक दिता. तिगेर तांतल्यान नकुल आनी सहदेव जल्मतात (म.भा. आदि 115.15-17, वि.ना.भा. आदि 4: 437-51).

को.भा. आनी वि.ना.भा.: गुरुदक्षिणे खातीर द्रोण आपल्या शिश्यांक सांगता, तांणी द्रुपदाच्या राज्यांत वचून राजाक धरून आपणा सरेन हाडचो म्हूण. को.भा.त ताका घोड्याच्या पांयाक तकली सकयल पांय वयर असो बांदचो म्हळां जाल्यार वि.ना.भा.त ताका रथाचे घुडयेक बांदचो म्हळां (को.भा. आदि (को. 771) पान 164रे (319), वि.ना.भा. आदि (1) 5: 694). को.भा.त आलायत्यो अटी आसात. जो कोण हें काम करता ताणें एकल्यान वचून तें करूंक जाय. को.भा.त, जरी द्रोण द्रुपदाक घोड्याच्या पांयाक उरफाटो बांदून हाड म्हणटा, तरी अर्जुन ताचो आदेश मातसो वेगळे तरेन समजता आनी ताका रथाचे घुडयेक तकली सकयल पांय वयर करून बांदून हाडटा (को.भा. आदि (को. 771) पान 172रे, 173वे). वि.ना.भा.त, कोणेंय एकल्यान हें काम करचें म्हूण द्रोण सांगिना. हेरांक वांगडा व्हरचे म्हूण अर्जुनाक सल्लो मेळटा. धर्म, भीष्म आनी विदुर ताका सैन्य बाराबर घेवन वच्चें म्हूण सांगतात (वि.ना.भा. आदि (1) 5: 712, 716-18). पूण अर्जुन आपूण एकलोच वतलों अशें म्हणटा.

म.भा.: द्रोणाची इतलीच मागणी आसता की आपल्या शिश्यांनी द्रुपदाक धरून आपणा मुखार हाडचो (म.भा. आदि 128.2). कोणेंय एकल्यान वचून हें कार्य करपाचें म्हूण तो सांगिना. द्रुपदाक रथाचे घुडयेक वा घोड्याच्या पांयांक उरफाटो बांदून हाडपाकय तो सांगिना.

को.भा. आनी वि.ना.भा.: अर्जुन वचून द्रुपदाक एकलोच धरून हाडूंक तयार जाता तेन्ना द्रोण ताच्या कानांत एक मोहनी मंत्र गुणगुणटा. त्या मंत्राक लागून सरभोंवतणीचे सगळे जाण न्हिदून पडूं येतात (को.भा. आदि (को. 771) पान 164वे-165रे (320-21), वि.ना.भा. आदि (1) 5: 711).

म.भा.: अर्जुनाक द्रोण मोहनी मंत्र दिना.

को.भा. आनी वि.ना.भा.: दुदाच्या उणावाक लागून अश्वत्थामाक त्रास जातात तेन्ना तो आवयचेंच दूद पियेवपी बाळ. ताका दिवपाक फावो तितलें दूद ताचे आवयक येना (को.भा. आदि (को. 771) पान 165वे (322), वि.ना.भा. आदि (1) 5: 488).

म.भा.: द्रोणाचो पूत त्या वेळार आवयच्या दुदार ना. तो मातसो व्हडलो भुरगो आसता. पूण तागेर गाय नाशिल्ल्यान तो दुदा खातीर आशेता (म.भा. आदि परि. I, 75. वळी 8-9). ताचे सांगाती ताका पिठाचें उदक दितात आनी तें दूद म्हूण समजून तो खोशयेन पियेता (म.भा. आदि परि. I, 75. वळी 14-15).

को.भा. आनी वि.ना.भा.: को.भा.त, राजा द्रुपदाच्या दरबारांत द्रोणाचो अपमान जाता तेन्ना तो एक दीस राजा द्रुपदाक धरून घोड्याच्या पांयाक तकली सकयल पांय वयर करून बांदून हाडूंक आपूण आपल्या एका शिश्याक धाडटलों म्हूण सोपूत घेता (को.भा. आदि (को. 771) पान 166वे (324)). वि.ना.भा.त तो द्रुपदाक एक दीस रथाचे घुडयेक बांदून हाडूंक आपल्या शिश्यांक धाडटलों म्हूण सोपूत घेता (वि.ना.भा. आदि (1) 5: 534).

म.भा.: अपमान जातकच द्रोण द्रुपदाच्या दरबारांत कांय म्हणना. पूण सूड घेवपाचो निश्चेव करता, आपूण शिश्यांक सांगून द्रुपदाक धरून केन्ना तरी आपणा सरेन हाडूंक लायतलों म्हूण.

को.भा. आनी वि.ना.भा.: अर्जुन एकलोच राजा द्रुपदाक धरूंक वता.

म.भा.: कौरव द्रुपदाक धरून द्रोणा सरेन हाडूंक पयलीं वतात आनी द्रुपद तांकां हारयता (म.भा. आदि परि. I, 78. वळी 1-4, 31-36). उपरांत, अर्जुन आपल्या भावांक घेवन वता आनी द्रुपदाक धरपांत येसस्वी जाता (म.भा. आदि परि. I, 78. वळी 43-44).

को.भा. आनी वि.ना.भा.: अर्जुन द्रुपदाचेर आनी ताच्या सैन्याचेर मोहनी मंत्र मारता आनी मागीर द्रुपदाक धरता (को.भा. आदि (को. 771) पान 172रे (335), वि.ना.भा. आदि (1) 6: 781).

म.भा.: अर्जुन मोहनी मंत्र वापरिना.

को.भा. आनी वि.ना.भा.: अर्जुन द्रुपदाक धरता तेन्ना आपणाक मार म्हूण तो अर्जुनाक सांगता (को.भा. आदि (को. 771) पान 172वे, वि.ना.भा. आदि (1) 6: 791, 793) वा आपणाक स्वताक मारूं दी म्हणटा (को.भा. आदि (को. 771) पान 172वे).

म.भा.: द्रुपदाक धरतकच तो अशें कांय म्हणना.

को.भा. आनी वि.ना.भा.: द्रुपदाक सोडटकच अर्जुन ताका ताच्या घरा पावोवपाची परवानगी मागता. ती मेळटकच अर्जुन ताका आपल्या कुटुंबा कडेन मेळयता. ते ताका व्हड मानान वागयतात आनी ताच्या राज्यांत व्हरून परतो पावयतात (को.भा. आदि (को. 771) पान 174रे (337), वि.ना.भा. आदि (1) 6: 834, 837-70).

म.भा.: पांडव द्रुपदाक घरा व्हरून पावोवंचे आदीं आपणागेर व्हरून ताची सरबराय करिनात.

को.भा. आनी वि.ना.भा.: कौरव अर्जुनाचो दुस्वास करतात आनी ताका मारपाचो येत्न करतात. पूण ते अर्जुनाचेर हल्लो करतना भीम पळयता आनी अर्जुनाक वाटायता. को.भा.त, अशे दोन येत्न आसात (को.भा. आदि (को. 771) पान 159वे (310), 175रे (339), वि.ना.भा. आदि (1) 8: 1005-07).

म.भा.: म.भा.त कौरव अर्जुनाक मारपाचो येत्न करतात म्हूण ना.

को.भा. आनी वि.ना.भा.: कौरव अर्जुनाक मारचो येत्न

करतात म्हूण भीम जाणट्यां कडेन कागाळ करता आनी ते कौरव आनी पांडव हांचे मदीं राज्य वांटपाचो प्रस्ताव मांडटात (को.भा. आदि (को. 771) पान 176रे (341), वि.ना.भा. आदि (1) 8: 1008–09, 1011). उपरांत पांडव हस्तिनापुर सोडून वारणावतांत वचून रावतात.

म.भा.: भीम अशी कागाळ करिना आनी ह्या वेळार राज्याची विभागणी जायना.

को.भा. आनी वि.ना.भा.: दुर्योधन पांडवांच्या राज्याक वता. थंय तांचे मदल्या एकल्याक वा चड जाणांक आपणागेर येवपाक भुलोवन तांकां मारपाची ताची मांडणी आसता (को.भा. आदि (को. 771) पान 178रे (345), वि.ना.भा. (1) आदि 8: 1056–62).

म.भा.: पांडवांक मेळपाक दुर्योधनाक तांच्या राज्यांत वच्चें पडना, कारण ह्या वेळार पांडव आनी कौरव एकेच कडेन आसात.

को.भा. आनी वि.ना.भा.: भीमाक लाडवांचो घोस्त आशिल्ल्यान दुर्योधन लाडवांनी वीख घालून भीमाक दिता. तो खूब लाडू खाता (को.भा. आदि (को. 771) पान 179रे–वे (347–48), वि.ना.भा. आदि (1) 8: 1068, 1098–1101).

म.भा.: दुर्योधन कालकूट हें वीख भीमाच्या अन्नांत कालयता पूण तें अन्न कसलें तें सांगूंक ना (म.भा. आदि परि. I, 71. वळी 23–24).

को.भा. आनी वि.ना.भा.: वीख घाल्ले लाडू खावन भीम मरता (को.भा. आदि (को. 771) पान 180रे (349), वि.ना.भा. आदि (1) 8: 1102).

म.भा.: विखाचें अन्न खातकच भीम फकत बेसुद्द जाता (म.भा. आदि 119.33).

को.भा. आनी वि.ना.भा.: भीमाची कूड उफेत पाताळांतल्या सोरपांच्या राज्यांत पावता. थंय शेष राजाची धूव पद्मावती अमृताची शिंसली घेवन रावल्या. जो कोण तिचे कडेन लग्न जायत तो मरतलो म्हूण दुर्वासा रुशीन तिका शाप दिल्लो आसता. देखून कोणच तिचे कडेन लग्न जावंक तयार जायना. ती पार्वतीचें ध्यान करता. पार्वती तिचेर खोशी जावन सांगता, तिका न्हंयेंत उफेवपी मेल्लो घोव मेळटलो. पूण पार्वतीन दिल्ले शिंसलेंतल्या अमृतान ताका परतो जितो करूं येता. भीमाची कूड नीट पद्मावती वटेन येता तेन्ना हो आपल्या नशिबांतलो घोव म्हूण ती समजून घेता. भीमा कडेन पद्मावतीचें लग्न करपाची सगळी तयारी जाता. मेल्ल्या भीमा म्हऱ्यांत बसून चार दीस ती जायत्या विधींतल्यान वता. पांचव्या दिसा, ती ताच्या माथ्यार आनी तोंडांत अमृत रकयता आनी ताका परतो जितो करता (को.भा. आदि (को. 771) पान 182रे–183रे (352–53), वि.ना.भा. आदि (1) 9: 1157–58, 1165–70, 1187–88, 1207).

म.भा.: पद्मावतीचो प्रसंग म.भा.त ना.

को.भा. आनी वि.ना.भा.: शेषा कडल्यान भीमाक कळटा, लागींच शिवाच्यो अमृताच्यो णव तळयो आसात. तांचो धनी शिव, पूण त्यो शेषाचे सुवादीन आसात. अमृताच्यो तळयो राखपाक सोरोप आसात. भीम सगळें अमृत पियेवपाचो निश्चेव करता (को.भा. आदि (को. 771) पान 185रे, 186रे (357, 359), वि.ना.भा. आदि (1) 10: 1244–46, 1253–54).

म.भा.: बेसुद्द भीम न्हंयेंत उफेत नागलोकांत पावता तेन्ना ताका सोरोप चाबतात. सोरपांचें वीख ताणें खाल्ल्या विखाक बादाबाद करता आनी तो सुद्दीर येता. म.भा.त, भीम पद्मावतीक मेळना आनी थंय ताचें लग्न जायना. अमृतगिरीची आनी अमृताच्या णव तळयांची काणी हातूंत ना. पूण भीमाक एक बळिश्ट पेय दितात. तो रोस जर तो कुंडभर पियेत जाल्यार ताका एक हजार हतयांचें बळ येतलें म्हूण सांगतात (म.भा. आदि परि. I, 72. वळी 17–18). ताका जाय तितलो रोस पियेवपाक सांगतात. तो त्या रोसाचीं आठ कुंडां पियेवन न्हिदूंक वता (म.भा. आदि परि. I, 72. वळी 23–26). रोस पचोवन आठ दिसां उपरांत तो उठ्ठा तेन्ना ताका धा हजार हतयांचें बळ येता (म.भा. आदि परि. I, 72. वळी 65–70).

को.भा. आनी वि.ना.भा.: को.भा.त, अमृताच्यो तळयो राखपी सोरपांक मारले उपरांत भीम सगळें अमृत पियेता. शिव भीमा कडेन झगडपाची तयारी करता. तरी, पार्वती ताचे बाराबर वचूंक सोदता, कारण तिका शिवान पद्मावतीच्या घोवाक मारिल्लो नाका. कसोय जाल्यार, पार्वतीन ताका पद्मावतीक भेट म्हूण दिला. पार्वती कामधेनुचें रूप घेता आनी शिव कामधेनु फाटल्यान लागिल्ल्या वागाचें रूप घेता. तीं भीमा म्हऱ्यांतल्यान वतना भीम वागा फाटल्यान लागता. वाग येद्या मोट्यान गर्जना करता, सगळो संवसार हालता आनी भीम बेसुद्द जावन पडटा. वाग भीमाचें पोट फोडटा आनी तो पियेल्लो तें सगळें अमृत भायर काडटा. तो वचूंक लागतना भीम जागो जावन वागाक फाटल्या पांयांनी धरून गरगरीत घुंवडायता. तेन्ना पार्वती आपल्या खऱ्या रुपान ताचे मुखार येता आनी भीमाक वयर पळोवंक सांगता. वयर पळयतकच आपूण वागाक न्हय, शिवाक घुंवडायतां म्हूण भीमाक कळटा. तो ताचे मुखार ताकतिकेन लोटांगण घालता आनी आपलें फुटिल्लें पोट सारकें करपाक विनंती करता (को.भा. आदि (को. 771) पान 188रे (363)). पद्मावती धांवत थंय येता आनी घोवाचो जीव वाटायिल्ले खातीर पार्वतीचे उपकार मानता. शिवान आनी पार्वतीन आनीक एक समस्या मेकळी केल्ली तिका जाय आसता. भीम राज्यांत परततकच तीं कशीं मेळूंक शकतलीं? तेन्ना शिव भीमाक एक मंत्र दिता आनी ताका सांगता, ती ताची याद करीत तेन्ना तो पवनाचे मांडयेर बसून तिचे कडेन येवंक शकतलो. भीम एका वर्सा उपरांत परत वचून आपल्या कुटुंबाक मेळटा (को.भा. आदि (को. 771) पान 188वे–189वे). वि.ना.भा.तय तीच मुळावी कथा मेळटा (वि.ना.भा. आदि (1) 10: 1262–65, 1269–70, 1275–76, 1280–92, 1298–1304). पूण थंय शिव एके गाये फाटल्यान लागिल्ल्या शिंवाचें रूप घेवन येता. ती गाय कामधेनु म्हूण सांगूंक ना. (वि.ना.भा.

आदि (1) 10: 1280). तशेंच, शिवा भाशेन सिंहनाद करपाची क्षमताय आपणाक दिवंची म्हूण भीम मागता आनी ताचें मागणें मान्य जाता (वि.ना.भा. आदि (1) 10: 1295).

म.भा.: भीमाक अमृत पियेवंक मेळना आनी ताचें आनी शिवाचें झगडें जायना. जे सुवाते वयल्यान ताका न्हंयेंत धुकलिल्लो तेच सुवातेर ताका सोरोप परते व्हरून पावयतात. तो आपल्या कुटुंबांत वर्सान न्हय, सप्तका भितर परतो येता (म.भा. आदि परि. I, 72. वळी 79–82).

को.भा. आनी वि.ना.भा.: दुर्योधन पांडवांक एक नवें राज्य (इंद्रप्रस्थ) आनी थंय एक नवो महाल दिवपाचो प्रस्ताव घेवन तांगेर वता. ह्या नव्या महालांत पांडवांक जिते लासपाची ताची येवजण आसता. दुर्योधन पुरोचनाक हो महाल भरपूर लाख आनी हेर बेगीन लासपा सारक्या वस्तूंनी बांदपाक सांगता (को.भा. आदि (को. 771) पान 190रे–191रे (365–67), वि.ना.भा. आदि (1) 11: 1402–10).

म.भा.: ह्या वेळार पांडव हस्तिनापुरांतच रावतात. तांचो कांटो काडपा खातीर दुर्योधन धृतराष्ट्राक तांकां वारणावताक धाडूंक सांगता. थंय तो पुरोचनाक तांचे खातीर एक लाखेचें घर बांदूंक सांगता. त्या घरांत तो तांकां जिते लासपाची येवजण आंखता (म.भा. आदि 132.6–11).

को.भा. आनी वि.ना.भा.: को.भा.त, लाखेच्या महालांत पांडवांक जिते लासपाची दुर्योधनाची येवजण कृष्णाक कळटा. तो विश्वकर्माक लागींच्या रानांतल्यान त्या महाला मेरेन एक गुपीत भुंयार बांदपाचो आदेश दिता. महाला वटेंतलें भुंयाराचें तोंड एके फातरीन बंद करूंक सांगता. आपलें काम जातकच विश्वकर्मा कृष्णाक खबर दिता. तेन्ना कृष्ण दुर्योधनाचे येवजणे विशीं आनी विश्वकर्माच्या भुंयारा विशीं विदुराक पत्र बरयता. तातूंत तो विदुरान महाला कडेन वचून भुंयाराचें तोंड भीमाक दाखोवंचें म्हूण सांगता (को.भा. आदि (को. 771) पान 192वे–193रे (368–69)). वि.ना.भा.त, दुर्योधनाची येवजण विदुराक कळटा आनी तो कृष्णाक पत्र बरयता म्हूण म्हळां. कृष्ण पांडवांक मेळूंक येता आनी उपरांत पांडवांक पळपा खातीर एक भुंयार खणचें म्हूण विश्वकर्माक आदेश दिता. हांगाय पांडवांक भुंयाराचें तोंड दाखोवपाचें काम विदुराचें (वि.ना.भा. आदि (1) 11: 1412–15, 1436–37, 1443).

म.भा.: द्रौपदीच्या स्वयंवरा आदीं कृष्णाचें पात्र येना. पांडवांक वारणावतांत जिते लासपाचे दुर्योधनाचे येवजणे विशीं विदुर गुपीत भाशेंत तांकां शिटकावणी दिता (आदि 133.18–21). भुंयार विश्वकर्मा बांदिना. तें विदुरान पांडवां सरेन धाडिल्लो खणपी बांदता (म.भा. आदि 135.1–3, 16).

को.भा. आनी वि.ना.भा.: पुरोचन चूड घेवन भितर सरतना भीम ताका मेळटा आनी तो ताका उजो खंयच्यान सुरू करपाचो काय म्हूण विचारता. मागीर तो पुरोचना कडल्यान चूड ओडून घेवन महालाक उजो घालता. ते रातीं महालांत रावूंक आयिल्ले पांच अनवळखी मनीस मरतात (को.भा. आदि (को. 771) पान 193वे–194रे (370–71), वि.ना.भा. आदि (1) 12: 1469–71, 1473–75).

म.भा.: पुरोचन न्हिदिल्लो आसता तेन्ना भीम तो न्हिदला थंय उजो लायता (आदि 136.9). थंय रात सारूंक आयिल्लीं अनवळखी पांच जाणां, एक निषाद बायल आनी तिचे पांच पूत, त्या उज्यांत मरतात. तीं सगळीं पियेल्लीं आसतात (म.भा. आदि 136.7–8).

को.भा.: महाल लासतकच, पांडवांक पवन भुंयारांतल्यान रानांत पावयता (को.भा. आदि (को. 771) पान 195रे (373)).

म.भा. आनी वि.ना.भा.: पवन न्हय, पवनपुत्र भीम सगळ्यांक भुंयारांतल्यान रानांत पावयता (म.भा. आदि 136. 17–18, वि.ना.भा. आदि (1) 12: 1485).

को.भा.: हिडिंबा पांडवांक एकचक्रा दाखयता (को.भा. आदि (को. 771) पान 197रे–वे (377–78).

म.भा.: हिडिंबा न्हय, व्यास तांकां एकचक्रेक हाडटा आनी तांची वेवस्था करता (म.भा. आदि 144.12, 18).

को.भा.: नकुल आनी सहदेव एका कुटुंबांत भिक्षा मागूंक वतात तेन्ना तांकां कळटा, त्या दिसा त्या कुटुंबान तोंडियो राक्षस (बक) हाका एक मनीस आनी गाडोभर हेर अन्न दिवपाक जाय म्हूण. त्या घरांत एक ब्राह्मण आपली बायल, पूत आनी सून हांचे सयत रावता. नकुल आनी सहदेव घरा वचून ही परिस्थिती आवयक आनी भावांक कळीत करतात. उपरांत कुंती त्या ब्राह्मणागेर वता आनी ताका सांगता, आपणाक पांच पूत आशिल्ल्यान आपूण तोंडिया सरेन एकल्याक धाडून दितां आनी ताच्या कुटुंबाक वाटायतां (को.भा. आदि (को. 771) पान 198वे–199वे (380–82)).

म.भा. आनी वि.ना.भा.: ज्या कुटुंबान बकाक एक मनीस आनी गाडोभर अन्न दिवंक जाय त्याच कुटुंबान पांडवांक आलाशिरो दिला. म.भा.त, ब्राह्मणाक बायल आनी दोन ल्हान भुरगीं, चलो आनी चली, आसात. वि.ना.भा.त, ताका (को.भा. भाशेन) बायल, पूत आनी सून आसात (म.भा. आदि 145.9, 19, वि.ना.भा. आदि (1) 14: 1833–36).

को.भा.: पांडव रातचे द्रुपदाच्या राज्यांत वताले तेन्ना तांकां गंधर्व आडायतात. पांडवांनी तांचेर हार घालतकच तांचो राजा थंय आनीक सैन्य घेवन येता आनी झगडूंक लागता. अर्जुन तांचेर आग्नेयास्त्र सोडटा आनी गंधर्व लस्कराक उजो पेट्टा. गंधर्व राजा शरण येता आनी अर्जुन पर्जन्यास्त्रान उजो पालयता. ते द्रौपदीच्या स्वयंवराक वतात म्हूण कळटकच गंधर्व राजा आपूण तांकां द्रौपदीक कशी जिखप ताचो मंत्र सांगतां म्हणटा. बदलेक अग्निशस्त्राच्या वापरा खातीर आपणाक मंत्र दिवंक सांगता. पांडव कबूल जातात. (को.भा. आदि (को. 771) पान 203रे–206रे (387–91)).

वि.ना.भा.: वि.ना.भा.त, गंधर्व राजा आपलें कुटुंब आनी

भाळटा आनी आपणा वांगडा न्हिदना म्हणून ताका उपरांत शाप दिता ती रंभा (को.भा. आदि (को. 771) पान 225रे–226रे (423–25), वि.ना.भा. आदि (1) 24: 3220–21, 3225). अर्जुन तिका सांगता, आपले यात्रे वेळार आपूण ब्रह्मचर्य पाळटां देखून आपणाक तेन्नाच तिचे सरेन न्हिदप जमचें ना, पूण यात्रा सोंपोवन थंय येवन तिची इत्सा पूर्ण करपाक आपूण तयार आसां (को.भा. आदि (को. 771) पान 225वे (424), वि.ना.भा. आदि (1) 24: 3229–31).

म.भा.: अर्जुना म्हऱ्यांत न्हिदूंक सोदता ती अप्सरा उर्वशी (म.भा. आरण्यक परि. I, 6, वळी 36–39). तिच्या इंद्रा कडल्या नात्या खातीर अर्जुन तिका आवय समान मानता. देखून तो तिचे म्हऱ्यांत न्हिदूंक तयार ना (म.भा. आरण्यक परि. परि. I, 6, वळी 147–54).

को.भा. आनी वि.ना.भा.: अर्जुन हनुमानाक रामेश्वरमांतल्या सेतुबंधा कडेन मेळटा. लंकेक वचपा वेळार रामान थंय बाणांचो सांकव बांदपा सुवातेर फातरांचो सांकव कित्याक बांदलो म्हूण अर्जुन हनुमानाक विचारता. हनुमान म्हणटा, रामाच्या सैन्यांतले माकड येदे व्हड आसले, बाणांचो सांकव तांचें वजन पेलूंक शकचो नासलो. अर्जुन हनुमानाक सांगता, आपूण थंय बाणांचो सांकव बांदतां आनी तूं तो मोड. हनुमानान तो सांकव मोडल्यार आपूण अग्निप्रवेश करतलों अशें अर्जुन म्हणटा. हनुमान ताका सांगता, आपूण सांकव मोडपाक अयेसस्वी जालों जाल्यार अर्जुन सांगीत ती सेवा करपाक आपूण तयार आसां. अर्जुन बाणांचो सांकव बांदता आनी जेन्ना हनुमान ताचेर चडटा तेन्ना तो मोडटा. अर्जुन आपणाक लासून घेवपाक तयार जाता. तेन्नाच कृष्ण थंय पावता आनी अर्जुन आत्मदहन करूंक कित्याक तयार जाला काय म्हूण विचारता. अर्जुन सगळी गजाल कृष्णाक सांगता. कृष्ण म्हणटा, तांचे पैजे वेळार कोण गवाय नाशिल्लो. तांकां एक गवाय आसूंक जाय आशिल्लो. आतां आपूण गवाय आसां म्हणटकच आपले उपस्थितींत दोगांयच्यान आपापलें कर्तूब दाखोवं येता. अर्जुन परतून बाणांचो सांकव बांदता. हनुमान हातांत दोन दोंगर घेवन ताचेर उडकी मारता. पूण कृष्णाचो तेंको आशिल्ल्यान सांकव मोडना. हनुमान आपली हार मान्य करता तेन्ना कृष्ण आपली वळख दाखयता. तो ताका सांगता, कौरवां आडच्या झुजांत हनुमानान अर्जुनाच्या रथाचे घुडयेर बसचें आनी अर्जुना कडेन हाताळूंक जमनात ते बाण ताणें मोडून उडोवंचे. हनुमान तयार जाता (को.भा. आदि (को. 771) पान 227वे–228वे (428–30), वि.ना.भा. आदि (1) 23: 3138, 3145–55, 24:3157–92). को.भा.त, अर्जुन यात्रे साकून येतकच कृष्ण ताका हनुमानाक मेळूंक सांगता आनी अर्जुन ताका मेळटा. कृष्ण अर्जुनाक सांगता, हनुमाना कडेन ताणें इश्टागत करप हें म्हत्वाचें. हनुमानाक मेळटकच तो थंय हनुमाना बाराबर पैज मारतलो. उपरांत आपूण थंय येतलों (को.भा. आदि (को. 771) पान 227वे (428)). वि.ना.भा.त, यात्रेक वता आसतना अर्जुनच सेतुबंधा कडेन पावता. को.भा.त, कृष्ण कांसवाचें रूप घेवन सांकवा पोंदा वचून फाट सांकवाक तेंकयता. (को.भा. आदि (को. 771) पान 228वे (430)). वि.ना.भा.त, तो सांकवाक तेंको दिवपाक सुदर्शन चक्र वापरता (वि.ना.भा. आदि (1) 24: 3179).

म.भा.: म.भा.त हनुमानाचो हो प्रसंग ना, पूण म.भा.त कुरुक्षेत्राच्या झुजांत अर्जुनाचे घुडयेर एक माकड आसता. तो माकड डरकाळ्यो लेगीत फोडटा. तो हनुमानच आसूंक जाय, कित्याक अरण्यपर्वांत भीमाक आनी ताका गांठभेट जाल्ल्या वेळार ताणें भीमाक सांगिल्लें, युद्धा वेळार आपूण अर्जुनाच्या ध्वजस्तंभाचेर आसतलों आनी डरकाळी फोडून पांडवांक तांच्या वैऱ्यांचो पराभव करपाक मजत करतलों (म.भा. आरण्यक 150.15).

सभापर्व

को.भा. आनी वि.ना.भा.: दर एका खेळांत दुर्योधन जिखचो असले मायेचे फांशे तयार करून ताचे कडेन द्यूत खेळूंक धर्माक आपोवपाची येवजण जाता (को.भा. सभा पान 69रे (137), वि.ना.भा. सभा 4: 330–31). तशेंच, दुर्योधना बाराबर द्यूत खेळूंक धर्माक आपोवपा खातीर हस्तिनापुरांत एक भव्य सभाघर बांदतात (को.भा. सभा पान 69रे (137), वि.ना.भा. सभा 4: 332–33). को.भा.त कर्ण दुर्योधनाक सुचोवणी दिता, धर्माक हस्तिनापुराक द्यूत खेळूंक आपोवंचो आनी सभाघर बांदूंक तशेंच मायेचे फांशे तयार करपाक कालकौशिक ब्राह्मणाक आपोवंचो म्हूण (को.भा. सभा पान 69वे (138)). वि.ना.भा.त, कर्ण ही सुचोवणी करिना आनी तातूंत कालकौशिकाचो उल्लेख ना. सगळी वेवस्था शकुनि करता (वि.ना.भा. सभा 4: 328–33).

म.भा.: फांशे बनावटी न्हय. दर खेपे धर्माचेर हार पडटा, कारण ह्या खेळांत कुशळ आशिल्लो शकुनि दुर्योधनाच्या अर्दान खेळटा (म.भा. सभा 45.37–40). म.भा.त धर्माक द्यूत खेळपाक आपोवंक हस्तिनापुरांत एक भव्य सभाघर बांदपाचो उल्लेख ना आनी कालकौशिकाचो उल्लेख ना.

को.भा. आनी वि.ना.भा.: दुर्योधन द्रौपदीक आपले जांगेचेर बसूंक सांगता (को.भा. सभा पान 83रे, वि.ना.भा. सभा 6: 509). त्या वेळार, भीमाची गदा ताचे जांगेचेर बसतली म्हूण द्रौपदी दुर्योधनाक शाप दिता (को.भा. सभा पान 83रे, वि.ना.भा. सभा 6: 510).

म.भा.: द्रौपदी थंय आसतना दुर्योधन फकत जांगे वयलें लुगट काडटा. तो द्रौपदीक ह्या वेळार कांय म्हणना. तेन्ना उपरांत जावपा आशिल्ल्या म्हाझुजांत आपूण दुर्योधनाची जांग फोडटलों म्हूण भीम प्रतिज्ञा करता (म.भा. सभा 63.13–14).

को.भा. आनी वि.ना.भा.: द्रौपदीक नागडी करतात तेन्ना तिच्या आंगा वयलें लुगट एकठांय करतात. दुर्योधन तें सांबाळून दवरूंक सोदता (को.भा. सभा पान 87वे (172), वि.ना.भा. सभा 7: 550). तरी, तें भितर व्हरतना नाच्च जाता (को.भा. सभा पान 87वे (172), वि.ना.भा. सभा 7: 551).

**म.भा.:** अशे तरेची घडणूक म.भा.त ना.

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** अखेरेक द्रौपदी दुर्योधना बाराबर द्यूत खेळटा. को.भा.त, द्रौपदी दुर्योधनाक द्यूत खेळुया म्हूण सुचयता (को.भा. सभा पान 97वे (192)). वि.ना.भा.त, दुर्योधन तिका खेळूंक सांगता (वि.ना.भा. सभा 7: 576). त्या खेळांत द्रौपदी जिखता आनी आपल्या घोवांक मुक्त करता (को.भा. सभा पान 97वे–98रे (192–93), वि.ना.भा. सभा 7: 578). त्या वेळार, शकुनि येता आनी खेळ आडायता (को.भा. सभा पान 98रे (193), वि.ना.भा. सभा 7: 578).

**म.भा.:** ही घडणूक म.भा.त ना.

विराटपर्व

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** पांडवांनी बारा वर्सां वनांत सारून जातकच कृष्ण येवन तांकां वन सोडून दुसरे कडेन वचून अज्ञातरुपान रावपाक सांगता (को.भा. विराट पान 134वे–135रे (266–267), वि.ना.भा. विराट 1.3, 6). तो तांकां सांगता, वाटेर तांकां यम मेळटलो. तो तांचीं मुखामळां बदलतलो. ताका लागून ते वळखूंक येवंचे नात (को.भा. विराट पान 135रे (267), वि.ना.भा. विराट 1.10). पांडवांक वाटेर यम भेट्टा तेन्ना ते ताका आपलें दुख्ख सांगतात. तो तांची काकुळट करून तांचीं मुखामळां बदलता (को.भा. विराट पान 135रे (267). वि.ना.भा. विराट 1.13–17).

**म.भा.:** पांडव वनांतल्यान भायर सरून विराटाच्या राज्यांत अज्ञात रुपान रावपाची येवजण आंखतात. ह्या वेळार तांकां कृष्ण वा यम मेळना. तरी, अरण्यपर्वाचे अखेरेक यम यक्षाच्या रुपांत पांडवां मुखार येता. त्या वेळार ते वनवासाचें तेरावें वर्स अज्ञात रुपान सारतना कोणूच तांकां वळखुचो ना म्हूण तो तांकां वर दिता (म.भा. आरण्यक 314.17).

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** कीचकाचो प्रसंग विराटाच्या राज्यांत पांडवांच्या निवासाचे सुरवातेक येता (को.भा. विराट, कथा 2, वि.ना.भा. विराट, अध्याय 1).

**म.भा.:** ही घडणूक विराटाच्या राज्यांत तांच्या अज्ञातवासाचे अखेरेक सांगल्या. कीचक आनी ताचे भाव मरतात तेन्ना राजा आनी राणी द्रौपदीक राज्य सोडूंक सांगतात. द्रौपदी थंय आनीक तेरा दीस रावपाची परवानगी मागता, कारण तांचो विराटा कडलो एका वर्साचो अज्ञातवास तितल्यांत सोंपचो आसता (म.भा. विराट 23:25–27).

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** पांडव विराटाच्या राज्यांत लिपल्यात जाल्यार पळोवंक दुर्योधन जीमूताक धाडटा (को.भा. विराट पान 139वे (276), वि.ना.भा. विराट 2.18). पांडवांचें एक बावलें आपल्या पांयाक बांद म्हूण दुर्योधन ताका सांगता.

**म.भा.:** जीमूत विराटाच्या राज्यांत आपूण जावन येता. तो पांडवांचें बावलें पांयाक बांदिना. म.भा.त जीमूताचो प्रसंग पर्वाचे सुरवातेक येता (कीचकाच्या प्रसंगा आदीं).

**को.भा.:** विराटाच्या राज्यांत ताचीं गोरवां हाडपाक सैन्य घेवन वतना दुर्योधन ही खबर आवय बापांयक सांगिना. तो आपूण खंय वता तें भीष्माक आनी द्रोणाक लेगीत सांगिना. तरी पूण, ते ताचे फाटल्यान वचपाचो निर्णय घेतात (को.भा. विराट पान 141वे (280)).

**वि.ना.भा.:** आपूण विराटाच्या राज्यांत वचून ताचीं गोरवां हाडपाक सैन्य घेवन वतां म्हूण दुर्योधन आवय बापायक आनी हेरांक सांगता. पूण तांकां ही येवजण मानवना (वि.ना.भा. विराट 3.28–33).

**म.भा.:** दुर्योधनाचीं आवय बापूय ताची येवजण जाणा आसतात आनी तीं विरोध करिनात. ताचे येवजणेक भीष्म आनी द्रोण हांची मान्यताय आसता आनी ते ताच्या सांगाता विराटाच्या राज्यांत वतात (म.भा. विराट 27, 28).

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** अर्जुन उत्तराक सांगता, झाडांत लिपयल्लें आपलें धोणू आनी बाण हांचें तेन्ना मेरेन सोरपांनी रुपांतर जालां आसूं येता. पूण उत्तर थंय वचत आनी अर्जुनाचीं धा नांवां घेत जाल्यार ते सोरोप परतून धोणवांत आनी बाणांनी रुपांतरीत जातले (को.भा. विराट पान 144रे (285), वि.ना.भा. विराट 6.5–6).

**म.भा.:** शस्त्रांचें रुपांतर सोरपांनी जावंक ना आनी तांकां हात लावंचे आदीं उत्तराक अर्जुनाचीं धा नांवां घेवंचीं पडनात. तरी, अर्जुन उत्तराक आपलीं धा नांवां सांगता. कारण अर्जुन आपलीं धा नांवां सांगत जाल्यार मात आपूण तो अर्जुन म्हूण विस्वास करतलों अशें उत्तर म्हणटा (म.भा. विराट 44.9). को.भा.त, वि.ना.भा.त आनी म.भा.त हीं धा नांवां एकसारकीं नात.

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** अर्जुन कौरवां आड झुजपाक तयार जाता तेन्ना तो इंद्राक ताचो नंदिघोष रथ धाडूंक सांगता आनी रथ सर्गांतल्यान देंवता. उपरांत ताका हनुमानाची याद जाता आनी हनुमान थंय येवन रथाचे घुडयेचेर बसता (को.भा. विराट पान 144वे (286), वि.ना.भा. विराट 6.11–16, 18–19).

म.भा.: अर्जुनाक इंद्राचो रथ मेळना आनी हनुमानय थंय येना.

को.भा. आनी वि.ना.भा.: द्रौपदीचें वस्त्रहरण केल्ले खातीर अर्जुनाक कौरवांचेर सूड घेवंक जाय. देखून, तो गोरवां राखण्यांक आपोवन मोहनास्त्राच्या वर्चस्वान रणांगणाचेर न्हिदून पडिल्ल्या सगळ्या झुजाऱ्यांक नागडे करपाक सांगता, भीष्म आनी द्रोण हांकां सोडून. तांचे कपडे आनी आभुशणां काडपाक सांगता (को.भा. विराट पान 147रे (291), वि.ना.भा. विराट 7.32–37).

म.भा.: कौरव झुजाऱ्यांचे कपडे काडप, हें द्रौपदीच्या वस्त्रहरणाचो सूड घेवपा खातीर न्हय. कांय कौरव महारथ्यांच्या आंगा वयले चकचकीत आनी रंगीत कपडे तो काडटा, कारण उत्तरा आनी तिच्या सांगात्यांनी ताका तांच्या बावल्यां खातीर कौरव झुजाऱ्यांनी घाल्ल्या ओडलायण्या कपड्यांचे कुडके हाड म्हूण

सांगलां (म.भा. विराट 37.28–29). देखून, द्रोण, कृपाचार्य, कर्ण, अश्वत्थामा आनी दुर्योधना हांचे कडल्यान तो उत्तराक तसले तरेचीं लुगटां घेवपाक सांगता (म.भा. विराट 66.13).

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** पांडवांनी आपलें मूळ रूप धारण करतकच इंद्र हेर देवां सांगातान विराटाच्या महालांत येता. को.भा.त, देव फकत पांडवांक आनी द्रौपदीकच दिसतात म्हूण सांगलां. देवांचो पुरयत, बृहस्पति, तांचेर पवित्र उदक फाफुडटा तेन्ना ते मूळ रुपांत पावतात (को.भा. विराट पान 149वे (294), वि.ना.भा. विराट 7.196–205).

**म.भा.:** इंद्र आनी हेर देव थंय येनात.

**भीष्मपर्व**

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** को.भा. भीष्मपर्वांत, कथाकार आपूण धा दिसांच्या झुजाचें वर्णन करतां म्हणटा, पूण बारा दिसांच्या झुजाचें वर्णन करता. वि.ना.भा. भीष्मपर्वांत, भीष्माच्या हाता सकयल जाल्ल्या फकत पयल्या चार दिसांच्या झुजाचें वर्णन आसा. उरिल्ल्या दिसांचें झूज अशेच तरेन चल्लें म्हूण सांगलां. को.भा. आनी वि.ना.भा. हांच्या भीष्मपर्वांत म्हत्वाच्यो नव्यो घडणुको आसात.

**म.भा.:** हांगा धा दिसांच्या झुजाचें वर्णन आसा.

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** झूज सुरू जावंचे आदीं कुरुक्षेत्राचेर एक रणस्तंभ उबो करतात (को.भा. भीष्म पान 277रे (543), वि.ना.भा. भीष्म 1: 68).

**म.भा.:** हांगा रणस्तंभ उबारपाचो उल्लेख ना.

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** दुर्योधन कृष्णा सरेन ताचो तेंको मागूंक येता. कृष्ण ताका सांगता, ताच्यान बलभद्रा सकयल आशिल्लें यादवांचें सैन्य घेवं येता वा आपणाक घेवं येता, पूण आपूण झुजांत कसलेंच शस्त्र घेवंचों ना आनी झुजचों ना. दुर्योधन खोशयेन सांगता, आपणाक बलभद्र आनी यादव सैन्य जाय म्हूण (को.भा. भीष्म पान 278रे–वे (545–46), वि.ना.भा. भीष्म 2: 97–101).

**म.भा.:** दुर्योधन आनी अर्जुन एकाच वेळार कृष्णाचो तेंको मागूंक येतात (म.भा. उद्योग 7.6–7). कृष्ण म्हणटा, आपूण दोगांकय आदार दितलों (म.भा. उद्योग 7.14). एकल्याच्यान आपलें सैन्य व्हरूं येता आनी दुसऱ्याच्यान आपणाक घेवं येता, पूण आपूण कोणायचे वतीन कसलेंच शस्त्र हातांत घेवंचों ना (म.भा. उद्योग 7.17). अर्जुन कृष्णाक पसंत करता (म.भा. उद्योग 7.19) आनी दुर्योधन ताचें सैन्य मेळ्ळें म्हूण खूब खोशी जाता (म.भा. उद्योग 7.21). दुर्योधनाक सैन्या सांगाता बलभद्र मेळना.

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** भीमाचो पूत बभ्रुवाहन कुरुक्षेत्राच्या झुजांत येवपाक तयार जाता. तो प्रचंड झुजारी. धनुर्विद्येंतली आपली कुशळटाय तो कृष्णाक दाखयता. रोखडेंच जावपा आशिल्ल्या झुजांत जिखपाची आस्त उणी आशिल्ल्याक तेंको दिवन ताका जैतवंत करपाचो ताचो निश्चेव आसा (को.भा. भीष्म पान 278वे (546), वि.ना.भा. भीष्म 2: 92–95, 111–12). कृष्णाक दिसता, दुर्योधन पांडवां आडचें झूज हारतलो आनी तेन्ना बभ्रुवाहन ताका आदार दितलो. देखून तो बभ्रुवाहनाक मारपाचो निर्धार करता (को.भा. भीष्म पान 278वे (546), वि.ना.भा. भीष्म 2: 414). तो भीमाक सांगता, रणस्तंभा कडेन कोणेंच मस्ती करची न्हय म्हणून रातचो थंय पारो दवरचो. भीम तें मान्य करता (को.भा. भीष्म पान 278वे–279रे (546–47), वि.ना.भा. भीष्म 2: 115). उपरांत कृष्ण बभ्रुवाहनाक रातचो रणस्तंभा सरेन वचून पुजे खातीर नाल्ल फोडूंक सांगता (को.भा. भीष्म पान 279रे (547), वि.ना.भा. भीष्म 2: 120–22). रणस्तंभा सरेन रातच्या वेळार आवाज आयकून भीम थंय वता आनी काळखांत आपल्या पुताक वळखना जावन ताका गदेन मारता. बभ्रुवाहन गंभीर घायाळ जाता (को.भा. भीष्म पान 279रे (547), वि.ना.भा. भीष्म 2: 122–23).

**म.भा.:** बभ्रुवाहनाची काणी हांगा ना.

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** कृष्ण बलभद्राक झुजांतल्यान भायर दवरपाची येवजण आंखता. तो ताचे मार्फत ब्रह्महत्या करूंक लायता. आपणें ब्राह्मणाक मारला म्हूण कळटकच बलभद्र हुसक्यांत पडटा आनी ब्रह्महत्येच्या पापांतल्यान मुक्त जावपाक आपणें कसलें प्रायश्चीत घेवंक जाय म्हूण कृष्णाक विचारता. (को.भा. भीष्म पान 279वे (548), वि.ना.भा. भीष्म 3: 149). कृष्ण ताका पृथ्वीचें भ्रमण करूंक सांगता (को.भा. भीष्म पान 279वे–280रे (548–49), वि.ना.भा. भीष्म 3: 150). को.भा.त, कृष्ण बलभद्र आपणाक मेळूंक येवंचे वाटेर एका ब्राह्मणाक बसूंक सांगता आनी हेर ब्राह्मणांक धर्मीक कथा वाचूंक सांगता. वाटेन वतल्या कोणाच कडेन पळोवंचें न्हय आनी वाचीत रावंचें म्हूण ताका सांगता. बलभद्र तेवटेन वता तेन्ना थंय बशिल्ले हेर ब्राह्मण उठून ताका अभिवादन करतात पूण वाचीत बशिल्लो ब्राह्मण उठना. बलभद्र ताचेर तिडकता आनी ताची गोमटी उडयता (को.भा. भीष्म पान 279वे (548)). वि.ना.भा.त, कृष्ण त्या कथा वाचपी ब्राह्मणाक बलभद्राचे वाटेर बसूंक सांगना. बलभद्र धर्मीक कथा वाचपी ब्राह्मणाक मेळटा पूण तो ताका मान दिवन उठना. कृष्ण बलभद्राक त्या ब्राह्मणाचेर राग येसो करता. तेन्ना बलभद्र ताका जिवेशींच मारता (वि.ना.भा. भीष्म 3: 146–47).

**म.भा.:** कृष्ण बलभद्रान ब्रह्महत्या करची आनी प्रायश्चीत करपाक पयस वच्ची वेवस्था करिना. बलभद्रच पांडव आनी कौरव दोगांय कडेन बरे संबंद आशिल्ल्यान कोणाच वटेन झुजूंक तयार ना (म.भा. उद्योग 7.26).

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** झुजांत एक फावट अर्जुन झगडपाचें थांबयता आनी भीष्म दुर्योधना वटेन झुजता म्हूण ताका खडसावपाक वता (को.भा. भीष्म पान 269वे–270रे (528–29), वि.ना.भा. भीष्म 4: 318). को.भा.त हें दुसऱ्या दिसा घडटा. वि.ना.भा.त तें कांय दिसां उपरांत घडटा.

**म.भा.:** अर्जुन केन्नाच झूज थांबोवन भीष्म दुर्योधनाक तेंको दिवन पांडवां आड झगडटा म्हूण ताका खडसावंक वचना.

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** हांगा भीष्मान परशुरामाचे बाण वापरपाचो उल्लेख आसा (को.भा. भीष्म पान 324वे (638), वि.ना.भा. भीष्म 4: 407–08).

**म.भा.:** भीष्म परशुरामाचे बाण धाव्या दिसा वा ताचे आदीं कोणाय आड वापरता म्हूण सांगूंक ना.

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** झुजाच्या धाव्या दिसा कृष्ण सुदर्शन चक्र काडून भीष्माचे बाण मोडून ताचेर हल्लो करता (को.भा. भीष्म पान 325रे (639), वि.ना.भा. भीष्म 4: 426). कृष्णान आपलें सुदर्शन चक्र काडटकच भीष्म ताका सांगता, ताणें झुजांत आपूण कसलेंच शस्त्र हातांत धरचों ना म्हळ्ळें. हें ताचें उतर ताणें मोडलें. अशें म्हणून भीष्म आपलीं शस्त्रां सकयल दवरता आनी आनीक झुजना. (को.भा. भीष्म पान 325रे (639), वि.ना.भा. भीष्म 4: 431). कृष्णा कडले खाशेले बाण घेवन अर्जुन भीष्माक मारता.

**म.भा.:** कृष्ण सुदर्शन चक्रान भीष्माचे बाण मोडिना. पूण, झुजाच्या णवव्या दिसा, तो हातांत चाबूक घेवन रथा वयल्यान उडकी मारता आनी भीष्माचेर हल्लो करूंक वता (म.भा. भीष्म 102.53–54). भीष्म ताका सांगता, कृष्णाच्यान खुशाल येवन आपणाचेर हल्लो करूं येता. ताणें स्वता येवन आपणाक मारल्यार आपणाक तिनय लोकां मदीं पुजनीय मानतले (म.भा. भीष्म 102.60–61). तेन्ना अर्जुन कृष्णाक आडायता. कृष्णान आपूण ह्या झुजांत कोणाच वटेन झुजचों ना म्हळ्ळें, हें ताचें उतर ताणें मोडचें न्हय म्हूण (म.भा. भीष्म 102.66–67). भीष्म केन्नाच आपलीं शस्त्रां सकयल दवरिना. पूण तो शिखंडीचेर बाण मारिना. अखेरेक ताका अर्जुनाचे बाण असमर्थ करतात (म.भा. भीष्म 114.54–55). भीष्माचेर हल्लो करपाक अर्जुन कृष्णा कडले कसलेच खाशेले बाण वापरिना.

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** भीष्म असमर्थ जातकच तो आपणाक रावपा खातीर अर्जुनाक बाणांचें घर बांदूंक सांगता (को.भा. भीष्म पान 326रे–वे (641–42), वि.ना.भा. भीष्म 4: 448–49). को.भा.त, आनीक कोणाकूच पुरूंक ना थंय आपणाक पुरचो म्हूण अर्जुनाक सांगता (को.भा. भीष्म पान 326वे (642)).

**म.भा.:** भीष्म अर्जुनाक आपणाक रावपा खातीर बाणांचें घर बांदपाक सांगिना. तशेंच, आनीक कोणाकूच पुरूंक ना थंय आपणाक पूर म्हूण सांगिना. पूण तो अर्जुनाक आपणा खातीर दोन कामां करपाक सांगता. 1: तो बाणांचे खाटीर न्हिदिल्लो आसतना ताची तकली हुमकळटा देखून योग्यशें उशें करूंक सांगता. (म.भा. भीष्म 115.36). तीन बाणांनी अर्जुन भीष्मा खातीर उशें तयार करता (म.भा. भीष्म 115.42). 2: ताका तान लागता तेन्ना भीष्म अर्जुना कडेन उदकाची मागणी करता (म.भा. भीष्म 116.18). अर्जुन ताची हीय इत्सा पूर्ण करता. भीष्म आसा थंय कुशीक तो जमनींत बाण मारता आनी थंय उदकाची एक दैवी झर वयर सरता (म.भा. भीष्म 116.22–23).

**को.भा.:** दुर्योधनाचीं आवयबापूय ताका पांडवां कडलें झूज थांबोवन तांचे कडेन शांतताय करूंक सांगतात (को.भा. भीष्म पान 328रे (645)).

**म.भा.:** दुर्योधनाचीं आवयबापूय न्हय, भीष्मूच दुर्योधनाक पांडवां कडेन ह्या पांवड्यार शांती करची म्हूण सल्लो दिता (म.भा. भीष्म 116.40–47). पूण दुर्योधन न्हयकार दिता.

**द्रोणपर्व**

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** कुरुक्षेत्राच्या झुजा वेळार अभिमन्यु हो सात वर्सांचो भुरगो. द्रोणपर्वांत तो पयले खेपे झुजाक वचूंक तयार जाता (को.भा. द्रोण पान 329वे (648)). वि.ना.भा.त, अभिमन्यूक ल्हान भुरगो म्हळा, पूण ताची पिराय सांगूंक ना (वि.ना.भा. द्रोण 2.39, 44).

**म.भा.:** अभिमन्युची पिराय स्पश्ट करूंक ना. तरी, म.भा.तले हेर माहिती वयल्यान झुजा वेळार तो विशींतलो तरणाटो आसूंक जाय, कारण तो पांडव बारा वर्सां वनवासाक वच्चे आदींच वेद शिकिल्लो आनी बापाय कडल्यान ताका शस्त्रांच्या वापराचें प्रशिक्षण मेळिल्लें (म.भा. आदि 213.65–67). तशेंच, तो मरतना ताची बायल उत्तरा गुरवार आशिल्ली. म.भा.त, कुरुक्षेत्राच्या झुजांत अभिमन्यु हांगाच पयले खेपे येवंक ना. तो सुरवाते साकून तातूंत आसा. म.भा. भीष्म 45, 51, 57, 69, 75, 92, 97 आनी म.भा. द्रोण 13 पळयात.

**को.भा.:** एक दीस आपल्या पातकां विशीं पश्चात्ताप व्यक्त करून पांडव आनी द्रौपदी आपलीं पातकां कृष्णा कडेन कबूल करतात. कृष्ण दरेकल्याचें आयकून घेवन तांकां फावोशें प्रायश्चीत करूंक सांगता (को.भा. द्रोण पान 334रे (657)). कोणें एकल्या क्रिस्तांव मताक आयिल्ल्या मनशान हें प्रक्षेपण केलां म्हूण दिसता. पश्चात्ताप, पापांची कबुली आनी फावोशें प्रायश्चीत सुचोवप ह्यो गजाली क्रिस्तांवांच्या पापनिवेदन वा कुमसार ह्या संस्काराच्यो विधी.

**म.भा. आनी वि.ना.भा.:** ह्या दोनांयनी ही गजाल ना.

**को.भा.:** कृष्ण एका संन्याशाचें रूप घेवन दुर्योधना सरेन वता आनी ताका त्या दिसाचें झूज कशें झुजचें म्हूण सल्लो दिता. आपले सुचोवणे प्रमाणें दुर्योधन झुजलो जाल्यार त्या दिसा पांडवांचो एक व्हड झुजारी मरतलो. अर्जुना सांगाता संशप्तक सैन्य धाडचें. द्रोणाच्या हाता सकयल झुजप्यांनी एक चक्रव्यूह तयार करून जयद्रथाक ताच्या प्रवेशदाराचेर दवरचो. त्या दिसा, जयद्रथाक मेळिल्ल्या एका वराक लागून पांडवांक ताका तोंड दिवंक जमचें ना. अशें कृष्ण ताका सांगता. हांगा कृष्ण अभिमन्यूक मारपांत कौरवांक गुपीत आदार दिता, अशें दिसता (को.भा. द्रोण पान 336रे (661)). को.भा.त, हाचे आदीं, अभिमन्यु आपलीं बरींचशीं गुपितां जाणा म्हणून कृष्ण हुसको करता. तेन्ना ताणें ताका नानपयत करपाचें येवजिल्लें (को.भा. द्रोण पान 331वे (652)).

**म.भा. आनी वि.ना.भा.:** ह्या दोनांयनी ही गजाल ना.

**को.भा.:** अभिमन्यु दुश्शासनाक आनी शकुनीक मारता

(को.भा. द्रोण पान 341रे–342रे).

**म.भा. आनी वि.ना.भा.:** म.भा.त आनी वि.ना.भा.त अभिमन्यु तांकां मारिना. म.भा. प्रमाणें, अभिमन्युच्या मरणा उपरांत तांकां मरण येता. भीम दुश्शासनाक मारून ताचें रगत पियेता (म.भा. कर्ण 61.6). सहदेव शकुनीक मारता (म.भा. शल्य 27.56–58).

**को.भा.:** अभिमन्यु लक्ष्मण धरून दुर्योधनाच्या एकशें एक पुतांक झुजांत मारून उडयता (को.भा. द्रोण पान 344रे (675)).

**म.भा. आनी वि.ना.भा.:** अभिमन्यु आनी दुर्योधनाचो पूत लक्ष्मण हांचे मदीं झूज जावन अभिमन्यु लक्ष्मणाक मारता (म.भा. द्रोण 45.16–17, वि.ना.भा. द्रोण 3.65). तरी, अभिमन्यून दुर्योधनाच्या एकशें एक पुतांक मारपाचो म.भा.त वा वि.ना.भा.त उल्लेख ना.

**को.भा.:** अभिमन्यु हेरां कडेन झगडटा आसतना कर्ण फाटल्यांतल्यान ताच्या धोणवाची दोरी कापता. उपरांत तो ताचो उजवो हात कापता आनी दुर्योधन दावो. हेर झुजारी ताच्या हड्डयार बाण मारून ताका मारतात (को.भा. द्रोण पान 346रे (679)).

**म.भा. आनी वि.ना.भा.:** कर्णान आनी दुर्योधनान अभिमन्युचे हात काप्पाचो उल्लेख म.भा.त वा वि.ना.भा.त ना. म.भा.त, अभिमन्युच्या धोणवाची दोरी कापतकच (म.भा. द्रोण 47.31), जायते झुजारी अभिमन्युचेर तुटून पडटात आनी अखेरेक दुश्शासनाचो पूत ताचे तकलेचेर गदेन धपको दितकच तो मरता (म.भा. द्रोण 48.12–13). वि.ना.भा.त द्रोण अभिमन्युचें धोणू मोडटा (वि.ना.भा. द्रोण 3.90). अखेरेक द्रोणाची ब्रह्मशक्ति ताका मारता.

**को.भा.:** जयद्रथाक अर्जुना पसून सांबाळपाक द्रोण ताका एके धोलींत लिपयता. ताका बाण लागचे न्हय म्हूण धोलीक सगळ्या दिशांनी चक्रां लायता. आपूण वयर ध्यान करीत बसता (को.भा. द्रोण पान 352वे (692)).

**म.भा. आनी वि.ना.भा.:** द्रोण जयद्रथाक धोलींत लिपयना. तो झुजामळारच आसता, पूण कौरव झुजारी ताका बरें संरक्षण दितात (म.भा. द्रोण 52.14–19, वि.ना.भा. द्रोण 4.179).

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** को.भा.त, कृष्ण सुदर्शन चक्रान सुर्याचो परजळ आडावन सूर्य अस्ताक वता अशें भासयता. उपरांत अर्जुनान दीस सोंपचे आदीं जयद्रथाक सोडून काडून मारपाचो सोपूत घेतिल्लो तो पूर्ण जालोना देखून ताका अग्निप्रवेशाक तयार जावपाक सांगता. घोवाच्या सरणाचेर लासून घेवपाक तयार जाल्ले सती भाशेन अर्जुन न्हेसता. ताच्या गळ्यांत हार आनी फुलां घालतात आनी उज्यांत उडकी मारपाक तयार जाल्ले सती भाशेन तो नाचता. कौरवांक येवन तें दृश्य पळोवपाक आपोवणें धाडटात. दुर्योधन, द्रोण आनी कौरवांचें सैन्य अग्निप्रवेश पळोवपाक येतात. सूर्य अस्ताक वतलो म्हणटना जयद्रथय थंय येता. तेन्नाच कृष्ण सुर्याक परतून दिश्टी पडसो करता आनी अर्जुनाक जयद्रथाचेर बाण मारूंक सांगता (को.भा. द्रोण पान 358रे–362रे (703–11)). वि.ना.भा.त, अशेच तरेची कथा आसा, पूण अर्जुन सती भाशेन न्हेसून नाच करिना (वि.ना.भा. द्रोण 6.21–23, 30, 34, 38–39, 41–42).

**म.भा.:** कृष्णाच्या निर्देशना खाल अर्जुनान प्रस्तूत केल्लें हें नाटक (वि.ना.भा.) वा नृत्यनाटक (को.भा.) आनी तें पळोवपाक कौरवांक दिल्लें आमंत्रण हांगा ना.

**को.भा.:** आपले अखेरचे रातीं द्रोण शिवाचें ध्यान करता आनी पांडवां कडल्या कसल्याय हल्ल्यान दुर्योधनाक कांय वायट जायनाशें करूंक एक वर मागता. आशिर्वाद घेवपाक मध्याने उपरांत दुर्योधनान येवंचें म्हूण तो ताका सांगता. (को.भा. द्रोण पान 363वे (714)). गुप्तहेरां कडल्यान ही खबर पांडवांक पावता. कृष्ण अर्जुनाक घेवन रोखडोच वता आनी ते चोरयां कौरवांच्या शिबिरांत भितर सरतात. एके गोड हवेचे व्हाळशेन कृष्ण दुर्योधनाक गाढ न्हीद लायता. द्रोण ध्यानाक बशिल्लो आसता ते खोंपींत ते पावतात. दुसऱ्या दिसा पांडवांक सोंपोवपाक द्रोणान शिवा कडल्यान कांय दैवी शस्त्रां आदींच घेतल्यांत. कृष्ण एक येवजण आंखता. दुर्योधन द्रोणा सरेन येवपाच्या वेळार तो अर्जुनाक द्रोणाच्या पांयां कडेन पडपाक लायता. द्रोणाचे दोळे धांपल्यात. तो अर्जुनाक दुर्योधन म्हूण समजून ताका वर दिता, "तूं तुज्या दुस्मानां आड जैतवंत जा. तुजे मेरेन कसलेंच शस्त्र वा बाण पावंचो ना. तुका कोणूच मारूंक शकचो ना." (को.भा. द्रोण पान 364रे–365वे (715–18). दोळे उकते करतकच द्रोणाक थंय अर्जुन दिसता. तेन्ना ताका धरून आपणें दुर्योधना सुवादीन कित्याक करचो न्हय काय म्हूण द्रोण ताका विचारता. अर्जुन म्हणटा, शिवाचे आराधने खातीर आपूण द्रोणाक कांय साळकां दिवंक थंय आयिल्लों. गुरू आवयबापूय कसो. जर आवयबापुयच भुरग्याचें लुकसाण करपाचें थारायतीत जाल्यार तें कोणाच्यान आडावं येता? तेन्नाच कृष्ण द्रोणा मुखार येता. शिवाची आदीं भक्ती केल्ली तशीच द्रोण ताची भक्ती करता आनी अर्जुनाक जैत मेळूं अशी प्रार्थना करता. शिवा कडल्यान मेळिल्लीं शस्त्रां अर्जुनाक दिवंचीं म्हूण कृष्ण द्रोणाक सांगता. द्रोण तें मान्य करता. पूण दुसऱ्या दिसाचें झूज खर जातलें म्हूण तो कृष्णाक आनी अर्जुनाक सांगता. उपरांत जेन्ना दुर्योधन येता तेन्ना द्रोण ताका सांगता, तो खूब उसरां आयलो. दुर्योधन येवपाची अपेक्षा आसली तेन्ना अर्जुन चोरयां आपले खोंपींत येवन आपल्या पांयां पडलो आनी आपणें ताका दुर्योधन म्हूण समजून चुकून आशिर्वाद दिलो. दुर्योधनाक खर निरशेवणी येता (को.भा. द्रोण पान 365वे–367रे (718–21)).

**म.भा. आनी वि.ना.भा.:** ह्या दोनांयनी ही गजाल ना.

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** आपलो पूत मेलो म्हूण आयकतकच द्रोणाचो आत्मो खबरेचें खरेपण तपासपाक कुडींतल्यान वता. मजगतीं, कृष्णाच्या सल्ल्यान पांडवांनी द्रोणाचे कुडीचो विलो लायला. झुजपा खातीर द्रोण दुसरेच कुडींत प्रवेश करता.

हांगा को.भा. आनी वि.ना.भा. हांतल्या गजालींनी खूब तफावत आसा. को.भा.त, पूत मेलो म्हूण आयकतकच द्रोणाचो आत्मो दर्या देगेर वता. अश्वत्थामा थंय तपस्ये खातीर गेल्लो तो अजून जितो आसा काय कितें तें ताका जाणा जावंचें आसता (को.भा. द्रोण पान 373वे (734)). वि.ना.भा.त, द्रोणाचो आत्मो यमपुरींत वता, पूत थंय पावला काय म्हणून सोदूंक. यम द्रोणाक सांगता, ताचो पूत चिरंजिवी आशिल्ल्यान ताका कोणूंच मारूंक शकना आनी द्रोण झुजामळार परतो वतलो तेन्ना ताची कूड ताका मेळची ना म्हणुनय सांगता (वि.ना.भा. द्रोण 7.106, 108–10).

म.भा.: द्रोणाचो आत्मो कूड सोडून वतकच तो परतो येना.

को.भा.: द्रोणाचो आत्मो कूड सोडून वतकच कृष्ण अर्जुनाक द्रोणाची कूड नानपयत करूंक सुचयता आनी अर्जुन ताचो आदेश पाळटा (को.भा. द्रोण पान 373वे (734)).

म.भा. आनी वि.ना.भा.: म.भा.त धृष्टद्युम्न द्रोणाची तकली उडयता. वि.ना.भा.तय, धृष्टद्युम्नूच द्रोणाची कूड नश्ट करता (म.भा. द्रोण 165.47–48, वि.ना.भा. द्रोण 7.118–20).

को.भा. आनी वि.ना.भा.: को.भा.त, कृष्ण अर्जुनान द्रोणाची कूड आनी हेर सगळ्या मेल्ल्या झुजाऱ्यांच्यो कुडी आनी मेल्ल्या जनावरांच्यो कुडी लेगीत झुजामळा वयल्यान कुशीक काडूंक जाय म्हूण अर्जुनाक सांगता. अर्जुन त्यो कुडी आपल्या बाणांनी उखलून दर्यांत उडयता. (को.भा. द्रोण पान 374रे (735)). वि.ना.भा.त, झुजामळा वयल्यान हेर कुडी काडपाचो उल्लेख ना. को.भा.त, जेन्ना द्रोणाचो आत्मो परतो झुजामळार येता तेन्ना ताका आपलीच न्हय, हेर मेल्ल्या झुजाऱ्यांच्योय कुडी दिसनात. तेन्ना तो हस्तिनापुराचे वाटे वयल्या एका मेल्ल्या रेड्याचे कुडींत भितर सरता. तो रेडो पांडवांच्या सैन्याचेर नेटान चाल करून वता आनी पांडवा वटेंतल्या हजारांनी झुजाऱ्यांक मारता. रेड्याचे कातीक बाण लागनात. पांडवां वटेंतल्या धा हजार राजांक मारपाचो आपलो सोपूत द्रोणान पूर्ण केले बगर रेड्याचे कुडीक एकय बाण तोपचो ना म्हूण कृष्ण सांगता. द्रोणाचो सोपूत पूर्ण जातकच रेड्याचे कातीक बाण तोपून ताचें रगत सगळे कडल्यान व्हांवता. कृष्ण कावळ्यांक आपोवन हाडून ताच्या घायांचेर चोंचावंक लायता, आनी मुसांक आपोवन त्या रेड्याच्या आंगार किवणां जायशें करूंक लायता. थोड्या वेळा उपरांत, ताचे घाय किड्यांनी भरतात आनी घाण मारता. कृष्ण अर्जुनाक ताच्या गुरूची दशा पळोवंक सांगता. अर्जुनाक तें सोंसना. तो शस्त्रां रथाचेर दवरून रेड्या म्हऱ्यांत वता. त्या रेड्याची कूड सोड म्हूण तो द्रोणा कडेन मागता. द्रोण आपल्या शिश्याची मागणी मान्य करता (को.भा. द्रोण पान 373रे–375वे (735–38)). वि.ना.भा.त, जेन्ना द्रोणाच्या आत्म्याक आपली कूड नाशी दिसता तेन्ना तो दुसऱ्या मेल्ल्या झुजाऱ्याचे कुडींत रिगता. हें कृष्ण पळयता. ब्राह्मण आसुनय मेल्ल्या क्षत्रीय झुजाऱ्याचे कुडींत रिगिल्ले खातीर तो द्रोणाची खरडपट्टी करता. तेन्ना द्रोण ती कूड सोडपाचो निश्चेव करता. पूण आपल्या पुताक जियेवं दी म्हूण तो कृष्णा कडेन मागता. (वि.ना.भा. द्रोण 7.122–43).

म.भा.: द्रोणाचो आत्मो एक फावट कूड सोडल्या उपरांत परतो येवपाची गजाल म.भा.त ना.

कर्णपर्व

को.भा. आनी वि.ना.भा.: कर्ण घटोत्कचाक कर्णपर्वांत मारता (को.भा. कर्ण पान 393रे (773), वि.ना.भा. कर्ण 5.198). को.भा.त, कर्णा कडेन आशिल्ल्या पांच घातकी बाणांक सोडून आनीक कसल्याच प्राणघातक शस्त्राचो उल्लेख ना. ह्या पांच मारेकार बाणांतले दोन तो घटोत्कचाक मारूंक वापरता (को.भा. कर्ण, पान 393रे (773)) आनी उरिल्ले तीन बाण कुंती ताचे सरेन अखेरेक आयिल्ल्या वेळार तिका दिता. वि.ना.भा.त, कर्णा कडेन ताणें सुरवातेक कुंतीक दिल्ले पांच मारेकार बाण सोडून आनीक एक मारेकार शस्त्र आसा. ह्या शस्त्रान तो घटोत्कचाक मारता (वि.ना.भा. कर्ण 2.67–68).

म.भा.: कर्ण घटोत्कचाक द्रोणपर्वांत मारता. अर्जुनाक मारूंक दवरिल्लें कसलेंय अस्त्र वा बाण तो कुंतीक दिता म्हूण म.भा.त उल्लेख ना. पूण अर्जुनाक मारूंक म्हूण दवरिल्ली शक्ति घेवन तो घटोत्कचाक मारता (म.भा. द्रोण 154.53–54).

को.भा. आनी वि.ना.भा.: कृष्ण कुंतीक कर्णाचीं कांय घातकी शस्त्रां हाडपाक धाडटा (को.भा. कर्ण पान 394वे (776), वि.ना.भा. कर्ण 1.18–19). ही घडणूक को.भा.त अखेरेक आयल्या, अर्जुनान कर्णाक मारचे मातशे आदीं. वि.ना.भा.त, पयलेच कथेंत कृष्ण कुंतीक कर्णा सरेन वचून ताचीं घातकी शस्त्रां घेवन येवंक सांगता.

म.भा.: कर्णाचीं शस्त्रां हाडपाक कृष्ण कुंतीक धाडिना.

को.भा. आनी वि.ना.भा.: कर्ण झुजामळार मरता तेन्ना एक ब्राह्मण भिकारी ताचे सरेन भीक मागूंक येता. कर्ण ताका आपल्या दांतांतले मोलादीक खडे काडून दिता. आपणा कडेन दांतांतले मोलादीक खडे सोडून आनीक कांयच उरूंक ना म्हूण तो भिकाऱ्याक सांगता. ताका लागींच एक फातर दिश्टी पडटा. आपल्या दांतांतले खडे काडपाक तो फातर आपणाक दी म्हूण तो भिकाऱ्या कडेन मागता. भिकारी म्हणटा, खडे काडपाक आपणें ताका फातर दिवंचो पडटा जाल्यार आपणाक ती भीक नाका. कर्ण त्या भिकाऱ्याक निराश करूंक तयार ना. तो पोट ओडीत फातरा सरेन वता आनी त्या फातरान आपल्या दांतांतले खडे काडून ते ताका दिता (को.भा. कर्ण पान 395रे (777), वि.ना.भा. कर्ण 5.208–217). को.भा.त, कर्णाचो दानधर्माचो गूण तपासपा खातीर विष्णु त्या भिकाऱ्याक ताचे सरेन धाडटा. वि.ना.भा.त, विष्णूच भिकाऱ्याच्या रूपान कर्णाचो गूण तपासूंक येता (वि.ना.भा. कर्ण 5.208–209). अखेरेक तो ताका आपलें रूप दाखयता (वि.ना.भा. कर्ण 5.217–218).

म.भा.: ब्राह्मण भिकारी कर्णाचें दानशूरपण तपासूंक येता ती गजाल म.भा.त ना.

गदापर्व

को.भा.त, तशेंच वि.ना.भा.त, गदापर्व नांवाचें स्वतंत्र पर्व आसा, पूण म.भा.त गदापर्व हो शल्यपर्वाचो एक भाग. को.भा.त आनी वि.ना.भा.त, गदापर्वाच्या अखेरच्या वांट्यांत म.भा.च्या सौप्तिकपर्वांतल्यो कथा आसात. को.भा.त स्वतंत्र सौप्तिकपर्व ना. वि.ना.भा.त एक सुषुप्तिपर्व आसा. तातूंत गदापर्वांतल्या मागीरच्या वांट्यांत आसपाविल्यो थोड्यो सौप्तिकपर्वांतल्यो कथा परतून आयल्यात आनी गदापर्वांत नाशिल्ल्योय कांय सौप्तिकपर्वांतल्यो कथा आयल्यात.

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** आपणाक स्वताक अभेद्य करून पांडवांचेर जैत कशें जोडप हे विशीं सल्लो मागूंक दुर्योधन धर्मा सरेन वचपाचें थारायता. धर्म सदांच खरें उलयता आनी कोणाक फटयना, हें ताका खबर आसा (को.भा. गदा पान 406वे (800), वि.ना.भा. गदा 1: 70–77). धर्म ताका सांगता, ताणें आपले आवय मुखार सामको नागडो रावूंक जाय आनी तिका दोळ्यां वयली पट्टी काडून ताचेर मस्तका साकून पांयां मेरेन नदर मारूंक सांगूंक जाय (को.भा. गदा पान 407वे (802), वि.ना.भा. गदा 1: 81). हें आयकून दुर्योधन खोशी जाता. परत वतना ताका वाटेर कृष्ण मेळटा. तो ताका आवय मुखार सामको नागडो रावप म्हळ्यार पातक म्हूण सांगता. ताणें आपलीं गुप्तेंद्रियां तरी धांपूंक जाय म्हणटा (को.भा. गदा पान 408 रे–वे (803–04), वि.ना.भा. गदा 1: 97–98). दुर्योधन कृष्णाचो सल्लो मानता आनी आपलीं गुप्तेंद्रियां फुलांच्या लुगटान धांपता. आवय मुखार वतकच ती ताका सामको नागडो कित्याक आयलोना काय म्हूण विचारता. तो कृष्णाचो सल्लो मानून तसो आयलो म्हूण कळटकच ती ताका सांगता, ताचे अभेद्य जावपाचे येवजणेक कृष्णान सुरींग लायलां (को.भा. गदा पान 408वे–409रे (804–05), वि.ना.भा. गदा 2: 127–130). को.भा.त, आवय मुखार सामको नागडो वच्चें न्हय म्हूण दुर्योधनाक सल्लो दितना कृष्ण एका संन्याशाच्या भेसांत आसता. वि.ना.भा.त, दुर्योधनाक हो सल्लो दितना तो भेस बदलना.

**म.भा.:** आपणाक अभेद्य करपा खातीर सल्लो मागूंक दुर्योधनान धर्मा सरेन वचप, वा कृष्णान ताचे येवजणेक सुरींग लावप, हें म.भा.त ना. म.भा.त, दुर्योधन आपले आवय सरेन वचून आपणाक अभेद्य करपा खातीर तिका तिच्या दोळ्यां वयली पट्टी काडपाक सांगिना.

**को.भा.:** दुर्योधन गांधारीच्या सल्ल्यान एक यज्ञ करता. त्या यज्ञांतल्यान एक शस्त्र घेवन एक घोडेस्वार भायर सरपाचो आसा. दुर्योधनाक जर तें शस्त्र आनी तो घोडो मेळत जाल्यार ताच्यान पांडवांचेर हार घालूं येता. दुर्योधन यज्ञ सुरू करून ताचे मुखार ध्यानस्त बसता. ताचे भोंवतणीं ताचें उरिल्लें सैन्य सुरक्षे खातीर आसा. पांडवांक आनी कृष्णाक ह्या यज्ञाची खबर मेळटा तेन्ना ते यज्ञ रोखडोच मोडून घालपाचो निर्धार करतात. हनुमान कृष्णाक आनी अर्जुनाक भुजांचेर घेवन यज्ञ चलता ते सुवातेर उड्डाण करता. ते मळबांतल्यान यज्ञ मोन्यांनी पळयतात. उज्यांतल्यान घोडेस्वार शस्त्र घेवन भायर सरिल्लो दिसतकच कृष्ण हनुमानाक तो यज्ञ बेगोबेग फोडून उडोवंक सांगता. हनुमान मोटीं खडपां आनी तळपां हाडून यज्ञाचेर उडयता. उजो पालवता आनी घोडेस्वार घोडो आनी शस्त्र घेवन नाच्च जाता (को.भा. गदा पान 409वे–410रे (806–07)).

**म.भा. आनी वि.ना.भा.:** यज्ञाची खबर ह्या दोनांयनी ना.

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** दुर्योधन न्हंयेंत लिपता. को.भा.त, ताका नुस्त्याच्या जाळ्यांनी धरतात (को.भा. गदा पान 412रे–वे (811–12). वि.ना.भा.त, भीम उदक नेटान हालोवन दुर्योधनाक धरता (वि.ना.भा. गदा 3: 276–80).

**म.भा.:** दुर्योधन न्हंयेंत न्हय, तळ्यांत लिपता (म.भा. शल्य 29.7). ताका धरपाक जाळांची वा उदक हालोवपाची गरज पडना.

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** दुर्योधना कडेन झगडटना भीमाक पुरो जाता. कृष्ण ताका दुर्योधना आड झगडूंक उर्बा दिवंक द्रौपदीक हाडची म्हूण सुचयता (को.भा. गदा पान 412वे (812), वि.ना.भा. गदा 3: 305). द्रौपदी थंय येवन भीमाक उर्बा दिता (को.भा. गदा पान 413रे (813), वि.ना.भा. गदा 3: 314, 320–25). ती भीमाक दुर्योधनाच्या जांगडार मारपाक खूण करता (को.भा. गदा पान 413रे (813), वि.ना.भा. गदा 3: 326).

**म.भा.:** दुर्योधना कडल्या भीमाच्या झगड्या वेळार भीमाक उर्बा दिवंक द्रौपदीक हाडिनात. दुर्योधनाच्या जांगडार मारूंक अर्जुन भीमाक खूण करता (म.भा. शल्य 57.18).

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** बलभद्र आपली यात्रा सोंपोवन परतो येता. तेन्ना पांडवांनी कौरवांचें सैन्य नानपयत केलां आनी दुर्योधनाक मरपा इतलो घायाळ केला म्हूण ताका कळटा. तो दुर्योधनाक पळोवंक वता. ताची दयनीय स्थिती पळोवन तो खूब बेचैन जाता. तो पांडवांच्यो तकल्यो कापून दुर्योधना सरेन हाडपाक तयार जाता. को.भा.त, यादव आनी पांडव हांचे मदीं झूज जाता. यादव आनी पांडव एकामेकाक मारतात तें पळोवपाक कृष्ण तयार ना. तो अर्जुनाक ताकतिकेन यादवांचेर मोहनास्त्र सोडपाक सांगता. तें तांकां सगळ्यांक न्हिदयता. थोड्या वेळान कृष्ण अर्जुनाक मोहनास्त्र फाटीं घेवपाक सांगता. बलभद्र आनी यादवांचें सैन्य सुद्दीर येतात तेन्ना कृष्ण तांकां सांगता, पांडव ईश्वराचे अवतार, देखून तांणी तांचेर हल्लो करचो न्हय. तो बलभद्राक सांगता, हस्तिनापुरांत ताचें कसलेंच काम ना. ताणें द्वारकेक परतें वच्चें. बलभद्र आनी यादवांचें सैन्य द्वारकेक परत वतात (को.भा. गदा पान 415रे–417रे (817–21). वि.ना.भा.त, बलभद्र बेचैन जावन पांडवांची कापाकापी करपाची धमकी दिता तेन्ना कृष्ण ताका आपलें चतुर्भुज रूप दाखोवन शांत करता (वि.ना.भा. गदा 6: 683–84, 689–91).

**म.भा.:** आपले गैरहाजिरेंत जें कितें घडिल्लें ते विशींची बलभद्राची प्रतिक्रिया म.भा.त सामकी वेगळी आसा. बलभद्र

परतो येतकच पांडव आनी यादव हांचे मदीं झूज जायना. खरें म्हळ्यार, दुर्योधन आनी भीम हांणी गदायुद्ध सुरू करचे आदींच तो परतो येता (म.भा. शल्य 33.1–2). ताणें ब्रह्महत्या केल्या म्हूण तो यात्रेक वचना. ताका झुजांत वांटो घेवपाची इत्सा ना देखून तो वता (म.भा. उद्योग 7.26). तो परतो येता तेन्ना मोन्यांनी वस्तुस्थिती मानून घेता. तरी, भीम दुर्योधनाक जांगडार मारता तेन्ना ताका तिडक मारता. नेमां प्रमाणें, गदायुद्धांत प्रतिपत्त्याचेर बोंबले सकयल मारूं नजो. दुर्योधन पडटकच भीम ताचे तकलेर खोंट मारता. तेन्नाय तो रागार जाता (म.भा. शल्य 59.3–6). तरी, कृष्ण आपल्या भावाक थंडायता (म.भा. शल्य 59.14–16).

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** दुर्योधना म्हऱ्यांत आसतना गांधारीक तान आनी भूक लागता. कृष्ण तिचे कुशीक एक चिंचेचें झाड वाडशें करता. जेन्ना गांधारी झाडा वयल्यो चिंचो काडूंक सोदता तेन्ना झाड आनीक ऊंच जाता. चिंचेच्या पानां मेरेन पावपाक झुजांत मेल्ल्या आपल्या जायत्या पुतांच्यो कुडी एकार एक दाळून गांधारीक तांचेर चडचें पडटा. चींच तिका हांसता (को.भा. गदा पान 481 रे–वे (823–24), वि.ना.भा. गदा 4: 376–83). को.भा.त, चिंचेच्या झाडाक मागीर गांधारीची काकुळट येता आनी तें आपली उंचाय उणी करता. तेन्ना गांधारीक चिंचो आनी पानां सहज काडूंक मेळटात. उपरांत तें झाड एक बायल जावन तिका पियेवंक उदक हाडून दिता. गांधारी थोडें उदक पियेवन थोडें आपल्या घोवाक दिता (को.भा. गदा पान 418वे (824)). वि.ना.भा.त, चींच गांधारीक धर्मा बाराबर रावपाक सल्लो दिता. धर्म तिची बरी जतनाय घेतलो म्हणटा. उपरांत झाड नाच्च जाता (वि.ना.भा. गदा 4: 387–88).

**म.भा.:** ही गजाल म.भा.त ना.

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** दुर्योधनाक पांडवांचीं मुंडकीं पळोवंक जाय. अश्वत्थामा तीं आपूण हाडून दितां म्हूण उतर दिता (को.भा. गदा पान 419वे–420रे (826–27), वि.ना.भा. गदा 4: 408, 410).

**म.भा.:** पांडवांचीं मुंडकीं हाडल्यार आपूण शांततायेन मरूंक शकतलों म्हूण दुर्योधन आपल्या सांगात्यांक सांगिना. पूण पांचालांक नश्ट करपाचो अश्वत्थामाचो निश्चेव आयकून दुर्योधन खोशी जाता (म.भा. सौप्तिक 64.34–35). आपलो फुडलो सेनापती म्हूण ताका नेमूंक तो कृपाचार्याक सांगता (म.भा. सौप्तिक 64.38).

**को.भा.:** कृतवर्मा आपल्या सांगात्यांक कावळ्यांची आनी घुगमांची काणी सांगता. हे काणयेंत, एक जाणटो कावळो आपल्या शेजारा रावपी घुगमांचो आलाशिरो मागून आनी तांच्या राजाचो विस्वास जिखून मागीर तांच्या घोंटेराक उजो लायता आनी तांकां मारून उडयता (को.भा. गदा पान 420वे–421वे (828–830)).

**म.भा. आनी वि.ना.भा.:** कृतवर्मान सांगिल्ली कावळ्यांची आनी घुगमांची काणी ह्या दोनांयनी मेळना.

**को.भा.:** अश्वत्थामा आनी कृपाचार्य एका वडा पोंदा उबे आसतना तांकां काळखांतल्यान थंय एक घुगूम येवन झाडा वयल्या सगळ्या कावळ्यांक मारून उडयता तें दिसता. आपलीय स्थिती कावळ्यां भाशेन जायत म्हूण चिंतून कृपाचार्य अश्वत्थामाक दुसरे कडेन वचुंया म्हूण सुचयता. (को.भा. गदा पान 421वे–422रे (830–31)).

**म.भा. आनी वि.ना.भा.:** घुगमांची आनी कावळ्यांची ही गजाल दोनांयनी आसा. तरी, ह्या दोनांयनी ती गजाल धृष्टद्युम्नाक, द्रौपदीच्या भुरग्यांक आनी पांडव सैनिकांक तेच तरेन मारपाक अश्वत्थामाक उर्बा दिता (म.भा. सौप्तिक 1.41–44).

**को.भा.:** पांडवांची छावणी राखपी राक्सी आकृती तिचेर अश्वत्थामान मोखिल्ले सगळे बाण आनी शस्त्रां गिळटा. तेन्ना आपणें दुर्योधनाक दिल्लें उतर पाळूंक जावचें ना अशें अश्वत्थामाक दिसता आनी तो थंयच आपणाक उजो लावन घेवपाचें थारायता. ते खातीर तो उजो पेटयता आनी तातूंत उडकी मारपाची तयारी करता. तेन्ना ती भिरांकूळ आकृती अश्वत्थामाच्या निश्चेवान प्रभावीत जावन ताका कसलोय वर मागूंक सांगता. अश्वत्थामा आपणाक फकत कोटांत वचूंक दी म्हणटा (को.भा. गदा पान 422रे–वे (831–32)).

**वि.ना.भा.:** पांडवांचे छावणेंत वचपाक अश्वत्थामाक कसलीच खाशेली आडखळ जायना.

**म.भा.:** पांडवांचे छावणेंत वचपाची अश्वत्थामाची वाट आडावन ती भिरांकूळ आकृती रावल्या. तेन्ना अश्वत्थामा शिवाचें ध्यान करता (म.भा. सौप्तिक 6.32–34). शिव ताचेर प्रसन्न जावन ताका एक दिव्य तरसाद दिता (म.भा. सौप्तिक 7.64). तेन्ना ताका भितर सरूंक जमता.

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** अश्वत्थामा पांडवांचे छावणेंत भितर सरतकच पांडव झुजाऱ्यांचेर मोहनास्त्र घालून तांची कापाकापी करता. खास करून, तो द्रौपदीच्या पुतांच्यो गोमट्यो उडयता. (को.भा. गदा पान 422वे (832), वि.ना.भा. गदा 4: 423, 427). को.भा.त, त्या वेळार अश्वत्थामा एकलोच आसता. कृपाचार्य आनी कृतवर्मा तेन्ना ताचे बाराबर नात.

**म.भा.:** अश्वत्थामा पांडव झुजाऱ्यांचेर मोहनास्त्र वापरिना. तो पांडवांचे छावणेंत भितर सरून आपले दिव्य तरसादीन धृष्टद्युम्न, शिखंडी, द्रौपदीचे पूत आनी मेळटा त्या पांडव झुजाऱ्यांक जिते मारता (म.भा. सौप्तिक 8.21, 49). कृतवर्मा आनी कृपाचार्य अश्वत्थामाक सोडून वचनात. ते छावणेच्या दारार रावून थंयच्यान पळून वतल्या सगळ्या सैनिकांक मारतात (म.भा. सौप्तिक 8.100).

**को.भा. आनी वि.ना.भा.:** द्रौपदीच्या पुतांच्यो मुंडयो घेवन अश्वत्थामा दुर्योधना सरेन वता. आपणें पांडवांच्यो मुंडयो हाडल्यात म्हूण तो दुर्योधनाक सांगता. जेन्ना दुर्योधनाक त्यो पांडवांच्यो मुंडयो न्हय, द्रौपदीच्या भुरग्यांच्यो म्हूण कळटा तेन्ना ताका वीट दिसता. तो अश्वत्थामाचे कृतीचो निशेध करून प्राण सोडटा (को.भा. गदा पान 422वे (832), वि.ना.भा. गदा 4: 430–42).

**म.भा.:** कापाकापी उपरांत अश्वत्थामा, कृतवर्मा आनी कृपाचार्य

दुर्योधना सरेन वतात (म.भा. सौप्तिक 9.1). अश्वत्थामा द्रौपदीच्या भुरग्यांच्यो मुंडयो व्हरना आनी आपणें पांच पांडवांक मारले म्हूण फट मारिना. आपणें धृष्टद्युम्न, द्रौपदीचे पूत आनी छावणेंतल्या हेर झुजाऱ्यांक मारले म्हूण तो दुर्योधनाक सांगता (म.भा. सौप्तिक 9.49–51). ही खबर आयकून दुर्योधन खूब खोशी जाता आनी मरता (म.भा. सौप्तिक 9.52–55).

को.भा. आनी वि.ना.भा.: कृष्ण आनी पांडव दुसऱ्या दिसा कोटांत येतात तेन्ना तांकां द्रौपदीचे पांच पूत धरून सगळ्यांची कापाकापी जाल्ली दिसता. तांच्यान दुख्ख आडावंक नजो जाता. द्रौपदी अश्वत्थामाची गोमटी मारपाक सांगता. अर्जुन, कृष्ण आनी हनुमान अश्वत्थामाचे फाटीक लागून ताका धरतात (को.भा. गदा पान 422वे–423रे (832–33), वि.ना.भा. गदा 5: 445–78, 505) पूण धर्म ताका सोडपाक सांगता. ताका सोडचे आदीं ते अश्वत्थामाचे तकले वयले अर्दे केंस तशेंच ताच्यो अर्द्यो मिशयो आनी खाड कापून ताका लज करतात (को.भा. गदा पान 423रे (833), वि.ना.भा. गदा 5: 552). अश्वत्थामाक सोडटकच तो एका दैवताचें ध्यान करून पांडवांक मारपाक आनी तांच्या बायलांचे गर्भ नश्ट करपाक बळिश्ट बाण मेळयता. को.भा.त, हें दैवत एक वनदेवी पूण वि.ना.भा.त तो देव शिव (को.भा. गदा पान 423रे–वे (833–34), वि.ना.भा. गदा 5: 557–64). को.भा.त, अश्वत्थामा हे बाण घेवन हस्तिनापुराक वता. मध्यानरातीक, कृष्णाक एक बाण पांडवां वटेन येता तो दिसता आनी तो सुदर्शन चक्रान तो बाण मोडटा. दुसरो बाण पांडवांच्या बायलांचो गर्भ फोडपाक येता. उत्तरेक मोटी दूख जाता आनी ती कृष्णाचो धावो करता. तो थंय रोखडोच येता. तो बाण तिच्या गर्भाचेर हल्लो करता तें ताका कळटा. तो उत्तरेक तोंड उकतें करूंक सांगता आनी तिचे कुडींतलो बाण मोडून घालपाक आपलें सुदर्शन चक्र सुक्ष्म आकारांत सोडटा. तोवय बाण चक्र मोडून घालता (को.भा. गदा पान 423वे (834)). वि.ना.भा.त, जेन्ना कृष्णाक पांडवां वटेन एक बाण येता तो दिसता तेन्ना तो गरुडाक पांडवांक द्वारकेक पावोवपाक सांगता. कृष्णाचें सुदर्शन चक्र तो बाण थांबोवन लासता (वि.ना.भा. गदा 5: 580, 589–90). दुसरो बाण उत्तरेच्या गर्भाचेर बसता आनी ती वळवळटा. ती कृष्णाची याद करता आनी तो धांवून येता. ताचें सुदर्शन चक्र तिच्या गर्भांत वचून बाण मोडटा (वि.ना.भा. गदा 5: 592–98).

म.भा.: हांगा अश्वत्थामाची गजाल सामकी वेगळी आयल्या. अश्वत्थामाक धरूंक मोहनास्त्र वापरिनात. पांडव अश्वत्थामाचो खड्डो तासून आनी अर्दी मिशी आनी अर्दें खाड कापून ताका लज करिनात. अश्वत्थामा कसल्याच दैवताचें ध्यान करिना. द्रौपदीक तिच्या पुतांक मारल्यात म्हणून कळटा तेन्ना ती मरसर उपास करतलीं म्हणटा. पांडव अश्वत्थामा फाटल्यान वचून ताका मारतीत आनी ताचे तकले वयलें रत्न पुरावो म्हणून हाडतीत जाल्यार आपलो उपास फाटीं घेतलीं म्हूण ती सांगता (म.भा. सौप्तिक 11.14–15, 20). नकुल चलयता त्या रथार बसून भीम अश्वत्थामा फाटल्यान वता (म.भा. सौप्तिक 11.27–30). ताचे फाटल्यान कृष्ण चलयता त्या रथार बसून अर्जुन आनी धर्म वतात (म.भा. सौप्तिक 13.6,8). पांडवांक अश्वत्थामा गंगेच्या कांठार मेळटा. पांडवांक पळोवन अश्वत्थामा तांकां मारपाक ब्रह्मशिरस् नांवाचें दिव्य अस्त्र वापरता (म.भा. सौप्तिक 13.16–19). ताचो कांटो काडपाक तसलेंच दुसरें दिव्य अस्त्र वापरचें म्हूण कृष्ण अर्जुनाक सुचयता (म.भा. सौप्तिक 14.2–3). धरतरी कडकडूंक लागता. दोनांय अस्त्रां मदीं नारद आनी व्यास हे रुशी येतात आनी अर्जुनाक आनी अश्वत्थामाक तांचीं अस्त्रां फाटीं घेवपाक सांगतात (म.भा. सौप्तिक 14.12). रुशी म्हणटात, त्या दिव्य अस्त्रांच्या संघर्शान पुराय पृथ्वीचेर वायट परिणाम जावं येता (म.भा. सौप्तिक 15.23). अर्जुन आपलें अस्त्र फाटीं घेता (म.भा. सौप्तिक 15.1), पूण अश्वत्थामाक आपलें घेवंक जमना (म.भा. सौप्तिक 15.12). तो तें पांडवांच्या बायलांच्या गर्भां वटेन धाडटा (म.भा. सौप्तिक 15.31). रुशी सांगतात, अश्वत्थामान आपल्या माथ्या वयलें रत्न पांडवांक दिवंचें. ताची भरपाय म्हूण पांडवांनी ताका जितो सोडचो (म.भा. सौप्तिक 15.27). पूण कृष्ण अश्वत्थामाक शाप दिवन म्हणटा, सगळ्या तरांच्यो पिडा आंगार घेवन तो धरतरेचेर तीन हजार वर्सां भोंवतलो (म.भा. सौप्तिक 16.9–12). मागीर तो सांगता, अश्वत्थामाच्या दिव्य अस्त्राचो परिणाम जावन उत्तरगेर मेल्लें भुरगें जल्मतलें. पूण ताका उपरांत दीर्घ जिवन मेळटलें (म.भा. सौप्तिक 16.8). तें भुरगें, परिक्षित, पांडवांचो वंश चलयतलें.

को.भा. आनी वि.ना.भा. हातूंत मेळ्च्या नव्या अंशांनी जायतें साम्य आसा, पूण फरकय आसा. तांचे मदीं आसचो फरक दाखयतात तसले मुखेल प्रसंग सकल दिल्यात:

1. वि.ना.भा. आदिपर्वांत राजा शांतनु मेले उपरांत, सत्यवतीचे पूत चित्रांगद आनी विचित्रवीर्य दोगय आपले आवयच्या चारित्र्याचेर दुबाव घेतात. ते तिचें भीष्मा कडलें उलोवणें चोरयां आयकतात. तेन्ना तांकां तांचो दुबाव निराधार म्हूण कळटा. देखून दोगय आत्मदहन करतात. को.भा.त चित्रांगद मात आत्मदहन करता, कित्याक तो मात आपले आवयच्या चारित्र्याचेर दुबाव घेता आनी रातच्या वेळार एका दादल्या कडलें तिचें उलोवणें चोरयां आयकता. तेन्ना ताका कळटा, तो दादलो सत्यवतीचो पूत व्यास म्हूण. तो शांतनु कडेन सत्यवतीचें लग्न जावंचे आदीं तिगेर रुशी पराशरा पसून जाल्लो.

2. वि.ना.भा. आदिपर्वांत धर्म, भीम, आनी अर्जुन मात कुंतीचे पूत. कुंती आपलो एक वर पांडुची दुसरी बायल, माद्रीक दिता. तिगेर तांतल्यान नकुल आनी सहदेव जल्मतात. को.भा.त सगले पांडव कुंतीचे पूत म्हूण सांगलां. तातूंत माद्री ना.

3. वि.ना.भा. सभापर्वांत शकुनि दर एका खेळांत दुर्योधन जिखचो असले मायेचे फांशे तयार करून ताचे कडेन द्यूत खेळूंक धर्माक आपोवपाक दुर्योधनाक सांगता. को.भा.त कर्ण दुर्योधनाक सुचोवणी दिता, कालकौशिक ब्राह्मणाक आपोवन

मायेचे फांशे तयार करचे आनी धर्माक दुर्योधना कडेन द्यूत खेळपाक आपोवंचो म्हूण.

4. वि.ना.भा. भीष्मपर्वांत, भीष्माच्या हाता सकयल जाल्ल्या फकत पयल्या चार दिसांच्या झुजाचें वर्णन आसा. उरिल्ल्या दिसांचें झूज अशेच तरेन चल्लें म्हूण सांगलां. को.भा. भीष्मपर्वांत, कथाकार आपूण धा दिसांच्या झुजाचें वर्णन करतां म्हणटा, पूण बारा दिसांच्या झुजाचें वर्णन करता.

5. को.भा. द्रोणपर्वांत कृष्ण एका संन्याशाचें रूप घेवन दुर्योधना सरेन वता आनी ताका त्या दिसाचें झूज कशें झुजचें हाचो सल्लो दिता. तो सांगता, आपले सुचोवणे प्रमाणें दुर्योधन झुजलो जाल्यार त्या दिसा पांडवांचो एक व्हड झुजारी मरतलो. अर्जुना सांगाता संशप्तक सैन्य धाडचें. द्रोणाच्या हाता सकयल झुजाऱ्यांनी एक चक्रव्यूह तयार करून जयद्रथाक ताच्या प्रवेशदाराचेर दवरचो. त्या दिसा, जयद्रथाक मेळिल्ल्या एका वराक लागून पांडवांक ताका तोंड दिवंक जमचें ना. हांगा कृष्ण अभिमन्यूक मारपांत कौरवांक गुपीत आदार दिता, अशें दिसता. वि.ना.भा.त कृष्ण असलें कारस्थान करिना.

6. वि.ना.भा. द्रोणपर्वांत द्रोण अभिमन्युच्या धोणवाची दोरी कातरता आनी मागीर ताका ब्रह्मशक्तीन मारता. को.भा.त कर्ण अभिमन्युच्या धोणवाची दोरी कातरता आनी उपरांत ताचो उजवो हात कापता. दुर्योधन ताचो दावो हात कापता. हेर झुजारी ताच्या हड्डयार बाण मारून ताका मारतात.

7. को.भा. द्रोणपर्वांत आपले अखेरचे रातीं द्रोण शिवाचें ध्यान करून पांडवां कडल्या कसल्याय हल्ल्यान दुर्योधनाक कांय वायट जायनाशें करूंक एक वर मागता. आशिर्वाद घेवपाक मध्याने उपरांत दुर्योधनान येवंचें म्हूण तो ताका सांगता. गुप्तहेरां कडल्यान ही खबर पांडवांक पावता. तेन्ना कृष्ण अर्जुनाक घेवन रोखडोच द्रोणा कडेन वता आनी दुर्योधन थंय येवपाच्या वेळार तो अर्जुनाक द्रोणाच्या पांयां कडेन पडपाक लायता. द्रोणान आपले दोळे धांपल्यात. तो अर्जुनाक दुर्योधन म्हूण समजून ताका वर दिता, “तूं तुज्या दुस्मानां आड जैतवंत जावं. तुजे मेरेन कसलेंच शस्त्र वा बाण पावंचो ना. तुका कोणूच मारूंक शकचो ना ”. वि.ना.भा.त ही गजाल ना.

8. वि.ना.भा. द्रोणपर्वांत आपलो पूत मेलो म्हूण आयकतकच द्रोणाचो आत्मो कूड सोडून पूत यमपुरींत पावला काय म्हणून सोदूंक थंय वता. यम द्रोणाक सांगता, ताचो पूत चिरंजिवी. देखून ताका कोणूच मारूंक शकना. को.भा.त द्रोणाचो आत्मो दर्या देगेर वता. थंय तप करूंक गेल्ल्या ताच्या पुताक कांय वायट जावंक ना म्हूण कळटकच तो परत रणरंगाक वता.

9. वि.ना.भा. द्रोणपर्वांत द्रोणाच्या आत्म्याक आपली कूड मेळना तेन्ना तो दुसऱ्या मेल्ल्या झुजाऱ्याचे कुडींत रिगता. हें कृष्ण पळयता. ब्राह्मण आसुनय मेल्ल्या क्षत्रीय झुजाऱ्याचे कुडींत रिगिल्ले खातीर तो द्रोणाची खरडपट्टी करता. तेन्ना द्रोण ती कूड सोडपाचो निश्चेव करता. को.भा.त, द्रोणाचो आत्मो रणरंगांत परतो येता आनी थंय ताका आपली कूड दिसना तेन्ना तो वाटे वयल्या एका मेल्ल्या रेड्याचे कुडींत भितर सरता. तो रेडो पांडवांच्या सैन्याचेर नेटान चाल करून वता आनी पांडवा वटेंतल्या हजारांनी झुजाऱ्यांक मारता. कृष्ण कावळ्यांक आपोवन हाडून द्रोणाच्या घायांचेर चोंचावंक लायता. ताचे घाय किड्यांनी भरून घाण येशी करता. मागीर अर्जुनाक आपल्या गुरूची दशा पळोवंक सांगता. अर्जुनाक तें सोंसना. तो शस्त्रां रथाचेर दवरून रेड्या म्हऱ्यांत वता आनी त्या रेड्याची कूड सोड म्हूण द्रोणा कडेन मागता. द्रोण आपल्या शिश्याची मागणी मान्य करता. वि.ना.भा.त ही घडणूक अशीच मेळना, पूण आनीक एक मराठी कृतींत ही घडणूक को.भा.त मेळटा तशीच मेळटा. ती कृती म्हळ्यार ब्रागाच्या ग्रंथालयांत आशिल्ल्या कोदेक्स 773त मेळची एक मराठी कृती: ग्न्यानदेव (तारीक ना).

10. को.भा. गदापर्वांत दुर्योधन गांधारीच्या सल्ल्यान एक यज्ञ करता. त्या उज्यांतल्यान एक शस्त्र घेवन एक घोडेस्वार भायर सरपाचो आसता. दुर्योधनाक तें शस्त्र आनी तो घोडो मेळत जाल्यार ताच्यान पांडवांचेर हार घालूं येत. दुर्योधन यज्ञ सुरू करून ताचे मुखार ध्यानस्त बसता. पांडवांक आनी कृष्णाक ह्या यज्ञा विशीं कळटा तेन्ना ते यज्ञ रोखडोच मोडून घालपाचो निर्धार करतात. कृष्ण हनुमानाक तो यज्ञ बेगोबेग फोडून उडोवंक सांगता. हनुमान मोटीं खडपां आनी तळपां हाडून यज्ञाचेर उडयता. उजो पालवता. घोडेस्वार, घोडो आनी शस्त्र नाच्च जातात. वि.ना.भा.त हो प्रसंग ना.

11. वि.ना.भा. गदापर्वांत कुरुक्षेत्राच्या युद्धा उपरांत परत येतकच बलभद्र दुर्योधनाची दयनीय स्थिती पळोवन खूब बेचैन जाता आनी पांडवांची कापाकापी करपाची धमकी दिता. तेन्ना कृष्ण ताका आपलें चतुर्भुज रूप दाखोवन शांत करता. को.भा.त ह्या वेळार यादव आनी पांडव हांचे मदीं झूज जाता. कृष्ण अर्जुनाक ताकतिकेन यादवांचेर मोहनास्त्र सोडपाक सांगता. तें तांकां सगल्यांक न्हिदयता. थोड्या वेळान कृष्ण अर्जुनाक मोहनास्त्र फाटीं घेवपाक सांगता. बलभद्र आनी यादवांचें सैन्य सुद्दीर येतात तेन्ना कृष्ण तांकां द्वारकेक परत वचूंक सांगता.

विष्णुदास नामाच्या भारतांत मेळटात तसल्यो नव्यो घडणुको आनी कोंकणी भारतांत मेळटात त्यो दुसऱ्यो नव्यो घडणुको खंय सावन आयल्यात? कृतिकारांनी तांच्या प्रदेशांत मेळटात त्या लोककथां सावन असल्यो घडणुको एकठांय केल्यात, अशें दिसता. असल्यो घडणुको मराठी-कोंकणी प्रदेशांतच न्हय, गुजराता सावन कर्नाटक मेरेन प्रचलीत आसात. रामचंद्रन 2009 हांणी असल्या थोड्या लोककथांची चर्चा केल्या. तांच्या लेखांत उत्तर गुजराताच्या भील भारताचो आनी कर्नाटकांत प्रचलीत आशिल्ल्या महाभारताच्या दोन लोककथारूपांचो उल्लेख मेळटा. कोंकणी भारतांत वा विष्णुदास नामाच्या भारतांत मेळटात त्यो थोड्यो नव्यो घडणुको ह्या तीन कृतींनी मेळटात:

1. ह्या तिनय लोककथारुपांनी सत्यवतीच्या एकल्या पुताक वा दोगांय पुतांक सत्यवतीच्या चरित्रा विशीं शंका जाता. ही तांची शंका निराधार म्हूण कळटकच ते अग्निप्रवेश करतात (रामचंद्रन 2009: 334, 340). असले घडणुकेचो उल्लेख प्राचीन कन्नड साहित्यांत कुमारव्यासाच्या महाभारतांत लेगीत मेळटा (रामचंद्रन 2009: 348). ही घडणूक को.भा.त आनी वि.ना.भा.त आसा, पूण महाभारतांत ना.

2. ह्या तिनय लोककथांनी कृष्ण आपल्या भाच्याचो, अभिमन्युचो, दुस्वास करता आनी कुरुक्षेत्र युद्धांत ताचो वध जायसो करता (रामचंद्रन 2009: 334, 339). को.भा.तय ही घडणूक मेळटा. संस्कृत महाभारतांत कृष्ण अभिमन्युचो दुस्वास करिना आनी ताच्या वधाची योजना करिना.

3. जनपद महाभारत हे कन्नड लोककृतींत धर्मान द्यूतक्रिडेंत सगळें व्हगडायले उपरांत द्रौपदी दुर्योधना कडेन द्यूत खेळून आपल्या पतींक दासत्वांतली सुटका मेळशी करता (रामचंद्रन 2009: 334). ही घडणूक को.भा.त आनी वि.ना.भा.त आसा. संस्कृत महाभारतांत द्रौपदी हे बाबतींत दुर्योधना कडेन वचना. तिका धृतराष्ट्रान दिल्ल्या वरा वरवीं ती आपल्या पतींक सुटका मेळशी करता.

रामचंद्रनान चर्चा केल्ल्या कृतीं मदीं म्हाका एक कृती तपासपाची संद मेळ्ळी. ती म्हळ्यार जनपद महाभारत (राजशेखर 2004). ही कन्नड कृती. हे कृतींत म्हाका को.भा.त वा वि.ना.भा.त मेळटात तसल्यो आनीक थोड्यो नव्यो घडणुको दिश्टी पडल्यो:

1. बलभद्र दुर्योधनाचो समर्थक देखून कृष्ण ताका कुरुक्षेत्र युद्धाचे वेळीं पयस करपाची योजना करता. तो ताका गोहत्येचें पाप लागशें करता. त्या पापाच्या प्रायश्चित्ता खातीर बलभद्राक कुरुक्षेत्र युद्धा वेळीं तीर्थयात्रेक वच्चें पडटा (राजशेखर 2004: 468–71). को.भा.त आनी वि.ना.भा.त कृष्ण बलभद्राक ब्रह्महत्येचें पाप लागशें करता आनी ते खातीर ताका कुरुक्षेत्र युद्धाचे वेळीं तीर्थयात्रेक धाडटा. संस्कृत महाभारतांत असली घडणूक ना. कृष्ण बलभद्राक गोहत्येच्या वा ब्रह्महत्येच्या पापाचें प्रायश्चीत करचे खातीर तीर्थयात्रेक धाडिना. बलभद्र आपुणच तीर्थयात्रेक वचपाचें थारायता, कित्याक म्हळ्यार कौरव आनी पांडव दोनय पक्ष ताका लागशिल्ले जाल्ल्यान तो ह्या युद्धांत भाग घेवपाक तयार ना.

2. जेन्ना द्रोणाक आपल्या पुताच्या वधाची वावडी आयकूंक मेळटा, ताचो आत्मो आपल्या पुताक सोदूंक सगळ्या लोकांत वता. ब्रह्मलोकांत ताका ताचो पूत सुरक्षीत आसा म्हूण खबर मेळटा. तो परत येतना, ताका आपली कूड शतचूर्ण केल्ली दिश्टी पडटा. ती सारकी करपाक तो एका मेल्ल्या सुण्याचे कुडींत रिगता. हें पळोवन कृष्ण ताची निंदा करता आनी ताका ही योजना सोडूंक सांगता (राजशेखर 2004: 521–25). को.भा.त द्रोणाचो आत्मो आपली कूड मेळना देखून एका मेल्ल्या रेड्याचे कुडींत रिगता आनी पांडवां कडेन झुजूंक लागता.

3. जनपद महाभारतांत घटोत्कचाचो वध कर्णपर्वांत जाता (राजशेखर 2004: 528). को.भा.त, आनी वि.ना.भा.तय घटोत्कचाचो वध कर्णपर्वांत जाता. पूण महाभारतांत ताचो वध द्रोणपर्वांत जाता.

4. जनपद महाभारतांत अभिमन्युच्या धोणवाची दोरी कातरतकच कर्ण अभिमन्युचे दोनय हात कातरता (राजशेखर 2004: 512). को.भा.त ताच्या धोणवाची दोरी कातरतकच कर्ण अभिमन्युचो एक हात कातरता आनी दुर्योधन ताचो दुसरो हात कातरता. संस्कृत महाभारतांत अभिमन्युचे हात कातरपाचो उल्लेख ना.

5. दुर्योधन झुजा मळार पडला आनी मरूंक लागीं पावला. तेन्ना अश्वत्थामा ताका पळोंवक वता. आपणाक मरचे आदीं भीमाचें धडा सावन वेगळें केल्लें शीर पळोवपाची इत्सा आसा म्हूण दुर्योधन ताका सांगता. अश्वत्थामा आपूण पांचय पांडवांचीं शिरां घेवन येतां म्हूण ताका उतर दिता. तो पांडवांच्या शिबिरांत वता. थंय ताका द्रौपदीचे पांचय पूत न्हिदिल्ले मेळटात. तो तांचीं शिरां कातरून तीं दुर्योधनाक दाखोवंक हाडटा. तीं द्रौपदीच्या भुरग्यांचीं शिरां म्हूण कळटकच दुर्योधनाक वीट भोगता (राजशेखर 2004: 544–46). ही घडणूक को.भा.त आनी वि.ना.भा.त मेळटा. संस्कृत महाभारतांत दुर्योधन भीमाचें शीर वा पांडवांचीं शिरां पळोवंची इत्सा प्रगट करिना. पूण अश्वत्थामा पांचालांचो नास करतलो म्हूण आयकून ताका खोस जाता. धृष्टद्युम्नाक आनी द्रौपदीच्या भुरग्यांक मारतकच अश्वत्थामा दुर्योधना कडेन येवन ताका ती वार्ता दिता. दुर्योधनाक हें आयकून खोस जाता आनी तो शांततायेन मरता.

## आदारावळ


अनामीक. तारीक ना. भारत. हस्तप्रती. कोदेक्स 771 आनी 772. ब्रागा, पुर्तुगालः मीञु विश्वविद्यालयाचें ग्रंथालय. (तपशील प्रथम अध्यायाच्या तिसऱ्या भागांत मेळटा). (कोंकणी, रोमी लिपी).

ग्यानदेवु. तारीक ना. दृणपर्वी म्हाभारथी कथा. कोदेक्स 773, ब्रागा. श्यामा (तारीक ना) पळयात. (मराठी, रोमी लिपी).

नामा, विष्णुदासु. तारीक ना. भारत. मूळ कृती केन्ना तयार केल्ली म्हूण खबर ना. पूण 17 व्या शेंकड्याच्यो अनेक हस्तप्रती वेग–वेगळ्या सुवातांनी मेळटात. मराठी संशोधन मंडळ, मुंबई, हातूंत आदिपर्वाच्यो दोन हस्तप्रती मेळटात. (मराठी, नागरी लिपयेंत). ब्रागा कोदेक्स 773 (श्यामा पळयात) हातूंत दोन पर्वां मेळटात: विराटपर्व आनी कर्णपर्व. (मराठी, रोमी लिपी). नागपुरांत प्रा. म. रा. जोशी संग्रहांत नामाच्या अनेक पर्वांचे हस्तलेख मेळटात. तातूंत हावें सभापर्व, उद्योगपर्व, भीष्मपर्व, द्रोणपर्व, गदापर्व, आनी सुशुप्तिपर्व तपासल्यांत. (मराठी, रोमी लिपी).

पिसुर्लेंकर, पांडुरंग. 1956. आ पुपोज़ितु दुश प्रिमेय्रुश लीव्रुश मराताश इंप्रेसुश एंय गोआ. *बुलेतीं दु इंस्तितूतु वाश्कु द गामा*, सं. 73.

पिसुर्लेंकर, पांडुरंग. 1969. विष्णुदास नामाच्या पौराणिक कथांचा कोंकणी अनुवाद. *मांडवी,* जून 1969.

राजशेखर, पी. के. 2004. *जनपद महाभारत.* मैसूर: होन्नारु जनपद गायकरु. (कन्नड).

रामचंद्रन, सी. एन. 2009. झुग जायें वार्त आगे ह: ओरल वर्शन्स अव द महाभारत. शर्मा 2009 पळयात.

शर्मा, टी. आर. एस. 2009. *रिफ़्लेक्शन्स अंड वेरियेशन्स आन द महाभारत.* नवी दिल्ली: साहित्य अकादमी.

श्यामा, क्रुस्त्णदासु (कृष्णदास श्याम), इत्यादी. तारीक ना. कोदेक्स 773. हस्तप्रत. ब्रागा: मीञु विश्वविद्यालयाचें ग्रंथालय. ह्या मराठी पद्यकृतींच्या संग्रहांत पयली कृती कृष्णदास श्यामाची श्रीकृष्णचरित्रकथा. ही दीर्घ कृती, 131 पानांची. मागीर हातूंत अनेक मराठी कवींच्यो कृत्यो आसात. तातूंत विष्णुदास नामाच्या भारताचे दोन पर्व मेळटात: विराटपर्व आनी कर्णपर्व. (रोमी लिपयेंत).

सुखठणकर, वी. सी., इत्यादी. (सं). 1933–66. *महाभारत.* पुणें: भांडारकर प्राच्य संशोधन संस्थान. (संस्कृत).



# कविता



## पांच कविता

**नरेन्द्र बोडके**



### *पितारलें*

ह्या शारांत पयले फावट
एका झाडार पितारलें हांवें तुजें नांव
आतां हें शार परकी न्हय

हांगाच तूं जालें ल्हानाचें व्हड
घागरो-साडी-जीन्स
भेस बदल्लो तुवें पिळगे कणकणी
ह्या शारान तुजें सूख भोगलें
दुःख सोंसलें
घोवान सोडलें तेन्ना भुरग्यांक घेवन
वसाँ काडलीं तुवें ह्याच शारांत

झाडार पितारलें हांवें तुजें नांव
आनी झाडाक म्हटलें,
तेन्ना हांव नाशिल्लों
तुवें सांबाळ्ळें ताका
उपकार जाले...

झाडार पितारलें हांवें तुजें नांव–
काळजार पितारलें हांवें तुजें नांव–



### *लग्न*

धारगळे देवळांत भटजीन म्हटले मंत्र
तुजी आवय, मावशेभाव, मावशी, मावशेभयण
सगळ्यांचे सामकार आमी घाले सात फेरे
खंय पावले ते?
एक फेरो म्हापश्यां, एक बेती-वेऱ्यां
कोलवाळे, वास्को करतां करतां मुंबय पावलीं
केन्ना, कशीं कळ्ळेंच ना...
मंत्रांच्या दोंकल्यांचेर उबें रावून रावून एक दीस
नाच्च जालें लग्न...
भटजीन पेटयल्ल्या होमखणांत
लासलों हांव... हो उजो आवयकखायरो
ऊब जाय म्हणून पेटोवपाचो
आनी लासून घेवपाचें
जळपाचें
जळजळपाचें...
जिवाच्या आकांतान उडकी मारली
एका व्हड्यार पावलों
आजून तें व्हडें बुडूंक ना...

दुसरे फावट
मंत्र म्हणूंक ना
हाताक लागली ती कूड मात घट्ट धरून दवरली
जोरगर्तीतल्या व्हड्या वरी...

## राणी



म्हज्या मनांत तूं–
म्हजे वेंगेंत
विस्कट्टात तुजे केंस
आनी हांव भिरभिरतां
एका काळ्यासावळ्या चक्रीवादळांत
तुज्या गालाचेर गाल घांसतां हांव
ओंवळाच्या फुलां सारको भरून घेतां तुजो गंध
म्हजे छातयेंत–
खूब लार्गी
खूब वोगी तूं

म्हज्या मनांत तूं
म्हजीच गो राणी
मना भायर वळख ना देख
युगायुगांत हीच
चलत आयल्या काणी...

## भारतीय

म्हज्या मुळांनी
जी माती आसा
तिका तुज्या
दु:खाचें सारें घाल

कांयच उलय नासतना
म्हज्या शब्दांतसून
सांग सगळें
आयुष्य –
द ग्रेट इंडियन रोप ट्रिक

तूं भारतीय चली
हांव तुका वळखतां
स्वत:ची माती करून घेवपाची
तुका संवय आसा...



## तूं

तुजें खंयचें रूप खरें?
मागतनाचें
काय घेतनाचें?

तूं कोण गो?
जग जिखलें त्या नेपोलियनाक
जिखपी क्लिओपात्रा राणी
काय रामा खातीर बोरां उश्टीं करून दवरपी
शबरी?
तूं जननी
काय
विषवल्ली?

गाळयारो घोव
आनी सोन्यान इबाडिल्लो संवसार
टिकोवन दवरता
तेन्ना तूं कोण आसता?
स्वामिनी, मानिनी, कामिनी काय जननी?



# दोन कविता

**तुकाराम शेट**

## जाणटेलो युसूफ

जाणटेलो युसूफ हवा भरता फूस फूस
टायर सायकलीची फुगता फर्र फर्र
जाणटेलो पंक्चर काडटा घासघासून
सायकलकाराच्या आंगातय वारें हून हून

पंक्चर काडून सोंपलीं वर्सांचीं वर्सां
ताच्या तोंडार पडल्यो मिरयो बऱ्योच
तरीय फूर सोदता नवलायेचे उमेदीन
बुराक पुरयता जिविताकच पॅच मारून

तो आसता तसोच उरता गरीबधाकटो
आठ आणे फकत दिवचे पडत म्हणून
टायरांत दुसऱ्याय गिरायक भरता हवा
म्हारगायेंत खोशयेन दिता अख्खो रुपया

भरता वारें नी पोकळी निर्जीव टायरांत
दिता लोकांक उभारी जमनी वयर वयर
नाका कडें धरिना कांदो इल्लो कोणय
जेन्ना सुटटा जाणटेल्याचीच हवा

जाणटेलो मागीर हांगा थंय दिसता
बसला घेवन संवसाराचो संवसार
चलयता काळीज चलयता हातपांय
भरता हवा तुज्या म्हज्यांत...





## तुज्या थळांत

तुज्या थानांत
तरणेपण वाडटा
तुज्या थानांत
युवती दोडटा

तुज्या थानांत
आवय बळटा
तुज्या थानांत
जाणटेपण कळटा

तुज्या थानांत
दूद पिकता
तुज्या थानार
जीव पोसता

तुज्या थानांत
रगताचें दूद
जिवाच्या जिवांत
दुदाचें रगत

तुज्या थानार
मोग जडटा
कोणा कोणाचो
आंवांऽय, काय
तुज्या जिवाचोय
सांगूं येना

तुज्या थळांत
जिवन व्हांवता
तुज्या थळांत
कृष्ण हांसता

# दोन कविता

आर्. रामनाथ

## आवय

आवयचे कुशी परस
तुजें ब्रह्मांड किदें वेगळें आसा व्हय?
तुज्या तेजा परस
आवयच्या मुखामळा वेलो
धादोसकायेचो हांसो
चड तेजाळ न्हय?
तुजो परमभक्त जावचे परस
आवयचो सुपूत जावप चड भाग्याचें न्हय?
आवयचें वात्सल्य
तुजे कृपे परस चड जड न्हय?
तुका अभिशेक घालून
तीर्थ म्हूण पिवचे परस
आवयच्या पांयांक हात लावन
आपल्या कपलाक लावप चड पुण्याचें...
तुज्या पांयांर फुलां घालचे परस
आवयचे पांय दांबिल्ले तुका अदीक मानवतले
तुवेंच सांगलां न्हय रे धनया,
आवयच्या पांयां कडे सर्ग आसता म्हूण...

किदेंय जावं,
आवय ही फकत आवय आसता
ती तुजी रचणूक आसुनूय
तुजे परसूय म्हान.



## सपन

निमाणे कडेन
एका सभाग्यान
आपलें अंत:करण व्हड करून
म्हज्या फुटक्या वाडग्यांत
एक शेळी रोटी उडयली
आनी भर दनपरां वता कडार
गर्भगळीत अवस्थेंत
स्वत:चे असहायतेची धिंड काडीत
अख्खो गांवभर भोविल्ल्याचें सार्थक जालें...
म्हज्या रंध्ररंध्रार हांसो फुल्लो
उसनवट उर्जेचें बळगें घेवन
झपझपीत पावलां मारीत घरा आयलों...

रोटयेच्या वासान
पोट तेंकोवन न्हिदिल्ली म्हजी आवय, भुरगीं जागीं जालीं.
बायल बाबडी जागीच आशिल्ली
तांकां दर एकल्याक रोटी दाखयली
हात लावपाक लायलो
वास घेवपाक लायलो
आनी सरळ भायर येवन
एक फोणकूल खणलें
तातूंत रोटी रोयली
ताचेर आमी सगळ्यांनी दुकां झडयलीं
केन्नाय तरी रोटयांचें झाड जातलें अशें चिंतून...
मागीर सगळीं पोट तेंकोवन न्हिदलीं...

उपरांत
सगळ्यांक वांगडाच एकूच सपन पडलें
सुण्यान फोणकूल उस्तून रोटी खाल्ल्याचें...



## सुखा दुकां गळुंदी

**– सॉतॅर रे. बार्रैत**

दिसता म्हाका जायते पावटी
पावसाळ्यांतलो जावंचो बेबो
धांवचें हांवें उडक्यो मारीत
सोदीत सोदीत उदका थेंबो

जावंदी मळब काळें किट्ट
येवंदी पावस घसघशीत
भुंये मायेक न्हेसूंक आतां
पाचवें कापड चरचरीत

गडगड आनी जोगूल बायेक
फुगड्यो घालुंदी अंत्रळार
बैलांक आपल्या थकेत थकेत
शेतकारान नांगराक काडुंदी धार

शेतां आपलीं नांगरुंदी
कुंबांनी भात पिकोवं दी
दसऱ्याच्या आदल्या दिसा
ताचे कडे भरून ओतूं दी

भुरग्यांक खोशयेन नाचूं दी
कपडे नवे न्हेसूं दी
शेतकाराचे बायले माथ्यार
शेंवतीं-मोगरीं फुलूं दी

भुकेल्ल्यांक हांसूं दी
पोट भरून जेवूं दी
हें सगळें पळयत पळयत
शेतकाराच्या पोल्यां वेल्यान
खोशये दुकां व्हांवूं दी
सुखा दुकां गळूं दी.







## गजल

**– पुंडलीक ना. नायक**

समजूं नाका हांव धुल्ल आसां
म्हजे मदीं हांव गुल्ल आसां

कोण धनी कोण तोल्ल आसा
फाल्यां उजो आज पोल्ल आसा

मन विणिल्लें मल्ल आसा
तणसाणायल्लें बल्ल आसा

हें दुडवांचें गल्ल आसा
सत्व नाशिल्लें कल्ल आसा

हांव कणकीचो किल्ल आसां
वनां रुजिल्लों भिल्ल आसां

जल्म असो नवो ताल्ल आसा
अंयशीं भर्तेचो नाल्ल आसा



## आंगण

**– रुपा कोसंबे**

सोबीत सुंदर गांव
गांवांतलें पोरणें घर
घरा मुखावेलें आंगण
आंगणांत तुळशीवृंदावन
तिनसांज जावंक आयली तशें
आवयच्या हातांत निरांजन
घोटून घोटून शेणान सारयिल्लें आंगण
किलांट्यांनी गेलां गजबजून
सांगपाक कुस्तार कोणाकय
आंगणांत भुरगीं काय
भुरग्यांचें आंगण
खेळटां खेळटां मर्दीच
झगडीं-रडी, रणक्रंदन
दुसऱ्याच खिणाक सगळें विसरून
गळ्यांत गळे, खांद्यार हात
बाळलीला पळोवन धोलतात
कुशींतलीं झाडा-झोंपां मायेमोगान
केन्ना आंगणांतल्या एका कोनशाक
आवय-बापायचें विचारमंथन
आजये-आज्याचो सांगात तांकां
करपाक केदेंय संकट निवारण
असो हो सुपुल्लो गांव
गांवांतलें सोबीत घर
घरा मुखावयलें तिकतिकीत आंगण
आंगणांतलीं भुरगीं
कोण जाणा केन्ना शेणलीं
आतां रडटा आंगण
भुरगीं दिसपाक कुस्तार म्हण
आनी जमतकीर भुरगींय पिरंगतात
आंगण फ्लॅटां पोंदा चिड्डलें म्हण.



# शेजाऱ्यालो सुणो

**– मनोज नरेंद्र कामत**



म्हाका शेजाऱ्याल्या सुण्याची नसाय
सकाळीं हांव उठ्ठना
सुणो भोंवडी करपाक गार्डनांत
हांव च्या घेतना
सुणो क्रिमकेकर बिस्कूत
दुदांत फुगोवन खाता

हांव बेगीन-बेगीन ब्रेकफास्ट घेतां
तेन्ना टायगू थंडसाणेन पेडिग्री खाता
हांव कामाचे गडबडींत बॅग भरतां
टायगू न्हावपाची तयारी करता

सगळीं कामां आटपून
हांव मोटरसायकल सुरू करतां
तेन्ना टायगू म्हज्या आंगार धांवता
शूऽ! हांव ताच्या आंगार वतां
तो हांसता!

मागीर कांय वेळान
न्हावन धुवन टायगू
आंग सुकयता
हांव कामार घाम गळयतां
तो सुस्त न्हिदता
हांव मरून काम करतां



कामाची पाळी सोंपोवन
हांव घराची वाट धरतां
टायगूक बरें मांस शिजता
घमघम पळोवन तो चाळवता
हांव शेळ्या जेवणाची याद काडटां

टायगू म्हऱ्यांत पावतकच रागान पळयता
शूऽ! हांव ताचेर तिडकतां
तो परतून हांसता!
हांव वतांतल्यान जळपेत घरा
जेवणाची उणी गळ्या सकयल देंवना

तो पोटभर मास खावन सुस्त न्हिदला
हांवूच अडेचो धेंकर दिवन आड पडटां
सपनेतां...
फुडल्या जल्मांत सुणो जावपाचीं सपनां पळयतां
सूख म्हळ्यार कितें काय?
काम करिनासतना बसून खावप
आंग खेळोवन सुस्त न्हिदप
म्हाका दिसूंक लागता
एलांट्रा गाडयेंतल्यान हांव भोंवतां
हांव हांसतां!
शूऽ! तिडकीचें उतर कानार पडटा.



## खावपाची रीत

– महेश पारकार

सोप्यार बसून असोच, विडयो फुसकायतालो बापूय
तें पळोवन एकसारकी, आवय ताका खेपताली, दोतोरालो भंय घाली.
बापायले पिरायेचेर आतां हांव पावलां
म्हाकाय फुसकायन दिसता विडयो, शिगरां जावं अशेंच कितेंय तरी
ती रूच लावन घेतलिना पूण,
टायम खावपाचो उपाय करचो पडटा कसलोय तरी!
तेन्ना मागीर जाप गावता, बापूय कित्याक विडयो-शिगरां ओडटालो ताची!
ताणें संवसार केलो, जिवीत जियेलो सगल्यां वरी
तागेली फुसकावपाची तान मरणा सांगाता सोंपली
पूण आवय बाबडी, लोकांक सांगता आयजूय
ताच्या मरणाक कारण संवय विडयांची.
आतां बायल म्हजी सांगता लोकांक एकसारकी
हाका व्यसन लागलां बरोवपाचें, म्हणटा
''असल्यांनी तकली इरार जातली शी दिसता हाची.''
बापूय ओडटालो विडयो, हाका संवय लागल्या बरोवपाची
दोनूय गजालीं कडेन पळोवपाची मांय-सुनेली नदर एके भशेची!
हालीं-हालीं म्हाकाय दिसता.
दोनूय गजालींतलीं साम्यथळां, विचारांचो धुंवर करपाच्यो पद्धती
बेकारसाणी कडेन झगडत टायमाक खावपाच्यो आनी
अशेंच एक दीस टायमाचे भकीक पडपाच्यो मोदी!
बापायली गादी चलयतां हांव, म्हजी म्हजो पूत चलयतलो
टायमाक मात कोणाचो कसलोच ना पात्सो...
तागेली खावपाची रीत सगल्यांक सारकी !





## पाकळयो

– सिद्धी संजीव केरकार

कितेंय तोपता तेन्ना
मनाक 'हाय' जाता
आपशींच कागदार मागीर
उतरां धांवतात
हीच काय... कविता?

×××

जिवीतभर घोवा खातीर
बायल सगलें सोंसता
घोव मात...
तिचें हेंच जिवीत
अशें समजता...

×××

मांडवी मेकळो स्वास
घेवचो यत्न करता...
नव्यो नव्यो बोटी मात
तिचो गळो दांबतात...

×××

सुवार्थी मनीसजात
करता पर्यावरणाचो घात
आनी म्हणटा मागीर
जागतीक तापाचेर करया मात.



## कथा म्हजी...

– सुशीला नि. हळर्णकार



इश्टिणी... तुजे परस
ना हांव वेगळी
ना तुजे परस
जीण म्हजी मेकळी
तुजे सारकीच
म्हजी कथा
तुजे सारकीच
म्हजी व्यथा
तिनसांजेच्या वेळार
मोवाळें रंगोवन
साज चडोवन
सोबीत हातांत
गजरो घेवन
मेकळेपणान तूं
वाट पळयता
काळीज नाशिल्ल्या
गरजू गिरायकांची
आनी हांव...
हांवूय नटून थटून
घरांत बसून
वाटूच पळयतां...
अधीर जावन
म्हज्या सांगात्याची
तेच तळमळे
तेंच दुख्ख
तेच कळवळे
तेंच सूख
तेच अन्याय
तेच अत्याचार
सोंशीत सोंशीत
तूं दीस सारता
हांव तरी कितें
दुसरें करतां?
अन्याय अत्याचार
सोंशीत सोंशीतच
लाचार जीण म्हजी
मुखार धुकलतां
तुजे सारकीच
म्हजी कथा
तुजे सारकीच
म्हजीय व्यथा
फरक इतलेच
तशी तूं मेकळी
मळबांतल्या सुकण्या वरी
आनी हांव मात...
बंधनाच्या पांजऱ्यांत
तडफडटां...
फडफडटां...
बंदिस्त किरा वरी
बंदिस्त किरा वरी.



## उश्टें पेर

– हर्षा शेटये

पिकिल्ल्या पेरांनी कुचकुचीत भरिल्ली पेर
मिरया मिरयांचो व्हिस्तीद घाल्लें चली
लक्तुबायेन पेरी कडेन पळयता
हाता कडेन मेळिल्लें पेर उमेदीन खाता
'तुका जाय?' – ताका विचारता
'पळय खावन पाख्यांनी उश्टायलें पेर
कितलें रुचीक लागता तें'
तो खावन पळयता
चलयेन उश्टायल्लें
गोड खुबूच गोड
तो पुटपुट्टा

अंदूंय पेरां खूब लागल्यांत
पूण पाखेय नात
आनी ती चलीय ना
पिकिल्ल्या केसांचो तो मात
सपनेल्ल्या दोळ्यांनी
पेरी कडेन पळयत आसा







# सात कविता

**मूळ पंजाबी: अमृता प्रीतम**
**हिन्दी वयल्यान कोंकणी अणकार: राजश्री सैल**

## याद

आयज सुर्यान भिवून
उजवाडाचें जनेल उगडलें
कुपांचें जनेल बंद केलें
आनी काळखाचे पांवडे देंवून गेलो

मळबाच्या कपलार कोणाक खबर
कित्याक घाम आयलो
नखेत्रांचीं बटनां उगडून
चंद्रिमाचो लोब देंवयलो

हांव काळजाच्या एका कोनशाक बशिल्लीं
तुजी याद अशे तरेन आयली
जसो ओल्या लाकडांतल्यान
गाड कोडू धुंवर उठचो
वांगडा हजार विचार आयले
आतांच पालवल्लीं
सुकीं लाकडां
जशीं उज्याचे यादीचे सुस्कारे सोडटात
वर्सां कोळशा वरी पसरल्यांत
कांय न्हिवल्यांत, कांय भगभगतात
काळाचो हात तांकां एकठांय करपाक गेलो
तळव्यार फोड उदेले
तुजो मोग हातांतल्यान सुटून गेलो
आनी जिवीत तुटून गेलें
इतिहासाचो सोयरो
चवकेंतल्यान भुकेल्लो उठून गेलो



## उज्याची खबर

ही उज्याची खबर
जी तुवेंच सांगिल्ली
ही जिणेची तीच सिगरेट
जी तुवें केन्ना तरी पेटयल्ली

कीट तुवेंच दिल्ली
हें काळीज जळत रावलें
काळ पेन धरून
खंयचो तरी हिशेब बरयत रावलें

चवदा मिनटां जालीं
हाचें खातें पळय
चवदा वर्सां जालीं
ह्या पेना कडेन उलय

म्हज्या शरिरांत
तुजो स्वास चलत रावलो
धर्तरी गवाय दितली
धुंवर उडत रावलो

जिविताची सिगरेट जळ्ळी
म्हज्या मोगाचो परमळ
थोडो तुज्या स्वासांत
थोडो वाऱ्यांत भरसून गेलो

पळय हो निमणो कुडको
बोटांतल्यान सोडून दी
घडये म्हज्या मोगाची
हुनसाण तुजीं बोटां जळयत

जिविताचें कांय दुःख ना
ह्या उज्याक सांबाळ
तुज्या हाताचें बरें मागता
आनीक एक सिगरेट जळय.

## वताचो कुडको

म्हाका तो वेळ याद आसा
जेन्ना वताचो एक कुडको
सुर्यालें बोट धरून
काळखाची जात्रा पळयत
त्या चोम्यांत सांडून गेलो
चिंत्तां हांव वोगीपण आनी रितेपण हांचें एक
नातें आसूंक जाय
हांव ताचें कोणच लागना
पूण त्या शेणिल्ल्या भुरग्यान
म्हजो हात धरलो
तूं खंयच मेळना
हाताक आफुडटा
एक ल्हानसो हून स्वास
हाताक धरुंकय जायना
हातांतल्यान सुटय ना
काळखाक शीम आसना
जात्रेच्या बोवाळांतय
रितेपणाची घुंवळ आसता
आनी तुजी याद अशी
जसो वताचोच एक कुडको



## आदी संगीत

हांव आशिल्लें आनी घडये तूंय
एक अंतपार नाशिल्लें रितेपण
आशिल्लें
जें सुक्या पाना वरी सरसरतालें
वा अशेंच देगे वेले रेंवे वरी
करगतालें
पूण ती इतिहासीक काळांतली खबर
हांवें तुका एका मोडणार आवाज दिलो
आनी तुवें परतून आवाज दिलो
तेन्ना वाऱ्याच्या गळ्यांत कितें तरी थरथरलें
मातयेचे कणकण कांय सरसरले
न्हंयच्या उदकांत कितें तरी गुणगुणलें
झाडाच्यो खांदयो करकरल्यो
पानांतल्यान एक झंकार उठलो
फुलांच्या पाकळ्यांनी दोळे फांफुडले
शेवण्यान पांखां हालयलीं
होच पयलो नाद आशिल्लो
जो कानान आयकलो
सप्त सुरांची व्याख्या
तर खूब उपरांतची खबर

## रिती सुवात

फकत दोन राजवाडे आशिल्लें
एकान म्हाका आनी ताका
भायर उडयलीं
आनी दुसऱ्याक
आमी दोगांनीय सोडलो

मेकळ्या मळबा पोंदा
हांव कितलो वेळ मेरेन
तनामनाच्या पावसांत भिजत रावलें
तो कितलो वेळ मेरेन
तनामनाच्या पावसांत गळत रावलो
उपरांत वर्सांसंकीचो मोह
विखा वरी पिवन
तांणी थरथरिल्ल्या हातान म्हजो
हात धरलो
चल!
खिणाच्या माथ्यार एक पाखें
घालया
थंय पळय! थंय मुखार
खऱ्या आनी फटीचे मर्दी
इल्ली सुवात रिती आसा.



# एक मुलाखात



हांव वगी शांत आनी थीर
उबी आशिल्लीं
लार्गींच्यान व्हांवपी दर्याक मात
तुफान आयिल्लें
उपरांत देवाक खबर, दर्याच्या मनांत कितें आयलें
ताणें तुफानाची एक घटशी पोटली बांदली
म्हज्या हातांत दिली
आनी हांसत हांसत आपूण पयस पयस गेलो
घुस्पलें हांव हो चमत्कार पळोवन
पूण खबर आशिल्लें अशे तरेच्यो घडणुको
युगायुगांतरांत एकदांच घडटात

हजार विचार आयले मनांत
माथें तिरमिरलें
पूण उबें रावलें
चिंतत हें वजें उबारून
आतां म्हज्या शारांत कशें वचूं
म्हज्या शाराची दर एक पायण
अशीर दर एक पाखें
मोटवें
दर एक वणत विरविरीत

दिसलें तूं खंयय मेळ्ळ्यार
दर्या वरी ह्या वज्याक काळजार
दवरून आमी दोगांय दोन किनाऱ्यां वरी
हांसता आसलीं
मोटव्या पांख्याच्या आनी
अशीर पायणींतल्या शारांत रावता आसलीं
पूण सगली दनपार तुका सोदत गेली
आनी म्हज्या उज्याचो हांवेंच घोंट घेतलो

हांव एक एकाकी देग
देगेक हांवेंच व्हांवयली
आनी जेन्ना काळीज व्हांवपाचें आसलें
दर्याचें तुफान दर्याकच परत दिलें
आतां रात भोंवतणीं घुंवूंक लागल्या
तेन्ना तूं मेळ्ळो
तूंय उदास वग्गी शांत थीर
हांवय वग्गी उदास थीर
फकत पयस पयस व्हांवपी दर्याक मात
आकांताचें तुफान







कांय वर्सां फाटली गजाल
जेन्ना हांव आनी तूं वेगळीं जालीं
कांय पश्चाताप ना
फकत एकच खबर
समजुंकच येना
तूं आनी हांव जेन्ना दोन वाटांनी वतालीं
आमचें घर विकतालें
चवकेंतलीं रितीं आयदनां
म्हज्या तुज्या दोळ्यांत पळयत
आंगणांत पडिल्लीं
कांय उलटून पडिल्लीं
घडये तोंड लिपयतालीं
दारांतली वाल बाविल्ली
घडये म्हाका तुका कितें तरी सांगताली
वा उदकाच्या नळाक उलो मारताली
हें सगळें आनी तो वेळ
केन्नाच याद जायना
फकत एकच गजाल
खूब खूब याद जाता
वाटे वेलें एक सुणें
कशें आनी कितें हुंगीत
रित्या घराचे एके खोलयेंत घुसलें
आनी घराचें दार भायल्यान बंद जालें
परत तिसऱ्या दिसा
सगळें मेकळें जालें
चावयो दिल्यो
नोटो घेतल्यो



नव्या मालकाक कुलूप सोंपयलें
एक एक खोली दाखयली
तेन्ना एके खोलयेंत
ह्या सुण्यालें
मडें मेळ्ळें
हांवें तागेलें भोंकप
केन्ना कानांनी आयकूंक ना
फकत ताचो वास नाकांत
वचून बशिल्लो
आनी तोच वास आतां असोच
अचानक म्हाका कितल्याश्याच
वस्तूंतल्यान येवंक लागता.



एक दु:ख आशिल्लें
जे सिगरेटी वरी
हांव वग्गी रावन पिलें
कांय गितां आसात
जीं सिगरेटीच्या गोबरा वरी
झाडून उडयली.



## *यात्रीक जायात*

**– टी.एस. ईलियट**

**भावानुवाद: सुजाता सिंगबाळ**

म्हाका देवदेवतां विशीं चड म्हायती ना
पूण म्हज्या मनांत दर्या आसा,
शक्तिवान दैवत आसा, तो तापट, क्रोधी
आपल्या रुतूंचो आनी आक्रोशाचो विनाशक मालक
आमका विसरपाचें आसता ताचीच तो याद करून दिता.
तरीय आमकां तो आदरणीय आसता
कारण दर्यो आमच्या अंतस्कर्णांत आसा
दर्यान आमकां वेंगायलां
आमच्या नि:स्वर चित्कारांक अंत खंय आसा?
ोन्यांनी बावतात त्या फुलांक अंत खंय आसा?
ारवां दर्यांत व्हांवत रावतात, तांकां खंय अंत आसा?
अत खंयच ना फकत वृद्धी आसा
तसोच दीस रातीचो अविरत क्रम
तातूंत आमीच आमच्या यातनांचे खीण सोडून काडले
सगळोच भ्रम
भ्रम, ह्या यातनांचें मूळ पूण ही आमची
खरी व्यथा न्हय
आमकां अवास्तव गजालींची आकांक्षा
आनी तांचें भंयय ना
हें खीण स्थायी आसात
वेळ स्थायी आसा तशें
आमी ह्यो गजाली आमच्या यातनां परसय
हेरांच्या यातनांतल्यान चड बरे रितीन
समजून घेवंक शकतात
कारण आमचो भूतकाळ कर्मरुपी धारां मदीं
लिपिल्लो आसा, परदु:ख एक विशुद्ध
अणभव जो केन्नाच पोरणो जायना!
लोक बदलतात, हांसूं खेळूंक लागतात
पूण यातना तशीच उरता
शवां आनी कांटे खोशयेन आपले वांगडा
व्हांवत व्हरपी दर्या सारकी
काळ संहारक आसा, रक्षकय आसा
हांव सदांच विचार करतां,
श्रीकृष्णाचें तत्वगिन्यान हेंच आशिल्लें?
भविष्य, एक अंधूकशें गीत
आनी ते खातीर पश्चाताप करपा खातीर तांणी
जल्म घेवंक ना.
पश्चाताप एक तांबडो गुलाब, एका हळदुव्या
पानांत दवरिल्लो, जें पान
केन्नाच उगडूंक ना
भूतकाळा कडच्यान पयस रावात,
यात्रीक जायात, फुडें चलात
तुमी वेगळी जीण, वा भविश्याचे दिकेन
व्हावचें नात?
फुडें सरात, तुमकां दिसता तुमी प्रवास करतात
पूण बंदर तुमी फाटल्यान दवरनात,
पलतडीय तुमी पावनात
ह्या खिणांच्या दोनय देगांर (तिरार) काळ थारता,
भविश्याचेर आनी भूतकाळाचेर सारकीच नदर दवरात.
हो खीण कर्म करपाचो न्हय वा
कर्म करी नासतना रावपाचोय न्हय
लक्षांत दवरात, मर्णा वेळार चेतनाशक्ती
ज्या बिंदूचेर मनीस केंद्रीत करता
तेंच एक कर्म
कर्मफळाची आस धरूं नाकात, फुडें चलात
हे यात्रिकांनो वा तारवट्यांनो!
तुमी ज्या घाटार उतरतले आनी तुमी ज्या
देहरुपी दर्याचे निर्णय मानतले
तुमच्या नशिबांत जें किर्ते आसतलें
तेंच तुमचें घर
श्रीकृष्णान युद्धभुंयेर अर्जुनाक उपदेश केला
प्रस्थान नाका, फुडें वचात
यात्रीक जायात.





Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Rutu Offset Printers, Volvoi, Ponda -Goa. Editor : Madhavi Sardesai